## दिलीप बोरकार

## हांच्यो हेर साहित्यकृती

### नाटकां

- भरतेभार
  कला अकादमी पुरस्कार १९८२
- वर्गशत्रू
- आण्टीची गादी
- आयज आमचें राज आयलें

### एकांकी संग्रह

- कॅन्सर
- एक शून्य प्रवास

### प्रवास वर्णन

- गोमांचल ते हिमांचल

कला अकादमी पुरस्कार १९८५
साहित्य अकादमी पुरस्कार १९९५

### बालसाहित्य

- दर्यासुंदरी
- अशांत सुशांत
- मस्त्या गुंड्डूची नस्ती भोंवडी

रूक्षप्रस्न

(साहित्यिक निबंध)

दिलीप बोरकार

RUKSHA PRASNA

(Literary Essays)

Dilip Borkar

अगस्ती प्रकाशन :

प्रकाशन क्र. ११





◆ पयली आवृत्ती
१९९८

◆ छापणावळ :
न्यू अेज प्रिन्टर्स,
पणजी - गोंय,
फोन : २२३९२४ / २२२०६३.

◆ भायलें चित्र :
डॉ. सुबोध केरकार
कळंगूट - गोंय.

◆ प्रकाशक :
अगस्ती प्रकाशन
आगशी - गोंय

◆ मोल :
एकशे साठ रूपया

# मांडावळ





*I shall not allow the richest curtains to hang between myself and my readers.*

# उपकार.....

आपल्या दैनिकांतल्यान, राष्ट्रमतांतल्यान एक लेगीत ओळ काडून उडयनासतना आसा तशें छापून पूर्व प्रसिद्धी दिल्लेखातीर संपादक श्री. चंद्रकांत केणी हांचे.

भायलें चित्र सुबक आनी कल्पकतेन काडून पुस्तकाचें रूप सोबयल्याबद्दल डॉ. सुबोध केरकार हांचे.

न्यू अेज प्रिन्टर्सचे धनी, फा. फ्रेडी द कोश्त आनी तांचे कामगार.

राष्ट्रमतांतल्यान पूर्व प्रसिद्ध जाल्ले लेख वाचून तुस्त करपी, प्रोत्साहन दिवपी वाचप्यांचेय उपकार आठोवप कर्तव्यच.

# यक्षप्रस्न .....? रूक्षप्रस्न

**पां**डव वनवासांत आसतना तांचे अज्ञातवासांत वचपाचे दीस लागीं पाविल्ले. त्याखातीर ते खंयच्यान खंय वतात हाची खबर कोणाक लावंक दिनाआशिल्ले. काम्यक वन सोडून ते द्वैत वनांत गेले.

द्वैत वनांत आसतना तांचे वळखिचो एक ब्राह्मण तांच्या म्हऱ्यांत रावतालो. त्या ब्राह्मणाच्या अग्निहोत्राचो उजो पेटोवपाची अरणी आनी मंथा झाडाचे खांदयेर हुमकळटाली ती एका सांबराच्या शिंगाक घुसपली आनी तीं घेवन तें सांबर जंगलांत पळ्ळें. ब्राह्मणान पांडवांकडे अरणी आनी मंथा हाडपाची विनंती केली. पांडव आपलीं आयुदां घेवन सांबरा फाटल्यान धावले. पूण तें सांबर तांका गावलेंना आनी आयुश्यांत पयलेच फावट पांडवांक अपेश आयलें. पांडव सामके निर्शेले आनी थंयच बसून आपल्या अपेशांचीं कारणां सोदूंक लागले.

सांबरा फाटल्यान लागून सगळ्यांचे प्राण तानेन खासावीस जाल्ले. युधिष्ठिरान नकुलाक उदक हाडूंक धाडलो. नकूल एका तळ्याकडेन गेलो. उदक काडूंक हात घालता थंयच आसा. ताच्या कानार आवाज आयलो. – तळ्यांत देंव नाका. हांव विचारतां त्या प्रस्नांच्यो जापो दी आनी मागीरच तळ्यांत देंव –

नकुलान तो आवाज कानामनार घेनासतना तळ्यांत देंवलो आनी घोंटभर उदक पियेलो आनी त्याच खिणाक तो मरून पडलो.

नकुला फाटल्यान सहदेव, अर्जून, भीम त्या तळ्याकडे पावले आनी प्रस्नाच्यो जापो दिनासतना उदकांत देंविल्ल्यान मरून पडले.

आपले चौगुय भाव परते आयलेंनात देखून युधिष्ठिर थंय गेलो आनी ताका आपले भाव थंय मरून पडिल्ल्याचे दिसले. पूण ते सहज कोणाच्या हातान मरपी न्हय हाची खात्री युधिष्ठिराक आशिल्ली. ताणें तांका बारीकसाणेन पळेलें आनी ती कसली तरी नखलामी म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तोय तळ्याकडेन गेलो आनी ताका तोच आवाज आयलो. युधिष्ठिरान ताका तूं कोण काय विचाल्लें –

तर तो यक्ष आशिल्लो. ताणें युधिष्ठिराक प्रस्न विचाल्ले आनी युधिष्ठिरान ताका जापो दिल्यो. ते यक्षप्रस्न.....

यक्षान युधिष्ठिराक सुमार अट्ठावन प्रस्न विचारले आनी तांच्यो जापो मेळटकच

ताणें ताच्या भावांक जिवे केले. तो यक्ष म्हळयार दुसरो तिसरो कोणूच नाशिल्लो तर युधिष्ठिराची परिक्षा घेवंक आयिल्लो यम आशिल्लो.

महाभारतांतल्या ह्या तळ्याकडे गेल्ल्यांक यक्षान प्रस्न विचारले. जांका जाप दिवंक आयलिना वा जाप खबर आसून लेगीत दुर्लक्ष केलें त्या चौगांक मरण आयलें आनी एकल्यान सरासर जापो दिल्यो त्या युधिष्ठिराचेर खूश जावन प्रस्न विचारतल्यान आपली खरी वळख सांगून ताची परिक्षा घेतालों म्हणपाचें सांगलें.

भारत देशाच्या ह्या तळ्यांत पावलाकणकणी खूपशे यम आसात जे सतत प्रस्न करीत आसतात. जांका जाप दिवपाची ना वा दिवं नज तांका खिणाखिणाक मरण भोगचें पडटा. त्या मरणांतल्यान जिवे करतलो जाल्यार कोणेतरी जाप दिवंक जाय. ह्या पुस्तकांत आयल्यात ते यक्षप्रस्न न्हय. आयज हांगच्या प्रदुशीत तळ्यांत, तळ्याच्या धनयाक, समाजाक प्रस्न करचे आसतात. ते रूक्षप्रस्न.....

कांय वर्सांपयलीं एका इंग्लेज बरोवप्याचें पुस्तक हातांत पडलें. बरोवप्याचें नांव विसरलों. ह्या पुस्तकांत ताणें फक्त दोन हजार एक प्रस्न विचारल्यात. तांच्यो जापो ताणें दिवंक नांत. तातुंतले कांय प्रस्न म्हाका लागताले. तांचेर हांगा हांवें भाश्य केलां.

नवप्रभा दैनिकाच्या आयतार आवृत्तींत 'व्यक्तिमत्व' म्हूण एक सदर येतालें. त्या सदरांत कांय प्रस्न आसताले. ह्या सगळ्या प्रस्नाच्यो जापो एका शब्दांत वा वाक्यांत आसताल्यो. त्या सगळ्या प्रस्नाच्यो जापो म्हजे विचारप्रणाली प्रमाण हांगा आयल्यात.

हे रूक्षप्रस्न राष्ट्रमत दैनिकांतल्या आयतार आवृत्तींतल्यान ह्या पयलीं उजवाडाक आयल्यात. तांका हांवें 'साहित्यिक निबंद' अशें म्हळां. निबंदाचे कसवटीचेर ते कितले उतरतात वा तांचो साहित्यिक दर्जो कितलो हें वाचक आनी काळ थारायतलो. हांवें शुद्ध मनान म्हजे विचार म्हळ्यार म्हाकाच हांगा पितारला.

हें साहित्य वाचून वाचकांमदीं प्रस्न निर्माण जाल्यार जातात. पूण ते रूक्ष आसचे न्हय.....

आगशी - गोंय.

**दिलीप बोरकार**



# तूं कोण



**म्हा**काय खबर ना हांव कोण तो ! पूण हांव कोण हें म्हत्वाचें. हेंच आयच्या समाजांतलें सत्य. हांवें कितेंय करूं, कसोय वागूं हांव. पूण दरेक गजाल करतना हांवें मतींत दवरूंक जाय तें म्हळ्यार हांव कोण ?

म्हाका केन्ना केन्नाय दिसता सगळे बुरखे पिंजून उडोवंचे. आंगावेलीं सगळीं न्हेसणां तिस्त्यो वाद्रयो करून उडोवंच्यो आनी जसो सैमान रचला तसो लोकांमुखार वचचें. तशें हांवें केलांय बी. पूण लोक हें सत्य आपणावंक तयार नासतात. ते एक वेळ कपड्यांबगर म्हाका आपणावंक शकतात. पूण म्हज्या मनाचें उगतेपण तांका पटना. देखून ते रोकडेच म्हाका याद करून दितात. तूं कोण तें जाणां मरे तूं ? तेन्ना मागीर म्हाकाय प्रस्न पडटा, खऱ्यानीच हांव कोण ? हांव दिलीप बोरकार काय हांव धर्मुलो ?

आता हो धर्मुलो कोण ? धर्मा हें म्हज्या बापायचें नांव. पूण महाभारताचें पारायण करून लेगीत अथवा धर्माच्या नावान हेरांक जाणवायो सांगपी लोकांक, धर्माक पाळो दिवंक जाय असो आग्रो धरून लेगीत म्हज्या बापायक धर्मा म्हणप केन्नाच जमलेंना. धर्मा म्हणटकच हांव धर्मालो अशें हेरांनी म्हणू येतालें. तें वेव्हारीक नदरेनूय आनी शास्त्रीय नदरेनूय योग्य थरतालें. धर्मा हें नांव आकारान सोंपता. आ स्वरा उपरांत इ स्वर येता. थोडे भितर चड फायदो अथवा उण्या परिश्रमांतल्यान अदीक फायदो ह्या मनशाच्या सभाव गुणाप्रमाण आ स्वरा उपरांत इ स्वर जाय जाल्यार घेवं येतालो. पूण नांवाचें विडंबन करूंक लोक एकदम ऊकाराचो आदार घेतात तें भाशाशास्त्रांत कशें बसता आनी वेव्हारीक कशें तेंच कळना. धर्मा चो धर्मू करचे परस जर ताणीं म्हजें नांव खबर ना देखून धर्मालो म्हणिल्लें जाल्यार समजूं येतालें. तांका तें सोपें पडूं येतालें. पूण तशें म्हणप म्हळ्यार तांचे जिबेक सोंपे आसुनय जड वतालें. तेच खातीर म्हज्या बापायचें नांव धर्मा आसुनय धर्माचें धर्मू करून मागीर म्हजी वळख थारायताले..... तो कोण जाणांत मू ? तो धर्मुलो.

म्हजें नांव दिलीप बोरकार आसून लेगीत हांव धर्मुलो. म्हाका देशांतलो कोणूय सोदूंक आयलो आनी म्हज्या गावांत येवन म्हजो पत्तो ते सोदूंक शकनात. दिलीप बोरकार हें नांव म्हज्या गांवच्या लोकांक अनवळखी आनी अपरूप ! कोणेंय जर तांका हांव म्हळयार दिलीप

बोरकार खंय रावता अशें विचारलें तर तांकां हात हालयत परतें वचचें पडटा. तेंच जर ताणीं 'धर्मुलो खंय रावता ?' अशें विचारलें जाल्यार गांवचे आठ - धा वर्सांचे पोर धरून सत्तर - अयशीं वर्सांचे जाण्टेले लेगीत, विचारपी आपलोच मनीस अशें समजून, रस्त्यावेले कांटे आपल्या पांयानी पयस काडून तांका म्हज्या घराकडेन हाडून पावोवपाचें काम मोठे उर्बेन करतात. तांचें हें कार्य म्हजे खातीर नासता. दिलीप बोरकार हेरांचे नदरेन फुडारी, बरोवपी हाचें तांका व्हडलेंशें कांयच पडून गेल्लें नासता. ते दिलीप बोरकाराक वळखय बी नासतात. ते वळखतात धर्मुल्याक. हें सगळें घडटा आसतना मागीर म्हाकाय बी प्रस्न पडटा हांव खरेलोंच कोण ? हांव दिलीप बोरकार काय हांव धर्मुलो ? हांव कोण हो म्हजे खातीर एक रूक्षप्रस्न !

हांव कोण ? हो रूक्षप्रस्न जरी हेरां वांगडाच'म्हजे खातीरूय आसलो, तरी 'हांव' हें म्हत्वाचें. दरेक मनशाभितर 'हांव' हो आसताच. 'हांव' जर मनशांभितर नासलो जाल्यार त्या मनशाक कांयच अर्थ ना. हो संवसारूच 'हांव' बगर चलपाचो ना. धतरिवेली सगळी गजाल घुंवता ती 'हांव' चे भोंवतणी. जेन्ना हांव ह्या संकल्पने भोंवतणी संवसार घुंवता तेन्ना हांव कोण ? असो प्रस्न आपल्याकूच पडप वा कोणेय तूं कोण ? अशें विचारपांत कांयच अर्थ नासता. कित्याक ह्या निरर्थक प्रस्नांतूच अर्थपूर्ण जाप उप्पाट भरिल्ली आसता.

धतरिवेल्या दरेक मनशाभितर, वयर सांगिल्ले प्रमाण 'हांव' हो जरी आसलो तरी ते संकल्पनेक दुसऱ्या बाबतींत मात हे हांवकार फांसार मारतात. तेच खातीर आयज काकुलो, भोब्यालो, दामुलो, कुष्टालो, रवळुलो जांव दुमगालो, पेद्रुलो हेंच समाजांत चडशें रूळत चल्लां. तरीपूण हें सगळें चलता तें 'हांव' चे खातीरूच.

हांव कोण हें जरी आतांमेरेन म्हज्या भोंवतणच्या लोकांक खबर नासलें आनी आसलेंय तरी ते मानून घेवंक तयार नासले तरी हांव कोण हें म्हजेपरस तांकाच चड खबर आसता. तेच खातीर ते हांव कोण हो प्रस्न, जाप खबर आसुनय म्हाका विचारतात आनी हांव कोण हें म्हाकाय बेस बरें खबर आसून लेगीत म्हाकाय स्वताकूच सतत प्रस्न करीत रावचो पडटा.... हांव कोण ? हाचेवेल्यान हांव कोण हो प्रस्न रूक्ष आसुनय कितलो म्हत्वाचो आसा तें कळून येता.

येसू खीस्त हो सगळ्यांचो जांवक पावलो. कारण तो आपूण कोणूच न्हय आनी कोणाचोच न्हय अशें मानून कार्य करीत रावलो. जो कोणूच नासता तो सगळें आसता आनी जो कोणाचोच नासता तो तशें पळोवंक गेल्यार सगळयांचोच आसता. पूण हांव हो म्हजोच. हांव कोणाचोच न्हय. कित्याक हांव 'स्व' म्हळयार 'हांव' चेर विस्वास दवरतां. जर हांव, 'हांव' कोण म्हणपाचें विसरलों तर म्हाका दिसना हांव येसू खिस्ताप्रमाण सगळ्यांचो जायत सो ! सगळ्यांचो जातलो जाल्यार मनशान आपल्याक विसरूंक जाय अशें मोठेमोठे विचारवंत

म्हणटात. मनीस स्वताक विसरून गेलो म्हणटकच तो विश्वाचो जावन वता.

रवींद्रनाथ टागोर, महात्मा गांधी, विवेकानंद, येसू ख्रीस्त बी सगळे विश्वपुरुस.आपल्या कर्तुत्वान ताणी विश्वरूप धारण केलें. पूण हें कर्तुत्व गाजयता आसतना ते आपूण कोण हें विसरून गेल्ले काय ? म्हाका दिसना ! जर ते स्वताक विसरून गेल्ले, आपूण कोण हें विसरलेले जाल्यार ते नांव जोडूंक पावतले आशिल्ले अशें म्हाका दिसना. मनीस जेन्ना स्वताकूच विसरतात तेन्ना सगळो लोक ताका विसरून वता. तेच खातीर जो मनीस 'हांव' अथवा आपूण कोण हें विसरता अथवा हेरांक विसरचें म्हूण सांगपाचो यत्न करतात तेन्ना म्हाका तांच्या फटींगपणाची काकळूट दिसता.

हांव कोण हें विसरप म्हाका तरी शक्य जालेंना आनी ह्या फुडें जायत अशेंय म्हाका दिसना. जेन्ना लोक म्हाका धर्मुलो म्हणटात तेन्ना म्हज्यांतलो 'हांव' तकली वयर काडटा. म्हजें स्वतंत्र अस्तित्व आसतना म्हाका म्हज्या बापायच्या अस्तित्वाचेर कित्याक वळखुचें ? तूं अमको म्हणचे परस तूं अमक्यालो म्हूण विशय येतकच म्हाका दिसता की म्हजे परस म्हज्या बापायचें नांव, फामिलेंतल्या हेरांचें कर्तृत्व व्हड. तांचो सामाजीक वावर म्हाका खबर आसता. तांचो वावर पळयल्यार, त्या वावरामुखार म्हजें कार्य व्हड दिसून हांव म्हजीच फाट थापटितां. पूण अशे प्रस्न आयल्याबराबर म्हज्या वावराचें मोल म्हाका कळून येता. म्हाका कळटा की हांव म्हळ्यार कोणूच न्हय.....

समाजात आनीक एक प्रकार दिसून येता तो म्हळयार बायलांनी लग्न जाल्या उप्रांत नांव बदलप हो. सद्या ह्या नांव बदलपाच्या प्रकाराक स्वताक आधुनीक म्हणोवन घेवपी चलयांकडल्यान विरोध येता. हातुंतल्यानूच मंगळसूत्र बी गजाली आंगार घालच्यो न्हय होय विचार रूळत चल्ला. बायल हो प्रकार लग्ना उप्रांतूच जल्माक येता. पयलीं ती चली आसता. बापायचें नांव आपल्या नांवामुखार लावन ती आपलें आंकवारपण मिरयत आसता. उप्रांत लग्न जाले उप्रांत घोव तिजें नांव बदलता आनी तिजें हांवपण ह्या मंगळसुत्राच्या धाग्यान कचांयस करून ना जाता. एका खिणातूच ती चली आपलें अस्तित्व विसरून कोणाच्यातरी अस्तित्वाचेर तिचें नवें अस्तित्व निर्माण जाता. पयलिंच्यो चलयो हातुंतूच धन्यताय मानताल्यो. पूण आता समाजीक सुधारणेच्या नांवान हें नांव बदलप जांव मंगळसूत्र नांवाचो घोवाचों अधिकार न्हयकारप हो प्रकार समाजात रूळत आसा. चलयेक आपल्या अस्तित्वाची म्हळ्यार 'हांव'पणाची जाणविकाय जावन ती आपलें नांव बदलपाक विरोध करता. तिका आपलो 'हांव' हो ट्रेडमार्क खंयतरी जागयता. तांच्या ह्या विद्रोहाक तेंको दिवपी म्हजेसारको कोणतरी ह्या समजांत आसताच. चलयांनी लग्न जाल्याबराबर एका अनवळखी मनशाच्या नांवाचेर विस्वास दवरून आपलें अस्तित्व कित्याक उंवाळून उडोवंचें हाची जाप कोणाचकडेन नासता. पयलिंच्यो चलयो ह्यो गरीब गायो आशिल्ल्यान हें सगळें

हांवपण विसरून त्यो व्हांवत वताल्यो. पूण आतां शिक्षणाक लागून आनी हेर सुधारणेखातीर ह्या तांच्या हांवपणाचो तांका दिस्टावो जाल्लो आसा. तेचखातीर घोवावांगडा बायल ह्या नात्यान रावून लेगीत आपल्याचें हांवपण न विसरपाची शक्त आयज तांचेमदीं रूजत आसा. तातुंतल्यानूच हांव पणाचो अविष्कार घडत आसा.

हांव कोण हाची जाप दरेक मनशाक जरी खबर आसली तरी ताची जाप कोणूच दिवंक सोदिना. हांव कोणूच न्हय म्हूण सांगपाचीं धोंगीपणा करपूच तांका मोठेपण दिसता. तरी आसतना 'हांव कोण' हाची जतनाय पावलाकणकणी मनीस घेत आसता. आपणे कसो वागचो, कशें उलोवंचें हाचेर एक बंधन घालपाचें काम हो 'हांव' करता. हांव कोण हें खबर आसतना हांवूय हो असोच वागतां. हांव सोरो पिवंक सोदतां. तो पिल्या उप्रांत हांव कोण तें हांव विसरना. तेचखातीर हांव कोण हें खबर आशिल्लों हांव हेरांक दाखोवंक सोदतां की हांव कोण तें ! तेच खातीर म्हजो वास हेरांक येवंक फावना, जांव हांव लकतां तें हेरांक दिसूंक फावना देखून हांव काळजी घेतां.

म्हाका खुपदां खुबश्यो गजाली करीन दिसता. समाजान मान्यताय दिल्ल्यो सगळ्यो गजाली हांव कोण हाचें भान दवरिनासतना हांव करतां. पूण समाजाक मान्य नाशिल्ल्यो गजाली करतनां मात म्हाका हांव कोण हाची पुराय जाणविकाय दवरची पडटा. हांव रस्त्यावेल्यान वचपी चलयांक नियाळटां. रासवळ मळार गर्देंत कोणाकूय तेंकपाची अथवा फकाणां मारपाची संद मेळळयार तीय हांव सोडिना. संद मेळटा तेन्ना असभ्यूय जातां. तरीयपूण हें सगळें करतनाय हांव भितरल्यान शादूर रावन हांव तो हांवच म्हणपाची जतनाय घेतां. हांव जें करतां तो हांव न्हय अशें हेरांक दाखोवंक धडपडटां. कित्याक तर अशावेळार हांव म्हजो हांव नासतां तर समाजाचो हांव जाल्लों आसतां. आनी जो कोण समाजाचो आसता तोच सतत मुखार सरत आसता. हेचखातीर जेन्ना म्हाका कोणूय प्रस्न करता. तूं कोण ? अथवा म्हजे हांवच म्हाका प्रस्न करतां 'हांव कोण ?' तेन्ना म्हजेखातीर होच प्रस्न आसता. रूक्षप्रस्न. हांव कोण ?





# तुजें नांव कितें



**म्ह**जें नांव कितें ? कितें आसतलें काय म्हजें नांव ? जेन्ना जेन्ना म्हजेमुखार हो प्रस्न येता तेन्ना म्हजेय तकलेंत प्रस्न तयार जाता. तुजें नांव कितें ?

तुजें नांव कितें ? हो प्रस्न खंयच्याच मनशाक सोडिना. मनशाक नांव हें आसुंकच जाय. म्हाकाय एक नांव आसा. हें नांव म्हळयार हांव न्हय. ती म्हाका वळखुपाची एक कुरू. ही कुरू हांवे करून घेवंक ना. कोणेतरी ती केल्या. तेच खातीर तें नांव हें म्हजें नांव अशें हांव म्हणटां. पूण तें खरें पळोवंक गेल्यार दुसऱ्यांचें नांव-ताणी आपल्याक बरें दिसता तसलें, आपल्याक आवडटा तसलें नांव तयार करून, सोदून म्हाका दवरिल्लें आसा. आयज हांव म्हजें नांव म्हूण जें नेटान सांगतां तें म्हजें नांव न्हयच. तरीय तेंच म्हजें नांव अशें हांव सांगत आसां.

सद्याचें म्हजें नांव दिलीप जरी आसलें तरी पयलिंचें आवय - बापायन दवरिल्लें वेगळें आसलें. ताणी म्हाका पांडुरंग म्हूण नांव दवरिल्लें खंय ! पूण जेन्ना म्हजो आवय - बापूय आगशी रावपाक आयलीं, आनी जे सुवातेर तांकां रावपाक जागो मेळळो, ते सुवातेच्या भाटकान्नीक म्हजें पांडुरंग हें नांव आवडलेंना. तिणें तें बदलून म्हजें नांव दिलीप अशें दवरलें. पांडुरंगाचें उपरांत पांडू बी जाता देखून तिणे हो नांवाचो बदल केलो अशें म्हणटात. कितेंय आसूं ! हांव पांडुरंगाचो दिलीप जालों आनी आयज दिलीप म्हणूनच म्हाका जरी वळखतात आसले तरी दिलीप हें म्हजें नांव न्हय. तें म्हजे ते भाटकान्नीचें नांव. तरी पूण हांव कोण हें वळखुपाखातीर म्हजे भाटकान्नीचेंच नांव म्हाका म्हजें नांव म्हण सांगचें पडटा. कित्याक तर दरेक मनशाक नांव हें जायच पडटा. चार - चौगांनी वळखुपाखातीर.

दरेक मनशाक आपल्याक वळखुपाखातीर कुरू म्हण जशें नांव जाय पडटा आनी तें दवरपाचें काम स्वता सोडून हेरूच करतात तरी आमी तें आपलेंच म्हणून मिरयतात. ह्याच नांवाखातीर मनीस धडपडटा. नांव हें बरें वा वायट आसता. आपलें नांव वायट जांवचें अशें कोणाकूच दिसना. तें बरें आसचें आनी सासणाक तिगून उरचें होच जणएकल्याचो हावेस आसता.

आतां नांव सांबाळप, नांव वयर काडप, नांव दवरप, नांवाक काळें लावप, नांव जोडप

ह्यो सगळ्यो गजाली नांवाखातीरूच आसतात. जें नांव आपलें केन्नाच नासता आनी जें आपलें नासता तें आपणेंच कशें वयर काडपाचें ? तें तर दुसरेच वयर काडटात. आपूण फक्त आपले परीन चलत रावता. नांवाचें कितें करप हें लोकूच थारायतात. नांवाचेर आपलो अधिकार केन्नाच नासता. हेरांचो आसता. देखून लोकूच तें दवरतात. लोकूच तें वयर काडटात आनी लोकूच तें इबाडटात. ह्या सगळ्याचो धनी मात मनीस खासा जाता. जो त्या नांवाचे भानगडींत आपूण जावन केन्ना पडलोच ना.

म्हजें नांव कितें आनी ताचें करप कितें हाचो विचार हांवें केन्ना केलोच ना. म्हज्या मरणा उप्रांत म्हजें नांव कितलो काळ उरतलें हेंय म्हाका खबर ना. हांवें जें कितें आयजवेर केलां अथवा बरयलां तें कितल्या मोलाचें हेंय म्हाका खबर ना. तें काळ थारायतलो. तरीपूण म्हाका प्रस्न पडटा, हांव जें कितें करतां तें म्हज्या नांवाखातीर काय म्हज्या समाधानाखातीर ! जेन्ना म्हजो लेख छापून येता जांव कसलीय बातमी छापून येता तेन्ना कोणूय म्हाका म्हणटात 'आरे तुजें नांव आयलां मरे पेपरांत !' जर हांवें बरोवंक नाशिल्लें जाल्यार म्हजें नांव कोणाक कळचें नाशिल्लें ! म्हणटकच हांव जें कितें करतां तें फक्त नांवाखातीर ? जर हांव कांयच करिनासतना राविल्लों जाल्यार म्हजें नांव कोणाक कळचें नाशिल्लें ? आनी म्हाका नांव जाय तरी कित्याक ?

सेक्सपियर म्हणटालो खंय नांवात कितें आसा ? आयज आमी सेक्सपियराक साहित्यांतलें एक व्हड प्रस्थ मानतात. ताज्या साहित्याच्या मोलाक लागुनच आमी ताका वळखतात. देखुनच 'नांवात कितें आसा ?' अशें ताणे म्हणिल्लें देखून आमीय तशेंच म्हणटात. ताजें साहित्य आमी तोखेतात. जर सेक्सपियरान बरें कांयच बरोवंक नाशिल्लें जाल्यार आमी ताका वळखतले आशिल्ले ? आनी 'नांवात कितें आसा ?' हें ताचेंच वाक्य घेतलें जाल्यार ताणें बरयलां तें सेक्सपियराचेंच म्हण आमकां कशें कळटलें आशिल्लें ? हांगा सेक्सपियराचें दुसरें कसलेंय नांव आशिल्लें जाल्यार ताच्या साहित्यांत कितें फरक पडटलो आशिल्लो ? म्हणटकच सेक्सपियराच्या मतान नांव कितेंय आसल्यार उपकारता. करणी मात बरी आसूंक जाय. देखून ताणे म्हणून दवरलां - नांवात कितें आसा !

आज आमी सेक्सपियराच्या साहित्याक लागुनूच सेक्सपियराक वळखतात. ताणें जर कांयच निर्माण करूंक नाशिल्लें जाल्यार ताका कोण वळखतलो आशिल्लो ? ताका वळखतात तें लोकांनी ताचें फक्त नांव केलां म्हणूनच न्हय ? जर ताणें कांयच निर्माण करूंक नाशिल्लें जाल्यार ताका कोण वळखतलो आशिल्लो ? ताका आज वळखतात तें फक्त लोकांनी ताचें नांव केलां देखुनच न्हय ? ताणें जर जें बरोवपाचें आसा तें बरोवन आपल्या पुरतेंच दवरिल्लें जाल्यार तो बरो बरोवपी म्हूण ताचें नांव जावप शक्यच नाशिल्लें ! त्याखातीर सेक्सपियर लेगीत म्हणूक शकनां, नांवात कांयच ना म्हूण ! नांवात सगळें

आसा. आज पुराय संवसार चलता तो नांवाचेर. दरेक गजाल घडटा ती नांवाखातीर.

आज कसलीय गजाल आसूं, तिका नांव हें जायच पडटा. प्रत्येक वस्त ही नांवाखातीरूच आसता अशें म्हणूंक हरकत ना. हांगा नांवाखातीर आसप हाचो अर्थ निरर्थक असो जाता. म्हणजेच नांव हें निरर्थक आसता. पूण ताका अर्थ दिवपाखातीर आमची दरेकल्याची धडपड आसता.

शाम मानव म्हण म्हजो एकलो इश्ट आसा. ताणें आपलें आडनाव काडून उडयलें. ताचें कारण सांगतना तो सांगता, आडनांवाक लागून मनशाचो धर्म, जात हाची वळख जाता. कांयशा अंशान तें खरेंय आसा. शामाक दिसता मानव म्हळ्यार मनीस हीच मनशाची खरी कुरू. मानव होच म्हत्वाचो. मानव हेंच एक खरें नांव. ताचे नदरेन तें खरें आसत. मनशान आपलें नांव मनीस म्हण सांबाळचें. त्याचखातीर ताणें आपलें आडनांव काडून त्या बदला मानव हे नांव दवर्ल्लें. ह्या आडनांवाच्या आडवाटेन वचपाचें कारण म्हळ्यार ताचो धर्म अथवा जात हेरांक कळची न्हय हेंच आसूं येता. ताणें असो निर्णय घेवपा फाटलें कारण म्हळ्यारूय नांव हेंच न्हय ? आपूण धर्म मानिना, जात मानिना हें हेरांक कळचें आनी आपूण अमक्याच तत्वांचो म्हूण आपलें नांव जांवचें होच ह्या फाटलो उद्देश्च आसा हें सांगनासतना लेगीत आपसूक कळटा. जर ही गजाल खरी नासत जाल्यार जाण्ट्यानी दवरिल्लें नांव ताणें कित्याक म्हण बदलचें ? त्या परस आपल्याक नांव नाच हें कितलें बरें ! मनशाक नांव नासप हाची इतली बरी गजाल आनी दुसरी ना. ह्या संवसारांत नांवा विणे रावपांत जितलो आनंद आनी खुशालकाय आसा तितली आनी कित्यांत आसत अशें म्हाका दिसना.

तरी लेगीत आमची सगळ्यांची धडपड आसता नांवाफाटल्यान धावपाची. आमी जिवीतभर दुसऱ्यांक फटयतात. नागयतात. दुडू करतात. हें सगळें करता आसतनाय आमी शादूर रावन सगळें करतात. त्या वेळार आपलें नांव पिड्डयार जांवचें न्हय हाची जतनाय दरेकलो घेता. आपलें नांव पिड्ड्यार जालां अथवा आपलें बरें नांव जांवचें देखून आमी दान - धर्म करून नांवाक काळें लागिल्लें तें पुसपाचो यत्न करतात. जाका दान - धर्म करपाचें आसता तो केन्नाच आपलें नांव लिपयना. ताका दिसता की आपलें नांव उरचें. त्याच खातीर तो आपणे जोडिल्ले पयशे नांव जोडपाखातीर होगडायता.

ह्या संवसारांत जाणी दुडू जमोवन दवरल्यात तांकाय खबर आसा की दुडू ही वस्त चड काळ तिगपाची ना. दुडवांच्या नेटार आपल्याक कोण वळखुचोना. देखून आपणे जोडिल्ले दुडू खर्चून आपली समाधी उबारप आनी समाधीच्या रूपान तरी आपलें नांव हेरांमुखार दवरपाचो यत्न ते करतात. ह्याच खातीर ते आपल्या नांवान देवळां उबारतात, संस्था चलयतात. आपलें नांव आपल्या उप्रांत कशेय तरेन उरचें आनी चार लोकांनी तें वळखुचें होच तांचो उद्देश्य आसता.

नांवाखातीर हो सगळो उद्वेग चलता आसतना आमी हें मतीत दवरिनांत की नांव हें आपल्याचेर नासता. तें हेरांचेर अवलंबून आसता. लोकांक पुरायेन खबर आसता की नांव कशे भशेन वयर काडूं येता आनी कशे तरेन तें सकयल उडोवं येता. नांव हें पुरायेन हेरांचेर अवलंबून आसतना, आमी त्या नांवाखातीर कित्याक धडपडप ? कित्याखातीर आमी नांवाची चिंता करप ? नांव हें जाय जाल्यार उरतलें आनी नाका जाल्यार नानपयत जातलें. आपल्या नांवाचो विचार करिनासतना, नांव नासतना ह्या संवसारांत रावप हें कितलें बरें ! पूण लोक आमकां नांवाबगर रावपाक दितीत व्हय ?

आमच्या नांवाची आमच्या परस लोकांकूच चड चिंता लागिल्ली आसता. पावला - खिणा कणकणी आमच्या नांवाच्यो वाद्रयो लोक करीत रावतात. आमचे दरेक वागणुकेंतल्यान लोक आपले तांकी प्रमाण नांवा भितर बदल करीत रावतात. केन्ना आमचें नांव पिसो आसता तर केन्ना शाणो. केन्ना विचीत्र, केन्ना व्हड, केन्ना बरो, तर केन्ना हुशार ! जर नांव हें अशें सतत बदलत आसता तर मागीर आमी आमच्या नांवाची चिंता कित्याक करप ? आनी जें नांव आपलें न्हय त्या खातीर कित्याक खंती काडप ? आमी आमचें नांव अमुकच म्हण कित्याक सांगप ? खरें म्हळ्यार नांव नासप हेंच बरें ! पूण नांव नासल्यार लेगीत प्रस्न हो येताच - तुजें नांव कितें ?





# तुजो गांव खंयचो



म्हजो गांव खंयचो ? प्रस्नूच हो जाप नाशिल्लो. हांव जेन्ना शाळेंत शिकतालों तेन्ना बाकिबाबांची एक कविता 'माझा गांव' आमकां एके यत्तेत शिकची पडिल्ली. बा. भ. बोरकर हें नांव शिक्षकान घेतल्या बराबर म्हाका कातकुतल्यो जाताल्यो. आख्खे शाळेंत बोरकर हें आडनांव आशिल्लो हांव एकटोच. त्या काळार कोंकणी हो विशय म्हणटात तो नाशिल्लोच. आयचे भुरगे ते नदरेन पळयल्यार खरेंच नशिबवान. तांका आपल्या आडनांवाचो एक तरी लेखक - कवी कोंकणिच्या पाठ्यपुस्तकांत शिकूंक मेळटा. पूण म्हजे काळार नांवाची नविदाद भोगूंक मेळटाली ती मात आयच्या भुरग्यांक, कवी - लेखकाचें नांव आपल्या आडनांवाचें आसून लेगीत भोगूंक मेळना. पूण बोरकर हें गोंयकारांक संवकळीचें आशिल्लें नांव सगळ्या मराठी कवी - लेखकांमदीं एकूच आशिल्ल्यान आनी पुराय शाळेंत हांवच एकलो बोरकर आशिल्ल्यान म्हाका त्या नांवाखातीर जायतो भौमान मेळटालो. म्हजे खातीर ती एक अप्रूप गजाल आशिल्ली. मराठी शिकोवपी शिक्षकूय कविता शिकोवंक सुरवात करचे पयलीं म्हाका विचारताले - हे बोरकर तुमच्या नात्यातले काय रे ?' आनी हांव बेधडक बंडल ठोकतालों - 'हो ते माझे काका आहेत.' - त्या वेळार सगळीं भुरगीं म्हजेकडेन तोखणायेन पळयतालीं. म्हाका म्हज्या आडनांवाचो अभिमान भोगतालो. हें व्हडपण फटींगपणाचें आसलें तरी म्हाका तें घेतना कमीपणाचें दिसनाशिल्लें. आतांय दिसना.

तें आसूं ! सांगपाचें म्हळ्यार 'म्हजो गांव' हाचेर हांवें विचार करूंक सुरवात केली ती बाकिबाबाक लागुनूच. तांची 'माझा गांव' ही कविता शिकोवन जाल्या उप्रांत तेच धाटणेची एक कविता हांवेय करपाचो निश्चेव केलो. ते कवितेच्या आदारान हांवेय म्हज्या गांवाचेर कविता घडोवंक सुरवात केली. गांवाचेर बारकायेन विचार केलो. पूण ती बाकिबाबाचे कवितेची कॉपी जायत आनी हांव हांशाक म्हारग जायत म्हूण हांवे गांव हो विशय वगळावन 'माझी शाळा' हो विशय घेतलो आनी 'माझा गांव' हे कवितेच्या आदारान म्हजे साहित्यिक जिणेतली पयली कविता हांव व्हियेलों. ती वाचून शिक्षकांनी आनी हेर वर्गमित्रांनी तोखणाय केली. आठवेच्या वर्गात शिकतना हांवे केल्लो हो पयलो प्रयोग. म्हजी पयली कविता 'माझी शाळा' आसुनूय कोणेय म्हाका विचाल्लें जाल्यार मात तें नांव सट्ट करून अजुनय

म्हज्या वोंठार येना. येता तें 'माझा गांव'. इतलो म्हज्या मनार 'माझा गांव' हे कवितेचो आनी नांवाचो प्रभाव पडला.

आतांय म्हजो गांव खंयचो हाचेर विचार करतना म्हाकाय प्रस्न पडटा म्हजो गांव खंयचो ? बाकिबाबाचे कवितेंत आशिल्लो तोच काय आनीक खंयचो ? बाकिबाब बोरकार हांचो गांव बोरी आनी हांवूय बोरकार म्हणटकच म्हजोय गांव बोरी होच आसचो पडलोंना ? उप्रांत खूप वरसां बाकिबाबाच्या ह्याच गावांत हांव आगशी रावनूय मनसोक्त जियेलों. अजुनय म्हाका बाकिबाबाचो 'माझा गांव' म्हजोच गांव कसो दिसता.

म्हजो देव बोरये. नवदुर्गा देवतेचे जात्रेक वतना म्हजी आवय बी म्हाका बोरये व्हरतालीं. बस बोरये गांवात केन्ना पावताशी जाताली. हांव आवयक सतत विचारतालों आमी बोरये पावलीं काय म्हण. कंडक्टर बोरये - बोरये अशें आड्डेवंक लागलो की तो कंडक्टरूय म्हाका म्हजोच दिसतालो. आमी बोरये पावलीं आं ! अशें आवयन जांव बापायन सांगलें म्हणटकच 'माझा गांव' ही कविता म्हज्या दोळ्यांमुखार येताली. ते कवितेंतलो गांव हांव सोदतालों. पूण तो गांव नदरेक पडपाची ती पिराय नाशिल्ली आनी आमचें बोरी म्हळ्यार मुखेल रस्तो तो देवळा मेरेनचो वाठार आशिल्ल्यान बाकिबाबाचो खरो गांव तेन्ना म्हाका पळोवंक मेळळोच ना. तरी पूण तो कवितेंतलो गांव म्हजे तकलेंतल्यान गेलोच ना. बोरये वचून जात्रा भोंवलों तरी गांव मात म्हजे खातीर भलतोच आशिल्लो. जात्रेची गर्दी ही बोरयेचीच अशें चिंतून जात्रेक भोंवपी दरेक मनीस म्हाका आपलो दिसतालो. हांव बोरकार हो फक्त नांवाचों आशिल्लों. म्हजो संबंद गांवाकडेन नाशिल्लो. म्हजो गांव ते कवितेंत आशिल्लो. जो म्हाका बोरये वचुनय पळोवंक मेळूंक ना.

पूण सत्य सृष्टीत, खरेपणी म्हाका पळोवंक मेळळो तो म्हजो जल्मगांव - आगशी.

आगशी हो म्हजो गांव. फक्त म्हजोच. म्हज्या बापायचो न्हय आनी म्हज्या भावांचोय न्हय. तो म्हजो आनी म्हजे धाकटे भयणीचो. कित्याक तर आमचो दोगांयचोय जल्म आगशी जाला. आतां म्हजी भयण लग्न जावन दुसऱ्या गांवची जाल्ल्यान आगशी हो आपलो गांव म्हूण अधिकार सांगूक ती शकना. आमच्या पुराय घराब्यांत हांवच तो अधिकार गाजोवंक शकतां. म्हज्या सगळ्या भावांचो आनी बापायचोय गांव कुंकळये. म्हजो बापूय म्हज्या व्हडल्या भावंडांक घेवन कुंकळयेच्यान आगशी आयलो तेन्ना ते आगशी रावनूय कुंकळकार उल्ले. म्हजो जल्म आगशी जाल्ल्यान, म्हजोच आगशीचेर असो अधिकार आसा. फक्त म्हजीच नाळ आगशी गावांत पुरल्या.

सुर्वेक म्हाका आगशी हें नांव आवडनाशिल्लें. सगळे म्हजे मीत्र हांवें 'आगशी' म्हळ्या बराबर 'आगशी भीक मागशी' अशें म्हूण म्हाका चाळयताले. थोडेजाण मुद्दाम आगशी आगशी करून शिंकोय काडटाले. म्हाका तांचो संतापूय येतालो. त्याच खातीर म्हाका हांव

आगशीचो न्हय हें सांगपाक खुपूच आवडटालें. पूण आपली गजाल ही आपली न्हय म्हणून प्रस्न सुटना. 'आगशी भीक मागशी' ह्या उतरांनी भुरगेपणार म्हज्या मनाचेर एक हळशिकावणी कल्पना रिगयल्ली आसली तरीय हळुहळू त्याच गांवा विशीं म्हाका आपलेपण दिसूंक लागलें. ज्या गांवात म्हजो जल्म जाला, ज्या गांवचे मातयेंत हांव लोळळां, खेळळां तो गांव वायट आसपूच शक्य ना आनी आसलोय जाल्यार तें नांव व्हड करपाच्या हावेसान हांव पेटलों. बोरकार आसुनय बोरयेचो म्हूण सांगपापरस हांव आगशीकार म्हूण सांगपातूच म्हाका खोस भोगूंक लागली. ताकाच लागून दिनेश आगशीकार ह्या नावानूय हांव बरोवंक लागलों. म्हाका बोरकारा परस आगशीकार म्हूण चड लोक पाचारूंक लागले. आयजूय खंयचो बोरकार म्हण विचारल्यार आगशीचो बोरकार म्हण म्हजी वळख जाता. अशे तरेन कुकळकार - बोरकार - आगशीकार अशा तीन गांवचो हांव दिलीप.

आगशी हें अघनाशिनी नांवाचें चालंत रूप. जुवारी न्हंयेक पयलीं अघनाशिनी अशें म्हणटाले. हें न्हंयेत न्हायत तर न्हातल्याचीं पापां धुवन वतालीं अशें म्हणटात. आमचे आगशीचे भाव हे न्हंयेत दिसपट्टे पेंवतात. नुस्तें मारूंक वतना ल्हारांचेर खेळटात. सतत अघनाशिनीकडेन संपर्क आयिल्ल्यान आगशीकारांच्या वाऱ्याक लेगीत पाप रावना. सगळ्या गोंयांत निश्पाप असे जर खंयचे लोक आसत जाल्यार ते आमी आगशीकार. म्हज्या गांवचो म्हाका जाल्लो होच फायदो. कितलींय पापां करून हांव पुण्यवान रावंक शकतां तो हेच खातीर. देखुनूच म्हजो गांव आगशी हो म्हजेखातीर सर्ग !

म्हजो गांव साहित्यिक नदरेन तसो पिकाळ न्हय. सावयवेऱ्यान, अंत्रूज म्हालान जशे देशाक व्हड व्हड कलाकार दिल्यात तशे म्हज्या गांवान देशाक कांयच दिवंक ना. ती परंपरा म्हजेपासून सुरू जाता काय कितें हेंय म्हाका खबर ना. पूण म्हज्या गांवचीं च्योरिसां आनी कणगां मात गोंयभर फामाद. कणगां रोवपाचें आतां पातळ जायत वता पूण च्योरिसा बंद जायत शीं दिसना.

कोंकणी खातीर गोंयच्या लोकांनी खूप त्याग केला. कोंकणी खातीर झुंजपी गोयांत इतले लोक आसतना आनी कोंकणीची चळवळ गोंयभर पातळून लेगीत कोंकणीखातीर एकदम स जाण हुतात्मे जाले ते मात आगशीचेच. हाचेवेल्यान म्हज्या गांवचो पींड कळून येता.

म्हजो गांव पुण्यवान, कित्याक तो अघनाशिनी म्हळ्यार जुवारी न्हंयचे देगेर वसला. म्हजो गांव खिलाडी वृत्तीचो. कित्याक आगशीकार फूटबॉलांत खांपे. कामिल गोंसाल्वीसासारको खेळगडी आगशींत आसा. म्हजो गांव झुंजारी. ताणेंच कोंकणीक स हुतात्मे दिले. म्हजो गांव सैमीक सुंदरायेन नटलेलो. इतिहासिक गोपक पट्टणाच्या कुशीकूच वसलेलो. अशा ह्या आगशी गांवचो हांव आगशीकार - दिलीप बोरकार.





# तूं तुज्या बापायचें नांव कित्याक लायनां



हांव म्हजें नांव बरयता आसतना फक्त दिलीप बोरकार इतलेंच बरयतां देखून जायत्या जाणांक हो रूक्षप्रस्न खाता हें हांव जाणां. म्हजेकडेन संवकळ आशिल्ले कांय जाण तसो प्रस्न केल्या बगरूय रावनांत. आतां नांव म्हजें, बापूय म्हजो, ताचें कितें करप, पुराय नांव बरोवप काय अर्दकुटें सोडप हो म्हजो प्रस्न ! पूण बापायचो फात जाल्लेवरी हरकत मात भलतेच घेतात. तांची अपेक्षा आसता हांवे बापायचें नांव म्हज्या नांवामुखार लावन हांवें तें दिलीप धर्मा बोरकार अशें लांब लचक तें बरोवंचें आनी म्हज्या वांगडाच बापायचेंय नांव अजरंवर करून उडोवंचें !

नांवाखातीर तरी बापूय आसचो अशें कांय लोक म्हणटात. ह्याचखातीर कितलीं तरी नाटकां आनी कथानकां घडल्यांत. 'बापूय दाखय नातर स्त्राद्ध वाढ' होय वाक्यप्रचार हाकाच लागून जल्माक आयला. हांगा बापायच्या नांवाची गरज आसता ती पुतान बापायचें नांव व्हड करचें हे खातीर न्हय तर पुताक कायदेशीर बापूय आसचो आनी खंयच्याय भुरग्याक कोणेय अनारौस, बिन बापका बेटा ह्या सारक्यो नाटकी आनी समाजाच्या नदरेन हीन पदव्यो ताका कोणे दिवंच्यो न्हय देखून ! कोंकणीत हाका 'पोटाचो' ही पदवी खूप जाण वापरतात. आतां 'पोटाचो' ह्या उतराची उत्पत्ती कशी जाली हें हांव नकळो. पूण ह्या उतराक लागून गांवातल्या वाड्यार जाल्लीं झगडीं - झुंजा हांवें पळयल्यांत. त्याच खातीर 'पोटाचो' हें उतर भयंकर वायट गाळ म्हणपाची कल्पना म्हाका ल्हान पणारूच आयिल्ली.

आतां दरेका जल्माक आयिल्ल्या मनशाक बापूय हो आसुंकच जाय. 'टेस्ट टयूब बेबी'च्या ह्या जमान्यात लेगीत बापायची गरज आसा. ताचे बगर नवो जीव जल्माक येवंकूच शकना. नवो जीव जल्माक येवंचे खातीर बापूय कोण हें कळूंक जाय अशें कांय ना. तरी लेगीत सैमीक रितीन कोणेय आपूण बापूय हें सीद्ध करून समाजाखातीर तो कोण हें जायच. समाजाचे हेच गरजेक लागून केन्ना केन्नाय खरो बापूय एक आसता आनी दाखोवपाखातीर एक आसता. खऱ्या बापाय परस दाखोवपाखातीर आशिल्ल्या बापायच्या नांवाकूच चड म्हत्व आसता. समाजाची नीत आनी रीत म्हणटात ती ही. जल्म दिल्लो बापूय हो चोर, फटींग, पिसो लेगीत आसल्यार उपकारता. पूण ज्या भुरग्याचो बापूय कोण हें खबर ना जाल्यार मात त्या भुरग्याक समाज नाका शेवट करता. तो कितलोय बरो आसूं,

ताचें मूळ सोदल्या बगर समाज रावना. त्याचखातीर आपलो बापूय कोण हें खबर नासतनाय दरेकलो आपल्या बापायचें नांव बेधडक सांगता. तेंय बी तें आपले आवयन सांगलां देखून. हो सगळो प्रकार निव्वळ विस्वासाचो. आपल्याक जल्म दिल्ली आवय हीच विस्वास दवरपासारकी मनीस हाचेर विस्वास दवरून मनीस केदें व्हडलें अज्ञान सत्य मानून जिवीतभर मिरयता ! आवयवेल्या विस्वासाचेर भरवंसून बापायचेर विस्वास दवरता. खरें म्हळयार जण एकल्यान आपल्या नांवामुखार बापायचें नांव लावपाबदला आवयचें नांव लांवक जाय आशिल्लें. आपली आवय कोण हें भुरग्याक कळटा आनी आवय ही संवसारांत एकलीच आसता. पूण आमची कुटूंब पद्धत ही पितृसत्ताक कुटूंब पद्धत. आमी बायल मनशेक सदांच उणाक लेखीत आयल्यात. आमची ही वृत्ती इतली उणाक आसुनय आमी व्हडपणाचो बडवाचार अज्ञानाच्या मालवजाचेर माजयत आयल्यात.

म्हाका दिसता जल्माउप्रांत बापायच्या नांवाची खरी गरज पडल्या ती तेर्म करपाच्या वेळार. एकाच नांवाचे प्राणी हे धतरिर इतले आसतात की नांवाखातीर घुस्पागोंदळ जावन एकाच मनशाची नोंद दोनदां जांवची न्हय म्हूण ह्या नांवाची गरज सरकारी यंत्रणेक लागल्या आसूं येता हें हांव समजूंक शकतां. त्या उप्रांत शाळेंत वचपाच्या वेळार बापायच्या नांवाची गरज लागता त्याय वेळार मनीस सज्ञान नासता. भुरग्यान वायट करणी केली जाल्यार कोणाक तरी जापसालदार धरूंक मेळचो म्हूण शिक्षण संस्थेक कोणतरी जायच पडटा. पूण जेन्ना मनीस सज्ञान जाता तेन्नातरी बापायच्या नांवाची गरज उरूंक फावनाशिल्ली.

आतां बापायक कोणे कमी लेखूंक फावना, ताका फावो तो रेस्पेद दिवंचो हे विशीं म्हजें दूमत ना. जेन्ना मनीस अशक्त, दुबळो आसता तेन्ना ते भुरगे पिरायेर बापूय ताची काळजी घेता. ताका वाडयता. आपल्या पायांर ताका उबो करता. उप्रांत बापायकूय म्हातारपण येता आनी तो दुबळो, अशक्त जाता. कोणाचेर तरी अवलंबून रावपाची पाळी ताचेर येता. ह्या चक्रांतल्यान कोण सुटना. त्याच खातीर ही समाजवेवस्ता जल्माक आयल्या. ती कोणाच्या बऱ्या खातीर जल्माक येवंक ना तर म्हातारपणार आपल्याक कोणाचो तरी आदार मेळचो आनी आपले हाल उपद्रे जांवचे न्हय हेच सुवार्थी भावनेंतल्यान ही समाज वेवस्ता निर्माण जाल्ली आसा. आयच्या काळार दुडू गाठीक आसल्यार म्हातारपणार काळजी घेवपी कितलेय मेळटात. संपत्ती आपल्याक मेळची म्हूण एकलो एकसुरो आशिल्ल्या धनिकाची मन लावन सेवा करपी चाकरमाने वा पयसुल्ले सोयरे आमकां चांटे-पावलाक पळोवंक गावतात. पूण थंय माया नासता, मोग नासता. मोग आसता तो त्या म्हाताऱ्यान जमा केल्ले मायेचो. हो अणभव मनशान ह्या पयलीं घेतिल्लो आसता. तेच खातीर मनीस भविश्याकडे म्हळ्यार उतार पिरायेचेर नदर दवरून आपली वेवस्ता करून दवरपाचे धडपडीत आसता. जाका भुरगीं नांत ते दुसऱ्याल्या भुरग्यांक पोसकीं घेवन तांच्या मनांत माया निर्माण करपाखातीर

धडपड करतात. हें चक्र अशेंच चलत रावता. तें चक्र मुखारूय चलत उरपाखातीर मनार संस्कार जांवचे देखून दरेकल्याच्या मनांत वेवस्तीतपणान मंत्र रिगोवपाचो जाणीवपूर्वक यत्न जाता. मातृदेवो भवः, पितृदेवो भवः !

हेच जाणविकार्येतल्यान, हेच गरजेंतल्यान जर बापायचें नांव आपल्या नांवामुखार लावन बापायची जापसालदारकी घेवंची म्हूण जर हे प्रयत्न जातात तर मात ती हासपासारकी गजाल. आपल्या नांवाचेर आपल्या भुरग्यांक वळखुंचें वो आपल्या भुरग्यांनी स्वताचें नांव वयर काडटनाच तांच्या वांगडा आपलेंय नांव वयर सरचें अशी जर अपेक्षा आसत जाल्यार तीय पिशेपणाची. हांगा एकमेकाक सांबाळप ही मनीसपणाची गजाल. कोणाच्या नांवाचेर कोणाक वळखवप ही स्वाभिमानाची, स्वतंत्र अस्तित्वाची गजाल. दुर्बळाक सबळान तांकता ते परीन आदार दिवंचोच. तो आदार बापायन पुता पुरतो आनी पुतान बापाय पुरतो मर्यादीत दवरचो न्हय. पूण आमी नात्याचे वंये भितर रावपी मनीस. आमी ते वंयेमेरेनूच धांवतात. बापायचेच पिरायेचे दुसरे व्यक्तीक बापाय परस चड आदाराची गरज आसल्यार लेगीत आमचेकडेन वेळ नासता. तशें करप आमकां शक्य नासता. हीच आमची ताकद हेंच आमचें मनीसपण.

तूं बापायचें नांव कित्याक लायना ? ह्या प्रस्नाक पयले फावट सुरवात करून नांव लावपाक जबरदस्ती केली ती पोलिसांनी. पयलीं हांव म्हजें नांव दि. ध. बोरकर म्हूण बरयतालों. हो सगळो प्रकार मराठी वाचनांचो, शिक्षणाचो आसूं येता. सुर्वेक म्हजें वाचप बरोवप मराठींतल्यान जातालें. तेन्ना लेखा सकयल वा कविते सकयल दि. ध. बोरकर अशें बरोवन हांव बा. भ. बोरकर आनी ना. धों. महानोर हांच्या सारक्यांच्या पंगतीक वचून बशिल्लों. पूण जेन्ना हांव कोंकणी बरोवंक लागलों तेन्ना दि. ध. बोरकर हें नांव म्हजे म्हाकाच परकी दिसूंक लागलें. हांव दिलीप बोरकार जालों. अजून तोच आसां. त्या नांवामुखार आनीक कितें जोडचें अशी गरज म्हाका केन्ना भासली ना. पूण गरज हेरांखातीर निर्माण जाल्ली. हांव कोण ह्या परस हांव कोणालो हें जाणां जावन घेवप लोकांक म्हत्वाचें आशिल्लें.

विद्यार्थी चळवळ सुरू केल्या उप्रांत एका आंदोलनांत पयलेच फावट अटक जाल्ली. अटक जाले उप्रांत नांव पोलिसांनी बरोवन घेतलें. पूण बापायच्या नांवाखातीर तांचें काम अडचलें. म्हजेर चार्जशीट कशेंच फ्रेम जायना जालें. तांका हांव अमक्या अमक्याचो पूत हें बरोवंकूच जाय आशिल्लें. तांका जाल्ले संवयेक हांव बाधा हाडटालों. आंदोलनांत वांटो हांवे घेतिल्लो. ताचे परिणाम म्हाकाच भोगपाचे आशिल्ले. हांगा बापायचें काम कांयच नाशिल्लें. आनी म्हज्या कर्तुबाखातीर बापायक त्रास जांवचे हें म्हाका मानवपासारकें नाशिल्लें. हांवें म्हजे वजन, उंची सगळें सांगलें. पूण बापायचें नांव सांगलेंना. पोलिसांचें काम मुखार

वचना. म्हज्या वांगडच्या एकल्यान पोलिसेक दम भरलो. ''जल्माक घातल्या उप्रांत बापायचें काम सोंपलां आतां आमचें सुरू जालां. तूं आमचेंच नांव बरय.'' पूण हे जापेन पोलिसेच्यो फर्मालदादी सोंपपाच्यो नाशिल्ल्यो. शेवटी म्हाका म्हजो हट्ट सोडचो पडलो. हांवें दिलीप धर्मा बोरकर अशें नांव दिलें. तांचेंय काम भागलें. पूण तांचें काम जालें अशें तांका दिसलें तरी त्या नांवाक लागून तांचेमुखार नव्यो अडचणी निर्माण जाल्यात. म्हाका सगळे दिलीप बोरकार म्हूण वळखतात. दिलीप बोरकार म्हणूनच पोलीस अधिकारी आनी वकील, जुईज म्हाका जेवणाक आपयतात. रासवळ मळार एकमेकाक मेळटात. पूण त्या केसीं खातीर दिलीप धर्मा बोरकार हांच्या नांवान काडिल्लें समन्स आनी वॉरन्ट अजून दिलीप धर्मा बोरकर हाचे मेरेन पावना. दिलीप धर्मा बोरकर हो तांचे खातीर फरारी थरला. सगळ्यांक खबर आसा तो दिलीप बोर'कार !

हांगा बापायचें नांव बरोवंचें वो ना हो मुद्दो म्हत्वाचो न्हय. हांगा प्रस्न आसा जणएकल्याच्या स्वतंत्र अस्मितेचो. बापायक केन्नाच पुताखातीर वळखुचो न्हय आनी बापायच्या नांवार पुतान व्हडपण मिरोवंचें न्हय. ल्हान - व्हड कशेंय आसूं. आपलें कर्तुब तें आपलें कर्तुब. त्याच खातीर लग्न जाल्ले बायल मनशेन लग्न जाल्याबराबर आपलें नांव बदलप, नांवामुखार घोवाचें नांव लावप, घोवाच्या नांवान मंगळसूत्र घालप ह्यो गजाली म्हाका आवडनांत. प्रत्येकान आपलें वेगळें अस्तीत्व सांबाळून, आपली वेगळी अस्मिताय राखून सांगातान रांवक जाय. पूण आमी गाडी घेतल्या बराबर ती आपल्या नांवार करतात. टि. व्ही., रेडियो, फ्रिज घेतले बराबर तांची नोंद आपल्या नांवार करतात. ह्यो वस्तू घेवप हें मनशाचें कर्तुब जांव येता. तार्णे त्यो वस्तू आपल्यो म्हण मिरोवं येता. पूण ज्या मनशाक आपलें स्वतंत्र अस्तित्व आसा त्याच मनशाक आपल्या नांवार करून घेवप ? केदो व्हडलो रूक्षप्रस्न"!





# तुजी जल्मतारीक खंयची



आयच्या ह्या युगांत मनीस जल्माक आयलो वा मेलो हाका म्हत्व उरूंक ना. म्हत्व आसा तें जल्म दिसाक आनी मरण दिसाक !

ह्या दोनूय दिसांचो त्या मनशापरस हेरांकूच चड फायदो आसता.

जो कोण नांव जोडटा आनी जाका ह्या संवसारांत कसलें ना कसलें म्हत्व आसा ताची जल्मतारीक घेवन ताचो जल्मदीस मनोवप, जल्म शताब्दीचो उत्सव करप आनी मेल्या उप्रांत मेल्लो दीस घेवन पूण्यतीथ मनोवप ह्या खातीर ह्या दोनूय दिसांची खूप गरज आसा. जेन्ना ह्या दोनूय दिसांच्यो तारको नोंद करून दवरपाची तजवीज जाली आनी नोंदबुकाची वेवस्ता जाली तेन्नासावन खुपशा लोकांचो प्रस्न सुटावो जालो. ह्याच नोंद जाल्ल्या दिसाक लागून बालदिन, हुतात्मादिन, क्रांतिदिन ह्या सारके नवे नवे दीस आमचे मदीं तयार जाले. हया दिसा जें किर्ते घडलें ताका ह्या दिसा व्हडलोसो अर्थ नासता. त्या दिसाचें निमीत्त करून आपल्यो कांय इत्सा भागोवप, मिरोवन घेवप, जाका खाज भागोवन घेवप अशेंय म्हणू येता अशा प्रकारच्यो घडणुको घडोवन हाडूं येतात. ह्याच दिसांच्या निमतान आयज आमी रासवळ मळाचेर जे कांय उत्सव पळयतात आनी त्या उत्सवाच्या निमतान जांच्या जल्माच्या आनी मरणाच्या दिसाक कांयच म्हत्व ना अशे लोक शबै घालतात तें पळयल्यार मोठ्या मनशांचे हे दीस उदेले ते ह्या लोकांक किर्ते तरी काम दिवन तांचेंय नांव गाजोवपा खातीरूच काय किर्ते असो प्रस्न पडटा. असले उत्सव करून आपल्याय जल्मदिसाचो आनी मरणदिसाचो हेरांनीय उत्सव मनोवंचो हीच भावना ह्या लोकांची आसता अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची ना.

ज्या काळार जल्म - मरण दिसांची नोंद करून दवरपाची वेवस्ता नाशिल्ली तेन्ना जावन गेल्ल्या व्हड लोकांनी मात आयच्या लोकांक अक्षरशा त्रासांत उडयल्यात. जे लोक व्हड जाले आनी आपल्या कर्तृत्वान देव जाले तांका देव मानिल्ल्यान लोकांचे भावनेक लागून तांच्या जल्मदिसाची अथवा सर्गार वचपाच्या दिसाची परंपरेन याद उरल्या. पूण जाणी कला वा साहित्य क्षेत्रांत योगदान दिलें आनी त्या वावराक लागून तांचें व्हडपण आज तोखेवंचें पडटा तांच्यो ह्यो तारको खबर नाशिल्ल्यान खुबशी कुचंबणा जाल्या. मागीर संशोधनाच्या नांवान अदमास बांदून लागशिल्लो काळ हो तांच्या जल्माचो वा मरणाचो दीस मानून आपली

गरज भागोवपाचो वावर सद्या चलता. एका संशोधकान अदमासान जो दीस थारायला तो कसो फट आनी आपणें अदमास लायला तो कितलो योग्य आसा हाचीय सर्त सद्याच्या काळार आमकां पळोवंक मेळटा. जे जाले आनी मेले ते सुखान गेले. पूण तांचे जल्म तारकेक लागून आयच्या काळार जे कश्टतात आनी एकमेकांचीं कुतां काडून एकलो दुसऱ्या परस कसो ल्हान हें दाखोवपाचो यत्न जाता तें पळोवन जल्म आनी मरणाचे तारकेक कितलें म्हत्व उप्रासलां तें कळून येता.

सद्याच्या काळार जल्म आनी मरण ह्या दिसांक म्हत्व आयलां तें वेगळ्या कारणांक. सामान्यांतल्या सामान्य मनशाक लेगीत जल्म आनी मरणदिसाची नोंद कायदयान दवरची पडटा. आयज आपल्याच्या वर्सां प्रमाण खूब तरांचो फायदो घेवं येता. लग्न जातलो, नोकरी घेतलो वा सरकार चलयतलो जाल्यारूय तुका जल्म तारकेची गरज लागता. जर ती चुकून एक वरस उप्रांत जाली वा एक वरस पयलीं जाली जाल्यार खूब अडचणींतल्यान वचचें पडटा. मागीर आपल्या फायद्या प्रमाण कायदेशीर तजवीज करून घेवपाचीय वेवस्ता करून दवरिल्ली आसा. कोणेंय मेल्ल्या मनशाच्या नांवान राजकीय सुवार्थ सादचो न्हय ह्या खातीर मेल्या उप्रांत नोंद करप हीय आयज कायदेशीर बाब थरल्या. मेल्ल्या मनशाच्या नांवान भलत्याच मनशांनी मतदान करून भलतोच मनीस निवडून हाडपाच्योय घडणुको हालींच्या काळार घडटात देखून सरकारी पातळीचेर असल्यो गजाली करच्योच पडटात.

जल्मदिसांक आनी मरण दिसांक खाजगी मळार म्हत्व आसा तें आपल्या लागशिल्ल्या मनशाचो जल्मदीस मनोवंक आनी स्राद्ध वाडूंक. हे दोनूय दीस यादींत दवरून त्या मनशाच्या नांवान पक्वानां जोडप होच ह्या फाटलो उद्देश्य आसता. त्याच खातीर ‘जाल्यारूय वडे आनी मेल्यारूय वडे’ ही म्हणणी आमच्यामदीं दिसपट्टी वापरतना आमकां आयकूंक येता. हाचोच अर्थ वडे खांवक मेळचे देखुनूच ह्या दिसांक म्हत्व निर्माण जालां हातूंत मात लेगीत दुबाब ना.

हांव अजून जितो आसां देखून म्हज्या मरण दिसाचो हुसको कोणांक लागूंक ना. ते बाबतींत म्हजे मुखार अजून कोणें रूक्षप्रस्न दवरूंक ना ! रूक्षप्रस्न निर्माण जाला तो म्हजे जल्म तारकेक लागून. म्हजी जल्मतारीक जांकां खबर ना तांकां ती जाणां जावन घेवपाची आसता ती फक्त म्हजो जल्मदीस मनोवंक जाय देखून. त्या दिसा विसर नासतना म्हजी याद करून म्हजे कडच्यान पार्टी जोडप आनी म्हाका व्हड आयुश्य मागतात असो नाटकी देखाव करप इतलोच हाचे फाटलो उद्देश्य आसता. म्हाका व्हड आयुश्य मागतना तांका पुराय जाणविकाय आसता की हांवें म्हज्या दीर्घ आयुश्यांतलें एक वरस, जल्मदिसाच्या निमतान फाटी घातलां आनी मरणाक एक वर्सान वेंगायलां. हीं सगळीं तांचीं फटींगपणा चलल्यांत हें खबर आसतनां लेगीत जल्मदिसाच्या निमतान खोस मनोवपाचीं फटींगपणां दरवर्सा म्हजे जल्मतारकेक चलतात.

खरें पळोवंक गेल्यार हो फटींगपणां करपाचो खरेलो दीस, म्हजो जल्मदीस खंयचो हें हेरां

वांगडा म्हाकाय खबर ना. म्हजो आवय - बापूय अशिक्षीत आशिल्ल्यान वा जल्मदिसाचें आयच्या काळावयलें म्हत्व खबर नाशिल्ल्यान खऱ्या जल्मदिसाची नोंद करप तांकां जमलेंना. ह्याच घुस्पागोंदळाक लागून म्हज्यो तीन जल्म तारको अस्तित्वांत आसात.

सगळ्यांत पोरणी जल्म तारीक १९५५ वरसाची जी शाळा सोडल्या उप्रांत दिवपी दाखल्याचेर आसा. शाळा सोडिल्ल्याचो हो दाखलो, वयाचो दाखलो दिवंक सरकारमान्य आसा. पूण आयजवेर तो हांवें खंयच वापरूंक ना. तो दाखयल्यार गरज नासतनां हांव एका वरसान जाण्टो थरतां. दुसरो दाखलो म्हळ्यार म्हज्या जल्माचो दाखलो. ह्या दाखल्याचेर म्हजी जल्मतारीक ९ जानेर १९५६ दाखयता. आयजवेर म्हाका जल्म तारकेच्या दाखल्याची गरज पडल्या तेन्ना होच दाखलो हांवें दिला. म्हजी तिसरी जल्मतारीक आसा ती म्हजे आवयचे तकलेंतली. तिच्या मत्तान हांव २ माय १९५७ सालांत जल्मलां. जल्म नोंदणी करतना चुकून ९ जानेर १९५६ जालें आनी शाळेंत नांव घालतनां ताचें १९५५ वर्स जालें. तेन्ना उणे पिरायेच्या भुरग्यांक शाळेंत घेनाशिल्ले खंय. त्याच खातीर वर्सां वाडोवन शाळेंत दाखल केलो आनी मागीर वचून जन्म - मृत्यू नोंदणी कार्यालयांत जल्माची नोंदणी केली. शाळेंत आनी सरकारी कचेरींत नोंद केल्ल्या दोनूय तारकांचेर म्हजे आवयचो विस्वास ना आनी सरकारचो आवयच्या उतराचेर विस्वास ना. देखून म्हजो, म्हजे आवयचेर पुराय विस्वास आसुनूय म्हजो लिखीत दाखलो जो आसा ताचेरूच म्हाका चड विस्वास दवरचो पडटा. ह्या घुसपागोंदळाक हांवें उपाय सोदून काडला तो म्हळ्यार म्हज्या तिनूय जल्मतारकेंतल्या मदल्या तारकेचो. ९ जानेर १९५६ वरसाचो. १९५५ ही तारीक एक वर्स चड जाता म्हूण हांवें कोनशाक मारल्या आनी आवय सांगता ती तारीक लिखीत स्वरूपांत ना म्हूण कायद्याची आडखळ जंय जायना थंय वापरूंक सुरवात केल्या.

जेन्ना म्हजे इश्ट ९ जानेराक म्हजो जल्मदीस म्हूण म्हाका सोदीत येतात तेन्ना तांच्याखातीर हांव ९ जानेर मनयतां आनी जल्म दितले आवयचेर विस्वास दाखोवंक जाय देखून, घरच्यांखातीर हांव दोन माय हो दीस जल्मदीस म्हूण मनयतां. दोनूय दीस मनयता आसतनां खंयच्याय दिसाकडेन हांव वेगळोचार करिना. मनांतली भावना दोनूय दिसा एकूच दवरतां. कित्याक दोनूय तारकांचो म्हजेर कांयच परिणाम जायना.

जल्माची तारीक ही म्हज्याच खातीर आसली तरीय ती म्हजे नदरेन निरर्थक. ती २ माय आसली किर्तें ९ जानेर आसली किर्तें आनी २९ फेब्रेर आसली किर्तें, म्हाका कांयच फरक पडना. फरक पडटा तो हेरांक. हांव जल्मलां आनी म्हज्या जल्माचो हांव बरो वापर करतां हाचें कोणांक पडूंक ना. सगळ्यांक चिंता आसता ती म्हजे जल्मतारकेची. तांकांच प्रस्न पडटा, म्हजी जल्मतारीक खंयची ? म्हजे खातीर मात तो एक रूक्षप्रस्न. कित्याक तर म्हजो जल्म दर दिसा, दर खिणांक नवो जायत आसता. म्हजेखातीर हांव तोच मनयतां. दर खिणांक !





# तुजो बापूय किर्तें करतालो



जांचो बापूय ह्या संवसारांत ना आनी ताचो पूत जर कर्तुबी आसलो तर त्या मनशाक हो भुतकाळी रूपांतलो प्रस्न जर विचाल्लो तर ताचे फाटलो उद्देश्य एक समजू येता. पूण प्रस्न करपी जेन्ना, जांचो बापूय जिवीत आसा तांकां लेगीत असो भुतकाळी प्रस्न करतात तेन्ना एकूच अर्थ स्पश्ट जाता आनी तो म्हळ्यार तुज्या मुखार सद्या तुज्या बापायच्या कर्तुत्वाक कांयच मोल ना. तो आसून नासून सारकोच. तशें जर नाशिल्लें तर तुजो बापूय किर्तें करतालो ? ह्या बदला तुजो बापूय किर्तें करता ? असो वर्तमानकाळी रूपांतलो प्रस्न विचारतले आशिल्ले.

प्रस्न विचारपा इतली सुवात खंयच्याय मनशाची जेन्ना समाजात निर्माण जाता तेन्ना आपसूक बापायचें म्हत्व उणें जायत वता. पुताच्या व्हडपणाक ताच्या घराब्याचो वांटो किर्तें आसा, ताची फाटभूंय किर्तें हें जाणां जावन घेवपाखातीर हे असले प्रस्न आसतात. बापायन जरी जल्म दिवपाशिवाय, हेर नांव दवरपासारकें वा पुताच्या फायद्याक पडपासारकें कांयच करूंक ना आनी पूत आपल्याच यत्नाक लागून रूक्षप्रस्न विचारून घेवपा इतलो व्हड जाला तेन्ना ताका तुजो बापूय किर्तें करतालो ? असो प्रस्न करप म्हळ्यार एक विचीत्र प्रकार दिसूंक फाव. तरी लेगीत 'बीं तशें भात' ही म्हणणी समाजांत ज्या सर चालू आसा त्या सर भात कितलेंय रूचीक आसलें तरीय त्या बिंयाचो सोद घेवपाचो यत्न हो जातलोच.

पंडित जवाहरलाल नेहरू हाणीं संवसारभर नांव पातळायलें आनी इतिहासांत आपली सुवात राखून दवरली. तांच्या बापाय परस तांका लोक चड वळखतात. मोतीलाल नेहरू हेय तशे कर्तुत्वी मनीस. पूण जवाहरलालांमुखार तांचो वावर उणो पडलो तरी लेगीत जवाहरलालांचें व्यक्तिमत्व घडपाक मोतीलाल नेहरूंचो वांटो हो म्हत्वाचो आसा. इंदिरा गांधीक जवाहरलालांचे जिणेचो आदार मेळळो. अशी ही परंपरा आशिल्ल्या मनशांक

तुजो बापूय कितें करतालो ? असो प्रस्न करप म्हळ्यार कितें वेगळी गजाल न्हय. तांचे खातीर तो सादो प्रस्न. रूक्षप्रस्न न्हय. घराब्याची परंपरा समाजामुखार मांडपाखातीर असले प्रस्न विचारप ही तांची गरज आसता. पूण डॉ. भिमराव उर्फ बाबासाहेब आंबेडकर हांचें कितें ? बाबासाहेबां पयलींची तांच्या घराण्याची परंपरा वेगळी आनी बाबासाहेबां उपरांत ताणीं स्वता मुळावण घाल्या उपरांतची वेगळी. तरी लेगीत कसलीच दोळे दिपकावणी परंपरा नाशिल्ल्या घराब्यांत बाबासाहेबांसारको एक तेजस्वी मनीस तयार जालो हाची तुळा करपाखातीर बाबासाहेबांक लेगीत हो रूक्षप्रस्न सतायत रावला हातूंत दुबाव ना.

तशें पळोवंक गेल्यार बाबासाहेबांचे बापूय आपल्या वातावरणांत, आपले विचारसरणी प्रमाण आनी तेन्नाचे परिस्थिती प्रमाण समर्थ आयुश्य जियेल्यात आसूं येता. त्या त्या काळाप्रमाण मनीस सरभोंवतणचे परिस्थिती प्रमाण तांकता तशी बरी जीण घालोवपाचो यत्न करता. तांचे जिणेची तुळा तांच्या आदले पिळगेचे जिणेकडे करीत जाल्यार तांकांय आपली जीण कितलेतरी पटीन बरी अशेंय दिसूं येता. पूण तांकां असलो रूक्षप्रस्न कोणेंच केल्लो नासता. रूक्षप्रस्न तेन्नाच निर्माण जाता जेन्ना नांव चार चौगांच्या मुखार येता. ह्या रूक्षप्रस्नाफाटलो हेत शुद्ध नासता. एकल्याक उणो लेखून दुसऱ्याक व्हड मानून, पळय बापूय ल्हान आसुनूय पूत केदो व्हड तो ! अशें दाखोवपा खातीरूच ही सगळी धडपड आसता. पूण बापूय - पुता मदलो काळ, परिस्थिती, सामाजीक वातावरण हाचो हिशेब मांडलो जाल्यार, दोनूय दालीं सारकींच आसतात.

केन्ना केन्नाय बापूय आनी पूत दोगूय आपापल्या मळार व्हड आसतात. कोण व्हडलो आनी कोण ल्हान हें सोदप खुपूच कठीण जावन वता. पिळगेचें अंतर आसून लेगीत कर्तृत्वाचे पातळीचेर दोगांयचोय हात धरपी कोणूच नासता. तरी लेगीत समाज एकमेकांक ल्हान - व्हड करपाच्या यत्नात आसताच. हांगा म्हाका याद जाता ती हरिवंशराय बच्चन आनी अमिताभ बच्चन हांची. हरिवंशराय बच्चनान साहित्याच्या मळार जो वावर केला ताका लागून हें नांव संवसारभर पातळ्ळें. ताणीं स्वताची खास अशी वळख तयार करून दवरल्या. पूण तांचेंय दुखख कितें उणें ना. दर एकल्या कर्तृत्वी मनशाक दिसता की आपणे जो वावर केला ताका लागून दुसऱ्याच्या अस्तित्वाचेर आपलें अस्तित्व अवलंबून आसचें न्हय. तशें जर जालें जाल्यार आपलें अशें अस्तित्व तयार करपी मनशाच्या यत्नाचो तो अपमान जांव येता. हरिवंशराय बच्चनाक तांच्या पुतान, अमिताभान दिल्लीक, गुलमोहर

पार्कांत 'सोपान' नांवाचो सुंदर बंगलो बांदून दिला. अमिताभ बच्चन जेन्ना जेन्ना दिल्ली येता तेन्ना त्या बंगल्यांत येवन बापाय म्हऱ्यांत रावता. अमिताभ आयला हें कळटकच ताका पळोवंक - मेळूंक खुपशे लोक येतात. भायर पासयो मारतात. पयलीं हरिवंशराय बच्चनाक कवी हरिवंशराय म्हूण सगळे वळखताले. अजून वळखतात. पूण आतां हो महाकवी जेन्ना गुलमोहर पार्कांतल्यान पासय मारता तेन्ना रस्त्यावेल्यान वचपी लोक तांकां पळोवन 'वो देखो अमिताभ का बाप जा रहा है' म्हणटात. तांची वळख करतात ते अमिताभाचो बापूय म्हण. ह्या येद्या व्हडल्या कवीचें अस्तित्व अमिताभान आपल्या नांवाचेर सद्या आदारून दवरलां. आपल्या पुताच्या ह्या कर्तृत्वान हरिवंशरायांचें हड्डें जरी अभिमानान फुलता आसलें तरी केन्ना केन्नाय ही खंत ते हांसत हांसत हेरां मुखार उक्ती करतात. 'तुजो बापूय कितें करतालो ?' असो रूक्षप्रस्न अमिताभाक करपाची गरज ना. ताची जाप खासा हरिवंशरायान अमिताभाक नांव मेळच्या पयलींच लोकांमुखार दवरिल्ली आसा. तरी लेगीत अमिताभाचेर जेन्ना कोणूय बरयता तेन्ना ताचो बापूय एक व्हड कवी म्हणपाचो उल्लेख जण एकलो करतात.

'तुजो बापूय कितें करतालो ?' असो रूक्ष प्रस्न जेन्ना म्हज्यामुखार येता तेन्ना तो कांयच करिनाशिल्लो अशी जाप हांव दिवंक शकना. आपले तांकी प्रमाणे तो कितें तरी करतालो. समाजांतलो हेर लोक जसो संवसार चलयतात तसो तोय आदर्श संवसार चलयतालो. तो चलोवन ताचे जिणेक जशें पूर्णत्व आयलें आनी हे धर्तरिवयलें ताचें आयुश्य सोंपलें म्हणटकच हेर मनशांसारकोच तो वतलो. तो गेला हें ताका वळखुपी कांय शेजारी जाणां जातले आनी कांय तेपानँ ताका विसरतले. तो कितें करता वा कितें करतालो हाका कोणाचेच नदरेन तसो व्हडलोसो अर्थ ना. तशे हे धर्तरेर कितलेतरी बापूय आसात आनी दर खिणाक बापूय ही पदवी जोडपी कितले तरी लोक जियेत आसतात. पूण म्हाका जल्म दिवन बापूय म्हूण पदवी जोडिल्ल्या म्हज्या बापायचो इतिहास जाणां जावपाची गरज उप्रासल्या ती फक्त म्हाका लागून. हांव कितें तरी खरडटां, कितें तरी चळवळी करतां म्हूण म्हजें अस्तित्व लोकांमदीं निर्माण जाल्लें आसा. ह्याच अस्तित्वाक लागून म्हज्या बापायचेंय अस्तित्व तयार जावंक लागलां. खरें म्हळ्यार म्हज्या बापायक लागून हांव अस्तित्वांत आयलां. पूण असलें अस्तित्व दिवपाचें काम सगळेच करतात. त्या खातीर मोठ्या प्रमाणांत जावपी असल्या ह्या घडणुकांक अर्थ नासता. जे सगळेच करिनांत पूण कोणतरी थोडेच करतात असल्याच

गजालींक लागून समाजाक त्या व्यक्तिच्या अस्तित्वाची जाणविकाय जाता.

खुपशा जाणांचे बापूय धंदो करून आपल्या भुरग्यांक संपत्ती, भाटां - बेसां करून दवरतात. खुपजाणांचे बापूय सुटके झुंजारी जावन वा समाज सेवक जावन आपल्या भुरग्यांक सामाजीक प्रतिश्ठा मेळोवन दितात. दितात म्हणचे परस तांकां ती आपसूक मेळटा. पूण म्हज्या बापायन असलें कांयच करूंक ना. ताणें केलेंना म्हण म्हाका खंतूय दिसना. आपल्या विचाराप्रमाण ताणें आपलें जिवीत सारलें आनी म्हज्या वांगडा हेर पुतांकूय वेवस्तीत वाडयले. जर म्हज्या बापायन म्हजेखातीर कितेंय पोटलो करून दवरिल्लो जाल्यार म्हाका प्रस्न करपाची संद कोणाक मेळचीच नाशिल्ली. म्हज्या वांगडचे खूप जाण हांव पळयतां. जांच्या बापायन तांच्या खातीर कितें तरी करून दवरलां. पूण समाजांतलें तांचें अस्तित्व हांव जाणां. तांची सुवात खंय तीय हांव जाणां.

म्हजो बापूय कितें करतालो ? हाची जाप म्हाकाय नाका. ताची गरज म्हाका दिसना. ती हेरांक जाय. 'पळय, कितले गरीब, कष्टकरी बापायचो भुरगो खंय पावला तें !' अशें उलोवन कोणाक तरी तोखणाय करपाची आसता ह्याच खातीर ही जाप हेरांक जाय आसता. आपूण खंयचे खंय पावलां हें दाखोवन थोड्या पुतांकूय मिरोवपाचें आसता. पूण हातुंतल्या खंयच्याय गजालीक म्हत्व आसा अशें म्हाका दिसना. बापूय आपले सुवातेर व्हड आसा. म्हजे सुवातेर हांव. दोगांयची तुळा करून आयच्या काळाचे परिस्थितीची तुळा तांच्या काळाचे परिस्थितीकडे करप समा जांवचें ना. ताच्या काळार तो व्हड आशिल्लो. देखुनूच म्हजो बापूय आपल्या काळावेले परिस्थिती नुसार जें कितें करतालो ताचें मोल कोणाच्यान करूं नज. देखुनूच 'तुजो बापूय कितें करतालो ?' हो प्रस्न म्हजेखातीर रूक्षप्रस्न !





# तुजें घरगुती परिवारांतलें नांव कितें



भुरगें जल्माक येवपाची सुलूस लागल्या बराबर ताका नांव कितें दवरपाचें ही चिंता, ताच्या आवय - बापायक आनी घरांतल्या हेर परिवाराक लागता. चलो जाल्यार अमकें आनी चली जाल्यार अमकें नांव दवरचें हीं सपनां जल्माक येवपी भुरग्याची आवय - बापूय सर्रास रंगयतात. हेर लोकां कडल्यानूय नांवा हाडून वा जीं नांवां चडशी वेव्हारांत नांत असलीं नवींच घडोवन आपल्या अपुरबायेच्या भुरग्याक अप्रूप अशें नांव दिवपाकडेन चडसो लोकांचो कल आसता. मागीर तें भुरगें व्हड जातकच त्या नांवा प्रमाणे कर्तुब करूं वा न करूं, आपल्या भुरग्यांक योग्य अशें नांव दिल्ल्याचें समादान उक्तायत तीं आवय - बापूय आपली जीण सारतात.

आदलिंच्या काळार नांवा वेंचून काडपाखातीर चड तकालस पडनाशिल्ली. रामायण - म्हाभारतांतलीं वा पुराणांतल्या कर्तुत्वी नायकांचीं नांवां, कथा - किर्तनांतल्यान आयकून आनी तांच्या कर्तुत्वान भारावन वचून आपल्याय भुरग्यांक अशींच नांवां दवरपाचो संकल्प त्या भुरग्यांचो आवय - बापूय करताले. त्या काळार कुटूंब येवजणेचो प्रपंच नाशिल्ल्यान आनी भुरगीं जावप म्हळयार देवाची देणगी असो विचार समाजामदीं आशिल्ल्यान एक - एकल्यागेर धा-बारा भुरगीं जावप ही सादारण घडणूक आसताली. इतलीं भुरगीं जावन लेगीत तांकां नांवा दवरपाखातीर आवय - बापायक चड त्रास पडनाशिल्लो.

पूण आतां शिक्षणाचो प्रसार जावन समाजांत सुदारणा घडत आसा. पुराणांतलीं नांवां आतां काळाभायरीं थारल्यांत. आदलीं हीं नांवां त्या - त्या देवापुरतींच मर्यादीत दवरून सुदारणावादी मनीस नवीं नवीं नांवां सोदून सोदून थकता. आतां कुटूंब येवजणेचो प्रसार जावन आदलीं सारकीं डझनांनी भुरगींय नांत. तरी लेगीत एक वा दोन भुरग्यांक आयच्या आधुनीक काळार सोबपासारकीं नांवां सोदतासर, धृतराष्ट्राक आपल्या एकशें - एक भुरग्यांक नांवां वेंचतना जितली तकालस पडूंक नाशिल्ली ताच्याय परस चड तकालस ह्या आयच्या 'हम दो, हमारे दो' संस्कृतायेच्या जमान्यांत लोकांक जाल्याबगर रावना. तांकां मदत करपाखातीर आयची सिने संस्कृताय मुखार आयल्या ही एक बरी गजाल. सिनेमांतल्या नट - नट्यांच्या नांवानी, आपल्या अपुरबायेच्या भुरग्यांक नांवां कसलीं दवरप हे चिंतेक खुपसो हातभार लायला. भुरगीं - निर्मात्यांचो आपल्या भुरग्यांक नांवां

दवरपाचो मोठो प्रस्न आयच्या नट-नट्यांनी सोडयल्याबद्दल तांच्यो सगळ्यो चुको समाजान माफ करूंक हरकत ना.

इतलेंय जरी आसलें तरी आयज नवो भार ह्या भुरगीं - निर्मात्यांच्या तकलेर आयला आनी तो म्हळयार तांच्या भुरग्यांक हेर नांवांभायर घरगुती परिवारांतलें नांव कितें दवरचें हो ! पयलीं मूळ नांवा भायर घरगुती परिवारांतलीं नांवां फक्त गिरेस्त अशा सारस्वत समाजांतूच दवरपाची प्रथा आशिल्ली. त्याच घरगुती परिवारांतल्या नांवान मागीर तांकां समाज वळखतालो. आयचीं बाब्, चलेबाब, बाबुडी ह्या सारकी घरगुती परिवारांतलीं नांवांच आयज, तुजें घरगुती परिवारांतलें नांव कितें ? हो रूक्षप्रस्न निर्माण करूंक कारण थरल्यांत. त्याच खातीर आयच्या दरेका मनशाक आपल्या नांवांभायर असलें कसलेंय एक घरगुती नांव आसचें आनी मागीर तें समाजानूय आवडीन माथ्यार उखलून घेवंचें, तें आयकून नांवाच्या धनयान भुल्लुसून वच्चें अशें दर एकल्याक दिसता. हेच भावनेंतल्यान आमकां पिंटू, चिंटू, बाबू, पुतूल, नानी बी असलीं जायतीं नांवां निर्माण जाल्लीं दिसतात.

गोंयच्या खेड्यांतल्या सगळ्या भाटकारांची नांवां जरी वेगळीं आसलीं तरी मुंडकारांच्या हिसपान तो भाटकार म्हळ्यार 'बाबू'च आसता. जाण्टो जावन तो भाटकार मरणाचे घडेर पावलो तरीय ताका बाबू म्हणचे पडिल्ल्यान खुपशा मुंडकारांक आपल्या हांडयेवेल्या बाबाक 'बाबू' म्हूण उलो मारपाचें भाग्य केन्नाच लाबलेंना. चुकून आपल्या माणकुल्याक बाबू म्हळें आनी तें जर भाटकारान आयकलें तर आपली तुळा त्या कुळवाड्याच्या पोराकडेन करता अशें समजून भाटकाराचो अवमान जांव येतालो. असलो प्रकार एकदां म्हज्याय वाट्याक येवन एका मित्राकडेन झगडी जावपाचो प्रसंगय आयला.

आमच्या गोंयांत 'दोतोर' हें उतर खुपूच रेस्पेदाचें. गोंयांत आदवोगादाक आनी वैजाक दोतोर म्हूण पाचारतात. वेवसायाच्या उद्देश्यापरस आदरार्थी वापराखातीरूच ताचो उपेग अजून मेरेन जायत आसा. एम्. बी. बी. एस् डिग्री घेवन भायर सरिल्लो वैज आपल्या नांवांमुखार दोतोर ही पदवी लावन दुयेंत मनशाक तपासता आनी हिसपाभायर ताची कात काडुनय तांचेकडल्यान आपल्याक दोतोर म्हूण पाचारून घेता. दुयेंत मनीस आपल्या जिवाच्या भंयान त्या वैजाक फावना तितलो रेस्पेद आनी तांकना तितलो दुडू दिता. आपल्या प्राणाची दोरी त्या दोतोराकडे आसा असो समज केल्लो मनीसप्राणी त्या दोतोराचें खरें नांव विसरून शेवटाक सगळ्यांखातीर तो दोतोरूच उरता. भौशीक मळार ते व्यक्तीक दोतोर म्हूण उलो मारलो की सगळ्यांच्यो नदरो त्या वैजाकडेन वतात आनी ताणें थंयच्या लोकांक वखद दिनासतना तो आदराक पात्र थरता.

असल्याच ह्या दोतोरांमुखार जर कोणेय संवये प्रमाण आदवोगादाक दोतोर म्हूण पाचारलें जाल्यार ह्या दोतोराक उस्तुरें वता. ताका आपल्या वेवसायाची आनी आदवोगादाच्या वेवसायाची तुळा केल्ली पळोवन सणसण मारता. ताका आपलो वेवसाय हो हेरांच्या वेवसाया परस श्रेष्ठ दिसता देखून समाजांत आपुणूच श्रेष्ठ असो ताणें समज करून

घेतिल्लो आसता.

मद्यंतराक म्हज्या मित्रपरिवारांतल्या कोणे तरी एकल्यान कोणाकूय 'दोतोर' म्हूण पाचारपाची नवी पद्धत सुरू केली. जाचें नांव खबर ना ताका ताणें दोतोर म्हणचें आनी दोतोर नाशिल्ल्यान अडेचें मोठेपण घेवंचे खातीर ताणें मारिल्ल्या उल्याक हरकत घेवप ना असो प्रकार चलतालो. नकळटना ताचो म्हजेरूय प्रभाव पडलो आनी हांवेंय कोणाकूय 'दोतोर' म्हूण पाचारपाक केन्ना सुरवात केली तेंय म्हाका कळळेंना. हेर मित्रांवांगडा म्हजे दोतोरकी करपीय खूप इश्ट आसात. तांतल्या खुपश्या जाणांक तो फक्त वेवसाय हाचें भान आशिल्ल्यान तांकां दोतोर म्हणनासतना फक्त एकेरी नांवान उलो मारल्यार लेगीत केन्नाच फरक पडनाशिल्लो आनी वायटूय दिसनाशिल्लें. दोतोर आनी पेशन्ट हें नातें वेगळें आनी मित्र हें नातें वेगळें हें आमी समजताले. पूण जे कोण खेडेगांवांत वेवसाय करूंक गेल्ले तांचेकडेन मोठेपण मिरोवपाखातीर हीच एक पदवी आशिल्ली आनी ते पदवेच्या मालवजार ते आपल्याक हेरांमुखार मोठेपण घेताले.

अशाच सभावाच्या एका दोतोर मित्राक एक दीस हांव पार्टेक घेवन गेलों. पार्टी एका हॉटेलांत आशिल्ली. हावें म्हज्या हेर मित्रांकडेन म्हज्या दोतोर मित्राची वळख करून दितना दोतोर अमको अमको म्हूण करून दिली. उप्रांत पार्टी बरी रंगली. म्हजो मीत्र दोतोर म्हणटकच हेर मित्रांनीय ताचो फावो तो आब राखलो. मदीच म्हाका वेटराची गरज पडली. हांव तेन्ना हॉटेल कामगार संघटना चलयतालों. अशा वेळार सगळे वेटर हे म्हजेखातीर 'कॉम्रेडस्' आसताले. हॉटेलांत ऑर्डर दितना तांकां मालकामुखार कॉम्रेड म्हणप अथवा 'वेटर' म्हूण उलो मारप समा दिसनाशिल्लें. त्या खातीर म्हज्या तोंडांतल्यान आपसूक 'दोतोर' अशें संबोधन आयलें. ताका हांवें दोतोर म्हण पाचारप म्हज्या दोतोर मित्राचो व्हड अपमान आशिल्लो. हांवें ताका पार्टेक आफयल्लो तो असो अवमान करूंक असो ताचो समज जाल्लो आनी त्या दिसाच्यान ताणें म्हजे कडलो संबंद तोडलो. म्हाका म्हजे करणेचें वायट दिसलें पूण ताका काय पर्याय नाशिल्लो आनी उपायूय नाशिल्लो. आयज स्वतंत्र गोंयांत मोठ्या मनशांकूच असल्या घरगुती वा आदरार्थी नांवान उलो मारपाची मक्तेदारी ना जाल्ल्यान खुपशा जाणांचो अवमान जाला आनी सांजे पेज्जेक नाशिल्ल्यांच्या घरांत लेगीत असल्या प्रकाराची रीगण जाल्ल्यान तांच्योय भावना दुखोवप आयज शक्य जायना. आपल्या मूळ नांवांवांगडाच असल्या अपुरबायेच्या घरगुती परिवारांतल्या नांवाचीय काळाप्रमाण गरज उप्रासल्या.

पयलीं मोठेपण ही थोडयाच लोकांची मक्तेदारी जाल्ली. पूण आयचो कुळवाड्यालो पोर हो फाल्यांचो मुखेलमंत्री जांवक शकता, प्रधानमंत्री जांवक शकता, नशिबाचो सांगात लाबून तस्करी वा मटक्याच्या आदारान व्हड गिरेस्त मनीस जांवक शकता. तो त्या वाठारांतलो दानशूर मनीस आसूं येता. अशा वेळार ते व्यक्तीक आदलिंच्या नांवान पाचारप म्हळयार ताचेर अन्याय ! तशें पाचारप ते व्यक्तिकूय आवडपासारकें नासता. तेच खातीर घरगुती

नांवाची वेवस्ता पयलींच करून दवरप गरजेचें. दयानंद बांदोडकार आनी पुरुषोत्तम काकोडकार हांका 'भाऊ', सुलोचना काटकार आनी शशिकला काकोडकार हांका 'ताई', अनंत नायकांक 'बाबू', रमाकांत खलपांक 'भाई' म्हूण आख्ख्या लोकांनी पाचारप आनी हेरांक मात तांच्या नांवामुखार चडांतचड 'बाब' लावन पाचारप हो तांचेर केल्लो अन्याय. आयज जितले मंत्री आसात तांकां आपल्याक घरगुती परिवारांतलें नांव ना देखून निश्चितूच पश्चताप जाला हातूंत दुबाव ना.

घरगुती परिवारांतल्या नांवाचो जाल्लो रासवळ प्रसार पळोवन अडेचें व्हडपण मेळिल्ल्यांक आपल्याक तसलें नांव ना देखून मनांतल्यान जरी खंत जाली तरी म्हाका असल्या नांवाची केन्नाच तोखणाय आनी अपुरबाय दिसलिना. ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप दितना म्हज्या एका इश्टान आपलें घरगुती परिवारांतलें नांव 'तवनास' म्हूण सांगून ह्या प्रस्नाच्यो बकच्छायो केल्ल्यो हांवें पळयल्यात. तवनास हें विशेशण भुरगेपणावयल्यो करण्यो आनी मस्ती पळोवन घरच्यांवांगडाच शेजारीय दरेका भुरग्याक लायताच. जर तो भुरगो उप्रांत फुडाराक तसोच उल्लो जाल्यार ताचे ताकदीमुखार ताका तवनास म्हणपाचें धाडस कोणाक जायना आनी तशें म्हणिल्लेंय त्या विद्‍वाट्याक आवडना. भुरगेपणावयलीं मस्तेपणा सोंपोवन मागीर व्हड जातकच तो सुदारलो आनी ताणें नांव जोडलें जाल्यार ताच्या भुरगेपणावयल्या तवनासपणाची कोणाक याद जायना.

म्हजें भुरगेपण हें गांवच्या हेर भुरग्यांवांगडा तवनासपणांत गेलां. म्हजीं मस्तेपणा पळोवन खूप जाण म्हाका तवनास म्हूण पाचारताले हाची म्हाका याद जाता. पूण तांका आता ती याद जायतशी म्हाका दिसना.

तुजें घरगुती परिवारांतलें नांव कितें ? असो प्रस्न जेन्ना आयज म्हज्यामुखार येता तेन्ना ताची जाप म्हजेकडेन नासता. तशें नांव म्हाका कोणेच दवरूंक नाशिल्ल्यान आनी आतां म्हाका ताची गरजूय नाशिल्ल्यान हो प्रस्न म्हजे खातीर रूक्षप्रस्न आसता.

म्हज्या व्हडल्या भावंडांक भाई, भाऊ, बाय अशा नांवानी पाचारपाची सक्ती म्हजेर भुरगेपणार जाली. व्हडल्यांक नांवान उलो मारूंक फावना, तांकां मान दिवंक जाय हो संस्कार बळावपाखातीर घरांतल्या जाण्टेल्यांची ती धडपड आशिल्ली. तांच्याच भंयाक लागून घरांतल्या व्हडल्यांक, ल्हानांकडल्यान घरगुती परिवारांतलें नांव पडलें. पूण तें घरांतल्यान भायर काय गेलेंना. म्हज्या परस पिरायेन ल्हान आशिल्ले लेगीत जेन्ना म्हज्या बापायक जांव व्हडल्या भावांक नांवान उलो मारतनां हांव पळयतालों तेन्ना म्हजेर ताणी केल्ल्या संस्काराच्यो तिसत्यो वादऱ्यो जाताल्यो.

हांव घरांत सगळ्यांत धाकलो. म्हज्या फाटल्यान एक भयण आसा. पूण हांव तिचे परस व्हडलो आसुनय तिणें म्हाका आदरान केन्नाच नांव दवरलेंना. जशी परंपरा चलत आयल्या तशींच म्हजे बाबतीतूय ती घडून येवंक जाय आशिल्ली. भयण म्हजेपरस धाकटी आशिल्ल्यान तिचे कडल्यान बाबा, भाई बी असलीं आदराचीं विशेशणां म्हणोवन घेवपाचो

म्हजो अधिकार आशिल्लो. पूण ताणें सदांच म्हाका नांवानूच उलो मारलो. आनी आतां म्हजेकडेन कोणूय आपल्या कामाखातीर येतात आनी म्हाका अडेचें 'बाबू' जांव 'भाऊ' म्हण पाचारपाचें, तेन्नाय ते म्हाका नांवानूच उलो मारतात. घरगुती परिवारांतलें तांचे कडल्यान म्हाका अधिकारान मेळपाचें हें नांव म्हाका तांचेय कडल्यान मेळ्ळेंना. त्या उप्रांत भावाल्या भुरग्यांचेर म्हाका 'काका' म्हणचो आनी भयणिल्या भुरग्यांचेर 'मामा' म्हूण उलो मारपाची बळजवरी जावंक लागली. म्हाका तशें म्हणचे बदला तीं बाबडी भिऊनच तोंड धापून ओगी रावतालीं. जेन्ना ताणी तें उगडलें तें 'दिलीप' अशेंच म्हणून उलो मारून. ताणी तशें म्हणटकच घरचीं तांकां तशें म्हणचें न्हय म्हूण देख लायतालीं. पूण म्हाका ती जबरदस्ती आवडनासली. म्हाका ताणी नांवानूच उलो मारचो म्हूण हांव तांका शिकयतालों.

म्हजे हेरांच्या मानान केंस आनी खाड खूप बेगीन पिकलें. ताका लागून हेरांचे नदरेन हांव खुपूच जाणटो दिसतां. म्हाका वळखनाशिल्ले म्हजेच पिरायेचे तरनाटे जांव चलयो म्हजेकडेन येवन म्हाका 'अंकल' जांव 'काका' म्हूण उलो मारतात तेन्ना म्हजो पायांतलो राग मस्तकाक पावता. पूण तांका खरी पिराय सांगून फायदो कितें ? तांचेकडेन म्हाका जमोवन घेवंचें पडटा. तेंच म्हजें घरगुती परिवारांतलें नांव म्हूण समादान मानचें पडटा. कित्याक तर म्हजो परिवार हो घराच्यो वणटी आनी देशाच्यो शिमो हुपून जागतीक जाल्लो आसा.

इतलेंय जरी आसलें तरीय आयज घरगुती परिवारांतल्या नांवाचो प्रस्न निर्माण जाल्लो आसा. तो प्रस्न परिवारांतलोय न्हय आनी घरांतलोय न्हय. तांका ताची व्हडलिशी गरजूय ना. म्हत्वूय ना. गरज आसा ती रूक्षप्रस्न करप्यांक. घर आनी परिवार सोडून हेरांक सगळ्यांक म्हजें वेगळें अशें नांव आसचें अशें दिसता. जाचो वापर ते सगळे अधिकारान करूंक शकतले. असल्या नांवाची गरज आयज म्हाका उरूंक ना. म्हज्या घरच्यांकूय ना आनी आयज जाका हांव म्हजो परिवार मानतां त्या परिवाराकूय ना. ह्या नांवाची गरज आसा ती भलत्यांकूच जांका म्हजेकडेन संबंद प्रस्थापीत करून स्वताचे प्रस्न सोडोवपाचे आसात !'

तुजें नांव कितें ? ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप दिवन म्हजें नांव म्हळयार कितें आनी तो रक्षप्रस्न कसो हें हांवें ह्या पयलीं सांगिल्लें आसाच. जेन्ना नांवाकूच अर्थ ना. तेन्ना नांवाभायर आशिल्लें हें घरगुती परिवारांतलें नांव लक्षात दवरप वा ताचेर स्वताचें मोठेपण गाजोवप हाका म्हजे नदरेन व्हडलोसो अर्थ ना. नांवा जीं आसतात तीं फक्त आपलें नांव दवरपाखातीर. जाका मुळांत नांवातूच अर्थ दिसना, जाका हे भुंयेचेर कांयच दवरपाचें ना ताका ताच्या घरगुती परिवारांतलें नांव कितें असो प्रस्न करप म्हळ्यार तो प्रस्न करप्यांचो तो दुबळेपणा. ह्याच दुबळेपणाच्या नेटार ते लोक जियेतात आनी प्रस्न करून जाप दितल्यांकूय दुबळो करपाचो यत्न करतात. जांकां हें सगळें खबर आसता तांचेखातीर हे सगळे प्रस्न रूक्षप्रस्नूच !!





# तुजें भुरगेपण कशें गेलें



म्हजें भुरगेपण केन्ना गेलें हेंच म्हाका कळ्ळें ना. अशा वेळार म्हजें भुरगेपण कशें गेलें हाचो हिशेब हांवें दवरप वा मांडप आनी तुजें भुरगेपण कशें गेलें ? असो कोणेंय प्रस्न करप म्हळ्यार म्हजे खातीर म्हाका तो एक रूक्षप्रस्न दिसता.

एकदां मनीस मोठो जालो आनी ताका चार चौग वळखूंक लागले म्हणटकच ताच्या भुरगेपणाकूय आपसूक म्हत्व येता. आयज ज्या मनशान नांव काडलां ताची फाटली गोम कितें ? ताचें जिवीत कशें मुखार सरलें हो सगळो एक संशोधनाचो विशय जावन वता. आयज वेरच्या सगळया व्हड मनशांक ताच्या भुरगेपणांविशिंचें विचारलांच विचारलां. अथवा आपलें भुरगेपण कशें गेलें हाचेर ह्या व्हड मनशांनी खूप कितें खरडलां वा बंडलांय ठोकल्यांत. खरें पळोवंक गेल्यार ह्या सगळ्या व्हड मनशांच्या व्हडपणाकडेन तांच्या भुरगेपणाचो कांयच संबंद नासता. आसलोय जाल्यार कांय यादी बरोवपा इतलो वा कांय घडणुकांक लागून तांच्यात जाल्ल्या बदला पुरतोच तो आसता. लेखकांक आपल्यो यादी रंगोवन हेरांक सांगपाच्यो आसतात जाल्यार आपूण भुरगेपणार कितलो विद्‌वाटो आशिल्लों पूण अकस्मात खंयचे तरी घडणुकेचो प्रभाव पडून आपूण सुदारलों हें हेर ल्हान मनशांमुखार तांका दवरपाचें आसता. थोड्यांचें भुरगेपण मजेंत, चैनीत गेल्लें आसता, जाल्यार थोड्यांचें अत्यंत दुश्काळांत. जेवणाक लेगीत ते पातिशेर जाल्ले आसतात. नगर पालिकेच्या दिव्या सकयल बसून अभ्यास करपांत तांच्यो राती गेल्ल्यो आसतात. त्याचखातीर तांका बरे दीस आयिल्ले आसतात. ते नामना जोडूंक पाविल्ले आसतात. जांचें भुरगेपण मजेंत गेल्लें आसता तांची मात काकूट. कित्याक तर तांका आपल्या भुरगेपणावेल्या जिविताचें भांडवल करूंक मेळना. पूण जाणे भुरगेपणार उतळताप काडल्यात ते मात व्हड जाल्या उपरांत आपल्या त्या कश्टांचें, त्रासांचें भांडवल करून यथेच्छ कांडटात. हेरूय लोक त्या व्हड मनशांच्या त्रासांचें कांड झरयत आपल्या भुरग्यांक तांची देख दिवपाचो यत्न करतात. त्या वेळार त्या भुरग्यांकूय दिसूंक फाव, व्हड जातलो जाल्यार आपल्याच्याय वांट्याक तांचेंच दुख्ख येवंक जाय. आपलो आवयबापूय गरजेभायर आपल्याक सुख मेळचें म्हण कश्ट काडटात !

हांव जेन्ना म्हजें भुरगेपण कशें गेलें हाचो नियाळ करूंक लागतां तेन्ना ह्या रूक्षप्रस्नाक कशी जाप दिवप हेंच म्हाका कळना. खुपशा व्हड मनशांनी ताका जाप दितना, मजेंत,

आनंदात, कश्टांत अशी मोजकीच जाप दिल्ली आसा. पूण हातुंतल्यान तांच्या भुरगेपणाचेर कांयच उजवाड पडना. भुरगेपणावेल्या सुख - दुख्खाची कल्पनाय वेगळी आसता. एका भुरग्याचें सुख हें दुसऱ्या भुरग्याचें दुख्खय आसूं येता. तेच खातीर आपलें भुरगेपण हें खरें पणी कशें वचूंक जाय आसता हाची कल्पना म्हाका ना. तरीय पूण म्हजें भुरगे पण गेलें इतलें खरें !

म्हजो जल्म आगशी ह्या गावांत जालो त्याच खातीर म्हजें भुरगेपणूय थंयच गेलें. कांय जाणालीं भुरगीं एका गांवात जल्मतात आनी शिक्षणाखातीर खंयतरी दुसरेकडेन वचून रावतात. तांचो मामा ना तर असोच कोणतरी सोयरो आसता आनी शिक्षणाच्या नांवान तांचें भुरगेपण भलत्याच गावांत सरता. पूण श्रीकृष्णाचें नशीब घेवन जल्मपी मात थोडेच आसतात. तें काय म्हज्या नशिबांत नाशिल्लें. आगशी गांव हीच म्हजी काशी आनी तीच म्हजी पंढरी जाल्ल्यान म्हजें भुरगेपण आगशीच सरलें. आगशी गावांत चडशे ख्रिश्चन लोक. हिंदूचें घर सोदचें पडटालें. सांपडलें तरी म्हज्या वांगडा खेळपी वा हांवें जांची संगत धरची अशे पिरायेचे भुरगे सांपडनाशिल्ले. त्याचखातीर भटवाडयार कुकड तशें सरभोंवतणच्या ख्रिश्चन भुरग्यांमदीं म्हजें भुरगेपण सरूंक लागलें. गावांत मराठी शाळा ही नाशिल्लीच. पुर्तुगेज शिकप चलतालें. म्हज्या शिक्षणाचो श्रीगणेशाच, ती चिरी नासतना पुर्तुगेजींतल्यान जालो. पुर्तुगेज इस्कोलांत वचून दोन - चार दीस मात जाल्यात तें इस्कोलूच बंद पडलें. तो म्हजो पांयगूण आसत अथवा गेर्र सुरू जावन पुर्तुगेज सरकार गोंय सोडून वचूंक हावें इस्कोलाक वचपाचीच वाट पळयतालें आसत, अथवा मराठीचे सेवेक म्हजो हातभार लागचो देखून हांवें पांय दवरतांच पुर्तुगेज इस्कोल बंद पडून थंय मराठी शाळा सुरू जांवची हें विधीलिखीत आसूं येता.

हांवें थंय पुर्तुगेजीचे आ बेसी अशे कांय धडे गिरयले आनी इस्कोल बंद पडलें आनी म्हजी पोटली महाराष्ट्रात स्थलांतर जातना म्हाका व्हडलेशे त्रास आनी अडचण जाली ना. कित्याक हें स्थलांतर गोंयातूच जाल्लें. वातावरण सगळें कोंकणी आशिल्ल्यान नवी हाडिल्ली पाटी दोन दिसांभितर फोडून, एका पाटयेचे चार कुडके घेवन हांव ओप्रेक भितर सरलों. ती पाटीय शाळेंत वचूंक घेवंक नाशिल्ली तर इस्कोलाक वचूंक पेद्र म्हूण घेतिल्ली. तीच पेद्र शाळेंत पावतकच पाटी जाली. 'शाळा सुटली, पाटी फुटली' ही कोणाची तरी कविता मुखार आमकां आइ्डपाची आशिल्ल्यान पुर्तुगेज इस्कोल सुटल्याबराबर ती फुटली आसूं येता आनी ती फुटिल्ली पाटीय बदलून मेळपाची नाशिल्लीच. कारण घरची परिस्थिती तितली नाशिल्ली. शिवाय तेन्ना ती नवी मेळची अशी म्हजी अपेक्षाय आशिल्ली काय कितें हाची आतां यादूय जायना. पूण पाटी नवी मेळ्ळयार खुशालकाय निश्चित भोगपाची. शाळेंत सरस्वती पूजन आसतना पाटयेची पुजा करपाखातीर दोन दीस तयारेक लागप आनी

पुजनाच्या आदले दिसा कोळसो घेवन फुटून चार कुडके जाल्ले ते पाटयेक घासून घासून चकचकीत करून पाटयेची लाकडी आटीय ब्लेडीच्या कुडक्यान धवीच केल्या उप्रांत जी खुशालकाय मनाक भोगताली ताचे परस चड खोस नवी पाटी हाडल्यार नक्कीच जावपाची. पाटयेच्या चार कुडक्यांक जबरदस्तीन एकठांय बसोवन रातभर जागरण करून तिचेर सरस्वती पितारून लेगीत पाटी नवी घेवपा इतली आस्पत सरस्वतीन केन्नाच फाव केलीना. शाळेंतल्या साकार बसून अथवा घरांतले शेणाचे जमनीर बसून बाराखडी चिरतां - चिरतां मात म्हजो पयलो नंबर केन्नाच चुकलोंना. आपलें हांव मन लावन, बरें चित्र काडटालों देखून सरस्वतीची तितलीच म्हजेर कृपा नदर आसूं येता.

कुंकळयेचें कुळागर सोडून म्हजो बापूय आनी भाव आगशी रांवक आयले तेन्ना म्हजो जल्म जांवक नाशिल्लो. म्हज्या जल्मापयलीं घरची परिस्थिती सामकी वायट आशिल्ली खंय ! म्हजो जल्म जाल्या उपरांत ती सुदारूंक लागली. हांवे गरिबी, त्रास, वळवळे म्हणटात ते कांयच पळोवंक ना अशी म्हजी आवय म्हणटा. ताचेवेल्यान म्हज्या व्हडल्या भावांनी कितले त्रास काडल्यात आसुंये आनी तातुंतल्यान ताणी शिक्षण कशें घेतलां आसुंये हाची म्हज्यान कल्पना करूं येता. तेच भावनेंतल्यान आनी जाणविकायेंतल्यान जें मेळटा तातूंत समादान मानपाचो पींड म्हज्यांत तयार जालो आसूं येता.

चवथी मेरेन आगशीच्या सरकारी प्राथमिक शाळेंत शिकल्या उप्रांत हांव डोंगरी - मंडूर हांगच्या शाळेंत वचूंक लागलो. आगशींत मराठी माध्यमांतली पांचवेची शाळा नाशिल्ली. आगशी सावन मंडूरची शाळा सात - आठ किलो मिटर अंतराचेर. येवन वचूंक म्हाका दर दिसा चौदा - पंदरा किलोमिटर चलचें पडटालें. शिवाय पायांत व्हाणो - जोतीं बी म्हणटात तीं नाच. खंयीय जात्रेक बी गेल्यार कोणालेंय घालून वतालों तितलोच तांचो पायांकडलो संबंद. दर दिसा जितलें चलचें पडटालें आनी वर्सभर सोडाच पांचवी ते अकरावी मेरेन जितलीं वर्सां हांव चल्लां तें पळयल्यार म्हज्या पायांक कितल्या जोत्यांचे पार लागतले आशिल्ले हाचो हिशेबूच न केल्यार बरो. डांबरी रस्त्याचेर तापिल्ल्यान, मातयेंतले कांटे - फातर तोपिल्ल्यानूच म्हजी चाल सरळ उरल्या आसूं येता. शिकपाच्या नांवान हांव जितलों चल्लां ताचो हिशेब काडल्यार हांवे चलून निश्चितच पृथ्वीक भोंवताडो माल्ला आसूं येता. तेन्ना हातांत सायकल आशिल्ली जाल्यार म्हजो खुपसो वेळ वाचूं येतालो. तो वेळ अभ्यासाखातीर वापरून म्हज्यान चड मार्क घेवं येताले. इतलेंय करून म्हजो नंबर पयलो - दुसरोच आसतालो.

चवथीमेरेन आगशी क्रिस्तांव भुरग्यांवांगडा आनी उप्रांत पांचवी ते अकरावी मेरेन पुराय हिंदू संस्कृतायेंत वाडिल्ल्या हिंदू भुरग्यांवांगडा त्या उप्रांत परतूनय क्रिस्तांव भुरग्यांवांगडा असो मीश्र प्रभाव म्हज्या भुरगेपणाचेर जायत रावलो. शाळा सुटल्या उपरांत वा शाळा सुरू

जांवचे पयलीं गोरवां घेवन वचपाचो कार्यक्रमूय म्हाका करचो पडटालो. गोरवां राखप हो पारंपारीक वावर घरांत चलतालो. संवसाराक आदार जांवचो म्हूण दोन - चार गोरवां घरांत आशिल्लीं. पयलीं व्हडलो भाव तीं राखतालो. ताका नोकरी मेळळी म्हणटकच ताच्या हातांतली बडी फाटल्या भावाच्या हातांत येताली. जेन्ना हांव गोरवां राखपाचे लायकिचो जालों तेन्ना ती जापसालदारकी म्हजेर आयली. गोरवां राखपाचीं सुत्रां म्हज्या हातांत जेन्ना आयलीं तेन्ना मात म्हजीं सगळीं गात्रां सढळ जावन गेलीं. आमगेर काळुवासरू म्हण एक गाय आशिल्ली. ती धांवल्यार म्हाकाय वांगडा ओडून व्हरताली. शेतांतलें पीक खाताली. शेतकार गाळी संवताले. गायेक आडावंक वचत जाल्यार ती फाट घेवन घेवन मारूंक येताली. म्हजे वांगडा हेर भुरग्यांचींय गोरवां आसतालीं. गोरवांक चरवाक सोडून आमची मदलस चलताली. कणगां चोरून तीं भाजून खावप, काळगां खावप ह्यो गजाली चलतनाच ह्या भुरग्यांकडल्यान खुपशो गजाली आयकूंक मेळटाल्यो. तांचे उलोवप हें नागड्या बायलांचेर आसतालें. सगळ्यांपरस हांव भुरगो आशिल्ल्यान लजत लजत तें कामशास्त्र हांव समजून घेतालों. पूण आकलन कांयच जायनाशिल्लें. ताणी सांगिल्ल्यो काणयो अजून याद उरल्यात आनी तांच्या त्या वेळावयल्या कल्पनाशक्तिची म्हाका आतां तोखणाय दिसता.

भुरगेपण परत मेळचें म्हूण खुपशा कविनी कविता बरयल्यात. भुरगेपण परत मेळचें म्हण जण एकलो जाणटो मनीस आयज वथरेता. 'कोणूय म्हजें भुरगेपण परत म्हाका दियात रे' ह्या सारकें गीत जेन्ना म्हज्या कानार पडटा तेन्ना म्हाका म्हज्या भुरगेपणाची याद जाता. पूण कोणेय येवन तें परत दिवंचें अशें म्हाका निखालूस दिसना. हांवें भुरगेपणार कश्ट सोसल्यात देखून त्या कश्टांक भिवून हांव तें नाका म्हणटां अशांतली गजाल न्हय. म्हाका भुरगेपणार कश्ट म्हणटात ताची जाणविकायूच जालिना. भुरगेपण कशें गेलें म्हणटात ताची खास अशी याद जायना. तें केन्ना गेलें, तरणेपण केन्ना आयलें आनी जाणटेपणार हांव केन्ना पावतलों हाची म्हाका जाणविकायूच ना. हो सलग असो काळ तांका वेगळे करून पळोवप म्हाका जमना. हांव दर खिणाक सगळ्या काळांनी जगतां. केन्ना भुरगो जावन, केन्ना तरणो जावन तर केन्ना जाणटो जावन. हांव जरी प्रॅक्टीकली म्हजें भुरगेपण सरलें अशें म्हणटां तरी हांव अजून भुरगो आसां. अजून तरणो आसां, अजून जाणटो आसां !





# तुवें कितें करचें थारायलां



खरेंच, हांवे कितें करचें थारायलां ? हांवे कितें करचें थारायलां हें हांवे अजून मेरेन थारावंकूच ना. थारावंचें अशें दिसलेंय बी ना. प्रत्येक गजाल ही थारावंक जाय, ती थारावनूच करपाची आसता असो विचार केन्ना म्हजे तकलेंतूच आयलोंना. पूण जेन्ना म्हजी वागणूक पळोवन कांय लोक गांभिर्यान म्हाका प्रस्न करतात तेन्ना मात हांव गंभीर जातां आनी विचार करूंक लागतां. हांवें कितें करपाचें थारायलां ?

हांवें अजून मेरेन जरी कितें करचें हें थारावंक नासलें तरी तें हांवें थारावंक जाय. थारायल्लें तें जिवीत भर जरी हांवें करूंक ना तरीय रूक्षप्रस्नाखातीर हांवें तें थारावंक जाय.

आमच्या ह्या समाजांत हेरांचें बरें मागपी कांय लोक आसात. भाव आसात, भयणी आसात, आवय - बापूय आसा, मैत्र - मैत्रिणी आसात. जाण्टेपणाक लागून हेरांक दोन जाणवायो सांगपाचो अदीकार प्राप्त जाल्ले शेजारी आसात. ह्या सगळ्यांची चिंता पयस करूंक, तांच्या मनाक समादान दिवपाखातीर तरी म्हाका कांय गजाली ह्यो थारावंकच जाय. आवय - बापूय जांव भाव हांचें एक हांव समजूंक शकतां. ताणीं म्हाका वाडोवपाखातीर शिकोवपाखातीर कश्ट काडल्यात. म्हाका नोकरी करून वा कसलोय धंदो करून जोडपाखातीर, पोट भरपाखातीर लायक केला. ताणीं म्हजे खातीर केल्ली गुंतवणूक फळादीक जांवची देखून, ताणीं म्हजे कडल्यान हांवें कितें तरी करचें अशी अपेक्षा बाळगप चुकिचें न्हय. शेवटी हो संवसार म्हळ्यार दिवपा घेवपाचो वेव्हार. हांव व्हडलों जातकच कितेंतरी करतलों आनी म्हातारपणार आदाराक पावतलों हेच अपेक्षेन आवय - बापायन म्हाका वाडयल्लो, जशे दरेक आवय - बापूय आपल्या भुरग्यांक वाडयतात. त्याच खातीर तीं आपल्या कश्टांची गुंतवणूक ह्या धंदयात करतात. हातूंत नातें हो एक असो प्रकार आसता, जाका आयच्या काळांत आमी लांच म्हणूंक हरकत ना. आपलेपण, आपलो मनीस ह्या सारकी लांच दाखोवन हो प्रकार कितलींशी वर्सांसावन घडत आयला. इतलेंय करून जर अपेक्षेप्रमाण पुताकडल्यान कांय येना जाल्यार आवय - बापूय पुताच्या विरुद्ध वतात. भाव भावाक वळखना आनी भयणीक भावाचेंय व्हडलेंशे पडून वचना. आपल्याक कितेंय मेळचें हेच अपेक्षेन हें सगळें घडत आसता. मागीर तें अर्थीक रूपान आसूं वा हेर कसल्याय रूपान आसूं. इतलेंच कित्याक ज्या सर आपूण दुसऱ्याक हांसो दिना, वा बरें उतर दिना त्या सर

दुसऱ्या कडल्यान आमकां हांसोय मेळना आनी बरें उतरूय मेळना. आपल्याक किर्ते तरी फायदो जांवचो ह्याच खातीर जणएकलो दुसऱ्याकडच्यान अपेक्षा बाळगून आसता.

तुवें कितें करचें थारायलां ? हो जेन्ना रूक्षप्रस्न म्हजे मुखार येता तेन्नाय ह्या प्रस्ना फाटल्यान हीच अपेक्षा आसता. आतां विचारप्यांची अपेक्षा ही वेगवेगळी आसता. जेन्ना भाव आपल्या भावाक विचारता तेन्ना आपल्या भावान अशें कितेंय करचें, जाका लागून आपल्याकूय नांव मेळचें वा फाटीफुडें आपल्याक आदार मेळचो ही अपेक्षा आसता. आवय - बापूय येवजिता तेन्ना, आपल्या वंशाची वाड करचे वांगडाच पुतान बरें जोडचें आनी म्हातारपणार आपल्याक सूख दिवंचें ही अपेक्षा आसता. हेर मित्रांक आपल्या मित्राच्या कर्तृत्वाचेर मिरोवपाचें आसता. आपलो कसलो ना कसलो फायदो करून घेवपाचो आसता. जे कोण हितचिंतक समजतात तेय आपलो अधिकार गाजोवपा खातीर अमूक अमूक कर म्हण सांगतात वा कितें करपाचें थारायलां ? हो रूक्षप्रस्न करतानाच कितें करचें हेंय तेच सुचयतात. ताणी सांगिल्लेप्रमाण करून जर तें बऱ्याक पडलें जाल्यार आपणे तो सल्लो दिल्ल्यान तो बऱ्याक पडलो म्हणून व्हडपण मिरोवंक ते फाटी नासतात. तशें पळोवंक गेल्यार ह्या संवसारांत जण एकल्याक आपल्याचेंच पडिल्लें आसता. फक्त उरिल्लो वेळ समाजसेवा म्हण हेरांक रूक्षप्रस्न विचारून वा विचार नासताना सल्लो दिवन वेळ घालोवपाचो आसता.

तांच्या रूक्षप्रस्नाप्रमाण हांवें कितें करपाचें थारायलां हें हांवें अजून थारावंक ना. हाजे फाटलें मूळ कारण हेंच आसा. ह्या जगांत हांवें कितें करचें हें हांव थारावंक शकना. तें दुसरेच थारायतात. पूण जेन्ना म्हाका कळ्ळें की जी गजाल खरें म्हळ्यार हांवेंच थारावपाची आसा ती समाज म्हाका थारावंक दिना, तर ती ते थारायतात आनी ते तरेन म्हाका जियेवपाक फोर्सार करतात. म्हजीच गजाल कित्याक ? जाची पिराय व्हडली आसा तो आपले फाटल्यान येवप्याक तें थारावन दिता. पयलीं हे भुंयेर आयिल्लो फाटल्यान येवप्याक एक वाट घालून दिता. ती जर त्या फाटल्यान येवप्यान सोडली आनी एक नवी वाट सोदपाचो यत्न केलो जाल्यार वाट घालून दिवपी खुबळटा. ताका नाका जाल्ले रूक्षप्रस्न विचारून, ताजे नवे वाटेपसून ताका परावृत्त करून आपणे घालून दिल्ले वाटेर हाडपाचो यत्न करतात. हातूंत ताका वाट सोदतल्याचें बरें करपाचें आसता अशांतली गजाल न्हय. तर आपूण जी वाट तयार करूंक शकलोंना, आपणे जें केलेंना तो हो करूंक सोदता आनी त्या खातीर आपल्याक उणेपण येतलें हेच सूप्त भावनेंतल्यान दुसरो नवें कितेंय करूंक सोदतल्याक आडावप होच हे करणेफाटलो मुखेल हेत आसता. मात तशें करतना आपलो हेत तसो नासता तर तो बऱ्याचो आसता हेंच सिद्ध करपाची तांची खटपट आसता.

आयज दरेकलो स्वता आपणे कितें करचें हें कोणूच थारायना. तें म्हालगडे थारायतात. हाकाच लागून हांव म्हाका जें कितें करपाचें आसा तें हांव थारायतां. हेरांचे नदरेन तें चूक आसूं. तांका दिसता आसत की म्हजें चुकता. पूण ही चूक तांचे येवजणेची. तांच्या बऱ्याक पडटा तें म्हज्या वायटाक पडूं येता. वा वायटाक पडूनय ताचेपसून म्हाका समादान मेळूं

येता. समादान मेळप हेंच म्हजे नदरेन व्हडलें सूख आसता. जेन्ना म्हाका दिसलें नोकरी सोडूंक जाय तेन्ना फाटलो फुडलो विचार करिनासतना हांवे नोकरी सोडली. त्या उपरांत नोकरी म्हणटात ती करप ना म्हणपाचोय निर्णय घेतलो. चाकोरी भायर रावन स्वताक मुखार व्हरपाचो यत्न केलो. अजून करीत आसां. सगळ्यांक दिसलें की तीं म्हजीं पिशेपणा. ह्या पिशेपणांतल्यान खीणभर म्हाका त्रास भोगल्यातूय. पूण त्या कश्टांतल्यानूय म्हाका समादान गावलां. नोकरी सोडल्या बराबर रूक्षप्रस्न हे आयलेच. तुवें कितें करपाचें थारायलां ? होय एक असल्याच प्रसंगावेलो प्रस्न. म्हजे नदरेन रूक्षप्रस्न.

नोकरी सोडपाचो निर्णय घेतलो आनी त्याच खिणाक ती सोडली. त्या उप्रांत केन्ना भीक म्हणटात ती मागलिना. केन्ना उपाशीं पडलोंना वा म्हज्यो दिसपट्ट्यो गरजोय उण्यो जाल्योनांत. सिगरेटीचो ब्रॅन्ड बदललोना, सोऱ्याचो ब्रॅन्ड बदललोना. स्कूटर सोडून बशीन केन्ना भोंवलोंना. मनशाक नोकरी ही जाय. म्हजे सारकी हेरांनीय नोकरी सोडची अशें हांव म्हणना. पूण सुरक्षतायेच्या, सेक्युरिटिच्या नांवाखाल आपणाकूच मशीन करून घेवप म्हाका तरी परवडपाचें ना. ताकाच लागून हांव एक नोकरी घेवन बसना. देखून लोकांक त्रास जातात. ते बाबडे मरसर नोकरी करतात आनी हांव मात कोणाचो नोकर ना, हांव नोकरी करिनासतना रांवक शकतां तशे ते रांवक शकनांत. त्याच खातीर तांका मनात खंयतरी खाता. तांचें मन मत्सरान जळटा. आनी ताणी थारावन दिल्ले वयेंत म्हाकाय ओडचेखातीर तांचे यत्न सुरू जातात. ते वंयेत ओडून संवसाराच्या घाण्याचो बैल करपाखातीरूच तांचे हे रूक्षप्रस्न आसतात..... तुवें कितें करपाचें थारायलां ?

कितें करपाचें थारायलां ? ह्या तांच्या प्रस्नाक तांका जाप जाय आसता ती म्हळ्यार हांवे नोकरी करपाची थारायलां वा धंदो करपाचें थारायलां ही. जर तांच्या प्रस्नाक हांवें कविता करपाच्यो थारायल्यात, मोर्चा काडपाचे थारायल्यात, चळवळी उभारपाच्यो थारायल्या, समाजसेवा करपाचें थारायलां अशो जापो दिल्यो जाल्यार तांका तें रूचपाचेंय ना आनी पचपाचेंय ना. ते हांसतले आनी परतून एक नवो रूक्षप्रस्न करतले... हातूंत कितें सुट्टा मरे ? ... तांचे अपेक्षेप्रमाण जें कितें सुटपासारकें आसा तें सोडोवपा खातीर हांवे एकूच करपाचें थारावंक जाय, घाण्याचो बैल जावपाचें. ज्या सर हांव घाण्याचो बैल जायना. तांचे प्रमाण म्हाकाय एके फासकेंत बंद करून पोट भरिना ते सर हे रूक्षप्रस्न थारपाचे नांत. तांका त्या प्रस्नांच्यो जापो खबर आसुनय जापांतल्यानूच हे रूक्षप्रस्न तयार जायत रावतात.... तुवें कितें करपाचें थारायला ?





# तुज्या जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती कोण



जल्म आनी मरण ह्या दोन तोकांमदल्या प्रवासांत खुपशो गजाली घडटात. जांका जीव आसा अशा दरेक गजालीक हो दोन तोंकामदलो प्रवास करचो पडटा. ह्या प्रवासाक आमी जिवीत वा आयुश्य अशें एक नांव दिल्लें आसा.

आमच्या ह्या जिवीत नांवाच्या प्रवासांत बऱ्यो - वायट घडणुको घडत रावतात. जिवीत मुखार धुकलताना ज्या गजालिंची आडखळ जाता आनी चड तकालस घेवंची पडटा ताका त्रास आनी जी गजाल कश्टां विरयत कसलेच क्लेश जायनासतना अचळय घडटा हाकाच सूख अशें जरी आमी मानतात तरी तशें मानपाची खरें म्हळ्यार गरज ना. जें दुख्ख न्हय तें सूख ही गजाल थरिल्लीच आसता. ह्या बऱ्या वायट प्रकारांत मनीस केन्ना आपटता केन्ना धडपडत उट्टा, उबो रावता आनी अशे प्रक्रियेत आपलें आयुश्य मुखार व्हरता. जो कोण सर्व सामान्य मनशांमुखार प्रभावी थरता ताकाच म्हत्व दिवपाचो प्रकार ह्या समाजांत घडटा. कित्याक तर हो मार्ग खुपूच परिश्रमाचो, कश्टांचो आसता. जांका हे त्रास सोसून तातुंतल्यान वाट काडपाची ताकत आसा त्या कश्टांकूच दिल्लें हें म्हत्व आसा. जे आपल्या पोटाखातीर धडपडटात, आपल्या पुरतेंच येवजून त्याच खातीर जियेतात ताणी कितलेय त्रास काडले तरी तांच्या त्रासांक हेरांच्या हिसपान कुस्कुटाचें म्हत्व नासता.

त्रास काडून, संकश्टां पेलून जो कोण आपलें आयुश्य पुराय करता, आपलो संवसार चलयता तांचेरूय हेर मनशांचो प्रभाव पडटाच. तांच्या प्रभावानूच वा तांचे करणेतल्यान प्रेरीत जावन, निराश जायनासतना संवसाराचो गाडो मुखार धुकलपांत ते जैतिवंत जातात. तरी लेगीत हेरांचे नदरेन ह्या प्रभावाक कांयच मोल नासता. तांच्या जिविताची, तांच्या कश्टांची आनी तांचेर पडिल्ल्या प्रभावाची कोणाकूच चाड नासता. हांगा चाड आसता प्रभावी मनशाची आनी ताचेर प्रभाव घालपी अती प्रभावी मनशाची.

आमच्या समाजांत समाजीक मळार लुडबूड करपी खुपशे समाजीक फुडारी आमकां दिश्टी पडटात. ते सगळे समाजांत प्रभावी थरल्यात ताचें कारण ते प्रभावी म्हण न्हय. हेरांचेर प्रभाव घालपासारके तांचेकडेन कसलेच गूण नासतात. तांचें भांडवल एकूच आसता आनी तें म्हळ्यार तांचेर खूप व्हड मनशांचो प्रभाव पडिल्लो आसता. कोणाचेर डॉ. राम मनोहर लोहियांचो प्रभाव पडिल्लो आसता तर कोणाचेर गांधीजींचो. कोणाचेर इंदिरा गांधीचो तर

कोणाचेर रवींद्रनाथ टागोर हांचो. ह्या प्रकारांत जांचो प्रभाव पडटा ते प्रभावी मनीसूय सुटनांत. तांचेरूय तांच्या काळावयल्या प्रभावी मनशांचो प्रभाव पडिल्लो आसता. हांगा प्रत्येक प्रभावी मनीस तयार जाल्लो आसा तो आपले ताकदीचेर न्हय तर हेर लोकांच्या प्रभावाचेर. ह्या सगळ्यांची अवतिकाय सुर्याच्या उजवाडान चकचकपी चंद्रावरी जाल्ली पळोवन म्हाका ह्या प्रभावाचें एक नवलूच दिसता. कोणाचो प्रभाव नासल्याबगर मनीस व्हड जांवक शकचना काय ? असो एक प्रस्न म्हज्या मुखार उबो रावता.

आयजवेर हांवे जितल्या व्हड मनशांचीं चरित्रां वाचल्यांत ताणी आपल्याचेर प्रभाव घालपी मनशांचीं वर्णना भेसबरी केल्यांत. कांय जाणांनी अशे पद्धतीन मसालो लायला की जाका लागून वाचतल्याक जांव आयकतल्याक दिसता की तो इतलो व्हड आशिल्लो देखुनच हो मनीस व्हड आसा. ह्या लोकांनी आपलें व्हडपण मेजपाखातीर हे अशेतरेचे मापदंड, अशे तरेचीं फितां वा वजनां वापरलेली आसात. आयच्या काळांतूय प्रभावी म्हण मान्यताय पाविल्ले सगळेच जाण आपलें प्रभावी रूप सिद्ध करपाखातीर अशाच मापांची यादी आमचे मुखार दवरतात. तीच यादी मेळची देखून तांच्या मुखार रूक्षप्रस्नूय दवरतात तुज्या जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती कोण ?

संवसारांतल्या दरेका मनशाच्या जिविताचेर प्रभाव घालपी कोण ना कोण व्यक्ती आसताच. थोड्यांच्यो व्यक्ती वयर सांगिल्ल्या प्रमाण सामाजीक मळार नांव जोडिल्ल्यो, दिगंताक नांव पातळायल्ल्यो आसतात तर कोणाच्यो आपल्या घरच्योच आवय - बापूय, भाव - भयण, काका - मामा बी नात्यांतल्योच आसतात. ह्या लोकांच्या प्रभावाक लागूनच ते नांवारूपाक आयिल्ले आसतात. त्यो व्यक्ती जर नाशिल्ल्यो तर हे लोक निराश जावन ह्या जिवितांतल्यान केन्नाच उठून वतले आशिल्ले म्हणपाचें तांचेकडेन पळोवन दिसल्याबगर रावना.

म्हज्या जिविताचो जेन्ना हांव विचार करतां वा तुज्या जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती कोण ? असो प्रस्न येतकच ताची जाप सोदूंक लागतां तेन्ना म्हजेर प्रभाव घालपी म्हा-मानव म्हाका दिश्टी पडना. प्रसंगाप्रमाण त्या त्या वेळार कांय जाणांच्या विचारांचो, वागणुकेचो आलाशिरो घेवन म्हज्या अस्थीर मनाक हांवे घटाय दिल्याय बी. तो जाल्लो प्रभाव त्या खिणाचो. तो खीण गेलो की म्हाका निश्प्रभ दिसूंक लागता. हो प्रकार काम जालें आनी वैज मेलो हे म्हणणेक तेंको दिवपाखातीर घडटा अशांतलो प्रकार न्हय वा हांव कृतघ्न हे उपादीक योग्य थरतां अशांतलोय भाग न्हय. म्हज्या मनांतल्या वेगवेगळ्या स्थित्यंतरांक आनी बदलांक लागून हो प्रकार घडटा आनी सगळो प्रभाव खिणयाळो आसता. दर्यात बुडटना काडयेचो आदार म्हणटात तसो हो आदार घेतल्या उप्रांत ती काडी जिवीतभर सांगाताक घेवन भोवप वा मरसर तिची याद करीत रावप हें म्हाका जमपाचें ना. एके व्यक्तिचो प्रभाव पडल्या उप्रांत तो प्रभाव ना करूंक दुसरी प्रभावी व्यक्ती जेन्ना येवन वता तेन्ना पयले प्रभावी व्यक्तिची याद आपशीच पयस जाता. वो ती करीत बसपाक वेळूय नासता आसूं येता.

म्हज्या जिवितांत आयजवेर कितल्यो तरी व्यक्ती येवन गेल्यात आनी तांचो प्रभाव चड - थोडो म्हजेर आपसूक पडत गेला. ल्हान पणार भुरग्यांचो आदर्श म्हळयार तांचो आवय - बापूय आसता. पूत आपल्या बापायक आपलो हिरो मानून ताच्या प्रभावान आपलें जिवीत घडोवपाचो यत्न करता. कोणाचो बापूय जर गूंड आसत आनी ताचे गुंडागिरीक पुराय समाज भियेता जाल्यार ताच्या पुताकय आपल्या बापायच्या प्रभावान आपूण तसोच जांवचो अशें दिसता. कोणाची आवय जर शिंदळकी करता वा नाचरी आसता जाल्यार तिचो प्रभाव तिचे धुवेचेर पडटा आनी आपणेंय आवय वरींच करचें अशें तिका दिसता. होय एक व्यक्तिमत्वाचो प्रभावूच. ह्याच प्रभावाक लागून भुरगीं मुखार आपल्या आवय - बापाय वरींच जातात. तांका त्या वेळार जर कोणे होच रूक्षप्रस्न केलो जाल्यार तांकाय हीच जाप मेळटली. पूण तांका तसो प्रस्न करपी कोणूच नासता. तांचें जिवीत प्रश्न करपासारकें उरना. प्रश्न करप्यांकय तातूंत अर्थ दिसना.

भुरगेपणार म्हजेर प्रभाव घालपी व्यक्ती आशिल्ली ती म्हळ्यार म्हजो बापूय. म्हज्या बापायचो वेळ कुळागरांत बेडे - सुपारी काडपांत आनी कुळागर शिंपणेत गेलो. म्हाका भुरगेपणार माडयेर चडूंक आयलेंना. आतांय येना. म्हज्या बापायक जेन्ना हांव माडयेर चडटना पळयतालों आनी एके माडये वेल्यान तिका झेल दिवन तो दुसरे माडयेकडे वचून तिचेर झोंपय घेतना हांव ताका पळयतालों तेन्ना म्हाका ताचे भितर आनी जंगलाचो राजा टारझन हांचे भितर कांयच फरक दिसनाशिल्लो. ताचो तो काळीज धडधडावपी वावर पळोवन हांव उर्बेन भरतालों. हांव व्हड जातकच बापाय सारकोच माडयेर चडटलों असो हावेस हांवें बाळगिल्लो. पूण त्या वेळार म्हज्या बापायचो म्हज्या जिविताचेर पडिल्लो प्रभाव आयज ना. कुंकळयेचें कुळागर सोडून तो आगशी आयल्या उप्रांत माडयेवेलें म्हजें ध्येय हळू हळू जमनीर आयलें.

त्या उप्रांत पुस्तकां वाचून, आनी हेर काणयो वाचून तातुंतल्यान खुपशा लोकांनी म्हजेर प्रभाव घाला. जसो तो पडला तसो रोकडोच नाच जालाय बी. आज म्हाका म्हजेर कायम प्रभाव घाँलपी अशी एकूय व्यक्ती याद जायना. कोणेय तसो प्रस्न केलो जाल्यार म्हाका सांगप जमना. जेन्ना एखाद्रयाचें नांव सांगतां तेन्ना म्हजे म्हाकाच दिसूंक लागता की हांव तांच्या खुस्तार मिरयतां. तांच्या मोठेपणामुखार म्हजें मोठेपण हांव लोकांमुखार दवरून तांका प्रभावीत करूंक सोदतां.

असलो अडेचो प्रभाव घेवप, हांव नकळो कित्याक म्हूण - म्हाका आवडच ना. तशें पळोवंक गेल्यार म्हजेर म्हजोच प्रभाव पडला. जें म्हाका सत्य दिसता, योग्य दिसता तेंच हांव बरयतां. तेंच हांव करतां. तसोच हांव वागतां. दुसरो असो वागिल्लो, दुसऱ्यान अशें बरयलां देखून तांच्या प्रभावा सकयल येवन हांवेंय मुखावेलें जोत गेलां तशें वचप म्हाका मना पासून आवडना. तसले करणेचो म्हाका तिटकारो येता. ह्याच स्वतंत्र विचारांचो म्हजेर प्रभाव पडत वता. म्हज्या जिविताचेर म्हजोच प्रभाव पडत वचूंक लागला. तेच खातीर हो रूक्षप्रस्न - तुज्या जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती कोण ?





# तूं करता किर्ते



हांव किर्ते करतां हाची म्हाका केन्नाच चिंता पडली ना. पूण ही चिंता म्हजे परस हेरांकूच चड. स्वताक व्हड व्हड विचारवंत म्हणोवपी लेगीत हो प्रस्न म्हाका विचारतात. आतां म्हज्यो वळखी चड जाल्ल्यान प्रस्नूय तशे पावस कशे झडटात. ह्या प्रस्नांचो पावस घालपी हितचिंतकांच्या जिवितांत मात म्हजे विशीं लागिल्ले चिंतेचीं कुपां दाटिल्लीं खंयच दिसनांत. तरीय लेगीत हांव दिश्टी पडलों की म्हजे खातीर हांकां खुपूच चिंता लागल्या हे नुरेन हे लोक म्हाका प्रस्न करतात. ह्या प्रस्ना फाटल्यान तांची व्हडलिशी कळकळ नासता. वा म्हजे विशीं व्हडलेशें पडुनूय गेल्लें नासता. देखलें मर्डे आयलें रडें ह्या विचारसरणीचे हे लोक आपल्याक प्रस्नाची जाप मेळचिना हें खबर आसुनूय प्रस्न केले बगर रावनांत. आनी स्वताक बोल्ड समजुपी मनीस ह्या अर्थ नाशिल्ल्या प्रस्नाचें पोंत धरून त्या फाटल्यान फरफटत रावतात. दनपारां कोणूय मेळ्ळो जाल्यार 'जेवलो रे ?' म्हण विचारप. हेर खंयच्याय वेळार आपटलो जाल्यार 'कसो आसा रे ?' म्हण प्रस्न करप. खरें म्हळ्यार ह्या प्रस्नां फाटलो हेतू कांयच नासता आनी जापेकूय तांचे नदरेन अर्थ नासता. प्रस्न विचारप्याक जापेची अपेक्षाय नासता. तरीसुद्धां आमी सामाजीक बांधिलकी सांबाळपाखातीर तोंडार हिजड्यांचो हांसो चडोवन, अर्थहीण जाप दीत रावतात. पूण सद्या म्हाका हे प्रस्न आवडच नांत. म्हाका धोंगीपणाचो कंटाळो आयला. उपाशीं पोटार आसतना कोणेंय जर जेवलो काय म्हण विचारलें आनी ना जेवणाक व्हरता ? काय म्हूण विचारल्यार तांका ती तांक नासता. तांका दिसता बोरकार कॉमीक करता. अशा वेळार ह्या लोकांक त्या त्या वेळार योग्य आनी फावता तशी जाप दिवप गरजेची अशें म्हाका दिसूंक लागलां.

तूं करता किर्ते ? हो एक असोच रूक्षप्रस्न. हांव किर्ते करतां हे जगजाहीर आसा. हांव नवप्रभा, सुनापरान्त, तरुण भारत, राष्ट्रमत बी दिसाळ्यांनी दर सप्तकाक चार - पांच लेख बरयतां. प्रस्न विचारपी सभागी निदान हातुंतलो एक तरी पेपर वाचता असो म्हजो समज आसा. त्या भायर रेडिओ - दूरदर्शन हाचेर अदीं मदीं कार्यक्रम आसतात. तांका अक्षरशत्रू मानले तरीय कान आनी दोळे आसात हाचेर तरी विस्वास दवरूं येता. आतां म्हजें लिखाण जांव कार्यक्रम पचपचीत जांव दर्जो नाशिल्ले अशें टिकाकार आनी विघ्नसंतुश्ट लोक

म्हणतय बी. पूण दर सप्तकाक सातत्यान इतले कॉलम बरोवपी हांव एकलोच अशें म्हळयार अतिताय जांवचिना. ह्या बरोवपाक जर अर्थ नाशिल्लो जाल्यार दिसाळ्यांचे संपादक तें लिग्व्राण मानधन दिवन छापपाचे नाशिल्ले. म्हजें करप हें अशें चार चौगांक नदरेक भरपा सारकें. अशें आसुनूय हांव कितें करतां हें खबर आसुनूय हो रूक्षप्रस्न !

हांव बरयतां, मोर्चा काडटां, सामाजीक जाणविकाय दवरून वावुरतां हें पुरायेन खबर आसून लेगीत हो रूक्षप्रस्न विचारपाफाटलें कारण कितें ? ताकाय एक मानसशास्त्रीय कारण आसा. हांव जें कितें करतां तें हेर सगळेच करूंक शकनात. ते फक्त पोट भरपाखातीर खंय तरी नोकरी जांव कसलो तरी धंदो करूंक शकतात. इतली धडपड करूनय तांका कांयच समादान मेळना. ते जें जोडटात तें तांका पावना. समादानान तांका जगूंक मेळना. तरी सुद्धा म्हजे सारके कांयच करिनासतना सदांच उमेदी रावतात. सगळीं वेसनां करतात. स्कुटरीवेल्यान भोंवतात. तांचेकडे हीच गजाल येवजूंक जायना. सोसूंक जायनां. ह्याचखातीर तांका आपलें मोठेपण दाखोवपाखातीर कसल्यातरी भांडवलाची गरज आसता. तांचें भांडवल म्हळयार तांका आशिल्ली नोकरी. म्हांका नोकरी ना. ती ना म्हणटकच म्हजे हाल चल्ल्यात, वा मुखार जावपाचे आसात हो ताणीं आपले कुवतीप्रमाण केल्लो विचार ते आमच्या बोडार मारूंक सोदतात. हांव कितें बरयतां वा हेर कसलेंय समाज प्रबोधनाचें काम करतां हें तांचे खातीर काम न्हय. जंय जोड आसा तेंच तांचे नदरेन काम. तूं कितें करता ? हो प्रस्न विचारपा फाटलो होच उद्देश्य आसता. तूं पोट भरपा खातीर कितें करता आनी कशें जोडटा इतलें जाणां जावन घेवपा इतलीच हांच्या प्रस्नांची मर्यादा. ह्या मुखार कितें तरी आसता हाचेर विचार करपाची कुवत ह्या लोकांमदीं नासता.

म्हाका एकदा एक असोच मनीस मेळ्ळो. खूप दिसांनी दिसलो म्हूण ताका मेळचें अशेंय म्हाका दिसलें. पूण ताका मेळ्ळो हाचोच म्हाका उपरांत पश्चताप जालो. हो मनीस गरीब घराब्यांतलो. ताका शिकपाची खूप आवड आशिल्ली. म्हज्या भावान ताका शिकपाक मजत केल्ली. तो घरचोच एक असो जावन गेल्लो. धडपडत ताणें एम्. ए. केली. आतां खंयचे तरी शाळेचो हेडमास्तर म्हूण काम पळयता. ताची धडपड आनी जिद्द म्हाका म्हज्या भुरगेपणार खुपूच अप्रूप दिसताली. .तोखणाय करपा सारकीच. असल्याच लोकांची देख घेवन हांवूय शिकूंक पावलां आसूं येता. त्याच खातीर असल्या लोकांक मेळप म्हाका आवडटा. तेच भावनेन हांवे तो म्हाका दिश्टी पडल्या बराबर ताका हटकिलो. त्या वेळार ताचो पयलो प्रस्न आशिल्लो तो 'तूं कितें करता ?' हांवें सांगलें 'हांव बरयतां'. कदाचीत थोड्यांक दिसाळीं, नेमाळीं बी वाचपाची संवय नासता. मागीर तो शिक्षक जांव वा जांव हेडमास्तर. ताणें म्हळें - 'तें हांव जाणां. पूण पोटाक कितें सुट्टा मरे ?'

ताच्या ह्या प्रस्नान हांव घुसमटलों. केदो अभिमान आशिल्लो म्हाका हांव बरयतां हाचो.

ह्या हेडमास्तराक ताचो अभिमान दिसता आसतलो हेच भावनेन मोठ्या नेटान हांवें लेखक म्हूण ताका सांगलें. पूण ताका ताची कांयच अपुरबाय ना. तोखणाय ना. म्हजो पुराय अपेक्षा भंग जालो. हांवें ताचे मुखार म्हजें व्हडपण दाखोवपाखातीर हांवें कॉलेजींत प्राध्यापक म्हण सांगूंक जाय आशिल्लें. हांवें तशें सांगिल्लें जाल्यार ताच्या पगारापरस चड पगार म्हाका मेळटा हें ताका रोखडेंच कळपाचें. ताची मान रेस्पेदान बागोवपाची. पूण हांव धरून चल्लों तें काम म्हळ्यार विशेश अशें काम न्हय. हेर लोक चरितार्थाखातीर कसलोय आपले आवडिचो वेवसाय आपणायतात तसो तो एक वेवसाय. जसो तो हेडमास्तर तसो हांव प्राध्यापक. त्या कामाखातीर म्हाका पगार मेळटा. पूण समादान मेळना. अशें समादान मेळना देखून हांवें ह्या पयलीं खुपदां शिक्षकाची नोकरी खिणाचोय विचार करिनासतना सोडिल्ली आसा. नोकरी सोडली हाचें म्हाका केन्नाच दुख्ख जालेंना. अडचणी आयल्यो म्हूण पश्चताप केलोना. आनंदान रावलों. पूण खंत भोगली ती मात म्हज्या बऱ्या मागप्यांक ! तांका भोगताली ती खंत न्हय हें म्हाका तेन्नाय भावतालें आनी आतांय कळटा. तीं फक्त कुच्छित्रीपणां ! आमचेकडेन इतलें आसून कोण आमकां वळखना. पूण ह्या कालच्या - परच्या बोरकाराची वळख मात मोठी. ताका सगळे हटकितात. तांचें हेंच दुख्ख म्हाका होलमता. तरी आपलें मोठेपण म्हजेमुखार मिरोवपाखातीर, भाव खावपाखातीर नानातरांचीं नाडेपेन्नां असले प्रस्न करून मात ते करतात. त्या प्रस्नांत म्हजे विशीं कळकळ नासता. आसता फक्त खंत. आपूण कांयच करूंक शकलोंना हाची. तांचे हेच निराशेंतल्यान तांचो हो प्रस्न आसता. 'तूं कितें करता ?' पोटा खातीर सुट्टा मरे कितेंय ! तेन्ना म्हाकाय जाप दीन दिसता - 'ना. हांव दोन दीस उपाशीं आसां. एक शंबर रुपया आसल्यार दी.' पूण हांव तशें सांगना.

ताणीं शंबर रुपयांची नोट फक्त पगारादिसाच पळयल्ली आसता !





# तुका हेर किर्तें करप आवडटलें आशिल्लें



जिवितांत किर्तें करप आवडटलें आशिल्लें हाचे परस ताका किर्तें करचें पडटा हीच खरें म्हळ्यार म्हत्वाची गजाल. सद्या मनीस जें किर्तें करता तें पळोवन, ताचे भायर ताका आनीक हेर खंयचे गजालींत आवड आशिल्ली, आयज ज्या मळार ताणे नांव जोडलां तशेंच तो आवड आशिल्ल्या हेर मळारूय तें तो जोडटलो आशिल्लो काय किर्तें हें जाणा जावन घेवपाखातिरूच हो प्रस्न आसता. चित्रकार म्हण नामना जोडिल्लो आपल्याक साहित्यीक जावप आवडटलें आशिल्लें वा साहित्यीक म्हण सद्या आपलें जिवीत घालयता तो आपल्याक चित्रीक जावप आवडटलें आशिल्लें अशें ह्या प्रस्नाची जाप दितना सांगतात. हेंच कित्याक, आयज दरेक मनीस सद्या जें किर्तें करता तातूंत समादानी आसा अशें जरी दाखोवपाचो यत्न करता तरी आपूण समादानी ना तर गळ्यांत पडिल्लें कार्य करूंक जाय म्हण करतां हें, आपल्याक हेर अमकें कार्य करूंक आवडटलें आशिल्लें अशें सांगून उक्तायतात. संवसारांतलो खंयचोच मनीस हृदयार हात मारून सांगना की आपूण सद्या ज्या मळार वावुरतां तीच पयली मुळावी आवड आशिल्ली आनी तोच वावर आपणे आपणायला. ह्या वावराभायर आनीक किर्तेंच हेर काम करप म्हाका आवडपाचें नाशिल्लें. नशिबासारक्यान आपल्याक तें मेळूंक नाशिल्लें जाल्यार आपूण कांयच करिनासतना आपलें जिवीत घालयतलों आशिल्लों. पूण ही गजाल घडप शक्यच नासता. आपल्याक जाय तें मळ जर जिवितांत मेळ्ळें ना तर तो मनीस तडजोड करून दुसरें मळ आपणायता आनी जिवीत घालयता. तातुंतच सूख मानता. नांव जोडपाचो यत्न करता. त्या वेळार तुका हेर आनीक किर्तें करप आवडटलें आशिल्लें असो प्रस्न ताका केलो म्हणटकच आपल्या आवडिच्या कामाचें नांव सांगून आपूण आपल्या जिवितांत 'फेलीयर' - पराभूत म्हणपाचें मान्य करता.

तुका आनीक हेर किर्तें करप आवडटलें आशिल्लें ह्या रूक्षप्रस्नाची जाप आमकां मार्मिकतायेन पळोवंक मेळटां ती पुरूषोत्तम सिंगबाळ हांच्या 'भावोजी' ह्या विनोदी लेखांत. आकाशवाणी पणजी केंद्रावेल्यान 'फोडणी - फोव' हे कार्यावळींत ताणी हें उलोवप केल्लें आनी समाजांतल्या जायत्या जाणांक जें जायन दिसतालें तें सोडून भलतेच जाल्ले पळोवन तांच्यो तिस्त्यो वादऱ्यो ताणी आपल्या ह्या विनोदी लेखांत करून उडयल्ल्यो पळोवंक मेळटात. आयज आपूण जें किर्तें आसां हाची पुराय जाणविकाय दवरिनासतना आपणाक हेर आनीक किर्तें जावपाचें आशिल्लें अशें सांगून आपलेच जिणेकडेन प्रतारणा करून जाप

दिवप्यांच्यो अचळय भोयोभोयो करून, हो प्रस्न कसो रूक्षप्रस्न आसा म्हणपाचें सिंगबाळान दाखोवन दिल्लें आसा.

आयज हांव कितें आसां आनी तसोच फुडाराकूय उरतलों हाची खात्री आशिल्लो जेन्ना म्हज्यामुखार हो प्रस्न दवरता तेन्ना म्हजीय गत हेरां सारकीच जाता. तुका आनीक हेर कितें करप आवडटलें आशिल्लें अशें म्हाका जेन्ना कोणूय प्रस्न करतात तेन्ना हे प्रस्न करपी म्हज्या सद्याच्या वावराविशीं दुबाव घेतात म्हणपाची जाणविकाय म्हाका जाता. हांवे सद्या जें कितें काम आपणायलां आनी म्हजेपरीन हांव त्या कामाक न्याय दिवपाचो यत्न करतां तेन्ना म्हज्या ह्या वावरान असमाधानी आशिल्ले, वा हांव हाचेपरस वेगळ्या मळार चड म्हत्वाचें काम करूंक शकतलों आशिल्लों असो विस्वास बाळगुपी जेन्ना हो प्रस्न करतात तेन्ना म्हजे म्हाकाच हांव म्हजें क्षेत्र निवडूंक चुकलां काय म्हणपाचो दुबाव म्हाका पडटा. असो दुबाव जेन्ना येवंक लागता तेन्ना मनशान समजुपाचें की तो खऱ्यानीच चुकला वा ताणें वेंचून काडिल्ल्या क्षेत्राक तो न्याय दिवंक पावलोना.

दरेक मनशान आपलें क्षेत्र हें वेंचून काडूंक जाय. जे सर ताका तें मेळना ते सर तो मनीस कितलीं तरी क्षेत्रां धरता आनी सोडटा. एक काम सोड, दुसरें धर असो प्रकार ताच्या जिवितांत घडत रावता. मनशान कितें ना कितें हें करचेंच पडटा. कसलेंच कर्म करिनाशिल्लो मनीस हे धतरिर सापडूंक मुश्कील. आपणें जें कितें क्षेत्र निवडलां वा काम आपणायलां तातूंत जर ताका समादान मेळना जाल्यार तें ताचें क्षेत्र न्हय अशें समजुपाचें. तो त्या वावरांत बदल करता. तातूंत ताचो आर्थिक फायदो व्हडलोसो नासत वा तातूंत ताका सुख मेळना आसत तरीय पूण त्या वावरांत ताका समाधान मेळटा आसत जाल्यार तें क्षेत्र ताचें म्हणपाचें समजुपाचें. ताका तातूंतच गोडी लागता आनी मागीर तो त्या वावरांत लाव - लुकसाणेचो हिशेब घेवन बसना. आपल्याचें क्षेत्र आपल्याक सारकें वळखूंक मेळूंक ना म्हणटकच मनीस कांयच करिनासतना ओगी बसना. ताका तडजोड ही करचीच पडटा. आपल्या मनासारकें काम मेळसर आपूण कांयच करिनासतना रावतलों असो निर्णय कोणूच घेवंक शकना. जर ताका पोट हो प्रकार नाशिल्लो जाल्यार एकवेळ तसो निर्णय मनीस घेतूय आशिल्लो. तशें जाल्लें जाल्यार जिविताक कांय अर्थूच उरचोनाशिल्लो. पोट आसा म्हणून मनशाक कितें ना कितें धडपड करूंकच जाय. भूक हीच गजाल मनशाक घडयता. भुकेक लागुनच मनीस धडपडटा आनी पोट भरलें, भूक सोंपली म्हणटकच निश्चिंत जाता. हे भुकेक लागुनच तो आपलें क्षेत्र सोदूंक धडपडटा. आपलें आवडीचें काम मेळून लेगीत जर तो उपाशीं उरलो जाल्यार आपल्या पोटाची भूक भागोवंक सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें काम तो त्या खिणाक करूंक मुखार सरता. अशा वेळार ताका जर विचारलें, तुका आनीक हेर कितें करप आवडटलें आशिल्ले जाल्यार, ताचे मुळावे इत्सेक जाग येवपाची. ताका आपणें येवजिल्ल्या सपनांची याद जावपाची. म्हणटकच क्षेत्र म्हणटात तें पोटाची भूक भागतकच याद जाता. पोटाचे भुकेमुखार खंयचें क्षेत्र, खंयचें समादान आनी खयचें कितें ?

ह्या सगळ्या गजालिंचो नियाळ केल्या उप्रांत हांव अशा निर्णयाचेर पावलां की मनशाचें क्षेत्र हें तो मनीस थारायना तर काळ थारायता वा म्हणुया सैम थारायता. तेच प्रमाण मनशाच्या सभावांत बदल जाता आनी सुरवेक आशिल्लो मनीस अखेरेक वेगळोच जाता. वाल्हया कोळयाचो वाल्मिकी जावप म्हणटात तो होच प्रकार. वाल्हया सारको एक दरोडेखोर बदलून ताचो वाल्मिकी जातलो म्हणपाची खबर खासा वाल्हयाक लेगीत नासुये ! ती काळाची गरज आशिल्ल्यान ताका पुरक अशो घडणुको त्या काळार घडल्यो आनी सुरवेचो दरोडेखोर त्या उप्रांत दरोडेखोर म्हण उरनासतना एक रूशी जालो. एक कवी जालो. त्या काळार जर कोणेय वाल्मिकीक, तुका आनीक हेर किर्ते करप आवडटलें आशिल्लें असो प्रस्न केल्यार ताका हासूंक येवपाचें. ताचे नदरेन तो एक रूक्षप्रस्न थरपाचो.

हांव जेन्ना म्हजो भूतकाळ नियाळटां तेन्ना म्हज्या वर्तमान काळाचें म्हाका अजाप दिसता. हाचोच अणभव घेवन भविश्यकाळांत हांव कोण आसूंक शकतां वा हांव किर्ते करतलों हाची निश्चित अशी खात्री म्हज्यान दिवंक नज. त्याचखातीर म्हाका हेर किर्ते करप आवडटलें आशिल्लें हो प्रस्न रूक्षप्रस्न म्हणपाचो म्हाका जाणवता.

मॅट्रीक मेरेनचें म्हजें शिक्षण जालें तें म्हजे इत्सेन जालेंना. तें पुराय जालें तें घरच्या संस्कारांक लागून आनी घरच्यांच्या धाकाक लागून. त्या काळावेलें शिक्षण हें म्हजे इत्सेर अवलंबून आशिल्लें जाल्यार ते वेळचे उबगणीक लागून हांवें तें केन्नाच सोडून दिलां. मॅट्रीक जाल्या उप्रांत हांव शिकूंक शकतां हाची खात्री म्हाका जाली आसूं येता वा हेर जशे शिकल्यात तशें हांवेय शिकचें असो विचार म्हज्या मनांत आयला आसूं येता. मॅट्रीक मेरेनचें शिकप फुकट आशिल्ल्यान म्हज्या बापायक वा भावांक चड त्रास पडूंक नाशिल्लो. त्याच खातीर हांवे तितलें तरी शिकचें म्हूण तांची म्हजेर जबरदस्ती घडटाली. त्या उप्रांतचें शिक्षण हें खर्चीक आशिल्लें. तें दिवपाची बापायची तांक नाशिल्ली. आनी भावांचेय संवसार आशिल्ल्यानँ ताणी खर्चाचो भार उभारचो अशीय म्हजी अपेक्षा नाशिल्ली. शिवाय एका परस चड भाव आसले म्हणटकच तो खर्च कोणे करचो हो प्रस्न दरेका घरांत उप्रासताच. शिवाय म्हज्या फुडाराचेर कोणाचोच लाव - लुकसाण आदारून नाशिल्ल्यान हांव शिकलों किर्ते आनी ना शिकलों किर्ते, कोणाचेंच कांय वचनाशिल्लें. तरीयपूण त्या वेळार म्हाका शिकचें अशें दिसलें. म्हजे भाव स्वताच्याच पांयाचेर वयर सरिल्ल्या कारणान म्हजे विशीं तांचीय तीच अपेक्षा आसूं येताली. तेच खातीर तांका शिणप म्हाकाय जमलेंना. म्हजो फुडार म्हाकाच घडोवपाचो आशिल्लो.

म्हाका विमानाचो पायलट जावपाचें आशिल्लें. नाच जाल्यार मिलिटरींत वचपाचें आशिल्लें. पूण त्याकाळार ते तरेन मार्गदर्शन करपी कोणूच मेळूंक ना. शिवाय ती हांवे म्हजे भितरूच निर्माण केल्ली एक आवड, एक आदर्श म्हणपाचें हांव आतांय न्हयकारूंक शकना. गावांत दोतोराक जो मान मेळटा तो पळोवन म्हज्या मनांत दोतोरूय जावपाची इत्सा आशिल्ली. पूण खर्चाक लागून मनांतले विचार मनांतूच उरिल्ले. शाळेंत आसतना हांव

सगळयांत बरीं चित्रां काडटालों. हांव बरो चित्रकार जांवक शकतां म्हणपाचें म्हाका म्हज्या शिक्षकांनीय केन्ना सांगलेंना आनी म्हाकाय त्यावेळार येवजलेंना. मॅट्रीक पास जाल्या उप्रांत म्हजी चित्रांची आवड मुखार व्हरची म्हण आर्ट कॉलेजीत वचून प्रिन्सिपल लक्ष्मण पै क मेळ्ळों. दीसभर कॉलेजींत रावचें पडटलें आनी खर्चूय खूप येतलो अशें पै न सांगल्या उप्रांत तोय विचार मनांतल्यान गळून गेलो. शेवटाक कांयच उपाय ना देखून आर्टस् कॉलेजींत नांव घालें. एक आदेस खंयीय जोडून ग्रॅज्युएट तरी जातलों ह्या हावेसान.

शाळेंत आसतना एक कविता केल्ली. कॉलेजींत पावसर दुसरी जल्माक येवंक नाशिल्ली. कॉलेजींत, कॉलेज मॅगजिनांत तुकाराम शेट बी म्हाका सिनियर आशिल्ले बरयताले. तेन्ना हांवूय किर्तेंतरी खरडून तांका दिवंक लागलों. तें ते छापूक लागले. तरीय पूण तें म्हजें क्षेत्र नाशिल्लें. बी. ए. जावन खंचीय सरकारी नोकरी करप होच उद्देश्य म्हज्या दोळ्यांमुखार आशिल्लो. म्हजेकडेन आनीक हेर कसलीं सपनाच नाशिल्लीं.

कॉलेजीचें पयलें वर्स सोंपता सोंपता विद्यार्थी चळवळ सुरू जाली. मित्रांच्या लगाडींत तातूंत घुस्पलों. नागेश करमली सारख्या कोंकणीवाद्यांकडेन गुरूनाथ पै कडल्यान वळख जाली. चळवळींत रमलों. साहित्यिकांमदीं वावुरलों. भितर दडून आशिल्ले सर्जनात्मक वृत्तीक वाट मेळ्ळी. बरोवंक लागलों. भाशणां दिवंक लागलों. फाटलीं कितलीं तरी वर्सां हांव तेंच करीत आसां. शिकोवपाची नोकरी म्हणटा ती आवडटा. पूण चळवळीखातीर कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूल हे शाळेंत पांच वर्सां शिकोवन ती नोकरी सोडली. फादर आग्नेल कॉलेजींत तीन वर्सां शिकोवन तीय सोडली. नोकरी करिनासतना फक्त बरोवप करून हांव सुखान जियेवंक शकतां हाचोय अणभव हांवे घेतला. म्हणचे म्हाका तशें पळोवंक गेल्यार नोकरेचीय गरज ना. अशा वेळार म्हाका आनीक हेर कितें करूंक आवडटलें आशिल्लें म्हणपाचो विचारूच तकलेंत येना. म्हाका तशें खूप कितें करूंक आवडपाचें. आयजूय हांव खूप कितें कितें करतां. चित्रां काडटां, पिशां भशेन एक सारको हांगा - थंय भोंवत रावतां. कांयच करिनासतना दिसानदीस वोगीच बसून रावतां. पूण एक गजाल म्हळ्यार बरयल्याबगर म्हज्यान रावूं जायना. तातूंत जें सूख मेळटा तें म्हाका कित्यांक मेळना. तातुंतच म्हाका सगळें मेळटा. ताकाच लागून म्हाका लोक वळखतात आनी प्रस्न करतात. तुका आनीक हेर कितें करप आवडटलें आशिल्लें ? - रूक्षप्रस्न !





# तूं स्वताक कोण समजता



खंयच्याय मनशाची तिडक सामकीच कपलाक मारली म्हणटकच तो मुखावेल्या मनशाक हो प्रस्न करता. हो असो कोण व्हडलो, जो आपल्या सारक्या व्हड मनशापरसूय व्हड समजता हे मत्सरी भावनेंतल्यानूच हो प्रस्न निर्माण जाता. स्वताक कोण तरी व्हड समजुपी मनीसूच आपलो अभिमान दुखावलो म्हणटकच आपलो राग ह्या प्रस्नान उक्तायता. कांय जाणांच्या तोंडांतल्यान हो प्रस्न भायर सरना. ताका दुसऱ्याचो राग घेवपाचो नासता. दुसऱ्याक दुखवपाचो नासता. त्याच खातीर दुसऱ्याचो राग येवनूय मनांतल्या मनांत तो प्रस्न तयार करता. भितरल्या भितर फणफणत आपल्याकूच प्रस्न करता - हो स्वताक कोण समजता ? जाका आपूण जावन दुसऱ्याक प्रस्न करून, ताचें वायटपण घेवपाचें नासता तो होच प्रस्न कोणाच्या तरी तोंडांत घालून, आपलें मत उक्तायता. तूं स्वताक कोण समजता ? अशें लोक म्हणटात मरे अशें विधान करून पलायनवादी धोरण आपणायतात.

तूं स्वताक कोण समजता ? हो प्रस्न ह्या प्रकारान म्हाकाय जायते जाण करतात. कोण सरळ तोंडार विचारता. ताका म्हजी जाप सोसपाची वा मुखार जें किर्ते घडटलें ताचो परिणाम सोसपाची तयारी आसता. बाकिचे म्हाका कांयच म्हणनासतना भितरले भितर कुथनत रावतात तर कांय जाण लोकांचेर घालून म्हजेविशीं तांचें मत किर्ते आसा तें अप्रत्यक्षपणान उक्तायतात.

तूं स्वताक कोण समजता ? हो प्रस्न ह्याच खातीर म्हाका रूक्षप्रस्न लागता. जो मनीस स्वताक कोणतरी समजता तोच हो प्रस्न करता. प्रस्न करतासतना, प्रस्न करतल्याक मुखावेलो मनीस कोण म्हणपाचें पुरायेन खबर आसता. ताणे त्या मनशाची तुळा आपलेकडेन केल्ली आसता. स्वताविशीं करून घेतिल्ले भ्रामक कल्पनेक मुखावेलो मनीस आपल्या कर्तुत्वान जेन्ना धक्को दिता तेन्ना प्रस्न करपी मनशाचे बैठकीक धक्को लागता. त्या धक्क्यान तो हालता आनी ती बैठक घट करूंक वा घट आसा हें दाखोवन दिवंक प्रस्न करता - तूं स्वताक कोण समजता ?

दरेक मनशान स्वता आसप वेगळें आनी समजप वेगळें. जो आसता ताका केन्नाच समजुपाचें लागना. जो कोण तें समजता तेन्ना तो खरें तें आसच ना. ताणें आपूण जो

कितें आसा ताचे परस वेगळें अशें रूपणें आपल्या तोंडार चडोवन आपले विशीं तो वेगळी अशी समजूत करून घेता.

हांव कोण आसा ताचे परस वेगळी अशी समजूत म्हाका केन्ना करून घेंवची पडलीच ना. हांव जो कितें आसां तोच आसां. तेंच आसप म्हजे नदरेन गरजेचें आसा. आसा ताचे परस वेगळो समज करून घेतलो जाल्यार केन्ना ना केन्ना तो समज अचळय गळून पडटा आनी उरता तो खरो आपूण. म्हजें खरेलें आसप तेच खातीर आसा तशेंच आसप आनी तीच लागणूक मानून आपलो वावर करीत रावप हें म्हाका गरजेचें दिसता. हांव जेन्ना कोणाक त्रास दिनासतना म्हजेखातिरूच जियेतालों तेन्ना लोकांचे नदरेन हांव आसा तसोच आशिल्लों. पूण जेन्ना म्हजो प्रवेस सामाजीक मळार जालो तेन्ना म्हजी आडखळ हेरांक जांवक लागली. हांवे जशें आसूंक जाय अशें लोकांक दिसतालें ताचो विचार करिनासतनां हांव जसो आसां तसोच मुखार सरूंक लागलों, तेन्ना सगळ्यांक म्हजें हें आसप, समजप दिसूंक लागलें. हो कोणाच्या नाड्यार उट्‌ठा वा हो स्वताक कोण समजता काय, ह्या प्रस्नांचो जल्म हेरांच्या मनांत तयार जांवक लागलो.

म्हज्या घराब्याची फाटभूंय वेगळी. हांव भाटकार न्हय. हांव मुंडकार. म्हज्या घराब्याचें आसप हें मुंडकारपणूच. आमी आमकां भाटकार समजनांत. जें ना तें समजप कित्याक ? हांव गिरेस्त न्हय. आमचें घर गिरेस्तालें घर न्हय. आमी गिरेस्त नासतना आमकां गिरेस्त अशें कोणूच समजनांत. तें तर आमचें आनी म्हजेंय आसप. म्हज्या ह्या आसपाचेर कोणूच हरकत घेना वा हो कोण समजता ? अशेंय कोण म्हणनांत. आमच्या ह्या आसपाचो कोणाक जर त्रास जातालो जाल्यार मात तातुंतल्यान रूक्षप्रस्न तयार जावपाचे. पूण आमचें हें आसप कोणाक त्रास दिनां, कोणांमदीं मत्सर निर्माण करिनां. आमी सद्या जशे आसात तशेंच आसचें अशें दर एकल्याक दिसता. जर हांवे खंचीय भाट विकतें घेतिल्लें, दुडू केल्लो आनी गांवच्या हेर लोकां परस वयर येवन मिरयल्लें जाल्यार तांच्या पोटांत कुचमळून तांका हांव त्रास दिवपाचों ! म्हज्या हुजरां न्हय तरी फाटल्यान तांचे भितर रूक्षप्रस्न तयार जावपाचे - हो स्वताक कोण भाटकार समजता ? हो स्वताक कोण गिरेस्त समजता ?

हांव जो कितें आशिल्लों, तें म्हजें आसप हांवे वाडयलें. आसप वाडलें तरी तें आसपूच. म्हजो बापूय शेतकार - कश्टकरी. ताचें स्वताचें अशें शेत नाशिल्लें, दुसऱ्याच्या शेंतात वचून तो कश्ट करी. म्हजें जर शेत आशिल्लें जाल्यार हांवूय शेतांत वचून कश्ट करतलों आशिल्लों. शेत रोवनूय म्हज्यान, हांव आतां जें कितें करतां तें करूं येतालें. पूण म्हजो बापूय जें कितें आशिल्लो तें हांवे आपणावच्या बदला हांवे शिक्षण घेतलें आनी लोकांचे नदरेन हांव जो कितें आसूंक जाय अशें आशिल्लें तें आसप बदल्लें. जांचो हांव मुंडकार आशिल्लों आनी भाटकारामुखार मान बागोवन उबो रावतालों त्याच भाटकारांक हांव शिक्षक जाल्ल्या कारणान मान सकयल घालची पडली. कित्याक तांची भुरगीं म्हजेकडेन शिकतालीं. म्हजें आसप बदललें देखून म्हजें विशीं तांचे विचार बदलले. म्हजें हें आसप जरी तांचे नदरेन

बदल्लें तरी तें म्हजें समजप न्हय. हांव शेतकार आसांच तेच वांगडा शिकोवपीय आसां.

जेन्ना म्हाका गरज दिसली तेन्ना हांव चळवळींत पडलों. लोक म्हाका फुडारी समजूंक लागले. खरें म्हळयार चळवळ आनी फुडारपण ही गजाल सामकीच वेगळी. म्हज्यांत हेर कांय गूण आशिल्ले. देखीक संघटन कुशळताय, उलोवपाची कला, खंयच्याय हांयसाक बळी न पडपाची वृत्ती, सुवार्थाखातीर तत्वां न सोडपाचो अथवा न विकून घेवपाचो सभाव, गुंडगिरी, मार - फार हांका न भिवपाची धिराय, योग्य निर्णय घेवपाची तांक बी. याच गुणांक लागून चळवळींत मनीस फुडारी जाता आनी लोक ताका फुडारी समजतात. तशे चळवळीत खुपशे लोक आसतात. ते स्वताक फुडारी समजतूय बी ! पूण तांका सगळ्यांकूच लोक फुडारी मानिनांत. कित्याक तर तांचे भितर फुडाऱ्याचे गूण आसच नांत. जें नासता तें आसा अशें कोण समजनांत. हांवे स्वताक केन्नाच फुडारी मानलोंना. लोकांनी मानलो. हांव जर स्वताक फुडारी समजतालों जाल्यार लोक तशें मानतले आशिल्ले ? तरी पूण म्हजें वर्तमान पत्रांचेर आयिल्लें नांव वा म्हाका मेळिल्लो भोवमान पळोवन रूक्षप्रस्न तयार जालोच - हो स्वताक कोण समजता ?

चळवळींत आनी सामाजीक मळार वावरूपांत मर्यादा आसता. समाजाचे नदरेन गरजेची आनी फायद्याची समस्या जर आसत जाल्यार ती सुटावी जावपाक चळवळ मूळ धरता. समस्या सुटावी जाली म्हणटकच चळवळ सोंपता आनी फुडाऱ्याचें फुडारपण सोंपता.

हांव जेन्ना बरोवंक लागलों तेन्ना म्हजें बरोवप समाजाखातीरूच आशिल्लें. बरोवन तें प्रसिद्ध करिनासतना हांव राविल्लों जाल्यार तातुंतल्यान रक्षप्रस्न तयार जांवचोच नाशिल्लो. बरयल्लें साहित्य छापून आयलें म्हणटकच तें लोकांमुखार पावताच. ज्या सर हांव कथा - कविता - नाटकां बरयतालों त्या सर म्हजो कोणाक त्रास जाय नाशिल्लो. म्हज्या परस बरें बरोवपी आमच्या मदीं आशिल्ले. म्हज्या साहित्याचो दर्जोय तांका खबर आशिल्लो. देखून ते म्हाका बरोवप्पी मानताले. पूण जेन्ना हांवे आघात, प्रहार, रूक्षप्रस्न, बोरकारी, जिमलेट ह्या सारकीं सदरां सुरू केलीं तेन्ना मात सगळ्यांचे शेपडेर पांय पडलो. हांव कितें आसां हाची खरेली जाणविकाय तांका जाली. आघात - प्रहाराक लागून प्रस्थापितांचे बुरखे देवंक लागले. दुसऱ्यांची अवतरणां आपल्या लेखांत भरसून आपूण विचारवंत म्हण भासोवप्यांक रूक्षप्रस्नान धक्को दिलो. बोरकारी, जिमलेट वाचून खुपशा जाणांक उस्तुर्रें वचूंक लागलें. जें करपाचें धाडस हेरांक जायनाशिल्लें तें धाडस हांवे केलें आनी आसप म्हणटात तें कितें हाची जाणविकाय अचळय लोकांमुखार दवरली. हाकाच लागून म्हज्या 'आसप' हाचो अर्थ 'समजप' असो हेरांनी करून घेतलो. तांचे भितर रूक्षप्रस्न तयार जांवक लागले. त्याचखातीर प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रूपान म्हज्यामुखार प्रस्न येवंक लागलो - हो स्वताक कोण समजता ? पूण खरें म्हळ्यार हो प्रस्न प्रस्नूच न्हय. तो रूक्षप्रस्न. हांव कोण हें लोक समजतात. हांव समजना. हांव फक्त हांव आसां.





# तुका सपनां पळोवप आवडटात



सपनां पडप आनी सपनां पळोवप ह्यो गजाली जरी वयले चाराक एकूच दिसल्यो तरी त्यो वेगवेगळ्यो. मनशाक सपनां कशीं पडटात हाची जाप अजून कोणाक सोदूंक आयलिना. मनीस सपनां खूप पळयता. ती केन्ना पुराय जातात वा केन्ना फळादीक जायनांत. पूण रातचीं न्हिदेंत जीं सपनां पडटात तांचो संबंद मात दिसाचीं सपनां पळयतात ताचेकडेन आसना. 'मनी वसे ते स्वप्नी दिसे' अशी मराठीत एक म्हण आसा. पूण कांय वेळार आयुश्यांत एके गजालिचो चुकून लेगीत स्पर्श मनाक जावंक ना अशी एखाद्री घडणूक सपनांत दिसलेबगर रावना.

न्हिदेंत जीं सपनां पडटात तांका मर्यादा आसना. ल्हानांतलो ल्हान भुरगो जांव वा जाण्टयांतलो जाण्टो मनीस जांव प्रत्येकाक न्हिदेंत सपन पडटाच. सपन पडूंक ना असो हे धतरिर मनीस आसचोच ना. मनांत वसता तें सपनांत दिसता हें तत्व जर मान्य केलें तर निकतेंच जल्माक आयिल्लें भुरगें कसलें सपन पळयता हो प्रस्न पडल्याबगर रावना. भुरगें जेन्ना न्हिदेंत रडटा वा हांसता तेन्ना ताचें निरिक्षण करपी जाण्टेलीं म्हणटात कि तें सपनांत रडटा वा हांसता. आतां ज्या भुरग्यांक संवसार आनी तातुंतलीं सुख - दुख्खां हाची मात लेगीत कल्पना ना तांका सुख - दुख्खाचीं कसलीं सपनां पडटलीं होय एक प्रस्न दोळ्यांमुखार उबो रावता. कांय जाणांचें म्हणणे आसा की मनशान तीन काळ मानल्यात. भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्यकाळ. भूतकाळांतल्यो यादी, वर्तमानांतल्यो घडणुको जश्यो सपनांत दिश्टी पडटात तश्यो भविश्यकाळांतल्योय घडणुको मनशाक सपन जावन दिसूं येतात. मनीस कांय गजाली रोखडोच विसरून वता. भूतकाळांत घडिल्ली खंयचीय घडणूक, जी मनीस विसरून गेल्लो ती सपन जावन परत तो मनीस ती जियेता आसूं येता.

कांय जाणांचो विश्वास पुनर्जल्माचेर आसा. केन्नाच घडूंक नाशिल्ल्यो गजाली वा मुखार घडप शक्य नाशिल्ल्यो गजाली जेन्ना कोणूय आपल्या सपनांत जियेता तेन्ना आदल्या जल्मांतल्यो त्यो गजाली म्हणपाचो विस्वास दवरून ते मेकळे जातात.

सपनां पडपा फाटलें शास्त्रीय कारण सोदून काडप अजून मेरेन शास्त्र गिन्यानांक शक्य जावंक ना. न्हिदेंत सपनां पडप म्हळ्यार भलायकेंत कसलो तरी दोश आसप असो एक निश्कर्श सर्वसाधारण तज्ञ म्हणोवपी लोक काडटात. जे भलायकेन खणखणीत आसतात तांका खंय सपनां पडनांत. पूण भलायकेन धडधाकट आशिल्ल्या कितल्याश्याच

जाणांक एकेच रातीक, एकेच न्हिदेंत कितलींतरी सपनां पडिल्लीं आसात. दिसभर जर एकेच गजालिचो परतून परतून विचार केलो तर तीच गजाल सपनांत दिसता हाचो अणभव खुपशा जाणांनी घेतला आसतलोच. तरीयपूण जाचो विचार केन्ना सपनांत लेगीत येवंक ना असल्योय घडणुको दरेक मनशान सपनांत पळयल्यात हातूंत दुबाव ना. सपनां पळोवप आनी त्या सपनां फाटलीं कारणां सोदप हाका अर्थ ना. मनीस हो सपनांत जियेता आनी सपनांच मनशाची राखण करपाखातीर ताका पडत आसतात. केन्ना न्हिदेंत तर केन्ना जागृतायेंत.

मनीस आपली राखण आपुणूच करता वा ताणें निर्माण केल्लो समाज करता असो मनशान जो एक समज केल्लो आसा तो चुकिचो आसा. मनशाचो आपल्याक निर्माण केल्ल्या सैमावेलो विस्वास जेन्ना उणो जाता तेन्ना तो आपले राखणे विशीं चड शादूर जाता. पूण सैमांतले दरेक निर्मणेची राखण करपाची मक्तेदारी सैमान घेतिल्ल्या कारणान तांची तांक पळोवन सैमान तांका उणें - ज्यास्त संरक्षण दिल्लें आसा. जांका आपली राखण करपाची तांक उणी मेळिल्ली आसा तांका त्या त्या वातावरणांत लिपून उरपाखातीर तसलोच रंग दिल्लो आसा. जांका आंगीक शक्त उणी तांका शक्तीवंत वीख दिल्लें आसा. जण एकल्याची दुर्बळकाय पळोवन तांचे गरजेप्रमाण सैमान सगळी वेवस्ता केल्ली आसा. त्याच वांगडा सैमाचे तार्कदिचेर अवलंबून न रावतां आपले गूण आनी बुद्ध वापरूनय आपली राखण जाणे ताणे करची हीय सवलत सैमान सृश्टींतल्या सगळ्या घटकाक दिल्ली आसा. मनशाक सगळ्यांपरस चड बुद्ध दिवनय जेन्ना मनीस न्हिदेंत दुर्बळ जाता तेन्ना ताची राखण करपाखातीर सपन पळोवपाची आगळी - वेगळी कलाय सैमाकडल्यान मनशाक मेळिल्ली आसा. जेन्ना जेन्ना न्हिदेंत मनशाचेर कसलेंय अवर्शण येता तेन्ना ताका शादूर करपाचें काम सैम सपनांतल्यान करता वा दुसऱ्या मनशाकडल्यान करून घेता. उदक पिनासतना वा जेवनासतना न्हिदूंक गेल्ल्या कितल्यातरी मनशांक रातचीं सपनां पडून न्हिदेंतूच उदक वा जेवण घेवन जागे जाल्या उप्रांत विसरून गेल्ल्याचीं उदारणां आमचेकडेन आसात.

असलीं हीं सपनां जरी सादीं आसलीं आनी सहज विसरून वचपासारकीं आसलीं तरी म्हाका पडिल्ल्या सपनांमदलीं दोन सपनां म्हाका अजून याद आसात.

म्हाका दोन - तीन फावट न्हिदेंत एकाच प्रकारचें सपन सतत पडप. सपनांत एक घर दिसप. त्या घरांत एक सोरोप दिसप. घर आनी ती सुवात म्हाका सामकीच अनवळखी. एकदां म्हजो एक कॉलेज मित्र म्हाका घेवन आपल्या घराकडेन गेलो. पयलेच खेपे हांव तांगेर पावतालों. ताचें घर हांव पयलेच फावट पळयतालों. ताचें घर खंय आसा हें म्हाका तें पळयसर खबर नाशिल्लें. जेन्ना हांव ताच्या घराच्या आंगणांत पावलों तेन्ना भितर सरचे पयलींच म्हाका हांव त्या घरांत पावलां म्हणपाची याद जाली. हांवे ताका तशें सांगलें. तो

विस्वास दवरूंक तयार नाशिल्लो. आनी हांवूय केन्ना थंय पावलां म्हणपाची म्हाकाय याद नाशिल्ली आनी खात्रीय नाशिल्ली. भायर रावनूच हांवे म्हज्या मित्राक घरांतली एकान एक कुरू सांगली. हांवे सांगलां तें खरें म्हणपाचें ताणे सांगलें. हांवेय भितर वचून खात्री करून घेतली. रातचो जेवता आसतना, तें घर हांवे सपनांत सतत तीन खेप पळयलां म्हणपाची याद म्हाका जाली. आतां एकूच प्रसंग उरिल्लो तो सोरोप पळोवपाचो. जेवण बी करून आमी रातचे आंगणांत आयले. सपनाची याद जाल्ल्यान हांव मातसो शादूर आशिल्लों. आंगणांतल्यान भायर वचपाखातीर आड्यांतल्यान वचचें पडटालें. आडो म्हळ्यार दुरीग. मातये - फातरांनी केल्लो, भेंडामेरेन वयर आशिल्लो. गोरवां आंगणांत येवंची न्हय मण ती वाट काटकोनी आशिल्ली. म्हजो मित्र ते काटकोनी पायणींतल्यान भायर सरलो. ताचे फाटोफाट हांव आशिल्लों. चान्ने पीठ्ठ पडिल्लें. पायण हुपतना म्हजी नदर आड्याचेर गेली. म्हज्या शेजराक जिवाण्याची हालचाल जाल्लेभशेन दिसली. म्हजो हात आपसूक थंय गेलो. बचक्याक मोव मोव गरम किर्तें तरी सापडलें. तें जिवाणें म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें. पूण भंयान म्हजो ताळो सुकिल्ल्यान मित्रांक सांगचें म्हळयारूय तोंड उगडनां. हातांतलें जिवाणे सुटत म्हण आपसूक म्हजो बचको आवळत वतालो. म्हज्या हातांत सोरोप आसा म्हण हांवे म्हज्या मित्राक तेय परिस्थितीत सांगपाचो यत्न केलो. अजून हांवे दुरीग हुपूक नाशिल्लें. तसोच फाटीं सरून शेणान पेटिल्ल्या आंगणांत हांवे तें जिवाणें आपटिलें. भंयान मूठ चिड्डून दवरिल्ल्यान आनी एकाच नेटान जमनीर आपटिल्ल्यान तें जिवाणें अर्द जाल्लें. उप्रांत म्हज्या मित्रांनी ताका पेटून काडलें. तें मरून पडिल्लें जिवाणे पळोवन म्हाका शेळो घाम फुटलो. तो विखाळ सोरोप आशिल्लो. हांव फक्त नशिबान वाटावल्लों. सतत सपन पडिल्ल्यान हांव प्रत्येक पावल साबुद्दीन घालतालों देखून.

अशीच कितलीं तरी सपनां हेरांक पडिल्लीं आसात आनी त्याच सपनांक लागून खुपशे लोक जिवावेल्या अरिश्टांतल्यान वाचिल्ले आसात. असलीं सपनां न्हिदेंतूच पडटात अशें न्हय तर जागो आसतनाय सतत ताचो भास जायत रावता. फरक इतलोच की न्हिदेंत जशें तें सपन प्रत्यक्षांत जियेतात तशें जागेपणी तांका तें पळोवंक मेळना. असल्या सपनांक कांय जाण सूप्त अशी आंतरीक शक्त मानतात.

ही सपनां जशीं न्हिदेंतलीं आसतात तशेंच मनीस हो जागेपणीय सपनांतूच जियेता. मनीस आशेर जियेता आशिल्ल्या कारणानूच ताचें जिवीत सोसपासारकें जाता. नवीं नवीं सपनां रंगोवप आनी त्या सपनांच्या आदारार आपलें जिवीत मुखार धुकलप होच प्रकार मनशां भितर घडटा. मनशान निर्माण केल्लीं तांचीं सपनां केन्ना तुट्टात तर केन्ना खरीं जातात. सपनां तुटलीं म्हणटकच मनीस थोडोवेळ खंती जाता. उप्रांत परत सपनां रंगयता. सपनातूच खुशालकाय मानून जियेता.

ह्या सपनाळ्या जिणेंतल्यान हांवूय मुक्त उरूंक ना. कवी लेखक हे चड सपनां रंगोवपी, सपनांत जियेवपी आसतात अशें म्हणटात. सर्जनशील मनीस सोडाच, हे धर्तरेवेलो दरेक

मनीस सपनांचे बाबतींत सर्जनशील आसता. तो सपनां पळयता, सपनां रंगयता. कांय जाणांचीं सपनां ल्हान आसतात, कांय जाणांची व्हड. ल्हान - व्हड हो प्रकार त्या त्या मनशाचे तांकिचेर आदारून आसता. जण एकल्याच्या सपनां पळोवपाचे तांकिचेर त्या सपनाचो दर्जो थरता.

तुका सपन पळोवप आवडटा ? असो जेन्ना म्हजेमुखार प्रस्न येता तेन्ना तो प्रस्न असो म्हाका दिसना. म्हाका जितलीं सपनां पडल्यांत, वा हांवे तीं रंगयल्यांत तांचे एक स्वतंत्र पुस्तकूच जांव येता. मागीर ती सपनां न्हिदेंतलीं आसू वा जागेपणींतलीं. हो सपनां पळोवपाचो प्रकार म्हळयार म्हजे जिणेतलो एक वेगळांव नज असो घटक. म्हजें जिवितूच एक सपनाळें जिवीत आसा. नवीं नवीं सपनां पळयत, त्याच सपनांत दंग रावपाची म्हाका संवय जाल्या. त्याच सपनांनी बुडून रावप म्हाका आवडटा. तेच खातीर कोणेय जर विचारलें - तुका सपनां पळोवन आवडटा, तेन्ना म्हाका हासूंक येता. हांवच कित्याक ? दरेक मनीस सपनाळो आसता. म्हजेच सारको !





# तूं लग्न केन्ना जातलो



**खरें** म्हळ्यार हो अत्यंत खाजगी प्रस्न फक्त म्हजोच. हांव लग्न जायनासतना रावलों तर समाजाचें कांयच लुकसान जायना. जाल्यार फायदोच जातलो. देशांतली वाडटी लोकसंख्या आसा ती आसा तितलीच दवरूंक म्हजेकडल्यान घडिल्ली ही एक देशसेवा. खरें म्हळ्यार जितले लोक आंकवार रावल्यात तांका सरकारान खास सवलती दिवंक जाय. लग्न जाल्ल्यां फाटल्यान लागून कुटूंब मर्यादीत दवरात म्हण सांगपापरस हीच एक बरी गजाल. पूण समाज तसो कोणांक आंकवार रावंक दिना. कोणूय आंकवार रावलो जाल्यार तो ताचेर प्रस्नांचो पावस ओतता. तूं लग्न कित्याक जायना ? केन्ना जातलो ? अशे प्रस्न मोखून मारतात की लग्न परवडलें पूण हे प्रस्न न्हय अशें दिसूंक लागता.

हे असले प्रस्न विचारप्यांत कांय तत्वगिन्यानीय आसतात. लग्न जालें, भुरगीं जालीं म्हणटकच जिविताचें चक्र पुराय जाता. ना तर तें जायनां अशें ह्या लोकांचें तत्व गिन्यान आसता. लग्न जावन हांणीं जिविताचें कसलें चक्र पुराय केलें वा कितें दिग्विजय लायलो हें कळूंक मार्ग ना. आनी हाणीं जर लग्न करूंक नाशिल्लें जाल्यार संसाराचें कितेंय लुकसान जावपाचें, अशांतलोय भाग न्हय !

आतां लग्न कित्याक जांवक जाय हाची जाप म्हाका ह्या प्रस्न विचारप्यांकडल्यान सारकी केन्ना मेळळीच ना. थोड्यांक दिसता, म्हाका जाणटेपणार कोणाचो तरी आदार जाय. आतां तरणी पिराय आसा ती कशीय, कोणाच्याय आदारान सारू येता. मनशाक खरो आदार जाय आसता तो उतार वयार आनी तेन्ना घोव - बायलेक एकमेकांचोच खरो आदार आनी सांगात मेळटा. ते वेळार भुरगीं - बिरगीं सगळें फट आसता. तीं 'भटो भटो आपले वाटो' म्हणत वतात. अशें जर आसा जाल्यार भुरगीं बी जालीं म्हणटकच चक्र पुराय जाता म्हणटात ताचो अर्थ कितें ? आनी बायलूय मरसर सांगात दितली हें कित्यावेल्यान ? एकमेकांबगर एक खीण भर लेगीत वेगळें रावप शक्य ना अशा जोडप्यांतले कोण एक तरी अपघातांत मरता तेन्नां जितो आशिल्ल्याक कसलो आदार मेळटा आनी कोणाचो ? ताणें त्या अदर्यार सोडून गेल्ल्या आदारी मनशाच्या सुवातेर दुसरो मनीस हाडपाखातीर म्हण परतून लग्न जावपाचें ? जेन्ना आदाराची खरेंच गरज भासता तेन्नाच कोणूय

मैत्रीण वा मीत्र कित्याक हाडचो न्हय ! देशांत कितल्यो तरी विधवा आसतात, जांव कांय कारणांक लागून लग्न न जांवक पाविल्ल्यो आंकवार चलयो आसतात, लग्न जावन चुकीचो साथीदार मेळ्ळो देखून पटनाशिल्ल्यान एकमेका पासून पयस राविल्लीं मनशां आसतात. तांकांय हे पिरायेर कोणाचो तरी सांगात, कोणाचो तरी आदार जाय आसता. अशा आदार नाशिल्ल्या लोकांक आपल्याक आदार जाय म्हण हाडटनाच आदार दिवपाची ताकद, आदाराखातीर लग्न जावंक सोदतल्यांमदीं कित्याक ना ?

थोड्यांचें मत हॉटेलांत कितलेंय बरें जेवण मेळूं, घरचें तें घरचें ताची रूच आगळीच. हें मत जरी जेवणांपुरतें आसलें तरी ताच्या फाटल्यान एक वेगळो अर्थ आसा. हें मत मांडप्यांचो सांगपाचो उद्देश्य आसता, मनशाक 'सेक्स' हें जायच पडटा. जशी पोटाची भूक आसता तशीच आंगाचीय आसता. जेवण जशें भायर खानावळींत मेळटा तशें भायर सेक्सूय घेवं येता. पूण ताका रूच नासता. घरांत अन्न मेळटा ताकाच रूच आसता. तांच्या ह्या असल्या नाटकी उलोवपांतूय ढोंगीपणा आसतात. अशें मत मांडटना हें मत उक्तावपी स्पश्टपणान सांगनांत की आपली कामभावना भायर भागोवं नाकात. घराकडेन लग्न जावन कोणूय हाड आनी तिचे कडेन हक्कान भागय. जिचेर तूं अधिकार गाजोवंक शकता. तांच्या ह्या मतांत एकूच सत्यताय आसा आनी ती म्हळयार लग्न हें फक्त कामभावना, वासना शमोवपाखातीर केल्लो खटाटोप. लग्नाचो होच मुखेल हेत आसता हें कोणूय मान्य करतलो. तरी सुद्धां समाजान हे प्रकारचे घडणुकेक 'लग्न' म्हण एक पवित्र रंग दिल्लो आसा. आनी ह्याच बुरख्याखाला समाजाक आपले कामभावनेचें शमन करप शक्य जाता. जे कोण आंकवार आसतात तांच्या तोंडार होच बुरखो घालूंक ते धडपडत आसतात.

समाजामदीं व्यभिचार वाडचो न्हय, एक आदर्श समाज आसचो म्हण समाजशास्त्र्यांनी कांय नेम केल्ले ते बरे आसात. समाजीक बंधनां हीं जण एकल्यान पाळुंकूच जाय. ना तर समाजांत अराजक माजतलें हेंय म्हाका मान्य आसा. पूण हांव जेन्ना समाजाक मात लेगीत दुखय नासतना म्हजे पद्धतीन, म्हजें स्वतंत्र जीवन जियेतां तेन्ना समाजान म्हजे भीतर नाक कित्याक मुंगरचें तें म्हाका कळना. तरीय पूण नाका जाल्ले प्रस्न विचारप हेंच आपलें कर्तव्य मानपी पावलां कणकणी हजार जाण मेळटात.

तशें पळोवंक गेल्यार लग्न हो प्रकार मनशांमदींच मेळटा. संवसार करप, सांगातान रावप, आपलें कुटूंब वाडोवप आदी जी वेवस्ता आसा ती खरें म्हळयार ह्या प्रकारांत गौण आसा. लग्ना फाटली मुखेल गरज आसता ती म्हळयार आपली कामभावना भागोवप. हो सैमाचो नेम. निर्मणी हेंच सैमाचें तत्व जाल्ल्यान, नव निर्मणेखातीर मनशाच्या मनांत उत्पन्न जाल्लो काम हो एक भाव. सैमातली दरेक गजाल आसा ती ना जावपी आसता. ती ना जांवचे पयलीं तिचें पुनरनिर्माण जावप हो एक सैमीक गूण. तें निर्माण जावपाखातीर हेर सैमीक गजालींत सैमाचोच तेंको मेळटा. त्याचखातीर किटक, सवणी, प्राणी आदी आपसूक लागीं येतात. तांची लग्नां करचीं पडनांत. फुलां तरेकवार रूपां आनी रंग धरून आपली

सुंदराय केळयता. पाख्यांक आनी मुसांक आपलेकडेन आकर्शून घेतात. वारोय आपलो वावर करता. तो फुलांक फळचें म्हणून व्हावना. मुसांक आनी पाख्यांक म्होंवाची रूच आसता. तांचो तो आपसुवार्थ आसत. पूण वाऱ्याक कसलो सुवार्थ ? तो तर एक सारको व्हांवत आसता. तरीपूण एका फुलावेलो केशर दुसऱ्या फुलामेरेन व्हरून त्या फुलाचें फळ जावपाखातीर वारोय, त्या पाख्यांवांगडा आनी मुसांवांगडा फुलाक पालव दिता. फुलाचें फळ जांवक, त्या फळाचें परतून झाड जांवक, झाडाचीं लग्नां कोण करता ? पूण हेंच बंधन मनशाक लागता. ताका तकली आसा. म्हणून ताका बुद्धीवादी प्राणी मानतात. ताका आपलें पीक वाडोवपाखातीर बीं खंय आनी केन्ना रोवचें हाची अक्कल आसता. तो आपली अक्कल वापरून आपली खूण दवरता, तेंय एके रितीन, एके शिस्तीन. ताचो उद्देश्य फकत आपली प्रजा वाडोवप होच नासता. जनावरांमदीं, झाडांमदीं नियोजन करपाची अक्कल नासता. गोड फळाचे उत्पत्ती वांगडाच काट्यांचीय आनी विखाचींय फळां या सैमाच्या नेमाप्रमाण पसवत आसतात. बऱ्या प्राण्यांवांगडाच विखाळ आनी त्रासदायक प्राणीय आपली संतत नेमाप्रमाण वाडयत रावतात (हांगा बऱ्यो आनी वायट गजाली मनशाचे समजुती प्रमाण आसात. सैमांत वायट गजाली नासतात. तांचे तत्व तांचे खातीर बऱ्याकूच आसता. स्वरक्षणाखातीर सैमान केल्ली ती तजवीज. ती मनशाक वायटाक पडटा देखून वायट). पूण मनीस हो समाज निर्माण करून रावंक सोदपी प्राणी. आपणे निर्माण केल्लो समाज नदरेमुखार दवरूनच, त्या अनुशंगान तो संतती उत्पादन करता. बरो समाज घडोवप ही आपली जापसालदारकी मानता. म्हणून कांय नेम तयार करून त्या नेमांचे फास्केंत आपूण रावता. तातूंत दुसऱ्याकूय दवरूंक सोदता. पूण म्हजे सारको एकाद्रो फास्केंत रावंक सोदिना. ती तोडून तो भायर सरूंक सोदता. तशें करतना तो समाजाकूय पिडापीड करूंक सोदिना. अशें आसतना ताका ते फास्केंत बंदीस्त करपाखातीर हांची धडपड कित्याक ?

लग्न ह्या एकंदर प्रकाराविशी म्हजे विचार वेगळे. लग्न जावन फक्त प्रजोत्पादन करप होच म्हाका म्हज्या जिवनाचो उद्देश्य दिसना. जिवनाक जर लग्न जावन परिपुर्णता येता हेंच जर मुखेल तत्व आशिल्लें जाल्यार मनीस सगळ्या गजालीं पयलीं लग्नाचोच विचार करतलो आशिल्लो. पूण ज्या ज्या लोकांनी संवसार दिपकावन उडयला त्या त्या लोकांनी लग्न ही एक आडखळ अशी धरल्या. रामदास तर लग्नाचे वेदी वेल्यान पळून गेलो. विवेकानंद तर लग्न जालोच ना. आतां सगळे लोक, जाणी नांव जोडलां ते आंकवार रावल्याच अशेंय ना. लग्न जावनूय ब्रह्मचारी जिवीत जियेवपी आनी आपलें कार्य मुखार व्हरपीय ह्या संवसारांत आसात. फक्त संवसारांत घुस्पून लेगीत अलीप्त रावपाची कला जमूंक जाय. ती जर जमलिना जाल्यार मनीस उप्रांत तडजोड करपाच्याच घुस्पागोंदळांत उरता आनी आपल्या जिविताचें मुखेल ध्येय होगडावन बसता.

आपल्या उपरांत किर्ते तरी उरचें हीच एक आस दर एका मनशाची आसता. ती सैमाचीच देण. ही आस प्रजोत्पत्तीवेल्यानूच निर्माण जाल्या. जाचेकडेन दुडू करपाची कला

आसा तो दुडू करता. जांकां बरोवपाची कला येता तो साहित्यांतल्यान आपल्याक दवरून वता. कोण चित्रांतल्यान दवरता. कोण वास्तुशिल्पांतल्यान दवरता. पूण जांचेकडेन ही कला ना ते बहुसंख्य लोक, जाचेर समाज निर्मणी जाल्ली आसता ताचेकडेन ही असली खंयच्याच प्रकारची कला नाशिल्ल्यान ह्या रूपान रावप तांका शक्य नासता. मागीर तांचें नांव कशें उरप ? तेच खातीर वंशावळीचें कारण मुखार सरलें. आपल्या वंशाचें नांव दवरून वचूंक हो मनीस सोदता. तेच खातीर लग्न जावन आपल्याक एक तरी चलो जांवचो हेच खातीर मनीस धडपडटा. चली जाली तरी ती रक्ताची आसून लेगीत तिचे उपरांत नांव बदलतलें आनी आपलें नांव उरचेंना ह्या विचारान चल्या खातीरूच दर मनशाची ओड आसता. हो सगळो आपल्याची निशाणी हे भूंयेर दवरून वचपाचो खटाटोप. पूण जो कोणूय कांयच दवरून वचूंक सोदिना ताणें ह्या जंजाळांत कित्याक घुसपप ? आनी दवरून वचचेंना अशें तरी कित्यावेल्यान म्हण् येत ? खंयच्याय कलाकाराची कलाकृती ही उरताच काय ना ? आपली कलाकृती चड काळ तिगतली, आपलें भुरगें न्हय ही भावना कितेंय तरी दवरून वचूंक सोदपी मनशा भितर तयार जायना हें कित्यावेल्यान ? एखाद्रया कलावंतान कलाकृती जल्मांक घाली तेन्ना तांका जी खुशालकाय भोगता ती आनी कोणांकूय भुरगें जालें तेन्ना ताका भोगपी खुशालकार्येत अंतर कशें आसूं येत ?

तरी आसतना ह्या मनशांनी लग्न जांवकच जाय ? ताणीं तर निर्मणेचो आनंद भोगिल्लोच आसता. मागीर लग्न म्हळ्यार फक्त सेक्सा खातीरूच जावप ? आयज जग इतलें फुडारलेलें आसतना हो रूक्षप्रस्न आमकां पडप ? ताका अर्थ आसा अशें म्हाका दिसना......





# तुवें लग्न थारावन केलां काय मोगान



तूं लग्न केन्ना जातलो ? वा लग्न कित्याक जायना ? अशा अर्थाचे रूक्षप्रस्न लग्नाची पिराय जाल्ल्या दरेकल्याक सतायतात. तर्शेंच लग्न जाल्ल्याकूय असले रूक्षप्रस्न सतायले बगर रावनांत. लग्न जांव वा जांव नाका, हे रूक्षप्रस्न कशेच फाट सोडिनांत.

आयचे काळार आदले गांधर्व बी प्रकारचे विवाह फाटीं पडल्यात आनी 'लव मॅरेज' काय 'प्रपोज मॅरेज' ? असली चवकशी सर्रास चलतनां आमकां पळोवंक मेळटा. रूक्षप्रस्नांचे जापेची हिंमसाण घेत भोवपी कांय जाण हेरांकडल्यान म्हायती काडून घेतात तर कांय जाण सरळ त्या घोव - बायलांक विचारतात. कांय जाण मुर्वतीक पडून असल्या प्रस्नाची जाप दितात तर म्हजे सारके कांय जाण असले प्रस्न करप्यांच्या जिविताच्या तत्वगिन्यानाचो कंटाळो येवन तिरसुवादपणान किर्तेय सांगून, परतून ते असले प्रस्न विचारपाचे भानगडीत पडपाचे नांत हाची तजवीज करतात.

आपलो मेंदू फक्त बोंबले सकयलूच वापरपी अशे समाजांतले ८० टक्के लोक, खंयचोय दादलो आनी बायल एकठांय आयली म्हणटकच तीं फक्त चामडेच्या मोगानूच लागीं आयल्यांत म्हणपाचो हिशेब लायतात. हे ८० टक्के लोक संवसारांत पोट भरपाबदला हेर कांयच जरी करिनांत तरी लग्न मात नक्कीच करतात. आपूण ह्या संवसारांत आयला तो फक्त लग्न करूंक असो समज बहुदा ह्या लोकांनी केल्लो आसता आनी सैमीक नदरेन तांचेकडेन पळयल्यार तांचो हो समज चुकीचो न्हय म्हणपाचें कळटा.

लग्न ही वेवस्ता सुशिक्षित समाजान, समाजाच्या विकासाक आनी समाजाचे भलायके खातीर केल्ली वेवस्ता. हे वेवस्तेचो सैमाचे प्रक्रियेकडेन कांयच संबंद ना. सैमाची प्रक्रिया दिसरात चलत आसता. सैमाचें काम नव निर्मणी करीत रावप. त्याच खातीर नव निर्मणेखातीर एकठांय येवपाची गरज आशिल्ल्या नर आनी मादीक तांचेमदीं नाना तरांचीं आकर्शणां निर्माण करून तांकां निर्मणेखातीर उद्युक्त करप हो सैमाचो धर्म. ह्या वेळार सैमाक नातें लागनां. समाजान आपले सोयी खातीर केल्ली वेवस्ता लागना. ताका लागता आपलें दिसरात फिरपी चक्र. ताचेचकडेन बांदिलकी आशिल्ल्यान हे धर्तरेर फुलां फुलतात, फळां जातात, पिकतात, बियां झडटात, पूंबीज - स्त्रीबीज एकठांय येतात. निर्मणे फाटली हीच एक ओड आसता. हेच ओडीक लागून धर्तरेर निर्मणी जांवक पावता. मनशान हेच

ओडीक मोग अशें नाजूक नांव दिल्लें आसा. पूण मोगाची ही भावना मनीस सोडून हेर जनावरांभदीं नासता. तांचेमदीं कायम स्वरूपात उरता ती नव निर्मणेच्या ओडीची भावना. देखून हेर प्राण्यांमदीं आवय - बापूय हांचेमदीं आशिल्लें माया - ममतेचे नातें दिसना.आसता ती ओड. पिलां - पोरां दुबळीं आसासर राखणेचे नदरेन ही ओड तिगून उरता. तांचे मदली हीय भावना दुबळ्यांची राखण जांवची देखुनूच सैमान तांचेभितर रिगयल्ली आसता. पिलां - पोरां आपली राखण करूंक बळीश्ट जालीं म्हणटकच तीय भावना तांचे वाडी वांगडाच गळून पडटा आनी उरतात तीं नर आनी मादी. नव निर्मणेखातीर एके आंतरीक ओडीन एकठांय येवपी. हेच ओडीक कामभावना अशें नांव मनशांनी दिल्लें आसा.

नव निर्मणेखातीर सैमाचें हें चक्र चालू आसतनाच सैमाचो घटक आशिल्लो मनीस मात आपले दरेक करणेक आपल्या फायद्याप्रमाण वेगवेगळीं नांवां आनी रूपां दीत आयला. नव निर्मणी करता आसतनाच तातुंतल्यान आपूण चडांत चड सूख कशें भोगतलों हाचेचकडे मनशाचो कल आसता. ह्याच सुखाखातीर मनशान समाज वेवस्ता थारावन ते वेवस्तेंत आपल्याक बांदून घेतला. आपले तरांतरांचे सेक्युरिटीच्या हुसक्यान ताणीं हे वेवस्तेंतूच घुस्पून रावपांत मोठेपण मानलां. जो कोण ही वेवस्ता मोडूंक सोदता ताका नैतिकतेचें शस्त्र दाखोवन ते वेवस्तेंत बांदून दवरपाची तजवीच समाजान केल्या. ही सगळी वेवस्ता म्हळयार धोंगीपणां हें जांकां कळटा तेय ह्याच शस्त्राक भिवून, मन मारून ते चौकटेंत घुसतात आनी गाड्याक बांदिल्ल्या बैलावरी गाड्या फाटल्यान चलत रावतात.

मनशाचे उदरगतीखातीर ही वेवस्ता आसा आनी तेच वेवस्तेंत रावून मनीस आपली उदरगत सादूंक शकता ही संकल्पना आता पोरणी जाल्या. लग्न जावप, संवसार थाटप हे प्रकार फुडारलेल्या देशांनी पयलीं आशिल्ले. फक्त जनन प्रक्रियेच्या उद्देश्यान एकठांय येवन रावपी आदीमानवापासून उदरगतीच्या नांवान बदल करीत करीत हे आयचे विकशीत अशे अवस्तेकडेन पाविल्लो हो मनीस हीं सगळीं बंधनां तोडून आयज पयलींच्याच आदीमानवाचे अवस्ते कडेन वचूंक लागला. लग्न वेवस्ता आदी गजाली आतां तांकां गौण दिसूंक लागल्यात. एके ओडीन एकठांय रावप आनी सुखान जिवीत सारप हातुंतूच तांका सूख मेळूंक लागलां. तांचें लग्न जालां काय कितें ? तांचो प्रेम विवाह काय कितें ? तांच्या भुरग्यांचें कितें जातलें हें प्रस्न आयज तांका सतायनांत ह्या असल्या प्रस्नांक तांचे नदरेन व्हडलेंशें म्हत्व ना. एका विस्वासान एकठांय आयल्लीं ही नर आनी मादी विस्वासाक लागूनच एकठांय रावंक शकता. सगळ्या लोकांक एकठांय हाडून तांचे मुखार लग्नाचें नाटक करप. सेक्युरिटीच्या नांवान कायदेशीर नोंदणी करप आनी नैतिकतेक भिवून

एकठांय रावप ही गजाल आज सुशिक्षीत वर्गांत अर्थहीण थरल्या. जर बायल आनी घोव हांचो एकमेकांचेर विस्वास नासत तर खंयचीच नैतिकता आनी खंयचोच कायदो तांका एकठांय दवरूंक शकना. शरिरान ती एका वास्तूंत उरत. पूण मनान तीं वेगळीं आसतलींच. सुखाखातीर एकठांय आयल्ली ही जोडी जर फक्त समाजाचे नैतिकतेक आनी कायद्याच्या बडग्याक लागून जिवितांतली बंदखण भोगता आसत जाल्यार ती सगळ्यांत व्हडली अनैतिकता, सगळ्यांत व्हडली बेकायदेशीर घडणूक. मनाविरुद्ध दादलो आनी बायल समाजाक लागून एकठांय रावप म्हळयारूच एक व्हडलें पाप.

लग्न हो प्रकार कामभावना शमन करपाचो एक कायदेशीर आनी नैतीक परवानो. कामभावना ही सैमान नवनिर्मणेखातीर दर एका प्राण्याभितर रिगयल्या. तातुंतल्यान दर एका प्राण्याक परमोच्च सूख लाभता देखून तें घेवपाखातीर दरेक प्राणी धडपडटा. जिवाचेर उदार जाता. आपली विचारशक्त शेणोवन बसता. व्हडले व्हडले तपस्वी लेगीत त्या सुखाच्या खिणाक सगळ्या संवसारार काळोख पातळ्ळा आनी आपल्याक कोणूच पळयना असो समज करून दिसा उजवाडाक हें सूख भोगून मेकळे जाल्यात. कामभावना शमन हीच गजाल मुखेल धरून निर्मणेची गजाल गौण मानिल्ल्यानूच ह्यो सगळ्यो गजाली आयज समाजांत घडटात. जांका भुरगीं जातात तांचेच भितर जर ही कामभावना निर्माण जांवक शकलेली जाल्यार हो प्रकार आयज घडटना दिश्टी पडचोंनाशिल्लो. पूण सैम असली गजाल करूंक शकना. एक वस्त तयार जाली काय तिजे पासून दुसरी निर्माण जावप हो सैमाचो नेम. गुणधर्म.

म्हज्या वांगडा खंयचीय बायल मनीस दिसली म्हणटकच 'तुजें लग्न जालें रे ?' म्हण प्रस्न करपी आतां म्हज्या वांगडा सतत विजयालक्ष्मीक पळोवन तसो प्रस्न करिनांत. आमी एकठांय रावतात आनी खंयीय गेल्यार एकठांयच दिश्टी पडटात देखून आमचें लग्न जालां अशी तांची खात्री जाल्या आसुंये !

पयलीं जसो लग्नाचो आक्त घडोवन हाडून दर एकलो आमी लग्न जाल्यांत, आमकां आतां दुबावान पळोवं नाकात, आमी जें किर्ते करतात तीं नितिमत्तेच्या फास्केंत रावून करतात अशें दाखोवपाची जी एक चाल आशिल्ली ती आतां फाटीं पडल्या. लग्नाच्या निमतान हाजीर रावन जांका कोणाक खावपा - पिवपाचो आनी किर्तेय भेट वस्तू मेळोवपाचो उद्देश्य साध्य करपाचो आशिल्लो तांची कुरकूर सोडली जाल्यार, अमक्या अमक्यान आपलो लग्न सुवाळो करूंक ना हाचो आतां कोणाक शीण ना. चडांत चड तांका सतायता आसत तें म्हळ्यार अमक्या अमक्यान लग्नाची नोंदणी केल्या काय ना ही बाब. नर आनी मादीन अधिकृतपणान एकठांय रावलीं जाल्यारूच तांचो हो समाज एक आदर्श समाज थरतलो आनी तो आदर्श दवरूपाखातीर आपणें असले ढवळे तरी करूंक जाय हीच तांची धारणा आसता. हांवें कोणाक लग्नाक सांगूक ना. लग्न सुवाळो घडोवन हाडूंक ना. लग्ना निमतान

पार्टी दिवंक ना हाचें जरी तांका मनांतल्यान वायट दिसलें तरी आयचो काळ हो फुडारलेलो काळ आसा अशें आपल्याकूच समजावन ह्या रूक्षप्रस्नकर्त्यांनी म्हाका माफ केल्लो आसा. तरीपूण हांवें निदान नोंदणी तरी करची ग्रशी तांची अधिकारात्मक सांगणी आसता. आपूण कायदेशीर लग्न जाल्यांत हें सीद्ध करपाखातीर कोणाक दाखलो घेवन भोवपाची गरज नाशिल्ल्यान तांचे हेय सुचवणेक म्हजेच न्हय तर कोणाचेच नदरेन अर्थ नासता.

लग्न हे वेवस्तेचेर म्हजो निखालूस विस्वास ना. जांची नवनिर्मणी करपाची पिराय जाली म्हणटकच तांचे भितर कामभावनेची इत्सा जाता. हीच कामभावना शमोवपाखातीर नराक मादी आनी मादीक नराची ओड लागता. हेर प्राण्यासारखो मनीसप्राणी स्वैराचार करूंक शकना. केलोय जाल्यार समाजाक लिपोवन, भियेत भियेत करचो पडटा. जांका धाडस आसा तेच हो मार्ग आपणावंक शकता. जे समाजाक भिवून तशेच रावतात तांचे भितर विकृती तयार जाता. हस्तमैथुनासारख्या गजाली फाटल्यान लागून मानसीक संतुलन इबाडून बसतात. अशा लोकांक जाग्यार दवरपाखातीर कायद्यान विरुद्ध लिंगी जोडीदाराची वेवस्ता करची पडटा. जाका लागून तो कामभावना शमन करूंक शकता. खरें म्हळयार नव निर्मणेखातीर कामभावना दिल्ली आसता. पूण त्या सुखाची गोडी लागिल्ल्यान काम भावना मुखेल आनी नवनिर्मणी गौण थरिल्ली आसा. आज कोणूच भुरगीं जाय म्हूण लग्न करिना. वंश वाडचो म्हूण लग्न जावपी मनीस तीन - चार भुरगीं जावन लेगीत ओगी बसना. सरकार मर्यादीत कुटुंबाखातीर लाखानी रुपयांचो इबाड करून प्रचार करता आसतनाय कांय जाणांगेर डजनभर भुरगीं जातात. जांका दोगां परस चड भुरगीं परवडना तीं संतती नियमनाच्यो सगळ्यो गजाली वापरून आपली काम भावना शमयता. लग्न म्हळयार आपली वाडटी काम भावना कायदेशीरपणान शमन करपाखातीर समाजान दिल्लो परवानो - लायसन्स्.

हें लायसन्स मोगान घेवंचें काय ठरोवन घेवंचे हो विचार म्हजे तकलेंत केन्नाच आयलोंना. विजया आनी हांवें एकठांय रावपाचें थारावन एकठांय रावंक सुरवात केली. ताका लग्न हें नांव हांव दिवंक शकना. कायदेशीर नोंदणी हो प्रकारूय असोच एकमेकाचेर अविस्वास दाखोवपी. हे नोंदणेची चड गरज आसता ती खरें म्हळयार बायल मनशेक. तिका दादल्यान फटोवंची न्हय, तिजें आनी आपलें कसलेंच नातें ना अशें दादल्यान म्हणचें न्हय देखून वेळ पडल्यार कितें तरी कायदेशीर प्रूफ आसचें देखून केल्ली ही तजवीज. सेक्युरिटीचे नदरेन समाजवेवस्तेन केल्ली ती वेवस्ता. पूण प्रस्न पडटा, हांगा कोणे कोणाक सेक्युरिटी दिवपाची ? आमी जर एकमेकांक मेळूं नाशिल्लीं जाल्यार कितें उबंत पडटलीं आशिल्ली ? हाची जाप कोणाच कडेन ना. ती दुसरो कोणूच दिवंक शकना. हे सगळे आमी दुबळेपणान निर्माण केल्ले प्रस्न आनी ताच्यो जापोय दुबळयो.

हांवें लग्न केलां काय कितें ? तें थरोवन केलां काय मोगान ? ह्या प्रस्नाक म्हजे हिशेबी कांयच अर्थ ना. मोग आनी विस्वास आसा देखून एकठांय रावप आमकां शक्य जालां. तो जेन्ना ना जातलो तेन्ना भावनाहीण जिवीत जियेवपांत कांयच अर्थ ना. अशीं मडीं जावन रावचे परस तांचो इलो करपूच योग्य जातलें. तसो प्रसंग येवचे पयलीं, नाका जाल्ले विचार तकलेंत हाडून सुखाचे खीण दुख्खान सारप आयज म्हज्या विचारांक मान्य जावपाचें ना. बायल - घोव, भुरगीं - बाळां ह्या नात्यापरस मीत्र म्हूण एकठांय रावप, एकमेकांक समजून घेवन एकमेकाक सुखी करपांतूच म्हाका खरेलें लग्न दिसता. तें मागीर ठरोवन आसूं वा मोगान. त्यामुखार बाकिच्यो सगळ्यो गजाली म्हजेखातीर रूक्ष. तातुंतल्यान तयार जावपी प्रस्नूय रूक्षप्रस्न.... !





# तूं मोगांत केन्ना पडला



प्रस्न म्हणुनय कसलो ! हांव मोगांत पडलां काय खंय ! हांगा मोगांत पडप म्हळ्यार कोणाचेर तरी मोग करप. प्रेमांत घुस्पून वचप. पडप न्हय. आपटप न्हय. जाल्यार कोणाखातीर तरी आपलो जीव सतत गुंतवन दवरप. ताकाच मोगांत पडप अशें म्हणटात. हें सगळें खबर आसुनय केन्ना केन्नाय हांव म्हणटां, ना हांव केन्नाच मोगांत पडूंक ना. मोगान तर म्हाका सदांच वयर काडला. केन्ना केन्नाय मोगाक लागून पडलोंय जाल्यार त्या पडपांतल्यान नवो अणभव घेतला आनी परत मोग करपाखातीर नव्या हावेसान, नवे उर्बेन उबो रावलां. परतून मोगांत पडपाक. परतून नवो मोग फुलोवपाक.

मोगांत पडप हो म्हजो स्थायीभाव. पूण मोग म्हणटात तो आमचे नदरेन अत्यंत संकुचींत अर्थ जावन गेल्लो आसा. फक्त कातडिच्या मोगाकूच आमी आयज मोग अशें म्हणटात. देखून पयले नदरेकूच आमी मोगांत पडटात. एका चल्यान एके चलयेचेर किंवा चलयेन चल्याचेर फक्त आंगावेले काती खातीर दाखयल्ल्या लागशिल्ल्यापणाकूच आयज आमी मोग म्हण पाचारतात. भयण भावाचेर जांव भाव भयणिचेर जो मोग करता ताका आमी वयल्या चाराक मोग म्हण जरी पाचारलो तरी ताका आमी वेगळे भावनेन पळयतात. आवयकडल्या मोगाक माया ह्या अर्थान पाचारतात. खरें म्हळयार आवयच्या मोगाक माया म्हणचे परस, कातिचो मोग आसता ताकाच माया हें उतर बरें सोबपाचें. आवयचो, भयणिचो, बायलेचो हो मोग. आंकवारपणार बायलेकडेन केल्ली ती माया. लग्न जाल्या उप्रांत बायलेक कळनासतना वा तिका लिपोवन हेर चलयांक आपल्या जाळ्यांत फारावपाचो यत्न करप हीय मायाच. थंय व्हडलोसो मोग नासता. आसता ती चामडेची ओड. जेन्ना ही कात, ही चामडी जेन्ना सुरकुत्यो पडून पळोवंक नज जाता तेन्ना ते अस्तुरेचेर नदर लेगीत घालपाक मोगांत पडलेलो मनीस तयार जायना. ही कातिची माया. तेन्ना ही माया ताका जाळांत घुस्पावन दवरता. आनी कातिची तिकतिकसाण सोंपली की तो सुद्धीर येता. तेन्ना ताका आपलो मोग काय फक्त माया हें कळून येता.

पूण आवय, भयण, बायल हांचे बाबतींत मात हें अशें घडना. आवय म्हातारपणार आपल्या आंगाच्यो काती लांबयत जमनीक दोळे लावन ओणवी चलूंक लागल्यार लेगीत

तिचेवेलो मोग उणो जायना. भयणीक सुंदर दिसना म्हण खंयचोच भाव पयस उडयना. रूपाचेर भाळून मोगांत पडून लग्न जाल्लो, लग्ना उप्रांत जर बायलेची सुंदराय कांय कारणांक लागून अपघाती बिघडली जाल्यार तिका तो तुच्छ लेखिना. तिचेवेलो ताचो मोग तोच उरता. होच खरेलो मोग हें आमकां भावता. जर तो मोग नाशिल्लो आनी ती फक्त माया आशिल्ली जाल्यार हे प्रकार घडल्या बराबर ही माया खंयचेखंय ना जावपाची. म्हातारे आवयक लोक पयस करपाचे, विद्रूप भयणिचेर कोण नदर ना घालपाचे, बायलेक कश्ट भोगोवन तिका ना करून आपली वाट मेकळी करून घेवपाचे, हें हांवें एकूच बाजू घेवन सांगलें तरी तो प्रकार दोनूय वाटानी जांवक शकता. बापूय, भाव, घोव ह्या घडणुकेंतल्यान सुटूंक शकना. नाय म्हळयार हाका काय अपवादूय आसात. पयलीं बरो मोग करून लग्न जाल्लो दादलो बायले कडल्यान हुंडो येवंक ना वा तिजेकडल्यान भुरगें मेळपाक ना असल्या कारणांक लागून तिका जाळपाक लेगीत फुडें सरिल्लो आसा. तशेंच पयलीं एकल्याचेर जिवापाश्ट मोग करपी चली घोवा कडल्यान मनासारखें समादान मेळना म्हण ताका सोडून लेगीत गेल्लें आसा. हो सगळो प्रकार मायेचो. खिणा पुरतो चलपी. मोग म्हणटात ती ह्या पासून वेगळी गजाल. थंय मागीर कसलीच अपेक्षा नासता. अपेक्षा दवरून जंय किर्ते चलता थंय अपेक्षाभंग जालो म्हण्टकच कांयच उरना. ती फक्त माया आशिल्ली अशें समजुपाचें. जेन्ना आवयची माया म्हणटात ती हेच खातीर जर आसत जाल्यार म्हाका कांयच म्हणपाचें ना. आपल्या भुरग्यांनी व्हड जातकच आपल्याक सांबाळचें आनी ल्हान आसतना म्हजी आवयन काळजी घेतल्या देखून आपणे तिजेर माया करूंक जाय हातुंतल्यानूय ही अपेक्षात्मक प्रकाराची सुरवात जाल्या आसूं येता. देखुनूच त्या प्रकाराक मोग म्हणचे परस माया म्हणपाची पद्धत पडल्या आसूं येता. पूण म्हजे नदरेन ती माया केन्नाच नाशिल्ली. तो फक्त मोग आशिल्लो. अजुनय तो मोगूच आसा.

असल्याच मोगाखातीर हांवे सतत मोग केला, त्या मोगांत पडलां. परत उठलां, नव्यान मोग केला. त्या मोगांत खोलायेन बुडलां. पुराय प्रेममय जावन गेलां. मात कसली अपेक्षा केन्ना बाळगिलीना. अपेक्षा बाळगून प्रेम करप म्हणटात तें म्हाका केन्ना जमलेंच ना. अजुनय जमना आनी मुखारूय जमत अशें दिसना. जर अपेक्षा नाशिल्ली जाल्यार तो मोग कसलो ? असोय एक प्रस्न ह्या वेळार निर्माण जांव येता. हांगा अपेक्षा म्हळयार ते चलयेक भोगपाची अपेक्षा. तिका आपल्या नांवार बायल म्हण दवरपाची अपेक्षा. ह्यो अपेक्षा मनांत बाळगून मोग केल्या उप्रांतूच मनशाचें काळीज तुटटा. प्रेमभंग जाता. तो जिवितांत निराश जाता. म्हज्या वाट्याक असले प्रकार आयल्यात. मनांत नासतनाय वेगळीं जावपाची घडणूक खूप फावट घडल्या. पूण तो म्हजो प्रेमभंग अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना. पूण वायट दिसलां ही गजाल मात खरी. वायट इतल्याच खातीर दिसलां की पयलीं जसो एक मेळपाचो

हक्क आसतालो, कितेंय सांगपाचो एकमेकाक अधिकार आसतालो तो वेगळीं जाल्या उप्रांत उरनाशिल्लो. तेन्ना एक जापसालदारकी आसताली. चलयेक जापसालदारकी आसताली, आतां आपूण स्वतंत्र ना जाल्यार कोणाची तरी बायल आसां. म्हाका म्हजी जापसालदारकी आसताली ती म्हाका कोणाचो संवसार इबाडपाचो अधिकार ना ही, कित्याक तर समजप म्हणटात ती गजाल आमच्या समाजांत खूप दुर्मिळ आसता. आमचें नातें पयलीं सारकें जरी उल्लें तरी तें मनांतूच दवरचें पडटालें. कित्याक त्या वेळार नातें समजुपाची ताकद हेरांकडेन खुपूच कमी आसता हाचीय जाणविकाय म्हाका जाताली. त्याच खातीर मर्यादा पाळच्यो पडटल्यो म्हण वायट दिसतालें.

हांवे मोगांत पडपाक सुरवात केली ती प्राथमिक शाळेंत शिकता आसतना. चवथेच्या वर्गांत आसतना म्हाका एक चली भोवच आवडटाली. ती एकदीस शाळेंत येना जाल्यार म्हाका वायट दिसतालें. त्या वेळार सेक्स म्हणटात तार्चे आमकां कांयच गिन्यान नाशिल्लेंच. फक्त दोगांय एकमेकाकडेन ओडटालीं. एकठांय खेळटालीं. हेरांनीय आमकां घोवबायल म्हण चाळयतकच आमकां राग येतालो तशें मनांतल्यान बरेंय दिसतालें. पूण एकदीस तें शाळा सोडून गेलें तें परत आयलेंच ना. ताचे यादीन हांव खूप दीस रडत रावलों. रडप केन्ना थांबलें तें आतां याद जायना. त्या उप्रांत मोग म्हळयार कितें हाची सुलूस म्हाका मॅट्रीकेक पावतकच लागली.

मॅट्रीकेच्या वर्गांत ते पिरायेर जण एकल्याचो मोग हो जाताच. मॅट्रीकेचो वर्ग हो केन्नाच सोंपचो न्हय अशें दिसूंक लागता. जसजशी प्रिलीम लागी पावता तसतसो विरह वाडत रावता आनी मागीर निरोप सुवाळयाक ताका भरती येता. तरीय परिक्षेच्या हॉलांत ते मेळटलें ह्याच हावेसान हो विरह विसरायेर घालपाचो यत्न जाता. आनी उप्रांत सगळींच तो विशय विसरून वतात. हो प्रकार प्रत्येकाच्या बाबतीत घडटा. मॅट्रीकेक जाल्लो मोग लग्ना मेरेन पावपाची घडणूक खुपूच थोडी आसता. हांवूय मॅट्रीकेक आसतना मोगांत पडलों. तेन्ना चंद्रकांत काकोडकार हाच्यो कादंबऱ्यो बी वाचून मोगाविशी एक वेगळीच कल्पना तयार जाल्ली. चली गिरेस्त एका भाटकाराली. हांव म्हज्या युनिफॉर्माचें पिंजलेलें, गाठयल्लें कालसांव आनी शर्ट घालून शाळेंत वचपी. तरी आसतना एक दीस चुकयनासतना युनिफॉर्म घालून येवपी आनी सदांच पयल्या नंबरांत पास जावपी म्हूण म्हजी तोखणाय जाताली. तें चलीय दिसूंक बी सादारण. म्हाकाय तें आवडटालें आनी तेंय म्हाका सोडिनाशिल्लें. ताणे म्हाका आपल्या घराकडेन व्हरप, म्हजेवांगडा सायकलीन येवप, अर्थात सायकल भाडयाची आनी तिचें भाडेंय ताणेंच दिवप. ताणेंच म्हाका इंग्लीशींतलें 'सेक्स' हें उतर पयलीं उच्चारून दाखयलें. नागड्या दादलो - बायलेचें चीत्र खंयच्या तरी इंग्लीश मासिकांतलें ताणेच दाखयलें. कीस हें उतर शिकयलें. तेन्ना कोणाचें उश्टें खावप म्हळयार पाप असो जाच्या तकलेंत समज

भरिल्लो ताणें कोणाच्या ओंठाक 'कीस' नांवाचे गजालीन ओंठ लावप म्हणटात ती गजाल कल्पनेभायली आशिल्ली. शिवाय हांव ते चलयेक म्हजी बायल म्हणपाची पदवी दिल्ल्यान बायलेकडेन लग्नापयलीं असल्यो गजाली करप बी म्हणटात त्यो म्हज्या तत्वाभायल्योच आशिल्ल्यो. 'सेक्स, कीस' बी असल्या गजालींक म्हज्या पिशेपणाक लागून हांव कांयच प्रोत्साहन दिना तें पळोवन म्हजी ती फुडाराची बायल म्हजेकडेन झगडली आनी म्हज्याच एका मित्राकडेन मोग करूंक लागली.

ताणें म्हज्या मित्राकडेन मोग सुरू केलो म्हूण म्हज्या मित्राची आनी म्हजीं झगडीं जालीं. तरी ताचो मोग हांव विसरूंक शकनाशिल्लों. हांव तांचेर कितलो मोग करतालों तें हांव जाणां आशिल्लों. तेन्ना मराठींतल्यान 'चांदोबा' नांवाचें एक मासीक येतालें. तें म्हाका खूप आवडटालें. तें विकतें घेवपाखातीर बापायच्या बोल्सांतले आठ आणे हांवे चोरिल्ले ते चांदोबा विकतो घेवपा बदला, ताका सायकल शिकोवपाखातीर हांवे भाडयाचे सायकलीक मोडिल्ले. इतलें करूनय जें हांव कीस दिना म्हूण म्हाका सोडून वता ताका हांवें कितें म्हणप ? म्हजो मोग ताका कळचो म्हूण हांवे ताका म्हज्या रक्तान चीट बरोवपाचें थारायलें. म्हजें रगत काडपाखातीर हांव वरभर पोरणी ब्लेड घेवन बसलों. पूण रगत काडपाचें धाडस म्हाका जालें ना. उप्रांत शाळेंतल्या शिक्षकाचें तांबडें तीत घेवन त्या तितान हांवे ताका पत्र बरयलें. तें तींत न्हय तर म्हजें रगत अशें हांवे दाखोवपाचो जरी त्या वेळार यत्न केल्लो तरी म्हजें तें रगत हें ताका कळ्ळें काय कितें खबर ना. पूण तें अजून म्हजें तोंड पळयना. असो हो म्हजो त्या वेळावेलो तीत - रंजीत मोग.

त्या उप्रांत मोग सुरू जालो तो कॉलेजींत. तेन्ना हांवे कविता हो प्रकार बरोवंक सुरवात केल्लो. म्हजे मानेर बशिल्लो आदर्शवाद अजून वचूंक नाशिल्लो. म्हज्यो कविता वाचून एकलें म्हजे कडेन वळख करून गेलें. वळख वाडलीं आनी दिसपट्टें मेळप सुरू जालें. हांवूय ताचेर मोग करूंक लागलो. मॅट्रीकेक आसतना हात धरपा इतलें धाडस आंगात आयिल्लें. आतां वेग मारप, कीस घेवप इतले मेरेन मजल गेल्ली. आमचो पांच वर्सां मोग चल्लो. एकदीस ते चलयेची भावजय आयली. आपल्यो हेर सगळयो णन्डो बऱ्या घरांत गेल्यात, कोण दोतोराची बायल आसा, कोण आदवोगादाची बायल आसा म्हूण व्हडपण सांगूंक लागली. हांव तर कवी आनी विद्यार्थी फुडारी आशिल्लों. असल्या मनशाची म्हूण कोण बायल जांव येता ! म्हयनो - दोन म्हयन्या भितर ते चलयेचें लग्न थरलें. तरी तें म्हजेकडेन आयलें. पळून वचून लग्न जावया म्हणूंक लागलें. पूण म्हजो आदर्शवाद मोगा परस चड खडेगांठ आशिल्लो. ताका हांवे उदार मनान लग्नाक मान्यताय दिली. ताचें लग्न जालें. नांच म्हळयार म्हाका वायट दिसलेंच. थोडे दीस बेचैनीत गेले. ताका हांव अन्लकी म्हूण मेकळोय जालों. आतां तें केन्नाय भुरग्यांक घेवन येता आनी गजाली मारून वता.

त्या उप्रांत म्हजो मोगूच मोग सुरू जालो. तरांतरांच्या सभावाच्यो चलयो मोगाच्या नांवान म्हज्या आयुश्यांत आयल्यो. पंजाब, सिंध, गुजरात, मराठा हें पुराय राष्ट्रगीत म्हणून सोंपलें. फक्त भारतच न्हय नेपाळ, ऑस्ट्रेलिया बी हेर राष्ट्रांमेरेन म्हजो मोग पावलो. पूण सगळो प्रकार एकूच. जण एकल्याक जाय आसताली ती कात, शरीर. आनी जांका फक्त हीच गजाल म्हत्वाची दिसताली तांका ते खातीर चोविसूय वरां दिवप म्हाका शक्य नाशिल्लें. तसो अजून म्हजेकडेन वेळ आसा. पूण जाका हावें संपूर्ण पृथ्वी मानल्या ते संपूर्ण पृथ्वीकडल्यान चडांत चड कितें समजून घेवंक मेळटा जाल्यारूच म्हज्यान तो वेळ दिवं येतालो. पूण चडशा चलयांक घर, भुरगीं, बंगलो, गाडी, स्टेटस्, साड्यो हाचे भायर कितें आसा म्हणपाचें खबरूच नाशिल्लें. म्हजें तर त्या विचारांकडेन पटच नाशिल्लें. हांव त्या गजाली पासून अलिप्त रावलां. तरी लेगीत नवनव्या चलयांच्या मोगांत पडत रावलां. जी गजाल म्हाका ह्या पयलींचे चलयेंत मेळूंक ना ती जर म्हाका हेरांकडेन दिसली जाल्यार म्हजें मन अजून तांचेकडेन ओडटा. तांची वळख करून मोगांत पडटां. तसो हांव अमृता प्रितमाच्या मोगांत पडून तिच्या दारामेरेन गेलां. शबाना आजमीच्या मोगाक लागून खूप मनस्ताप सोसल्यात. म्हजें हें मोगांत पडप हें पडपाखातीर न्हय तर जिवितांत वयर उठपाखातीर. हांव तसो मोगांत पडूंक ना. म्हाका मोगान वयर काडला. कितें तरी नवें निर्माण करूंक आदार दिला. अशें आसतना हांव मोगांत कसो पडटलों ?





# तुवें वेश्यागमन केन्ना केलां



तुवें वेश्यागमन केन्ना केलां ? प्रस्न आयकल्या बराबर वा वाचल्या बराबर धक्को हो बसूंकच जाय. असो प्रस्न केन्ना कोण कोणाक जाहिरपणान करिना आनी केल्यारूय ताची जाप चडशे कोण जाहीरपणान दिनात. चडांत चड आपूण असल्या भानगडीनी पडना म्हूण तो कूस मारतलो. पूण म्हाका ह्या प्रस्नांत व्हडलिशी नविदाद दिसना. वेश्यागमन हो प्रकार वायट अशें मानून तो कोण करता ताका नितीभ्रश्ट मानप म्हाका निखालूस मानवना. ह्या प्रकाराकडेन पळोवपाची म्हजी नदर वेगळी. त्याचखातीर असो प्रस्न जरी आयलो तरी त्या प्रस्नान हांव काचाबूल जातलों अशांतलीं कांय गजाल न्हय !

म्हजेखातीर हो रूक्षप्रस्न निर्माण जालो तोय एके विचीत्र घडणुकेक लागून. पणजेच्या एका हॉटेलांत हांव च्या घेत बशिल्लों. इतल्यांत एक सुंदर बायल मनीस च्या घेवंक भितर सरली. हांगा सुंदर म्हळयार नाका - दोळ्यान बरी. एकदां पळयल्या उप्रांत परतून पळोवंक नदर वचची अशी. तिचो एकंदर भेस आनी चाल घरंदाज बायलमनशेची ! ती बायल शिंदळकी करता अशें जर म्हाका कोणेय सांगिल्लें जाल्यार फट दिसपाचें. म्हाका पळोवन ती नाजूक हांसली. असल्या हासपाक तर म्हजें काळीज रावताच. हांवेय हासून तिका येवकार दिलो. ती एकटीच आशिल्ली आनी म्हज्या टेबलाचेर सुवातूय आशिल्ली. एक रीत म्हूण हांवें तिका बस म्हूण सांगलें. ती म्हज्यामुखार बसली. हांवें तिच्याखातीर च्या हाडूंक सांगली. तिका हांव वळखनाशिल्लों. पूण ती म्हाका वळखताली. शिवाय तिणे म्हाका 'सर' म्हूण पाचारिल्ल्या कारणान ती केन्नाची तरी म्हजी विद्यार्थिनी आसूं येता वा खंयच्या तरी स्टुडंटाची कोणतरी पारेंत आसतली असो म्हजो समज. च्या घेतां घेतां आमच्यो गजाली चलताल्यो. तिका नोकरेची अत्यंत गरज आशिल्ली. तिचो घोव जोडटालो तें घर चलोवंक पावनाशिल्लें. दुडवांचे चणचणीक लागून असल्यो बायलो सदांच फसतात. वायट मार्ग आपणांयतात. नोकरी मेळना म्हूण वायट मार्गाक लागिल्ल्यो खुपश्यो चलयो - बायलो हांवे पळयल्यात. तेन्ना असल्यांक मदत करून, तांका असल्या मार्गाक लागचे पयलींच थातारून दवरपाचें काम हांव म्हजे तांकी प्रमाण करीत आयलां. तिची अडचण म्हाका खरी दिसली. तिचें एम्प्लॉयमेंट कार्ड घेवन हांवें तिका दुसऱ्या दीस आपयली. म्हजेच स्कुटरिचेर बसोवन तिका हांव म्हज्या एका राजकीय फुडारी मित्राकडेन घेवन गेलों. तिका खंयतरी नोकरी दिवपाचें ताणें मनार घेवंचें अशें तिची

वळख करून दिवन हांवे ताका सांगलें. ताणेंय तिका आपल्याक येवन मेळूंक सांगलें आनी हांवें आसा तशी तिका स्कुटरीर बसोवन हाडिल्ली थंय व्हरून पायली. एक बरें काम केल्ल्याचें समादान म्हाका जालें.

पूण हो विशय इतल्यारूच थांबलो ना. तिका हांवे स्कुटरीचेर बसोवन व्हरता आसतना खुपशा लोकांनी पळयलें. तांतल्या कांय लोकांनी म्हज्या धाडसाचें कवतुकय केलें. पूण म्हाका कांयच कळळेंना. तातूंत म्हाका व्हडलेंशें कांय दिसूंक ना. साबार तरांच्या मळाचेर वावुरल्या कारणान खुपशा चलयां - बायलां कडेन म्हज्यो वळखी. शिवाय पांचवेच्या वर्गांत शिकूंक आयिल्लें पोर धा वर्सां उपरांत व्हंकल जावन मेळटा तेन्ना तें म्हजेकडेन पांचवेच्या वर्गांतलें पोर कशें वागता आनी ताका पळोवपाची म्हजीय नदर तशीच आसता. ताणें चार - चौगांत वेंग लेगीत मारली जाल्यार म्हाका तें भुरगेंच आसता. त्या खातीर जांचो ८० टक्के मेंदू फकत बोंबले सकयलूच चलता तांचें हांव केन्ना मनार घेच ना. पूण जेन्ना म्हज्या एका इन्स्पेक्टर मित्रान हांव ते बायलेक स्कुटरीवेल्यान घेवन वतना पळयलें तेन्ना ताणेंय म्हाका तेच नदरेन प्रस्न केलो आनी म्हाका धक्को बसलो. जिका हांवें च्या दिल्ली, जिका हांव स्कुटरीवेल्यान घेवन गेल्लों आनी जिका घरंदाज बायल समजून तिची पावलां वाकडीं पडचीं न्हय देखून वावुरतालों ती वेश्या वेवसायांत प्रसिद्ध आशिल्ली. त्या इन्स्पेक्टरान तिका पणजेच्या हॉटिलांनी धाडी घालून खुपदां धरिल्ली. हांव तिका घेवन गेल्लों तो मजा करूंक असोच ताचो समज जाल्लो आनी म्हाका जर ती आनीक जाय जाल्यार फुकट लेगीत दिवपाची ताची तयारी आशिल्ली.

ते वेश्येक हांव घेवन गेल्लों म्हूण म्हाका कमीपण आयलें अथवा तिका हांव वळखूंक शकलोंना म्हूण म्हाका धक्को बसलो अशांतली गजाल न्हय. हांवे हे असले अणभव खुपदां घेतल्यात. हॉटिलांचेर घाडी घालून शिंदळकी करपी ज्या बायलांक धरिल्लीं तातूंत व्हडल्या व्हडल्या प्रतिष्ठितांच्या बायलांचोय आसपाव आशिल्लो हांवें पळयला. कॉलेजींत शिकपी चलयो आपलो दिसपट्टो खर्च सोडोवपाखातीर हॉटिलांनी वचून वेवसाय करतात म्हणपाचोय अणभव हांवे घेतला. हो प्रकार हांवे मुंबय कांय कॉलेजिनी पळयल्लो. आपल्यो गाडयो घेवन कॉलेजींत येवपी गिरेस्तांल्यो चलयो आपल्या काळ्या हारशांच्या गाडयांचो वापर ह्या कामाक करून पेट्रोलय सोडोवपाचो वावर बेसबऱ्यो करताल्यो. ही संस्कृताय आयज गोंयातूय रिगल्या. कपड्यांच्या दुकानाचेर सेल्सगर्ल म्हूण काम करपी चलयोय ह्या धंद्याकडेन वळ्ळ्यात हें हांवे म्हज्या दोळ्यांनी पळयलां. आतां हाचो अर्थ असो न्हय की सगळेचकडेन हें चलता. वेश्यागमन हें सगळेच करतात वा सगळ्योच बायलो - चलयो वेश्या वेवसाय करतात असो हाचो अर्थ न्हय. सांगपाचो उद्देश्य इतलोच की जी बायल सभ्य, घरंदाज आनी आपूण तसली न्हय अशें दाखोवपाचो यत्न करता तांका असले अवस्थेंत पळयतकच मनाक वायट दिसता. अशा वेळार जीं फक्त पोटाखातीर वेवसाय करतात तांका आमी वायट नदरेन कित्याक पळोवंचें ? आनी जी बायल पयलीं सावन धंदो करून दुडू

जोडटा तरीय लेगीत म्हज्या सारख्या कडेन येवन नोकरी पळय म्हूण सांगता हाचो अर्थ किर्ते ?

वेश्यावेवसाय, प्रॉश्टिट्यूशन वा शिंदळकी अशीं ह्या प्रकाराक कितलींय नांवां जरी आसलीं तरी हो प्रकार म्हळयार संवसारीक म्हत्व आशिल्लो प्रस्न. वेश्यावेवसाय हो आयज समाजांतलो आवश्यक घटक जाल्लो आसतनाय ह्या प्रकाराक अजून समाज मान्यताय मेळूंक ना. कांय देसांनी ही गरज मतींत दवरून आनी ताचेर बंदी घाल्यार ताचो विपरीत परिणाम जाता हें पळोवन ताका शाशकीय मान्यताय दिल्ली आसा. जपानासारख्या देशांनी गेयशेक सामाजीक प्रतिश्ठाय आसा. आयज आमच्या देशांत खंयचेय वेश्येक घेवन भोंवलो जाल्यार जश्यो बकच्छायो जातात, तश्यो जपाना सारख्या देशांत गेयशेक घेवन भोंवल्यार जायनांत. जपानांतूच कित्याक आमच्या देशांतूय हाका एका वेळार प्रतिश्ठा आशिल्ली. गणिकेकडेन पळोवपाची समाजाची नदर वेगळी आशिल्ली. गोंयांत भाविणीक कोण वेश्या म्हूण पळयनाशिल्ले. असल्या बायलांक सामाजीक प्रतिश्ठे वांगडाच तांच्या पोटा - पाणयाची वेवस्था करून दिवपाखातिरूच ह्या प्रकाराक मानाची सुवात आशिल्ली. पूण आतां ही प्रतिश्ठा खंयच दिसना. आतां मनशाच्यो भावना बदलल्यात. मनीस जितलो शिकता सवरता तितलो वेव्हारी जायत वता. आपूण जितलें दुसऱ्याक दिता तितलें दामदुप्पेटीन वाशील करून घेवंक सोदता. बायलमनशेचें शरीर ही भोगपाची वस्त असो विचार जेन्ना बळावता तेन्ना हें अशें घडटा.

वेश्या वेवसायाकडेन हांव सामाजीक गरज म्हूण पळोवन ताका हांव विरोध जरी करिनासलों तरी त्या वेवसायाकडेन म्हजी पळोवपाची नदर वेगळी आसा. शरीर सूख हीच गजाल जिवितांतलें अंतीम सत्य आसा. हयाचखातीर व्हडलीं व्हडलीं झुंजा जाल्लीं आसात. शरीरसुखाची इत्सा वा कामभावना हें निखटें शरीर सूख नासता तर नवनिर्मणे फाटली ती भावना आसता. नवनिर्माण करप ही सैमाची गरज आशिल्ल्यान शरीरसुखाची ओड निर्माण जावप ही सैमाचीच देण. ही भावना सगळ्या प्राण्यांभितर आसता. अशा प्रसंगार जर नर आनी मादीक कोणेय आडखळ हाडली जाल्यार त्या वेळार ताचो प्राण लेगीत घेवपाक ही जोडी फाटी रावना. हाचेवेल्यान नव निर्मणे फाटल्यान कितली उत्कठ भावना आनी शक्त आसा तें पळयात. जर ही गजाल इतली म्हत्वाची आसा जाल्यार मागीर ती दुडवांनी कशी तोलूं येता ? दुडू मोडून हें सूख केन्ना विकतें घेवंकूच येना. तें जर खऱ्या अर्थान घेतलो जाल्यार पयलीं दोन काळजां एक जावंक जाय. दोगांयनीय एकमेकाक पुरायेन समजून घेवंक जाय. तेन्नाच खरें शरीर सूख घेवप शक्य आसा. पूण काळजां जोडपाखातीर जो वेळ आनी श्रम जाय आसता तो कोणाकडेन नासता. शिवाय हे करणे फाटल्यान तांका नवनिर्माणूय करपाचें नासता. जबाबदारी पेलपाची नासता. तशें शक्य जालें जाल्यार समाजवेवस्ताय कोसळपाची भिरांत आसता. तरी लेगीत नर आनी मादी हांची काळजां एक जालीं, ती दोगांय एके आंतरीक ओडीन एकठांय येवन तांचो शरीरसंबंद आयलो जाल्यार तातूंत किर्ते

वायट आसा अशें म्हाका दिसना. पूण जाची वळखूच ना पूण ताच्या फक्त भायल्या शरिराखातीर पयशे मेजप आनी आपलें वीर्य भायर सर म्हणसर फारीक केल्ल्या पयशांचो मोबदलो घेत खिणयाळें सूख जोडप हातुंतूच म्हाका चड पाप दिसता. त्याचखातीर संद मेळुनय ही गजाल विकती घेवंची अशें म्हाका केन्ना दिसलीना. वेश्यागमन हो प्रकार सुर्वेक कॉलेजकुमार आसतना म्हजे खातीर वायट आशिल्लो आनी आतांय आसा.

म्हजें वेश्यागमन पयले फावट सुरू जालें तें मित्राच्या लगाडीक लागून. तेन्ना हांव पणजे कॉलेजींत शिकतालों. तेन्ना गोंयच्या सायबाचें फेस्त आशिल्लें आनी शवप्रदर्शन सुवाळोय आशिल्लो. आजाद मैदानाचो बदल त्यावेळार बसस्टॅन्ड म्हूण केल्लो. आमी तीन - चार मित्र गोंया वचून आयले. थंय बरोच सोरोय पियेले. तेन्ना लायनी बी मारपाची ओड आशिल्ली. नेत्र सूख घेवप इतलेंच म्हजें तेन्नाचें धाडस. बशींत जांव गर्देत खंयचीय चलीं तेंकली जाल्यार तेंच स्वर्ग सूख. नागड्या बायलांचे फोटो पळोवप वा चंद्रकांत काकोडकाराचीं वर्णना वाचप इतलेंच आमचें धाडस. त्या वयार नागडी बायल पळोवप हें नशिबांत नासतालें. अशे वेळार वेश्येगेर वचप म्हणटात ती कल्पनाच न करपासारकी गजाल आशिल्ली. घरचे संस्कार आनी पुस्तकां वाचून निर्माण केल्लो आदर्शवाद सांगाताक आशिल्लोच. पूण मित्रांवांगडा धाडस जर केलेंना जाल्यार हांव तांचेमदीं गांवठी थरपाचो भंय आशिल्लो. देखून तांचे वांगडा बीयर पियेवप, एक - दोन सिगारां फुसकावप इतलो हांव सुदारिल्लों. गोंयच्या सायबाच्या गर्देत वचून थंयीय हांव बियर पिल्लों आनी मित्र म्हाका बशीर सोडपाक आजाद मैदानार आयिल्ले. सांजेचीं साडे - सात - आठ जाल्लीं. १९७४ - ७५ वर्सा पणजे सारख्या शारांत सातां उप्रांत एकटी चली दिसप म्हळयार अजाप. त्या बस स्टॅन्डार आमकां एक पॅन्ट घाल्ली चली दिसली. चलयेक पळोवन म्हजे मित्र थंय घुसपूंक लागले. तेंय दाद दिवंक लागलें. मित्रांवांगडा म्हाकाय नेट आयलो. शिवाय बियर अजून आंगांत आशिल्ली. एकलो मित्र वचून ताचेकडेन मोलावन आयलो. तें रातभर रावंक तयार जालें. ताची बस चुकिल्ली खंय ! ते ताका एका हॉटेलांत घेवन गेले. हांवूय काळीज धडधडायत तांच्या वांगडा गेलो. त्या हॉटेलाच्या मालकान काय मॅनेजरान रूम दिलो. पूण आमकां पांच जाणाक थंय रावंक दिना जालो. म्हाका तितलेंच जाय आशिल्लें. तुमी रावात, हांव चल्लों म्हूण हांवे कूस मारपाची थारायली. आमी लफडें घेवन आयल्यात हें हॉटेलवाल्यान वळखल्लें. पूण म्हजे मित्र गिरेस्त आशिल्ल्यान तांका भंय नाशिल्लो. तांका ताचो अणभवूय आशिल्लो. सोरो पिवनूय हांव तांच्या मदी सोसो जावन गेल्लों. त्या मॅनेजराक पळोवपाचें धाडस लेगीत म्हाका जायनाशिल्लें.

ते चलयेक रूमांत दवरून मित्र आयले. परत बियर घेत बसून कोणे कितें करपाचें तें थारावंक लागले. म्हजी निमणी बस गेल्लीच. म्हज्याय रावपाचो प्रस्न आशिल्लो. तेन्ना दर एकल्यान पयलीं वचून काम करून येवपाचें आनी शेवटाक हांवें वचून जाय जाल्यार ताका भोगपाचें ना जाल्यार थंयच न्हिदपाचें अशें थारलें. कित्याक हांवें तांका म्हाका असली

भानगड नाका म्हूण सांगिल्लें. ताणी म्हाका ताका राखी बांदपाचो सल्लो दिलो आनी दर एकलो आळी पाळीन हॉटेलांतल्या रूमांत वचून आयले. एकलो वचून येतालो आनी मागीर सोरो पितां - पितां आपलें कर्तुत्व सांगतालो. तांचें तें सांगप म्हळयार तो भयंकर व्हडलें युद्ध जिकून आयला अशेंच आसतालें. चौगूय मित्र झुजामळार वचून येसर हांव बारांचेर पीत आशिल्लों. तांचें उलोवप आनी एका फाटल्यान एक ते चलयेकडेन वचून येवप म्हाका सामकें किळसवाणें दिसूंक लागिल्लें. सोरो पितां - पितां एका फाटल्यान एकल्यान मुतूंक वचून येवप आनी हातूंत म्हाका व्हडलोसो फरक दिसनाशिल्लो. म्हजे मानेवेलो भगतसिंग, विवेकानंद सोरो पिवनूय वचूंक नाशिल्लो. तरीय हांव कल्पनेंतूच ते चलयेक नागडें पळयतालों.

अखेरेक बारा वरांचेर म्हजी पाळी आयली. सगळ्यांनी म्हाका धुकलून त्या रूमांत घालो. 'न्हिदचे पयलीं एकदां मजा मार आनी सकाळी एकदां मार उप्रांत आमी येवन मजा मारतात. उप्रांत ताका वचूंक दिवया' अशें उलोवप जाल्या उप्रांत ते गेले. मॅनेजर काय कोण तो नाशिल्ल्यान आनी म्हाका पळोवपी कोण नाशिल्ल्यान म्हजो भंय गेल्लो. एकदां रूमांत पावलों की सुटलों म्हूण हांव भितर सरलों जाल्यार ते चलयेक पळोवपाचें नाशिल्लें. आमोरेच्या वेळार हय - न्हयशे लायटीमुखार तें सुंदर दिसतालें. आतां जागरणान आनी रडून दोळे तांबडे जाल्ले. शिवाय सोरो पिवून म्हजोय अवतार जाल्लो. म्हाका पळोवन तार्चे रडप सुरू जालें. आपल्याक दुखता, आपल्याक आनीक नाका, फाल्यां अशें म्हणत तें विनवपाक लागलें. म्हाकाय म्हण खंय धाडस आशिल्लें ? शिवाय असल्या वेळार नारीक आदार दिवप हेंच म्हजें कर्तव्य आशिल्लें. हांवे शरीरसूख घेवंचें थारायलें तरी तें कशें घेवप हें खबर नाशिल्लें. बरो उपाय म्हळ्यार ताका हांव मदत करतां, हेरां परस हांव बरो अशें दाखोवन न्हिदप. कथा - कादंबऱ्यांनी नायक आसता तशें कितें तरी करप म्हूण हांव ताका थापटूंक लागलों. तें असलो धंदो कित्याक करता काय प्रस्न करूंक लागलों. नशीब म्हजें की हांवे सिनेमांतल्या हिरो सारकें ताका लग्नाचें उतर दिवंक ना. त्या उप्रांत हांव केन्ना न्हिदलों तेंच म्हाका खबर ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं म्हजे मित्र उमेदीन आयले. तांका ब्रेकफास्ट जण काय हांगाच करपाचो आशिल्लो. गाळी मारीत दोग जाण म्हाका उठयताले जाल्यार दोग ते चलयेक बाथरूमांत बी सोदताले. ती चली केन्ना उठून नाच जाली हेंच म्हाका खबर ना. तिचेकडेन गजाली मारतां मारतां सोऱ्यान भेरेल्ल्या म्हज्या मनाक केन्ना लकण लागली म्हाकाच खबर ना. पूण हांवे खऱ्यानीच ते चलयेकडेन कितेंय करचे परस, कल्पना करून हांवे ते रातची गजाल सांगली पळय तातूंतच ते मित्र थक्क जाले. हांवें जें केलें तसलो प्रकार ते चलयेन तांका करूंक दिवंकूच नाशिल्लो. तें फकत कपडे काडून मेल्ल्या भशेन पडून आशिल्लें खंय. ताणी फारीक केल्ल्या पैशांचों खरो मोबदलो हांवेंच घेतलो अशें ते मित्र कॉलेज सोंपून वेगळे जाय सर उलयताले.

वेश्यागमन हो म्हजेखातीर वयर सांगिल्लो प्रकार सोडलो जाल्यार रूक्षप्रस्न. तरीलेगीत हांव वेश्यावस्तिनी भरपूर भोवलां. खुपशा वेश्यांकडेन गजाली मारल्यात. देशी तश्योच विदेशी. तांच्यो भावना समजून घेतल्यात. मुंबयच्या कामाठी पुरांतूय भोंवडी केल्या. वास्कोच्या बायणां वस्तींत रातचो गेलां आनी पंचतारांकीत हॉटेलांतलोय वेवसाय पळयला. मुंबयच्या कांय तरूण साहित्यिक मित्रांवांगडा पुराय लालबत्ती वस्ती पळयल्या. थंय चलपी तो वेव्हार उगडया दोळयांनी पळयला. थंय ज्यो गजाली घडटात त्यो पळोवन मनीस म्हळ्यार धतरिक बादिल्लो एक स्त्राप अशें दिसून आयलां. म्हजो एक साहित्यिक इश्ट अनील बर्वे 'हमिदाबाई ची कोटी' नाटक बरयतालो तेन्ना तोय असोच ह्या वस्तीनी भोंवतालो. ताणें त्या प्रसंगार घेतिल्ले अणभव कल्पने भायले आसात. तरीय लेगीत जांचेर ताणें हें नाटक बरयलें त्या वेश्यांक वांगडा बसोवन घेवन नाटकाचो शुभारंभी प्रयोग पळोवपी अनीला सारको धाडसी लेखक मेळप कुस्तार. ताका ह्या धोंगी समाजाची पर्वा नाशिल्ली.

आमचो धोंगी समाज शिंदळकी हो प्रकार नींद्य मानता. तरीपूण ताचेर लक्ष दिले बगर रावना. दादलो जांव बायल तांका कामेच्छा ही आसताच. कांय लोक कडकडीत ब्रह्मचर्य पाळपी आसतात. धार्मिक वा हेर कसल्याय कारणाक लागून ब्रह्मचारी रावपी मनीस पुराय ब्रह्मचर्य पाळटाच अशें ना, तेय लिपचोरयां आपली जागृत जाल्ली कामभावना भागयतातूच. ब्रह्मचर्य पाळपाची ताकद कृत्रीम आसता आनी कामभावनेची ताकद सैमीक. सैम मनशाच्या असैमीक ताकदीचेर जैत मेळयता. सैमाच्या आड जो कोण वता ताचे भितर विकृती निर्माण जाता. तांचे कडल्यान समाज विघातक कृत्यां घडटात. लग्न न जावप म्हळयार ब्रह्मचारी रावप न्हय. लोकांक दाखोवपाखातीर ब्रह्मचारी रावप आनी वेश्यागमन जांव हेर मार्गान आपली कामभावना भागोवप म्हळयार म्हजे नदरेन ब्रह्मचर्य न्हय. तीं फटींगपणा. लग्न जावनूय, जिवाभावाचो सांगाती आपल्या वांगडा दवरूनय ब्रह्मचारी रांव येता म्हणपाचें जायत्या जाणांनी देखी सयत दाखोवन दिलां.

वेश्यावेवसाय म्हळयार जो कोण दुडू मोडून शरीरसूख घेता वा जो दादलो वो बायल दुडवांखातीर आपलें शरीर विकता ताकाच वेश्यावेवसाय मानपाची पद्धत आमचे मदी आसा. पूण म्हजे नदरेन तो वेश्या वेवसाय न्हय. आपलें कुटूंब आसचें, आपलो वंश वाडचो ह्या खंयच्याय कारणांक लागून जरी लग्न हो प्रकार निर्माण जालो तरीय तें कायदेशीर वेश्यागमन आसूं येता. लग्न हो प्रकार सुरू जाताच तो कायद्यान शरीरसूख घेवंक मेळचें हेच नदरेन. वेश्यागमन करपी भायर दुडू घालतात. संवसारीक मनीस संवसाराच्या नांवान सगळ्यो वस्तू घरांत हाडटा. त्याच अधिकारान बायल म्हूण जिका घरांत हाडल्या तिजेर अधिकार गाजयता. तिका इत्सा नासल्यारूय घोव हो अधिकार वापरून तिचेकडल्यान शरीर सूख घेता. पूण तांका समाज दोश दिना. ही गजाल चार वण्टीभितर घडटा. चार वण्टीभायर जें घडटा ताकाच आमी वेश्यागमन म्हणप ? खरेंच रूक्षप्रस्न हो !





# तुज्या वांगडा चडश्यो चलयोच कश्यो



तुज्या वांगडा चडश्यो चलयोच कश्यो रे ? कोणाचो तरी.... न्हय, हो खुपश्या जाणांचो प्रस्न. कांय लोक हो मेकळेपणान विचारतात तर कांय जाणांच्या कपलार म्हाका तो बरयल्लो वाचूंक येता आनी तातूंत म्हाका अजाप दिसना. म्हाका चलयां बायलां वांगडा आसप चड आवडटा. म्हाकाच कित्याक ? तें प्रत्येक दादल्याक आवडटा. पूण तशें ते मेकळेपणान मानूंक तयार नासतात. ते जरी शरीरान तांच्यामदी नासले तरी मनान चलयां - बायलांच्या कळपांत आसतात. कोणूच आपल्या मनाक आडावंक शकनांत. पूण लोकांक भिवून, लजेक लागून ते आपल्या शरिराक आडावंक शकतात. लोक कितें म्हणत वा अमूक अमूक कितें विचार करीत अशा खुपशा आडखळींक वा दुभावांक लागून दादलो हीं बंधना घालून घेता. म्हाका मात हीं असलीं बंधना केन्नाच लागलिनांत. हांवे दादल्यांपरस चलया - बायलांकडेच म्हजी इश्टागत चड दवरल्या. तांचीच कंपनी म्हाका चड आवडटा.

म्हजे हे असले इश्टागतीक लागून रूक्षप्रस्न येतात तेन्ना म्हाका असले प्रस्न करप्यांची काकूट आयल्याबगर रावना. शिकिल्ले लोक लेगीत आयज बायलमनशेकडेन पळयतात ते ती एक भोगपाची वस्त हेच नदरेन. बायल ही ह्या परस वेगळी कितें आसता हाची कल्पना ह्या लोकांक केन्ना करूंक आयलिना. दादल्यांची ही नदर, दादल्यांचो स्पर्श बायलांक रोखडोच कळून येता. तांका तो वळखुपाची एक आगळी ताकद आसता. दादलो आपल्याक स्पर्श करता तेन्ना त्या स्पर्शांत कितें आसा ? कसली ओड आसा हाची जाणविकाय बायलमनशेक रोखडीच जाता. कोणाचो स्पर्श भोगाचो, कोणाचो मायेचो, कोणाचो कारूण्याचो, कोणाचो आदाराचो, कोणाचो मोगाचों हें बायलेक वा चलयेक स्पर्श जाल्याबराबर खिणांभरयांत कळून येता. स्पर्शा वांगडाच नदरेचीय तीच गजाल. सैमान ही शक्त हेरांपरस बायलांकूच चड प्रकर्शान दिल्ली आसता ती बायल ही मुळांतूच दुर्बळ आनी नाजूक देखुनच. दादल्या पासून आपल्याक संरक्षण मेळचें आनी दादलो कसो कितें हें पयलींच कळचें देखून बायलमनशेक मेळिल्ली ही सैमीक देण. त्याच खातीर बायलमनीस पयल्याच खिणाक दादलोमनीस कितें कात हें वळखता आनी कोणां सांगाताक आपूण सुरक्षीत आसा हाची सुलूस घेता.

बायल मनीस दिसली की दादल्याची नदर तिचेकडेन वचप वा दादलो दिसलो की बायलेची नदर ताचेर वचप ही सैमाक धरून आशिल्ली गजाल. सैम हें निर्मणेखातीर सतत वावरत आसता. नर - मादी एकठांय येवन नवनिर्मणी जांवची देखून सैमूच दादलो - बायल हांचेमदीं ओड निर्माण करता. ही सुंदरायेची भावना जांव निर्मितिची ओड निर्मितिचो काळ पावलो म्हणटकच उफाळून येता. म्हणून तरणेपणार गाढव लेगीत सुंदर दिसता अशें म्हणटात. तरणेपणार एकमेकांकडेन आकर्शीत जावप हो सैमाचो नेम जरी आसलो तरी निर्मितीचे नदरेन आपल्याक योग्य कोण हें सोदून काडपाची बुद्द मनशाक दिल्ली आसता. त्याचखातीर मनीस शेत रोवचे पयलीं फाव तसलें आनी योग्य अशें बियाण फैदासता. कोणूच हाताक मेळटा तें बीं पेरूंक सोदिना. मनशामदीं जी कामभावना निर्माण जाता ती हेच निर्मितिंतल्या ओडींतल्यान. तेच ओडी खातीर दादलो - बायल एकठांय येता. आपली निर्मिती ही सुंदर आसची अशें दरेकाक दिसता देखूनच मनीस मेळटा ती जोडी जमयना. फुडाराचो विचार करूनच तो आपलो जोडीदार सोदीत रावता. तातूंत मागीर रूप, रंग, गोत्र, नक्षत्र आदी गजाली मनशान हिशेब करून हाडिल्ल्यो आसतात. बरें पीक काडूंक बरें बियाण जशें सोदतात, गाय फळोवंक जसो बरो बैल सोदतात तातुंतलीच गत ही.

हो निवडिचो प्रकार फक्त मनशाक लग्न जावन संवसार थाटपाचो आसता आनी तयार जाल्लें पीक हें आपल्या नांवाचेर मिरोवपाचें आसता तेन्नाच हो मनशान केल्लो हिशेब आसता. पूण सैभाकडेन हो हिशेब नासता. ताका इतलेंच खबर आसता की दादलो - बायल वयार आयली की तांचेपासून नवो जीव निर्माण जांवचो. तो निर्माण करपाखातीर दादलो - बायल एकमेकांकडेन आकर्शीत जावपाची तजवीज सैम करता. होच भाव दादलो - बायल हांचेमदी मूळभाव म्हूण आसता. तो भुरगेपणासावन चालूच आसता. त्याच खातीर ल्हान पणार चलो - चली एकठांय खेळटात. धुवेचें लागीपण बापायकडेन आनी पुताचें आवयकडेन आसता. भाव - भयण वांगडा खेळटात. दोन भाव वा दोन भयणी एकठांय चडश्यो दिसनांत. हांगा तांचेमदी एकमेकाविशींची कामभावना नासता.हांगा भावना आसता ती दोन भीन्न लिंगी मनशांची ओड आनी सांगात. हो सांगात, ही ओड वेगळी आसता. तातूंत कामुकपण नासता. तांका थंय नव्या जिवाक जल्माक घालपाचो नासता. नवो जीव जल्माक येवपाची पिराय ती नासता. पूण तशी पिराय वा काळ पावलो म्हणटकच भावापासून भयणीक भुरगें जाल्ल्याची घडणूक आमकां नवी दिसना. भाव - भयण वा पूत - आवय हीं नाती मनशांनी तयार केल्यांत. एकाच रगताचो घटक लागी येत जाल्यार तातुंतल्यान निर्माण जाल्लो जीव विकृत आसता हाचो अणभव घेतिल्ल्यानूच सामाजीक रचणुकेखातीरूच समाज निर्मितल्यानी तसो नेम सुरू केलो. पूण सैमामुखार नर आनी मादी हांचे मदीं कसलोच भेद नासता. देखून हीच सैमीक नदर दरेका मनशाक मेळिल्ली आसा. तेच नदरेन मनीस नर - मादीकडेन पळयता. नर आनी मादी एकठांय येता तें फक्त तांची कामभावना पुराय करूंकच येता आनी तेच खातीर येवंक जाय हीच कल्पना समाजामदीं वसता. तेचखातीर

जण एकलो खंयच्याय जोडप्याक पळयल्या बराबर कंबरे सकयले बुद्धीनूच तांचेकडेन पळयता. तें जोडपें म्हळ्यार भाव - भयण आसूंक शकता वा आवय - पूत जांव येता हाचो विचार कोणाचेच तकलेंत येना. तेंच कित्याक, एक चलो - चली वा दादलो - बायल शारीरीक संबंदाबगर एकठांय उरूंकच शकनांत हीच समाजाची कल्पना आसता. जर आपल्याक भुरगें जल्माक घालपाचें नासत जाल्यार तें शारीरीक नातें कित्याक ? ती सैमाभायली गजाल न्हय ?

ल्हानपणासावन म्हाका चल्यांपरस चलयांकडेच इश्टागत दवरप चड आवडटालें. म्हजें खेळप तांच्याच सांगातन जातालें. हेर भुरगे त्याखातीर म्हाका बायजण म्हणटाले. म्हाका ताचो रागूय तेन्ना येतालो. पूण आतां म्हाका हासूंक येता. जांका बायलां सांगाताक रावप आवडटा तो बायजण कशें ? तो तर दादलोच आसूंक जाय. जांका बायलांचो सांगात आवडना तोच बायजण आसूंक जाय. तांचोच दुबाव घेवंक जाय. शाळा - कॉलेज ह्या सगळ्या मळार लेगीत म्हाका मित्रां परस मैत्रिणीच चड आशिल्ल्यो. हें अशें कित्याक घडटालें ? म्हाका चली जांव बायल हांचेविशीं इतलें आपलेपण, इतली ओड तेन्ना लेगीत कित्याक आसताली ? अजून कित्याक आसा ? म्हजे नदरेन हो एक खोलायेन येवजुपा सारको प्रस्न आसा.

चली जांव बायल ही म्हजे नदरेन भोगपाची वस्त केन्नाच उरलिना. चलयेक पळयल्या बराबर ती म्हाका भोगूंक मेळची असो सर्व सामान्य नराचो जो एक विचार आसता तो म्हाका केन्नाच आफुडलोना. म्हजे नदरेन चली वा बायल म्हणटात ती एक संपूर्ण पृथ्वी. निर्मितिचें प्रतिरूप, जाका नवें निर्माण करपाचें आसता, जांव म्हणुया जो सृजनशील आसता तो बायल म्हणटात ते गजालीपासून केन्नाच पयस रावंक शकना. ताणे जर बायलेचो तिरस्कार केलो, तिचेपसून पयस रावपाचो यत्न केलो जाल्यार तो स्वता कसलीच बरी निर्मणी करूंक शकना. बायलेकडल्यान कांय कारणांक लागून दुखावला जाल्यार तो तिचे पसून शरिरान पयस रावत. पूण मनान मात तो सतत बायले भोंतवणीच रावतलो.

बायल हो प्रकार मनशाक सर्वार्थान घडयता. हांगा बायल म्हळयार फक्त लग्न जावन घरांत हाडिल्ली बायल इतलो मर्यादीत अर्थ उरना. ही आपली बायल म्हूण वळख करून दिवपी मनशांविशींय म्हाका तिडक मारता. बायल ही केन्नाच एका मनशाची मालमत्ता आसूंक शकना. खंयचीय निर्जीव वस्त विकती घेवन ती आपली म्हूण सांगून आपल्या नांवार मिरोवं येता. पूण बायल आपल्या नांवार करप शक्यूच नासता. तरीय लेगीत बायलमनशेंत एक सगळ्यांत व्हडलो गूण आसता आनी तो म्हळयार ती आपल्याक एकदां जाका सोंपयता ताचीच जावन वता. त्या निर्णयापासून तिका खंयचीच शक्त पयस करूंक शकना. पूण दादलो तशी संद बायलेक केन्ना दिवंकूच सोदिना. दादल्यान आयज बायलेक आपलो गुलाम करून उडयल्या. ताणी तिका सर्वांगान केळोवन घेवपाची संदूच केन्ना दिली ना. बायल म्हळयार भुरगीं काडपाची फॅक्टरी आनी उरिल्ल्या वेळार आपली सेवा करपाची एक

सेविका होच एक मर्यादीत विचार आज समाजांत उरला. ताकाच लागून निर्मितिच्या ह्या रूपाक, एके पृथ्वीक दादल्यान ल्हान करून उडयल्या. ही संपूर्ण धर्तर तांका कसपाक जाय. तातुंतल्यान पीक काडूंक जाय. कोणाक ही धर्तर विकून तिचेर संपत्ती जोडूंक जाय. कोणाक ही धर्तर थोड्या काळाखातीर लिजाचेर घेवंक जाय. कोणांक ती विकती घेवन आपल्या नांवार करून दवरून भाटकार म्हूण मिरोवंक जाय. कोणांक मुंडकार म्हूण रावंक जाय. कोणांक हे धर्तरीर फक्त हळशीक करूंक जाय. ही धर्तर पवीत्र मानून ती कपलाक लावपाचें मोठेपण मात खूप थोड्यांलागीं आसता. धर्तरेची पुजा करपाचो काळ आतां फाटी पडला. पूण जो कोण हे धर्तरेची पुजा करता, तिचेर उप्पाट प्रेम करता ताकाच ते धर्तरेचोय प्रेम गावता. ही धर्तरूच ताका केळयता, खेळयता, स्फूर्त दिता. थकला तेन्ना धोरायता. न्हीद लागता तेन्ना जागयता. याच कारणांक लागून धर्तरेचो पुजारी नवें किर्ते तरी तयार करूंक शकता. तांच्यातल्यान काव्य भायर सरता. तांच्या कंठांतल्यान म्होवे सूर उत्पन्न जातात. कोणाच्या बोटांतल्यान चित्रां निर्माण जातात. हीच निर्मणी काळाच्या अंतामेरेन उरता. नातर आमचें पुराय जिवीत उखलापेंच थरता. कांय काळान ना नपयत जावन वचपी ! आमी जें किर्ते करतात तें सासणाचें उरतलें जाल्यार हे धर्तरेची पुजा जावप गरजेची. जेसर धर्तर ही कसपाखातीरूच आसता हो विचार मनशाच्या मनात मूळ धरून रावतलो त्या सर हें जिवीत अशेंच उथळ उरतलें. तो कितलोय सृजनशील स्वताक म्हणोवन घेवं, ताचे सृजनशीलतेक काळाची मर्यादा उरतली. ही मर्यादा जर हुपतलो तर अंत नाशिल्ले, काळाची मर्यादा नाशिल्ले धर्तरेकडेन आमी वेगळे नदरेन पळोवंक जाय.

बायल मनशेकडेन पळोवपाची म्हजी ही नदर अस्तुरेक एखादवेळार भावता आसतली देखून म्हाकाय तांच्या सांगाताक रांवक आवडटा आसतलें. हांव म्हजो धर्तरेकडलो संबंद तोडूंक सोदिना देखून धर्तरूय म्हाका पयस करूंक सोदिना आसूं येता. ही धर्तर म्हाका इतली लागी कित्याक रावता ? हो हेरांक प्रस्न पडलो तरी म्हजेखातीर रूक्षप्रस्नूच न्हय ?





# तुका भुरगीं आसात काय ना



खंयच्याय मनशाची लग्नाची पिराय जाली काय ना, ताका तूं लग्न केन्ना जातलो ? तूं लग्न कित्याक जायना ? ह्या कोणाकूच पडून वचूंक नाशिल्ल्या प्रस्नांक तोंड दिवंचें पडटा. ह्या कोणांक लागनाशिल्ल्या आनी अत्यंत खाजगी अशा प्रस्नांक कंटाळून म्हणा वा आतां संवसार थाटपाचो वेळ आयला अशें दिशिल्ल्यान म्हणा कांय जाण लग्न जावन मेकळे जातात. लग्न जाल्या उप्रांत तरी ह्या अर्थहीण, रूक्षप्रस्नांतल्यान बाबडो मुक्त जांवक जाय आसलो. पूण ना. लग्न जावन एक वर्स सरता थंयच आसा, बाबड्याक नव्या रूक्षप्रस्नाक फुडो करचो पडटा - तुका भुरगीं आसात काय ना ? ना म्हूण कोणेंय सांगलें जाल्यार लग्न जावन कितलीं वर्सां जालीं हाचो अदमास काडटात. लग्न जावन एका वर्सा परस चड काळ सल्लो जाल्यार तांचेकडेन दुबावान पळयतात आनी पांच वर्सांपरस चड काळ गेल्लो आसत जाल्यार मात मागीर सोसपाचें ना. त्या जोडप्यांतल्या दादल्याकडेन शंड आनी बायलेकडेन वांजूट हे नदरेन तो रूक्षप्रस्न करपी पळयता. ताची ती कुचित्री, उपहासाची नदर पळोवन त्या जोडप्याकूय खाल्ले खाल्लेवरी जाता आनी ह्या देशाचो राष्ट्रपती वा प्रधानमंत्री वा रवींद्रनाथ टागोर, होमी जहांगीर भाभा ह्या सारख्यांचे ताकदीचो मनीस जल्माक येवपाचो तो आपल्या दुबळेपणाक लागून जल्माक येवंक शकना हे भावनेन तांच्या मनांत न्यूनगंड तयार जाता.

खरें म्हळयार मनशाक भुरगीं जावप काय ना हें मनशांचेर अवलंबून नासता. आतां मनशांनी आपले बुद्धीचो विकास करून आपल्याक जावपी भुरगीं न जांवचीं ह्या खातीर यत्न सुरू केला आनी ताचेर जैत मेळयलां. तरीय लेगीत आयच्या फुडारलेल्या काळार भुरगीं जावप म्हळ्यार ती दैवाची इत्सा मानून कुटूंब येवजणे सारक्या कल्याणकारी येवजणेक विरोध करपी लोक आमकां आमच्या समाजांत दिसतात. त्याच वांगडा जांचो विज्ञानाचेर पुराय विस्वास आसा आनी आपल्यागेर भुरगीं कित्याक जायनांत हाचीं शास्त्रीय कारणां जाणां जाल्ले सगळे प्रयत्न करूनय अखेरेक देवाक नवस करपी आमी आमच्या मदीं पळयल्ले आसात. पंदरा - पंदरा वर्सां सगळे वैजकी उपाय करून आपल्यागेर भुरगीं जावप शक्य ना हाची खात्री जावन जाणीं आवय - बापूय जावपाची आस मनांतल्यान काडून उडयल्या असल्यांगेर प्रदीर्घ अशा काळान भुरगीं जाल्लीं लेगीत आमी पळयल्यांत. शास्त्राचेर पुराय

भरवंसून आशिल्ले हे सगळे शिक्षित जांव अशिक्षीत अखेरेक देवाचेर वा सैमाचेर विस्वासून रावतात आनी निर्मितीचें मूळ जें सैम ताचेरूच सगळो भार सोडून मेकळे जातात.

ही सृश्ट जी निर्माण जाल्या ती मनशांनी निर्माण करूंक ना. ह्या पुराय सैमाचो मनीस होय एक घटक जावन आसा. आपले बुद्धीच्या जाल्ल्या विकासाक लागून मनीस आपल्याक सैमापासून वेगळावन, ताचेकडेन अलीप्त नदरेन पळोंव. तो ताचो भ्रम. ताका दिसता की आपूण सोडून बाकिचें सगळें सैम. पूण हो ताचो चुकिचो विचार. मनीस धरून हें सगळें जें किर्ते आसा जाका सृश्ट जांव सैम म्हूण मनीस पाचारता, तें रचणार कोण हाची कोणाक अजून नाट मेळूंक ना. अशें हें दिस - रात चलपी सैमाचें चक्र आपलो निर्मितीचो वावर चालूच दवरता. ताका खंयच्याय मनशागेर भुरगें जालें किर्ते आनी ल्हानांतल्या ल्हान जंतूगेर नवो जंतू जल्माक आयलो किर्ते एकूच. फळांच्या बियांक नवो अंकूर येता तेन्ना ताका वाडोवपाखातीर सैम जितली राखण करता तितलीच वण्टीचेर आयिल्लो चितो सांबाळपाखातीर सैमान फाव ती वेवस्ता केल्ली आसा. पूण मनीस आपले बुद्धीप्रमाण आपले वाढीखातीर ह्या सगळ्यांचो वापर करीत आसता. मनशान ह्या सैमांतलो मुखेल घटक हो मनीसूच अशी कल्पना करून मनशाकूच चड म्हत्व दिल्लें आसता. पूण ह्या सैमातलो दर एक घटक एकमेकाचे उदरगती खातीरूच सैमान रचिल्लो आसता. ही जाणविकाय मात मनीस दवरिना.

ज्या झाडाक फळां जायनांत ताचेर पिसो भुरगो लेगीत केन्ना फातर शेवटिना. जे वेलीक फुलां जायनांत ताचेकडेन कोणूच चुकून लेगीत पळयनांत. फळां - फुलां जायनांत हाचो अर्थ त्या रूखाची वा वेलीच्या वंशाची वाढ जायनां अशें न्हय. त्या रूखांचो - वेलींचो सैमाचे उदरगतीक आदार मेळना अशेंय न्हय. पूण जांची वंशावळ वाडना हें जेन्ना मनशाक दिसता तेन्ना ते गजालीक मनीस कमी लेखता. ही कमी लेखपाची भावना मनशान आपले येवजणेच्या आनी समजणेच्या कसाचेर थारायल्ली आसता.

मनीस ज्या सर लग्न जायना आनी तागेर भुरगीं जावन ताचो वंश वाडना त्यासर ताचें जिवीत पूर्ण जायनां म्हणपाचो समज मनशान करून घेतला. हें जर मनशाच्या बाबतींत खरें आसत जाल्यार हे सृश्टींतले दरेक वस्तूक हें तत्व लागूंक जाय. हे गजालीक पूर्णत्व येवपाखातीर सगळी जापसालदारकी सैमान घेतिल्ली आसता. त्याचखातीर सैम वेली - रूखांक सुंदर फुलां फुलयता. ह्या फुलांच्या रंगाक भुलून ताच्या म्हऱ्यांत पाखे आनी मूस येतात. ताणीं थंय येवचें देखून फुलां भितर सैमान वास भल्ला, म्होंव निर्मिलां. हेच लाची खातीर थंय हे कीटक येतात आनी एका फुलांतली बीं दुसऱ्या फुलाकडेन पावोवन तें फळयतात. तांची वंशावळ वाडोवंक मजत करतात. हे निर्मितीच्या वावराक वारोय पालोव दिता. जिव्या घटकांमदीं नर - मादीक कामभावनेन जागोवन जनन प्रक्रियेत तयार करपाचें काम सैम करता. एकमेकाकडे आकर्शीत जांवचें देखून तांचेमदीं वेगवेगळे रंग निर्मिता. थरावीक काळार आपले भितर निर्माण जाल्ली ही कामभावना भागोवपा खातीर दर एकली

नर - मादी एकठांय येता. मनीस प्राणीय ह्या पासून वेगळो न्हय. प्राण्यामदलो आनी किटकां मदलो हो कामभाव मुखेल करून नवो जीव निर्माण करपाखातीरूच सैमान रचिल्लो आसता. पूण ताची कल्पना खंयच्याच प्राणी - किटकाक नासता. आपली कामभावना शमन करप ह्या मुखेल उद्देश्यानूच ही नर - मादी एकठांय आयिल्ली आसता आनी ताचो परिणाम म्हूण तांचो वंश वाडटा. आपल्या भुरग्यांची राखण करूंक जाय म्हूण ममत्व जांव माया हेय गूणभाव सैमानूच ह्या प्राण्याभितर तयार केल्ले आसतात. ते कमी अदीक आसले तरी ह्या दुर्बळ जिवाक राखण दिवन ताची वाढ करूंक सैमान सगळी तजवीज केल्ली आसता. निर्मितीखातीर सैमाची ही आखणी जाल्ली आसा हें कोणूच समजून घेना.

मनशान समाज वेवस्ता आखल्या देखून तो आपले निर्मितिचो पुराय भार सैमाचेर घालिना. तशें जाल्लें जाल्यार भुरगीं जावपाखातीर लग्न जाय मेरेन रावपाची गरज नाशिल्ली. जांगेर लग्न जावचे पयलींच भुरगीं जातात तांकां उणाक लेखचे नाशिल्ले. मनशान निर्मिल्ली समाज वेवस्ता आनी सामाजीक मुल्यां सैमाक लागनांत. सैम आपले रचणेचो वावर चालूच दवरता. समाज वेवस्ता लागता ती मनशाक आनी जो कोण हे वेवस्तेच्या आड वता ताका समाज प्रस्न करता. त्या प्रस्नांनी सतावन ताका समाजीक बंदनांत बांदून दवरता.

ज्या मनशागेर भुरगीं नांत ताका उणाक लेखपाचें काम आमच्या समाजांत चलता. काळाप्रमाण ही वेवस्ता बदलत आसता. पयलीं जागेर भुरगीं नासतालीं ताका धर्मांत सुवात दिनाशिल्ले. पूत्रहीण म्हूण ताच्यो बकच्छायो जाताल्यो. जे बायलेक भुरगें जाय ती योग्य दादल्याकडल्यान नियोग पद्धतीन भुरगें मेळोवंक शकताली. वंश सोंपचो न्हय आनी मनीस उत्पत्ती थांबची न्हय होच ह्या फाटलो हेतू आसतालो. आतां लोकसंख्या ज्या वेगान वाडटा तो वेग पळयल्यार संतती नियमनाचो कायदो समाजाक करचो पडलो. पयलीं जाका चड भुरगीं ताका मान आसतालो. आतां उण्यांत उणीं भुरगीं आसात ताका मान आसा. जो लग्न जायनां आनी लोकसंख्या न वाढपाक पालव दिता ताका खाशेल्यो सवलती दिवपाचोय विचार आयज बळावता. पूण लग्न जाल्ल्या मनशाक भुरगीं नासत जाल्यार मात तो समाजांत फकाणाचो विशय थरता. आनी त्याच खातीर तोय मनीस आपूण शंड न्हय आपूण वांजूट न्हय हें सिद्ध करपाखातीर धडपडटा. ताका भुरगीं जाय आसतात तीं आपलो वंश वाढोवंक न्हय तर आपूण शंड न्हय हें समाजाक दाखोवंक. ह्याच भ्रामक कल्पनेक लागून आयज कितले तरी सुखाचे घराबे काबार जावन गेल्यात. भुरगीं नांत हे चिंतेन सगळें सूख मातये भरवण करूंक लागल्यात.

तुका भुरगीं आसात काय ना ? हो रूक्षप्रस्न जेन्ना समाजाकडल्यान म्हज्यामुखार येता तेन्ना तांच्या प्रस्नाची आनी विचारांची म्हाका काकूट दिसता. तुवें हालीं नवें कितें बरयलां हें विचारचे बदला, तुका भुरगीं आसात काय ना होच प्रस्न विचारतात. अशा वेळार विचार येता की हांगा खंयची निर्मिती श्रेश्ठ अशें समाजाक दिसता ? भुरगें काय हेर खंयची ?

खंयच्याय कलाकाराक आपल्यागेर जाल्ल्या भुरग्यापरस आपणें केल्ले कलात्मक

निर्मणेतूच चड खोस भोगता. बाकिचे लोक कलात्मक निर्मणी करूंक शकनांत. तरी कितेंय तरी निर्माण करून वचप हेंच तांचें सैमीक ध्येय आसता. त्या खातीर तांची वंश निर्मिती चलता. कलाकार ह्यो दोनूय निर्मिती करतात. पूण दोनूय प्रकारचे निर्मितीनी एकेच प्रकारची खोस जावप तांकां शक्य नासता. देखून आयजमेरेन जाणी चड काळ तिगपासारकें जें कितें निर्माण केलां ताणीं थोडो काळ तिगपी भुरग्याकडेन सदांच दुर्लक्ष केलां. लग्न जायनासतना रावून आपली कामभावना शमयल्या. लग्न जावन संवसारांत पडिल्ले आपल्या भुरगेबाळांक सोडून अलीप्त रावल्यात. जेन्ना निर्मिती खंयची श्रेश्ठ हें जेन्ना कळटा तेन्नाच ही गजाल घडूंक पावता.

म्हजे कडल्यान जी साहित्यिक निर्मिती जाता ती निर्मिती म्हाका म्हगेर जाल्ल्या भुरग्यापरस चड सुखदेणी काय कितें हें अणभवानूच कळटलें. वंश वाडपाखातीर भुरगें जावप, म्हातारपणार काळजी घेवपाखातीर भुरगें जावप, जिविताक पूर्णत्व येवपाखातीर भुरगें जावप, समाजान शंड म्हणचो न्हय म्हूण भुरगें जावप, घराण्याचें नांव वाढीक लागचे खातीर भुरगें जावप हे एकेय गजालीचेर म्हजो विस्वास ना. आपलो वंश वाढचो, आपलें नांव उरचें हेच खातीर लग्न जावप हाचेरूय म्हजो विस्वास ना. दर एकलो लग्न जाता तो कायद्यान आपल्याक आपली कामभावना भागोवंक मेळची हयाच हेतून. लग्न जावचे पयलीं जर चुकून कोणाक गर्भ धरलो जाल्यार समाजांत तांची शीः थू जाता. तांची वंशवेल वाडली म्हूण कोणूच खोशी जायनांत. तें भुरगें अनौरस म्हणटले देखून, त्या गर्भाक गाळी घालतले देखून तो गर्भ गळोवन उडयतात. आंकवारां वांगडाच लग्न जाल्लेय आपल्याक नाकाशिल्लो गर्भ गळोवपाचो यत्न करपीय समाजांत आमकां दिसतात. अशावेळार तुका भुरगीं आसात काय ना ह्या प्रस्नाक अर्थ उरना. तो एक रूक्षप्रस्न आसता. समाजान स्वताच्या दुबळेपणाक लागून तयार केल्लो रूक्षप्रस्न !





# तुजो लागशिल्लो इश्ट दादलो आसचो काय बायल आसची अशें तुका दिसता



**ख**रें सांगपाचें म्हळयार म्हाका केन्ना केन्ना कोणूच इश्ट आसचो न्हय अशें दिसता. म्हजे वेगवेगळे मूडस आसतात. त्या मुडाप्रमाण तसोच जर कोणूय आसत जाल्यार त्या मनशाक हांव सोसूंन घेवंक शकतां. पूण जांचेकडल्यान म्हाका कांयच मेळपासारकें ना अशें जर दिसलें तर तो म्हजो कितलोय खास मनीस आसलो तरीय ताचे वांगडा हांव चड वेळ काडुंकूच शकना.

हांगा कितेंय मेळप म्हळ्यार ताचो आदार जांव हेर कसलोय फायदो न्हय. हांवे आपल्यागेर येवंचें, आपल्या वांगडा हांवे कांय वेळ सारचो अशें दिसपी म्हजे खूपशे वळखिचे आसात. हांव तांगेर येना म्हूण तेय शीण काडटात. तरी लेगीत हांव तांका टाळीत रावतां. वाटेर कोणूय मेळत जाल्यार च्या घेवंया वा बियर घेवंया म्हूण आग्रो करतात. तांचे कडल्यान फुकट पिवंक मेळटा आसतनाय म्हाका तांची कंपनी नाका दिसता. हांव एकटोच बसून म्हज्या दुडवांची बियर घेवं मागीर ! म्हाका ताचे चिटमिटे पडनांत. हांव खुशाल आसतां. आतां म्हजो हो सभाव एकमुळो न्हय. म्हाका मनशांमर्दी रावप आवडटा. मनीस होच तर म्हज्या बरोवपाचें मुखेल भांडवल. तरीपूण खंयच्याय मनशांवांगडा रावून तांच्या वैचारीक दिवाळखोरीक वांगड दिवन स्वताचेरूच अन्याय करून घेवप म्हाका आवडना. ह्याचखातीर चडसो वेळ हांव म्हाकाच सांगाताक घेवन भोंवतां. म्हजो खास असो मीत्र म्हळ्यार स्वता हांवच. हांव म्हळयार तसो हेरां परस वेगळो कोणूच न्हय. हांव म्हळयार संवसारांतली बायल, हांव म्हळ्यार संवसारांतलो दादलो, भुरगो - जाणटो, सगळें म्हळयार सगळें. ह्याच खातीर म्हाका म्हज्या सांगाताक दुसरो कोण जायच अशें ना.

हें जरी सगळें खरें आसलें तरी आपलें मन दुसऱ्यांकडेन उक्तें करूंक आनी दुसऱ्यांचेय विचार आयकून घेवंक सांगात हो जायच पडटा. पुस्तकां, वर्तमान पत्रां वा हेर माध्यमां कितलींय जरी सांगाताक आसलीं तरीय तीं मनशाची गरज पुरायेन भागयनांत. मनशाक त्या खातीर जितो - जागतो मनिसूच जाय आसता. त्याच खातीर मनशांतल्यो सगळ्यो उणिवो वळखून लेगीत तांका सोसून घेवंचो पडटा. नातर समाजाचे नदरेन असलो मनीस, मनीस घाणयारो थरता.

म्हज्या सांगाताक त्याखातीर जो कोण जाय तो मनीस आसता. तातूंत लींगभेद उरचना. जाचेकडेन हांव इश्टागत जोडटां तो दादलो काय ती बायल आसा हाची जाणविकाय म्हज्या मनात केन्नाच उरना. तशी ती दवरतलो जाल्यार म्हाका खाशेले यत्न करचे पडटात. त्याच खातीर केन्ना केन्नाय हांव हांश्याक म्हारग लेगीत थरता. बायल मनीस सांगाताक आसतना दादल्यान अमुकूच रितीन वागूंक जाय वा बायल मनशेन दादलो म्हऱ्यांत आसतना अमुकूच मर्यादा सांबाळूंक जाय अशे समाजान सिद्धांत थारावन दिल्ले आसात. हे सिद्धांत वा संकेत पाळटलो जाल्यार मनांत सतत एक भान दवरचें पडटा. आपल्या वांगडा आसा ती बायल काय दादलो हो लींगसोद घेवंचो पडटा. ती वळख मनांत बळावची पडटा.

बायलां मदीं बायलो सगळें सोडून, कसलोच संकेत बाळगिनासतना उलोवंक शकतात. तशेंच दादल्यांमदीं दादले कसलेंच भान धरिनासतना वागूंक शकतात. भिन्न लिंगी सांगाताक आसतना जर तोंडांतल्यान संकेता भायलीं उतरां आयलीं जाल्यार तीं उलयतल्याक चूक मागची पडटा. केन्ना केन्नाय भायर सरपी वा उलयन दिसपी ही उतरां समाजीक शीश्टतायेक लागून भितरले भितर चिड्डून उडोवप शक्य नासता तेन्ना पंगडांत आशिल्ले बायल मनशेक, तो दादलो मातशी कुशीन राव म्हूण सांगून वा तिचेपासून दादल्यांक वेगळे व्हरून आपल्या मनांतलीं ती उतरां तांच्या कानांत ओकपाचें कर्म करतात. ते कुशीक वचून किर्ते उलयतात म्हणपाची बेसबरी जाणविकाय ते बायल मनशेक आसता. तोंडार पदर घेवन जेन्ना ती हांसता तेन्ना तिच्या हांसपावेल्यान तिणें आपूण उलयलां तें आयकलां म्हणपाचें त्या दादल्यांक कळटाय बी. तें कळटलें आनी कळचेंय असो उद्देश्य दादल्यांचो आसता आनी समाजाची शिश्टताय आनी धोंगी सभ्यताय सांबाळुनूय तें काम हे दादले बेसबरें करतात. अशा वेळार तुमी किर्ते उलोवपाचें आसात तें म्हाका खबर आसा. म्हज्या मुखार तें उलोवंक कांयच हरकत ना अशें स्पश्टपणान सांगचेलें धाडस सामाजीक मळार वावुरपी ते बायल मनशेकूय जायना. स्वताक बुद्धीवादी म्हणोवन घेवपी चोंब्यामदीं ही घडणूक आत्र्यापयऱ्यान घडत आसता. हांव जेन्ना ह्या चोंब्यांत आसतां तेन्ना लिंगभेदाक म्हत्व दिवंचे परस विचारांक चड म्हत्व दितां. त्या वेळार चुकून संकेताभायलीं उतरां वा वागप म्हजेकडल्यान भायर आयलें जाल्यार म्हाका ताची खंत जायना. म्हाका कोणेंय किर्ते म्हळें जाल्यार हांव तिडकना. असल्या धोंगी मनशांपासून हांव उप्रांत पयस रावतां वा उलोवपाचें टाळून फक्त आयकुपाचें काम करतां.

मनीस जेन्ना वैचारीक मंथनाखातीर एकठांय येता तेन्ना खरें म्हळ्यार लिंगभेद आसुंकच फावना. लिंगभेदाची जाणविकाय ही फक्त मैथुनाच्या वेळार वा शाररिक भूक भागोवपाची आसता जाल्यारूच आसूंक फाव. मनशाचो सांगात हो फक्त आंगाची भूक भागोवपाखातीरूच आसता अशी धारणा समाजा भितर आसता तेन्नाच दादलो आनी बायल हो लिंगभेद तांच्या मनांत उप्रांसता. तेन्नाच हे असले प्रस्न तयार जातात. तुजो सांगाती हो दादलो आसचो काय बायल आसचो अशें तुका दिसता ? हो प्रश्न खरें म्हळ्यार आयच्या

काळार उरूकच ना. जेन्ना काळ समलिंगी संभोगाकडेन पावला आनी ताकाच चड प्राधान्य मेळूंक लागलां, ताकाच लागून एड्स सारकें दुर्येस पातळटा अशें म्हणटात तेन्ना भिन्नलिंगी सांगातूच खरो सैमीक सांगात म्हणपाचो काळ पाविल्लो आसतना असे प्रस्न तयार जावप म्हळयारूच अर्थहीन - रूक्ष असे प्रस्न !

दादलो आनी बायल ही भिन्नलिंगी जरी आसलीं तरी आयज रासवळ मळार येतात तेन्ना लिंगभेद मानप म्हळयार सुदारणेचीं लक्षणां न्हय. जे वेळार गरज आशिल्ली तेन्ना समाजान कांय संकेत तयार केल्ले आसूं येतात. पूण ते संकेत निर्माण केल्लो समाजूय आज उरूंक ना आनी तो काळूय उरूंक ना. बायलमनीस आयज दादल्यांपरस कितली तरी फुडें गेल्ली आसा. आपल्या कर्तुबान बायल मनीस आयज दादल्यांक लेगीत लजयता अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची ना. आयचो काळ मुर्खपणाचे संकेत बाळगून रूक्ष प्रस्न तयार करपाचो न्हय तर सगळे भेद विसरून नव्या संकेतांची, नव्या समाजाची घडण करपाचो काळ जावन आसा.

हांव कांय वर्सांपयलीं हणजुणां दोन - तीन दीस रावंक गेल्लों. म्हजो एक मीत्र आनी हांव थंयचे वेळेर दोन दीस भोंवले. आमकां अशे सांगातान भोंवतात तें एक ऑस्ट्रेलियन चली पळयतालें. तीं आमकां दुभावान पळयताली. एका रेस्टारॉन्टात ती आमकां दोडली. तिच्यान कशेंच रावंक जालेंना. ती आमच्या टेबलार आयली. तिणें आमकां पयलो प्रस्न विचारलो तो म्हळ्यार – तुमी दोगूय 'होमो' काय म्हण. होमो म्हळयार होमो सेक्श्युअल – समलिंगी संबंद दवरपी. हांवे तिका आमच्या समाजाची घडण सांगली, संकेत सांगले. तिच्या म्हणण्याप्रमाण हे पिरायेर तिच्या समाजांतले समलिंगी केन्नाच एकठांय भोंवनात. तशे सतत भोंविल्ले दिसल्यार तांचेविशीं दुभाव घेतात. पूण आमच्या समाजांत हे पिरायेर भिन्नलिंगी वांगडा भोंवल्यार समाज दुभाव घेता हें तिका हांवें सांगलें. अशे वेळार समज कोणेय ते चलयेक जर, तुका लागशिल्लो इश्ट दादलो काय बायल आसची अशें दिसता ? असो जर प्रस्न केल्लो जाल्यार तो कितलो हांसपासारको आसपाचो !

आपलो लागशिल्लो इश्ट हो सदांच भिन्नलिंगी आसचो अशें दरेक मनशाक दिसता. तशें दिसप हो मनशाचो सैमीक गूण. पूण समाजाच्या संकेतांक लागून मनीस आपली आस चिड्डून उडयता. मनांतली जाप वेगळी दवरता आनी भलतीच जाप दिता. आपूण फट उलयतां हें ताका खबर आसता. दादल्याक बायलेचो सांगात आवडप आनी बायलेक दादल्याचो हें सैमीक तत्व. त्याचखातीर भुरगेपणार चलो चडसो आपले आवय वांगडा आनी चली बापाय वांगडा आसता. तांचें खेळपूय चडशें भावभयणी अशेंच आसता. चल्याक शेजारचे चलयेकडेन आनी चलयेक चल्याकडेन खेळप आवडटा. पूण घोव - बायल म्हळ्यार कितें हें लेगीत खबर नाशिल्ले तांचे ते पिरायेर जाणटी मनशां तांका घोव - बायल म्हण चाळयतात आनी तांका तांचे इश्टागती पासून तोडटात. मागीर एकठांय उरतात तीं फक्त भाव - भयणां. हांगाय खरें म्हळयार सैमाचे नदरेन भिन्न लिंगीच आसतात. पूण समाजान

भाव - भयण हें नातें निर्माण करून आपल्या दोळ्यांर संकेतांचो पड्डो ओडिल्लो आसता. बापायक सदांच आपल्याक चली जांवची आनी आवयक दिसता चलो जांवचो. ही एक भिन्न लिंगाची आसक्ती आसपी गजालूच. जेन्ना भीन्न लिंगाचीं भुरगीं वयार येतात तेन्ना समाजान घाल्ले संकेत चड घट जातात आनी तांचेर मर्यादा येवन पडटा. तरीय पूण हो सांगात कोण आडावंक शकना. तो चोरून घडटाच. त्याचखातीर ही मर्यादा, हे संकेत पयस करून शुद्ध मनान एकठांय येवपाची गरज आसा. तेन्नाच एक बरो समाज निर्माण जातलो. बरो समाज जर निर्माण जांवक जाय अशें जर दिसता जाल्यार, तुका दादलो आवडटा काय बायल आवडटा ! ह्या प्रकारच्या प्रस्नाक अर्थ आसूंक फावना. तो रूक्ष जावन वचूंक जाय.

म्हाका दादल्यांपरस चड बायलांचोच सांगात आवडटा. मुखारूय आवडटलो. भुरगेपणार हांव चडसो चलयांवांगडाच खेळटालों. शाळा - कॉलेजांत आसतनां चलयांकूच शिकूंक मदत करतालों. तेन्ना हेर इश्ट म्हाका मत्सरान बायजण म्हणटाले. म्हाका तांचो राग येतालो. आयज म्हाका हांव त्या वेळार बायजण नाशिल्लों तर खरो दादलो आशिल्लों म्हणपाचें कळटा आनी चलयां - बायलां पासून लजून पयस रावपी तेच हिजडे आशिल्ले म्हणपाचें कळून आयलां. तांका बायजण म्हणून बायलांचो अपमान म्हाका करपाचो ना देखून ते हिजडे आनी जे बायल ह्या प्रकारापासून पयस राविल्ले आसात तांचे कर्तुत्व हिजडेपणाचेंच !

आज संवसार एक विसाव्या शेकडयांत पावल दवरपाकडेन पावला. तरीय पूण समाजाक लागून, समाजाच्या संकेतांक लागून हांव दादलो म्हणपाची जाणविकाय मनांत बाळगुची पडटा तेन्ना म्हाका कशेंशेच दिसता. पूण ताका उपाय ना. हांव जेन्ना म्हाका बायलांचो सांगात आवडटा अशें म्हणटां तेन्ना तें आवडप फक्त भिन्नलिंगा खातिरूच न्हय तर बायल ही धर्तर मांय देखून....







# तुजे बायलेन परक्या दादल्यावांगडा रात घालयल्या अशें तुका कळळें वा तुवें तांका धरलीं जाल्यार तूं कितें करतलो



हांव कांयच करचोना. हीच जाप हांव ह्या रूक्षप्रस्नाक दितलों. जर कोणूय मनीस तिरसुवाद आसत जाल्यार ताका हांव होच रूक्षप्रस्न जापेचे सुवातेर विचारीन - म्हाकाच समज तुवें तुजे बायले वांगडा धरलो जाल्यार तूं म्हजें कितें करतलो ?

हांवे केल्ल्या ह्या रूक्षप्रस्नाक ताचेकडेनूय कांयच जाप नासतली. जाप नासली तरीय आयज दर एकलो लग्न जाल्लो वा जाका प्रेयशी आसा तो हेरांक वा आपल्याकूच हो प्रस्न दिसपट्टो करीत आसता. ज्या प्रस्नाक जाप नासता, कसलेंच म्हत्व नासता तोच प्रस्न - तोच रूक्षप्रस्न जण एकल्याक आयुश्यभर सतयत आसता.

हे धर्तरेवयलो दादलो जांव बायल, तांतल्या ८० टक्के लोकांचो मेंदू आसा तो फक्त बोबले सकल्यानूच चलता. फक्त आपली कामभावना शमोवपाक वा दुसऱ्यांच्या कामजिविताचेर विचार करून वेगवेगळ्यो कल्पना रंगोवपाकूच तांचें पुराय जिवीत आनी पुराय मेंदू सरता. दादलो हो जल्मतांच मुक्त आशिल्ल्यान तो मुक्तपणान जियेता. बायल मनीस ही फक्त भोगपाची वस्त आसता हेच भावनेंतल्यान ८० टक्के दादलो विचार करता. तो बायल मनशेकडेन पळयता आसतना तेच नदरेन पळयता. ८० टक्के बायलांचीय वृत्ती तीच आसता. फक्त ती दादल्यांसारकी मुक्त जियेवंक शकना. पाप पुण्याची एक भ्रामक कल्पना निर्माण जाल्ल्यान वा तांच्या मनाचेर ती पिळग्यान पिळगी बिंबयल्ल्या कारणान, बायलमनीस मनांतल्या मनांत कल्पनेंतल्यान हें सूख अणभवतात. जर तांच्या आंगार गुरवारपणाच्यो खुणो उरनाशिल्ल्यो वा गर्भ धरूनय तो लोकांपासून वा समजापासून लिपून उरूंक शकतालो जाल्यार त्योय दादल्यांवरीच मुक्त जियेवपाच्यो. आपली समाजांत बदनामी जातली ह्याच भयान ताणी आपल्याक एक मर्यादा घाल्ली आसा. आपल्याक जाय देखून न्हय तर समाजाच्या भयांक लागून बायलमनीस बंधनांत जियेता. पूण मनांतली गजाल समाजाक कळना देखून दरेक बायल मनांतल्यान व्यभिचार करून लेगीत एक पतीव्रता उरता. परकी दादल्याक दोळ्यांमुखार दवरून आपल्या घोवाकडेन शरीर सूख घेवप आनी आपल्या आवडिच्या दादल्याकडल्यान तें घेतलां अशें तात्पुरतें समादान करून घेवप, वा आपल्याक आवडिल्ल्या दादल्याक कल्पनेत हाडून हस्तमैथून करप ह्यो गजाली स्वता

सांगल्याबगर लोकांक कळपाच्यो नाशिल्ल्यान बायलांमदीं घडटात. जर खंयचेय बायल मनशेक भंय नाशिल्लो, फुडाराची चिंता नाशिल्ली जाल्यार दादल्यावरीच तीय मुक्तपणान भोंवपाची. कोणायकडेन शरीर संबंद आयलो जाल्यार ती बायलमनीस पिड्ड्यार जाली असो एक समज समाजांत आसा. आपलें मुखार लग्न जांवचेंना जांव आपलो घोव आपल्याक सोडटलो ह्या भंयान, फक्त सुरक्षतायेखातिरूच बायल मनीस ह्यो गजाली, ह्यो इत्सा मनांतल्या मनांत चिड्डून उडयता.

दादल्यांचीय परिस्थिती तो मुक्त आसुनय बायलां परस वेगळी ना. दुसरे बायलेक भोगपाची इत्सा आसुनय तो समाजाच्या भंयाक लागून आपूण एक पत्नीव्रत घेवन जियेता. खरें म्हळ्यार तो आपले बायलेकडेन जें कितें करता ताचे परस वेगळें अशें दुसरे बायले कडेन कांयच करिना. तरी लेगीत दुसरी बायल आपल्याक भोगूंक मेळची अशें ताका दिसता. तशी तो आस्त मनांत बाळगिता पूण ताका तशें धाडस जायना. समाजावांगडाच ताका भंय दिसता तो आपले बायलेचो. आपले बायलेक जर कळत जाल्यार ती कितें करतली ? आपल्या संवसाराचें कितें जातलें ? आपूण असो अभिचार करता जाल्यार मागीर बायलूय करूंक लागतली. तेन्ना तिका आपूण खंयच्या तोंडान आडायतलों ? वा आपले हेर बायलांकडले संबंद लोकांक कळळे जाल्यार समाजांत आशिल्लो आपलो रेस्पेद ना जातलो अशा वेगवेगळ्या कारणांक लागून आपली आस तो चिड्डीत रावता. मानसीक सूख काल्पनीक माध्यमांतल्यान घेता. कांय जाण लिप - चोरयां ह्यो गजाली करतात हें वेगळें. कितेंय जरी आसलें तरी ह्या भंयाक लागूनच समाजांत एक संतुलन उरता. जें समाज भंयाक लागुनच आयज सांबाळूंक सोदता. पूण आपल्या मनांतल्यो ह्यो व्यभिचाराच्यो इत्सा मात तो पयस करूंक शकना. तांच्या मनांतल्यो त्यो कामभावनेच्यो इत्सा तांका दामून उडोवंच्यो पडिल्ल्यान ह्याच दमनाक लागून ८० टक्के लोकांचे मन विकृत जायत वता. तो मनांतल्या मनांत परकी बायलेक वा ती परकी दादल्याक नग्न करता, पिसुडटा, भोगता. वयल्यान मात आपूण सभ्य, आपूण तसलो वा तसली न्हय हें दाखोवपाचो यत्न करता. जो कोण दादलो दुसरे बायलेकडेन वा बायल परक्या दादल्याकडेन जवळीक दवरून आसता तांचेविशी हजार कल्पना रंगोवन नाका जाल्लें उलयता, नाका जाल्ल्यो वदंता पिकयतात. हेच विकृतायेक लागून दादलो - बायल हांच्या संबंदाविशीं समजांत दुबाव निर्माण जाता. रूक्षप्रस्न तयार जातात - तुजे बायलेक दुसऱ्या दादल्या वांगडा एक रात राविल्ली पळोवन तूं कितें करतलो ?

हांगा कितें करपाचो प्रस्नूच उप्रासना. हांगा दादलो म्हाका जरी परकी आसलो तरी तो म्हजे अथवा जाचेकडेन ही घडणूक घडल्या ताचे बायलेक परकी आसना. तो तिच्या संवकळिचो जाल्ल्यानूच ती त्या दादल्या वांगडा रात काडटा. अशे वेळार जर तांका ते बायलेच्या घोवान धरलीं जाल्यार कितें करतलो म्हणपाचो प्रस्नूच येना. तो दादलो ते बायलेच्या घोवाक परकी आशिल्ल्या कारणान ताका ताचो किंवाटो येतय बी. पूण किंवाटो

आयलो, राग आयलो तरी तो ताचें कांयच करूंक शकना. ताका कितें म्हणपाचो अधिकारूच घोवाक उरना. घोव ह्या नात्यान तो फक्त आपले बायलेक मारूंक शकता. तिका ताचे करणेची जाप विचारूंक शकता. तिका काडिमोड दिवंक शकता. हें सगळें करता तो ताच्या दादलेपणाचो प्रस्न आसता देखून. ताचें दादलेपण दुखवता देखून. खरें म्हळयार ह्याच घोवान दुसऱ्या कितल्यातरी बायलांक दोळ्यांनी सांसपिल्यांत. प्रत्यक्ष शक्य जालेंना तरी अप्रत्यक्षपणान मनांतल्या मनांत भोगल्यांत. मानसीक संभोग घेतला. हाचोच परिणाम म्हूण ८० टक्के घोव आपलें दादलेपण जागोवन आपले बायलेचेर दुबाव घेतात. आपणें कितेंय केल्यार उपकारता पूण आपले बायलेन मात पतिव्रत्य पाळूंक जाय हीच घोवाची भावना आसता. आपले बायलेन रस्त्यावेल्या दुसऱ्या दादल्याक पळोवंचें न्हय म्हूण दोळो तिचेर दवरून दुसऱ्या दोळ्यान दुसऱ्यांच्या बायलांक सासपुपी दादल्यांचे संस्कृतायेंत हे अशेच रूक्षप्रस्न तयार जातले.

भारतीय संस्कृतायेंत वाडिल्ली बायल भितरी आसता. भंयाक लागून ती सदांच एक - पतिव्रता रावता. जाचेकडेन लग्न जाता ताच्या फाटल्यान गरीब गाय जावन चलत वचपाचो तिचो सभाव आसता. तिका जाय आसता ती फक्त राखण. फुडाराची सेक्युरिटी. तेच सेक्युरिटीखातीर ती जाच्या पदरांत पडल्या ताका देव मानून पुराय जिवीत घालयता. लग्नापयलीं आपल्या फुडाराच्या घोवाविशी ती वेगवेगळीं सपनां रंगयता. कथा - कादंबऱ्यो आनी सिनेमा हातुंतल्या हिरोची अपेक्षा मनांत बाळगिता. पूण जेन्ना सेक्युरिटिचो प्रस्न येता तेन्ना सगळीं सपनां कोनशाक मारून सेक्युरिटी फाटल्यान धांवता. तातुंतूच सूख मानून पुराय जीण घालयता. ह्याच खातीर जळामळाक आमकां बेजोड जोडपीं दिश्टी पडटात. रूपा - रंगान तशींच कला - गुणांन. समाजीक सेक्युरिटीखातीर बायलमनीस आपल्यो आवडी - निवडी भिरकाटावन घोवाक देव मानून आपल्या संवसारांत सूख मानता. अशावेळार ही त्यागी बायल खंयच्याच दुसऱ्या दादल्या वांगडा रात काडपाची गजाल सोडाच दोन खीण सुख - दुख्खाच्यो गजाली मन सोडून करूंक शकना. मागीर दुसऱ्यां कडल्यान सेक्स अथवा शाररीक सूख ही गजालूच कुशीक उरली. आपलो घोव नपुंसक हाची खात्री जाल्ल्यो बायलो लेगीत, भुरग्याची आस्त आसून लेगीत ह्या येदया व्हडल्या गजालिचो त्याग करतात. कारण कितें तर ती आपली सेक्युरिटी ना जायत म्हण भिता. असली भितरी बायलमनीस दुसऱ्या दादल्यावांगडा रात काडितूच कशी ?

हांवे खुपशा चलयांवांगडा, बायलां वांगडा राती घालयल्ल्यो आसात. कोणाक भिना आसतना. कोणाची पर्वा करिनासतना. पूण खंयचेय चलयेन वा बायलेन परक्या दादल्या वांगडा रात सारली म्हूण कितें ती ताचेकडेन शरीरसूख घेवपाखातिरूच गेल्ली आसता ? ह्या वेळार म्हजोच एक अणभव हांगा सांगल्या बगर रावं नज.

कांय वर्सापयलीं १९८० च्या माया म्हयन्यांत हांव कॅम्पलिडर म्हूण सिक्किमाक आशिल्लों. राष्ट्रीय हिमालयीन पांयभोंवडी कार्यावळी खातीर तसो हांव वतालों. फुकटची

भोंवडी करूंक मेळटा, वेगवेगळीं राज्या पळोवंक गावता म्हूण असली संद हांवे केन्नाच सोडलिना. म्हजें पोस्टींग सिक्किमच्या सोरेंग ह्या गावांत जाल्लें. ह्या गांवच्या शाळेंतूच आमचो कॅम्प आशिल्लो. जंगलांत तंबूनी दीस काडचे परस असली आधुनीक इमारत म्हज्या वाट्याक आयिल्ल्यान हांव खूश आशिल्लों. वाचन करूंक शाळेंतलें वाचप घर आशिल्लें. बरोवपाखातीर वर्गांतलें शिक्षकाचें मेज आनी कदेल आशिल्लें. न्हिदपाखातीर हांवें बांक मांडून म्हजेखातीर खाट केल्ली. रांदपाखातीर दोग रांदपी आशिल्ले. कॅम्पा सकयलूच 'हाट' भरतालो. म्हणचे देड - म्हयनो हांव थंय राजा कसो रावंक शकतालों. थंय म्हज्या वावराक सुरवात जाताली ती सांजेच्या पांच वरां उप्रांत.

सांजेच्या पांच - साडेपांचांक दुसऱ्या कॅम्पा वयल्यान ट्रेकरसांचो जथो येतालो. तांचें स्वागत करूंक एक अर्द किलो मिटर मुखार वचप. तांका कॅम्पार हाडप, तयार करून दवरिल्ली च्या दिवप आनी रातची न्हिदपाची वेवस्ता लावप हें म्हजें मुखेल कार्य.

कॅम्पार चल्यांखातीर वेगळी कूड आनी चलयांखातीर वेगळी कूड आसताली. तांका रातचें जेवण दिवन, कॅम्पफायर बी जाल्याउप्रांत दूद अथवा बोर्नाविटा दिलो की जालें. दुसऱ्या दीस सकाळीं सगळ्यांक उठोवन, च्या दिवन, पॅकलंच तांच्या सुवादीन करून तांका फुडल्या कॅम्पाखातीर अर्द किलोमिटर सांगात दिलो म्हणटकच दीस भर हांव फ्री उरतालों.

एकदीस असोच दिल्लीचो एक पंगड कॅम्पार आयलो. सगळ्यांकडे वळख बी जाली. त्या पंगडांत विजया शर्मा नांवाचें एक २१ - २२ वर्सांचें सुंदर चली आशिल्लें. सुंदर म्हळ्यार नदर घालपासारकें. तेन्ना हांव आंकवार आशिल्लों आनी चलयांकडेन व्हडलिशी संवकळ येवंक नाशिल्ली. बोटांक बोट लागल्यार लेगीत आंगार मोरपाखां म्हणटात तीं भोंवतालीं. त्या पंगडांत आनीक पांच - स चलयो आशिल्ल्यो. पूण हाचीच गजाल सांगपाची म्हळयार दोन राती हें चली म्हज्या वांगडा आशिल्लें. ताचें जालें अशें —

फाटल्या कॅम्पार साकून आयिल्लो हो पंगड येवकार बी दिवन हांवे म्हज्या कॅम्पार घेतलो. सगळ्यांची बरी बडदास्त दवरली. कित्याक तर पुराय भोंवडी सोंपल्या उप्रांत बेस कॅम्पाचेर कॅम्प लिडराविशीं आयोजक रिमार्क विचारतात आनी हे ट्रेकर केन्ना केन्नाय नाका जाल्लें सांगून नांव बदनाम करतात. ताचें नुकसान जरी जालेंना तरी फुडले कार्यावळीक त्या कॅम्पलिडराक आफोवंचें काय ना हाचो विचार जांव येतालो. ह्या कारणां खातीर न्हय तर इतले दीस रानांत उरिल्ल्या ह्या शारांतल्या लोकांक घरगुती वागणूक मेळची, तांका होमसीक दिसचें न्हय म्हूण कायद्याभायर वचून हांव मदत करतालों. ह्या पंगडाकूय हांवे तशीच मदत केली. पुराय पंगड खुश जावन दुसऱ्या दिसा वचूंक भायर सरलो. तांका हांव थोडे वाटेमेरेन पावंक गेलों. पूण कांय वाट चल्ल्या उप्रांत विजया शर्मान बसकण मारली. ताच्या वांगडा ताचो जाण्टेलो काका आशिल्लो. काका ताचे मोचे काडून कितें तरी करूंक लागलो. हांवे वचून पळयल्यार विजया शर्माचे दोनूय पांय फोड येवन सामके सुजल्यात. ट्रेकिंग कार्यावळींत पायांत ब्लिस्टर्स आयले की चलपाची कल्पना केल्यार लेगीत थरथरो

भरता. विजया शर्माच्या पायांची हालत पळयत जाल्यार फुडले पंदरा-वीस किलो मिटर तें चलत अशें दिसनाशिल्लें. ताका परत सोरेंग कॅम्पार आयल्या बगर पर्याय नाशिल्लो. ताच्या काकान आनी ताणे परतुपाचें थारायलें. पूण काकाक तर फुडल्या कॅम्पार वचपाचें आशिल्लें. शिवाय कारणाशिवाय खंयच्याय पंगडांतल्या सदस्याक एकाच कॅम्पार दुसरी रात काडूंक मेळनाशिल्ली. कित्याक तर ते थंडेत न्हिदपाखातीर ब्लॅन्केटची वेवस्ता आसताली ती मर्यादीत. ग्रूप लिडराच्या निर्णया प्रमाण विजया शर्माच्या काकान मुखार वच्चें आनी फक्त विजयान सोरेंग कॅम्पार रावचें अशें थारलें.

काकाकडेन रातची वळख जाल्लीच. तो दिल्लीच्या कॉलेजीत शिकयतालो. सुसंस्कृत मनीस आशिल्लो. विजया शर्माय खुशवंत सिंगाचे कसले तरी पत्रिकेंत पत्रकारिता करतालें. शिवाय हांव शिक्षक आनी लेखक जाल्ल्यान तांची म्हजेकडेन सगळ्यांत चड जवळीक जाल्ली. आपले पुतणयेन ती रात सोरेंग कॅम्पार काडची आनी सांजचो जो पंगड येतलो त्या पंगडावांगडा दुसऱ्या दिसा ताणे येवंचें वा ताका चलप शक्य जालेंना जाल्यार त्या दिसा सोरेंगाक बस येता ते बशीर बसोवन ताका फुडल्या कॅम्पार धाडचें अशें ताणी थारायलें. त्या दिसा बस येवपाची नाशिल्ली आनी आयिल्ली जाल्यारूय फायदो नाशिल्लो. कारण ह्या मदल्या कॅम्पार वचपाक रस्तो नाशिल्लो. बस बद्द तिसऱ्या कॅम्पार पावताली. म्हणचे दुसऱ्या दिसा येवपी बशींत बसल्यार तें त्या गांवात पावपाचें आनी ताचे सांगातीय मदलो कॅम्प सोडून त्या कॅम्पार पावपाचे. विजयाक फक्त हो मदलो कॅम्प चुकपाचो.

त्या पंगडाक गूड बाय करून हांवे विजयाचो हॅवरसॅक म्हज्या खांदार घेतलो आनी ताका चलपाक आदार करीत कॅम्पार हाडलें. तो दीसभर आमी दोगायनीय सोरेंग गांव भोंवपात घालयलो. जोती घालून तें सरळ रस्त्यान चलूंक शकतालें. हन्टर शूज घाल्याबगर हेर रस्ते चलप शक्य नाशिल्लें. दीसभर हांगा - थंय भोंवून गजाली मारता आसतना त्या पत्रकाराची म्हाका लायकी कळळी, ह्या रूखांची उंचाय कितली, दोंगरांची लांबाय कितली अशें गांवच्या लोकांक विचारून डायरी बरोवपी हें पत्रकार खुशवंत सिंगाची लज काडटा म्हणपाचें कळ्ळें आनी ताची म्हाका उबगणूय आयली. तरीपूण तें म्हाका जाय दिसतालें. ताचें कारण म्हळ्यार ती चली आशिल्लें. आनी हांवूय त्या वेळार २४-२५ वर्सांचो तरनाटो. अशाच घडणुकांनी प्रेम - बीम घडटा म्हणपाचें कादंबरीनी वाचन केल्लो, सिनेमानी तसले प्रकार पळयल्लो तरनाटो. जमता थंय ताका हात - दिवप हात धरप बी गजाली करून हांव स्पर्शसूख घेतालों. तरी लेगीत आगळीक घडपासारकें वा ताका वायट दिसपा सारकें कांयच घडचें न्हय म्हूण काळजीय घेतालों.

सांजच्या पांचाक सुमार कॅम्पार आमी आयलीं जाल्यार वायरलेस मॅसेज मेळळो की तो दीस आनी दुसऱ्यादिसा खंयचोच पंगड येवंचोना तेन्ना जेवणाची वा हेर कसलीच तयारी करची न्हय. बातमी खोसयेची आशिल्ली. दोन दीस म्हाका शिंयाच्या कडकड्यार पांचाक उठपाचीं गरज नाशिल्ली. शिवाय विजया शर्मा वांगडा म्हाका मुक्तपणान रावंक मेळपाचें.

रातची किर्तें मजा मारतलों अशांतली गजाल नाशिल्ली. तशें चिंतप म्हळ्यार लेगीत पाप आशिल्लें. हांव थंय एक जबाबदार आयोजक आशिल्लों. पूण तेंय एकटें हांवूय एकटो. दोगांय ऐन जवानींतलीं शिवाय उज्याकडेन लोणी व्हेलें की तें वितळटा असले डायलॉग कादंबरीनी बी वाचिल्ले. किर्तेंय घडूं येतालें. म्हज्या मनांत हे विचार आशिल्ल्यान म्हजें काळीज धडधडटालें. दिसभर मन जें मुक्त आशिल्लें ताचेर वजन पडलें. तेच खातीर हांवे ताचेकडेन उलयतना मर्यादा पाळूंक सुरवात केली. तूं भिऊं नाका, तूं एके कुडीत न्हीद, हांव दुसरे कुडींत न्हीद बी डायलॉग जाले आनी हळूहळू काळोख पातळूंक लागलो.

सिक्किमाक सुर्योदय बेगीन जाता आनी सुर्यास्तूय बेगीन. सांजच्या साडे-स वरांचेर पुराय काळोख पातळटा. हांवे सात वरांचेर ताका जेवण दिलें आनी जेवन आमी वरांड्यात धा वरां मेरेन गजाली मारीत बसलीं. म्हाका तर न्हीद येवपाचीच नाशिल्ली. दोनूय रांदपी स्टोअर रूमांत मरून पडिल्ले. त्या भिरांकूळ वातावरणांत आमी तरणेपणांतलीं दोगां मनशां. म्हजे तकलेंत सिनेमा - कादंबरीतलीं प्रकरणां. गजाली मारून उबगण आयली तशें हांवे ताका न्हीदूंक सांगलें. तेंय न्हिदूंक गेलें. आं ! जेवण जावन हांवे ताची थोडी सेवाय केल्ली. गरम उदक करून हाडून ताचे पांय म्हज्या मांडयेर दवरून हांवे शेकिल्ले. ताचे ब्लिस्टर फोडून कात काडिल्ली. डेटॉल लावन ताका कापूसय लायिल्लो. दोगांय घरापासून खूप पयस आशिल्ल्यान आनी आमकां लागशिल्लो असो ते सुवातेर कोण नाशिल्ल्यान एका दिसान आमी तशीं लागीं आयिल्लीं आनी हुंबऱ्यार बसून ताच्या पांयाक वखद लायतना पांय मांडयेर घेतना ताणेंय व्हडलिशी आडखळ करूंक नाशिल्ली. न्हिदूंक वतना हांवे ताका आनीक एकदां वखद लावंक सांगलें आनी तें न्हिदूंक गेलें. ताणे आपले कुडिंतलो दिवो पालयलो तें हांवे पळयलें आनी दाराक खिळी घाल म्हूण सांगून हांव म्हजे कुडींत येवन वाचत बसलों. पूण लक्ष कोणाचें लागता ! ती नव यौवना हातुणाचेर तळमळटा, ताचें सगळें लक्ष म्हजेर आसा, तळमळून, तळमळून शेवटाक तें म्हजेकडेन येतलें अशी कल्पना हांव करीत आशिल्लों. कादंबरीनी घडटा तें सत्य अशें मानून जर हांवच लोणयांकडेन वा उज्याकडेन गेल्लों जाल्यार, सादलें बरें आसा ना तर मार खावन दुसऱ्या दिसा गोंया परतुपाचें पडपाचें. तेंच आपूण जावन आयलें जाल्यार वेगळी गजाल आशिल्ली.

बरो वेळ हांव वाचपाचो यत्न करूंक लागलों. पूण लक्ष लागनाशिल्लें. पुस्तक बंद करून भायर आयलों. मुतून बी दार बंद केलें. म्हज्या दाराक खिळी नाशिल्ली. तंबू ताणपाखातीर जमनीक जे खिळे पुरचे आसतात ते साकाच्या कुडक्याक घुस्पावन हांवे दाराक लायिल्ले. ते सारके लावन हांव लायट पालोवन न्हिदूंक गेलो. पूण न्हींद कोणाक पडटा ? म्हजें लक्ष तर शेजारचे कुडीत. कान दाराचे खिळयेचेर आनी थोड्या वेळान खिळी काडिल्ल्याचो आवाज कानार पडलो. म्हज्या काळजांत धडधड सुरू. कादंबरींतलीं प्रकरणां खरीं घडटात हाचेर म्हजो विश्वास बसूंक लागलो. म्हजे कुडिचें दार उगडून तें भितर येतलें म्हूण हांव वाट पळोवंक लागलों. बरोच वेळ ताची खबरूच ना. म्हाका भास जाला आसूं येतालो. तरीपूण

खात्री करूंक दार उगडून हांव भायर आयलों. पळयल्यार तें वरांडयांत उबें आसा.

ताका थंय पळोवन किर्ते करता काय म्हूण हांवें विचारलें. तें ओग्गी. ताका मुतूक बी वचपाचें ना मू ? म्हाका दुबाव मारलो. कारण शाळेंत मुतपाची वेवस्ता नाशिल्लो. सगळें भायरूच करचें पडटालें. रातच्या इकरांक एकटो भायर सरपाचें धाडस म्हाका नाशिल्लें थंय ती चली किर्ते करतलें ! 'आपको नंबर वन् को जाना है ?' अशें विचारतकच ताणें 'हां' म्हळें. ही गजालूच अशी आसता की हातुंतल्यान मुक्ती मेळोवंक लज पुरायेन सोडची पडटा. हांवे तांका लागीच वच म्हूण सांगलें. हांव हांगा आसां भिवूं नाका म्हण सांगून धाडस दिलें. तरी तें वचना. त्या काळखांत तें म्हाका दिसनाशिल्लें थंय तें मुत्ता तें कशें दिसतलें हाची सादी जाणविकाय ताका नाशिल्ली. हांव फाट करून म्हजे कुडींत रावतां, तूं आंगणांतूच मुतून यो म्हण हांवे सांगलें. तें मातशें मुखार गेलें आनी हांव कुडींत येवन खाटीर बसलों. कुडीचें दार अर्द उकतें आशिल्लें. शिवाय हांव इतलो सभ्य मनीस जावनूय हांवें फाट करून रावनूय ताका मुतूंक भंय दिसता म्हूण म्हाका रागूय आशिल्लो. जाय जाल्यार मूत ना जाल्यार भोग त्रास म्हणत हांव भितर आयिल्लों. पूण दोळे मात भायर आशिल्ले.

इतल्यांत अकस्मात सुणे भोंकले. त्या काळखांत, ते थंडायेंत त्या सुण्याचें भोंकप काळीज हालोवपी आसतालें. शिवाय ते सुणेय पळोवंक आकांत, दोंगराळ सुणे. सुण्याच्या भोंकपाबराबर विजया शर्माची किंळच आयकूंक आयली. म्हळें ह्या सुण्यांनी काडलो ताचो कुडको. म्हजी सुण्याकडेन वळख आशिल्ली. पूण हें नवें सोयरें. शिवाय काळखांत भायर एकर्टे. किर्ते जालां तें पळोवंक टॉर्च घेवन हांव धांवक आनी जीन पॅन्टची झीप वयर ओडीत तें भीतर सरूंक एकूच गांठ पडली. धांवत भितर सरतना तें अर्द बंद केल्ल्या दाराक आपटलें आनी दाराक लावन दवरिल्ले ते माले कशे खिळे - तातुंतलो साक पिंजून भायर आयिल्लो खिळो बद्द विजया शर्माच्या पायांत घुसलो. परत किंळच्यो मारीत तें सकयल बसलें. टॉर्च पेटोवन पळयल्यार ताच्या पायांतल्या रगताच्यो शिळक्यो भायर पडटात. ताका तशेंच हाडून खाटीर बसयलें. बेगबेगीन मेणवात पेटयली. पळयत जाल्यार ताका बरोच बुराक जाल्लो. हांवे तांका खिळो लागला म्हण सांगलें तेन्ना ताणे बोब मारपाची सोडून हांवे थंय खिळे दवरिल्ल्या खातीर म्हाका गाळी घालूंक सुरवात केली. पुराय कॅम्पाचो ताणे उद्धार केलो.

म्हाका ताचें मन आनी वेदना समजताल्यो. परत हांवें ताचो पाय मांडयेर घेतलो डेटोलान रगत पुसून काडलें. वखद बी लावन घाय बांदलो. इतलें करता सर बारा-एक जाल्लें. त्या उप्रांत न्हीद कोणाक येता ? गजाली मारून-मारून दोन जालीं. ताका न्हिदूंक वच म्हूण सांगल्यार तें हालना. शेवटाक ताका हांवे म्हजेच खाटीचेर पांय उबारून न्हिदयलें. म्हजेंच उशें दिलें आनी म्हज्योच कांबळी आंगार घाल्यो. दुसऱ्यो कांबळी जमनीर घालून हांवूय आड पडलों. पूण तें आनी हांव एकेच कुडींत आसतना न्हीद कोणाक पडटा ?

दुसरे दिसा दोगांय उसरां उठलीं आमचे दोगांयचेय दोळे जागरणान तांबडे आनी दोगांय तर एकेच कुडींत. दोगूय रांदपी आंगणांत वतांत बसून शेकताले. एकेच कुडिंतल्यान

तांबड्या दोळ्यांनी आमी भायर सरल्यांत तें पळोवन ते समजुपाचें ते समजले. ताच्यामुखार ताणी कांयच म्हळेंना. उप्रांत नास्ता जाला काय ना तें पळोवंक गेल्लेकडेन 'रात को बहुत मजा किया ना साब ?' म्हूण एकल्यान विचारलेंच

राती कितें केलां ते आमकांच खबर आशिल्लें. कितें करपाची संदी मेळिल्ली जाल्यार, ताची इत्सा आशिल्ली जाल्यार हांव मनांत इत्सा आसुनय कांय करचोंना आशिल्लो. 'ताका वेगेंत घेवन न्हिदतूय आशिल्लों. पूण म्हजेर एका कॅम्प लिडराची जबाबदारी आशिल्ली. दुसरे दिसा बस येवपाची ती आयलिना. वाटेर झाडां आनी कडो कोसळून रस्तो बंद जाल्लो खंय. तीय रात आमी गजाली मारीत एकेच कुडींत सारली. ताका उप्रांत न्हिद पडली आसूं येता पूण हांवे तळमळून राती काडल्यो. दोन राती आमी मजा मारली ही खबर उप्रांत शाळेंतल्यो बाई लेगीत करताल्यो अशें सौरभ सिंग नांवाचो शिक्षक म्हाका सांगतालो. शेवटी सिक्किमचे शिक्षक कितें आनी गोंयचे शिक्षक कितें ! सगळे मनीस एकूच. बोंबले सकयल विचार करपी.

वयली घडणूक सांगपाचो उद्देश्य इतलोच की म्हाका जाय जाल्यार ताचेकडेन संभोग घेवं येतालो. तें सुशिक्षीत आनी सुसंस्कृत आशिल्लें. आपल्या आंगाच्या ल्हानशा कुडक्याचेर आपलें चारित्र्य मानपी नाशिल्लें. शिवाय हांवे ताची खूप सेवाय केल्ली. म्हजे विशीं ताच्या मनात सॉफ्ट कॉर्नर आशिल्लो आनी हांव त्या वेळार कबीर बेदी कसो दिसता अशें सगळे म्हणटाले. अशा वेळार आमी मजा मारूंक ना अशें कोणे म्हळें जाल्यारूच आमकां अजाप दिसपाचें. पूण आमी दोन राती एकठांय काडुनय कांयच घडूंक नाशिल्लें. कितेंय करूंक जाय जाल्यार आमच्यानी लग्नूय जावं येतालें. थंयच्यान गेल्या उप्रांत आमचे रस्तेय वेगळे जांव येताले. तरी लेगीत आमी कांयच केलेंना. असले खुपशे अणभव गाठीक आसतना म्हजीं बायल जर खंयच्याय परकी दादल्यावांगडा रातची एके कुडींत सांपडली जाल्यार हांवे करप कितें ?

कितें करपाचो जो प्रस्न उप्रासता तो लोक कितें म्हणटले ह्याच कारणाक लागून. सीता रावणागेर इतले दीस रावली म्हूण लोक उलयताले. ते उलयतात म्हणूनच रामान सीतेक सोडली. खरें म्हळ्यार तिणें रावणा वांगडा कितें केलें वा रावणान तिचे वांगडा कितें केलें हें लोकांकूय खबर नाशिल्ले आनी रामाकूय. रामाचो सीतेचेर पुराय विस्वास आशिल्लो. तरीपूण फक्त लोकांच्या तोंडाक लागून ताणे आपल्या कर्तृत्वाक लज हाडपी निर्णय घेवन सीतेक रानांत धाडली. आपलें पावित्र्य सिद्ध करपाची तिका अट घालून नवी परंपरा सुरू केली. सीता कितें आसा हें आपल्याक खबर आसा. तिचेर आपलो विस्वास आसा अशें सांगून जर ताणें सीतेक आपणायल्ली जाल्यार हे रूक्षप्रस्न आयज तयार जांवचेच नाशिल्ले. पूण सत्या परस आमी लोकांच्या तोंडाक चड भितात. आनी लोक म्हळ्यार कोण ? जांका समाजात कसलेंच स्थान ना असलेंच, ह्यो गजाली करूंक मुखार आसतात. स्वताचे भयणीक लेगीत स्कुटरीन घेवन वतना बोरकार कोणाक घेवन गेला म्हूण गांवभर घालपी

असल्या ह्या लोकांक म्हत्व तरी कितलें दिवप ? म्हजे वांगडा आसा ती म्हजी भयण हें जर तांका खबर आसत तर ते कांयच उलोवंचेनांत. तांचें उलोवप हें अज्ञानांतल्यान आयिल्लें आसता. सगळ्यो अफवा निर्माण जातात त्यो अज्ञानांतल्यान. जाचे वांगडा हांव आसता तें कित्याक हाचें पुराय गिन्यान म्हाका आसता. लोकांक तें नासता. लोकांचें गिन्यान तर्कांचेर आदारून मर्यादीत आसता. दादलो - बायल एकठांय येतात ती शरिराखातीर हेंच तें गिन्यान. ताच्या भायर वेगळें कितें आसूंक शकता हाची कल्पनाच ते करूंक शकनांत. तांचें पुराय आयुश्यच वेशेगिरीत गेल्लें आसता. बायलेक आपूण पोसतां देखून तिणें आपल्या वांगडा शय्यासोबत करूंक जाय हीच तांच्या संवसाराची रीत आसता. तांका जाय आसता कायदेशीर वेश्यागमन. खिणयाळ्या अशा ह्या सुखाक गौण मानपी लोक आसतात ही जाणविकायूच ह्या लोकांक नासता. रातभर एके बायलेवांगडा एकांतात रावून लेगीत फक्त गजाली मारल्यो हाचेर विश्वास दवरपाची तांक ह्या ८० टक्के लोकांमदीं नासता. एकठांय रावून लेगीत हाणी कांयच केलेंना अशें जर तांका कळत जाल्यार हे लोक दादल्यांच्या दादलेपणाचेरूच दुबाव घेतले.

म्हजी बायल अथवा प्रेयसी समजा तिका आवडटा त्या दादल्यावांगडा रातभर एकठांय रावली आनी हांवे तिका धरली जाल्यार म्हाका मात पासून वायट दिसचेंना. समविचारी मनशां नासत जाल्यार एक खीण लेगीत एकठांय ती रावप शक्य ना. शरीरसुखाखातीर तर न्हंयच न्हय. तें सूख तर पांच - धा मिण्टांचें. चडांत चड अर्दवराचें. त्या उप्रांत रातभर ताणी करप कितें ? अशा वेळार म्हजी जापसालदारकी आसतली ती म्हळ्यार असो खंयचो गूण म्हजे बायलेक वा प्रेयसीक आवडलो जो रातभर तिका तो दादलो दवरूंक शकता, तो सोदपाचो. शरीर सूख ही खिणयाळी गजाल. ती इच्छा आनी संमती आशिल्लो केन्नाय घेवंक शकता. कोणाक कळनासतना. ताका खंयचोच घोव आडावंक शकना तरी आसतना ह्यो गजाली घडनांत अशें न्हय. दुर्मीळपणान घडटात. हो सगळो प्रकार घडूंक पावना तो विस्वासाक लागून. घोवाचो बायलेचेर आनी बायलेचो घोवाचेर विस्वास जर आसत तर असले प्रस्न रूक्षप्रस्न घडूंकच पावनांत. जेन्ना ते निर्माण जातात तेन्ना प्रस्न करतल्याचो आपल्याचेरूच विस्वास नासता. तो आपल्या मापान दुसऱ्यांक मेजता. आपलोच सभाव उक्तायता.

म्हजें चलयांकडे पळोवप, बायलांकडेन पळोवप वेगळें. कोणूय सुंदर दिसली जाल्यार तिचेकडेन लक्ष वचप सभावीक. म्हजें तशें वताच. पूण तिचे तकलेंत जर कांयच नासत जाल्यार तिका हांव टाळटां. पूण जिचेकडेन वैचारीक कितें मेळपाचें आसत जाल्यार कुरूप आसुनय म्हाका ती सुंदर दिसल्या. तिका मेळपाक हांवे धन्यताय मानल्या. एकमेकांची काळजां एक जाल्या उप्रांत केन्नाय शाररीक संबंद आयलो जाल्यार तातूंत म्हाका कांय वायटूय दिसूंक ना. तें हांव पाप मानून घेना अथवा बायलमनशेच्या शरिराच्या एका ल्हानशा कुडक्याचेर तिचें हांव चारित्र्य थारायना. चारित्र्य हें शुद्ध मनाचेर आसता. तेंच हांव मानतां. तेचखातीर शरिराचेर आदारून निर्माण जाल्ले प्रस्न म्हजेखातीर रूक्षप्रस्न !





# चारित्र्याचेर तुजो विस्वास आसा



चारित्र्य म्हळयार कितें आनी तें कित्या वांगडा खातात हाची मात लेगीत कल्पना नाशिल्ले हो रूक्षप्रस्न केल्याबगर रावनांत. म्हाका हो प्रस्न करतले मातशे वेगळे पद्धतीन करतात. चारित्र्याचेर तुजो विस्वास आसा काय म्हूण विचारतात. तांच्या ह्या प्रस्नांत एक खर असो आरोप आसता. तांका सांगपाचें आसता, तुका चारित्र्य ना. तूं चारित्र्य नाशिल्लो मनीस. मनशान चारित्र्यवान आसूंक जाय. चारित्र्य ज्या मनशांत ना ताका तो कितलोय व्हड आसुनय ह्या समाजांत मान ना. ह्याच खातीर आयज दर एकलो चारित्र्य नांवाचे भ्रामक गजाली फाटल्यान धावत आसता. आपूण चारित्र्यवान म्हणपाचें दाखोवपाचो यत्न करता. समाजाक लिपोवन सगळ्यो गजाली करून लेगीत चारित्र्याचेर भरवंसून रावपी आनी स्वताक चारित्र्यवान हें विशेषण लावन घेवपी ह्या रूक्षप्रस्नांक खरें म्हळ्यार कांयच अर्थ नासता. चारित्र्य म्हणटात तें फक्त दाखोवपाखातीर आसता. त्याच खातीर मोठमोठ्यांचीं चरित्रां बरयतना तांचें भलतेंच चारित्र्य आमच्या मुखार दवरपाचो यत्न जाता. चरित्रा फाटलो उद्देश्य आसता तो मुखावेले पिळगेन त्या चारित्र्यवान मनशाचें चरित्र वाचून एक आदर्श घेवंचो. पूण आज जण एकलो आपलें चारित्र्य कितें हें पळयनासतना दुसऱ्याच्या चारित्र्याचेर दोळो दवरून आसतात तें पळोवन अजाप दिसता.

चारित्र्याचो अर्थ कितें आनी खरेलोच चारित्र्यवान कोण हें कोणाच्यान सांगूंक येवपाचें ना. समाजान वायट अशें थारावन दिल्ली वाट जो चलता तो चारित्र्य नाशिल्लो मनीस अशें समजुपाची एक चाल पडल्या. पूण हे सगळे पांवडे थळा - काळानुसार बदलतात आनी चारित्र्याचोय अर्थ आपसूक गळून पडटा. त्याचखातीर चारित्र्य म्हळ्यार खरेलेंच कितें आनी तें कशें आसता हें अजून म्हाका कळूंक ना. त्याच खातीर हेर लोक जाका चारित्र्य मानतात ताचेकडेन हांव केन्ना लक्ष दिनासतना, म्हाका जें कितें करीन दिसता तें हांव करीत रावतां. जी गजाल करतकच म्हजें म्हाकाच खाता, वा हांवे ती करूंक फावना आशिल्लें अशें दिसता तीच म्हजे नदरेन वायट गजाल. ती जेन्ना म्हजेकडल्यान घडटा तेन्ना म्हाका वायट जेरूल दिसता. पूण म्हजें चारित्र्य भंगलें अशें मात म्हाका केन्ना दिसना.

आमच्यो चारित्र्याच्यो कल्पना वेगळ्यो. म्हज्योय तश्योच आसात. चारित्र्याच्यो गजाली

करप्यांनी अमुकच गजाल न करप म्हळ्यार चारित्र्यवान जावप अशें जर निश्चित केल्लें जाल्यार म्हज्योय कल्पना निश्चित जावपाच्यो. पूण अजून चारित्र्यवान मनीस कसो आसूंक जाय वो आसता हें सारकेपणी म्हाका खबर नाशिल्ल्यान म्हजोय घुस्पागोंदळ जाल्लो आसा.

मनशान चारित्र्यवान आसचो म्हळ्यार ताणें चोरी करूंक फावना, फटींगपणा करूंक फावना. सोरो - सिगार आनी ह्याच प्रकारचीं हेर वेसनां करूंक फावना. परके बायलेकडेन शारिरीक संबंद म्हळ्यार व्यभिचार करूंक फावना आदी समाजान थारावन दिल्लीं चारित्र्याचीं लक्षणां. ह्यो गजाली समाजान वर्ज्य थारायल्यात. पूण प्रसंगानुसार चोरयो ह्यो दरेक मनशाकडल्यान घडून येतातूच. असो एकूय मनीस नासतलो की जाणे केन्नाच चोरी करूंक ना. हिंदू धर्माचो मुखेल कणो जो भगवान श्री कृष्ण तो तर माखन - चोर म्हणूनच प्रसिद्ध आसा. श्री कृष्णाच्यो सगळ्यो करण्यो बारकायेन पळयत जाल्यार तातूंत चोरी आनी फटींगपणाच चड दिसून येतलीं. पूण ताचीं हीं कृत्यां हेरांच्या फायद्या खातीर आसतालीं. स्वताचो सुवार्थ नासतना हेरांच्या कल्याणांखातीर जर ह्यो गजाली केल्यो जाल्यार ताका समाज वायट म्हणून पळयना. चड लोकांचें बरें जाता जाल्यार फटींगपणां हीं करूं येतात. ताका कोणाची आडखळ आसना.

सोरो, सिगार आनी अशा प्रकारचीं हेर वेसनां आसात तांकाय आयज सामाजीक मान्यताय आसा. दर एकल्या चारित्र्यवानाक हातुंतलें कसलें ना कसलें वेसन आशिल्लें आमी पळयलांच. दरेका व्हड मनशाक वेसन हें आसताच अशेंच आतां समिकरण जाल्लें आसा. म्हण्टकच ह्या गजालिंचेर आयच्या काळांत चारित्र्य अवलंबून ना.

सगळे लोक आयज चारित्र्याचो भर दितात तो व्यभिचाराचेर. परकी बायलेकडेन वा वेश्यागमनाकडेन जांचो संबंद आसता ताकाच चारित्र्य हीण मानपाचो संकेत आयज निर्माण जाल्लो आसा. जो रामावरी एक पत्नीव्रत पाळटा तोच चारित्र्यवान, हेरांच्या बायलांकडेन वाकडे नदरेन पळयना तोच मोठो मनीस अशी कल्पना करून आयज समाज जियेता. म्हजे नदरेन हेंच चारित्र्याचें मुखेल आनी म्हत्वाचें लक्षण अशेंय जरी मानलें तरीय दरेकलो मनीस आपले बायलेची नदर चुकोवन दुसऱ्याचे बायलेक वा दरेक बायल आपल्या घोवाची नदर चुकोवन दुसऱ्या दादल्याकडेन नदर मारल्याबगर रावना. आयज शारिरीक संबंद न येवप म्हळयारूच चारित्र्य अशें मानपाची चाल पडून गेल्ली आसा. वयले वयर पतीव्रत वा पत्नीव्रत पाळप आनी मनांतल्यान हेर दादल्याक वा बायलेक नागडी करून पिसडप हे संस्कृतायेंत समाजांतले नदरेंतलें चारित्र्य म्हळ्यार धोंगीपणाचे बुन्यादीचेर उबीं आशिल्लीं फटींगपणा !

दादलो जांव वा बायल जांव, मनशाक स्वताची अभिरूची आसता. नव्या - नव्या गजालिंचो सोस आसता. पूण नवी गजाल दिसली रे दिसली, पोरणी गजाल सोडून दिवन नव्या फाटल्यान धांवल्यार जिविताक थीरताय ना. हें धांवप फक्त आंगाची चामडी तरनी

आसा सर जाता. ह्याच खातीर समाज थीर आसचो म्हूण मनशां बाबतिंतूच समाजान हीं बंदनां घाल्यांत. एकाच दादल्यान एकेच बायलेक वा एकेच बायलेन एकाच दादल्याक मरसर आदार दिवंचो हे भावनेंतल्यान ही गजाल थारायल्या. मनशाची कात तिकतिकीत आसा सर हें धांवप चलतलें. एकदां तिका मिरयो पडल्यो म्हणटकच कोणे कोणाक आदार दिवंचो ? ह्याच आदाराक लागून ही सगळी सामाजीक तजवीज. शिवाय मनीस हो चडसो मालकी हक्क गाजोवपी प्राणी. मनीसूच कित्याक जनावरां भितरूय हो गूण दिश्टी पडटा. आपले बायलेचेर दुसऱ्या दादल्याची नदर गेली जाल्यार दादलो खुबळटा. हातुंतल्यान मागीर झुंजां उप्रासतात. आमच्या इतिहासांत ह्या पयलीं असलीं झुंजां हीं जाल्लींच आसात. समाजांत दिसपट्टी झगर्डी - झुंजां न जावपाखातीर, शांतिक़ाय उरपाखातीर ही सामाजीक वेवस्ता आसप गरजेची.

महाभारत काळांत ह्या प्रकारच्या घडणुंकाचेर कोणाचें चारित्र्य अवलंबून नाशिल्लें. त्यावेळार खंयचेय बायलेक कोणूय भोगूंक शकतालो. इतलेंच कित्याक स्वता बायल आपले आवडिचो दादलो आफोवन हाडटाली. नियोग पद्धत तर समाजमान्य आशिल्ली. पूण श्वेतकेतून, उद्दालक रूशीच्या पुतान हाका बंदी घाली. ताच्या दोळ्यांमुखार ताचे आवयक एक ब्राह्मण जबरदस्तीन ओडून व्हरता म्हूण तो खुबळळो. ताचो विरोध नियोग हे वेवस्तेक नाशिल्लो. बायलेच्या इत्सेआड तिचेर दादल्यान केल्ले आगळीकेक विरोध आशिल्लो. ते करणेक उद्दालक रूशीचोय विरोध नाशिल्लो. श्वेतकेतून तो विरोध केल्लो. आपले आवयचे इत्सेन जर तो प्रकार घडिल्लो जाल्यार श्वेतकेतू खुबळत आशिल्लो अशें म्हाका दिसना. कोणाचेर कोण जबरदस्ती करूंक शकना होच हाचो अर्थ. तेन्ना नियोग पद्धत आसुनय कोण चारित्र्यहीण थरलो ना. मागीर आतांच कित्याक थरचो ?

दरेका कर्तृत्ववान दादल्याच्या फाटल्यान खंय एक बायल आसता. ती बायल ताचेकडेन धर्माक साक्ष दवरून वा कायद्यान थरिल्ली आसूंक जाय अशें ना. लग्न ही एक तडजोड आसता. जर खंयचोय दादलो आनी खंयचीय बायल कोणाची जबरदस्ती नासतना एकठांय येता आनी आपलें चरित्र घडयता जाल्यार तांका आडखळ आसूंक फावना. त्या मनशांचें चारित्र्य हेच गजालीचेर जोखूंक फावना.

महात्मा गांधीन एकदां डॉ. लोहियांक म्हणिल्लें खंय तूं चारित्र्यवान आसा देखुनच आपल्याक आवडटा. डॉ. लोहिया हे बायलांच्या प्रकरणांबाबतींत प्रसिद्ध. तांच्यो त्यो भानगडी (समाजाच्या नदरेंतल्यो) गांधीजीक खबर नाशिल्ल्यो अशांतली गजाल न्हय. तरी आसतना गांधीजी लोहियांक चारित्र्यवान मानताले. नेहरूविशीं, काकासायब कालेलकारांविशीं अजून लोक तांच्या बायलांकडच्या संबंदाविशीं उलयतात. तांच्या सामाजीक वावरापरस समाजाक तांचीं हीं प्रकरणां चड खबर आसात. तांचीच गजाल कित्याक ? आमच्या बाकिबाबांचीच गजाल घेयात. केदो व्हडलो कवी हो ! आख्खो महाराष्ट्रच न्हय तर पुराय देश ताका माथ्यार घेवन नाचलो. तांका किर्ते बाकिबाबांचीं

प्रकरणां खबर नाशिल्लीं अशांतली गजाल न्हय. पूण तांका कवी वळखूंक आयिल्लो. गोंयकारांक तें वळखूंक येवंक ना. ताणी कविता सोडून तांचीं प्रकरणांच सोदूंक वेळ घालयलो. त्याच खातीर बाकिबाब न्हिदेंत लेगीत लोळून माळी चडून वयर पावलो म्हूण कोटी करून हे लोक हांसतात. तो कवी म्हूण व्हड, चारित्र्यवान म्हूण ल्हान अशें हेच लोक उलयतात. राजकपूर कलाकार म्हूण व्हड पूण बायलांक लागून ताचें चारित्र्य धड नाशिल्लें अशें बरे बरे शिकिल्ले लोक म्हणटात.

शींव - वाग जेन्ना शेपडी वयर काडून आपलो आब दाखोवंक चलता तेन्ना तांचें तें सुंदर रूप पळोवन लोक तोखेनांत. तांचे व्यक्तिमत्व पळोवन खूश जायनांत. लोकांची नदर पडटा ती ताणें वयर काडिल्ले शेंपडे पोंदा कितें आसा ताचेर. लांडोर आपले पाखाटे वयर काडून भान सोडून नाचता. ताचें तें रूप पळोवप म्हळ्यार दैवी गजाल. पूण ताणें नाचूंक पाखां वयर काडल्या बराबर पळोवपी लोकांची नदर खंय वता !

ही चूक मोराचीय न्हय आनी वाग - शींवाचीय. चूक मनशाचे नदरेची. समाज चारित्र्य सोदता तें हांगाच. हें असलें चारित्र्य हांव निखालूस मानिना. म्हजो चारित्र्याचेर विस्वास ना. हांव चारित्र्यहीण जावन जियेंवक सोदतां.





# तुर्वे केन्ना कोणाचो तिरस्कार केला



म्हजो कोणेंय मत्सर करचो पूण तिरस्कार न्हय अशें म्हाका आतां ह्या खिणांमेरेन दिसत आयलां. कोणेंय म्हजो मत्सर करून म्हजेकडली आपली चलणूक जर बदल्ली, म्हाका गाळी घाल्यो, म्हजो तो दुस्मान जालो तर म्हाका ताची मात लेगीत खंत जायना. वेल्यान म्हाकाच म्हजो अभिमान दिसूंक लागता.

म्हजो कोणूय मत्सर करता तेन्ना तो करतल्यांमदीं कसलो तरी उणाव आसा, म्हजे भितर जें कितें व्हडपण आसा तें तांचे भितर ना आनी तें हातासपाचीय तांचेकडेन ताकद ना देखून निरूपाय म्हणून हे लोक म्हजो मत्सर करूंक लागतात म्हणपाचें म्हाका भावता. असल्या ह्या मत्सरी लोकांक बुद्ध शिकोवपाचो एकूच उपाय म्हाका दिसता तो म्हळ्यार, तांकां गाळी मारीत रावचे परस, तांका उणाक लेखीत वेळ होगडावचे परस आपले मदले गूण, व्हडपण चडांत चड वाडयत रावप आनी तांकां चडांत चड मत्सरी करून उडोवन जळयत रावप. कोणूय कोणाच्या मत्सरान असो जळपाक लागलो म्हण्टकच समजुपाचें की हो जळपी मनीस कसलेच लायकीचो ना. तो फुडाराक कांयच करूंक पावचोंना. कारण ताचो पुराय वेळ मत्सर करूंक आनी दुसऱ्यांचेर जळपाकच गेल्लो आसता.

म्हजो मत्सर करपाचो सोडून जर कोणेंय म्हजो तिरस्कार केलो म्हण्टकच मात मागीर म्हाका भिरभिरी मारूंक लागता. हांव खंती जातां. भितरल्यान सोंपत रावतां. कोणेंय कोणाचो तिरस्कार केलो म्हण्टकच म्हाका दिसूंक लागता, तिरस्कार करप्यांची पत आतां उरूंक ना. तो नितिमत्तेन आनी कर्तुत्वानय सोंपला. ताका आनी आतां हे धतरिर भार जावन रावपाचो अधिकार ना. म्हजे नदरेन त्या मनशांत आनी मातयेंत वळवळून फक्त पोट भरपी गांयडोळांत कांयच फरक ना.

हांगा असल्या तिरस्करणीय मनशाची तुळा करताना गांयडोळाचो अपमान जाता हाचें भान म्हाका आसा. आमी जरी गांयडोळाक क्षुल्लक जरी मानतात तरी तो धतरेक भार केन्नाच नासता. मनशाक तो कांयच करिना, फक्त आपलो जीव सांबाळपाखातीर वळवळत पोट भरता अशें दिसतय बी. पूण ह्या सैमान गांयडोळासारके कितले तरी जीव आनी किटक निर्माण केल्यात, जे सैमाचें संतुलन राखपाचें काम करीत आसतात. तांचेकडल्यान काम करून घेवपाखातीर तांका एक वेगळी अशी आस दिल्ली आसा. ती भागोवपाखातीर

गांयडोळ मातयेंत हुळहुळत आसता. आपलें पोट भरीत रावता. माती पोखरीत रावता. तातुंतल्यान माती मोव आनी भुसभुशीत जाता. जी निर्मणेखातीर भोवच गरजेची. पोट भरप हो गांयडोळाचो आपसुवार्थ. पूण ताचे मार्फत परमार्थ घडोवन हाडपाची मांडणी सैमान करून दवरिल्ली आसा. पूण आमी केन्ना केन्नाय ताचें काम लक्षात घेनासतना. ताची उपमा मनशाक दिवन ताका आनी ताच्या वावराक ल्हान करून उडयतात. जशें हांवे आतांच ताका तिरस्करणीय मनशाचे पंगतीक बसोवन केलां.

म्हजो जसो कोणें तिरस्कार करचो न्हय हाची हांव खबरदारी घेतां आनी तिरस्काराक पात्र जातलों अशी घडणी म्हजेकडल्यान घडचिना हांची जतनाय घेतां, वा तसले घडणुकेच्या लागीं पासून वचनां, तशेंच हेरांनीय वागचें आनी तिरस्काराक पात्र जांवचें न्हय अशें म्हाका दिसता आसलें तरीय केन्ना केन्ना हांव हेरांचो तिरस्कार करतांच.

दरेकल्या मनशाची आपली अशी खास चलणूक आसा. तो आपल्या जिवनतत्वानुसार वागता - चलता आनी त्या लोकांचे हे चलणुकेंत आमच्या विचाराप्रमाण खोटेपण दिसून येता. तेन्नाच त्या मनशाविशीं तिरस्कार दिसप हें साहजीकच आसा. एकल्यान आपल्या विचाराप्रमाण हेरांविशीं, तांचे लागणूक - चलणुकेविशीं जी अपेक्षा बाळगिल्ली आसता, तांचो भंग जालो म्हण्टकच ही घडणूक घडूं येता. तांचे विशीं राग तिरस्कार मनांत निर्माण जांव येता. असल्या तिरस्काराक वा रागाक म्हजे नदरेन व्हडलेंशें म्हत्व नासलें तरीय केन्ना केन्नाय कोणांविशीं अपेक्षा नासतनाय, ते आपले विचार पद्धतीन, आपल्या जिविताच्या तत्वगिन्याना प्रमाण वागतात म्हणपाचें समजून लेगीत तांचो तिरस्कार केल्या बगर रावूं येना. तो आपल्याक कळनासतना दिसूंक लागता. मनीस ह्यावेळार निःत्संग म्हणटात तसो रांवकच शकना. कारण स्वताचे जिणे विशींचे वेगळें तत्वगिन्यान आखून चलपी, हे धतीरर आनी समाजांत धुडगुस घालपी हे जीव आपल्या मुर्खपणाचें तत्वगिन्यान हेरांचेर थापतात. चुकून तांका कसलो एक अधिकारूय लाभिल्लो आसता. त्या अधिकाराच्या मालवजाचेर हे तिरस्करणीय लोक मोठेपण मिरयतात आनी जांचेकडेन अधिकार ना तांकां ते सांगतात तें पिशेपण आसता हें जरी खरें आसलें तरीय सत्तेमुखार शाणेपणां चलना म्हण ओगी रावचें पडटा. अशेवेळार शाणे मनशाक तांचो तिरस्कार करपाबदला दुसरो खंयचोच उपाय उरना.

म्हजे भोंवतणी जे लोक आसात आनी तांकां कुशीक दवरून म्हज्यान कांयच करप शक्य ना हें जरी खरें आसलें तरीय तांचो तिरस्कार करतनाच तांचो सांगात सोडपय भोव कठीण जाता. एकदां जरी दिसलें की तिरस्कार हो भाव अपेक्षाभंगातल्यान तयार जाता आनी असल्यांविशीं परत अपेक्षा बाळगप ना आनी तांच्या वाऱ्याकूय परत वचप म्हणटात तें ना, तरीय कांयवेळा कसलीच अपेक्षा नासतनाय तांचेविशीं तिरस्काराची भावनां निर्माण जालेबगर रावना.

तुवें केन्ना कोणाचो तिरस्कार केला ? असो प्रस्न जेन्ना उबो जाता तेन्ना तिरस्कार कित्याक करप ? कोणाचो करप ? असो विचार करप, तत्व गिन्यांना सांगून मखलाशी करप

म्हणटात तेंच एक व्हड फटींगपण, ढोंगीपण. जण एकलो आपले पद्धतीन वागता अशें म्हण मखलाशी करप, स्थितप्रज्ञ रावप हें भयंकर कुस्तार जावपा सारकें. व्यक्तिगत जरी कोण तिरस्कार करिना तरी सामाजिक वावरांत आपली पिशेपणां, नेणारपणां, वैचारीक गोंदळ घेवन जे कोण हेरांक बाधक जातात तेन्ना त्या लोकांचो मत्सर कोणांकूच दिसना तर तिरस्कार दिसतलो. कीळस येतली. आयचें राजकारण आनी तातूंत धुडगूस घालपी राजकारणी हीय एक अशीच तिरस्करणीय गजाल. तांकां हांवें निवडून दिवंक ना, तांचे कडल्यान म्हज्यो कसल्योच अपेक्षा नांत, तांचें म्हाका कांयच पडूंक ना. हांव सामको वेगळो, तत्वगिन्यानी अशें म्हणून पलायनवादी जावपी लोकांमदीं हांव म्हाका बसोवंक शकना. लोकशाय पद्धतींतल्या ह्या दोशांक जापसालदार धरून लोकशायेचो तिरस्कार करप, काय तांकां नियुक्त करपी लोकांचो तिरस्कार करप होय एक प्रस्न आसा. आयज हे लोकनियुक्त प्रतिनिधी जे पद्धतीन वागतात, तांची ती पातळी, तांची अक्कल आनी सत्ता हातांत आयिल्ल्यान तांकां मारिल्लो तो मद ह्यो गजाली मत्सर करपासारक्यो अश्यो कोणूच म्हणचोंना.जांका सद्सद् विवेक बुद्धी म्हणटात ती आसा तो सामान्यांतलो सामान्य मनीस लेगीत हांकां आपले परस व्हड मानचोंना, तर तांचे सारको जावप म्हळ्यार पाप अशीच भावना तांच्या मनांत उदेले बगर रावचीना. तांचो तिरस्कार ते खिणांखिणांक करीत रावतले. अशा वेळार तुवें कोणाचो तिरस्कार केला ? अशा ह्या प्रस्नाक कोणूच मना थावन ना म्हणूक शकचोंना. जसो राग, लोभ, खोस ह्या सारके स्थायी भाव मनशां भितर आसात, तसोच तिरस्काराचोय स्थायी भाव जात्याच म्हणटात तसो दरेकामदीं उप्रासल्या बगर रावना. असल्या लोकांचो तिरस्कार करप हीच एक आयज रासवळ आनी सर्वमान्य घडणूक जावन गेल्या.

आयच्या ह्या राजकारणाचो जसो तिरस्कार केल्याबगर रांव नज, तशेंच कांय व्यक्तिगत पातळीचेरूय तिरस्कार करपासारक्यो गजाली घडटात. साहित्याच्या आनी हेर जायत्या मळांचेरूय अश्यो खुपश्यो व्यक्ती आसात जांचो मत्सर कोणाक दिसना, तांचो राग येना, तांची काकुटय कोणांक दिसना. करीन दिसता तो फक्त तिरस्कार. तांच्या म्हऱ्यांत लेगीत रावप ना इतले हळशिकावणे लोक आसतात हे. फक्त आपलें घराणें, आपली पदवी वा आपूण अमक्यालो सोयरो हाच्याच मालवजार कितेंय तरी खरडप, वशिल्यान जांव लागोळेपणा करून मेळटा ते माचयेर वचून मिरोवप आनी व्हडले जाणकार कशे कितेंय अर्थहीण बरोवप, अर्थहीण उलोवप. आयकुप्यांनी, वाचप्यांनी मात तें सगळें सोंसप. हो सगळो प्रकारूच सोंसपाक येना इतलो तिरस्कार करपा सारको आसता. आयज दरेका मळाचेर ह्यो असल्यो हळशिकावण्यो घडणुको घडटना दिसतात. असली ही घडणी आयचीय न्हय. पुरातन काळा थावन ती चलत आयल्या. त्याच खातीर 'मूर्ख भोगतात राज सिंवासन आनी पंडीत भोंवतात भिकारी' ही म्हणणी दर एकल्याच्या ओंठार घोळटा. अशा वेळार सत्ता, अधिकार भोगपी ह्या मुर्खांचो तिरस्कार जो कोण करिना ताकाच मूर्ख म्हणू

येता. तिरस्कार दिसुनय तो लिपोवन दवरता तो एक नंबरचो धोंगी आसूं येता.

म्हाका हेरांविशीं काकूट दिसल्या. तांचो राग आयला. तांची अपुर्बाय दिसल्या. तांचो मत्सर दिसला. तांचेकडले संबंद वेगवेगळ्या कारणाक लागून पयसावल्यात पूण उपरांत एका खिणांक ते पयलींवरींच जुळून आयल्यात. कसल्याय मतभेदाक लागून जाल्ली दुस्मानकाय हांव विसल्लां. एकमेकापासून पयस वचून परत एकठांय जातना मनाक कसलेंच उणाकपण दिसलेंना. पूण जेन्ना खंयच्याय मनशाचो मागीर तो वळखीचो आसूं वा अनवळखी आसूं, तिरस्कार येवंक लागलो म्हणटकच ताजें आनी म्हजें कशेंच जुळना. ताजी नदर लेगीत पडत जाल्यार म्हजी शीर तडकता. ताजेकडेन उलोवप सोडाच, ताका बगल दिवपाखातीर फक्त हांसून लेगीत टाळप म्हजेकडेन जायना. कोणाविशीं तिरस्कार दिसप हीच गजाल म्हाका, म्हजे कालेतीक पचना. कसल्याय कारणाक लागून दुस्मान जाल्ल्याकडेन हांव जमोवन घेवन परत इश्टागत करतां. ह्या आदीं हांवें तशें केलांय बी. पूण म्हजें कसलेंच लुकसाण करूंक नासतना, वेळार फायदो जांव येता अशा मनशांचो तिरस्कार दिसूंक लागलो म्हण्टकच म्हजे मुखार प्रस्न लाव लुकसाणीचो उरना. उरता तो तिरस्काराचो. ताजेकडेन मागीर म्हजें जल्मात जुळना.

हांवें असो तिरस्कार केला. पूण खूप थोड्या जाणांचो, हाताच्या बोटांर मेजपा इतल्यांचो. ही तिरस्काराची भावना कित्याखातीर तयार जाता हेंय हांवें अणभवलां. तेच खातीर म्हाका दिसता म्हजो कोणेंच तिरस्कार करचो न्हय. तो करूंक फावना अशीच हांव म्हजी चलणूक दवरतां. कित्याक तिरस्काराचो खरो अर्थ हांवें अणभवला देखून ......!





# तुज्या मायेच्या मनशांक सोडून तीं परत केन्नाच मेळचिंना अशे सुवातेर तुज्यान वचूंक जातलें



हे धतरीर जल्म घेतिल्ल्या दर एका जिवाक केन्ना ना केन्ना ही धर्तर सोडून वचूंक जाय अशी एक असत्य गजाल सत्य मानपाची संवय हे धतरिवेल्या तत्वगिन्यांनांक लागिल्ली आसा. हो संवसार वाटकुळो आसा आनी मनीस घुंवत घुंवत थंयच पावता हें तत्वगिन्यान मांडटा आसतनाच मनीस एकदां गेलो म्हणटकच परतून येना हेंय तत्वगिन्यान तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरता. आपल्याच्या वाटकुळ्या येवजुपाचो प्रभाव सरळ चिंतपी सर्व-सामान्य मनशाचेर लादप आनी आपूण कोणतरी व्हड बुदवंत म्हूण मिरोवप होच ह्या अर्थ नाशिल्ल्या विधानांचो आनी तत्वगिन्यानाचो हेत आसता.

जेन्ना धर्तर ही वांटकुळी आसा आनी मनीस वांटकुळो घुवून तेच सुवातेर पावता हें जर सत्य मानलें जाल्यार एकदां हे धतरिर सावन गेल्लो जीव परत येना म्हणप असत्य गजाल. हांगा एकदां धर्तर हो प्रकार मानलो म्हणटकच मनीस ही धतरिपरस वेगळी बाब उरूंक शकना. एकदां मनीस गेलो म्हणटकच तो धतरिच्या तत्त्वाप्रमाण परत येवंकूच जाय. तो जेन्ना येतलो तेन्ना खंयच्या रूपान आनी कसलें तत्व घेवन केन्ना येतलो हाची खबर तो गेला हें पळयल्ल्याक नासता. गेल्लो मनीस परत आयला काय किर्ते हें पळोवपाखातीर, गेल्ल्याक पळयल्लो मनीस ते सुवातेर नासता. कित्याक तर तोय मनीस आपली सुवात सोडून गेल्लो आसता. गेल्लो मनीस आयला काय किर्ते हें न पळयिल्लो होच अज्ञानी जीव आपल्या अज्ञानाचें तत्वगिन्यान करता आनी तें हेरांच्या बोडाचेर मारता. तेंच सत्य मानून हेरूय लोक मागीर एकदां गेल्लो मनीस परत येना अशें मानून चलता. खरें म्हळ्यार तो मनीस परतून आयला काय ना हें पळोवपा खातीर तो थंय रावना. जर तो थंय राविल्लो जाल्यार गेल्लो मनीस आयला म्हणपाचें ताका कळटलें आशिल्लें. कित्याक तर धर्तर ही वांटकुळी आसता हाचेर ताचो तितलोच विस्वास आसा जितलो मनीस एकदां गेलो म्हणटकच परत येना म्हणपाचे गजालिचेर आसता !

बारीकसाणेन पळयत जाल्यार मनीस धतरिवेलो खंयच वचना. तो धतरिवेल्यान चंद्रासारक्या दुसऱ्या गिऱ्याचेर लेगीत वचून परत आयिल्लो आसा. पूण ह्या वचपाक मनीस वचप म्हणनां. कित्याक तर तो परत येतलो हाची खात्री मनशाक आसता आनी परत आयिल्लो ताका लोक पळयतात. मनीस जेन्ना मरता तेन्नाच तो हो संवसार सोडून

गेलो अशें लोक म्हणटात. आनी हें वचपूय तांचे कल्पने प्रमाणूच आसता. ताणी कल्पना केल्ली आसता ती तीन संवसारांची, तीन जगतांची. आपूण ज्या संवसारांत रावतां तो संवसार खंयच्याय जिवान सोडलो म्हणटकच तो हो लोक सोडून परलोकांत गेलो अशी कल्पना करून घेतिल्ल्या कारणानूच हो भ्रम तयार जाल्लो आसा. धतरिवेलो मनीस मेल्या उप्रांत हो संवसार सोडून जर वतालो जाल्यार हे धतरिवेली एकानएक वस्त ह्या संवसारांतल्यान वचूंक जाय आशिल्ली. तशी ती ना जाल्ली जाल्यार इतल्या काळांत हो संवसार जांव धर्तर म्हणटात तो प्रकारूच हांगा उरचो नाशिल्लो. तो अजुनय उरपाचें कारण म्हळयार ही धर्तर वाटकुळी आसा आनी हांगच्यान गेल्या अशी दिसपी दरेक गजाल परत तेच सुवातेर येता. फरक इतलोच आसता की ती वेगवेगळ्या रूपांत येता आनी नवें रूप घेवन परत येता. तेन्ना तिका वळखुपी कोणूच आपल्या मूळ रूपांत नासता. ताची गवाय दिवपीय आपले सुवातेर, आपले स्थितीत नासता.

हेच असमर्थतायेक लागून मनीस आपले जाणविकायेक मर्यादा घालता आनी माया - मोह ही काल्पनीक सृश्ट निर्माण करता. तेच सृश्टीत आपल्याक बांदून दवरता. हो मायेचो काल्पनीक संवसार सोडून वतना थतरवितर जाता. तांच्या मनांत रूक्षप्रस्न तयार जायत रावतात. आपणे ही माया जमयल्या ती सोडून वचप शक्य जातलें काय कितें ? खरें म्हळ्यार दर एकल्याक हीं मायेचीं बंधनां तोडून परत तीं केन्नाच मेळचिनांत अशे एके अवस्थेंत एक दीस वचचेंच पडटा. तो ते अवस्थेंत सहज वता. अशा वेळार तें शक्य जातलें काय कितें हो प्रस्नूच रूक्षप्रस्न जावन वता. शक्य जातलें काय ना हे गजालीक त्या वेळार अर्थ उरना. ताका अशक्य भासलें तरीय तें शक्य करून घेंवचेंच पडटा.

मनीस जल्माक आयल्याबराबर तो कोणाच्यातरी सांगातान रावता. हो सांगात सैमीक रूपानूच घडिल्लो आसता. खंयचोय जीव आपूण जावन आपली राखण करूंक समर्थ जायना त्यासर हेर बाबीं कडल्यान ताची राखण जांवची देखून सैमानूच तजवीज केल्ली आसता. त्याचखातीर आवयच्या मनांत माया हो अत्यंत सशक्त असो भाव सैमानूच निर्मिल्लो आसता. ह्याच भावाक लागून असमर्थ अशा जिवाची राखण जायत वता. हो भाव दुर्बळांतल्या दुर्बळ आनी सबळांतल्या सबळ जिवांभितर लेगीत तेच सशक्ततायेन आसता. ल्हानांतलें ल्हान सवणें आपल्या पिलांक सांबाळपाखातीर तितलेंच धडपडटा आनी समाज घडोवन रावपी, आपल्याक बुद्धीवादी मानपी मनीस, माया उक्तावपाची तांची तरा वेगळी आसली तरीय तितलोच परिश्रम घेता. त्या फाटली तांची भावना एकूच आसता. तांच्या मनांतले भाव, तांची ती माया मेजतनां तांचे भितर फरक कसोच करप जमचोंना. कोणाचे मायेक चड मोल आसा आनी कोणाचे मायेक उणो ही तुळा हे घडणुकेंत करप कोणांक जमपाचें ना: तरी लेगीत हो भाव केन्नाच स्थायीभाव उरना. तो संबंदाप्रमाण चड - उणो जायत वता. सुकण्या पिलाक पाखां फुटून तें उडूंक लागलें आनी आपलो दाणो - गोटो आपूण सोदून खांवक शकलें म्हणटकच त्या सुकण्याची आवयूच त्या पिलाक आपलें पील

म्हणपाचें विसरता. कोंबये पील कांय तेंपान कोंबो जाता आनी आपली आवय कोण हें सोदूंक भोवनासतना तिकाच एक सर्वसादारण मादी करून उडयता. हो प्रकार घडटा तो,तो ह्या जनावरांनी आपली अशी एक समाज वेवस्ता थारायल्ली ना देखून. ती मनशांनी थारायल्या देखून मनीस तांचीं नाती आपले समाजवेवस्तेप्रमाण थारायता. अमक्या - अमक्या कोलगाचो अमको पेटो, अमकें कोलूग अमक्या पेट्याची आजी हें नातें सुणो दवरना तर ती याद मनीस दवरता. समाजवेवस्तेच्या मानदंडान मनीस जेन्ना हीं नातीं हिशेबान मांडटा तेन्ना एखाद्रो पेटो आपले आज्जे वांगडा वा आवय वांगडा आपली कामभावना शमोवपाचे लटापटीत दंग आसता. मनशान ज्या पेट्याक ल्हानपणार आपले आवयचें दूद चोखतनां जे भावनीक नदरेन पळयल्लें वा त्या पेट्याक दुसऱ्यान कोणेय हात लायतकच ताचे आवयन जो आकांत केल्लो आसता, तो भाव, ती माया अशा वेळार खंयच दिसना. ती भावना पुरायेन बदलून गेल्ली आसता.

माया म्हणटात तो प्रकार मनशांमदींच दिसता, तो ताणी मानून घेतिल्ले समाजवेवस्तेक लागून. आपले राखणेखातीर वा हेर गरजांखातीर जर ताणी समाज रचना थारावंक नाशिल्ली जाल्यार ह्या मायाभावाक व्हडलोसो अर्थ उरचो नाशिल्लो. जेन्ना मनशाची सामाजीक उदरगत जांवक नाशिल्ली तेन्ना मनीस आनी हेर जनावरां हांचे भितर कसलोच फरक नाशिल्लो. ही गजाल आमकां अजून फाटल्या काळाची समाजरचना पळयल्यार कळटा.

जेन्ना माया हो भाव समाज वेवस्तेक लागून तयार जाल्लो आसा तेन्ना तो मानपी,समाज सोडून वता आसतना दर एकल्याक वायट हें दिसतलेंच. हांगा मायेचीं मनशां म्हळयार फक्त आपलो आवय - बापूय, बायल - भुरगीं, भाव - भयणा, सोयरीं - धायरीं इतल्याच पुरतीं मर्यादीत उरना. मनीस सुवार्थाखातीर तांचो सांगात सोडूंक एका पायांर उबो आसता. आपले आवयबगर एक खीण रावप शक्य जायनाशिल्लीं भुरगीं वेगवेगळ्या कारणांक लागून आवयचेर खोंट मारून गेल्लीं आसात. मरसर आवयचें तोंड पळोवंचोना म्हण सोपूत घेवन निमण्यावेळार लेगीत दर्शन न घेवपी लोकय ह्या समाजांत आसात. हांगा मायेचीं मनशां म्हळयार जे सुवातेर आपूण वाडलां आनी ज्या समाजाकडेन आपली संवकळ जाल्या तीं मनशां. ह्याच मनशांमदीं मनीस रावंक सोदता, आपली उदरगत करून घेवंक सोदता. त्याच मनशांनी आपल्याक तोखेवंचें अशें ताका दिसता. त्याच मनशांक लागून तो तांका भिवून मर्यादेन रावता. ज्या मनशांक वळखना ते सुवातेर वतकच तो कशाय कसो धरबंद सोडून वागत. पूण आपल्या संवकळिच्या समाजांत तो खंयचीय गजाल करतना धा फावट येवजितलो.

मनशाचो होच समाज म्हळ्यार तांचीं मायेची मनशां आसतात. मनीस जियेता तो त्याच खातीर. ह्या समाजांत रावून तांका नागोवन खूप संपत्ती केली आनी कोण वळखना अशे सुवातेर वचून सुखान रावपाचें येवजिलें तरी तें कोणाक शक्य नासता वा ताका तशें जियेतना समादानूय मेळना. आपूण सुखान आसां हें कोणाक तरी दाखोवपाखातीर त्या मनशाचो

आपलो असो कोणतरी मायेचो मनीस थंय जाय आसता. तो जर नासत जाल्यार सूख आनी दूख हाका थंय कांयच अर्थ उरना.

आमचे कितले तरी भाव देशाभायर वतात. जोडटात. ते वता आसतना परत येतले म्हणपाची खात्री कोणाक नासता. तरी लेगीत मायेच्या मनशांक सोडून वचप तांका शक्य जाता. कित्याक ते थंय वतात ते परत येवपाखातीर. जोडिल्ली जोड थंयच खर्चुपाखातीर न्हय. तांची जोड तांका ह्याच मायेच्या मनशांमदी मोडपाची आसता. तशें केल्ल्यानूच तांचे जोडीक म्हत्व येता.

हांव जेन्ना जेन्ना घर सोडून गेलां तेन्ना तेन्ना परत येवपाखातीरूच गेलां. हांव परत म्हजे सुवातेर पावतलों तेन्ना म्हाका पळोवंक कोण मेळटलो हाची खातरी नासतनाय गेलां. आयच्या काळार ती खात्री कोणूच दिवंक शकना तरी आपल्याच मनशांखातीर परत आयलां. तांची माया म्हाका आसा म्हण न्हय तर म्हजीच माया हांव करतां देखून. म्हजें कर्तुत्व वा हांवें जें कितें जोडलां तें ताणी पळोवंचे देखून !





# तू कोणाक रीण आसा



**पावस जांव गीम**
**हांव सत्री घेवन भोंवतां**
**कित्याक जाणां ?**
**हांवें जायतीं काडल्यांत रिणां**

सर्गेस्त शंकर भांडारी हांचें हें कवन. जाणी जाणी तें आयकलां वा वाचलां तांचे यादींत तें घट बरें उरतलें हातूंत दुबाव ना. कारण रिणां काडल्याबगर हे धतरिवेल्या एकाय मनशाचें जिवीत पुराय जांवचेंना. रिण काडून सण करप ही तर मनीस कुळयेची रितूच. एकदां कोणा कडल्यान रीण घेतलें आनी तें परत करूंक जालेंना जाल्यार मागीर तो आपलेंच तोंड लिपोवन भोवता ही गजाल वेगळी. जाका तो रीण आसा ताका दिश्टी पडूं नये देखून तो मागीर तरांतरांच्यो राटावळी करता. असल्या राटावळिंचो अणभव दर एकल्यान आपले जिणेंत केन्ना ना केन्ना घेतिल्लोच आसता देखून वयलें कडवें जण एकल्याक भावता. आपल्या मनाचेंच पडबींब तातूंत तो पळयता देखून त्या कवनाची याद ताका बेस बरी उरता.

मनीस जल्माक येतनाच रिणकारी म्हूण जल्माक येता. ताचें रीण तो मरसर ताची फाट सोडिना. ताणें काडिल्लें रीण फारीक करूंक जायनां देखून ताका लज दिसत रावता. जाचेकडल्यान रीण घेतलां ताका तो लजेता. लजेन आपलें तोंड लिपयता. ही ताची लज अडेची आसता. जें रीण ल्हान आसता, जें फारीक करपाची कुवत आसता तरी जो तें फारीक करिना वा ताका तें करपाचें नासता ताका आपले करणेची लज दिसता आनी जें रीण फारीक करप ताचे तांकी भायलें आसता तेन्ना ताका मात लज म्हणटा ती दिसच ना.

धतरिवेल्या दरेका मनशाक ताचो जाण्टेलो रिणाची गजाल सांगून तो रिणकारी म्हणपाची सतत याद करून दीत आसता. मनशान खंय तीन रिणां मरचे पयलीं फारीक करूंक जाय. पयलें मातृरूण, दुसरें पितृरूण आनी तिसरें गुरूरुण. आवयच्या, बापायच्या आनी गुरूच्या अशा तीन लोकांच्या रिणांत मनीस सतत आसता देखून तीं फारीक केल्याबगर मेलो जाल्यार ताका मोक्ष मेळना असो जरी संकेत समाजान थारायल्लो आसलो

तरी त्या रिणां विशीं कोण गांभिर्यान विचार करिना. आवय आपल्या भुरग्याक णव म्हयने पोटांत वाडयता. ताका जल्म दितना त्रास सोसता. ताका वाडोवंक हाल अपेश्टा काडटा. हें येदें व्हडलें काम करून लेगीत ती आपल्याक त्रास भोगल्यात हें दाखयना. त्याच खातीर हे गजालिचें रीण दरेक मनशान फारीक करूंक जाय अशें सगळ्यांत पयलीं समाजान मानून घेतलां. पूण तें कशें फारीक करप हें मात कोणे निश्चित करूंक ना. आवयनें पोटांत वाडोवन त्रास सोसल्यात देखून तिका सूख दिवन हें रीण फारीक करप काय आपणेन व्हड जावन, नांव जोडून तिका लजेक पडूंक दिनासतना, खुशालकाय भोगोवन रीण फारीक करप हें नक्की जाल्लें ना. जिणें तांक आसतनां भुरग्याक वाडयलें, त्याच भुरग्यान तिच्या अशक्त पिरायेर तिका सांबाळचें देखून ही रीण फारीक करपाची भावना बळावपाचो यत्न जाला जांवक जाय. आवयचें रीण फारीक जरी केलेंना तरी त्या भुरग्याक कोण दोश दिना आनी त्या भुरग्याकूय ताची लज दिसना. कित्याक तर हें रीण केन्नाच फारीक जावपासारकें नासता होय विचार समाजामदीं बळावला.

आवयच्या रिणां वांगडाच बापायचेंय रीण फारीक करपाचें आसता. बापायन जोडून हाडून भुरग्याच्या पोटाक घाल्लें आसता. त्याच खातीर बापायक म्हातारपणार आदार जांवचो देखून ही रीण फारीक करपाची पद्धत म्हळ्यार आर्थिक तजवीज. भुरग्यान व्हडलो जातकच आपल्या जाणटया आवय - बापायक खोंटावंचीं न्हय, तीं उबंत पडचीं न्हय म्हूण समाजान दर एकल्याची गरज पळोवन ही मांडणी केल्ली आसा.

आवय - बापाय वांगडाच गुरू होय एक म्हत्वाचो प्राणी म्हणपाचो संकेत समाजान थारायला. गिन्यान दिवप हें सगळ्यांत व्हड काम. जेन्ना समाजीक वेवस्तेची आखणी थरताली तेन्ना समाज रचनाकारां मुखार त्या काळच्या गुरूंचीं उदारणां आसताली. विद्या संपादन करतलो जाल्यार वेव्हारी समाजांत रावून ती संपादन करप शक्य जायना आशिल्लें. त्या खातीर पुराय अर्थवेवस्ते पासून पयस रावून तें जोडचें पडटालें. ज्ञान साधना करूंक सगळें त्यागलें तरी पोटाची भूक त्यागप कोणाक शक्य जायनाशिल्लें. त्याखातीर जी अर्थ वेवस्ता जांवक जाय आशिल्ली ती कोणेय तरी करपाची गरज आशिल्ली. गुरू म्हणटा तो फुडाराचे चिंतेन अर्थ संचय करूंक वचच नाशिल्लो आनी संवसारीक जीण जियेवपाचोय तांचो उद्देश्य नासतालो. याच खातीर तो जेन्ना आपली काळजी घेवपाचे तांकी भायरो जातालो तेन्ना ताका सेवेची गरज भासताली. आयच्या गुरूंसारकी पोटलो करून दवरपाची वृत्ती तेन्नाच्या गुरूंमदीं नाशिल्ली. अनासक्त जावन गिन्यान जोडप आनी ताचें दान करप होच जांचो धर्म आसतालो तांचें हाल - अपश्टेत जिवीत वचचें न्हय देखून तांचीय वेवस्ता लावपाखातीर तयार जाल्ले हे संकेत तांका आदार दिवपाखातीरूच हें रीण फारीक करपाची गरज भासताली.

आयज ह्या तिनांय रिणांक व्हडलोसो अर्थ उरूंक ना. ह्या तिनांय रिणांवांगडा धतरेचेंय

रीण आसा. धर्तर आमकां वाडयता. अन्न - उदक दिता. तिचेर मनीस जितले अन्याय करता तितलेय ती सोसता आनी मनशाक क्षमा करता. असले हे धतरिचें रीण फारीक करप म्हणटात ती एक मनशाक दुबळो करपाखातीर केल्ली कविकल्पना. आयज स्वताचे आवयक जेन्ना मनीस वेव्हारी नदरेन पळयता तेन्ना धतरिच्या रिणांविशीं ह्या वेळार उलोवप म्हळयार भावूक पिशेपणाच जातलीं.

तूं कोणाक रीण आसा ? असो जेन्ना प्रस्न येता तेन्ना म्हाका आवय - बापूय - गुरू बी हांच्या रिणाची यादूच येना. आवयन म्हाका जल्म दिलो, वाडयलो ही म्हजी गरज नाशिल्ली. ती म्हज्या आवय - बापायची गरज. तांच्या कामजिवितार्चे फलस्वरूप म्हूण हांव सैमीक नेमाप्रमाण जल्माक आयलां. हांव जर तांचें पयलेंच अपत्य आशिल्लों जाल्यार वेगळे तरेन म्हज्यान विचार करूं येतालो. कित्याक तर दर एकल्या आवय - बापायक आपलो वंश वाडोवपाखातीर अपत्य जायच आसता. आनी पयलें अपत्य जल्माक येता तेन्ना ताचे फाटली भावनांय तीच आसूं येता. हांव म्हज्या आवय - बापायचें धावें अपत्य. त्या काळार आयच्या सारको गर्भनिरोधनाचो प्रचार आशिल्लो जाल्यार म्हजो जल्म जांवचोच नाशिल्लो. आयज दोन वा तीन अपत्त्यां उप्रांत गर्भनिरोधन करून घेतात. चुकून गर्भ धल्लोच जाल्यार तो नश्ट करपाक कोणाक वायट दिसना. गर्भजल परिक्षा करून नाका आशिल्लें अपत्य जल्माक येवंचें न्हय देखून यत्न करतात. इतलो प्रयत्न करूनय जर अपत्य जल्माक आयलें जाल्यार हें चुकिचें अपत्य खंयचोच आवय - बापूय मारून उडयना. त्या अपत्याक पयल्या अपत्यावरींच माया दिवन वाडयतात. असल्या अपत्त्या कडल्यान कोणें कसलें आनी खंयचें रीण फारीक करपाची आस्त बाळगप आनी कित्या खातीर ?

आयच्या समाजांत दोळ्यांमुखार ह्या सगळयो गजाली दिसतना असल्या रिणांचो विचार करप म्हळयार लेगीत पिशेपणां. आवय - बापायन म्हाका जल्म दिला आनी तांका सांबाळप, सुखान दवरप हें म्हजें कर्तव्य थारता हातूंत दुबाव ना. त्याच खातीर तांची काळजी हांव घेतां. तांका कांयच कमी पडूंक दिना. अशें करिनासतना पासून हांव जर रावत तरीय म्हाका कोण दूशण दिवंचोंना. तरीपूण हांव भंयान हें करतां. म्हज्या भुरग्यांनी म्हजी ही देख घेवन म्हातारपणार म्हजे हाल जांवचे न्हय हे सुवार्थी भावनेन.

गुरूक तर हांवे फी फारीक करून गिन्यान घेतलां. आयचे गुरू जे तरेन कमाई करतात तें पळयल्यार विद्यार्थ्यांनीच तांचे कडल्यान आतां रीण घेवंचें पडटलें. धतरिचें रीण फारीक करपाचो हांगा प्रस्नूच येना. कित्याक तर हांव धतरिपरस वेगळो न्हय. हांव धतरिचोच एक घटक. हांव म्हळ्यारूच धर्तर. तेन्ना म्हजेविशीं म्हजीच अपेक्षा ती कितें आसतली आनी हांव म्हजेंच रीण तें कितें फारीक करतलों ?

तरी लेगीत मनीस हो रिणांत जियेता. वयलीं रिणां बारीकसाणीन पळयत जाल्यार अत्यंत म्हत्वाचीं तरी फारीक न करपासारकीं. मनीस त्या रिणांची काळजी करिना. तो चिंता करता ती ल्हान - ल्हान रिणांची. मनशान मनशाकडल्यान काडिल्ल्या रिणांची.

मनीस रिणांबगर जगूंक शकना. आयज आमचे नदरेन रीण म्हळ्यार फक्त दुडवांचें रीण थरलां. आमचो देश आंतरराष्ट्रीय बॅंकांचें रीण काडून दीस सारता. आमचें गोंय केंद्र सरकाराकडल्यान रीण काडून फोल्गां मारता. देशांतलो गिरेस्तांतलो गिरेस्त लेगीत रीण काडून आपलो उद्येग उबारता. मनशाक जातनाय रीण काडचें पडटा आनी मरतनाय रीण काडचें पडटा. रीण काडून सण करप ही समाजमान्य म्हण आयज आमच्यामदीं चालू आसा. तिचेर भरवंसो दवरून आमी जियेतात.

हो संवसार जेन्ना रिणांचेर चलता तेन्ना हांव कोणांक रीण ना म्हणप समा जांवचेंना. कोणायकडेन झगडटां तेन्ना हांव रागान, 'हांव तुका रीण आसां रे ?' असो प्रस्न करतां तो वेगळो. जाचे कडल्यान रीण घेतलां ताणेंच येवन सतावप असो हाचो अर्थ जायना. हांव कोणाक रीण आसां देखून कोण म्हाका सतायना. तरी हांव रीण आसांच. म्हज्या देशान रीण काडलां तें म्हज्या भरवंशाचेर. म्हज्या गोंयान रीण घेतलां तें म्हज्याच खातीर, म्हज्या आदाराचेर. तरी हांव रिणकारी आसां हाची म्हाका लज दिसना. हांव स्वताक रिणकारी मानिनासतना मान वयर करून जियेतां. म्हाका रस्त्यावेल्यान वतना कितले तरी लोक हात तरी दाखोवन हटकितात. कितले जाण तरी हांसो दितात. हांव म्हज्याच विचारांत आशिल्ल्यान तांका तो परत करूंक शकना. हींय म्हजीं रिणां म्हणपाचीं म्हाका जाणविकाय ना. हांव तीं फारीक करूंक सोदिना. तीं हांव फारीक करिना म्हण म्हाका लज दिसना.

म्हज्या रिणांची कल्पना ही फक्त म्हज्या पुरतीच मर्यादीत आसा. म्हजें पोट भरपाखातीर म्हाका दुडू जाय. तेन्ना ते म्हज्या बोल्सांत नासता तेन्ना हांव ते दुसऱ्यांकडल्यान घेतां. म्हजी गरज भागयतां. ज्या वेळार परत करतलों अशें उतर दिल्लें त्या वेळार ते फारीक करप जर शक्य जालेंना जाल्यार हांव ताका टाळटां. तोंड लिपयतां. जेन्ना शक्य जाता तेन्ना तें फारीक करतां. मागीर हांवे पयलीं तोंड लिपयल्लें, मनाक लजेन खंत भोगून घेतिल्ली ताचें कितें जालें ? ते विशी म्हाका फारीकपण कोण दितलो ? काय घेतिल्ल्या रिणाचेर कळंतर म्हूण म्हाका तें सगळें भोगचें पडलें ? फारीक करचें पडलें ?

म्हजीं रिणां ही असलींच आकांत. तीं फारीक जातलीं काय हांव रिणकारी म्हणूनच सगळयांक रिणांत दवरून वतलों ? रूक्षप्रस्न !





# तुका भरपूर दुडू दिवन देस कायमचो सोडूंक लायल्यार तूं सोडटलो



दर एका मनशाचेर जल्माक आयल्या बराबर एक संस्कार जबरदस्तीन करतात आनी तो म्हळ्यार आपल्या देशाचेर प्रेम करपाचो. जो मनीस आपल्या देशाचेर प्रेम करिना, देशाच्या विरुद्ध उलयता तो देशद्रोही अशें किर्ते तरी एक समिकरण जाल्लें आसा. त्याचखातीर देश म्हळयार किर्ते आनी देशाविशीं आपली किर्ते लागणूक आसा हाची मात लेगीत कल्पना नाशिल्लो देशाक वेंग मारून रावता आनी देशाचेर प्रेम करून देशभक्त म्हूण मिरयता.

आयज देशांतल्या दरेका भुरग्याक तो शाळेंत वचूंक लागलो रे लागलो म्हणटकच ताका पोट भरूंक शिकोवंचे पयलीं देशाची भक्ती करूंक शिकयतात. आमचो देश स्वतंत्र करूंक, परकी आक्रमणापासून देशाची राखण करूंक जाणी कश्ट सोसल्यात तांच्या त्यागाचीं उदारणा दिवन भारतांतले नवे पिळगेकूय तसलो त्याग करपाची दिक्षा दितात. शाळा - कॉलेजी जांव, पुस्तकां जांव वा रेडियो - दूरदर्शन जांव ह्या सगळ्या माध्यमांतल्यान हेंच शिक्षण दिसरात चालू आसता. बी इंडियन बाय इंडियन अथवा मेरा देश महान बी सांगून तांचे तकलेंत देशाची व्हडव्हिकाय भरतात.

सामान्य भारतीय जनतेक भारत देशाबगर दुसरो पर्याय नाशिल्ल्यान पदरांत पडलें आनी पवित्र जालें अशें मानून ती आपल्या देशाचेर भयंकर प्रेम करता. स्वताचो सुवार्थ सादपाखातीर देश लेगीत विकूंक भायर सरिल्ल्या फुडाऱ्यांच्यो देशप्रेमाच्यो घोशणां आपल्या मनार बिंबोवन हीच जनता पोटतिडकेन देशाची लज सांबाळटा. तरीलेगीत देशाची राखण करून, देशाचेर प्रेम करून आपलो फायदो किर्ते आसा हाची मात लेगीत कल्पना, दिसा कणकणी तीन वेळचें जेवण मेळोवपाखातीर धडपडपी जनतेक खबर नासता. जेन्ना फुडारी सांगतात तेन्ना तें खरें अशें मानून फुडाऱ्यांखातीर देशाची राखण करूंक हीच जनता उपाशी पोटार प्राण दिवंक एका पांयार उबी आसता.

देशाच्या प्रेमाविशीं जेन्ना म्हज्यामुखार प्रस्न उबो रावता तेन्ना देशप्रेम, देशभक्ती आदी प्रकार म्हळ्यार म्हाका फकाणां दिसूंक लागतात. जेन्ना देश ब्रिटीश सत्तेखाला आशिल्लो वा गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आशिल्लें तेन्ना त्या वेळच्या लोकांचें देशप्रेम प्रखर आशिल्लें हातूंत दुबाव ना. तेन्ना देश परक्यांच्या हाताखाल आसा, आमी भारतीय जावन लेगीत

आमचेर अधिकार मात परकी गाजयतात हे स्वाभिमानी भावनेन हें प्रेम वाढीक लागिल्लें आसूं येता. त्या वेळार देशाखातीर प्राण दिवपी, त्याग करपी लोकांमदीं सुवार्थी भावना नाशिल्ली. ह्या देशाचो प्रधानमंत्री वा राजा जावपाचो सुवार्थ जर दर एका भारतियांमदीं आशिल्लो जाल्यार ही जनता देशाचेर केन्नाच प्रेम करूंक पावचिनाशिल्ली. प्रधानमंत्री जावपाचो चान्स आपल्याक आसचे परस दुसऱ्याक चड आसा तेन्ना तुकाय नाका म्हाकाय नाका तर घाल सुण्याक हे भावनेन देशाचे स्वतंत्रतायेकडेन कोणूच लक्ष दिवंचोनाशिल्लो. देशाचो पंतप्रधान कोणूय जांव पयलीं देश स्वतंत्र करप गरजेचें हे निसुवार्थी भावनेक लागुनूच त्यावेळार भारतीय लोक देशप्रेमान भारावन गेल्ले. हें देशप्रेम सुवार्थी फुडाऱ्यांमदीं नाशिल्लें. नेहरू - जीना ह्या सारख्या फुडाऱ्यांक स्वतंत्र देशाचो पयलो प्रधानमंत्री जावपाचे वेद लागिल्ल्यान आनी ती सर्त फक्त दोगांच मदीं आशिल्ल्यान देशाचे फक्त दोनूच कुडके जाले. ते एका परस चड स्पर्धक आशिल्ले जाल्यार आयज भारत देश हो एकसंघ दिसचोनाशिल्लो. गोंयचेंय एक स्वतंत्र राष्ट्र जाल्लें आमकां पळोवंक मेळटलें आशिल्लें.

देशाचे कुडके करप आयज आमकां परवडनां. तरीपूण स्वतंत्रतायेपयलीं देशाविशीं जी एक भावना, जें एक प्रेम आशिल्लें तें आयज भारतीय मनशांत दिश्टी पडना. आयज जण एकलो सुवार्थी जाल्लो आसा. ज्या देशापासून आपल्याक फायदो ना त्या देशाचेर दोळे धापून दवरून प्रेम कित्याक करप अशी एक वेव्हारी भावना दर एका मनशाभितर तयार जायत चल्ल्या. देशान तुजे खातीर कितें केलां हें विचारचे पयलीं तुवे देशाखातीर कितें केलां हो प्रस्न स्वताक्च तूं पयलीं विचार असलीं मुक्ताफळां आयज कुशीक पडल्यांत. देशांतले फुडारी आयज ताळो सराटून देशप्रेमाचीं भाशणां ठोकतात, तीं देशाखातीर न्हय तर आपली जाचेर सत्ता चलूंक जाय तो देश चडांत चड व्हडलो आसचो आनी तो व्हडलो दवरूंक जनतेन आपलें रक्त आठोवचें हेच भावनेन. स्वताच्या सुवार्थाखातीर फुडारी जनतेक देशाचे राखणदार म्हूण वापरतात.

पंजाब जांव काश्मिर ह्या सारखीं राज्यां देशांतल्यान फुटून वचूंक सोदतात खंय ! तांका ते खातीर पाकिस्तान आपलें पाठबळ दिता असो आरोप आमचे फुडारी करतात. आमी सगळे भारतीय ताचेर विस्वास दवरतात. पूण पंजाबी म्हणा अथवा काश्मिरी, तांच्यो समस्या, तांची भावना खंयच्याच भारतीयान समजून घेवंक ना. तांका अराश्ट्रीय म्हणोवन हिणसावप आनी तांच्या नांवान बोटां मोडप होच वावर भारतीय म्हणोवपी करीत आसतात. देशांतल्यान फुटून वचूंक सोदपी मूठभर लोक जर आशिल्ले जाल्यार सरकार तांका केन्नाच चेंपून उडोवंक शकतालो. पूण जम्मू-काश्मिर आनी पंजाब ह्या राज्यांतलो इतल्या तेंपाचो लढो पळयत जाल्यार मूठभर पाकिस्तानी धार्जिणे ही चळवळ चलयनात तर चडांत चड जनता आनी स्वताचो सुवार्थ पळोवपी भारतीय फुडारीय हातूंत आसात म्हणपाचें कळून येता. जनतेपरस आपलो सुवार्थ सादोवंक सोदपी फुडाऱ्यांक लागुनच हो भस्मासूर आयज देशांत नाच करीत आसा. कांय फुडाऱ्यांक आपली सत्ता गाजोवपाची आसा तर कांय

फुडाऱ्यांक देश अखंड दवरून त्या अखंड देशाचेर शेख चलोवपाचो आसा. आयची ही सगळी परिस्थिती पळयत जाल्यार देशाखातीर कश्ट सोसपी सुटके झुजारी लेगीत परकीच सत्ता बरी अशें म्हणूंक लागल्यात. आपल्याक देशद्रोही म्हणत देखून ते आपले विचार उक्तेपणी मांडिनांत इतलेंच.

देशाची ही अवतिकाय, फुडाऱ्यांचें सुवार्थीपण आनी आपलो सुवार्थ सादोवपाखातीर भारतीयांच्या तकलेंत राष्ट्रप्रेमाची चोंदलेली भावना पळोवन 'तुजें देशाचेर प्रेम आसा काय म्हण विचारप हींच व्हडलीं पिशेपणां जातलीं. देशाचेर परकी लोकांनी सत्ता चलोवंक फावना, तो स्वतंत्र उरूंक जाय इतले मेरेन आमची जापसालदारकी बरी आसा. पूण सुवार्थी लोकांच्या सुवादीन दवरपाखातीरूच देशांतले जनतेन राष्ट्रभावना जोपासून, देश स्वतंत्र दवरूंक लोकांक मुखार काडप हींच पयलीं फटिंगपणां जावन आसात.

देशांत शिक्षण घेवन आपलो फायदो जांवचो म्हूण कितले तरी लोक देश सोडून वतात. कितलेतरी देशाभायर शिकूंक वतात आनी परतून देशांत येवपाचें नांव काडिनांत. ताणी देशांत येवन देशाची सेवा करची म्हूण फुडारी तांका पराथतात. पूण कोणूच काना मनार घेनांत. ताणी कित्याक येवंचें हाचें ठोस कारण फुडारी दिवंक शकनांत. अशे परिस्थितीत म्हाकाय देश सोडून वचचो अशें केन्ना केन्नाय दिसता. म्हजो देश सोडून वचपा फाटली भावना ह्या देशांत उबगण आयल्या देखून न्हय. भारताक देश अशी उपाधी दिल्या ती त्या देशाचेर सत्ता गाजोवंक सोदपी फुडाऱ्यांनी. आपल्या पुर्वजांनी कमावन दवरिल्लो जमनीकुडको कांय लोक जशें आपलें हें भाट म्हूण सांगतात आनी भाटकार म्हूण मिरयतात तसलेच देशाक आपलें भाट मानून ताचेर शेक चलोवपी फुडारी नांवाचे हे व्हडले भाटकार. ह्या भाटकारांच्या भाटांत कश्ट करून हांव पोट भरतां. भाटकारांनी भाटाचें कितेंय करूं. म्हाका तांच्या भाटाचें पडून वचूंक ना. आख्खी धर्तर हें म्हजें भाट. कित्याक तर त्या मुखार तरी सद्या हांव वचूंक शकनां. आमच्या मर्यादशील समावाक पाळो दिवपाखातीर भारतीय शीम सांबाळून भारतीय म्हणोवन जियेवप म्हाका आतां निखालूस मानवना. आयज काळ इतलो मुखार पावला की पयलीं सारकें हेर खंयच्याय देशाक भारताचेर धुरी घालून ताका आपलो मांडलीक करूंक वा शेकातळा दवरूंक इत्सा ना. आयज भारतीय पयलींसारको सादो उरूंक ना. तो अतिशाणो जाल्लो आसा. हेर राष्ट्रांक असले हे शाणे पचपाक ना. त्याचखातीर परकी आक्रमणाचो भंय भारत देशाक उरूंक ना. देखून भारताची राखण करपाची म्हज्या सारख्याक गरजूय उरूंक ना. त्याच खातीर तसली जापसालदारकी म्हज्यासारख्याचेर ना. हांव भारताची शीम हुपून गेलों जाल्यार कोणाचें कांयच अडपाचें ना. तरी लेगीत म्हजो हो देश कायमचो सोडून वचन अशें म्हाका दिसना. हांव गेलों जाल्यार परत येवपाखातीरूच वतलों. हेच मुयेंत म्हाका परतून परतून जल्म मेळचो अशी आत्स उक्तावपी भगतसिंगा सारख्या लोकांचो म्हजेर प्रभाव पडला देखून त्या लोकांचे म्हज्या मनाचेर धुरगेपणासांवन संस्कार जाल्यात देखून.

म्हजो देश कायमचो सोडून वचपाखातीर म्हाका कोणेय भरपूर दुडू दिले जाल्यार देश सोडून वचपाचें दिसलें तरी हांव वच्चोंना तें हेच खातीर. हांव जेन्ना सकाळचो घरांतल्यान भायर सरतां तेन्ना परत घरा परततांच. थंयच म्हजें विश्व आसा. म्हजे वळखिचे आसात ते थंयच. हांव जें किर्ते करतां तें तांच्याच खातीर करतां. गांव सोडून गेलों तरीय नांव जोडून गावांत येतां. देश सोडून गेल्यार परत देशांत येतां. म्हजें कर्तुत्व दाखोवंक. म्हजी व्हडव्हिकाय तेच समजूंक शकतात.

म्हजो देश सोडून हांव कायमचो दुसऱ्या देशांत गेलों जाल्यार थंय म्हजो कोण आसा ? हांव जरी ही धर्तर म्हजी म्हणटां तरी ते धर्तरेवेले लोक आसुनय, म्हजे सारके ते मनीस जांवनूय हांव तांचेमदीं घुसमटतलों. म्हज्या देशांतलो, म्हज्या गोंयचो, जमल्यार म्हज्या गांवचो मनीस हांव जळामळाक सोदतलों. ताका सोदपाक हांव कितलोय दुडू मोडूंक फाटी सरचोना. तो जर मेळ्ळोंना जाल्यार कितलेय दुडू फारीक करून परतून हांव म्हजो देश मागतलों, म्हजो गांव मागतलों, म्हजें घर मागतलों. म्हजें अस्तित्व तिगून आसा तें ह्याच लोकांमदीं. हांगा जियेवप म्हत्वाचें नासता. हांगा जमीन म्हत्वाची नासता. जमीन ही पायांपोंदाच आसता. हांगा गरज आसता ती आपल्याक वळखुपी लोकांची. आपल्या जिवा - भावाच्या मनशांची. तांकाच लागून सकाळीं भायर सरिल्लो हांव सांजचो घरा परततां. जर तीं कोण नासत जाल्यार देश कायमचो सोडून वचप किर्ते वा हो संवसार सोडून वचप किर्ते, एकूच. त्या खातीर पयसो दिवपाची वा घेवपाची गरज पडच ना.





# तुज्या मनाक लागपी विशय खंयचो



मनशाच्या मनाक लागपी खुपशे विशय आसतात. तातुंतले कांय ल्हान आसतात तर कांय व्हड. मनाक लागपी ल्हान ल्हान विशयांकडेन लोकूय तशें व्हडलेंशें लक्ष दिवंक वचनांत आनी ते मनाक लावनूय घेनांत. ते लक्ष दितात ते मनाक लागपी व्हड विशयांचेर. मनाक लागपी विशय जितलो व्हड तितलोच तो मनीस व्हड आसता अशी समाजाची धारणां जाल्ली आसूंक जाय. त्याच खातीर असलो प्रस्न व्हड मनशाक करताच करतात. तो व्हड मनिसूय आपलें व्हडपण सिद्ध करपाखातीर आपल्या मनाक लागपी विशयूय व्हडसोच सोदून सांगतात.

व्हड मनशांच्या मनांक लागपी विशयांमदीं देशांतलो आतंकवाद, देशांतलो भ्रश्टाचार, देशांतलें तत्वहीण राजकारण, देशाची फाळणी, घसरत वचपी जीवनमूल्यां आदी तांच्या जिविताचेर परिणाम न करपी विशयांचो आसपाव आसता. खरें पळोवंक गेल्यार हेच विशय आमच्या समाजांतल्या सामान्यांतल्या सामान्य मनशाच्या मनाक लागतात. कारण याच गजालींचो तांचे जिणेचेर थेट परिणाम जायत आसता. देखून ते लोक खंती जाल्ले आसतात. पूण तांच्या ह्या खंतिंचो, तांच्या मनाचो कोणूच विचार करूंक शकनात. तांच्या मनाक लागपी हया विशयांचें म्हत्व प्रस्न विचारप्यांक दिसना. ते प्रस्न करतात ते तांचे नदरेन म्हत्वाचे दिसपी मनशांकूच. त्या मनशांक लागुनूच त्या मनशांच्या मनाक लागपी विशयांकूय म्हत्व प्राप्त जाता.

तुज्या मनाक लागपी विशय खंयचो ? असो प्रस्न जेन्ना म्हज्या मुखार येता तेन्ना मनांतल्यान म्हाका हांसो फुट्टा. मनाक लागपी विशय आसलो जाल्यार पयलीं मन हें आसचें पडटा. आनी दर एका मनशाक जर मन आसा जाल्यार ताच्या मनाक लागपी विशय हो केन्नाच एक वचनी आसचोना. तो भोववचनी आसतलो. जाचें मन संवेदनशील आसता तो एकूच विशय आपल्या मनाक लावन घेवन त्याच विशयाच्या मालवजार मिरोवंचोना. मनाक लागपासारकें जाका मन आसा ताका संवसारांतली प्रत्येक गजाल लागपाक जाय. ती केन्नाच थारावन लागना. ती आपसूक लागता. आपसूक लागूंक जाय. त्याच खातीर ह्या प्रस्नाची जाप फक्त एका विशयापुरतीच सिमीत उरनासतना तिका एक विस्तृत स्वरूप निर्माण जांवक जाय. पूण आमच्या मनाक लागपी विशयांक लेगीत मर्यादा उरता.

मनाक खंयचो विशय लागतलो हें आमी सोदतात. चडांत चड मोठो विशय सोदून काडून आमी मर्यादेंत रावतात. त्या मर्यादीत विशयाचेरूच तांचें मोठेपण आसता वा मनीस मोठो जालो म्हणटकच तो आपशींच मर्यादीत रावता अशेंय जांव येता.

समाजांतल्या दर एका मनशान आपलो असो एक रस्तो थारायल्लो आसता. तो स्वताचो नवो रस्तो निर्माण करूंक वचना. समाज नांवाची संकल्पना तयार जायत पासून या समाजान जो एक रस्तो केल्लो आसा त्याच रस्त्यान वचपांतूच सर्व सामान्य मनीस समादान मानता. त्या रस्त्यार कांटे - फातर आसप तांका आवडना. ते तशे आसचे न्हय आनी ते वाटेन वचपी मनशाक त्रास जांवचो न्हय देखून समाज निर्मितल्यांनी तशी मांडणी करून दवरिल्ली आसा. याच रस्त्यान वचून मनीस पुरूशार्थ गाजयता. नामना जोडटा. त्याखातीर ताणें आपल्या दोळ्यार घोड्यांच्या दोळ्यार घालतात तसलीं झापडां चडयल्लीं आसतात. ताका आपल्या सर भोंवतणीं कितें चलता तें पळोवंक वेळ नासता वा तें पळोवप, थंय लक्ष दिवप तांका परवडना. जिवीत नांवाचो आपलो प्रवास ह्या मार्गावेल्यान करतां करतां आपलो संवसार होच विशय तांचे खातीर म्हत्वाचो आसता. आपल्या व्हडपणाचो मानदंड थारावन तें व्हडपण साध्य करताना ते हेर कसलोच विशय लावन घेवंक सोदिनांत. आपलें घर, आपलें कुटूंब आनी आपली उदरगत याच विशयांभोंवतणी स्वताक घुसपावन घेवन बाकिचे सगळे विशय ते सोयिस्करपणान विसरतात  आनी आपल्या मानदंडा प्रमाण व्हड जातात.

व्हड जावपाखातीर ताणी बाकिचे सगळे विशय कुशीक सारिल्ले आसतात. तेच विशय हे लोक व्हड जातकच ह्या लोकांक सतायतात. तो व्हड जाल्ले कारणान म्हळ्यार चार चौगांचें लक्ष ताचेर वचूंक लागिल्ल्यान आपसूक ताचे मुखार प्रस्न येवंक लागतात. जो प्रस्न जाणी आयुश्यभर टाळपाचो यत्न केलो तोच रूक्षप्रस्नाच्या रूपान तांच्यामुखार उबो रावता आनी त्या प्रस्नांतल्यान आपली सुटका ना ती पळोवन जाप सोदीत रावता. तुज्या मनाक लागपी विशय खंयचो  ? जे विशय जाणी केन्ना चुकून लेगीत लावन घेवंक ना, त्याच विशयांतलो हेरांचे नदरेक भरपासारको विशय सोदप म्हळ्यार तांच्या व्हडपणाक एक आव्हान आसता.

म्हज्यामुखार जेन्ना हो प्रस्न येता तेन्ना ह्या रूक्षप्रस्नाची जाप सोदप म्हाका व्हडलेंशें कठीण वचना. प्रस्न पडटा तो इतलोच की मनाक लागपी खंयचे खंयचे विशय म्हण ह्या वेळार सांगप  ? म्हज्या मनाक लागपाच्या विशयांची जर वळेरी दिवंक लागत जाल्यार ती मारूतीचे शेपडेबशेन अंत आनी पार नाशिल्ली, सतत वाडत आशिल्ली आसतली हातूंत दुभाव ना.

हांवे म्हज्या आयुश्याचो रस्तो स्वताच तयार केला. समाज निर्मितल्यांनी जे कांय संकेत तयार केल्ले, ज्यो कांय वाटो नेमून दिल्ल्यो त्यो त्या काळच्या समाज वेवस्तेचेर आदारून आशिल्ल्यो. त्या वेळचो काळ, त्या काळचें वातावरण आनी त्या काळांतल्या लोकांच्यो गरजो आनी जिविताविशिर्चे तत्वगिन्यान हाचेर एकंदर समाज वेवस्ता निर्माण जाल्ली आशिल्ली.

आज काळ खुपूच मुखार गेल्लो आसा. दर एका मनशाचें जिविताविशिचें तत्वगिन्यान बदलून गेल्लें आसा. पूण मनीस काळाप्रमाण माथ्याक कुरपणें घालूंक सोदिना. प्रवाहाविरुद्ध पेंवून आपलें शांत आनी सुखासमादानाचें जिवीत इबाडपाची तांची तयारी नासता. त्याच कारणाखातीर थारावन दिल्ले वाटेन वचून मेळिल्लें जिवीत सारपाचें काम हे लोक बेस बरें करतात. म्हजो सारको कोण प्रवाहा उरफाटो पेवपाक सोदता, आपलो नवो मार्ग थारायता तांच्या मार्गार आडखळी निर्माण करून तांकांय आपलेच वाटेन व्हरपाखातीर धडपडटात.

जेन्ना म्हाका जिविताचें तत्वगिन्यान कळ्ळें तेन्ना पयलें काम हांवे किर्तें केलें जाल्यार दोळ्यांक बांदिल्लें झापड काडून उडयलें. हेरांनी घालून दिल्ल्या रस्त्यान चलपाचें सोडून आपलो स्वताचो असो रस्तो निर्माण केलो. त्याच वांगडा रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी जें किर्तें घडटा तें पळयत रावलों. उगड्या दोळ्यांनी हें सगळें पळयता आसतना म्हजी शक्त जी म्हाका एकाच रस्त्यान मुखार वचपाखातीर जाय आशिल्ली ती होगडावची पडली हातूंत दुभाव ना. त्याखातीर खुपदां त्रास भोगल्यात. पूण ते सोसपाची ताकद आशिल्ल्यान तें किर्तें व्हडलें अशें दिसूंक ना. त्या त्रासांतल्यान सरभोंवतणचे वेगवेगळे विशय सोदपाची आनी ते मनाक लागतकच तेंय सोसपाची तांक म्हजे भितर निर्माण जाली.

म्हजें मन हें संवेदनशील आशिल्ल्यान संवसारांतलो दर एक विशय म्हज्या मनाक सतत लागत आसता. ज्या विशयाक लागून मन दुखावता वा खंती जाता तो विशय मनाक लागता असो एक भ्रम आमी करून घेतिल्लो आसता. भारताची फाळणी जांवक फावना वा आयच्या राजकीय मळार लोकप्रतिनिधीनी भ्रश्टाचार करूंक फावना ही कांय जाणांची अपेक्षा आसता. ती अपेक्षा भंग जाली काय तांच्या मनाक तो विशय लागता. जर तांचे अपेक्षेप्रमाण जांवक नाशिल्लें, भारताची फाळणी जांवक नाशिल्ली, लोकप्रतिनिधी वेंचून येतकच रामराज्य करूंक लागिल्ले जाल्यार हो विशय कोणाच्याच मनाक लागपासारको नाशिल्लो. खरें म्हळ्यार दर एकल्याच्या मनाक होय विशय लावन घेवपाची गरज नाशिल्ली. पूण मनीस जियेता तो आपले कल्पनेत, आपणे निर्माण केल्ले अपेक्षेत. तीच तांच्या विशयाची मर्यादा आसता.

वेगवेगळ्या मळार व्हड जाल्ल्या मनशांनी आपले मर्यादेप्रमाण एखाद्रो विशय आपल्या मनाक लागता म्हण सांगिल्लें जाल्यार एक समजूं येतालें. पूण आयज स्वताक सर्जनशील साहित्यीक म्हणोवपी लेगीत या प्रस्नाची एक थरावीक जाप दिता तेन्ना खरेंच दिसता की ह्या मनशान आपल्या बरोवपांतल्यान आमकां फटयलां. ह्या मनशान इतली साहित्य निर्मिती केल्या, इतले विशय हाताळल्यात ते ताका सगळे विशय लागतात देखुनूच. ताच्या मनाक दर एक विशय लागिल्ल्यानूच तो बरोवंक शकता. पूण जेन्ना मनाक लागपी विशयाचो प्रस्न येता तेन्ना तो बरोवपीय कोसळटा. हें सगळें पळोवन हीय गजाल म्हज्या मनाक लागता. होय विशय म्हज्या मनाक लागपी विशय थरता.

आयज दर एक बरोवप्यान प्रत्येक विशय आपल्या मनाक लावन घेवंक जाय. सर्जनशील बरोवप्याकडेन संवसारांतलो दर एक विशय मनाच्या माध्यमांतल्यान उलयत आसता. आपली काणी कथन करीत आसता. सुख - दुख्खां उक्तायत रावता. हें सगळें समजून घेतलो जाल्यार ह्या सगळ्या विशयांकडे दोळे उक्ते दवरून पळोवंक जाय. सतत मनाक लावन घेवंक जाय. सोरपान खंयच्याय बेब्याक अर्दकुटो गिळटकच तो बेबो ज्या भंयान आनी जिविताचे आशेन आड्डता तें रडपूय मनाक लावन घेवंक जाय आनी राजीव गांधी सारख्या उमद्या व्यक्तिमत्वाचो अंत जे पद्धतीन जाता तोय विशय मनाक लागूंक जाय. तेच बरोबर राजीव गांधीची हत्त्या करूंक मुखार येवपी शुभा सारख्या अतिरेकी चलयेचेरूय लक्ष दिवंक जाय. मरण सांगाताक घेवन मुखार सरपी आनी सगळ्या राखणदळामुखार तोंडाचेर मरणाची मात लेगीत सया दाखोवंक दिनासतना वावुरपी बायल मनीसय मनाक लागपी विशयांमदलोच एक विशय. अशा वेळार खंयचो विशय मनाक लागपी म्हूण सांगप ? रूक्षप्रस्न !





# तुवें केन्ना चोरी केल्या



आपल्याक कोणूय चोर म्हणत देखून ह्या प्रस्नाची जाप तसो कोणूच दिवंक वचना. तशें पळोवंक गेल्यार हे धर्तरेवेलो दर एक मनीस हो चोर आसताच. ताणें किर्ते ना किर्ते चोरिल्लें आसताच. त्याच खातीर 'चोर' ही आज एक गाळ जावन गेल्या. आपल्याक सभ्य समजुपी मनीस रागान जेन्ना तांबडो जाता आनी आपलो राग घालोवंक सोदता तेन्ना हेर बुरशो गाळी घालूंक अनमनता. हरशी ताका सगळ्यो बुरश्यो गाळी बेस बऱ्यो येतात. पूण आपले नकली सभ्यतायेक लागून भौसांत त्यो तोंडांतल्यान उच्चारूंक फाटीफुडें जाता. मनांतलो राग उक्तावंक खरें म्हळ्यार ह्या वेळार ताणें मनसोक्तपणान आपल्याक येता तितल्याय गाळयांचो शिंवर करूंक जाय आशिल्लो. ही गजाल खेड्यांत घडटा. खेड्यांतल्या गाळी संवपी मनशामुखारूय भौस आसता. पूण राग येतल्या मनशाक ताचें भान आसुनय तो भीडमुर्वत दवरिनासतना गाळयांचो पावस शिंवरायता. गांवचो हो लोक मनान निर्मळ आसता. दुसऱ्याविशीं आयिल्लो राग एकदा उक्तावन जालो म्हणटकच तो परतून आपले मूळ स्थितीर येता. पूण सभ्य - सुशिक्षीत मनीस गांवच्या लोकांच्या वोंठार खेळटात त्यो बुरश्यो गाळी घालूंक शकनांत. ओंठार आयिल्ल्यो गाळी गाळून फक्त सभ्य तितल्योच गाळी घालपाचो यत्न ते करतात. 'चोर - फटींग' हीय एक तांच्या तोंडांतली पेटंट गाळ. 'तूं चोर मरे' इतलें म्हणून आपल्या मनांतलो किंवाटो ते भायर काडटात.

'तूं चोर मरे !' अशें जेन्ना कोणूय म्हणटात तेन्ना खरें म्हळ्यार त्या आरोपाविशीं राग येवंक फावना. जी गजाल खरी आसता तिजो म्हूण केन्ना राग धरपाचो आसता ? पूण जें सत्य आसता तेन्नाच मनशाक राग येता. मनीस जें नासता ताचो कितलोय आरोप केलो जाल्यार त्या मनशाक केन्नाच राग येना. तो वेल्यान आरोप आयकून मुमुरखो हांसता. जेन्ना तो खरेंच आरोप केल्ल्या सारखो आसता आनी फकाणांनी लेगीत तसो उल्लेख जर केलो तर ताची तिडक कपलाक मारता. देखुनूच 'चोर' ही हेर बुरश्या गाळयां परस खुपूच सादी अशी गाळ. त्या उतराविशीं राग येता देखून तिका गाळ म्हणपाची. खरें म्हळ्यार ती गाळ न्हयच. तें एक सादें विशेशण. तरी लेगीत त्या विशेशणांचो गाळयेपरस चड वापर जाता. ह्या विशेशणाक लागून बऱ्यांतलो बरो मनीस तिडकता. कारण तो तसो आसता. तें विशेशण ज्युस्ताक ज्युस्त मुदयेर थीक कशें दर एकल्या मनशाक लागता. मनीस

मुळांतूच चोर आसता.

व्हड व्हड मनीस जावन गेल्यात ताणीय भुरगेपणार चोरी केल्ली आसताच. तांची चरित्रां जर वाचीत जाल्यार व्हड जावपाखातीरूच ताणी चोरी केल्ली जांवक जाय अशें दिसता. वा चोरी केल्ल्यानूच ते व्हड जांवक पावले अशें वाचप्यांक दिसता. देशांतल्याच कित्याक, संवसारांतल्या खुपश्या नामनेच्या लोकांनी ल्हानपणार चोरयो करून किजिलां घेवन घराकडे आयिल्ल्यान घरच्यांकडल्यान मार खाल्लो आसा. मार खाल्या उप्रांतूच तांचे दोळे उगडटाले. हे ल्हानशे गजालीचो तांचेर प्रभाव पडून ते आपलें जिवीत सुदारताले. उप्रांत ते त्याच कारणाक लागून खूप व्हड जाल्ले. ते लक्षात उरपाचे घडणुके उप्रांत ताणी चोरये सारखो गुन्यांव परतून केल्लो नासतालो. केलाय जाल्यार तो कोणाक कळूंक दिनासतना केल्लो आसूं येता वा आत्मचरित्रांत वा चरित्रांत चरित्रकारान तो घालपाचें टाळळां आसूं येता. भुरगेपणावेलो आपूण आनी व्हड जाल्याउप्रांतचो आपूण हाची तुळा करपाखातीरूच ह्यो घडणुको आपल्या चरित्रांत घुसडावन हे लोक मिरयतात. जर हे लोक व्हड जांवक नाशिल्ले, तांचें चरित्र बरोवपा इतलें नांव ताणी जोडूंक नाशिल्लें जाल्यार तांची ही चोरी केन्नाच कोणाक कळपासारखी नाशिल्ली.

जाका तमाम लोक देव मानतात जांव जाका युगपुरूस मानतात तो भगवान श्री कृष्ण सगळ्यांत व्हडलो चोर. भुरगेपणार ताणें धंयदूद चोरून यथेच्छ भकलें. गौळणीनी ताचे आवयकडेन कागाळ करूंक ना असो एकूय दीस वचूंक ना. आपल्या पुताच्या ह्या कर्तुबाक लागून तिणें ताका बांदून घालपापासून मारपामेरेन सगळ्यो गजाली केल्यो. पूण कृष्ण केन्नाच सुधारलोना. जाण्टेपणार लेगीत तो गवळणिचीं कापडां फारावंक लागलो. तरी पूण तो व्हड जालोच. नामनेक पावलो. ताका त्या वेळार कोणे चोर म्हूण हिणसायलोंना. हिणसायल्यारूय ताणें मनाक लावन घेतलेंना. अजून लेगीत श्रीकृष्णाचे भक्त आपूण चोरी करतात आनी येदो व्हडलो श्रीकृष्ण, देव जावनूय चोरयो करतालो तेन्ना आमी केल्यार कितें जालें ? अशी जाप करून मखलाशी करतात. श्रीकृष्णाक चोर म्हळ्यार कोणाकूच वायट दिसना. वेल्यान ताची तोखणाय जाता. पूण शिवाजी महाराजांक चोर - लुटारू म्हणल्या बराबर ताका खंयच्या अर्थान तशें म्हळां, ताचो फाटलो हेत कितें आसा हें जाणा जावन घेवंचे पयलींच देशात खवदळ माजता. दंगे जातात. निशेध जाता. पंडित नेहरू सारख्यांक लेगीत माफी मागून आपलीं उतरां फाटीं घेवंची लागतात.

तुवें केन्ना चोरी केल्या ? असो प्रस्न जेन्ना म्हजेमुखार उबो रावता तेन्ना हांव भीड - मुर्वत - लज बाळगिनासतनां हय म्हूण सांगतां. प्रत्येक बरोवपी हो चोरी करताच. दुसऱ्या साहित्यिकाचें साहित्य चोरप, ताचे विचार चोरप आनी आपल्या नांवार खपोवन साहित्यीक म्हूण मिरोवपाचें पवित्र कर्म हे साहित्यिक करतात. हेर भासांतल्या बरोवप्यांवरींच कोंकणितलेय साहित्यिक साहित्याची भरपूर चोरी करतात. ज्यासर वाचप्याक ताणें तें साहित्य कोणाचें चोरलां हें कळना त्या सर तो बरोवपी साव आसता. कोंकणी बरोवप्याचें

आनी वाचप्याचें वाचन हें खूप मर्यादीत आशिल्ल्यान तांका ही चोरी धरप केन्नाच शक्य जातलें अशें दिसना. देखून हे बरोवपी दोळ्यांदेखत साहित्य लुट्टात. जर तांका खंयच्याय वाचप्यान धरलेच जाल्यार ते बरोवपी कला अकादमी पुरस्कार, साहित्य अकादमी पुरस्कार आदी सन्मान घेवन इतले मुखार पाविल्ले आसतात की तांका त्या वेळार चोर म्हणपाचें धाडस जायना.

म्हजे कडल्यान मात असलें साहित्य चोरपाचें काम केन्नाच जालेंना. म्हज्या 'वर्गशत्रू' ह्या नाटकाचेर कॉम्रेड अनिल बर्वे हांच्या नाटकाचो प्रभाव पडला. साहिर लुधियानवी सारख्या शायरांच्यो शायरी म्हाका म्हज्योच कश्यो दिसल्यात. पूण तांच्या विचारांची चोरी करची अशें दिसुनय म्हाका तें केन्नाच जमलेंना.

म्हजेकडल्यान चोरी घडल्या ती पुस्तकां चोरपाची. पुस्तकांखातीर हांवे पयशेय चोरल्यात. सगळ्यांत पयलीं हांवे चोरी केल्या ती घरांतले लाडू चोरून खावपाची. आवय दब्यांत लाडू दवरताली. ती ना शी पळोवन हांव तातुंतलो एक पोटांत उडयतालों. दबो भरिल्लो आसल्यार दोन - तीन उडयतालों. तिका इतल्या लाडवांतल्यान दोन लाडू गायब जाल्यात हें कळचेंना हे समजुतिंतल्यान ते हांव खातालों. ते हांवेंच खाल्यात हें कित्यावेल्यान ? ते खावपी दुसरे भाव नांत ? असोय समज हांव करून घेतालों. मागीर चवकशी जाताली. सोपूत बी घेवप जाताले आनी हांव मार खातालों. असली ही चोरी जण एकल्याच्या घरांत जाताच. दब्यांनी लाडू जांव हेर खावपाचे पदार्थ दवरतात ते चोरून खावपाखातिरूच असो दर भुरग्याचो गोड समज आसता. हेर भुरग्यांच्या सांगाताक हांवें लोकांलीं बोरां - पेरां बी चोरून भरपूर खाल्यांत. पूण असले चोरयेंत म्हाका व्हडलिशी उमेद नाशिल्ली वा ती खरेलीच चोरी अशें म्हाका दिसूंक ना. हांवे खऱ्यानीच चोरी केल्या ती दोन वेळां, ते चोरयेंत हांव सांपडूंक ना. पूण त्या खातीर म्हाका मनस्ताप मात खूप भोगल्यात.

ल्हान आसतना एकदां हांव मडकंय जात्रेक गेल्लों. वांगडा हेर संवगडी आशिल्ले. जात्रेंत तरांतरांचे मांड आनी दुकानां आशिल्लीं. पण तातूंत म्हाका व्हडलिशी गोडी नाशिल्ली. लायनी मारपाचेंय तें वय नाशिल्लें. हांवें बस्तान ठोकलें तें पुस्तकां मांडून बशिल्ल्या एका मांडाकडेन. तें दुकान म्हळ्यार हेर खेळणी जशीं जमनीर पातळावन दवरतात ते तरेन पुस्तकां पातळावन दवरिल्लें अशें दुकान. राजा - राणी, जादूचा राक्षस बी चार आण्यान मेळपी पुस्तकां. हांवें तीं सगळीं पुस्तकां दोळे भरून पळयलीं. कांय पुस्तकां चाळून जमता तितलीं पानां वाचून सोंपोवपाचो यत्न केलो. अशेंच एक पुस्तक हातांत घेवन चाळळें. तातुंतलीं सुर्वेचीं दोन पानां वाचलीं. खूप आवडलें. विकत घेतलो म्हळ्यार चार आणे बोल्सांत नांत. आशिल्ले तितलेय मोडून मेकळो जाल्लों. आतां करप कितें ? शेवटी तें पुस्तक फारावपाचो निर्णय घेतलो. कोण पळयनां हाची खातरी करून घेवन तें बुशकोटांत शिरकायलें. पुस्तकां विकपी तीं खपोवंक दंग आशिल्लो. पुस्तक घेवन हांव थंयच्यान कडसरलों. ते गर्देंतल्यान केन्ना एकदां भायर सरतां अशें म्हाका जाल्लें. हांवें जें पुस्तक पोटांत लिपयलां तें सगळ्यांक

दिश्टी पडटा आनी गर्दीत भोवपी दर एकलो म्हाका दुबावान पळयता अशें म्हाका दिसतालें. म्हज्या काळजांत एकसारकें धडधडटालें. हांवें लिपयल्लें पुस्तक कोणाचेय नदरेक पडत आनी तें कित्याक लिपयता अशें कोणूय विचारीत म्हूण म्हाका सतत भंय दिसतालो. मुखावेल्यान येवपी दर एकलो मनीस हो म्हाका तो पुस्तकां विकपी दिसतालो आनी केन्ना म्हाका आडावन तो पुस्तक काडून घेवन म्हजेर थापटां फुलयतलो अशें म्हाका सतत दिसतालें. जेन्ना हांव घरा पावलों तेन्नाच म्हजी ती धडधड थांबलेली. पोटांत लिपयल्लें तें रंगीत पुस्तक घामान भिजून सामकें मोव जाल्लें. कुडकुडयाचे थंडेत लेगीत मनशाक घाम येता हो अणभव म्हाका ते जात्रेक आयिल्लो.

त्या उप्रांत कॉलेजींत शिकता आसतना अशेंच वाचनालयांतलें एक पुस्तक चोरलें. शिकपाखातीर तें जाय आशिल्लें. तें वाचपघर दर दिसाक एका पुस्तकाखातीर आठ आणे घेतालें. पुस्तक विकतें घेवंक पयशे नांत आनी परिक्षा जायसर पुस्तक दवरीत जाल्यार पुस्तकाचें भाडेंच, पुस्तकाचे किंमती परस चड जावपाचें. तें परतून हाडून दिवन मागीर परत व्हरतलों अशें थारायल्यार दुसरो कोणूय तें व्हरत म्हूण भंय. हांवें तें कोणाक कळनासतना फारायलें. भुरगेपणार जात्रेक फुटिल्लो तोच घाम परत फुटलो. पयली चोरी केल्ली तेन्ना तिसरे - चवथेक आशिल्लों. आतां कॉलेजीच्या पयल्या वर्साक आशिल्लों. पूण काळजाची धडधड, भंय तोच. भुरगेपणावयलो. तकलेंतले विचार, भावना तीच. हांवे चोरी केल्या ही !





# तुजी खास मित्रमंडळी कोण



पंडित जवाहरलाल नेहरू हाणीं म्हळां - म्हाका तुमचे मित्र कोण ते सांगात, हांव तुमी कोण तें सांगतां. मित्रांवेल्यान मनशांची वळख करून घेवपाची कला पंडित नेहरूंक खबर आशिल्ली देखूनच ते 'टेल मी यूवर फ्रेंडस आय वील टेल यू वॉट यू आर' अशें सांगतात. आपूण कोण हें हेरांक कळचें आनी हेरांक लागून आपल्या व्यक्तिमत्वाक कसलीच बाधा येवंची न्हय देखून, मीत्र लेगीत जमोवपाचे आसतात ते सारके जोखून - मापून म्हणपाचें हांगा पंडितजी सांगूक सोदतात वा सारखी वळख नासतना इश्टागत जोडिल्ल्याक लागून पंडितजीक मनस्ताप भोगल्यात आसूं येता आनी अणभवांतल्यानूच तांचे हे उद्‌गार प्रकट जाल्यात आसूं येता.

पंडितजीचो इश्टांविर्शींचो हो अणभव तर महात्मा गांधींचोय व्हडलो सो वेगळो ना. तरीय पूण महात्माजी वायट संगत धरूं नाकात अशें सांगचे बदला आपल्याकूच पुरायेन वळखुपाक सांगतात. आपल्या आत्मचरित्रांत मित्रांचो आपल्याचेर जाल्लो असर सांगतना बापूजी बरयतात - दुसऱ्याक सुधारपाखातीर लेगीत मनशान चड खोलायेंत देंवंक जायना. जाका आमी सुधारूंक सोदतात ताचेकडेन आमची इश्टागत नासता. इश्टागतींत आमी दोगूय एक ही भावना आसूंक जाय. हे तरेची भावना आशिल्ली इश्टागत संवसारांत खूब थोडी पळोवंक मेळटा. एकाच गुणांच्या दोगां मजगती इश्टागत सोबता, आनी तिगता. इश्ट एका मेकांचेर परिणाम केले बगर रावी नात. देखून इश्टागतींत सुधारणेक सुवात खूब थोडी आसता. खाशेली इश्टागत बरी न्हय अशेंच म्हजें मत जालां. मनीस दुसऱ्याचे अवगूण रोखडे घेता. गूण घेवपाखातीर यत्नांची गरज पडटा. जाका आपणाल्या अंतर्यामीची - वा म्हणुया, इश्वराची इश्टागत जोडची आसा, ताका एकलो रावंक येवंक जाय वा अख्ख्या संवसाराकडेन ताणे इश्टागत करूंक जाय.

पंडितजी आनी महात्माजी हांच्या विचारांत मूलभूत फरक तो होच. आपलें नांव इबाडचें न्हय म्हूण वायट मनशांकडेन संगत न दवरपाचो सल्लो पंडितजी दितात आनी बऱ्याच मनशाकडे इश्टागत जोडून, ताच्या बरेपणाच्या आदाराचेर आपशींच तूय मोठेपण मिरय अशें सांगतात तर महात्माजी खाशेली इश्टागत दवरिनासतना सगळ्या संवसाराकडेन इश्टागत दवरूंक सांगता त्याच बराबर आपलो इश्ट आपुणूच हें सांगूक विसरनांत.

प्रत्येक मनीस आपल्या सभावाप्रमाण आपले इश्ट जोडटा. जशी गोट्यावेल्यान शिताची परिक्षा घेवं येता तशी मनीस ज्या तरांच्या लोकांमदीं वावुरता तांचेवेल्यान त्या मनशाची आनी त्या मनशावेल्यान त्या लोकांची परिक्षा घेवं येता. पंडित नेहरू ज्या प्रकारच्या लोकांवांगडा इश्टागत दवरून आशिल्ले, तांचेवेल्यान पंडित नेहरू कितें आशिल्ले हें आमच्यांनी सोदून काडूं येता. देखूनूच आपलो इश्ट आसता तो योग्य असोच सोदून काडूंक जाय. जरी तो हेरांचे नदरेन नोताद आसलो आनी तो तुमचो खास इश्ट आसलो तरी खास मित्रमंडळी कोण ह्या खास प्रस्नाक जाप दिता आसतना ह्या खास मित्रांचें नांव टाळून, जो मित्र ना तरी पूण ताच्या नांवान आपल्याक व्हडपण मेळटा, जांव आपली वळख लोकांक जाता ताची नोंद करप हेंच फायद्याचें जावन आसता. आपूण कोण हें कळपाखातीर असले अडेचे आनी भाड्याचे इश्ट हाडप ही आयची गरज जाल्या.

मित्रांवेल्यान जर कोणाचीय परिक्षा जायत आसत तर म्हजेबाबतीत हेरांक खूप त्रास जातलो. कित्याक तर म्हजेकडेन अजून मेरेन असो एकूय मनीस ना, जाची वळख हांव म्हजो खास मित्र म्हूण करून दिवंक शकतां. एक खास असो म्हजो मित्र आसचो वा हांवे तो बाळगुचो अशी इत्साच म्हाका केन्ना जालिना. देखुनूच तुजी खास मित्रमंडळी कोण असो प्रस्न जेन्ना म्हजेमुखार येता तेन्ना तो रूक्षप्रस्न जावन म्हज्यामुखार रावता.

दर एका मनशाक एक खास मित्र आसप हें भौच गरजेचें मानतात. मनशाचें मन पुरायेन उक्तें करपाखातीर एका मित्राची गरज लागता खंय ! मनीस आपल्या ह्या मित्रांकडेन आपल्या काळजांतल्यो सगळ्यो गजाली उकत्यो करून आपलें काळीज ल्हव करता. आपलो घुस्मटमार जो दर एका मनशाक कसल्या ना कसल्या कारणाक लागून जाल्लो आसता, तो काडून उडोवंक मित्राची गरज आशिल्ल्याची परवड आयज मेरेन चालूच आसा.

आपले आवय उप्रांत मित्र हेंच नातें सगळयांत व्हड मानलां. कोण त्या नात्याक सखा वा सखी अशेंय म्हणून पाचारतात. संवसारांतलें खूपशें साहित्य मित्रप्रेम, त्याग हाचेरूच भरून गेल्लें आसा. मित्र जायते आसतात. पूण जो मित्र अडचणीच्या वेळार पावता तोच खरो मित्र असो एक सिद्धांत तयार जाल्लो आसा. म्हणटकच तुजो खास इश्ट जेन्ना सोदपाचो वेळ येता तेन्ना जो कोण अडचणीक पावला अथवा संकश्टांच्या वेळार आदाराक धावून आयला ताची याद करून तोच आपल्याचो खास इश्ट म्हूण थारावंचें पडलें. जर अडचणिच्या वेळार आदाराक धावून येवपी मित्र चोर - फटींग सभावाचो आसलो जाल्यार म्हज्या सारक्यांनी कितें करप ? ताचें नांव समजा हांवें रूक्षप्रस्नाची जाप दिता आसतना वळेरींत गुंतलें आनी मागीर कोणेय नेहरूंचो सिद्धांत अचूक थंय लायलो जाल्यार ? म्हजेविशीं ह्या पयलींच हेरांनी नाना तरांच्यो कल्पना करून घेतिल्ल्यो आसात. तातूंत हे जापेन आनीक भर पडून म्हजे बारा बिरेस्तार आनी तेरा सुक्रार जावंक कळाव लागचोना.

स्वताचे प्रतिमेची ढोंगी कल्पना करून बऱ्याच मनशांचीं नांवां मित्र ह्या प्राण्यांचे वळेरींत

घालप म्हाका आयुश्यांत केन्नाच जमलेंना. आयज म्हजेकडेन खास मित्र असो कोणूच ना. कोणेय म्हाका अडचणीक पावचें अशी अडचणय म्हाका केन्ना जालीच ना. म्हाका जशे सुवार्थी मित्र नांत तशेंच परमार्थ सादपाखातीर हांव केन्ना कोणांक संक्श्टांतल्यान सोडोवपाखातीर धांवलोनां. खूप जाणांक हांवें आयजमेरेन म्हजे तांकी प्रमाण मदत केल्या. त्या वेळार हांव कितें मोठें काम करतां अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना अथवा तार्चे भांडवल केलेंना. तातूंत जशे वळखिचे लोक आसात तशेच जांकां पयलेच खेप मेळळां अशे अनवळखीय लोक आसात. अशा वेळार हांवें हातुंतल्यांक मित्र कोणाक मानप ?

आयजमेरेन हांवें हेर कितेंय जोडपा परस मनीस जोडपाचें काम केलें. हीच कला म्हाका बऱ्यापैकी जमल्या. देशी तशेंच परदेशीय खुपशे लोक हांवें म्हजे गांठीक बांदल्यात. तांकां पत्रां बरयता आसतना हांव जरी प्रिय मित्र म्हूण संबोधतां आनी कांय जाणांची वळख करून दितना हांव हो म्हजो खास मित्र अशें जरी म्हणटां तरी ही समाजांतली एक ढोंगी रीत हांव पाळटां हाची म्हाका पुराय जाणविकाय आसता. जाका हांव मित्र म्हूण संबोधतां तो खऱ्यानिशी म्हजो मित्र नासता तर ती फक्त वळख आसता हें म्हाका खबर आसता. हीं फक्त वयलेचाराक मित्र - राश्ट्रां आसतात.

म्हज्यो वळखी खूप. ह्या वळखिंतलो चड काळ जो कोण सातत्त्यान वांगडा आसता तो मित्र अशें मानपाची एक सर्व साधारण धारणां जावन वता. लोकांचे नदरेन ते दोगूय जाण घट मित्र आसतात. जेन्ना हांव भुरगो आशिल्लों तेन्ना त्या काळार म्हजे खास अशे मित्र आशिल्ले. म्हजो मित्र अशें हांव त्यावेळार जाका मानतालों तो एक गोरवां राखणो आशिल्लो. तार्चे नांव फ्रांसीस. हांव आमचीं गोरवां चरोवपाक व्हरतालों. थंय आमच्या गांवचे हेर भुरगेय आपापलीं गोरवां घेवन येताले. ह्या सगळ्यांमदी फ्रांसीस होच राखणो म्हणून दुसऱ्यांचीं गोरवां चरयतालो. बाकिचे सगळे आपापलीं घरचीं. शिकप अदर्यार सोडून घरा बशिल्ल्यान तांच्या माथ्यार हीं घरचीं गोरवां पडिल्लीं. हांव एकलोच शाळेंत वतालों आनी उरिल्ल्यावेळार गोरवां चरयतालों. म्हजो हो वेवसाय पार्टटायम जाल्ल्यान हेर राखण्यांचो म्हजेर सदांच खुन्नस. म्हजी चूक म्हळ्यार हांवें अजून शाळा सोडूंक नाशिल्ली. त्याखातीर म्हजीं गोरवां जेन्ना हेरांच्या गोरवां वांगडा शेतवडीक पडटालीं, तेन्ना हेर सगळे आपलीं गोरवां थंयच्यान काडटाले आनी म्हजींच थंय सांडटाले. तेन्ना त्या गोरवांक हाडपाचें काम फ्रांसीस करतालो. ताका लागून खुपदां हांव शेतकारांच्या गाळींतल्यान वाचलां. फ्रांसीस जरी अशिक्षीत आशिल्लो तरी तो खुपशीं कातरां म्हणटालो. ताचेकडेन अश्लील गजालींचो भरपूर पोटलो आशिल्लो. तो सगळ्या राखण्यांक आपल्या भोंवतणी बसोवन त्यो गजाली सांगतालो. बायलांच्या आंगाचीं वर्णना, दादलो - बायलेचो शारीरीक संबंद बी गजाली पयले फावट हांवें ताच्याच तोंडांतल्यान आयकल्यात. बाकिचे भुरगे ताच्यो गजाली रूचीन आयकताले. पूण म्हाका तातुंतल्यान कांयच बोध जायनाशिल्लो. ते पिरायेर कित्याक ? जेन्ना हांव कॉलेजीक पावलों तेन्ना लेगीत हे बाबतींत अज्ञानी आशिल्लों. चल्यान चलयेक हात

लायल्या बराबर तिका भुरगीं जातात असो म्हजो समज आशिल्लो.

तर सांगपाचें म्हळ्यार फ्रांसीस होच म्हजो पयलो खास मित्र. ताकाच हांव म्हजीं दुख्खां सांगतालों. म्हाका पिकनिकेक वचूंक घरच्यांनी पयशे दिलेनांत. पुस्तकां हाडून दिवंक नांत, हीं म्हजीं त्या वेळावयलीं दुख्खां. तीं ताका सांगून हांव खूप रडटालों. तोय म्हाका आपलीं दुख्खां सांगतालो. तींय आयकून हांव दुकांच्या झरीनी रडटालों. एक दीस हो फ्रांसीस गोरवां राखपाची नोकरी सोडून गेलो. तो वतना म्हळ्यार आमी वेगळे जातना आमी खूप खूप रडले. आतां केन्नाय तो फ्रांसीस म्हाका मेळटा. आदलिंचेच ओडीन तो म्हाका वेंग मारता. चारचौगांत तो म्हाका त्यो आदलिंच्योच गजाली सांगता तेन्ना म्हजी परिस्थिती सामकी बिकट जाता. म्हजेखातीर तो काबुलीवाला जावन वता.

त्या उप्रांत वेगवेगळ्या मळाचेर वेगवेगळे मित्र मेळळे. त्या थरावीक काळार घट मित्र जावन गेले. पूण म्हजी वैचारीक पातळी जसजशी वाडत गेली, वा म्हणुया बदलत गेली तस तशे म्हजे मित्रूय बदलत गेले. शाळेंत शिकतना घट मित्र आशिल्लो तो आतां म्हाका घट मित्र दिसना. कॉलेजींतलो मित्र आयज म्हजो मित्र उल्लोंना. तांच्या मतान हांव तांचो घट मित्र. पूण म्हजे विचार बदलत गेल्ल्यान ह्या वेळार म्हाका तांचेकडेन पयलीं सारके संबंद दवरप जमना. म्हजेखातीर ते वळखिचे उरतात. तांचेखातीर मात हांव तांचो घट मित्र !

कोणाकूय दिसूं येता की म्हजो सद्या दर्जो वाडला देखून तांचेकडेन संबंद दवरप म्हाका कमीपणाचें दिसता. हो प्रकार तशांतलो न्हय. भुरगेपणावेले म्हजे घट मित्र आयज व्हडल्या व्हडल्या हुद्द्यांचेर आसात. कोण मंत्रीय आसात. पूण तांचेकडेन म्हजें आदलीं सारकें जुळना. पूण जुगाराच्या अड्ड्यांचेर,हमालांमदीं, हॉटेल कामगारांमदीं म्हज्यो वळखी जाल्ल्यान तांच्या वांगडा वरांचींवरां हांव घालयतां. हांव कोण हें खबर नाशिल्ल्यान तांका हांव आपलोच दिसतां. म्हाकाय ते म्हजे मित्र अशें दिसता.

आयज म्हजो घट मित्र असो म्हाका दिसता तो म्हजे हांवच. हांव म्हजेच कडेन वरांची वरां उलयत बसता. वेगवेगळ्यो गजाली म्हजे म्हाकाच सांगतां. दुसरी म्हजी दाट दोस्ती आसा ती पुस्तकांकडेन. तशे म्हजेकडेन म्हजे वांगडा भोवपाक, खावपाक, जेवपाक, पिवपाक खूपशे लोक आसात. तांचे प्रस्न ते म्हाका मित्र मानून म्हजेकडेन मांडटाय बी. पूण म्हजी खंयचीय गजाल हांव तांचेमुखार मांडूंक शकना. तांची पोच म्हाका मर्यादीत दिसता. म्हाका जें कितें सांगपाचें आसा तें समजून घेवपाची ताकत म्हाका अजून कोणालागीं दिसूना. हांगा म्हजें व्हडपण सांगपाचें वा हेरांक कमी लेखपाचो म्हजो हेत ना. तरी पूण ही गजाल म्हाका भावता. त्याचखातीर म्हाका जो वेळ मेळटा तो हांव पुस्तकां वांगडा वा म्हजे वांगडाच घालयतां. कोणूय त्या खातीर म्हाका एकमुळो म्हणत. पूण गांधीजी जाका अंतर्यामीची इश्टागत म्हणटात वा एकलो रावप जांव संवसाराकडली इश्टागत म्हणतात ती कितें तें म्हाका होलमता. देखून हांव आयजवेर खास मित्र नासतना उरलां. तरी वाटेर मेळटा तो मनीस आनी हातांक मेळटा तें पुस्तक म्हजो खास मित्र आसता. तांका रूक्षप्रस्नाचे वळेरेंत गुंतप म्हाका शक्य जायना.





# तुवें मर्यादा कित्याक सोडल्या



सर्व सामान्य मनीस जेन्ना हो रूक्षप्रस्न करतात तेन्ना ताणी केल्ल्या ह्या प्रस्नाचो अर्थ वेगळो आसता. तांच्या मताप्रमाण मर्यादा म्हळ्यार लज. तुवें लज कित्याक सोडल्या वा कंबराचें सोडून माथ्याक कित्याक रेवडायलां अशेंच विचारपाफाटलो तांचो हेत आसता. ज्या मनशाक लज नासता ताणेंच आपली मर्यादा सोडिल्ली आसता. मर्यादा सोडली म्हणटकच तो मनीस लजेक म्हारग थरता असो सर्व सामान्य मनशाचो विचार आसता. लजेची सांगड मर्यादिकडेन घालपाची तांची ही अल्पमती पळोवन म्हाका खरेंच तांची काकळूट आयले बगर रावना.

चली भुरगें जेन्ना आपलें भुरगेपण सोडून हळूहळू वयांत येवपाक लागता तेन्ना ताचे मर्यादिकडेन आवय - बापायचें बारीक लक्ष आसता. चड करून चलयेची आवय आपल्या धुवेच्या मर्यादिची याद पावला कणकणी करून दीत आसता. ज्या सर चली भुरगें ल्हान आसता तेन्ना तें आपल्या भावा वांगडा वा शेजारच्या चल्यां वांगडा हुंदडत आसता. तेन्ना चलो आनी चली हातुंतलो फरक त्या भुरग्यांकूय नासता आनी आवय - बापायकूय ताची जाण नासता. चल्यासारखेंच चलीय सगळीं मस्तेपणां करता. केन्नां केन्नां चलीय चल्यापरस आंगळभर चडूच मसतें आसता. चल्याक सकयल दवरून चली पेरीचे अथवा आंब्याचे तेंगशेर लेगीत चडून पेरां आनी तोरां काडटा. तरीयपूण ते चलयेन आपली मर्यादा सोडल्या अशें खंयच्याच आवय - बापायक दिसना. जण एकल्याचे नदरेन तीं भुरगीं आसतात. तातूंत लिंगाचो भेद नासता. तीं नपुसक लिंगी आसतात.

पूण जेन्ना चली आपलें भुरगेपण सोडून वयांत येवंक लागता तेन्ना आवयक आपली धूव चली म्हणपाची जाणविकाय जावंक लागता आनी इतलीं वर्सां मुक्त जियेवपी हे चलयेचेर आवय बंधनां घालूंक लागता. तिका 'मर्यादिन वागचें. चलीभुरगें तूं' अशीं मुक्ताफळां आयकोवन बंधनांत दवरूंक सोदता. चलयेन जर परंपरेप्रमाण घालून दिल्लीं बंधनां सोडलीं आनी ती चल्यांसारकी वागूंक लागली जाल्यार 'तुवें सामकी मर्यादा सोडल्या, तुवें लज सोडल्या' अशें उलोवन आवय जांव हेर लोक तिका धपकायतात. अशा वेळार ह्या जाण्ट्यांचो हेतू आसता तो चलयेन, चलयेच्या मर्यादिन रांवचें. ती मुखार खपपाची आसता.

तिचें पावल वाकडें पडूंक फावनां. तिणें जर मर्यादा सोडली जाल्यार तिची सोयरीक जावपाची ना. मागीर तो घरच्यांक त्रास. आपल्याक त्रास जावचो न्हय ह्या भयांतल्यानूच आवय-बापूय आपले धुवेक बंधनां घालता. मर्यादेंत दवरूंक सोदता. चलयेच्या स्वातंत्र्याक बांदून उडयता. ही वागणूक चल्यांकडेन मात नासता. तो आपल्याक जाय तसो मुक्त वावुरता. खरें म्हळ्यार चली चलयेपण सोडून जरी वयलेवयर वावुरली तरी सैमीकपणान तिच्यांतली मर्यादा तिजेभितर वसताच. ती केन्नाच ना जायनां. जेन्ना प्रसंग येता तेन्ना ती लजताच. तरी आसतना तिजे मर्यादेची जाण हेर लोक तिका गरजेभायर करून दितात.

हांवें म्हज्या जिवितात लज केन्नाच सोडलिना. लज सोडूंक पयलीं ती आसची पडटा. म्हाका लजूच ना. आनी लजचें तरी कोणाक आनी कित्याक ? जेन्ना मनशाच्या मनाक खंयचीय गजाल पटनां आनी तरीय तो ती करता तेन्नां ताजें मनूच ताका खाता. ताकाच आपली लज दिसूंक लागता. हांवें आयजमेरेन मनांक पटूंक ना असली खंयचीच गजाल करूंक ना. जी गजाल करची अशी दिसली आनी तातूंत म्हाका वायट कांय दिसलेंना तेन्ना हांवे ती केल्याच. ताजे परिणाम काळाप्रमाण विपरीत घडूं मागीर. हांवें ते भोगल्याय. पूण ताची खंत केली ना. लज मानलिना. देखूनच म्हाका लज ना.

म्हाका जशी लज ना तशीच म्हाका मर्यादाय ना. मर्यादेंत रावंचें अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना. मर्यादा हो प्रकार जण एकल्यान आपले ताकदीप्रमाण समजून घेतिल्लो प्रकार. स्वताचे उदरगतीखातीर आनी सुखाखातीर तो मर्यादेची कल्पना करता. जेन्ना मर्यादेभायर तो वता तेन्ना दुख्खी जाता, कश्टी जाता. आपले हे मानसीक ताकदिचे उणिवेक लागून हेरांकूय मर्यादेच्यो गजाली सांगत सुट्टा.

मर्यादेची कल्पना ही आयचीच न्हय. ही कल्पना अनंत काळासावन चलत आयल्या. रामायणांतली राम ही व्यक्ति मर्यादा पुरुषोत्तमाचो अतिरेक. मर्यादा पुरूस कसो आसचो हाची देख आयज मेरेन आमकां रामाकडेन बोट दाखोवन दीत आयिल्ले आसात. राम हो आमचे मुखार आदर्श म्हणून दवरिल्लो आसा. राम हो खऱ्यानीच मर्यादा पुरूस आशिल्लो काय फक्त आमकां फटोवपाखातीर, आमचे मुखार एक आदर्श दवरपाखातीर रंगयल्ल्या गुणांचो पुतळो आशिल्लो हो जण एकल्याच्या संशोधनाचो विशय. राम ह्या व्यक्तित्वाचेर खोलायेन विचार करतात तेन्ना ताची मर्यादा ही ताच्या अवगुणांचो रूपकार अशेंय दिसल्याबगर रावना. अमर्याद रावनूय मर्यादा पाळून एक मर्यादा पुरूस जावप रामाक शक्य आशिल्लें. पूण ताणें तें केलेंना. स्वताकूच व्हड करपाखातीर तो अमर्याद जालोंना वो ताका व्हड करपाखातीर ताच्या उप्रांतच्या ताच्या अनुयायांनी ताका मर्यादेंत दवरलो अशें कितेंय जांव येता. तरी सुद्धा ताची मर्यादा ही दुभावाची !

रामायणा उप्रांत आमकां मर्यादेचीं शाणपणां सांगपी ‘महाभारत’. महाभारतांत पावलां कणकणी आमकां मर्यादेच्या नांवान कंठशोश केल्लो दिश्टी पडटा. जण एकलो एक मेकाक मर्यादा सोडूं नाका म्हणपाचे उपदेश करता. तरीय पूण जण एकलो मर्यादा सोडूनच वागता. मर्यादा सोडून अमर्याद जावपी तरी मर्यादेंत रावपी श्रीकृष्ण हांगाच आमकां दिश्टी पडटा. कुंती, गांधारी, द्रौपदी, धर्मराज, अर्जुन, दुर्योधन, धृतराष्ट्र सगळे म्हळ्यार सगळेच मर्यादा सोडून जियेवपी, पूण मर्यादेंत आशिल्ल्याचो आभास निर्माण करपी मनीस. महाभारतांतलें युद्ध लेगीत मर्यादेभायर गेल्लें तरी मर्यादेंत उरिल्लें. मर्यादा - अमर्यादा हाचो संगम हांगाच आमकां पळोवंक मेळटा. त्याच खातीर मनशान मर्यादा सोडूं नये अशें महाभारताकडेन बोट दाखयत काळ आमकां खुणायत आसा.

मर्यादा केन्ना पाळप आनी कित्याक पाळप हें जण एकल्याचेर अवलंबून आसता. मर्यादा ही जण एकल्याच्या रक्तांतूच आसता. ती पाळ म्हूण सांगची पडना. आमची पुराय सृश्टूच मर्यादेंत आसा. जो कोण मर्यादा सोडटा ताचो विध्वंस जाता. पृथ्वी आपली मर्यादा सांबाळूनच सूर्याभोंवतणी घुंवता. सूर्य आपली मर्यादा सांबाळूनच आकाश गंगेत आसा. आकाशगंगेन तरी आपली मर्यादा खंय सोडल्या! ह्या अमर्याद घडणुकांक आमी मर्यादेंत राव म्हूण सांगनांत. पूण तेच सृश्टीचो घटक जो मनीस तो मात मर्यादेंत रावंचें म्हूण एकमेकाक शिटकायता. मर्यादेंतल्यानूच मनीस आपली उदरगत सादूंक शकता हें तांचें आवडीचें पालुपद. वाहनाक ब्रेक आसात देखुनूच आमी तें वाहन वेगान चलोवंक शकतात. जर ब्रेक ना म्हूण कळ्ळें जाल्यार भियेत भियेत वाहन चलयतले आनी आमकां योग्य वेळार योग्य सुवातेर पावूंक कळाव जातलो.

ब्रेक म्हळयार मर्यादा असो हाचो युक्तिवाद. जांचें जिवितूच मर्यादीत आसा तांचेखातीर हो युक्तिवाद बरो आसा. पूण जांचें जिवीत मर्यादेभायर आसा तांचें कितें ?

चडशे लोक मर्यादेंतूच जियेवंक सोदतात. आनी मर्यादीतूच सूख - दूख भोगून आपल्या जिविताचें सार्थक करूंक सोदतात. त्याचखातीर तांची दरेक गजाल मर्यादीत. मनीस शिकिल्लो आसा. ताका आपली पृथ्वी म्हळ्यार कितें, तिजो आकार कितें हें खबर आसा. धर्तरेपरस कितले व्हडले, आकांताचे गिरे ह्या विश्वांत आसात हें तो भेस बरें जाणां. ही सगळी कल्पना जर ताणें करीत तर आपूण कितें हें ताका बेस बरें कळून येता. पूण तो ताची कल्पना करीना. ती कल्पना केल्यार सत्य कितें तें होलमून ती घडणूक सोसपाची आपल्याकडेन शक्त नासतली आनी आपूण पिसो जातलों हाची खातरी ताका आसता. तेचखातीर आपल्याक सोसता इतलीच कल्पना, इतलोच विचार मनीस करता. मर्यादीत कल्पना.

ताजी पयली मर्यादा म्हळ्यार आपलें घर, आपलो घराबो. कासवावरी आपली मान, पांय

कर्तव्यांत ओडून घेवन तो स्वताक सुरक्षीत समजता. उप्रांत सामाजीक बांधिलके खातीर आपली मर्यादा तो सदळ करीत वता. घरांतल्यान - शेजार - वाडो - गांव - जिल्लो - राज्य - देश - संवसार इतलेमेरेन ताची मर्यादा सदळ जाता आनी सोंपता ती जंय क्षितीज सोंपता थंय. त्या मुखार तो वचना. सुर्याच्या उजवाडांत तो क्षितीज पळयता. उजवाड ही ताची मर्यादा. सुर्याचो उजवाड सोंपलो की ताचो दीस सोंपता. उजवाडाची वाट पळयत तो न्हिदता. पूण सुर्याच्या उजवाडाची मर्यादा सोडून जर ताणें रातचें मळबांत पळयलें आनी अमर्याद विश्वात आपल्याची आनी आपल्या मर्यादेची सुवात जोखली जाल्यार ?

जाल्यार तो पिसो जातलो. पिसो न जावपाखातीरूच ताका मर्यादा पाळूंक जाय. जर ताणें मर्यादा सोडली आनी अमर्याद जालो जाल्यार तो सुखी केन्नाच उरचोंना. सतत डिस्टर्ब उरतलो. सगळे मर्यादा पुरूस ह्या अमर्यादी पुरूसाक पिसो थारायतले. देखून हांवें मर्यादा सोडून लेगीत हांव म्हणटां हांवें मर्यादा सोडूंक ना.





# तुजो प्रवास कितलो जाला



तुजो प्रवास कितलो जाला, म्हणचेच तुवें आयजवेर कितली भोंवडी केल्या ? मनशान थोडोतरी प्रवास करचो अशें दर एकल्याक दिसता. जाणें केन्ना आपलें घर आनी गांवचो बाजार हो प्रवास सोडलो जाल्यार आनी कसलोच प्रवास करूंक ना असल्या मनशाक लेगीत दिसता की आपणे प्रवास हो करचो म्हूण. पूण तांच्या सपनांतल्या हेर राज्यांची वा देशांची भोंवडी ही सपनांतूच उरता. कांय जाण गांठीक थोडो दुडू जमोवन गोंयच्या शेजारच्या राज्यांचो प्रवास करून कांय प्रसिद्ध थळां पळोवन येतात. तांचें थंय वचप हें फक्त ते सुवातेर वचून आपले फोटो काडून घेवपा इतलेंच मर्यादीत आसता. थंय वचून आपणे केलें कितें आनी जोडलें कितें हाचें कोणाकूच गिन्यान नासता. तरी लेगीत तांच्या घराक भेट दिवपी दर एकल्याक ते फोटे दाखोवन आपणें अमूक अमूक थळाची भोंवडी केल्या हें पुराव्यासयत दाखोवन तांकांय त्या थळाची भोंवडी करून हाडपाचें काम हे भोंवडेकार करतात. तरी आसतना फोटो काडिल्ल्या थळां परस आपल्या वेगवेगळ्या भेसांतले फोटे हेरांनी तोखेवंचे होच हे फोटो दाखोवपा फाटलो उद्देश्य आसता.

हेर राज्यांतल्या लोकांच्या मानान गोंयकार हे भोंवडी करूंक फाटीं. गोंयकारांचीं दोन तोंकां हांगा आमकां पळोवंक मेळटात. कांय गोंयकार संवसाराची भोंवडी करून आयिल्ले आसतात तर कांय गोंयकारांनी आपलो गांव सोडून दुसरो गांव पळयल्लो नासता. दुसरो गांव पळोवपाची तांका आयिल्ली संद म्हळ्यार लग्नाच्या वा हेर कसल्याय निमतान सोयऱ्यांगेर वचपा इतलीच. थंयीय बी ताणी त्या सोयऱ्यांचें घर सोडून दावे - उजवेवटेन पळयल्लें नासता. एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गावांत वचूनय हे भोंवडेक भोंवडी अशें खुद्द ती भोंवडी करपी लेगीत मानूक तयार नासतात. आपलें दीसपट्टें काम सोडून फक्त मुदासांव म्हणून जो कोण आपलें घर वा गांव सोडून दुसरेकडेन वता ताकाच भोंवडी म्हणपाची एक प्रथा पडल्या. माथ्यार कामाचें वजें घेवन हांगा थंय भोंवपी केन्नाच भोंवडी करूंक शकना. एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत कामाखातीर वचपी हजारांनी मैल भोंवडी करूनय ताका भोंवडी म्हणूंक शकना. खऱ्या अर्थान प्रवास वो भोंवडी करतलो जाल्यार जिवितांतल्या काम हे कटकटीक कुशीन दवरून हुसक्या मेकळें भोंवक जाय. तेन्नाच भोंवडी केल्ल्याचें समादान मेळटा. ताका नेणार लेगीत प्रवास म्हणटात.

गोंयकार हो मुळांत सुसेगाद. ताका हांगा थंय भोंवचें अशें दिसता. पूण एकटो भोंवपाचें धाडस ताच्यांत नासता. कोणतरी मुखार सरून जर ताणें भोंवडी आयोजीत केली जाल्यार तो भोंवडेक वचूंक तयार जातूय बी. पूण वांगडा वळखिचो कोणतरी जायच पडटा. सांगाता बगर एकव्यान भायर सरप म्हळ्यार आपूण खंयच्या तरी इफेर्नांत वतलों असोच ताचो समज आसता. आपल्या कुटुंबासयत भोंवडेक वचपाची गोंयकारांची एकूच सुवात म्हळयार बेळगांव. बेळगांवची तांची भोंवडीय म्हळ्यार वेपारी. भोंवडेच्या नांवान बेळगांवां वचून बाजार करप आनी गोंयच्यान आपूण पयस खंय तरी वचून आयलां असो मनाचो समज करून घेवन उरिल्लें आयुश्य त्याच यादिनी घालोवप हो भोवतेक चडशा गोंयकारांचो छंद.

हांव ह्या गोंयकारांमदलोच गोंयकार आसुनय भोंवडेकडें पळोवपाची म्हजी तरा वेगळी. जेन्ना म्हाका खऱ्यानीच भोंवडी करपाची आसता तेन्ना म्हाका एकटो भोंवप आवडटा. समविचारी आसलोच जाल्यार सांगात हांव सोसून घेतां. पूण फक्त सांगात जाय देखून मेळटा ताका घेवन भायर सरलों जाल्यार म्हाका भोंवडेंतलें समादान केन्नाच लाभना. देखून हांव म्हजो म्हाकाच सांगाती मानून एकटोच भोंवडी करतां. जेन्ना जेन्ना प्रवास करचें अशें दिसलें तेन्ना तेन्ना हांव घरांतल्यान भायर सरून गेल्लों आसां.

रासवळ मळार वावुरतल्यांक हेर वेगवेगळ्या प्रस्नां वांगडाच तुजी भोंवडी कितली जाल्या हो एक प्रस्न नक्कीच विचारतात. मनीस केदोय व्हडलो आसलो आनी ताणें जर कांयच भोंवडी करूंक नासत जाल्यार ताचें मोठेपण हें क्षुल्लक, अर्थ नाशिल्लें अशें समजुपाची प्रथा आसा. जाणें केन्ना कसलीच भोंवडी करूंक ना तो मोठो आसुंकच शकना हो जगमान्य सिद्धांत. अणभवानूच मनीस मोठो जाता. अणभव जोडप ही गजाल घरांत बसून केन्नाच कोणांक शक्य जाल्ली ना. आयजवेरच्या सगळ्या विचारवंतांनी शक्य तितली भोंवडी करून आपल्या अणभवांचो आनी गिन्यानाचो खजिनो गिरेस्त करून उडयल्लो आसा.

जो भोंवडेखातीर भायर सरता तो खऱ्या अर्थान शूर आसता. प्रवासांत येवपी अडचणी वांगडा झुंजून जो मुखार सरता तो खंयच्याय क्रूर शिवांवांगडा झगडून जैत मिळोवपी शुरापरस श्रेश्ठ आसता. तांच्या गिन्यानाचें तेज खंयच्याय पुस्तकी पंडिता परस उजवें आसता. ज्या - ज्या लोकांनी ह्या संवसाराक दिपावन उडयलां त्या त्या लोकांनी हेर उपदेसांपयलीं भ्रमंती करपाचो उपदेश सगळ्यांत पयलीं केला.

पयलींचे रूशी - मुनी परिक्रमा करताले. परिक्रमा म्हळ्यार खंयचेय एके न्हंयचो काठ धरून त्या काठा - काठान ते न्हंयचे मुळामेरेन वचप. थंयच्यान ते न्हंयचो दुसरो काठ धरून ते न्हंयच्या अंतामेरेन वचप.हे पुराय भोंवडेंत वाटेर भेटपी गांवांत रावप, थंयसल्ल्या लोकांक मेळप, तांची वास्तपुस्त करप, तांचें जिवीत समजून घेवप, तांच्या वांगडा राबितो करप आनी हे करणेंतल्यान अणभव जोडप.

न्हंयेक सगळ्या लोकांनी माता अशें म्हळां. न्हंयचे काठावेली जमीन सुपीक आसता. न्हंयचे इतले उपेग आसतात की न्हंयचे देगेर रावपी कफल्लक लेगीत केन्ना उपाशी पडना.

न्हंय आपले देगेवेल्या सगळ्या जिवांची आवयवरी सेवा करता. ह्याच खातीर मनीसप्राण्यान आपलो राबितो न्हंयचे देगेरूच केल्लो दिसून येता. मनशाक जो अणभव जाय आसता तो मनशांमदीं रावून मेळटा. तो घेवन मागीर निवांत सुवातेर बसून ताचेर मनन करचें आसता. त्याच खातीर साधू - संत जंय मनीस - वस्ती आसता थंयच परिक्रमा करताले. साधू - संतांवरी परिक्रमा करप म्हाका जमलेंना. पूण जेन्ना - जेन्ना भोंवडेक वचपाची संद म्हाका मेळळ्या तेन्ना हांवे ती कशीच होगडायली ना. त्या वेळार लाव लुकसानिचो हिशेब मांडलोना.

हिप्पी पंथीय वा परदेशी, विदेशी लोक म्हाका ह्याच खातीर आवडटात. दर वर्सा ते खंय ना खंय भोंवत आसतात. भोंवडी ही तांचे संस्कृतायेचो एक वांटोच आसूंक जाय. दर वर्सा नित्य नेमान येवपी सणांवरी भोंवडी करपाचोय एक सण आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. धर्माचे भिरांतेन वा परंपरेक धरून, ऐपत नाशिल्लो लेगीत दर वर्सा चवथ मनयता, ईद, नातलां सजयता. ह्या सणांवरींच होय भोंवडेचो सण जर कोणे मनयलोंना जाल्यार समाजांत त्या मनशाचें हाशें जाता अशी एक प्रथा पडूंक जाय आशिल्ली अशें म्हाका दिसूंक लागलां. रीण काडून सण करप आनी मागीर रीण फारीक करप तशेंच होय सण रीण काडून जावपाचो. आपले सदचे लोक सोडून दर वर्सा नवीं तोंडां पळोवपाची, तांकां समजून घेवपाची संद ह्या सणांक लागून मेळपाची. नोकरे खातीर शिक्षैणीक प्रमाणपत्रां सादर करतानाच भोंवडी केल्ल्याचेंय प्रमाणपत्र आसूंक जाय. चडांत चड भोंवडी केल्ल्याकूच समाजांत खाशेली सुवात आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. पूण विमानान भोंवप हाका वर्ज्य लेखूंक जाय. कारण समाजांत पयलींच आपले गिरेस्तकायेक लागून खाशेली सुवात बळकावन बशिल्ले उद्योगपती, उद्येगधंद्यांच्या निमतान हांगा थंय विमानान भोंवून, भोंवडीय करूंक आमी मुखार हें दाखोवंक फाटीं सरचेनांत. ह्याच खातीर जो कोण आपल्या पांयांनी चडांत चड भोंवडी करता ताकाच समाजांत मान - पान आनी सगळ्या मळांचेर प्राधान्य आसूंक जाय. पूण ह्यो सगळ्यो म्हज्या सपनांतल्यो गजाली !

म्हजें आयुश्य म्हळयार एक प्रयोग अशें हांव आयजवेर मानून चल्लां. ह्या प्रयोगांतलें वाचन आनी भोंवडी हे म्हजे दोन सिद्धांत. म्हज्या वावरांतलें मनीस हो मुखेल भांडवल. ह्याच भांडवलाचेर हांव नवें कितें करूंक शकतलों ही म्हजी भावना. तेच खातीर हांव वाचीत आसतां आनी भोंवतय आसतां. सैमाचें पुस्तक वाचतना म्हाका जो आनंद मेळटा तो हेर छापील पुस्तकापरस आगळोच.

परिशदांच्या निमतान, गिर्यारोहणाच्या पिशान आनी हेर राज्यांच्या आमंत्रणाक लागून पुराय भारत आनी नेपाळसारक्या देशाची भोंवडी जाल्ली आसा. हांव कन्याकुमारी मेरेन वचून थंयच्या ल्हारांवांगडा खळखळून हांसिल्लों आसां. बंगालची खाडी, हिन्दी म्हासागर आनी अरबी समुद्र हांचें मिलन हांवें पळयल्लें आसा. सिक्किमच्या रानां - वनांतल्यान भोंवता - भोंवता कांचन गंगेची शिखरां दोळेभर पळयल्लीं आसात. ह्याच शिखरांनी म्हाका

ग्रेटर हिमालयाच्या भेटेक येवपाचो साद घाल्लो आसा. ह्या उल्याक जाप दिवपाचो हावेस मनांत आसा. आपली नोकरी, घर, भुरगीं, बायल हांचे भोंवतणी फेर धरचे परस संवसाराची फेरी करपाचीच म्हजी इत्सा चड जबरदस्त आसा. जोडटां तातुंतलो चडसो वांटो ह्याच कामाखातीर हांव मोडीत आसां.

मर्दीं एकदां जपानांत वचपाची संद आयिल्ली. म्हजी निवड बी जाली. हांव खोसयेन भुरकुटलों. गोंयाक सायोनारा करपाचे तयारेन रावलों. पूण म्हजे सुवातेर, सरकारच्या आशिर्वादान भलतोच कोण वचून आयलो. म्हाका अजाप जालेंना. कारण हांव कॉंग्रेसचो विरोधक आशिल्लों.

तुजी भोंवडी कितली जाल्या हो प्रस्न जेन्ना म्हजेमुखार येता तेन्ना म्हाका खऱ्यानीच दिसता, हांवें कांयच भोंवडी करूंक ना. हो संवसार केदो व्हडलो ! तातूंत म्हज्यो कितल्यो भयणी कितले भाव आसात. तांकां हांव केन्ना आनी कसो मेळूंक पावतलों ? म्हजी तर अजून आशिया खंडाचीच भोंवडी जावंक ना. आशिया खंड कित्याक ? पुराय भारत सोडाच, पुराय गोंय तरी हांवें खंय पळयलां ? अशें आसतना पुराय संवसार ह्या ल्हानश्या आयुश्यांत पळोवंक पावतलों काय कितें, ते थंयचे मातयेक म्हजो स्पर्श जातलो काय कितें होच एक म्हजेखातीर प्रस्न जावन आसा. ताका कसलो प्रस्न म्हणप ? रूक्षप्रस्न ?





# तुवें देंवचार केन्ना पळयला



आयच्या ह्या समाजांत देवांची सोडून देंवचारांचीच वस्ती चड जाल्ली आसतना, तुवें देंवचार केन्ना पळयला काय म्हूण रूक्षप्रस्न कोर्णेय केलो म्हणटकच म्हाका त्या मनशाची अप्रबुद्ध दिसता.

आयज आमकां ह्या समजांत जळींमळीं पावला कणकणी देंवचार सांपडटात. आतां देंवचार म्हळ्यार किर्ते हें म्हाका खबर ना. तरीय पूण जिविताचेर जाल्ल्या समाजीक संस्कारांक लागून देंवचार म्हळ्यार वायट करणी करपी एक मायावी शक्त आसूंक जाय असो म्हजो भुरगेपणारसावन समज. ही शक्त मनशांक केन्ना मजतूय करता आनी केन्ना केन्नाय पिडटाय बी. कोणूय जेन्ना दुसऱ्या मनशाक 'देंवचार मरे हो !' म्हणटा तेन्ना ताची संकल्पना पिडापीड दिवपी, वायट करपी ह्याच अर्थान आसता. हाका लागून देंवचार ही जी किर्ते शक्त समाजान कल्पनेंतल्यान वा अणभवांतल्यान करून घेतल्या ताचे वेल्यान ती मनशाक त्रासूच चड दिता आसूंक जाय. देखून 'देंवचार' हें विशेशण वायट करणी करप्याकूच वापरतात त्या अर्थी देंवचार ही शक्त वायटूच करपी आसता असो म्हजो समज जाला जावंक जाय. पूण कांय लोकांनी देंवचार मनशाच्या आदाराक पावता आनी तो वायट न्हय म्हणपाचेंय म्हाका सांगलां.

देंवचार ह्या उतराची उत्पत्ती कशी जाली हाचो सोद लावपाचो यत्न हांवें केला पूण म्हाका अजून ती लागूंक ना. जी हांवें लायल्या तार्चे समादान म्हाका जावंक ना. देव ह्या उतराच्या आनी संकल्पनेच्या उरफाटी संकल्पना म्हळ्यार देंवचार. देव हें उतर संस्कृतांतल्या 'द्यु:' ह्या उतरापासून तयार जालां अशें भार्शेतले जाणकार मानतात. द्यु: म्हळ्यार उजवाड. लाती भार्शेत 'देयुश' म्हळ्यार देव. संवसारांतल्यो सगळयो संस्कृतायो उजवाडाचीच पुजा करतात, करीत आयल्यात. उजवाडाचें दुसरें रूप म्हळ्यार देव. मनीस कुळयेक उजवाड दाखयता ताकाच देव मानपाची आमची संस्कृताय. जो बरें काम करता, जो मनशाच्या आदाराक पावता ताकाच देव मानून देवाची कल्पना रूढ जाल्ली आसा. बरो वावर करपी, उजवाडाची दिका दाखोवपी, मनशांच्या आदाराक पावपी मनशाकूय देव हेंच विशेशण दितात.

जातूंत देवपण ना तो देंवचार असो देवाच्या उरफाटो अर्थ काडून हो समज निर्माण केल्लो

आसा. देंवचाराची करणी म्हळ्यार वायट करणी. पूण देंवचार ह्या उतरांत ही वायट करणी म्हणपाचो अर्थ खंयच सांपडना. देव अदीक आचार अशी संधी जर करत जाल्यार देवाचो आचार करपी अथवा देवाची करणी करपी तो देंवचार असो अर्थ जाता. म्हणटकच तो वायट कसो ? जर तो देवा सारको आचार करपी जाल्यार तो बदनाम कसो जालो ? काय तो बदनाम फरिश्ता हया प्रकारांत मोडटा ? तशें आसत जाल्यार देव + अचार म्हळ्यार देवचार अशी ती संधी आसूंक जाय. वायट पूण देवासारकी करणी करपी. अशें जर आसत जाल्यार देंवचाराक मनशांनी वायट म्हूण कित्याक कल्पिला ?

देंवचार हो प्रकार मायावी शक्त काय कितें हाचो अणभव हांवें घेवंक ना. तरीपूण ताचे विशी आख्यायिका खूप आयकल्यात. अशिक्षीत आनी खेडवळ घराब्यांत तर हाचो बडवाचार चडूच. भूत, देंवचार आदी गजालींचेर ह्या लोकांमदीं खुपूच विस्वास आशिल्ल्यान जाण्टेलीं, भुरग्यांचेर ह्या विशयाचेर खुपूच प्रभाव घालतात. ह्या संस्काराक लागून ही गजाल खरी काय फट हें कळनासतनाच भुरग्यांचेर ताचो खोलायेन परिणाम जाता. ह्या संस्काराक लागून मनीस या बाबतींत सदांच अज्ञानात रावता आनी अज्ञानांतल्यान तयार जाल्ल्या ह्या काल्पनीक शक्तिचेर विस्वास दवरून भिरांत बाळगून रावता. भुरगेपणासावन ह्या भयांच्या संस्काराक लागून ह्या गजालींचेर संशोधन करपाचे भानगडींतूय कोण पडना. तांच्या काळजांतल्या भंयाक लागून कोणूच विखाची परिक्षा घेवंक वचना.

हांवें भुरगेपणासावन देंवचाराच्या रूपाचें वर्णन आयकलां तें अशें - देंवचार हो जाण्टे पिरायेचो आसता. तो धोतर न्हेसता. खांदार एक कांबळ उडयता. ताच्या माथ्याक मुंडासो रेवडायल्लो आसता. एका हातांत दांडो आनी दुसऱ्या हातांत कवदो आसता. ताच्या पायांक करकर असो आवाज करपी चांमड्याच्यो दाट व्हाणो आसतात. तो आपल्याक जाय तशें ल्हान व्हड रूप घेवंक शकता. अशा रूपांतल्या देंवचाराक खासा दोळ्यांनी पळयल्ल्याची गजाल खुपश्या लोकांनी म्हाका सांगल्या.

कांय जाणांनी ताका अदृश्य रूपांतय पळयला. ताचें खरें रूप दोळ्यांक दिश्टी पड नासतना दिसपी चुडीक वा कवद्याक लागून तो देंवचार म्हूण तांकां कळटा खंय ! खरें फट तें तेच जाणांत.

साळांत दर वर्सा गड्यांची जात्रा जाता. थंय गेल्ल्या दर भक्ताक खंय ह्या देंवचाराचें दर्शन जाता. पयसुल्ल्या दोंगरार हातांत चूड घेवन धावपी हो देंवचार दिश्टी पडटा. गडे ताच्या फाटल्यान धांवतात. गड्यां फाटल्यान भक्तूय धांवतात. पूण कितलेंय धांवले तरी देंवचारामेरेन कोणूच पावना. मनांत भंय बाळगून एकमेकांच्या आदाराचेर आनी भरवंशाचेर देंवचाराचे सोदीक धांवपी हे लोक म्हळयार एक फकाणाचो विशय.

देंवचार आनी गडे हो प्रकार कितें हें पळोवपाखातीर हांवूय एकदां गड्यांचे जात्रेक गेलों. दोंगरार पयस एक दिवो दिसलो. पूण तो उजवाड चूड अथवा कवदो न्हय हाची खात्री म्हाका जाली. उजवाडावेल्यान तो बॅटरे दिवो हें म्हाका शंबर टक्के पटलें. देंवचार जर खरेंच आसत

जाल्यार तो बॅटरे दिवो घेवन केन्नाच आसचोना. एके सुवातेर ती चूड दिसल्या उप्रांत खूप वेळान दुसरेकडेन ती पेटून पालवतना दिसताली. खरें म्हळ्यार जंगलांतल्यान चूड मुखार वतना ती अदीमदीं दिसूंक जाय आशिल्ली. पूण सिग्नल दिल्लेवरी एके सुवातेर दिसल्या उप्रांत खूप वेळान दुसरेकडेन ती पेटून पालवतना दिसताली. हो प्रकार म्हळ्यार एकमेकांक दिल्लो सिग्नल अशें दिसल्याबगर रावना. गड्यांचे जात्रेक येवपी भक्त फक्त गडे आनी देंवचाराची ही चूड पळोवंक येतात. पूण तातुंतले चडशे लोक थंय चलपी जुगाराखातीर येतात ! ते गड्यांचे जात्रेच्या दर राती लाखांनी रुपयांच्या जुगाराची उलाढाल जाता. चडशी सुवात जुगाराच्या वेगवेगळ्या अड्ड्यानीच व्यापून गेल्ली आसता आनी उरिल्ले सुवातेर वेगवेगळे मांड. जुगार आनी पट खेळप्यांक देंवचाराचें सोयर सुतक नासता. ते पोलिसांच्या आशिर्वादान आनी देवस्थानाचे कृपेन आपलो वेव्हार आरामांत चलयतात. सादेभोळे भक्त मात देंवचारा फाटल्यान धांवत आसतात. तेय बी चोब्यांनी. एकलो कोणूय फाटीं पडलो जाल्यार तो घुस्पलो. ताका परत येवपाची वाट सापडपाची ना. त्या खातीर ताजें लक्ष देंवचाराबदला वाटेकडेच चड आसता आनी मागीर आपलो पराक्रम आंबट - तीक करून हेच लोक हेरांक सांगत सुट्टात. साळांतले हे गड्यांचे जात्रेक दिसाढवळ्या म्हणटात तसो येदो जुगार चलता जाल्यार दोंगरार केदें व्हडलें देंवचारपण चल्लां आसतलें ! आनी तें पळोवंक गेल्ल्या एकट्या - दुकट्यांक लिपयल्याबगर ते देंवचार कशे सोडीत ?

देंवचार हो दर एका वाठाराचो आसता अशें म्हणटात. तो त्या त्या गांवचो वा त्या वाठाराचो राखणदार. आपलो वाठार सोडून वा हद्द सोडून तो वचना. तो त्या वाठारांतल्या लोकांची राखण करता. रातचो कोणूय भायर उरत जाल्यार ताका घरा हाडून पायता. देंवचार रातचो भोंवता. तो येवपाचो अमुकूच वेळ आसता त्या वेळार ताचे वाटेर कोणूय मनीस येवन ताका ताणे आडमेळें हाडलें जाल्यार ताका तो वाटेवयल्यान पयस शेवटून मारता. ताका जर कोणेय अपशब्द दिलो जाल्यार तो ताका व्हरून लिपयता. देंवचारान लिपयल्ल्या आनी मागीर मेळिल्ल्या मनशांक हांवें खुपदां मेळपाचो यत्न केलो. पूण तांची भेट घेवपाची संद म्हाका केन्ना मेळूंकच ना. जांकां लिपयल्ले ते एक तर मेल्ले आसतात वा पिशे जाल्ले आसतात. लिपयलो तेन्ना अचूक कितें जालें हें तांच्यांनी सांगपाच्या भायर ते आसतात. तांचेकडेन उरतात त्यो फक्त काणयो. त्योय बी आयकीव, हाणे - ताणे रंगोवन सांगिल्ल्यो.

देंवचार मनशाक लिपयता तोय प्रकार अजापाचोच. एकदां एकलो रातचो येता आसतना ताजे फाटीर कोणेतरी हात मारलो आनी ताजेकडे विडी मागली. पूण ताणें विडी मागतल्याक बुरशी गाळ घाली आनी विडी ना म्हूण सांगलें. आपल्याकडे विडी मागपी देंवचार हें ताका खबर नाशिल्लें. देंवचाराक राग मारलो. ताणें ताका लिपयलो. ताका बद्द एका वर्सान सोडलो. ताका लिपयल्ली ती सुवात एक वड आशिल्लो. वडाचे वयले तेंगशेर एका खोल्याच्या पोंदा ताका लिपयल्लो. आपल्याक सगळे सोदतात हें त्या मनशाक दिसतालें. पूण तो तांका कांयच सांगूक शकनाशिल्लो. ताजो आवाजूच फुटनाशिल्लो.

सकयल सोदपी वडाच्या मुळसांतल्यान वताले पूण तांका तो लिपयल्लो मनीस दिसनाशिल्लो. तो मनीस वर्सान सुटलो तेन्ना उलोवपाचे अवस्थेत नाशिल्लो. दोन तीन दिसांनी तो मेलो.

देंवचार पळोवंचो वा जाका ताणें लिपयला ताका मेळून सत्यता पडताळून पळोवंची ही म्हाका उमळशीक. तशी म्हाका दोनदां संद मेळ्ळी. एकदां हांवें देंवचार पळयलो आनी एकदां देंवचारान लिपयल्ल्या मनशाकडे उलोवपाची संद मेळ्ळी.

एका गावांत रातच्या बारा वरांचेर खुपशा लोकांक देंवचार दिश्टी पडटालो. पूण ताजो भेस परंपरेप्रमाण जसो वयर सांगला तसो नाशिल्लो. तो फक्त पुडवें न्हेसतालो आनी आत्र्या - पयऱ्यान लोकांक दर्शन दितालो. ताका पळोवंचो म्हूण हांव एका मित्रावांगडा त्या गावांत गेलों. त्या मित्रानूच तो देंवचार त्या गावांत भोंवता म्हूण म्हाका म्हायती दिल्ली. ताच्या सहकार्यान देंवचाराचें दर्शन जालें जाल्यार जालें हो त्या फाटलो हेत आशिल्लो.

रातचें जेवण जातकच आमी भायर आंगणात येवन देंवचाराची वाट पळयत बसले. आतां येतलो मागीर येतलो करीत रात सरली. पूण देंवचार कांय आयलोंना. मित्र ज्या नेटान सांगतालो तो नेट पळयल्यार खऱ्यानीच थंय देंवचार आसता अशें कोणूय मानूक तयार जावपाचो. पूण ते राती जागरण करूनय देंवचार दिसलोना.

दुसरे दिसा आनीक एक रात होगडावया म्हूण आमी देंवचाराची वाट पळोवंक लागले. देंवचार हे गजालीचेर म्हजो विस्वास नाशिल्ल्यान आमी कारणाशिवाय रात जागयतात हाची खात्री आशिल्ल्यान म्हजे दोळे झेमताले. दोळे अशेच जड जाल्ले आसतना म्हजे मित्रान म्हाका हालयलो आनी उलयनासतना कुरवानीच घरा भायर पळोवंक सांगलें. म्हज्या दोळ्यांमुखार साक्षात देंवचार आशिल्लो. पूण तो बरोच पयस आशिल्ल्यान तो कसो दिसता हें पळोवंक येनाशिल्लें. फक्त ताची आकृताय आनी तुरतुरीत चलप तितलें दिसतालें.

त्या देंवचारान धवेंच पुडवें न्हेसून त्या पुडव्याचो सोगो आपल्या माथ्यावेल्यान घेतिल्लो. तो म्हाका अकस्मात जसो दिश्टी पडलो तसो तो अकस्मात नाच जालो. थंय आशिल्ल्या घराच्या आडसाक पावतकच अंतर्धान पावलो. जर त्या घरांत हांव आशिल्लों जाल्यार ताका लागशिल्ल्यान पळोवपाची संद म्हाका मेळपाची !

तें घर एके विधवेचें आशिल्लें. तरणे पिरायेचेरूच तिजो घोव गेल्लो. भुरगीं - बाळां कोण नाशिल्लीं. हांगा थंय काम करून पोट भरताली बाबडी ! एकदम उजू चलणुकेची बायल विधवा आनी गरीब म्हूण गांवच्या लोकांचीय तिका सहानुभूति आशिल्ली. तेच विधवा बायलेच्या घराकडे पावतांच तो देंवचार नाच्च जाल्लो. मित्राचेंय म्हणणें तेंच आशिल्लें. कदाचीत तो तिज्या मेल्ल्या घोवाचोय आत्मो आसूं येतालो. पूण म्हजो हया गजालींचेर निखालूस विस्वास नाशिल्लो. पूण हांवें तर मध्यानरातीर एका मनशाक थंय चलतना पळयल्लो. चलतां चलतां नाच्च जाला म्हणपाचेंय पळयल्लें. पूण तो ते विधवेच्याच घराकडे लूप्त जावपाचें कारण मात म्हाका कळळें ना.

तें सोदून काडचें म्हूण तिसऱ्या दिसाय हांवें थंय बस्तान मारलें. रातचें आनीक दोगांक सांगाताक घेवन हांव तें घर सारकें नदरेक पडटलें अशे सुवातेर वचून बसलों. पूण बरोच कळाव जालो तरी तो कांय आयलोना. आमी कंटाळून उठपाक वताले तेन्नाच त्या घराच्या बल्कावांत तो देंवचार दिश्टी पडलो. पुडव्याचो सोगो माथ्यार उडोवन तो तुरतुरीत आंगणात आयलो आनी रूखांच्या आडसाक नाच्च जालो. आमी ताका पळोवपाखातीर उठले. तेन्ना कांय अंतराचेर तो आमकां दिसलो. फाटल्या फुडल्यान पळयत तो चोरावरीं एका घरांत घुसलो. तें घर गांवच्या भाटकाराचें आशिल्लें. रातचे सगळे लोक न्हिदल्याउप्रांत हो भाटकार त्या विधवेच्या घरांत वतालो आनी कोणूय रातचो मूतपाखातीर बी भायर सरिल्लो झळकलो जाल्यार पुडवें माथ्यार उडोवन नाच्च जातालो. अकस्मात दिसून अंतर्धान पावपी त्या भाटकाराक सगळे देंवचार समजल्ले.

दुसरी गजाल दिगंबर नांवाच्या एका वळखिच्या मनशाची. लग्न जाल्लो हो मनीस. पूण ताजो संबंद एके दुसरे बायलेकडेन आशिल्लो. ताजे घरकान्नीक हें लफडें खबर आशिल्लें. त्या खातीर घरांत सदांच झगडीं. हीं झगडीं नाका म्हूण एकदीस दिगंबरान आपले बायलेक सोपूत घेवन उतर दिलें की आपणे ते बायले कडलो संबंद तोडलो. पूण एके राती तो तिगेर गेलोच. दोन - तीन राती घरा आयलोच ना. सगळेकडेन सोदासोद जाली. तो आपल्या लफड्यागेर आतां वचना म्हणपाची गवायूय ताचे बायलेन दिली. त्याखातीर थंय सोदपाचें सगळ्यांनी टाळ्ळें. चार दिसांनी मात तो लोकांक एका बस स्टॉपार मेळ्ळो. बसीखातीर हात वयर करून उबो आशिल्लो. लोकांनी ताका घरा व्हेलो. ताणें सगळ्यांक सांगलें की आपल्याक तीन दीस देंवचारान लिपयल्लो आनी उप्रांत बसस्टॉपार व्हरून हात वयर करून उबो केल्लो. सगळ्यांक खरें दिसलें. ताचे घरकान्नीक आपलो घोव देंवचाराच्या चोपक्यांतल्यान बरेंभशेन सुटलो म्हूण खोस जाली. हांवें त्या मनशाची मुजरत भेट घेतली. म्हाका फटवप ताका बरें दिसलेंना जांवये. आपूण तीन राती खंय आशिल्लों हाची खरी गजाल ताणें म्हाका सांगली. आपले घरकान्नीच्या भयांन देंवचारान लिपोवपाचीं नाटकां ताणें केल्लीं.

असल्या ह्या खुपशा देंवचारांक हांवें पळयल्यात. पूण हे धतीरर शेकड्यांनी वर्सांसावन देंवचाराच्यो ज्यो आख्यायिका तयार जाल्यात तातुंतल्या एकल्याय देंवचाराक मात मेळपाची संद म्हाका अजून मेळूंक ना.





# तुजो भविश्याचेर विस्वास आसा



तकलेंत विचारांचो घयरांव जाल्ले कांय जाण आपूण कितें तरी व्हडलें तत्वगिन्यान मांडटां हे कल्पनेन उतरांचो गांयडोळ समाजांत सोडटात. तत्वगिन्यानांचो हो गांयडोळ मागीर वळवळत रावता. कांय काळ मुखार सरपट्टा. त्या गांयडोळाचो वापर कांय जाण आपल्या भाशणांत जांव लेखांत उतारो म्हूण - कोटेशन म्हूण वापरून आपल्याचीच तोखणाय करून घेवपाचो यत्न करतात. उपरांत हो कोटेशनाचो गांयडोळ वळवळत, वळवळत एक दीस प्राण सोडटा.

'बायल मनशेचो भूतकाळ आनी दादल्याचो भविश्यकाळ पळोवंचो' अशेंय एक कोटेशन समाजांतल्या बुदवंतांच्या तोंडांत अर्दींमर्दी वळवळटा. खरें म्हळ्यार असल्या ह्या कोटेशनांचो अर्थ 'कोट' करपी त्या बुदवंतांकूय कळना आनी जांचेमुखार तो 'कोट' करता त्या आयकुप्यांकूय तो कळना. फक्त आपलें उलोवप वा बरोवप अलंकारीक जांवचें वा हेरांचें लक्ष ताचेर पडचें होच तांचो हेत आसता. उप्रांत नाका त्या कोटेशनाच्या भकीक पडिल्ल्यान असले बुदवंत आपलेंच हांशें करून घेतात. बायलमनशेचो भूतकाळ कितें हाची कल्पना ह्या बुदवंतांक नासता. तिणें आपल्या फाटल्या जिवितांत कितेंय बरो वावर केला, ती हेरांकडेन बरेभशेन हांसून-खेळून वावुरल्या वा तिणें समाजाची बरी सेवा केल्या तें पळोवन तिका मान दिवंचो हीच जर बायलेच्या भूतकाळाविशीं बुदवंतांची कल्पना आसत जाल्यार तो भूतकाळ दादल्यांकूय लागू जावंक फाव. त्याखातीर भविश्याचेरूच नदर दवरून रावंक दादल्यांक सांगप म्हळयार तांचेर अन्याय केल्लेवरीं जातलें. पूण हांगा भूतकाळ आनी भविश्यकाळ हाचो अर्थ वेगळो आसता. ह्या काळांविशी बुदवंतांची कल्पना वेगळी आसता.

बायलांचो भूतकाळ पळोवंचो अशें जेन्ना म्हणटात तेन्ना त्या बायलांनी आपल्या भूतकाळांत कसलो तोखणायेचो वावर केला, सामाजिक मळार दोळ्यांत भरपी कितें कार्य केलां हें पळोवपाचें नासता तर तिजें पावल वाकडें पडलां काय कितें हें पळोवपाचें आसता. हें वाकडें पावल पडपाची प्रक्रिया फक्त तिज्या शीलाचेर अवलंबून आसता. कायदेशीर लग्न जावंचे पयलीं जर ते बायलेचो म्हळ्यार चलयेचो खंयच्याय दादल्याकडेन शाररीक संबंद आयलो वा तसो दुभाव जर समाजाक लागलो जाल्यार तिजें पावल वाकडें पडलें, ती आपलें शील होगडावन बसली असो समाजाचे नदरेन अर्थ जाता. जे सर चलयेचें वा बायलमनशेचें

पावल वाकडें पडनां ते सर तांचो भूतकाळ बरो आसता, अशें म्हणपाची समाजांतल्या बुदवंतांची उंचाय आसता. चली मनीस जल्मल्या बराबर तिचेकडेन शाररीक संबंद येवपाचो आसा त्या दादल्याचोय जल्म खंय तरी जाल्लो आसा आनी ब्रह्मदेवान तशी गांठ मारून दवरिल्ली आसा असो समाजाचो सिद्धान्त आशिल्ल्या कारणान, फातर जावन पडिल्ले अहिल्ये प्रमाण रामाची वाट पळयत ती फातर जावन रावता. ह्या फातराच्या रूपांतूच तिचो भूतकाळ सुरक्षीत आसता. राम येसर तिका तो भूतकाळ सांबाळचो पडटा. जर ह्या फातरांतल्या रूपांतल्यान भायर येवन आपूण ह्या सैमाचें रूप हाची जाणविकाय खीणभर तिणें मनात हाडली जाल्यार ती शीलभ्रश्ट जाता. तिचो भूतकाळ इबाडटा.

दादल्यांचो भविश्यकाळ म्हळ्यार तांचें फुडलें कर्तृत्व. सद्या जें कितें कर्तृत्व गाजयलां ताचेर समादान मानून न रावतां मुखार चडांत चड दिग्वीजय गाजोवचो हीच सगळ्यांची इत्सा आसता. दादल्यांक बायलांवरीं भूतकाळ लागनां. तांचो भूतकाळ म्हळ्यार पावल वाकडें पडप न्हय. वांकड्या पावलांनी, आड वाटांनी ते कितलेय चल्ले तरी तांचें मोठेपण जोखतात तें तांच्या कर्तृत्वाचेर. आयज मेरेन ताणें जें कितें नांव जोडलां ताजेर ताका जोखतनाच फुडाराक तो हाच्याय परस कितेंय व्हडलें करतलो ताचेर ताका जोखपाखातीर वाट पळयत रावप. तोच भविश्यकाळ सगळ्यांक जाय.

हांगा भूतकाळ आनी भविश्यकाळ हाचे विशीं समाजाचे विचार अशे पद्धतीचे आसले तरी भविश्याची कल्पना मात वेगळी आसता. हांगा भविश्य म्हळ्यार फुडार. काळ न्हय. हें भविश्य भूतकाळ सांबाळपी बायलेकूय लागता. भविश्यकाळाची वाट पळोवपी दादल्याकूय लागता आनी म्हज्या सारख्या वर्तमानकाळांत जियेवपी कांय मनशांकूय लागता. आपल्या भविश्यांत कितें वाडून दवरलां म्हळ्यार आपल्या नशिबांत फुडाराक कितें बरोवन दवरलां हें जाणां जावन घेवपाची उमळशीक दर एकल्याक आसता. हेंच भविश्य जाणां जावन घेवपाखातीर जण एकलो आपल्या हाताच्यो रेगो पळयता. आपली कुंडली मांडटा आनी त्याच हुसक्यान आपलो वर्तमान होगडावन बसता. भुतकाळाच्या दुख्खान आनी भविश्याच्या हुसक्यान आयज दर एकलो मनीस आपल्या मुठींतलो वर्तमान वाऱ्यार सोडटा. वर्तमानांतलो दरेक खीण भूतकाळ केन्ना जाता आनी भविश्यकाळ वर्तमानांत केन्ना पावलो हाचें भान तांकां उरना.

तुजो भविश्याचेर विस्वास आसा ? असो प्रस्न म्हजेमुखार येता तेन्ना म्हाका हांसूक येतालें. हांव भविश्य मानिना. हांव म्हजें भविश्य घडयतां असो जबाब हांव दितालों. समाजांत भविश्याच्या नांवान जीं फटींगपणा चलतात तीं हांव म्हज्या दोळ्यांनी पळयतालों अजून पळयतां. मनीस हो जातनाच दुबळो आसता. तो जियेता तो आशेचेर. आतां मेरेन आपल्याक जें सूख मेळ्ळां ताचे परस व्हड सूख फुडाराक मेळटलें हे आशेचेर आतां मेरेनचीं दुखां मनीस पीत रावता. फुडाराचीं सुखां कसलीं हें जाणां जावंक सोदता. हेच तांचे आशेक लागून धतरिर भविश्य सांगपी लोकांची बजबजपुरी माजल्या. वेगवेगळीं पत्रां घेवन, वांगडा

एका किराक घेवन गावांगावांनी भोंवपी, हस्तरेशा पळोवपाखातीर हांगा थंय भोंवडी करून, हॉटेलांत राबितो करून रावपी वा कुंडली पळोवपी कितलेतरी भविश्यकार लोकांच्या मानसीक दुबळेपणाचो लाव घेवन तांकां लुटत आसतात.

भविश्य हें एक शास्त्र अशें हस्तसामुद्रीक मानतात. प्रत्येक गजालीक एक शास्त्र हें आसचेंच. खंयचीय गजाल शास्त्रीय परिमाणान जर केली जाल्यार ताजें फळ बेगीन मेळटा. तशेंच भविश्य हें एक शास्त्र मानून मनशाच्या नशिबांतल्यो गजाली सांगप हाकाय एक शास्त्र लागता. शास्त्रशुद्धपणान लोकांच्या मानसीक दुबळेपणाचो फायदो घेवपापुरतोच हें शास्त्र उपकारता. मनशाच्या सभावाचो, तांचे मानसीक प्रक्रियेचो थोडोसो अभ्यास आशिल्लो मनीस, व्हड भविश्यकाराचें रूपडें तोंडार चडोवन बऱ्यापयकी आपलो फुडार घडोवंक शकता. आपलें भविश्य घडोवंक भविश्याचो आदार घेवप हेंच हया मनशाचें शास्त्र आसता.

ल्हान भुरग्याचें भविश्य पळोवपाचें नासता, तांच्या हातावेल्यो रेशा वाचपाच्यो नासतात, तांची कुंडली जरी मांडली तरी ती तांका वाचून दाखोवपाची नासता, ह्या संकेताक लागून भुरगेपणार हांव भविश्यकाराच्या चोपक्यांतल्यान वाटावलों. आमच्या गांवांतल्यान आत्र्या - पयऱ्यान खंयच्या ना खंयच्या भविश्य सांगणाऱ्याची वा भाकणाराची पासय जातालीच. एकदीस अशाच एका भाकणाऱ्याची काकूट येवन ताच्या हातार कितेंय पडचें देखून म्हजे आवयन ताका आपलें भविश्य पळोवंक सांगलें. म्हजो व्हडलो भाव त्या दिसा घरा आशिल्लो जाल्यार ताका आंगणांतल्यानूच धांवडावन घालपाचो. पूण दारांत आयिल्ल्या भिकाऱ्याक दान घालपाचें, नंदीबैलाक गंधफूल घालपाचें, दक्षणा दिवन जेवंक रावता जाल्यार पोटभर जेवण घालपाचें अशी गजाल करून आयिल्ले म्हजे आवयक तो भविश्यकार आनी नंदीबैल घेवन दारांत भीक मागपी मदारी सारकोच. दारांत आयिल्ल्याच्या हातार कितेंय उडोवप आनी ताका संतुश्ट करप हो तिचो सभाव. तेन्ना दारांत लोकांचो फुडार पारखुपी साक्षात भविश्यकार आसतना ताचे सेवेची संद ती कशी सोडीत ! ताका बल्कावांत हाडून पाटार बसयलो. ताज्या हातार सवाय रुपया, थोडे तांदूळ आनी एक नाल्ल दवरलो आनी आपलो फुडार पारखूंक सांगलें. तुवें पयलीं खूप कश्ट काडल्यात, पूण ते ना जावन ह्या मुखार तुका सूख लाभतलें अशी भविश्यवाणी ताणें कथन केली. फुडाराच्या सुखाविशीं म्होंवाचें बोट दाखयल्ल्यान हेर लोकांवरीं म्हजी आवय नक्कीच भुल्लुसल्या आसतली.

म्हजे आवयन पयलीं खूप कश्ट काडल्यात म्हणपाचें तिका पळयल्या बराबर कळटालें. तें सांगपाखातीर कोणा भविश्यकाराची गरज नाशिल्ली. खरें म्हळ्यार हे कश्ट काडप म्हळ्यार भूत. संवसारांतलो दर एकलो मनीसप्राणी हे कश्ट काडीत आसता. सगळ्या सुखानी परिपूर्ण असो मनीस लेगीत चड पंचपक्वानां खावन अजीर्ण जातकच त्रास भोगता. ताका लेगीत कोणे भविश्यकारान सांगलें की तुवें खूप कश्ट सोसल्यात आनी नशीब बरें देखुनच तूं वाटावलो जाल्यार तोय चेहऱ्यार करूणा हाडून हय म्हूण मान हालयतलो. आयचें सूख लेगीत

फायच्या सुखाच्या कल्पनेन दुख्ख करून उडोवपी मनशाचें भविश्य सांगप म्हळ्यार अदमासान फातर मारप. हो मारिल्लो फातर खंयच्याय मनशाक अचूक लागता. होच फातर मनशांमदलो हळवो मृदूभाव, करूणरस जागयता.

भविश्यकार आवयचें भविश्य सांगता तेन्ना हांव शेजराक रावन तें आयकतालों. दर एके आवयक दिसता कि आपलो भुरगो खूप शिकचो. म्हजेय आवयक तें दिसतालें हातूंत मातूय दुमाव ना. भविश्यकारान दुसरें भविश्य वर्तयलें कि हांव खूप खूप शिकतलों. आयकून आवय खूप खुशालभरीत जाली. पारखी बरें आनी सारकें भविश्य सांगता हाची खात्री तिका पटली. तिणें आपले विशीं आनीक थोडें विचार्ल्लें. त्याखातीर आनीक थोडे पयशे तिका ताज्या म्हन्यांत दवरचे पडले. तिजें फुडलें भविश्य सांगूंक तो अनमनलो. आवयन तें सांगपाचो हट्ट धरलो. तें वायट आसा अशें सांगतनां लेगीत तिणें काळीज घट्ट केलें. तिजें वायट भविश्य सांगचेपयलीं हांव खूप शिकून नांव काडटलों हें भविश्य परतून एकदां सांगलें. दोतोर इंजेक्शन करचे पयलीं ते सुवातेर कापूस घेवन आलकोल लायता तशें. तें सांगून जाल्या उप्रांत म्हज्या सुखाक जोडुनूच ती पंचेचाळीस वर्सांचेर मरतली हें भविश्य सांगलें. आयकून म्हाका धसको बसलो. हांव आवयक सोडून मात लेगीत रावंक शकनाशिल्लों. रातची तर तिजेच म्हन्यांत म्हाका न्हीद पडटाली. अशें आसतनां जर ती मेली जाल्यार कितें जातलें ? हे कल्पनेनूच म्हाका धस्स जालें. दीस - रात हांवें एकूच ध्यास घेतलो तो म्हळयार म्हजी आवय मरतली. तिका कळनासतना तिजी पिराय सोदून काडपाचो यत्न हांव करूंक लागलों. सपनांत लेगीत म्हाका दिसूंक लागलें की तिका पंचेचाळीस वर्सां पुराय जाल्यांत. म्हजें कित्याचेरूच लक्ष लागना जालें. पारख्यान सांगिल्लें भविश्य फट करपाखातीर म्हजी धडपड सुरू जाली.

म्हजी आवय पंचेचाळीस वर्सांचेर मरतली हें भविश्य सांगतनाच ताणें हांव भरपूर शिकतलों अशेंय भाकीत केल्लें. ताचें हेंच भविश्य जर हांवें फट थारायलें जाल्यार फुडलें खरें जावप शक्यूच ना ह्या विचारान हांवें शिक्षणावेलें लक्ष काडून उडयलें. घरच्या भंयाक लागून शाळेंत वचप पूण शिकप ना असो हांवें निर्णय घेतलो. दरवर्सा हांव पास जातालों तो व्हडल्या भावाच्या माराच्या भंयान शिकतालों देखून. हेर भुरगे सारके शिकनाशिल्ले देखून हांव वर्गांत पयलो येतालों आसुंये ! पूण मन लावन म्हजो अभ्यास जायनाशिल्लो. ह्या खातीर मदीं हांव एका वर्गांत नापासूय जालों.

भुरगेपण सोंपत गेलें तशी थोडी बुद्द आयली. तेन्ना आवयचीं वर्सां मेजलीं तशें कळळें की तिका केन्नाच पंचेचाळीस वर्सा जावन गेल्यांत. भविश्यकारान केल्लें म्हज्या आवयचें मरणाचें भाकीत पोल जाल्लें. आतां तिची पिराय पंचात्तरीकडेन पावल्या. पूण त्या भविश्यकारान वर्तयल्ल्या भविश्याक लागून मात म्हजी पिराय अर्दी जाल्या. ताणें सांगिल्लें की हांव खूप्प शिकतलों. खूप म्हळ्यार कितलें हें मात सांगूंक नाशिल्लें. हांवें दोन एम्. ए. केल्यात, एम्. फील करूंक सुरवात केली. मुखार डॉक्टरेटूय मेळत. पूण म्हजे नदरेन हें

शिकप खूप न्हय. म्हजें खूप शिकपासारकें उल्लां. हांवें सद्या घेतिल्लें शिक्षण हें दाखले घेवपाचें. पूण पुराय घराब्यांत म्हजेंच शिक्षण चड जालां आनी त्या भविश्यकाराक जर तशेंच म्हणपाचें आशिल्लें जाल्यार ताचें भाकीत खरें जालें म्हणपाचें. जर तें खरें जालें जाल्यार आवय पंचेचाळीस वर्सांचेर मरतली म्हूण सांगपांत ताची चूक जावंक ना मू ? कदाचीत ताका म्हणपाचें आसुये की तुजो चलो खूप शिकतलो आनी पिरायेच्या पंचेचाळीस वर्सांचेर मरतलो !

भविश्याचेर विस्वास दवरीत जाल्यार होच तर्क धड जावं येता. कित्याक म्हाका अजून पंचेचाळीस वर्सां जावंक ना. आनी जशी हांवें म्हजी भुरगी पिराय आवयच्या मरणाविशी चिंतून घालयली तशी आता म्हज्या मरणाविशी चिंतून घालोवपाक म्हाका वेळूय ना आनी कोताकूय पडपाचें ना. भविश्याचेर म्हजो विस्वास ना.

भविश्याचे बाबतीत ह्यो यादी सोडल्यो जाल्यार भविश्य वा पारखणेचेर म्हजो निखालूस विस्वास ना. तसोच तो भुतकाळाचेरूय ना आनी भविश्यकाळाचेरूय. म्हज्या मुखार आसा तो फक्त वर्तमानकाळ. ताजेर तर कसलो विस्वास दवरपाचो ? तो तर हांसत खेळत जियेवपाचो आसता. जियेलो म्हणटकच ताका भुतकाळांत मोखून मारून भविश्याक वर्तमानात हाडपाचो आसता. वर्तमानांतलो दरेक खीण ताचो भूतकाळ जावंचे पयलींच खऱ्या अर्थान जियेवपाचो आसता. हांव तेंच करतां. 'मैं हर एक पलका शायर हूँ' म्हणत जियेतां.





# तूं दीस रात किर्ते वाचीत आसता



म्हजे वाचपाचे सवंयेक लागून खुपशा जाणांचे तकलेंत नाका जाल्ले प्रस्न निर्माण जाल्ले आसात. हांव सतत किर्ते ना किर्ते वाचीत आसतां तें पळोवन, वाचनांत म्हजी तकली दुखपाबदला, म्हजें वाचन पळोवन हेरांचीच तकली अदीक दुखूंक लागिल्ली आसा. तांका हांव किर्ते वाचतां आनी कित्याक वाचतां ह्या रूक्षप्रस्नानीच चड सतायिल्लें आसा.

तूं दीस रात किर्ते वाचीत आसता ? ह्या रूक्षप्रस्नाचो उगम सगळ्यांत पयलीं म्हज्या घरांतल्यानूच जालो. हांव म्हज्या जिवितांत जो किर्ते विक्षिप्तपणा करतां तो सगळो वाचनाचो परिणाम. चड वाचून वाचून हांव तकलेन सुटलां, म्हजे स्क्रू सढळ जाल्यात असोच म्हज्या घरच्यांचो समज जाल्लो आसा. हांवें अभ्यासाचीं पुस्तकां सोडून हेर कसलेंच वाचन करचें न्हय हाचेर म्हज्या घरच्यांचो बारीक दोळो आसतालो. नाका जाल्लीं पुस्तकां वाचून म्हज्या अभ्यासाचेर ताचो विपरीत परिणाम जातलोच, त्या भायर हांव ह्या वाचनाचे सवंयेक लागून लोफर वा आलमपेड्डेर जातलों हीच भावना म्हज्या घरच्यांची आशिल्ली. पूण घडपाचें वेगळेंच आशिल्लें.

म्हजो आवय - बापूय हीं दोगांय जाणां अक्षरशत्रू. तांच्या आवय - बापायन तांकां केन्नाच शिकोवंक ना. त्या वेळार आयचे सारकी शिक्षणाची वेवस्ता नाशिल्ली देखून आसुये वा शिक्षण घेवपासारकी आर्थीक परिस्थिती नासुये. म्हजो बापूय कुकळयेंचो. ताच्यो सगळ्यो पिळग्यो शेत करूंक आनी कुळागरांत उस्तवारी करूंकच गेल्ल्यो. आपल्या भुरग्यांक शिकप दिवपाचें आसता हें बहुदा म्हज्या आज्याक खबरूच नासुये ! त्या वेळचो तो काळ आनी बेड्यां - सुपारेचो दर ही सगळी परिस्थिती नियाळ करून पळयत जाल्यार आपल्या भुरग्यांक शिक्षण दिवंचे परस माडयेर चडोवंक शिकोवपूच म्हज्या आज्याक सोयीस्कर दिसतालें आसूंक जाय. कदाचीत शिकप हें गरिबांखातीर आनी कुळवाड्यांखातीर नासता असोय एक समज त्या काळार प्रचलीत आसूंक जाय. घरांत शिक्षणाचें वातावरण नाशिल्ल्या कारणान म्हज्या बापायक शिक्षणाचें म्हत्वूय चड दिसूंक ना जावये. फुडलें जोत वता तशें फाटलें वचूंक जाय ह्या तांच्या सिद्धांता प्रमाण म्हजे भावूय कुळागरांत बेडे आनी सुपाऱ्यो मेजीत दीस काडटाले. म्हजो बापूय आमच्या शिक्षणाविरुद्ध आशिल्लो अशांतली गजाल न्हय. पूण त्या काळावेली अर्थीक परिस्थिती आनी शिक्षण दिवपाची नाशिल्ली वेवस्ता हाका लागून म्हजे

व्हडले भाव शिक्षणापासून अलिप्तूच उल्ले. जर म्हज्या बापायन कुंकळ्ये हो आपलो गांव सोडूंक नाशिल्लो जाल्यार हांवूय आयज कुळागरांतल्या माडयांक उदक घालीत आनी भरीचें काम करीत आसपाचों. तें कुळागर म्हळ्यारूच म्हजें विश्व आसपाचें. आयचो काळ पळयल्यार आनी म्हज्या त्या गांवच्या लोकांवांगडा म्हजी तुळा करीत जाल्यार हांव चडांत चड म. गो. पक्ष वा कॉंग्रेसचो एक कार्यकर्तो ह्या मेरेन पदवी घेवंक पावपाचों. ह्या संवसारापरस एक बुद्धीवादी, वैचारीक जग आसा म्हणपाची जाणविकाय लेगीत म्हाका जावंक पावचिना आशिल्ली.

म्हज्या बापायन आपल्या भुरग्यांक म्हळ्यार म्हज्या व्हडल्या भावंडांक घेवन आपलो गांव सोडलो आनी आगशी येवन राबितो केलो. हांगच्यानूच आमच्या घराण्यांतलें शिक्षणाचें पर्व सुरू जालें. म्हज्या व्हडल्या भावान आपल्या शिक्षणा वांगडाच आपल्या फाटल्या सगळ्या भावंडांच्या शिक्षणाक खांद माल्लो. हांगा थंय काम करून, हागेर तागेर रावून विद्या पदरांत घालून घेवपाची तपश्चर्या सुरू जाली. आवय - बापूय अशिक्षीत आसुनय हे तपश्चर्येक तांचें आडमेळें आयलेंना. एकमेकांक समजून घेवन सांबाळून एका नव्या पर्वाची सुरवात जाली. घरांत हें अशा प्रकारच्या वातावरणाचें मुळावण पडून जाल्या उप्रांतूच म्हजो जल्म जालो. घरची अर्थीक स्थितीय सुदारत आशिल्ली. म्हाका शिक्षण न मेळपाचो आता प्रस्नूच नाशिल्लो. सगळें वातावरणूच पूरक आशिल्लें.

म्हज्या शिक्षणाचेर भावाचें लक्ष आशिल्लेंच. शाळेंत वता काय ना, अभ्यास करता काय ना, परिक्षेंत कितले मार्क पडटात हाचेर सगळ्यांचो बारीक दोळो आसतालो. शिक्षण जरी फावो तशें मेळटालें तरी अभ्यासाचीं पुस्तकां सोडून हेर कसलेंच पुरक वाचन करपाची परवानगी नाशिल्ली. घरांत कसलें वर्तमानपत्रूय येना आशिल्लें. खंय मेळळें जाल्यारूय तें वाचपाची तेन्ना आवड तयार जावंक नाशिल्ली. आवड आशिल्ली ती ल्हान ल्हान काणयांचीं पुस्तकां वाचपाची. शाळेंत खंयच्याय भुरग्याकडे आसल्यार तें घेवन येवप आनी अभ्यासाच्या पुस्तकांनी लिपोवन वाचून काडप. त्या काळार संवकळीचें पुस्तक म्हळ्यार चांदोबा. एक चांदोबा खूपशी भूक भागयतालो. पूण दर म्हयन्याक येवपी हो चांदोबा हाताक मेळप कठीणूच. त्या वेळार ताची किंमत आठ आणे. एकदीस बापायच्या बोल्सांतले आठ आणे चोरून काडून तो चांदोबा विकतो घेवपाचो लेगीत पराक्रम हांवे केला. आठ आण्याची शोधाशोध जातकच, हांवें ते काडूंक ना म्हणपाची फट मारून जातकच जेन्ना दुकानदारान आठ आणे दिवन हांवें चांदोबा व्हेला म्हणपाचें बापायक बातमी दिली तेन्ना हांवेंच चोरिल्ल्या पयशांनी तो हाडून वाचला म्हणपाचें बापायक कळळें. हांवे आठ आणे काडिल्ल्याचें दुख्ख बापायक नासतालें. पूण हांवें चांदोबा विकतो घेतला ही गजाल तिसऱ्या मनशाकडल्यान ताका आयकुची पडली हाचेंच ताका अदीक पेन जालां आसूं येता. 'दिलीप विकतीं पुस्तकां व्हरूंक लागला. तो हाताभायर वचूंक लागला.' अशें त्या दुकानदारान आपले पदरचें बरेंऽ रंगोवन सांगलां आसतलें. ताका ताचीं तीं उतरांच राग हाडूंक पुरो आशिल्लीं. घरा येवन

म्हाका बरो ऽऽ पेटून काडल्या उप्रांत म्हज्या हातांत तो चांदोबा तार्णे चोंदलो आनी आसा तसो परत व्हरून दिवंक लायलो. त्या दुकानदारान जैतिवंत नुरेन तो परत घेतलो आनी म्हजे आठ आणे म्हाका परत दिले. त्या वेळार पसरकार जैतिवंत जाला आसूं येता. पूण हांवें चांदोबा फुकट वाचून काडलो हें मात ताका कळूंक ना. तशें पळोवंक गेल्यार हांवें तो फुकटय वाचूंक नाशिल्लो. आठ आणे परते हाडले जरी आसले तरी चांदोबा वाचपाचें मोल हांवें मार खावन फारीक केल्लें.

म्हजे भुरगेपणार म्हज्या वाचनाची आस भागयल्या ती म्हज्या इश्टान, गुरूनाथ पै हाणे. ताजेकडेन पेटभर पुस्तकां. चांदोबा, फुलबाग ह्या भायर काणयांची ल्हान ल्हान पुस्तकां. त्या वेळारच कित्याक, आतां लेगीत म्हज्या गावांत वाचनालय ना. शाळांनीय वाचनालयाची सोय नाशिल्ली. अशा वेळार गुरूनाथ पै लें घर म्हजें वाचनालय. तागेर बसून वाचल्यार पुस्तकांचे पयशे तो घेनाशिल्लो. घरा व्हरतलो जाल्यार मात पयशे. एका दिसाक एका पुस्तकाक दोन पयशे ह्या दरान हांव ताजेकडल्यान पुस्तकां व्हरतालों. म्हजे कडल्यान हे दोन - दोन पयशे घेवन तो ते स्वताखातीर खर्च करिनाशिल्लो तर चार आणे जमल्याबराबर नवें पुस्तक घेतालो.

जेन्ना माध्यमिक शाळेंत वचूंक लागलों तेन्ना वाचनाचें क्षेत्र वाडलें. आतां शाळेंतूय वाचनालय आसतालें. थंयचीं पुस्तकां वाचूंक मेळटालीं. मित्रपरिवाराकडेनूय आसतालीं. दोंगरी ह्या गावांत रासवळ वाचनालय आशिल्लें. बाबा कदम, चंद्रकांत काकोडकार, काशिकर, अर्नाळकर हांच्या पुस्तकांपासून हाताक मेळटा तें भन्नाटपणान वाचप सुरू जालें. परिक्षेंत पयलो वा दुसरो नंबर येता म्हूण घरांत व्हडलेंशें बंधन नाशिल्लेंच. फक्त चड वाचून हांव म्हजी तकली होगडायतलों हो एक भंय आवयक आशिल्लो. तरी लेगीत पुस्तकां लिपोवन कशीं वाचप हाची कला म्हाका कळिल्ली. दिसाक पांच - पांच गुप्तहेर कथा वाचून काडटालों. सपनांत लेगीत नाईटकींग, धुमकेतु, झुंजार ह्या सारके गुप्तहेर येवन वताले. अमुकच प्रकारचें पुस्तक वाचूंक जाय हेंय हांव थारायनाशिल्लों. कोकशास्त्रापासून लाजवंती, मेनका ह्या सारखी हळदुव्या प्लॉस्टीकांतलीं मासिका चगळयत आसतालों. मॅट्रीक मेरेन होच प्रकार चलतालो. मॅट्रीक जावन कॉलेजीखातीर पणजे पावलों तेन्ना हो चरण सोंपलो. नव्या अध्यायाक सुरवात जाली. नागेश करमली, र. वि. पंडित, रवींद्र केळेकार ह्या सारख्यांची वळख जाली. दर्जेदार साहित्य म्हळ्यार कितें, तें खंयचें हाची वळख जाली. खरें म्हळ्यार ही वळख कॉलेजांतल्या साहित्याच्या प्राध्यापकांनी करून दिवपाची. पूण नोकरेच्या झंझाटांत ताणींच कांय वाचूंक नाशिल्लें. थंय ते म्हाका कितें सांगतले आशिल्ले ? कोंकणी चळवळींत पडिल्ल्यान कोंकणीच्या म्हालगड्यांक लागून म्हाका ही नवी नदर येवंक पावली. पदवी पदरांत घेतां म्हणसर बरेंचशें देशी - विदेशी अक्षरसाहित्य वाचून काडलें. तें जर करूंक नाशिल्लें जाल्यार हांव हेर पदवीधारकांप्रमाण सुशिक्षीत पदवीदर आसपाचों. म्हजे वैचारीक पातळीची वाड मात जावपाची नाशिल्ली.

पुस्तकां इतलो बरो मीत्र दुसरो ना अशें म्हणटात. हें तत्वगिन्यान वाचचे पयलीं वा कानार पडचे पयलीं हांव पुस्तकांकडेन इश्टागत जोडून मेकळों जाल्लों. ही इश्टागत जोडिल्ल्या कारणानूच एक मनीस जावपाची संद म्हाका मेळ्ळी. म्हजे वांगडचे आयज दोतोर जाल्ले आसात, इंजिनेर, आदवोगाद जाल्ले आसात. बरे जोडूंक लागल्यात. समाजांत तांका मान आसा. पूण हांव जेन्ना तांचेकडेन उलयतां, चर्चा करतां तेन्ना तांचे बुद्धीची तांक पळोवन, वैचारीक पातळी पळोवन म्हाका तांची काकूट दिसता.

आयज म्हज्या वाचनाची गती मंदावल्या. पयलीं जसों हाताक मेळटा तें वाचतालों तशें आतां जायनां. जगार इतल्यो गजाली पडल्यात की तितल्योय वाचपाक म्हजेकडेन वेळ ना. म्हजें हें ल्हानशें आयुश्य ताका पावचेंना. त्या खातीर वेंचीक वाचन सुरू जालां. बरें शें पुस्तक म्हळयार जातूंत किर्तें तरी नविदाद आसा तेंच सोदून काडून वाचप जाता. नातर हावेंच बरयल्लें वाचतासर म्हजो वेळ सरता.

आतां बरोवंक लागिल्ल्याक पुस्तक वाचचे परस सरभोंवतणचो परिसर वाचपूच चड जाता. वेगवेगळ्या मनशांचो सभाव, तांची चलणूक, तांचीं मुखामळां वाचप, सैमांतले बदल - स्थित्यंतरां वाचप आनी तांची नोंद कागदाचेर करून घेवप. ह्या सगळ्या वावराक मागीर कोणे साहित्य म्हणू. मागीर तें कोणेंय वाचूं आनी मागीर कोणेय म्हाका प्रस्नूय करूं - तूं दीस रात किर्तें वाचीत आसता ?





# तुका दुख्ख केन्नाच जायना



**हो** प्रस्नूच खरें म्हळ्यार दुख्ख करपासारको ! दुख्ख म्हळ्यार कितें होच म्हजेखातीर एक रूक्षप्रस्न. दुख्खाचो निश्चित असो अर्थ अजून म्हाका कळूंक ना. मनीस दुख्ख कित्याक करता ? कसल्या कारणांक करता ? मनशान दुख्खी जावपा फाटलीं कारणां कितें ? हे सगळे तशें पळोवंक गेल्यार रूक्षप्रस्नूच. ह्या प्रस्नांक तसो कांयच अर्थ ना. तरी सुद्धा आयज ह्या संवसारांत असो एकूय मनीस ना जो दुख्ख करीना. पावला कणकणी आमकां दुख्खी मनीस पळोवंक गावता. सुखी मनीस सोदून सांपडना. देखुनूच सुखी मनशाचो सदरो सोदपासारक्यो घडणुको घडटात वा सुखी मनशाच्या सदऱ्याच्यो आख्यायिका घडटात.

दुख्ख, वेदना ह्यो शारीरिक जर आसल्यो जाल्यार त्यो सगळ्यांकूच भोगतात. मनशाच्या आंगाक घाय जालो, स्नायुंक मार लागलो जाल्यार ताचो संदेश मेंदवाक मेळटा. ज्या सर तो संदेश मेंदवामेरेन पावना त्या सर कसल्याच प्रकारचें दुख्ख मनशाक जाणवना. जेन्ना संदेश पावता तेन्ना तें दुखप भावता. हीच दुख, हेंच दुख्ख, ह्योच वेदना जीव आशिल्ल्या दर एका प्राण्याक जातात. तांका जातात इतल्याच खातीर म्हणपाचें की तांका प्राण आसता आनी आपलें दुख्ख चार चौगांत व्यक्त करपाची कला तांकां साधलेली आसता. तांकां आपल्यो वेदना वाऱ्यार घालपाची, उक्ताडार उडोवपाची संद मेळिल्ली आसता. जर ते आपल्याक जाल्ल्या दुख्खाचें प्रदर्शन चार चौगांत मांडिनाशिल्ले जाल्यार दुखप हो प्रकार अस्तित्वांत आसपाचो काय कितें हांचोच दुबाव येता.

जांकां प्राण आसा तांकांच दुख्ख जाता अशें आमचें एक समिकरण. पूण जांका प्राण ना तांकां कितें दुख्ख भोगना ? तांकां वेदना जायनांत ? रूखांक कितें प्राण ना ? फातरांक, धतरिक कितें जीव ना ? तांकां प्राण ना, त्यो निर्जिव अशें आमी खंयच्या आदाराचेर आनी कित्याखातीर म्हणप ? तांकां आपली भावना प्रगट करपाची सवंय ना म्हूण ? तांकां सोसपाची भयंकर व्हडली ताकद आसा म्हूण ? तीं आपलें दुख्ख हेर सजीव गजाली प्रमाण चार चौगांत हाडून ताचें प्रदर्शन मांडिनांत देखून ? तांच्या ह्या गुणांची आमी तोखणाय करपाच्या बदला तांकां आमी निर्जिव वा निष्प्राण अशी उपादी दिवपाची ? हातूंत व्हड कोण ? जीं आपल्या दुख्खाचें प्रदर्शन मांडिनासतना सगळें सोंसतात तीं काय जी सादीशी गजाल दुख्ख अशें मानून ताजें व्हडलें आडंबर माजोवन हेरांकडल्यान आपलेविशी सहानुभूती

घेवपाचो यत्न करतात तीं ?

आंगाक घाय जाल्या उप्रांत ताची वेदना जावप ही एक सभावीक गजाल. ती सैमीक बाब शरिराक हानी जाता ताची काळजी घेयात ही जाणविकाय जावंची आनी प्राण्यान आपल्या तांकी प्रमाण आपल्या शरिराची काळजी घेवन राखण करची ह्याच हेतून ही प्रक्रिया घडत आसता. ती काळजी घेतली की हें दुख्ख पयस जाता. पूण मनशाच्या दुख्खाची कल्पना आनी मर्यादा इतलीच ना. हें दुख्ख म्हळ्यार किरकोळ गजाल. ताची खंत मनीस चड करिना. तें तो सोशीत रावता. तांचें दुख्ख वेगळें. तांच्या दुख्खाच्यो कल्पना वेगळ्यो. मनीस वेगळ्याच प्रकारच्या दुख्खाक दुख्ख मानता आनी ताची गगनां करून आपूण दुख्खी जाता. आयचो दर एक मनीस शारिरीक दुख्खांचो पिडेस्त ना तर आपल्या मनांत तयार केल्ल्या काल्पनिक दुख्खाचो बळी आसा.

मनशान दुख्खाचें हें काल्पनीक आडंबर माजयलां तें सुखाचे काल्पनीक अपेक्षेन. प्रत्येक मनीस सुखा खातीर आंवडेता, धडपडटा. तांचे हे अपेक्षेचो भंग जालो म्हणटकच तो दुख्ख करीत बसता. हें दुख्ख अचूक खंय जाता ? पांयांक घाय जालो जाल्यार पांय दुखता अशें सांगून ती सुवात दाखोवं येता. तकली दुखल्यार तकली दाखोवं येता. पूण हें दुख्ख खंय भोगता ? त्या खातीर मन वा अंतस्करण ही शरिरांत खंयच नाशिल्ली गजाल आमी मानून घेतिल्ली आसा. ती खंय आसा हे आमकां खबर ना. पूण ती आमकां भावता. केल्ले सुखाचे कल्पनेप्रमाण सूख मेळ्ळें जाल्यार हेंच मन सुखावता. जर तें सूख मेळ्ळेंना जाल्यार मन दुखावता. सूख - दुख्ख ह्यो जशो काल्पनीक गजाली तशेंच मनूय एक काल्पनीक गजाल. एक काल्पनीक गजाल दुसऱ्या काल्पनीक गजालीची कल्पना करता आनी खंत करून घेता.

मनशाक सगळ्यांत व्हडलें दुख्ख सतायता तें मरणाचें. मनशाक जर मरण नाशिल्लें जाल्यार मनीस इतलो खंतीभरीत जांवचोच नाशिल्लो. मेल्ल्या मनशाक आपूण मेल्या उपरांत खंय वता हें मेल्या उप्रांत कळटा काय खबर ना. पूण तें जिव्या मनशाक खबर नासता. ताणें केल्ल्यो आसतात त्यो फक्त कल्पना. वायट करता तो नर्कांत वता. आनी बरें करता तो सर्गांत. सर्ग आनी नरक ह्योय काल्पनीक गजाली. मनशाचें मरणाबाबतचें अज्ञान जाणां जावन, धत्तरिर ताणें बऱ्योच करण्यो करच्यो आनी हेरांक पिडापीड भोगोवंची न्हय आनी त्या उदेशी सर्ग आपणावंचो म्हूण समाजीक फुडाऱ्यांनी दिल्ली ही एक शिकवण. तें सांगतना सर्ग म्हणटात ती गजाल आसा काय किर्ते हेंय समाजीक फुडाऱ्यांक खबर नासता. धत्तरिर मनशान बरी चलणूंक दवरची ह्याखातीर नेणार मनशांक सर्गाचें आमीश दाखोवन उजू चलणूक दवरूंक लावपाखातीर ताणी केल्लीं हीं फटींगपणा. सर्ग आनी नरक हें सगळें फट. जर तो आसत जाल्यार हेच धत्तरिर, हें नेणाराक लेगीत खबर आसा. देखून ते आपल्याक जाय तसलीं वायट कर्मां करतात. तरी पूण सर्ग आसा काय किर्ते हाचो दुबाव तांका आसा.

जर ह्यो गजाली नांच म्हूण तांची खात्री जाल्ली तर मात तांची वागणूक भलतीच आसपाची. मर्णाउप्रांतची गजाल अशी गुप्त आशिल्ल्यानूच संवसारांत एक शांतिकाय आसा.

मेल्याउप्रांत सर्ग मेळटा आनी थंय सुखूच सूख आसा हाची जर खात्री आशिल्ली आनी मरतनां कांयच त्रास जायनांत म्हणपचें कळिल्लें जाल्यार कोणूच मर्णांक भियेवपाचो नाशिल्लो. मर्णांचें दुख्ख करपाचो नाशिल्लो. मेल्ल्या मनशाचें उप्रांत किर्ते जाता हें खबर ना. पूण तो दुख्ख करता तो धतरिवेल्या जिव्या मनशाचें. आपल्या उप्रांत आपल्या नात्यांतल्या लोकांचें किर्ते जातलें ? आपणें जोडून दवरिल्लें कोण खातलो ? आपूण धतरिवेल्या आपले जोडिचो उपभोग घेवंक पावचोंना ह्याच गजालीचें तांकां दुख्ख जाता. जर तो निसर्ग जाल्लो जाल्यार दुख्ख हें जावपाचें नाशिल्लें. ताणी धतरिवयल्यो कल्पना रंगयल्या कारणानूच हें दुख्ख ताणी खासा तयार केल्लें दुख्ख.

'दुख्ख कोणांक चुकना' अशे तरेन दुख्खाचें तत्वगिन्यान आनी दुख्ख हेंच जिवितांतलें मोठे सत्य हें सांगपाचो यत्न खुपशा कविनी केल्लो आसा. मनशांभितर जे णव रस आसात तातुंतलो दुख्ख होय एक रस. मनशांमदल्या ह्या स्थायीभावाक जागोवपाचो यत्न खुपशा कलाकारांनी आपल्या वेगवेगळ्या कलागुणांच्या माध्यमांतल्यान केल्लो आसा. दुख्खाचो हो स्थायिभाव हे कलेक लागून वाडना. तर मनशांमदलें दुख्ख कमी जावपाक ताचो आदार जाता अशें त्या लोकांचें मत. देखून कितल्याशाच बरोवप्यांनी आपल्या बरोवपांत, काव्यांत, गितांत करुण रसाक म्हत्व दिल्लें आसा.

एक बरोवपी ह्या नात्यान म्हजेभितर सगळे रस आसप म्हत्वाचें. करुण रस म्हळ्यार दुख्ख होय रस म्हजे भितर आसाच. हेरांच्या भितल्लो करुण रस जर बरोवपांतल्यान जागयतलो जाल्यार बरयता आसतनां तो कितले तरी पटीन म्हजे भितर हांवे तो जागोवंक जाय तेन्नाच हेरांच्या भितल्लो स्थायिभाव जावन आशिल्लो हो रस हांव जागोवंक शकतलों. दुख्खाची जाण आसप, तें समजप आनी भोगप वेगळें आनी ताजो बळी थारप वेगळें. नाका जाल्ल्यो सुखाच्यो फालतू अपेक्षा बाळगप आनी त्या अपेक्षांची पुर्ती जालिनां म्हणटकच दुख्खान खंती जावन वचप हाका म्हजे नदरेन कांयच अर्थ ना. दुख्ख हें काळजांत घोळयत ताजी रूच घेवंक कळूंक जाय. दुख्खाचो अर्थ कळूंक जाय. पूण दुख्ख म्हळ्यार किर्ते हेंच आमकां खबर ना.

प्रत्येकाचें दुख्ख हें ताज्या काळजायेदें आसता. जाचें काळीज ल्हान ताका ल्हान दुख्ख लेगीत व्हडलें दिसता. त्याखातीर नाका जाल्ल्या दुख्खाच्यो कल्पना करून खंती जावंचे परस आपलें काळीज व्हड करूंक जाय. भगवान श्री कृष्णाकडे प्रत्येक जाण येवन आपल्याक जाय तें मागून गेले. पूण एकटीच कुंती ताचेकडें गेलीना. श्रीकृष्णाक ताजें अजाप दिसलें. तोच कुंतीकडे गेलो आनी ताणें तिका जाय तें मागपाक सांगलें. कुंतीन ताका सांगलें, जर तुका दिवपाचेंच आसा जाल्यार म्हाकां दुख्खां दीत राव. कुंतीकूच दुख्खांचो खरो अर्थ कळिल्लो आसूंक जाय. जेन्नां दुख्खाचो खरेलो अर्थ कळटा तेन्नाच तें सूख जावन वता.

जगांत दुख्ख म्हणटात ती वस्तूच ना. दुख्ख हें सुखाचें उलट स्वरूप. मनीस सतत सुखाफाटल्यान लागिल्लो आसता. एकल्याचें सूख हें दुसऱ्याक दुख्ख आसूं येता. मनशाकणकणी सुखाची व्याख्या बदलता. थराविक काळार एक अमूक गजाल सूख आसता ती रोखडीच दुख्ख जावं येता. चड सूख भोगिल्ल्या मनशाक ल्हान सूख म्हळ्यार दुख्ख जावं येता आनी मोठे दुख्ख भोगिल्ल्याक ल्हान दुख्ख हें सूख जावं येता.

लोकांच्यो दुख्खाविशीच्यो ज्यो कल्पना आसात त्यो म्हाका मुळांतूच पटनांत. देखुनूच म्हाका दुख्ख म्हळ्यार फकाणाची गजाल दिसता. म्हाका दुख्ख म्हणटात तें अजून जावंक ना. नाका जाल्ल्या सुखाची कल्पना करून तीं सुखां मेळना म्हणटकच दुख्ख मेळ्ळें अशें मानप आनी खंती जावप म्हाका आवडना. ते परस दुख्खाचीच आस धरप. मोठें दुख्ख वेंगावन ल्हान दुख्खाक सूख मानप. मोठे दुख्ख वेंगावपाखातीर काळीज व्हड करप. एकदां काळीज व्हड जालें की तें धतरिचें रूप घेता. धतरिचेर कितलींय अरिश्टां आयलीं तरी तिका तीं सगळीं सुखां. त्याच सुखांतल्यान ती नवें नवें निर्माण करीत रावता आनी हेरांक सुखी करता. जो स्वता सुखी आसता तोच दुसऱ्यांक सूख दिवंक शकता.





# तुका कोर्णेय भरपूर दुड्डू दिता म्हूण सांगून भरिल्ले सभेंत नागडो जावन पासय मारूंक सांगल्यार तूं मारपी



प्रस्न आयकून कोणूय हांसतलो. कोणूय कित्याक, सगळेच हांसतले. म्हाका पिशांत काडटले. असलो प्रस्न म्हूण केन्ना कोण कोणाक विचारूंक म्हूण शकता ? पूण ह्या संवसारांत येतना नागडो येवपी आनी वतनाय नागडोच वचपी दर एकलो नागडो मनीस आपूण कपड्यांपोंदा नागडोच आसा हें खबर आसुनय दुसऱ्याच्या मनांत कितें आसा हें जाणून घेवपाखातीर हो रूक्षप्रस्न करतात. कांय जाणांच्या वाट्याक हो रूक्षप्रस्न आयलोंना आसुये. तरीलेगीत फकाणांनी, विनोद म्हणून विचारपी दुसरो एक प्रस्न आसा जो जाण्ट्या नेण्ट्यांनी केन्ना तरी आयकला वा हेरांक विचाल्ला. - समजा तुजी भयण अथवा त्या सारखी कोणूय न्हाणयेंतल्यान न्हावन कपडे घालनासतना भायर आयली जाल्यार तूं कितें करतलो ? हो प्रस्न फकाणां करपाखातीर आसता हें खबर आसता. तरीपूण आपले भयणीचें नांव घेतिल्ल्याबद्दल तो प्रस्न विचारप्याचेर मनांतल्या मनांत धुसफुसता. ताका राग येता. आपले भयणीच्या नागडेपणाची कल्पना केल्यारूच ताका राग मारता. तो तकली थंड दवरून ताचेर विचार करिना. दुसऱ्याचे भयणीक नागडी पळोवपाची कल्पना तो करूंक शकता. पूण आपले भयणीविशी असो प्रस्न करप्याचेर तो चाळवता. नाका जाल्लो प्रस्न विचारिल्ल्याबद्दल ताका खेपता. कांय जाण त्या प्रस्न विचारप्याकडली इश्टागत लेगीत तोडटा. पूण कांय जाण शाणे आशिल्ले आपली तकली लडोवन प्रस्न विचारप्याचें तोंड बंद करूंक जाप दितना म्हणटात - आपूण तिका लागी घेतलों. तुवालो घेवन तिजें आंग पुसतलों आनी तिका हांडीर घेतलों. ही जाप आयकून प्रस्न करप्याकूय समादान जाता आनी जाप दितल्याचीय तोखणाय जाता. हे जापेन त्या प्रस्न करप्यान भयणीविशी हळशिकावणी कल्पना केल्ल्याची तिडक कोणाक मारिना. जांकां ह्या प्रस्नांफाटलो उद्देश्य कळना ते नाका जाल्ले तर्क करीत रावतले. भयण न्हाणयेंतल्यान भायर येतना कपडे घालिनास्तना कशी येतली ? ती एक वेळ पिशी आसतली अशे विचार करतात. हें सगळें ते भयणीची पिराय खबर नाशिल्ल्यान घडटा. जर पयलींच त्या प्रस्न विचारप्यान ते चलयेची पिराय चार - पांच वर्सां अशें सांगिल्लें जाल्यार कोणाकूच तेविशी खास अशें आकर्शण दिसपा नाशिल्लें वा कोणाक ते विशी रागूय येवचो नाशिल्लो.

नागडेपणाचें आकर्शण हें मनशाचे पिरायेचेर अवलंबून आसता. भर सभेंत ल्हान

भुरगीं कितलींय नागडीं भोंवलीं जाल्यार तांचेकडेन कोणाचें लक्ष वचना. तातूंत कोणाकूच नविदाद दिसना. कोणूच तांकां नागडी पळोवन आपली मान सकयल घालिनांत. भुरग्यांकूय तातूंत लज दिसना. खरे अर्थान भुरगीं नित्संग आसतात. पूण तांकां कपडे घालूंक लावपाची, नागडेपण लिपोवपाची तांचेर जबरदस्ती करतात ते जाण्टेलेच. आपणें कपडे कित्याक घालूंक जाय, ते घालीना जाल्यार लज कशी दिसता, ही सगळी शिकवण, लज म्हळ्यार किते हे मात लेगीत खबर नाशिल्ल्या ह्या भुरग्यांक जाण्टेलीं शिकयतात आनी मनशान बुरख्याशिवाय ह्या समाजांत वावरूंक फावना हाची दिक्षा तांकां दितात.

नागडेपण हें संवसारांतल्या दर एके गजालीचो स्थायिभाव. खरें पळोवंक गेल्यार हें नागडेपणूच न्हय. नागडेपण हें उतर खासा मनशांनी आपल्याखातीर तयार केल्लें उतर. तेंय बी आतांच्या सुदारीत, सुशिक्षित मनशांनी. कपडे हो प्रकार सुरू जावंचे पयलीं मनीस हो आशिल्लोच. पयलीं एकमुळो रावतालो तेन्नाय तो नागडोच रावतालो आनी संरक्षणाच्या गरजेंतल्यान समाज करून रावपाची गरज जेन्ना आसली तेन्नाय तो कांय तेप नागडोच रावतालो. अन्न हो मुळांतूच गरजेचो घटक जाल्ल्यान ही गरज ते भागयताले. उप्रांत आपले तकलेचो वापर करून पुरायेन सैमाचेर अवलंबून न रावतां वस्त्र आनी निवारो ह्योय गजाली ताणे आपले भितर हाडल्यो. थंडी, वोत, पावस ह्या पासून आपली राखण करून घेवंक ताणी आंगार हेर गजाली वापरूंक सुरवात केली. तांचेखातीर आशिल्लें हें वस्त्र आपलें नागडेपण लिपोवंक निखालूस नाशिल्लें तर सैमीक गजालींतल्यान आपल्या आंगाची राखण करपाखातीर तांचो वापर तांकां करपाचो आशिल्लो. त्या उप्रांत मनशाची सुधारणा जावंक लागली. मनीस बुदवंत जालो, त्याच वांगडा ताचे भितर फटींगपणाय रिगूंक लागलीं आनी वस्त्राचो आंग धापून थंडी - वारो ह्या पासून राखण करपाचो जो मूळ उद्देश्य आशिल्लो तो वचून आपलें नागडेपण लिपोवन लज सांबाळप होच हेतू उल्लो. आंग धापप हाचो मूळ अर्थ वचून आपली लज राखप होच अर्थ ह्या उतरांक आयज उल्ला. नागडेपणां लिपोवप म्हळ्यार, आपूण किते आसा हें लोकांपासून लिपोवप आनी तांचे मुखार वेगळोच जावन वचप हेंच आयज मनशाचें मूळ ध्येय जावन रावलां.

आयज मनीस कसल्या ना कसल्या बुरख्यांत रावंक सोदता. कपडे घालून आयिल्लो तोंडार बुरखो घालून तोंड लिपयता. तोंडार बुरखो नाशिल्लो आपल्या मानसीक बळाचेर बुरखो घालून वावरत आसता. आपूण आसा तसो लोकांमुखार वचूंक सोदपी मनीस ह्या समाजांत पिसो थरता. समाजूय ताका मूळ सैमीक रूपान स्विकार करूंक तयार नासता. जो चोर आसता तो सावपणाचो बुरखो घेता. जो फटींग आसता तो आपूण फटींग न्हय म्हूण दाखोवपाखातीर सभ्यपणाचो बुरखो घालता. जो साहित्यिक सत्य अणभवता तो तें लोकांक पचपाचें ना ह्या भयान वेगळेंच खरडटा. स्वताक विचारवंत समजुपी आपणें पळयल्ल्या सत्यापरस वेगळेंच सत्य लोकांमुखार दवरून आपुणय बुरखो घालून वावुरता. आयची संस्कृतीच बुरख्याची संस्कृती जाल्ली आसा. आयज शुद्ध, निर्मळ अशे नग्न गजालीक

बाजारांत दर ना. आपली वस्त खपतलो जाल्यार ती धांपुनूच बाजारांत विक्रेक दवरची पडटा. त्याचखातीर आपूण भितल्ल्यान नागडो आसा हाची पुराय जाणविकाय आसून लेगीत ती नग्नता लिपोवपाखातीर तोंडार वेगवेगळे बुरखे चडटात. वेगवेगळीं वस्त्रां येतात.

नागडेपणांतलें सत्य सांगपांखातीर एक किस्सो सांगतात. क्रिस्तांव धर्मांतल्या धर्मपंथांतली नन् ही आपल्या शरिराचो खंयचोच भाग उक्ताडार घालीना. तिका त्या खातीर देवाचो तसो हुकूम आसा. तशें घडलें जाल्यार तें धर्माविरोधी जावन ती नरकांत वतली. हो प्रकार जितलो काटेकोरपणान जी पाळटा ती चडांत चड पुण्यवान. अशीच पुण्यवान जावंक सोदपी एकली बंद न्हाणयेंत लेगीत आपले कपडे काडिनासतना न्हाताली. तिका ताजें कारण विचारतकच तिणें सांगलें आपणें कपडे काडले जाल्यार देवाची नदर त्या आंगाचेर पडटली आनी म्हजो धर्म मोडटलो. तेन्ना तिका जाप दितना दुसरेंन म्हळें - जो देव न्हाणयेंतल्या वण्टींतल्यान तुका पळोवंक जर शकता जाल्यार तो तुका कपड्यांतल्यान पळोवंचोना हें कित्यावेल्यान ? ते माद्रीकडेन ह्या प्रस्नाची जाप नासता. हाचेवेल्यान इतलेंच सिद्ध जाता. मनशाचें नागडेपण हें कपड्यांचेर नासता ताच्या मनाचेर आसता. तांच्या विचारांत आसता.

दर एक मनीस आपल्याक कोण पळयना अशे सुवातेर पुरायेन नागडो जावन त्या मनशाक लेगीत लज दिसतली असले कितले तरी चाळे करता. आपले बंद खोलयेंत तो संवसाराक विसरता. जाय तसो नागडो वावुरता. ताका खबर आसता आपल्याक कोण पळयना. पूण जर ताका कळ्ळें की आपले कुडीक बुराक आसा आनी तातुंतल्यान भायर सावन कोणूय पळोवंक शकता जाल्यार तो असल्यो करण्यो निखालूस करचोंना. ताका कळनासतना तो कितें करता हें हेरांनी जर पळयलें तर ताजेर ताचो कसलोच परिणाम जावंचोना. ताका लजूय दिसचीना.

म्हाका जर कोणेंय सांगलें तूं सभेमाजार नागडो वचून यो जाल्यार हांव अनमनचोंना. तसो आयज मेरेन हांव केन्नाच कोणांमुखार पड्डो घालून गेलोंच ना. म्हजे जे विचार आसात, म्हाका जें सैमीक रूपान सत्य दिसलां तेंच घेवन लोकांमुखार गेलां. सदांच बुरखो घालून वावुरप्यांक तें असत्य दिसलां वा तांकां तें समजून घेवपाची ताकद ना देखून लटीक दिसलां ही गजाल वेगळी. हांव नागडेपणान निरागस अशे अवस्थेंत तांचेमुखार रावतां देखून तांकां म्हजीं पिशेपणां दिसून म्हाका अत्यंत सादोभोळो अशीं विशेशणांय ताणी लायल्यांत. ह्या संवसारांत दीस जर काडटलो तर अशें इतलें उक्तेपण बरें न्हंय हेंय अणभवाचे बोल तांचेकडल्यान आयकुचे पडल्यात. अशावेळार सगळेकडे उक्तेपणी वचपी मनशाक आंगार कपडे घाली नासतना कोणामुखार वचप कठीण न्हय. पूण तें पुराय सैमीक आसूंक जाय. कसले आशेक बळी पडून वा कसले असैमीक गजालीक बळी पडून न्हय. तशें जर घडलें तर तातूंत विकृताय येता. कसलीच सुंदरताय उरना. नागडेपणांत सुंदराय आसप गरजेची. विकृताय न्हय. जेन्ना नागडेपणांत विकृताय हीच मुखेल आसता तेन्ना ताजेर कपडो घालप

म्हत्वाचें आसता.

गोंयांत दर्यादिगेर हिप्पी पंथाचे लोक पुरायेन नागडे जावन जिवीत सारतात. उदरगतीचें तोंक स्पर्शून आयिल्ले हे लोक परतून सैमाकडेन वचूंक पळयतात. कपड्यांचो वेगवेगळो सोंस भोगून जाल्या उप्रांत ह्या असैमीक गजालींतल्यान भायर सरपाखातीर मूळ स्वरूपांत रावपाखातीर हे लोक धडपडतात. पूण भारतीय मनीस त्रांचेकडेन पळयता आसतना विकृत नदरेन पळयता. तांचे नदरेत सौंदर्याचो मात लेगीत वांटो नासता. तांकां पळोवपाचें आसता तें फक्त नागडें शरीर. हेच मानसीक विकृतायेखातीर समाजांत हें नागडेपण अश्लील दिसता. तें धांपपाखातीर आनी भारतीयांची विकृताय आळाबंदाक हाडूंक कायदो करचो पडटा. म्हाका एक याद जाता. कॉलेजींत शिकतना हांव एकदां बागांत गेल्लों. वांगडा एक इश्ट आशिल्लो. सायकलीन गेल्ल्यान पोटाक भरपूर भूक लागिल्ली. बोल्सांत कितेंय खातलो म्हळ्यार दुडू नांत. भुकेल्या पोटार वेळेर भोंवतालों. रेवेंत दोन हिप्पीणी सूर्यन्हाण घेताल्यो. आंगार एकूय कपडो नाशिल्लो. नागडेपण फक्त चित्रांनी पळयल्लें. वर्णनां कादंबऱ्यांनी वाचिल्लीं. पयले फावट नागडी बायल पळयतालों. पूण मनार कसलोच परिणाम ना. दोंगरार वचून आमी पोटभर जांबळा खालीं. परतून तेच वाटेन आयले. नदर परतून तांचेर गेली. मन विकृतीन भल्लें. आंगार दादलेपणाची शिरशीर आयली. पयलेफावट लक्ष पोटार आशिल्लें. आतां लक्ष आंगाचे भुकेर.

आतां मनात विकृताय ना. आसा ती सुंदराय. नग्न शरीर जरी दिसलें तर तातूंत भाव आसता तो फक्त सुंदरायेचो. म्हजे मित्र मॉडिल मुखार दवरून ताका पितारतात. हांव ती नग्नता दोळेभर वेगवेगळ्या तासांनी पळयतां. ती सुंदराय तोखेतां. म्हाका तातूंत नागडेपण दिसनां. जेन्ना खरीच निर्मिती जावपाची आसता तेन्ना ती गजाल नग्न आसचीच पडटा. पुराय धर्तर नग्न आशिल्ल्यान निर्मणीचें चक्र घुंवत आसता. फळांतले बियेक नवें रूप धरपाचें आसतकच फळांतल्यानूच न्हय तर आपल्या कल्लांतल्यान भायर सरून नग्न जावचें पडटा. जमनीतल्यान अंकुर वयर येता तोय पुरायेन नग्न आसता. आपलो वंश वाडोवंक सोदपी मनीसूय लग्न जाल्याउप्रांत केन्नाच न पळयल्ले चलयेमुखार वा चली चल्यामुखार लज - भिड - मुर्वत दवरिनासतना नग्न जावन वता. तेन्ना तांच्या आंगार कसलोच पट्टो उरना. जांचे पासून आपलो जल्म जाला तांचे मुखार नागडो वचूंक लजपी मनीस निर्मितीच्या हावेसाक लागून परकी मनशामुखार नागडो जाता. खरेपणी ह्या संवसारांत कांयच नागडें ना. आसा तें सगळें सैमीक. नागडेपण जर खंय आसत तर तें मनशाच्या विकृत मेंदवांत.





# तूं शाणो केन्ना जातलो



**हां**व पिसो हें थारावनूच केल्लो हो रूक्ष प्रस्न. हांव जीं कितें करतां तितलींय पिशेपणां. ह्या पिशेपणांक लागून हांव म्हज्या संवसाराची वाट लावन घेतां. त्या खातीर हांवे शाणो जावप गरजेचें अशें सगळ्यांक दिसता. हांव शाणो जावपासारको नाशिल्लों जावं म्हजी ती लायकी नाशिल्ली जाल्यार म्हजे हे बरे मागपी म्हाका हो प्रस्न विचारपाचे नाशिल्ले. तरीपूण हांवे ह्या जिवितात शाणो जावंचो हेच इत्सेन बाबडे दिसरात वावुरतात. चिंता करतात, खंगतात. तरीपूण हांव शाणो जायनां तें पळोवन म्हाका प्रस्न करतात. तूं शाणो केन्ना जातलो ? केन्ना हांव म्हजी पिशेपणां सोडटलों ? तांचे नदरेन खरेंच हो गंभीर प्रस्न. तांका खऱ्यानीच दिसता हांव गाढव न्हय. हांव घोडो. गाढवाक कितलोय जरी माल्लो आनी रेसकोर्साचेर धांव म्हूण सांगलें जाल्यार तो धावचोना. ताका धांव म्हूण सांगून ताका मार. खऱ्या अर्थान गाढव थरतले. तेच खातीर गाढवाक धांवचें म्हूण कोणच मारिनात. मारतात ते घोड्याक. कित्याक घोडयाची धावपाची लायकी आसा हें खबर आशिल्ल्यानूच ताका मार खावंचो पडटा. रूक्षप्रस्न करतल्यांचीय हीच अपेक्षा आसता. म्हजी सगळीं पिशेपणां हांव सोडूंक शकतां आनी लोकांचे अपेक्षेप्रमाण हांव रेसकोर्साचेर धावंक शकतां. तेच खातीर म्हजेर रूक्ष प्रस्नांचो मारो जाता.

पूण खऱ्यानीच हांवे शाणो जावप गरजेचें आसा ? काय म्हज्या सभावाप्रमाणे पिसोच रावप बरें ? पुरुषोत्तम सिंगबाळ हांणी रेडियोचेर एकदां फोडणी फोवांत उलोवप केल्लें. 'शाणो कसो जावप'. शाणो जातलो जाल्यार कितें करूंक जाय आनी तशें केल्ल्यान आपूण शाणो कसो जालों हें ताणी आपल्या विनोदी उलोवपांत सांगलां. जरी तें उलोवप विनोदी आसलें तरी तातूंत गंभितार्थ आसा. त्या उलोवपा प्रमाण जर मनीस वागलो जाल्यार ह्या समजांत शाणे जावप सहज शक्य आसा. हेरांक पिशे करपांतूच शाणेपणाची गोम आसता.

रूक्षप्रस्नकर्त्यांच्या नदरेन हांव शाण्या सारको केन्ना वागलोंच ना. मराठी माध्यमांतल्यान मॅट्रीक जाल्या उप्रांत हांव मराठीचो बावटो उबयतलों अशी सगळ्यांची कल्पना आशिल्ली. बरोवंकूय सुरवात केली ती मराठीतल्यान. त्याभायर माधव गडकरी हांच्या सारख्या मराठी मनशांकडेय संबंध आयलो. तांचें बोट धरून हळुहळू तांच्या फाटल्यान पावली मारून स्वताचे कल्याण करून घेवप म्हाका शक्य जातालें. शिवाय असलो आदार मेळप म्हळ्यार कठीनूच.

तो सहजतायेन आनी सोंपेपणी कोणाक मेळना. पूण म्हाका ती संद मेळ्ळी. पूण ती घेवंक म्हाका कळूंक नाका ? तितलीं शाणेपणां हीं म्हजे पदराक नाशिल्लींच. म्हाका सांपडलो तो आनीक एक पिसो. शणै गोंयबाब. तांचें सगळें साहित्य वाचून काडलें. तें वाचपाफाटलो पयलीं मुखेल उद्देश आशिल्लो कोंकणीवाद्यांची टर उडोवप होच. जें साहित्य घेवन हे कोंकणीवादी नाचतात, कोंकणी आपली भास म्हणटात तें खरेपणी कितें हें समजून घेतल्याबगर तांचेर हल्लो करप शक्य जावपाचें नाशिल्लें. आनी तीच म्हजी पयलीं पिशेपणां थल्लीं. जर हांवे शणै गोंयबाब वाचूंक नाशिल्लो आनी फक्त अज्ञानांत रावून कोंकणीवाद्यांक गाळी मारून स्वताक मराठीवादी म्हणून घेतिल्लें जाल्यार आयज मराठी अकादमीचो अध्यक्ष सोडूच सचिव तरी जावन वचपाचो. त्या कळपांत शाणो म्हणून मिरोवप सहज शक्य आशिल्लें. पूण तीं शार्णेपणा जमलीना. हांव कोंकणी मनीस म्हणपाचो साक्षात्कार म्हाका जालो. तीं पिशेपणां अजून म्हजेभितल्लीं वचनांत.

बरोवपाक लागिल्ल्यांन आनी विद्यार्थी आनी हेर चळवळींत पडिल्ल्यान मोठमोठ्या लोकांकडेन वळखी जायत रावल्यो. एकान एक मंत्री खांदार हात घालूंक लागले, नांवान उलो मारपा इतली दाटी जाली. कांय जाण तर कसलें काम आसा जाल्यार सांग अशें सांगुकूय लागले. पूण हांव मुळांत पिसो आशिल्ले कारणाक स्वताच्या फायद्याखातीर कितें घेवपाचें आसता हेंच म्हाका खबर नाशिल्लें. वांगडा आशिल्ल्यां खातीर मात कितें ना कितें मागपाचें आनी तें करून घेवपाचें काम मात हांवे केलां. त्या वेळारूय म्हजीं हीं पिशेपणां हेरांक दिसल्याबगर रावलिनांत. आज कितलेतरी वांगडी आपलो बँक बॅलन्स फुगोवन बसल्यात. केन्ना तरी मेळटात तेन्ना अचूक रूक्षप्रस्न केल्याबगर रावनांत. तूं शाणो केन्ना जातलो ?

म्हजी सगळयांत व्हडलीं पिशेपणां म्हळ्यार नोकरेचो राजिनामो दिवपाचो. नोकरेखातीर आयज हजारांनी दुडू मेजचे पडटात. कोणां हेरांक नोकरी जाय जाल्यार हांव ऊतर घालतां. पूण म्हजेखातीर नोकरी कोणांकडे मागची वा आशिल्ली सांबाळून दवरची अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना. नोकरी करतालों तीय शिकोवपाची. जिवितभर भुरगो रावतलों जाल्यार हीच एक नोकरी म्हज्या सारख्याक आशिल्ली. पूण आयज शिक्षण पद्धतूच अशी जाल्ली आसा की शिक्षणक्षेत्रांत विद्धानांपरस भलत्याच गजालीक चड म्हत्व निर्माण जाल्लें आसा. शिक्षक कसो शिकयता आनी विद्यार्थ्याक कशें घडयता हाचे परस तांकां कशे मशीन करूं येता हाजेरूच चड भर दिवपाचें काम आतां घडटा. राजकीय पक्ष जशे लोकांचो वापर गर्दी करपाखातीर करून घेतात तशेंच विद्यार्थ्यांचो वापर गर्दी करपाखातीर जाता. राजीव गांधी पंतप्रधान आशिल्ले तेन्ना ते गोंयचे भेटीर आयले. तांकां बावटो दाखोवपाखातीर म्हाका विद्यार्थ्यांक घेवन रस्त्यार उबें रावपाचें आशिल्लें. खरें म्हळ्यार बावटो विद्यार्थी हालोवपाचे आनी तांची राखण करूंक शिक्षक ह्या नात्यान म्हाका वचपाचें आशिल्लें. हांव पगार घेतां देखून हें काम म्हाका करूंकच जाय आशिल्लें. पूण हांव पगार हें काम करूक घेना असो

म्हजो चुकीचो समज आशिल्लो. तें काम करपाचीं शाणेपणां हांवे करूंक जाय आशिल्लीं. पूण हांवे तीं केलीं ना. हुकूम मोडपाचें काम हांवे केलें. ज्या काँग्रेसीक हांव विरोध करतां, त्या पक्षाच्या फुडाऱ्याक बावटे हालोवप हें म्हज्या मनाक पटलें ना. शक्य जाल्यार काळे बावटे दाखोवंक हांव वचपाचों. नोकरी जाय जाल्यार शाळेच्या मुखेल्यांचो हुकूम म्हाका पाळूंक जाय आशिल्लो. हांवे तो पाळूंक ना. राजीनामो दिवन भायर सल्लों. फाटलो फुडलो विचार केलों ना. हांव पिसो थल्लों.

लग्नाच्या बाबतींतूय अशींच पिशेपणां हांवे केलीं. एक चली म्हजेर प्रेम करताली. पांच वर्सां सांगातान आमी भोंवलीं. प्रेमाचे जितले प्रकार आसात तितलेय केले. एक दीस ते चलयेचें लग्न थल्लें. लग्न थल्लां हें ताणेंच येवन सांगलें. आनी व्होवळीक पत्रूय दाखयलें. ताजें मत आशिल्लें आमी पळून वचून लग्न करपाचें. पूण म्हजे नदरेन तीं शाणेपणां दिसलींना. लग्न थरचें पयलीं पळून वचूंक जातालें. हांवें ताजे सुचोवणेक तेंको दिलोना. ताका थरिल्ले सुवातेर लग्न जावंक सांगलें. तें कित्याक करचें हाची मुक्ताफळां हांवे ताका आयकयलीं. तूं केन्ना शाणो जातलो ? होच रूक्षप्रस्न करून तें रडत रडत गेले. म्हाका पिसो थारावन गेलें.

कांय वर्सां उप्रांत म्हाका एक सोयरीक आयली. चली घरांत एकटीच. बापूय भाटकार. लग्ना उप्रांत भाटाचो धनी हांवच जावपाचों. शिवाय लग्नाच्या वेळार भरपूर पडपाचें. चलीय शिकिल्ली. हांव चलयेकडे आनी चलयेच्या बापायकडेय उलयलों. चली दिसपाक सुंदर आशिल्लीच. तिका व्हड व्हड घरांतल्यान मागण्यो येताल्यो. पूण म्हज्या कर्तुबाक लागून तिका हांवच जाय आशिल्लों. जेन्ना आमी मेळ्ळीं तेन्ना सुरवातीक भाटांबेसांची आनी दुडवांची गजाल. हांव बरयतां हें तें जाणां. तेंय बातम्यो वाचून ताका कळ्ळां. आयुश्यांत केन्ना एक पुस्तक वाचुंना. फक्त एम्. ए. क शिकिल्लें तितलेंच. त्याच विशयाचेर हांवें ताजीं फकाणां केलीं. चली दुखावलें. म्हजें लेक्चर तिका पंचलेंना. हांव तिजे नदरेन पिसो जाल्लों. आतां लग्न जावन घोवावांगडा केन्नाय मेळटा. गाडयेंत रावून म्हजेर नदर मोखता. नदरेचो भाव म्हाका कळटा. तूं शाणों केन्ना जातलो ? ताजेकडे लग्न जावन ताजींच भाटांबेसां विकून हांवें म्हजीं पुस्तकां छापून काडपाचीं. पूण तें शाणेपण म्हाका सुचलेंना.

जिवितांत म्हजीं हींच पिशेपणां चलत आसात. कोण बरो नासता. ताका वखदाक दुडू जाय आसतात. हांव काडून दितां. तोच मनीस त्याच दुडवांनी सोरो मारता. म्हाका हांसून पळयता. तरी आसतना दुसऱ्यान कोणेंय दुडू मागल्या बराबर बोल्सांत हात वतात. नोकरेक खंयीय मुलाखतीक गेल्यार थंय नोकरेची गरज आशिल्लो कोण तरी मेळटाच. ताचेखातीर उतर घालून हांव थंयच्यान कडसरतां. ताका नोकरी मेळटा. ताजोच मागीर म्हाका रूक्षप्रस्न येता. कितें रे तुका अजूनय नोकरी मेळूंक ना ? कोणाकूय फावोर मारून घे मरे ? कसलीं पिशेंपणां करता ?

हांव हीं सगळीं पिशेपणां करतां हें म्हाका खबर आसा. म्हाका शाणो जायन अशें दिसच

ना. कांय लोक म्हण्टात, हो देश दिपकावन उडयला तो पिशे लोकांनीच. पूण म्हाका देश दिपकावपाचो ना. ते खातीर म्हाका पिसो रावपाचें ना. हेरांक जाय देखून म्हाका शाणोय जावपाचो ना. म्हाका फक्त हांव म्हूण रावपाचो आसा. म्हज्या ह्या तत्त्वांचो म्हज्या हया गुणांचो बळी जावपाचो आसा.

अमृता प्रितम आपल्या जिविताचें वर्णन करतना म्हणटा, 'आय ॲम द व्हिक्टीम ऑफ माय ओन आयडिओलॉजी ॲन्ड प्रिन्सिपल्स'. म्हाकाय म्हज्या स्वताच्याच तत्वाचो आनी सभावाचो बळी थरल्यार चिंता ना. पूण हांव शाणो जावंक सोदिना.





# तुका केन्ना मटको लागला



तुका केन्ना मटको लागला हो रूक्षप्रस्न करचे पयलीं तूं केन्ना मटको खेळ्ळा वा तुवें मटको लायला हो प्रस्न खरें म्हळ्यार विचारूंक जाय आशिल्लो. तुका मटको लागला ? ह्या रूक्षप्रस्नांत सरळसरळ आरोप आसता. तुवें मटको ह्या पयलीं लायला म्हणपाची खात्री बाळगुनूच हो रूक्षप्रस्न करतात. तुका सोर्त केन्ना फुटल्या ? असो जर प्रस्न आयिल्लो जाल्यार एकवेळ हांव समजूंक शकतालों. सोर्त हो प्रकार मटक्यावरी जुगार आसलो तरी ताका सरकारी मान्यताय आसा. असल्या जुगाराक वा हेर कसल्याय वायट कर्तुबाक सरकारी वा सामाजिक मान्यताय आसली तर तें कर्म करूंक कोणांक कमीपणां दिसनांत. त्याचखातीर नाक्यानाक्यार सोर्ती घेवन बशिल्ल्यांकडल्यान समाजांतल्या सगळया थरांतले लोक सोर्ती काडटात. त्यो काडटना आपूण जुगार खेळटां म्हणपाचें तांका चुकून लेगीत येवजनां. पूण मटको लावंक वता आसतनां मात हेच लोक फाटल्या - फुडल्यान बारकायेन पळोवन मागीरूच मटको लायतात. मटको आपूण खेळटां हें लोकांक कळत म्हूण तांकां लज दिसता. कित्याक लॉटरी प्रमाण मटको हो सरकारमान्य जुगार न्हय. लॉटरीपासून सरकाराक फायदो आसता. तोच जर मटक्याक लागुनूय सरकाराक मेळिल्लो जाल्यार आयज दर गाड्या - गाड्यार आनी सरकारी कचेरीनीय मटको घेतनां वा खेळटनां आमकां सभ्यांतलो सभ्य मनीस दिसपाचो.

आतां मटक्याचो प्रस्न कसो आयलो आनी हो रूक्षप्रस्न कसो निर्माण जालो असो एक प्रस्न तयार जावं येता. कोणेंय जर म्हाका प्रस्न केलो - तुवें मटको केन्ना लायला ? तुका मटको केन्ना लागला ?- जाल्यार हांव हेर सभ्य मनशांवरी ना म्हणटलों. आयज पयसो होच मुखेल जाल्ले कारणान दर एकलो मनीस पयशां फाटल्यान लागलेलो आसता. पयसो हो खंयच्यानूय आयिल्लो आसूं वा कसोय आयिल्लो आसूं ! तो जाचेकडे आसा ताजे फाटल्यान आख्खो संवसार धांवता. जर कोणाकूय कोणे खात्री दिली की आज अमुक अमुक नंबर येवपाचो आसा जाल्यार मटको नाका म्हूण विरोध करपीच पयलीं आपले दुडू मटक्याक लावन मेकळो जातलो. दुडू मागीर मटक्याचे जांव वा सोर्तीचे. ताजेर ते खंयचे म्हणपाचें बरयल्लें नासता. तेच खातीर हो दुडू जात - धर्म, गरीब - श्रीमंत, दादलो - बायल ह्या सारकीं समाजांतलीं सगळीं वेगळेचाराचीं साधनां हुपून समाजवादी जावन वता. गायेक देव

मानपी खाटकाकडल्यान दुडू घेता. पतिव्रतेचो तिबो लावन मिरोवपी घरंदाज बायल वेश्येकडल्यान दुडू घेता. समाजांत मनशाचें मोल उणें जाता. दुडवांचें न्हय. तेच खातीर मटक्याचे दुडू हातांत आयल्यार ते सभ्यतायेन मोडपी मनीस मटको लावंक वतनां मात कांचवेता. आपल्याक तें लागना म्हूण हड्ड्यार हात मारून सांगता.

हालींच आठ - धा दिसां पयलीं हांव गोंयच्या राजपालांवांगडा गजाली मारीत बशिल्लों. गोंयच्या साबार प्रस्नांचेर भासाभास जाल्याउपरांत मानादीक राज्यपालांनी मटको म्हळ्यार कितें हाचो प्रस्न म्हाका केलो. जेन्ना राज्यपालांकडे म्हजी भेट जावपाची आशिल्ली तेन्ना हांव म्हळयार कोण आनी हांवें म्हज्या जिवितांत कसलीं कर्तुबां केल्यांत हाची पुराय म्हायती तांचेकडे आसा म्हणपाची म्हाका खबर आशिल्ली. तशी म्हायती तांकां दिवप ही तांच्या खबऱ्यांची जापसालदारकी आसता. पूण हांव मटको खेळटां वा ह्या विशयाचेर म्हाका ज्ञान आसा म्हणपाचें गिन्यान तांच्या गुप्तहेरांनी तांका दिवंक ना म्हणपाची खात्री म्हाका आशिल्ली. कित्याक हांवे जिवितांत साबार भानगडी केल्ल्यो आसल्यो तरी हे विशीं हांवे अजून चड खास लक्ष दिवंक नाशिल्लें. तेच खातीर म्हाका हातुंतलें कांय कळना म्हूण सांगून म्हज्यान तोंडाचेर बुरखो चडोवं येतालो. संवसारांतल्या दर एक गजालीचेर मागीर ती बरी जांव वायट म्हजें लक्ष आशिल्ले कारणान मटको म्हळ्यार कितें हे म्हाका खबर आशिल्लें. ते खातीर तांच्या प्रस्नाक हांवे जाप दिवपाचें थारायलें. पूण म्हज्या सांगाताक आशिल्ल्या म्हज्या एका इश्टान ताजी सांग्रसंगीत म्हायती राज्यपालांक दिवन मटको हो प्रकार आयज सरकारी खाती धरून घरांघरांनी कसो पावला हाची जाणविकाय दिली. सद्या गोंयात जो एक खवदळ चल्ला तो मटक्याक लागुनूच चल्ला आनी तेच खातीर राज्यपालांक हो मटको म्हळयार कितें हें जाणां जावन घेवपाचें आशिल्लें. याच अनुशंगान तुवें मटको केन्ना लायला ? हो रूक्षप्रस्न तयार जाल्लो आसा. जेन्ना लायला काय म्हूण प्रस्न येता तेन्नां तातूंत दुबाव आसता. पूण लागला काय म्हूण प्रस्न येता तेन्ना रूक्षप्रस्न करतल्याक हांवे मटको लायला म्हणपाची खात्री आसता आनी हांवे केन्ना ताचेर दुडू घेतल्यात वा ना हाचो दुबाव आसता.

म्हाका मटको लागला. १९७४ वर्सा हांवे मटको लायिल्लो आनी म्हज्या नशिबान म्हाका तो लागिल्लो. तेन्ना हांव मॅट्रीकेक. मॅट्रीकेची परीक्षा दिवपाखातीर म्हाका आगशीच्यान पणजे येवंचें पडटालें. शारांत वचपाचो हो म्हजो पयलो प्रसंग आनी तोय सतत पांच दीस. त्यावेळार बोल्सांत घालूंक पयशे दिवपाची प्रथा घरच्या लोकांमदी आसताली काय कितें हें म्हाका खबर ना. पूण म्हजे घरच्यांक ती नाशिल्ली. येवपा वचपाक बशीक एक रुपया आणि कितेंय गरज लागल्यार, सोडा बी पिवपाक एक रुपया अशे दोन रुपया दर दिसाक मेळटाले. हॉटेलांत च्या पिवपाक वता तो लोफर असो एक समज त्या वेळार आमकां करून दिल्लो. आयज पुराय जिवित हॉटेलांचेरूच वता ही गजाल वेगळी.

सोमारा दीस सुरू जाल्ली म्हजी परिक्षा शुक्राराक सोंपली. पेपर सोंपोवन जेन्ना हांव आगशी बाजारांत देंवलो तेन्ना बोल्सांत बारा आणें उरिल्ले. दुसऱ्या दिसा आठ आण्याची

तिकेट काडून सिनेमाक वचपाचो म्हजो बेत. पूण जालें कितें खबर ना. वांगडा आशिल्ल्या इश्टान म्हाका ते मटक्यांत लावंक सांगलें. बाजारांत कांय वळखीचे भुरगे मटको घेतालेच. म्हजो सीट नंबर, शाळेचो नंबर आनी हेर कसलो तरी नंबर एकूच जुळटालो. हो एक योगायोग आसूं येतालो. हांवे तोच नंबर मतींत धरून बाराय आणें मटक्याक लायले आनी दुसऱ्या दिसा तो नंबर आयलो.

आतां म्हजेर कलकल. बारा आण्याक म्हाका साठ रुपया मेळिल्ले. इश्टान ते हाडून दिले. आगशीच्या फेस्ताक म्हाका घराकडे आठ आणे मेळटाले आनी ते सोंपून सोंपनाशिल्ले. तेन्ना साठ रुपया कितें करप हो एक मोठो प्रस्न म्हजे मुखार आशिल्लो. दुडवांची आस वचनाशिल्ली आनी ते म्हजेकडेन हांव दवरूंकय शकनाशिल्लों. इतलो दुडू जर म्हजेकडे सांपडलो जाल्यार घरच्यां कडल्यान म्हाका फाट फोडून घेवंची पडपाची. दुडू खंयच्यान आयला ही चौकशीच अश्शी आसपाची की एकूय बंडल मारप मुश्कील आसपाचें. ते पंतप्रधानान दिल्यात अशें लेगीत बंडल माल्ल्यार पंतप्रधानाकडें हाची चौकशी करूंक म्हजे भाव फाटी सरपाचे नाशिल्ले. अशा वेळार मटक्याची गजाल म्हाका सांगचीच पडपाची. तें आयकून म्हजे तकलेचो मटको जावपाचो.

साठ रुपया तर आसात. करप कितें ? तेन्ना म्हाका विनोद खन्ना हो नट आवडटालो. ताजे सारको चलपाक म्हजेकडें बूट नाशिल्ले. ते घेवंचे अशें थाल्लें. घराकडें बूट खंयचे काय विचाल्ल्यार मित्राचे म्हूण सांगू येताले. एका मित्राक तसो तयारूय केल्लो. पणजे वचून बूट घेतले. पायांत घाले आनी विनोद खन्नाच्या स्टायलीन पणजे भोंवलों. घरा पावचे पयलीं पायांक फोड. ते हातांत धरूनच घरांत भितर सरचें पडलें. दुसरे दिसा ते पायांत चडोवपाच्या कल्पनेनूच कांपरी भरताली.

आतां करप कितें ? ते घेतलों आनी परत दुकानार गेलों. पूण तें अर्द झरून काबार जाल्ले. दुकानदार घेवंक तयार ना. मित्रानूच म्हजेर दया दाखयली. दुडू दिवपाच्या आश्वासनाचेर ते ताणें दवल्ले. हांव मुक्त जालों. ताणें ते वापल्ले. पूण दुडू दिवपाचो प्रस्न काडलोंना. म्हाकाय ते मागूंक जमलेंना. ताजेकडें झगडलों तर घराकडे कळटलें. तोंड धापून हो बुक्क्यांचो मार. अशावेळार तकली दिवपी मित्र हे आसतातूच.

ही गजाल हांवे एका दुसऱ्या मित्राक सांगली. ताणें म्हाका सल्लो दिलो. बूट घेवन गेल्लो मित्र लायटीचें काम करतालो. ताजेकडें एक गिरबो आसतालो. एक दीस हांवे तो गिरबो काडून घेतलो आनी दुडू हाडून दी आनी तो व्हर म्हूण सांगलें. ताजी धंद्याकडे अडचण जातली आनी तो दुडू घेवन येतलो असो म्हजो समज. पूण म्हयनो जालो तरी ताजो पत्तो ना. दुसऱ्या मित्रान परत सल्लो दिलो. तो गिरबो व्हर आनी मॅकानिकाक वीक. आमच्या शेजराकूच एक सायकली सारक्यो करपी आशिल्लो. ताजेकडे हांव गिरबो घेवन गेलों. हांवे तोंडातल्यान जाप काडचे पयलीं मॅकनिकान गिरबो वळखलो. कितल्या तेंपान तुजेकडे गिरबो धाडून दिला रे ताणें ? असो प्रस्न ताणें म्हाका केलो. इतल्या तेंपान याद करून गिरबो

धाडला म्हूण म्हजे मटक्याचे दुडू खावपी मित्राची ताणें तोखणायूय केली. गिरबो बारकायेन पळोवन पेटयेंत दवल्लो. हांव आनी मुखार कितें उलयतलों आशिल्लों ?

आयज म्हजे मटक्याचे दुडू खावपी तो इश्ट आखातांत जोडटा. दर वर्सा येता आनी शंबराच्यो नोटी दाखयता. म्हाका जाय जाल्यार मागल्याबराबर कितलोय दुडू ताजेकडें मेळटा. पूण म्हजे साठ रुपया दी म्हणपाची कापस्ताद म्हाका जायना.

जेन्ना कोणूय म्हाका रूक्षप्रस्न करतात - तुका मटको लागला ? तेन्ना ताजी जाप जरी म्हज्यान दिवंक जायना तरी म्हज्यात जाप येता. हय म्हाका मटको लागला.





# तूं सोरो पिता



हो रूक्ष प्रस्न तसो पळोवंक गेल्यार एकाच रूपान येना. सोऱ्याचे जशे नाना रंग, जशीं नाना रूपां, तशींच ह्या रूक्ष प्रस्नाचीं नाना रूपां. सोऱ्याक तशी समाज मान्यताय ना. रातचो पिल्लो मनीस आपल्या तोंडाचो वास वच्चे पयलींच दुसऱ्या सोरो पिवपी मनशाक मेळ्ळो आनी ताज्या तोंडाचे घाणीचो वास जर ताका आयलो जाल्यार आपलें नाक दाबून तो त्या मनशाक अशे नदरेन पळयता, की ताणें सोरो पिवून खूब व्हड गुन्याव केला. एक पिवपी दुसऱ्या पिवप्याक बेबदो हेच नदरेन पळयता. तरीसुद्धा आयज सोरो पियेना म्हणपी लोक आमच्या गोंयात खूप थोडे. आयच्या ह्या सुदारलेल्या जगांत कोणेय जर आपूण सोरो पियेना म्हूण सांगत जाल्यार लोकांक तो मनीस अशिक्षीत दिसता. तो अजून सुदारूंक ना अशें तांचे मत जाता. त्याखातीर आपूण मॉडर्न हें दाखोवपाखातीर तो बियर तरी घेताच. तरीलेगीत सोरो पिवपी मनशाक रेस्पेद दिवपी, ताजेर विश्वास दवरपी म्हाका अजून मेळूंक ना. सोरो पियेवन उलोवपी मागीर कितलेंय खरें उलोवं, वेवस्तीत उलोवं ताका जण एकलो पिऊन उलयता म्हूण ताज्यो बकच्छायो करतात. आज एकूय घर अशें आसचेंना की जागेर कसले तरी पार्टेक सोडा आनी बाटली पावूंक ना. सोरो नासतना पार्टी जावंक शकता ही कल्पनाच आयज गोंयकार करूंक शकना. इतलेंय आसतना सोरो पिवप्याक आज समाजांत मान ना. तो समाजाचे नदरेन फकाणाचो, बकच्छायेचो विशय थरता. समाज मान्यताय नासतनाय समाज आयज सोऱ्याक मान दिता. परस्पर विरोधी घडणूक ही. गोंयातूच ही घडणूक दिश्टी पडटा. तेच खातीर रूक्षप्रस्न तयार जाता.

तूं सोरो पिता ? तूं घेता बी रे ? तूं कुट्ट करता ? पिंगा जाता ? कोपाचें मारता ? आदि हे एकाच अर्थाचे वेगवेगळे प्रस्न. जेन्ना हे प्रस्न सोपतात तेन्ना आंगठो तोंडाकडेन व्हरून खुणावन लेगीत हे प्रस्न येतात. लकता ताजेवेल्यान मनीस पिला म्हूण कळटा. बडबडटा ताजेवेल्यान कळटा. आनी तोंडाक आयिल्ल्या वासावेल्यानूय कळटा. तेच तरेन हो रूक्षप्रस्न उतरांनी आनी खुणांनीय सतत येत रावता.

सोरो पिवप ही म्हजी गरज न्हय. तशी ती खंयच्याच मनशाची आसूंक शक्य ना.

सोऱ्यांत आल्कोल आसता. आमच्या शरिराकूय आल्कोलाची गरज आसा. तें फाव ते प्रमाणांत शरिराक मेळचें म्हूण शरिरांतूच येवजण केल्ली आसा. जेन्ना आंगातली सैमीक प्रक्रिया कांय कारणांक लागून बंद जाली आनी आंगाक जाय आशिल्ल्यो गजाली उणे प्रमाणांत मेळूंक लागल्यो तेन्ना तें उणेपण भरून काडपाखातीर दोतोर कांय हेर वखदां आनी गुळयो दिता. पूण आल्कोल उणें जालां तेन्ना त्या खातीर सोरो घे म्हूण सल्लो दिवपी अजून दोतोर तयार जावंक ना. तसो दिताय बी आसत. पूण म्हाका अजून मेळूंक ना. तशें आंगाक जोर आयल्यार काजूची जांव माडाची फेणी आंगाक काडची, पोटांत दुखता जाल्यार पोटांत घेवंची. थंडी जाल्यार सुकी ब्रॅन्डी वा काजू फेणयेक उजो लावन तातूंत साकर घालून घेवंची अशे उपाय कांय गावंठी दोतोर सांगतात तें हांवे पळयलां. ताजोच आदार घेवन वखद म्हूण सोरो पिवपी तशे खुपूच उणे. एकदां वखदाक म्हूण सुरवात करपी मनीस मागीर सोऱ्याक लागूनच दुर्येत जाल्लो आनी अती मद्यपानाक लागून मेल्लो आमच्या सरभोंवतणी आमकां मेळ्ळेबगर रावना. आमच्या देशांत सोऱ्याक लागून नवे मवे इतिहास घडिल्ले आसात. आमचे पूर्वज, जावं मागीर ते सूर - असूर, देव - दानव, तेय सोमरसांत बुडून वताले. शुक्राचार्यासारको बुद्धीवादी सोऱ्याक लागूनच स्वताचो नाश करून घेवंक पावलो. व्हड व्हड कवी - चित्रकारांनी सोरो वा मदिरा हाका तर चिरंजीवी रूप दिल्लें आसा. उमर खय्याम तर सोऱ्याच्या ग्लासाशिवाय सोबच ना. राम गणेश गडकरी सारख्या मनशान तर एकच प्याला खातीर स्वताक अमर करून घेतलो. हरिवंशराय बच्चन सारख्या कितल्या तरी हिन्दी शायरांनी आपल्या काव्यांतल्यान, शायरींतल्यान सोऱ्याक अमरत्व दिल्लें आसां. आयज सोरो म्हळ्यार अमृत जाल्लें आसा. आमी अमृताच्यो गजाली आयकल्यात. पूण तें कोणांक पिऊंक मेळ्ळा काय ना हाची म्हाका खबर ना. पूण सोऱ्याचो सगळो इतिहास काडून पळयल्यार आनी ताची वाडटी मागणी पळोवंक गेल्यार अमृत म्हळ्यार हेंच आसूंक जाय अशी म्हज्या सारक्यांची कल्पना जालेबगर रावना.

सोऱ्याक लागून बुद्ध भ्रश्ट जाता अशें विचारवंतांचे मत. जे लोक सोरो पिताले, सोरो पिऊन ताजो अणभव जाणी घेतला आनी उप्रांत सोडला तांचे कडल्यान सोऱ्याविशीं आयकप शक्य आसा. सोरो वायट म्हणपाचो उपदेश तेच करूंक शकतात. पूण जाणी केन्ना वखदाक लेगीत सोऱ्याचो घोंट घेवंक ना ताणी सोऱ्याविशी उलोवप म्हळ्यार एक विचित्रूच गजाल. म्हजे नदरेन ह्या लोकांक दुसऱ्याक सोऱ्याविशी उपदेश करपाचो अधिकारूच ना. गांधीजीन सोऱ्याचो अणभव घेतला. ताका सोऱ्याविशी उपदेश करपाचो अधिकार आसा. पूण स्वताक गांधीवादी म्हणपी आनी जे केन्ना सोऱ्याचो थेंब उश्टावन नकळो ते फकत गांधीजीन सांगलां म्हूण उपदेश करतात वा आचरणाक हाडटात तांची हांव सदांच काकूट करतां.

म्हाका सोरो पिवप आवडटा. तेच बरोबर सोरो पिवून स्वताक विसरपी मनशांचीय म्हाका

किळस येता. आण्टीची गादी नाटक बरयता आसतना हांव सगळ्या प्रकारच्या गादयांचेर, तावेर्नांचेर, बार्रांचेर वचून वरांची वरां बसलां. सोरो पितकच मनीस कसो वागता ? तो सोरो कित्याक पिता ? हें हांवे लागशिल्ल्यान पळयलां. सोरो पिवपाची कारणां वेगवेगळी आसात. पूण चडशे लोक सोरो पितात ते आपलीं दुख्खां विसरायेर घालूंक. चिंता पयस करूंक. पिकांसांव ना करूंक. आनी हीच सगळ्यांत फटीची गजाल म्हणपाचें म्हाका कळ्ळां. सोऱ्याच्या आदारान जो आपलीं दुख्खां पयस करूंक सोदता ताजे इतलो दुबळो आनी फटींग मनीस ह्या संवसारांत ना. ताका आपल्या समस्यांचें भांडवल करपाचें आसता. आपूण दुखेस्त आसां, त्रासांत पडलां आनी देखून सोऱ्याचे बाटलेंत बुडलां हें लोकांमुखार दवरपाचें आसता. पूण ह्या सोऱ्याक लागून मनशाची दुख्खां उणी जायनांत तर तीं वाडत रावतात हाचो अणभव हांवे घेतला. म्हणून आण्टीची गादी हातूंत राजा म्हण्टा - सोरो सोडा घालून पातळ करूं येता. पूण दुख्ख सोरो पिवून पातळ जायना. दुख्खाची नशा ही सगळ्यांत व्हडली नशा आसता. तीच नशा वाडोवंक मनशान तेच नशेचो सांगात घेवंक जाय. सोऱ्याचो घोट घेवन आमी जशी ताची रूच घेतात तशीच दुख्खाची रूच घेवंक कळूंक जाय. जेन्ना ही सवंय लागतली तेन्ना कोणूच दुख्ख पयस करूंक सोरो पिवचोना.

म्हजेय बाबतीत अशीच एक घडणूक घडिल्ली. पयलीं हांव पिनां आशिल्लों. सोरो मनशाक सोंपयता ह्या विचारांचो हांव. नाटक बरोवंक घेतलें तेन्नाय हांव फकत सोडाच घेवन वरांची वरां बसतालों. चुकून केन्नाय एक पेग घेतलो जाल्यार. ह्या काळांत म्हजी एक मैत्रीण आशिल्ली. जिच्या बगर एक खीण पयस रावप म्हळ्यार हांव सोंपतलों अशे एके भावनेंत हांव जियेतालों. एकदीस म्हजे दोळ्यांमुखार तिणें अचकीत प्राण सोडलो. ताणें प्राण सोडलो, तें ना जालें तरी ताज्यो यादी म्हजे भोंवतणी उल्ल्यो. रातीच्या राती न्हिदेबगर वचूंक लागल्यो आनी म्हाका भंय जालो. जर हांव त्यो विसरना वा रातभर यादी काडीत रावलों जाल्यार म्हाका मानसीक धक्को बसतलो. 'मेन्टल ब्रेकडावन जातलो.' हातुंतल्यान भायर सरूंक जाय जाल्यार न्हीद पडूंक जाय. ताका एकूच उपाय आशिल्लो आनी तो म्हळ्यार न्हिदेच्यो गुळयो घेवप. पूण हांव कोण हें म्हाका खबर आशिल्लें. गुळयांचो वायट परिणाम जावं येतालो. ते परस मित्रांबरोबर बार्रांचेर बसून मन खंय तरी दुसरीकडेन वळोवप हेंच सोयिस्कर आशिल्लें. रातभर मित्रांवांगडा बार्रांचेर बसूंक लागलों. फुकट पिवपाक मेळटा म्हूण मित्रूय येतालो. तांकां म्हजी अवस्ता जाणा जावन घेवपाची नाशिल्ली आनी तांकां ती समजुपाचीय नाशिल्ली. ही गजाल फक्त भावपाची आसता. म्हाका फक्त तांची बडबड जाय आशिल्ली. सोऱ्याची नशा जाय आशिल्ली. जाका लागून म्हाका न्हीद पडूंक शकताली. अडेच - तीन वर्सां हे स्थितीत हांव रावलों. पूण यादी कांय विसरप शक्य जाल्योंना. त्यो तशो पयस जावपाच्यो नांत हेंय म्हाका खबर आशिल्लें.

आज ते परिस्थितींतल्यान हांव भायर सल्लां. आयज सोरो ही म्हजी गरज उल्लीना. तरी पूण बरो कोण मनीस मेळ्ळो जाल्यार तांच्या वांगडा पेग घेवन बसप म्हाका आवडटा. वरांची वरां आमी बसतात. अनील बर्वे, जयदेव हट्टंगडी हांच्या सारख्यां वांगडा हांव ह्यो गजाली केन्ना केन्नाय करतालों. आज अनील बर्वे ना. पूण हेर कांय लोक आसात. तांच्या वांगडा हाव बसतां. खंयचेय सुवातेर बसतां. कोण किर्तें म्हणटलो हो भंय म्हाका ना. म्हाका लिपोवन पिवप आवडना. म्हाका सगळ्यांमुखार पिवप आवडटा. गटगटीत सोरो मारून आपूण कांय पिवूंकच ना. आपूण तांतलो न्हय. आपूण बरो आनी हेर सगळे बेबदे अशा स्वभावाच्या लोकांकडल्यान आयिल्ल्या रूक्षप्रस्नांतूय म्हाका व्हडलेंशें म्हत्व दिसना.





# तूं सतत कसलो विचार करीत आसता



**थो**डो वेळ जर हांव ओग्गी रावलों वा खंय तरी म्हजी तंद्री लागली जाल्यार हो प्रस्न आयलोच म्हूण समज. आतां विचार हांव करतां. पूण प्रस्न मात हेर करतात. रूक्षप्रस्न ! तूं कसलो विचार करता ? तूं कितें येवजिता ? तूं कितें चिंतता ? हो रूक्ष प्रस्न घरा भायरूच न्हय घरांतूय जरी हांव रावलों तरी तो म्हजी फाट सोडिना.

ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप दितना म्हजी तकली सणकता. खरें म्हळ्यार हाका जाप ही नाच. जाप आसलीच जाल्यार 'हे कांय ना.' इतलेंच म्हणून हें हें करून हांसप वा कोणूय म्हजे सारखो तिरसुवाद आसलो जाल्यार - 'ना तुमचें कशें जातलें हाजेर येवजितालों' अशें कितेंय तरी म्हणून आपणेन हाका बरेंच चिकॉत दिलें आं ! ह्या भावांत तितलें पुरतेंच समादान करून घेवप हातुंतूच मनशाचो वेळ वता. पूण ह्या रूक्ष प्रस्नाक अंत आनी पार नासता.

तूं कितें येवजीत आसता ? खरेंच हांव कितें येवजिता ? कसलो विचार करतां ? ह्या जगांतले हेर लोक केन्ना विचारूच करिनांत काय ? हांवच ह्या संवसारांत विचार करितां ? हांव चड विचार करतां देखून म्हजे तकलेर भार पडला आनी त्या भाराक लागून हांवे म्हजे केंस पिकोवन घेतल्यान असोच सोद ह्या रूक्षप्रस्न कर्त्यांनी करून घेतिल्लो आसा. तांचे हें तत्वगिन्यान आयकून म्हाकाय अजाप दिसल्याबगर रावना. आयज जे तरनाटे आसात वा जांचे केंस पिकूंक नात ताणी आयजवेर केन्ना विचारूच केलोना काय ? विचार करप हे संकल्पनेचेर लोकांचो इतलो गैरविचार आसा की तांचो हो विचार पळोवनूच म्हाका दिसता म्हजे तकलेर हो भार पडला आनी तांच्याच ह्या मुर्खपणाचो विचार करून करून म्हजे केंस पिकल्यात. आपूण कितें विचार करतां आनी हेरांक कसले प्रस्न करतां हाचो विचार नाशिल्ले कारणानूच आज असले नाकजाल्ले रूक्षप्रस्न निर्माण जायत आसात. हाका लागून केन्ना - केन्ना अविचारी जावन वच्चें पडटा.

येवजप, विचार करप, चिंतप ह्या वेगळ्या नांवाक एकूच अर्थ आसा. मनीस जल्माक आयल्या बराबर ताजो मेंदू हो चलपाक लागता. हांगा जल्म म्हळयार फक्त मनशान धतरेर पावल दवरप इतलोच अर्थ जायना. आवयच्या पोटांत आसतनाच मनीस विचार करूंक लागता. जसजशी मेंदवाची वाड जावंक लागली तसतशी विचार करपाची शक्त वाडत रावता आनी मनशाच्या निमण्या स्वासामेरेन ही विचार करपाची प्रक्रिया चालूच उरता.

जन्मापासून मर्णामेरेन ही गजाल मनशाची फाट सोडिना. अशें आसतना मनशान विचार करूंक फावना. विचार केल्ल्यान ताच्या बलायकेचेर परिणाम जाता. तो चड विचार करूंक लागल्यार तकली होगडावन बसतलो असो एक विचार समाजांत मूळ धरूनय आसा. हाचोच अर्थ असो की मनशान चड विचार करप, येवजप ना अशें चडशा लोकांक दिसता. तसो जर कोणीय तांकां दिसलो जाल्यार ते ताका आडखळ हाडटात. तांका सतत रूक्षप्रस्न करीत आसतात.

तशें पळोवंक गेल्यार मनीस हो विचार करपीच प्राणी. ताका विचार करपाची एक आगळी वेगळी शक्त मेळिल्ली आसा. हे शक्तिचो वापर करून मनीस आपली उदरगत करीत आसता. ज्या मनशाक विचार करपाची शक्त ना तो ह्या धर्तरेर रावपाक निरूपेगी जावन वता. तो कांयच करूंक शकना. जाची विचारशक्त चड तो लोकांमदी व्हड. आतां ही विचार करपाची शक्त वेगवेगळ्या तरेन लोकांमदी वसता. जण एकलो आपले ताकदी प्रमाण विचार करीत रावता. एक मनीस विचार करता तसोच दुसरो करतलोच म्हणपाचें सांगू येना. प्रत्येकाच्या विचारांक एक मर्यादा आसता आनी दुसऱ्यांचे विचार समजून घेवपाचे ताकदीकूय मर्यादा आसता. दुसऱ्याचे विचार जेन्ना समजून घेवंक येना वा पचोवंक येना तेन्ना मनीस गडबडटा.

संवसारांतलो प्रत्येक मनीस जरी विचार करता तरी ते विचार तांचे पुरतेच आसतात. मनशान सूख आनी दूख हाची एक विचित्र कल्पना करून घेतिल्ली आसा. जें आपल्या शरिराक जावं मनांक सुखायता, आनंद दिता ते सुख आनी ज्या खातीर आपल्याक क्लेश जातात तें दूख असो समज करून घेतिल्ल्यान जण एकलो फक्त सूख मेळोवपाखातीरूच धडपडटा. तें सूख कशें मेळोवंचे, दूख कशें पयस करचे इतल्याच गजाली खातीर मनीस सतत विचार करीत रावता. हाका दुसरे नांव, चिंतप अशेंय ताणी दिल्लें आसा. हेच चिंतेन मनीस सतत खंगत आसता. आपण कसो व्हड जातलों, आपल्याक सूख कशें मेळटलें हांचो जरी तो सतत विचार करीत रावलो तरी ताका कोणूच विचारवंत वा चिंतक म्हणना. असोच विचार करप्यांक हेर लोक शिटकायतात. विचार करप बरो न्हय. चड चिंतप बरें न्हय. त्याखातीर चिंतना सोडूंक जाय. चिंतनाचें दुर्येस हें वायट दुर्येस. म्हणटकच आपले पुरतोच विचार करपी मनीस विचार करून करून आपली बलायकी होगडायता. चिंतपाचें दुर्येस वायट म्हणटात तें ह्याच लोकांखातीर. आपलें कशें जातलें ! आपल्याक सूख मेळटलें काय ना, आपूण बऱ्यांक पावतलों काय ना. आपलें कुटुंब बरे तरेन ह्या संवसारांत उरतलें काय ना. ह्या तांच्या मर्यादीत संवसाराखातीरूच तांचें हें येवजप आसता. आनी हेंच येवजप समाजान वर्ज्य मानलां. पुराय संवसाराचें येवजुपी, संवसाराक नवो विचार दिवपी मनशाक विचार करूं नाका, चड विचार केल्यार तकली होगडावन बसतलो अशें सांगपाक कोण मुखार सरूंक ना. सुर्वेक एखादेवेळार तांच्या जाण्टेल्यांनी तांकां तसो सल्लो दिलाय आसूं येता. आपूण ज्या रस्त्यान आयजवेर चलत आयल्यात तो रस्तो आपले मदलो कोण सोडून वचूंक

लागलो जाल्यार ताका आडावन आपले वंयेभितर हाडपाचें काम हांगा बेस बरें चलताच. पूण ती वंय तोडून वचपी मुखार विचारवंत वा चिंतक म्हूण लोकांमुखार येता. ताचे विचार लोक मानून घेतात. पूण ह्या प्रकारचो विचार करपाची ताकद सर्वसामान्य मनशामदीं नासता. तांची विचार करपाची शक्त ही वेगळी. ते आपले पुरतेच विचार करतात. तातुंतल्यान खंत भोगतात आनी आपूण जसो विचार करतां तसोच दुसरोय करता अशें येवजून ताका सल्लो दितात - चड विचार करप बरें न्हय. ताका रूक्षप्रस्न करतात - तू कसलो विचार करता ?

मनीस कितलोय कामात जरी आसलो तरी ताजी तकली ही विचार करीत आसता. इतलेंच कित्याक मनीस न्हिदलो तरी ताजें मन न्हिदना. तें विचार करीतच रावता. जो आपले पुरतोच विचार करिना तर सगळ्या संवसाराक आपलो संवसार मानून विचार करता, ताजेभितर ही विचार करपाची प्रक्रिया चड आसता. जो सृजनशील आसता. ताका तर विचार केल्याबगर दुसरो पर्याय नासता. मागीर तो कवी आसूं, लेखक आसूं, चित्रिक आसूं वा शिल्पीक आसूं, ताका विचार करूनूच आपली निर्मिती सत्य सृश्टीत हाडची पडटा. तो काम करता आसतनाय विचार करता आनी जेन्ना काम करिनासतना बेकार बसून आसता तेन्नाय विचार करीत आसता. जेन्ना ताजे हात चलनांत तेन्नाच खरें म्हळ्यार ताजें चड काम चालू आसता. तकलेंत निर्मितीचें चक्र घुंवत आसता. विचार करप हीच ताजी खरी शक्त आसता. जर ताणें विचार करप सोडलें जाल्यार ताचे कडल्यान कांयच निर्माण जावपाचें ना. विचार करप हेंच ताजें मूळ भांडवल आसता.

विचार करपाचें हें पिशें भयंकर आसता. एकदां मनीस विचार करूंक लागलो की तातुंतल्यान भायर येवप हें म्हा-कठीण आसता. ताका मागीर जेवण - खाण रूचना. ताका हेर कसलेच गजालीकडे लक्ष दीन दिसना. तो आपले विचार प्रक्रियेत आनी कल्पनेच्या विश्वात इतलो गुरफटून वता की ताका तातुंतल्यान भायर काडपाची शक्त कोणाभितर नासता आनी खासा सृजनशील व्यक्तीभितरूय नासता. विचार करपाचें हें पिशें त्या मनशाक पिशें लावन वता. दर्जेदार कलाकृती करपाक जो सोदता ताका हो विचार करपाचो रोग सामको खावन उडयता. तो रोग ताका सुखान जियेवंक दिना. अशा ह्या रोगी मनशाक खरें म्हळ्यार या विचार करपाच्या रोगाचेर केन्ना प्रस्न विचारूंक फावनांत. पूण ताका हे प्रस्न येताच. ह्या प्रस्नाक जाप दिवंकच जाय अशांतलीय गजाल न्हय. ह्या प्रस्नाक हावूंय जाप दिवंक शकना. हो रूक्ष प्रस्न आमचोच न्हय. अदिम काळापासून हे असले रूक्षप्रस्न समाज करीत आयला. ह्या प्रस्नाक ह्या पयलीं 'जोला' ह्या नाटककारान जाप दिल्ली आसाच. तो आपल्या नाटकांतल्याच एका पात्राच्या तोंडातल्यान ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप दितना म्हणटा –

'आयकात, म्हज्या वावरान म्हजें जिवित ना करून उडयलां. हाणें म्हजे पासून म्हजी आवय, बायल आनी हेर सगळीं सोयरी पयस व्हेल्यांत. हांव हांथरूणावेल्यान उठलों रे उठलों, हो म्हाका घट्ट धरता आनी बरोवंक बसपाखातीर फोर्सार करता. हांव बरोवंक बसतां. सकाळची थंड शीतळ वाव लेगीत हांव घेवंक शकना. जेवणाच्या वेळार लेगीत हो

म्हजो सांगात सोडिना. खाता आसतना लेगीत हांव मनांतल्या मनांत वाक्यां रचयत आसतां. जेन्ना हांव घराभायर सरतां तेन्नाय हो म्हज्या वांगडाच भायर सरता आनी म्हज्या वांगडाच घरा परतता. न्हिदपा वेळारूय हो म्हाका सोडिना. हांव इतलो असहाय्य जालां कि पुस्तक बरयल्याबगर म्हज्यान रावूं जायना. निद्रावस्थेंत लेगीत वनस्पती सारको हो वाडत रावता. सकाळचो जेन्ना हांव आवयक प्रणाम करूंक वता तेन्ना ह्या वावराक लागून म्हजें मन इतलें शेणलेलें आसता की धा मिण्टा भितरूच हांव याद करूंक लागतां कि हांवे आवयक प्रणाम केला वो ना. म्हजी अभागी बायल बाबडी विधवा कशी वावुंरता, हांव तिज्या वांगडा आसुनय तिजे वांगडा नाशिल्लेबशेन जालां. जेन्ना हांव तिका स्पर्श करतां तेन्ना लेगीत हांव तिजे म्हऱ्यांत नाशिल्लेवरी आसतां. हांवे ह्या साहित्य निर्मणेक लागून जिवितार्चें दारूच बंद करून उडयलां.'

तूं सतत कसलो विचार करता ह्या रूक्षप्रस्नाक जोला बगर आनी बरी जाप कोण दिवंक शकता ?





# तूं कोणाखातीर बरयता



प्रस्न तसो सादो. हांवें बरयलें ना म्हूण किर्ते कोणाचें व्हडलें लुकसान जावपाचें ना. हांवें बरयलें ना म्हूण वर्तमानपत्रांच्या पानाची संख्या वा कोंकणी - मराठी साहित्य विश्वांतल्या पुस्तकांची संख्या उणी जावपाची ना. तरी हांव बरयतां. म्हाका कोण बरय म्हूण सांगता म्हूण हांव बरयना. म्हाका बरोवंक कोण फोर्सार करिना. तसो फोर्स कोण करूंक शकना. लिखाण ही गजालूच अशी, जी फोर्सार करून कोण बरोवंक शकना. पूण बरोवप्याची सृजनता, ताचें निर्मितीजन्य मन ताका फोर्सार करीत रावता. ताका स्वस्थ बसूंक दिना आसतना ताचेकडल्यान बरोवन घेता आनी बरोवपी बरयता. तो कोणाखातीर बरयता हाका तेन्ना अर्थ उरना. तेचखातीर तूं कोणाखातीर बरयता ह्या प्रस्नाक म्हत्व ना. तसो रूक्षप्रस्न करतल्याक जाप दिवप म्हळ्यार पिशेपणां, पूण ही पिशेपणां भौतेक बरोवपी करतात. जाप दितना किर्ते जाप दिता हाचो विचार करिनासतना किर्तेय उलोवन वतात आनी मागीर आपलेच भितर घुस्पून वतात.

तूं कोणाखातीर बरयता हो रूक्षप्रस्न बरोवप्याक आपल्याकडल्यानूय येता आनी हेरांकडल्यानूय येता. खरेंच बरोवपी कोणाखातीर बरयतां ? हांव कोणाखातीर बरयतां ? हो प्रस्नूच तसो घुस्पागोंदळाचो. दोतोर वखदां कोणाखातीर दिता ? आपलो धंदो चलोवपाखातीर काय समाजांतल्या पिडेस्त लोकांक भलायकी दिवन समाजसेवेचें पुण्य पदरांत घालून घेवपाखातीर ? दोतोराची ही समाजसेवा आसता काय तो आपल्या पोटापाणयाची वेवस्ता चलोवपाखातीर हो उद्येग करता ? ह्या प्रस्नाची जाप जशी आसता तशेंच तूं कोणाखातीर बरयता ? ह्या प्रस्नाचीय जाप अशी एकमेकाभितर घुस्पल्ली आसता. ती कितलीय वेगळावपाचो यत्न केलो तरी तें कोणाक शक्य जावपाचें ना.

कांय बरोवप्यांचे मत आसता, ते फकत आपल्याच खातीर बरयतात. कांय कित्याक ? चडशा बरोवप्यांचे सांगणें हेंच आसता. हांव कोणांखातीर बरयना. आपूण बरयतां तें आपल्याच खातीर. आपल्या मनांत जे विचार येतात, ज्यो कल्पना येतात त्यो आपूण कागदार उतरावन काडटां. हातुंतल्यान आपल्याक समादान मेळटा. तितलेंच

पुरो. हांवे बरयल्लें कोणे वाचचें वा तें छापून येवंचें अशी म्हजी अपेक्षा निखालूस नासता. पूण ही जाप ही सामकी ढोंगी जाप आसता. जणएकलो बरयता तो आपले खातीर केन्नाच बरयना. बरोवपाची कृती घडटा ती सदांच हेरांखातीर आसता. हें बरोवप हें दर एकल्या बरोवप्याच्या ताकदीचेर अवलंबून आसता. ताचो ल्हान व्हड दर्जो हो काळ थारायता. आपणें बरयलां ताची किंमत तशी व्हडलीशी ना अशें कांय वेळां बरोवपी म्हणतय बी. ताचें हें म्हणणें त्या काळापुरतें खरेंय आसत वा आपणें कितें रचलां ताचें खरें मोल बहुदा वळखुपाची ताची ताकदूय नासत. पूण बरोवपी कितें बरयता तें काळानुसार सारकें आसता. एखादें बरोवप आयच्या काळाच्या नदरेन मोलाचें नासत. पूण ताका मोल येवपी आनी ताचो दर्जो थारावपी काळ हो केन्नातरी आयले बगर रावना. जर खंयच्याय बरोवप्यान म्हळें की आपूण बरयतां तें व्हडलेंशें दर्जेदार ना. फक्त धव्यार काळें करपाखातीर तें केलां आनी फक्त आपल्याक सुचलां म्हण बरयलां, तें फक्त आपल्याच खातीर आसा जाल्यार मात ती चूक. जो कोण कागदार बरोवन काडटा तो सदांच आपलें बरोवप हेरांच्या वाचनांत येवंचें आनी आपले विचार समाजांत उरचे हेच भावनेंतल्यान बरयता. जर ताची तशी इत्सा नाशिल्ली जाल्यार तो आपले विचार जावं कल्पना कागदार उतरावंचोच नाशिल्लो. कागदार आपल्या मनांतली प्रक्रीया उतरावप ही एक भौतीक पद्धत. त्या पयली आपल्या मनांतले सगळे विचार जावं कल्पनेचो रंग मनाच्या कागदाचेर वेवस्तीत अंकीत जाता. ताची अनुभूती दर एका सृजनशीळ मनशाक भावता. हें अंकन इतलें स्पश्ट आसता आनी तें इतल्या स्पश्टपणान भावता की तें जशाच्या तशे कागदाचेर उतरावप शक्य नासता. योग्य आनी अचूक अशीं उतरां सोदपाखातीर वा रंग निवडपाखातीर कलाकार अडचता. म्हणजेच कागदाचेर कलाकृती देवंचे पयलीं तें पुरायेन मनाच्या कॅनवासचेर तयार जावन वता. ज्या मनशाची स्मरणशक्त चड आसा ताका कागदाचेर बरोवन दवरपाची गरज पडना. जेन्ना बरोवन दवरपाची कला अवगत नाशिल्ली तेन्ना होच प्रकार श्रुती आनी स्मृती हेच पद्धतीन चलत आयिल्ली. हें चलतालें तें अडचणीखातीर. आयज विज्ञानाचे उदरगतीक लागून ही अडचण आमचे मदी ना. तेचखातीर बरोवपा वांगडाच श्रुती आनी स्मृती हाचोय उपेग आमी आमच्या दिसपट्ट्या जिवितांत करतात. हें बरोवन दवरिल्ले कारणानूच दर एकलो बरोवपी लोकांमुखार येता. जेन्ना लोक ताजें बरोवप पळयतात वा कलाकृती तोखेतात तेन्नाच ताका कलाकार म्हूण समाज वळखता. कोणेंय कितलेंय बरोवं. चार वण्टी भितर रावन बरयलें आनी ताचे गट्टे कोनशाक मारून दवल्ले जाल्यार ताजो त्या बरोवप्याकूय उपेग ना आनी वाचप्याकूय. देखूनच जो कोण सांगता की आपूण बरयतां तें आपल्या खातीरूच आसता जाल्यार ताची जाप ही ताकाच हांस्याक म्हारग करपी जावन आसता.

तसो पळोवंक गेल्यार दर एक मनीस हो सृजनशील आसता. ताची एक विचार करपाची

पद्धत आनी एक वेगळी कल्पना शक्त आसता. तो ती आपले परीन समृद्ध करता. ताणें जर आपली ही शक्त केळयली आनी एकानएक गजाल कागदार उतरायली, जाल्यार ताकाय आमी कलाकार म्हूण नांव दिवन उडयतले. पूण तो चड लोकांमुखार न आयिल्ल्या कारणान आपले लागशिल्ले जे कोण आसात तांचे पुरतीच आपली कला मर्यादीत दवरता. अशे कितले तरी रेंदेर भाव आसात जे माडार चडटा - देंवता आसतना आपले कल्पनेचे ताकदीर सशक्त गितां रचता ! कांय जाणांच्यो रचणां ह्यो नामनेक पाविल्ल्या कविंच्या काव्याक लेगीत फाटी घालतात. कांय जाण अशे आसतात जे ल्हानशी गजाल घेवन आपली कल्पना शक्त वापरून रसाळ पद्धतीन आपल्या सांगात्यांमुखार ती मांडटा आनी आयकुप्यांक दंग करून उडयातात. इतलेंच कित्याक दिसपट्ट्या जिवितांतल्यो घडणुको जशे अपघात, चोरयो, बलात्कार हाची खबर खासा हयन्हयशी पळोवन वा कोणाकडल्यान आयकून तिखट मीठ लावन भलत्याच आयकुप्यांक सांगतात. तेय ती घडणूक दंग जावन आयकतात. त्या वेळार आयकुपीय आनी सांगपीय लोकांनी हे कलेचो शास्त्रशुद्ध अभ्यास केल्लो नासता. ताणी ह्या रचिल्ल्या गितांनी वा कथांनी कसले अलंकार, कसली पद्धत वापल्ल्या हेंय खबर नासता. त्या गजालीचें शास्त्रशुद्ध मुल्यांकन करपाची कला तांकां खबर नाशिल्ल्यान आनी आपल्याक जी गजाल कळ्ळ्या ताची उंचाय तोलपाची ताकद खबर नाशिल्ल्यान, ताणें गीत बरें रचलें जावं घडणूक बरी रंगावेन सांगली इतलेंच म्हणून तोखणाय करतात. तांच्या ह्या सगळ्या कलेचो मोठो उपेग जायना तो हेच खातीर. ताणी जर ह्योच घडणुको बरोवन दवल्ल्यो आनी ताजी समिक्षा जर तथाकथित सुशिक्षित रसिकांनी केली जाल्यार तांका व्हड कवी वा साहित्यिक न्हय म्हणपाची कापाजदाद कोणाकूच जांवचीना.

अशें आसतनां आपूण बरयतां तें आपल्या खातीरूच अशें म्हणपी आसता तें कित्याक ? कोणूच आपल्या मनातली गजाल आपले पुरतीच दवरूंक सोदिना. तो मागीर सुशिक्षित कलाकार आसूं वा अशिक्षित. आपल्या मनातली प्रक्रिया ही कोणांमुखार तरी पावची अशें दर एकल्याक दिसता. तेचखातीर तो आपलें मन हेरांमुखार उक्तें करता. तें उक्तें जालें म्हणटकच ताका एक मानसीक समादान मेळटा. हें समादान खंयच्याच मोलान तोलूंक येना. पूण ही कला जाणें शास्त्र शूद्धपणान आपणायल्या आनी केळयल्या तो ती आपल्या मर्यादित मनशांपासून पयस व्हरून मोठ्या संख्येमुखार दवरता तेन्नाच ताका चार चौग जाण मान्यताय दिवन कलाकार म्हूण पाचारता. ही सगळी कला ही आपली अनुभूती उक्तावपाचें माध्यम आसता. ही अनुभुती जेसर मनीस उक्तावन दाखयना तेसर ताज्या मनाचो घुस्मटभार जायत रावता. त्या वेळार आपणें ती कितल्या लोकांमुखार उक्तायल्या वो आपले भितरूच उक्तायल्या हाका म्हत्व उरना. म्हत्व आसता तें मनांतल्यो भावन भायर घालप. तेन्ना प्रस्न उरना की तूं कोणाखातीर बरयता.

हांव कोणाखातीर बरयतां ? बरोवप हें म्हज्या मनांतले उद्वेग, अनुभूती. हांव बरोवंच्या पयली म्हजी ही अनुभूती रूप घेत मनाच्या कागदार अंकीत जायत वता. म्हज्यो ह्यो भावना म्हाका म्हज्या मनांत दवरपाच्यो नांत. हांव म्हळयार वेगळो कोण न्हय. हांव म्हळ्यार हो समाज. समाजाचें प्रतीक. म्हजें मन म्हळ्यार समाजांतल्या आनी ह्या विश्वांतल्या दर गजालीचें प्रतिनिधी. हांव बरयतां म्हळ्यार तांच्योच भावना उक्तायतां. जेन्ना हांव हेरांच्यो भावना, विचार उक्तायतां तेन्ना त्यो म्हज्यो आसनांत. त्यो सगळ्यांच्यो आसतात. आनी हेर लोकांच्यो आसतात त्यो हांव म्हजे पुरत्यो दवरूंक सोदिना. हेरांच्यो गजाली हेरांक दिल्यो म्हणटकच हांव सुटलों. जण एकलो जो कोण म्हजें आयकता वा वाचता तो आपल्योच भावना आनी विचार वाचता. हांव फक्त बरोवपाचें साधन आसतां. बरोवपी हीच बरोवपी वा म्हणुया लेखकुची भुमिका करताना हांव कोणाखातीर बरयतां ? ह्या रूक्षप्रस्नाक म्हाका व्हडलेंशे तथ्य दिसना. तो फक्त रूक्षप्रस्न. तुं कोणाखातीर बरयता ?





# तूं कितलो म्हूण शिकतलो



**हांव** अजून शिकतां तें पळोवन सगळ्यांक प्रस्न पडला. हांव हे पिरायेर लेगीत शिकतां, परिक्षा दितां हाजें दुख्ख हेरांक जावन, तांका व्हडलो प्रस्न पडत अशें म्हाका सपनांत लेगीत दिसूंक नाशिल्लें. पूण अजाप म्हळ्यार खुपशा लोकांक हांव हे पिरायेर लेगीत शिकतां तें पळोवन अजाप दिसता. तांकां प्रस्न पडटा हांव कितलो म्हण शिकतलों ? रूक्ष प्रस्न.

आतां शिकप म्हळ्यार कितें ? मनशाचें शिकप हें मर्यादीत आसता. फक्त पुस्तकां घेवन अभ्यास करप. कॉलेजीत वचप आनी मागीर परिक्षा दिवप. हेंच शिक्षण ? शिक्षणाची मर्यादा इतलीच ? जर ह्या लोकांक शिकप म्हळ्यार इतलेंच दिसता तर तांकां म्हज्या सारख्याक असलो रूक्षप्रस्न विचारपाचो अधिकार वा लायकी उरता ?

शिक्षण म्हळ्यार आयज समाजान वेगळोच अर्थ करून घेतला. शिक्षण घेवपाची मनशाची एक पिराय समाजान थारायल्ली आसा. जर कोणूय जाण्टो मनीस हेर भुरग्यांवांगडा कॉलेजीत वचून शिकूंक लागलो जाल्यार तो फकाणाचो विशय थारता. म्हणजे जाण्ट्यांनी शिकप सोडून दिवंचें ? तो अधिकार फक्त थराविक पिरायेच्या भुरग्यांचो ? खरें म्हळयार भुरगो आवयच्या पोटांत आसतनाच शिकूंक सुरवात करता आनी आपल्या जिवितांतल्या निमण्या खिणांमेरेन शिकत रावता. हें सगळें शिक्षण चलता आसतना ताका दर खिणांक आपली परिक्षा दिवची पडटा. हे परिक्षेंत तो केन्ना फेल जाता तर कांय वेळार पास जाता. पूण हे परिक्षेकडे खंयच्याच मनशाचें लक्ष नासता. आपूण परिक्षा दितां म्हणपाचें सोडाच, आपूण शिकत आसतां हे लेगीत ह्या लोकांक खबर नासता.

आमी परिक्षा म्हळ्यार, शिकप म्हळयार एक वेगळीच कल्पना केल्या. आमी आमचे सोयीखातीर, एके सर्तीखातीर परिक्षेची आनी शिक्षणाची मांडणी केल्या. हेंच शिकप आमी म्हत्वाचें मानलां. एके आयटीमितर आशिल्लें हें शिकप जो घेता तोच ह्या समाजाचे नदरेन शिकिल्लो. ताणें शिक्षण घेतलां हें दाखोवन दिवपाखातीर एक परिक्षा दिवची लागता. ते परिक्षेंत पास जाता तेन्नाच आमी ताज्या शिक्षणाची नोंद घेतात. जर हे परिक्षेंत नापास जालो तरीय कोणूच मानूंक तयार ना की नापास जालो तरी ताणें शिक्षण घेतलां. शिक्षण कितें म्हणपाची आमची कुवत हीच.

समाजान तयार केल्ले हे एक सोयीचो हांवूय एक व्हिक्टीम. जर जिवितांतले सर्तींत देंवपाचें आसा जाल्यार म्हाकाय हें शिक्षण घेंवचे पडटा. म्हाकाय लोकांक एक तकटो दाखोवंचो पडटा. तो दाखलो तो तकटो दाखयल्या उप्रांतच लोक वा हो समाज म्हजें शिक्षण मान्य करून घेता. हांव शिकलां म्हणपाची गवाय म्हजें गिन्यान न्हय, म्हजो हो दाखलो. तो दाखलो हांवे खरेंच शिकप घेऊनच मेळयला वो तो हांवे कोणाचे तरी पांय पडून वा कोणांक लांच दिवन घेतला हें समाज पळोवंक वचना. तांका जाय पडटा फक्त दाखलो.

आयज पुराय समाज शिक्षण घेता तें ह्याच दाखल्याखातीर. भुरगो जल्माक आयलो आनी शाळेत वचपाच्या पिरायेचो जालो की ताका शाळेंत घालप आनी मागीर नोकरी करपाक जितलें शिकप जाय तितलें ताणें पदरांत घालून घेतलें की हें शिकप सोंपता. ते उप्रांत ताका आपूण कितें शिकलां जावं तें आपल्या मनांभितर घोळयत दवरूंक जाय हाची मात लेगीत जाणविकाय उरना. ताका ती दवरची अशेंय दिसना. शिकप घेवप आसता तें फक्त नोकरेखातीर आनी नोकरी मेळयतलो जाल्यार तो दाखलो जाय होच मुखेल उद्देश्य जाल्ल्यान शिक्षणाचें म्हत्व हें अशे तरेन फक्त दाखल्यापुरतेंच मर्यादीत उरता.

हांव जरी हे सर्तींत देवपाखातीर, हो दाखलो मिळोवपाखातीर शिकतां तरी तो म्हजो मुखेल हेत न्हय. म्हाका म्हजें जिवितभर विद्यार्थी म्हण रावपाक जाय. एकदां हें शिकप घेवंक हांवे सुरवात केली म्हणटकच परिक्षा ही आयलीच. मनशाक परिक्षा चुकना. मागीर ती पेपर बरोवपाची आसूं वा दर खिणांक जिवित जियेता आसतना दिवंची पडटा ती आसूं. म्हाका ते खातीर पास जावन दाखलो मिळोवपाचोच आसा अशें ना. म्हाका दर खिणांक गिन्यान जाय. शिकप हें गिन्यान मिळोवपाखातीर आसता. हांव हेंच गिन्यान जोडीत आसतां. दर खिणांक.

हांव शिकतां म्हणचे करतां कितें ? आयज म्हज्या मुखार हो आख्खो संवसार पडिल्लो आसा. ह्या संवसारांत इतल्यो गजाली भरिल्ल्यो आसात. ह्यो गजाली दर खिणांक म्हाका आपटतात. कसलें ना कसलें गिन्यान दीत आसतात. हांवें हें गिन्यान घेवपाचें सोडप ? हें शिकप हांवें अशें अदर्यार बंद करप ? आनी कित्याखातीर ? रूक्षप्रस्न विचारतल्यांक लागून ? आतां हांवच हें शिकप घेतां अशांतलो हो भाग न्हय. म्हाका रूक्षप्रस्न विचारतलेय हें शिकप घेतात. पूण त्या शिकपाकडेन तांचें लक्ष नासता. तांकां दिसता की ते फक्त जियेतात आनी याच जियेवपांत ते इतले दंग आसतात की ह्या शिकपांतल्यान गिन्यान जोडपाची तांकां यादच उरना. आनी गिन्यान जांतुंतल्यान मेळना तें शिकप कसलें ? हेच खातीर आपूण घेतां हें शिकप न्हय होच भाव ह्या लोकांचो आसता. ते ह्या शिकपांतल्यान गिन्यान मेळयनांत. तेच खातीर खंयचेतरी शाळा जावं कॉलेज नांवाचे बंदखणीत आपल्याक बंद करून घेवन ते बंदखणीकूच हे लोक आज मेरेन शिक्षण म्हणत आयल्यात.

हांवे जिवितांतलीं खुपशी वर्सां हे बंदखणींत घालयलीं. हे बंदखणींत हीं वर्सां घालयल्या उप्रांत म्हाका बी. ए., एम्. ए., एम्. फील. आदि पदवी दिली. हेच बंदखणींत म्हाका कांय काळ रावन डॉक्टरेट घेवंची पडटली. ही शिक्षणिक वेवस्ताच अशी आसा की बंदखणीत

रावल्यारूच ह्या दाखल्यांची भीक झोळयेंत घालता. बंदखणीत रावनांसतनां गिन्यान मिळोवप्याक ह्या समाजांत किंमत ना. ताका समाज लेखिना. आयज खूपशे लोक, खुपशे कित्याक सगळेच हे बंदखणीत ख्यास्त भोगून भायर आयिल्ले आसात. तेच खातीर तांकां दाखलो दिल्लो आसा. हो जो दोखलो आसा तो ताणी गिन्यान जोडलां म्हणून दिवंक ना. तर आपलें मन मारून, मनांकूय एक बंदखण घालून जी ख्यास्त भोगल्या त्या ख्यास्तीचें मोल म्हणून हो दाखलो आसता. आनी हो दाखलो घेतल्याबराबर मनीस बंदखणींतल्यान सुट्टा. तो स्वतंत्र जाता. ह्याच दाखल्याची कट्टी हातांत घेवन तो मागीर नोकरेची भीक मागत गांवार भोंवता. तो ह्यावेळार खरेंच बंदखणींतल्यान भायर आयला ? स्वतंत्र जाला काय ? हो प्रस्न विचारपाची ताकद ह्या लोकांमदीं नासता. कित्याक तो ताचे नदरेन रूक्षप्रस्न न्हय. तो आसता तांच्या जीवन मरणाचो प्रस्न. खरें म्हळ्यार होच प्रस्न आयज जण एकल्यान एकमेकांक विचारूंक जाय आशिल्लो. तो प्रस्न कोणूच विचारिना. प्रस्न विचारतात फक्त म्हजे सारख्यांक जांकां जिविताचो अर्थ पुरायेन कळिल्लो आसता. पूण म्हज्या सारख्यांचे जिवित म्हळयार ह्या लोकांखातीर रूक्षप्रस्न. होच रूक्षप्रस्न म्हजो. म्हाका असोच प्रस्न आवडटा. जो मागीर रूक्षप्रस्न आसूं.







# तूं सिगार कित्याक ओडटा



पयशे म्हजे. भलायकी म्हजी. तरीय प्रस्न येतात. सिगार हांव ओडटां पूण धुंवर मात लोकांच्या नाकांतल्यान. केन्ना केन्ना जाप दीन दिसता, म्हाका हेर कांय ओडपाची सवंय ना देखून हांव सिगार ओडटां. सिगार ही एकूच वस्त अशी जी जितली ओडटा तितली ल्हान जाता. देखून हांव ती ओडटां.

आतां ही जाप जाली विनोदी. तरी पूण अशे प्रस्न आयले की हांव म्हज्या मनांतल्या मनांत जापो सोदीत रावतां. खरेंच, हांव सिगार कित्याक ओडटां ? सिगार ओडून खरें म्हळ्यार मनशाक कसलोच फायदो ना. उरफाटी दुडवांची वाट आनी भलायकेचोय इबाड. तरी लेगीत सिगरेट ओडल्याबगर रावूं येना. तसो यत्न केल्यार सिगरेट सोडूं येता. जाय ती फक्त मनाची तयारी. पूण ती करप कित्याक ? सिगरेट ओडीन दिसता, ओडची. हांव तरी ह्या मताचो. जेन्ना हांव गांव सोडून शारांत आयलों शिकपाखातीर तेन्ना कसलेंच म्हाका व्यसन म्हणटात तें नाशिल्लें. एक आदर्शवादी तरनाटो हांव ! सिगरेट ओडप ना. सोरो पियेवप ना. सगळ्यो चलयो म्हळ्यार म्हज्यो भगिनी. तांच्या संरक्षणाखातीर गरज पडल्यार प्राणाची लेगीत पर्वा करप ना ह्या विचारांचो. 'विर्यनाश हाच मृत्यू' बी पुस्तकां वाचून एका वेगळया विश्वात वावुरपी. नेमान व्यायाम करून स्वताक हेरां परस वेगळो समजुपी. मनशान असोच आसूंक जाय ही त्या वेळावेली म्हजी कल्पना. हे पिरायेर देशभक्ती, क्रांती हाचो एक सांवार मनशाचेर आयिल्लो आसता, तसोच म्हजेरूय आयिल्लो. म्हजे वांगडचे सिगारां फुसकायताले. हांव म्हळ्यार सामको गांवठी असोच हेरांचो समज आशिल्लो. कॉलेजकुमार म्हळयार तोंडांत सिगार बी दवरून व्यसनी रावप हीच त्या वेळावेली सगळ्यांची कल्पना. हांव व्यसनाय करूंक शकतां हें दाखोवपाखातीर त्याच वेळार म्हज्या तोंडांत सिगार आयलें. मनशाची इत्साशक्त जर सशक्त आसली जाल्यार तो आपल्या वेसनांचेर लेगीत नियंत्रण दवरूंक शकता. एक सिगार ओडलें जाल्यार कांय पर्वा ना. जाय तेन्ना तें भायर उडोवं येता. अशा विचारान सुर्वेक एक सिगार ओडलें. तें एक एक करून वाडत गेलें. उपरांत विद्यार्थी चळवळींत पडलों. फुडारी म्हणटकीच ताणें विचार करता आसतना सिगारां फुसकावंक जायच असो त्या वेळावेलो समज. म्हज्या वांगडचे सगळे फुडारी नाकांतल्यान सतत धुंवर सोडटाले. अशा वेळार मनांत आसुनूय सिगार पयस दवरप शक्य जालें ना. त्याचकाळार हांव

कवी म्हणूनय फामाद जाल्लों. कवी म्हणटकच सिगार हें आयलेंच. अशे हे परिस्थितींत आनी वातावरणांत सिगरेट ओंठार खेळत रावली. इत्साशक्त म्हणटात ती खंयचे खंय नाच जावन गेली. अखेरेक चळवळीचे दरेक बसकेक सिगरेट पेटयल्याबगर विचारूच सुचना जालो. शेवटी तीय एक सवंयूच.

चळवळिंतल्यानूच सिगारांची संख्या वाडत रावली. तेन्ना बोडार मार्क्सवाद बी बशिल्लो. गोंयाभायल्या जितल्या कम्युनीस्ट फुडाऱ्यांची वळख जाताली तितलेय दिसरात तोंडांत चार मिनार दवरूनच आसताले. कम्युनिजम म्हळ्यार सिगार जांव विडी अशें समिकरण असल्या वेळार जाल्यार अजाप न्हय.

एकदां कोणेतरी फायर ब्रिगेडीक फोन केलो खंय. इमारतिच्या अमक्या अमक्या मजल्यावेल्या ऑफिसांतल्यान धुंवर येता. थंय उजो लागला आसतलो. उजो पालोवपाखातीर फायर ब्रिगेड आयली. खऱ्यानीच त्या ऑफिसांतल्यान धुंवराचे लोट भायर सरताले. वयर वचून पळयल्यार तें कम्युनीस्ट पार्टीचें ऑफिस. थंय धुंवर जाल्लो तो सिगरेटीचो. हाचे वेल्यान कम्युनीस्ट सिगरेटीचेर कितलें प्रेम करतात तें कळटा.

तशें पळोवंक गेल्यार चडशे लोक सिगरेट ओडतात तें रिलेक्स जावंक. श्रम परिहार करूंक. खूप काम केलें म्हणटकच मनाक विरंगुळो मेळूंक सिगरेट जायच. सोऱ्याक जशी समाज मान्यताय ना तशी सिगरेटची गजाल न्हय. सोरो हो थरावीक वेळारूच, थरावीक सुवातेरूच पिवचो पडटा. कितलोय बेबदो आसलो तरी तो बोल्सांत बाटली घेवन भोवना. पूण सिगरेट ही बोल्सांत दवरून खंयच्याय वेळार खंयीय ओडूंक मान्यताय आसा. सोऱ्यापरस सिगरेट ही भलायकेक चड हानिकारक आसतनाय समाजांत सिगरेटीक मान्यताय आसा. सोरो पिवप्याक समाज तिरस्कारान पळयतात. पूण सिगरेट खंयीय चलता. ती सद्या एक प्रतिशठा जाल्या. हेच खातीर सिगरेट ही चडांत चड लोकांच्या बोल्सांत आसता.

बुद्धिवादी मनशाक सिगरेटचें वेसन चड आसता. मागीर तो कलाकार आसूं, साहित्यिक आसूं वा शास्त्रज्ञ आसूं ! ह्या लोकांची समाजाक गरज आसतनाय ते सिगरेट ओडून आपलें जिवीत दिसान दीस उणें करीत रावतात. दर सिगरेटीन मनश्याचें आयुश्य पांच मिणटांनी कमी जाता म्हणटात. सिगरेटीक लागून कॅन्सर, कुरासांवांचें दुयेंस जाता म्हणटात. पूण ह्याच दुयेंसान जायते लोक मेल्यात ताणीं केन्ना सिगरेटीक हात लेगीत लावंक ना. तरीपूण सिगरेटींत आशिल्लें निकोटीन आनी हेर द्रव्य ह्या प्रकारचीं दुयेंसां हाडटात. पूण ताचेय परस सिगारांतलो तंबाकू मोव दवरूंक जें रसायण वापरतात तेंच रसायण ह्या प्रकारच्या दुयेंसांक जापसालदार आसता. निकोटीन न्हय. आतां सिगार हें भलायकेक वायट आसा हें खबर आसुनूय, विचारवंत, बुद्धिवादी तें कित्याक ओडटात ? तांका कितें जगपाची उबगण आयल्या ?

मनशाक जियेवपाखातीर एक थरावीक काळ मेळिल्लो आसता. जन्म तें मरण हो प्रवास

आसा. त्या प्रवासांतल्या काळांत मनशान आपलो वेळ कसो वापरप हें सैमान थारावन दिल्लें आसा. जो कोण ह्या थरिल्ल्या काळांत थारावन दिल्लो वावर बेगी - बेगीन करता ताका काम सोंपयल्या उपरांत हांगच्यान वचचेंच पडटा नातर काम सोंपल्या उपरांत तो हेरांक पिडटा. महात्मा गांधीन आपलें काम खूप उण्या वेळांत सोंपयलें. तो जर काम सोंपलें तरी चड काळ हे धतरिर उरलो तर हेरांक त्रास दिवपाचो. देखून ताका हांगच्यान वचप गरजेचें आशिल्लें. ताका कसलें वेसन नाशिल्लें. वेसन हें काम सोंपल्या उपरांत हांगच्यान वचचें देखून सैमान मनशाकडल्यान निर्मिल्लें एक कारण. तें कारण मनीस जेन्ना लावन घेना तेन्नां सैम वेगळे तरेचें कारण निर्मिता. ताकाच लागून अपघात तयार जातात. आत्महत्या करपाचे विचार मनशाक येतात. ज्ञानेश्वरासारके, साने गुरूजी सारके मनीस देहत्याग करतात. जर तशें केलें ना जाल्यार गोडसे सारके मनीस निर्माण जातात. मनशान केन्ना जल्म घेवंचो, म्हळ्यार ह्या संवसारांत येवंचें वा वचचें हें सैम थारायता. कारण दिवन. हेच खातीर आपल्याक मेळिल्ल्या काळाचो वापर थारावन दिल्ल्या कामाखातीर वांटून करचो पडटा. जे लोक आपलें काम रातिचो दीस करून करतात ते आपली तकालस ना करूंक वेसन लावन घेतात. एकार एक सिगरेटी ओडटात. चड काम केल्ल्या कारणान, त्या कामाखातीर दिल्ल्या वेळापरस तें काम बेगीन सोंपता. उरिल्लें आयुश्य निरूपेगी आसता. तें उर्णे करपाखातीर मनशाक सिगरेटी जांव हेर वेसनाची रूच येता. मनशाक गरज आसता ताचीच इत्सा जाता. सिगरेट ओडपाची इत्सा जावप हें ह्याच फाटलें कारण आसूं येता. जे चड काम करतात वा जांकां आपलें जिवीत अर्थहीण दिसूंक लागता तेच सिगरेट ओडटात हें आमचे मुखार आशिल्लें एक उदारण. आमी तें दिसपट्टें पळयतात.

मनशाक लागिल्लें हेर कसलेंय वेसन सहज सुटूं येता. पूण सिगरेटचें वेसन हें तशें सहज सुटना. तें कशें लागत हेंय सांगू येना. प्रसिद्ध पंजाबी लेखिका अमृता प्रितम हांकाय सिगरेटी ओडपाचें वेसन लागलां. आतां सिगरेट म्हळयार पंजाबी लोकांच्या धर्मांत निशिद्ध मानलां. सिगरेट ओडपी केदोय व्हडलो मनीस आसूं, पंजाबी ताका लागीं दवरिनांत. सिगरेटीक लागून थियोडोर शोएफर सारको कलाकार लेगीत तांच्या हातांतल्यान सुटलोना.

थियोडोर शोएफर हो एक संवसारीक नामना फाव जाल्लो हंगेरियन कलाकार. आपल्या तैलचित्रांतल्यान ताणें आपलें नांव हे धतरिर दवरलां. तो १८३८ वर्सा हिंदुस्तानांत आयिल्लो. ताका ह्या देशांत रावून आपली कला मुक्तपणान केळोवपाची आशिल्ली. जेन्ना तो पंजाबाक पावलो तेन्ना ताका पंजाब भोवच मानवलो. ताणें आपले कलेचे देणगेन म्हाराज रणजीत सिंह हाचो दरबार एका व्हड कॅनवासाचेर पितारलो. तो दरबार पळोवन लोकांक आपूण त्या दरबारांतूच आसां अशें दिसतालें. थियोडोराचे हे कलेची हिंदुस्तानभर तोखणाय जाली. ताकाय पंजाबाक कांय काळ रावून आनिकूय चित्रां काडपाचीं आशिल्ली. पूण ताचे सिगरेटीन ताका धोको दिलो. ताका सिगरेटी ओडपाची खूप सवंय आशिल्ली. ताची ती शिखांचो धर्म बुडोवपी सवंय पंजाबी लोकांक आवडलीना. ताणीं ताचे कपडे जळयले आनी

१८४१ वर्सा ताका थंयच्यान धांवडावन घालो. ताका पंजाबच्यान वचचें पडलें.

शीख लोकांचो धुम्रपानाक अजून विरोध आसा. पंजाबाक वता थंय सिगरेटी ओडूं नाकात अशा आशयाचे सूचना फलक दिसून येतात. हॉटेलांत च्या पिवून जाल्या उपरांत त्याच हॉटेलांत विकत घेतिल्ली सिगार त्या हॉटेलांत बसून ओडप शक्य नासता. पेटिल्लें सिगरेट जबरदस्तीन पालोवंक लायतात. सिगरेटीक लागून धर्म बुडपी पंजाबांतली संवसारीक नामना मेळिल्ली अमृता प्रीतम ही भन्नाट बायल. ती खरे अर्थान जियेता देखून भन्नाट. एकदीस तिका मेळपाक साहिर लुधयानवी आयलो. तो तिजेर प्रेम करतालो. पूण तें उकतें करप केन्नाच ताका जमलेंना. तिकाय तें खबर आशिल्लें. खरें म्हळ्यार ही गजाल उकतावपाची नासता. सांगपाची नासता. ती समजून घेवपाची आसता. अमृताक ती ताणें सांगनासतना समजल्ली. साहिर तिच्या म्हऱ्यांत खूप वेळ बसलो. एक लेगीत उतर उलयनासतना. जें उलोवंक जाय तें ताका उलोवपाचें नाशिल्लें. आनी नाका तें उलोवपांत अर्थ नाशिल्लो. तो फक्त सिगरेट ओडीत बसलो. तो थंयच्यान गेल्या उपरांत अमृता प्रीतम भानार आयली. आरे, आपले मुखार येदो व्हडलो शायर बशिल्लो आनी आपणें ताका एका उतरानूय मनांतल्यो भावना सांगल्योना ? तिचें लक्ष मुखार आशिल्ल्या ॲश ट्रें तल्या सिगरेटच्या थोटकांचेर गेलें. ह्या पोतेरांचेर एका व्हड कविच्या ओठांच्यो खुणो आसतल्यो. त्या स्पर्शाची अनुभूती घेवपाखातीर तिणें तें पोतेर आपल्या ओठांत घेतलें. पेटयलें. एकान एक सगळीं पोतेरां तिणें ओडून सोंपयलीं. तेन्नाच्यान ती सिगरेटी ओडटा. सामकी चेन स्मोकर. आमचे सारके तिचे चाहते तिका मेळूंक वतनां सिगरेटचें पाकीटूच व्हरतात. सिगरेटचें कोणाक कशें वेसन लागत सांगूनज !

हांव सिगरेटी ओडटा हें म्हजे एके मैत्रिणीक आवडनाशिल्लें. ती लग्न जाल्ली बायल. पूण एकमेकांक पळयल्याबगर दोगांकूय सूख लागनाशिल्लें. तिचें म्हजेकडेन एकूच मागणें आशिल्लें हांवें सिगरेट सोडची. पूण साबार यत्न करूनय म्हजेकडेन तें केन्नाच जालेंना. एकदीस चवथीक आमी गणपतीक पायां पडटालीं. देवाक पायां पडप म्हाका केन्नाच जमलेंना. हात जोडून पायां पडपाची ती म्हजी पयलीच खेप आसुंये ! तीय ताणें जबरदस्ती केल्ली देखून. ताणें म्हाका देवाक पायां पडूंक लावन कितेंय मागूंक सांगलें. देवाकडेन आनी कितें मागप ? तो जर आसा जाल्यार आमकां कितें जाय तें ताका खबर आसतलें ! त्याखातीर देवाकडे तशें केन्नाच कितें मागूंक नाशिल्लें. आतां तें सांगता म्हण कितें मागप ?

ते बायलेक लग्न जावन सात - आठ वरसां जाल्लीं तरी तिची कूस उजवूंक नाशिल्ली. ती भुरग्याखातीर तळमळटाली. तिच्यो भावना म्हाका कळटाल्यो. गणपतीकडेन हांवें मागलें. हे बायलेक फुडली चवथ येवंचे पयलीं भुरगें दी. ते खातीर हांव सिगरेट सोडटां. तिका म्हजें सिगार ओडप आवडना. हांवे इतलें मागून सिगरेट सोडली. विज्ञानाचेर पुराय विस्वास आसून लेगीत भावनेच्या नेटार हांवें मनांतल्यान तशें मागणें केल्लें. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार दोन म्हयन्यामितर म्हाका बातमी कळ्ळी की तिका दीस गेल्यात. म्हजी खात्री

जाली. देव आसूं वा नासूं. पूण कोणायकडेन मनांतल्यान, पुराय भावार्थान जें कितें मागता तें मेळटा. हांव जाणां विज्ञानाचो कीस काडपी हांगा भलतोच अर्थ काडटले. खंयचेय बायलेक भुरगीं जातलीं जाल्यार दादल्याकडेन तिजो संबंद येवंक जाय. तिच्या घोवांत दोश आशिल्ल्यान लग्न जावन काळ सरलो तरी तिका गर्भ धरलो ना. जिच्या खातीर हांव सिगार सोडटां तिचेकडेन म्हजो शाररीक संबंद आयले बगर कसो रावत ? तिका दीस गेल्यात ते ह्याच संबंदांतल्यान, हो हिशेब कोणूय लायतलो. पूण सांगपाचें म्हळयार दोश तेच बायलेंत आशिल्लो आनी म्हजो तिचेकडेन शाररीक संबंद नाशिल्लो. आसल्यार सांगपाकूय हांव अनमनचों नाशिल्लों. आमचें आशिल्लें तें मर्यादेंतलें प्रेम. दोगांयचेय विचार खंयचेतरी एका मोडणार जुळटाले. तातुंतल्यान आपलेपण तयार जालें. त्याच आपलेपणांतल्यान ताचीं दुख्खां म्हजीं जाल्लीं. तर सांगपाचे म्हळ्यार ताकाय दीस गेल्ले आनी म्हजीय सिगरेट सुटिल्ली, जी केन्नाच सुटचिना अशी दिसताली.

त्या उपरांत अशेंच कितें जालें. मन अस्वस्थ. सिगरेट ओडीन दिसली. पूण गणपतीक तर वचन दिल्लें. त्याखातीर देवान म्हजें मागणें मानून घेतिल्लें. म्हजे इत्से परस ते बायलेचें सूख म्हाका व्हड आशिल्लें. हांवें सिगरेट ओडलिना. तरी मनाची अस्वस्थताय गेली ना. हांवें विडी ओडली. म्हजीं हीं फटींगपणा हें म्हाका कळटालें आनी ही चलल्या ती कविची भावुकताय हेंय हांव जाणां आशिल्लों. देवाक लागून जर भुरगीं जातालीं जाल्यार लग्नां आनी कित्याक जावंक जाय आशिल्लीं ? दादलो - बायलेन समागमाखातीर एकठांय कित्याक येवंक जाय आशिल्लें ? ह्या सारकें तथ्य आशिल्लें तत्वगिन्यान येवजून हांवें विडी ओडिल्ली. म्हजे बुद्धीची ती बैठक आशिल्ली. हांव उपरांत सिगरेटी बदला म्हजे मैत्रिणीक चुकोवन विडयोच ओडूंक लागलो.

कांय दिसांनी म्हजी ती जिवा - भावाची मैत्रीण, ती बायलमनीस अकस्मात मेली. भुरगें गर्भाशयांत जांवचे बदला भायर टयुबांत जाल्लें. ज्या खातीर ती बायल तळमळटाली, त्याच जिवान तिजो तळमळावन जीव घेतिल्लो.

तिका भुरगें जांवचें म्हण हांवें सिगरेट सोडली. तिका गर्भ धरलो. हांवें सिगरेटी बदला विडी ओडूंक सुरवात केली आनी देवाक फटयलो. आनी देवान म्हाका फटयलो. गर्भ गर्भाशयांत तयार करपाबदला ताच्या भायर निर्मिलो. हे विचार म्हळ्यार म्हजीं पिशेंपणां हें हांव जाणां. म्हज्या ह्या विचारांक कसलीच विज्ञानीक बुन्याद ना. आसा ती फक्त एक भावनीक तरलता. ही तरलता अशीच दवरूंक म्हाका सिगरेट आवडटा. म्हजो हात सहज सिगरेटीकडे वता. सिगरेटचो खोल दम घेवन सगळो धुंवर पुलमावांत घेवन, तो थंय घोळोवन नाकांतल्यान हवेंत सोडपाक एक आगळीच मजा आसता. केन्ना केन्नाय हो धुंवर एका भुरग्याचेंय रूप घेता आनी गणपतीचेंय घेता !





# तुजो देव खंयचो



म्हजो देव खंयचो हें म्हाका खबर ना. कित्याक तर हांवें देवाविशीं केन्ना चड विचार केलोच ना. वो तशी खास अशी गरज केन्ना भासलिना. देव आसा काय ना होय प्रस्न तसो म्हजेखातीर रूक्षप्रस्नूच !

पूण जेन्ना एके चलयेन म्हाका रूक्षप्रस्न केलो - तुजो देव खंयचो ? तेन्ना हांवें हाजेर खरायेन विचार करूंक सुरवात केली. आतां चलयेचोच प्रस्न तो ! तांच्या प्रस्नाक जाप ही दिवंचीच पडटा. ती मागीर खरी आसूं वो फट आसूं ! खबर आसल्यार खरें सांगू येता. तातूंत मागीर भिवपाची गरज ना. पूण फट मारतना जर ती सारकी मारूंक आयलिना जाल्यार मागीर करप कितें ? हांशाक म्हारग जावपाचें. म्हजो देव कोण आनी खंयचो ह्या अज्ञानान हांव आशिल्ल्यान, जाप दिवंक जाय म्हूण दिल्ल्यान ह्या रूक्षप्रस्नाक लागून म्हाका हांशाक म्हारग जांवचें पडिल्लें आनी त्या वेळार म्हाका म्हजो देव लेगीत पावंक नाशिल्लो.

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वेळार नागेश करमलीन एक वर्सभर म्हाका शताब्दी सुवाळ्याची कचेरी सांबाळपाची जापसालदारकी दिली. तातुंतल्यान म्हाका थोडें मानधनूय मेळपाचें. तेन्ना हांव पणजेच्या धेंपे कॉलेजींत वतालों. त्या वेळार दुडवांची चणचण ही आसतालीच. (ती तशी आतांय आसाच. म्हज्या ग्रहांकडे दुडवांचें सदांच वाकडेपण आसूंक जाय.) ह्या वावराक लागून म्हाका दोन पयशे मेळटाले आनी कचेरींत बसून म्हजो अभ्यास जांव हेर वाचन करूंक मेळटालें. शणै गोंयबाब शताब्दी सुवाळ्याक ज्या मनशान कचेरी वापरूंक दिल्ली ताणें ती दितना एक अट घाल्ली. ती म्हळ्यार दनपारच्या वेळार एके चलयेक तिजें जेवण जेवपाक परवानगी दिवंची. खरें म्हळ्यार म्हजे खातीर ती अट नाशिल्लीच. वयल्यान ती गजाल म्हळ्यार म्हज्या सारख्या एका कॉलेजकुमाराक खोसयेचीच आशिल्ली. तिका जेवपाखातीरूच कित्याक, तिची इत्सा आसल्यार तिका जेवण भरोवपाची लेगीत जापसालदारकी आंगार घेवपाची ती म्हजी पिराय आशिल्ली. तर सांगपाचें म्हळ्यार हेच चलयेन जेवतां जेवतां एकदीस म्हजे तकलेंत हो रूक्षप्रस्न चोंदलो.

ती चली आपल्या ऑफिसाक जेवणाची सुटी पडली म्हणटकच भुती घेवन आमच्या आफिसांत येवंक लागली. सुर्वेक तिणें हांव म्हळ्यार ह्या ऑफिसाचो प्यून अथवा क्लार्क असो समज करून घेतिल्ल्यान, वा हांव तिका जाळांत सापडावंक आशेलां अशी कल्पना

करून घेतिल्ल्यान म्हाका तुच्छ लेखूंक सुरवात केली. म्हजेर नदर पडल्यार तिजी नदर विटाळटा अथवा जेवणाचो दबो भश्टता अशीच ताणें कल्पना केल्ली आसूं येता. त्या खातीर तें ऑफिसांत आयल्याबराबर हांव कूस मारतालों. जेवन - खावन परततालों. ताचो मेक-अप चलता आसत जाल्यार भायर उबो रावतालों. उप्रांत हो प्रकार तिकाच खावंक लागलो आसूं येता. हळूहळू एक एका उतरान वळख सुरू जाली आनी एकदीस ते चलयेन म्हाका सहज विचाल्लें - हांव सहज म्हण्टां तें अशे खातीर की त्या वेळार म्हाका तें सहज अशें दिशिल्लें. पूण त्या विचारपा फाटल्यान कितलें सामाजीक राजकारण आसा हें म्हाका आतां कळटा. पूण तेन्ना हांव सामको सादो - भोळो - मराठीत जाका 'गरीब गाय' म्हणटात तशे प्रकारचो. तर ते चलयेन म्हजें नांव कळळ्या बरोबर म्हाका विचाल्लें - तूं खंयचो ? आतां बोरकार म्हणटकच बोरयेचो आसूंक जाय. हांवें म्हळें - हांव तसो बोरयेचो. पूण आतां हांव आगशी रावतां. इतल्यार तिजो प्रस्न थांबलोंना. 'तुजो देव खंयचो ?' अशें विचारून ती म्हज्या गांवावयल्यान देवाचेर पावली. आतां गांव म्हज्यान सांगू येतालो. देव खंयचो म्हूण सांगप ? गांव मनशाक एकूच. पूण देव मात तेत्तीस कोटी. तांची नांवां काय म्हाका खबर ना. घरांत वर्साक एकदां गणपतीक पुजतात देखून तो म्हजो देव अशें म्हज्यान सांगू नज आशिल्लें. कित्याक तर तो सगळ्यांगेर पुजतात. घरांत तर इतल्या देवांचीं पांयजेलां की म्हजो बापूय खरेपणी खंयच्या देवाची पुजा करता हें म्हाका केन्नाच कळूंक नाशिल्लें. आनी हे चलयेचो प्रस्न येवंचे पयलीं ताचेर विचार करूंक जाय वा जाणां जावन घेवंक जाय ही जाणविकाय केन्ना जावंक नाशिल्ली. घरचें वातावरणच अशें की आमगेर सर्व धर्म समभाव म्हणटात तो पळोवंक मेळटालो. देव - धर्म - जात - कात हो प्रस्नूच घरांत केन्ना निर्माण न जाल्ल्यान ते विशीं गिन्यान केन्ना करून घेवंचें, वा करून घेवपाची गरज आसा अशें म्हाका केन्नाच भावलेंना. पूण हे चलयेन जेन्ना प्रस्न विचारलो तेन्ना तिका 'इंप्रेस' करपाखातीर देवाचेंय नांव तशेंच गडगंज सांगूक जाय आशिल्लें. पूण म्हजो देव खंयचो आनी कोणाचें नांव सांगल्यार ते चलयेच्या मनात म्हजेविशी 'सॉफ्ट कॉर्नर' निर्माण जातलो हें कळना जावन हांव अडचलों.

आमच्या आगशी गांवची देवता चामुंडा. दरवर्सा वरगांव म्हणटात त्या गावांत सगळे आगशीकार आनी व्हडले गोंयकार, थंय वचून तिची पुजा करतात. हो प्रकार खूप तेंप पासून चालू आसा. आगशी गावांत हिन्दू बोडकां हाताच्या बोटार मेजपासारकीं. त्या खातीर पुजे दिसा झाडून सगळे आगशीकार वरगांव वतात. म्हाका हीच गजाल एके पिकनिके सारकी आसताली. आगशी गावांतूय चामुंडा देवीची पुजा जाता. चामुंडा हें म्हाका भुरगेपणार म्हणूंक येना आशिल्लें. च्यामुंडा काय चामुंडा असो च च्या उच्चारावेळार गोंधळ जातालो. शिवाय कोणाय काटूक मनशाक चामुड्डो म्हणटाले तेन्ना ती म्हजी देवी म्हण सांगूक म्हाका कशेंशेंच दिसतालें. आतां हे चलयेच्या प्रस्नाक जाप दितना तेंच नांव सांगचें पडटालें. जाप तर दिवंक जाय. तीय बेगोबेग. देवाच्या नांवाचो विचार करीत बसपांत वेळ नाशिल्लो. पर्याय नासून,

वेळाकाळाचें भान दवरून हांवें ते चलयेच्या, त्या रूक्षप्रस्नाक जाप दिली - 'म्हजी देवी चामुंडा'. जाप आयकून ती चली खूश जातली अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण जापे वांगडाच ते चलयेच्या कपलार आटयो आनी मिरयो वाडल्यो - 'म्हळ्यार तूं म्हालो ?' तिणें रोखडोच प्रस्न केलो. हांवें म्हळें - ना. पूण तिका मात तें खरें दिसलेंना. पूण त्या दिसा सावन ते चलयेन म्हजेकडे उलोवपाचें सोडलें. पयलीं सारकी आमची गट्टी - फू सुरू जाली. तें जेवीसर आनी मेकअप करून वच म्हणसर भायर खंयतरी गणोवंचें पडलें. देव - दैवतां इतलीं त्रासदायक आसतात हाचो हो म्हाका आयिल्लो पयलो अणभव.

ह्या प्रसंगा उप्रांत म्हजें दैवत खंयचें हाचेर हांवें खर संशोधन सुरू केलें. घराकडेन विचारपाची काय माणसुकी नाशिल्ली. चवकशी केल्या उप्रांत कळ्ळें की बोरकार हे शांतादुर्गेचे म्हाजन आसतात. बाकिबाब बोरकाराचोय देव शांतादुर्गा म्हणपाचें कळळें. म्हजो प्रस्न सुटिल्लो. आतां खंयचेय चलयेन विचारल्यार बेधडक हांव सांगूंक शकतालों शांतादुर्गा म्हण !

एकदां अशीच ह्या रूक्षप्रस्नान तकली वयर काडली. मडगांव कसली तरी मिटींग आशिल्ली. ती सोंपोवन बाकिबाब, हांव आनी हेर कांय जाण नगरपालिकेकडेन उबे आशिल्ले. थंय कोणाकडेन तरी वळख जाली. म्हाका बारीकसाणेन पळोवन ताणें विचारलें - तूं शांतादुर्गेचो ? हांवें फार्टीफुर्डे पळयनासतना म्हळें - 'हय'. म्हाका दिशिल्लें हो प्रस्न इतल्यार सोंपतलो. पूण ना. ताणें दुसरो प्रस्न विचारलो. - तुजें गोत्र खंयचें ?' आतां होय प्रकार म्हाका नवोच आशिल्लो. म्हज्या तोंडांत, हिंदू जावन जेवणाचे पंगतीक बशिल्ल्या त्या मुस्लिमावरी आपशींच उद्गार आयले - या अल्ला ! इसके आगे भी कुछ होता है ?' पूण बाकिबाबान म्हाका सांबाळून घेतलो. - ताजें गोत्र वत्स - अशें बाकिबाबान सांगल्या उप्रांत म्हजें गोत्र वत्स म्हण म्हाका कळ्ळें. म्हज्या गिन्यानांत आनीक भर पडिल्ली. पूण तो मेरेन म्हाका ह्या सामाजीक राजकारणाची कल्पना नाशिल्ली. आतां म्हाका ह्या राजकारणाची पुरायेन जाणविकाय जाल्ली आसा आनी म्हजे म्हाकाच हासूंक येता. सगळ्या देव - दैवतांचीय काकूट दिसूंक लागता.

कोणाच्याय आडनांवांवयल्यान जेन्ना जात कळना तेन्ना कुलदैवत विचारून ती जाणां जावन घेतात म्हणपाचें हीण राजकारण म्हाका खूप उसरां कळळें. आतां जर कोणूय ह्याच प्रकारचो रूक्षप्रस्न विचारीत जाल्यार ताका म्हज्या तोंडांतल्या फाव तशी जाप मेळटा आनी आपणें खंयचो हाका प्रस्न विचारलो अशें ताका जावन तोच देवा सायबा म्हणटा.

देवाविशींची ही म्हजी वळख. आतां जेन्ना म्हाका कोणूय 'तुजो देव खंयचो ?, देवाचेर तुजो विस्वास आसा ? अशे रूक्षप्रस्न विचारतात तेन्ना म्हाका खूप कळिल्लें आसता. संवसारांत खुपशे लोक आसात जे देव मानिनांत. देव ही कल्पना म्हळ्यार दुर्बळकायेचें लक्षण अशें म्हाकाय दिसता. रवींद्र केळेकार म्हणटा - म्हजो देवाचेर विस्वास ना. पूण देवाचो म्हजेर आसा. हांव जें कितें करतलों, तें बरेंच करतलों हाची खात्री देवाक आसा - म्हाका

तांची ही जाप पट्टा. पूण ह्या संवसारांत खरेंच देव आसा काय ती एक कल्पना ?

देव हें उतर लातीं भाशेंतल्या 'देयुश' ह्या उतरावेल्यान आनी संस्कृत द्यू: ह्या उतरावेल्यान तयार जालां. 'देयुश' म्हळ्यार उजवाड आनी 'द्यू:' म्हळ्यारूय उजवाड. मनशान उजवाडाचें बंधन आपणायल्या बराबर उजवाडाची पुजा ताणी करपाक सुरवात केली. म्हणून आमी सदांच पराथना करतात - देवा, म्हाका काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हर'. खरें म्हळ्यार काळोख हेंच खरें सत्य. काळखांतूच आमकां जिवितांतलीं सत्यां कळून येतात. सुर्याचो उजवाड वचून काळोख आयलो म्हणटकच आमची खरी कुवत कळटा. नखेत्रांमुखार आमची प्रिथुम आनी ताचेर रावपी आमी कितें हाची कल्पना येता. काळखांत ज्यो गजाली घडटात ताचो भंय दिसूंक लागता. रातचो उजवाड नासतना भायर सरूंक आमी अनमनतात. आमी बंधनांत रावंक सोदतात. पूण उजवाडाची पुजा करूनय आमकां समादान मेळना. आमचें थतर वितर जाल्लें मन थीर करूंक आमकां मनशांपरस आनी दिसपट्ट्या जिवितांत दिसपी वस्तूं परस वेगळ्यो विचित्र वस्तू आमकां जाय पडटात. तेच विचित्रतायेंतल्यान विचित्र मूर्ती घडोवन तांची पुजा करपाचें कर्म आमी करतात. त्यो मूर्तीच आमची देव - दैवतां जावन गेल्लीं आसता. दुबळो मनीस मुर्तीबगर आपल्या मनाक थिराय, शांतीकाय दिवंक शकना. आनी जाचें मन दुबळें ना ताका देवाची गरज कितें ?

आयज देवाची गरज पडटा ती दुबळ्या मनशाकूच. आपलीं दुखां पयस करूंक तांका देव जाय पडटा. दिसपट्टो देवळांत वचपी मनीस कितेंतरी मागूंकच थंय वता. जाणें खूप भ्रश्टाचर केला, लोकांक नागयला, फटयला तोच देवळाक आनी देवाक दान करता, देवळां उबारता आनी आपल्या पातकांत देवाक वांटेकार करून घेता. प्रसाद - तीर्थ घेतनाय देवा मुखावेल्या ताटांत चार - आठ आणे उडोवंचे पडटात. गाडयेन वतना खंयीय खुरीस जांव घुडी दिसली जाल्यार गाडयेंतल्यानूच तें नाणें शेवटुचें पडटा. देवळांतलो पुरोहीत ताटांत जाल्ल्या आवाजावेल्यान आपल्या चेहऱ्याचेर प्रतिक्रिया दाखयता. ताचो हात तेच प्रतिक्रियेन काम करता. देवाक दान करून आपलीं पातकां पयस जायनांत हेंय त्या दानी मनशाक खबर आसता. पूण ताका करपाचें आसता तें आपलें चंचळ मन थीर. मनाक थिराय मेळटकच तो खुशालभरीत जाता. सगळ्यो चिंता विसरता. मनशाचें मन म्हळ्यारूच खरो देव. तेंच मन, ताका मागीर कोणें अंतस्करण म्हूणं दी, मनशाक बरें वायट करपाचे सगळे उपदेश करता.

मनशाचें अंतस्करण वा मन खंय आसा हें सांगूंक येना. तरी लेगीत त्या मनाचे प्रक्रियेक लागुनूच आमच्या भितर सगळे रस निर्माण जातात. आमी सुखी वो दुखी जातात. हें मन म्हळ्यारूच खरो देव. तोच मनशाक सुखी - दुखी करता. प्रिथुमेंतले सगळे घटक मनशांत आसतात. जर मनीस प्रिथुमेचो घटक, प्रिथुमेचो प्रतिनिधी तर हे संपूर्ण धर्तरेचो देव, देवाचो प्रतिनिधी म्हण एक देव ह्या मनीसरूपी धर्तरेचेर आसूंक जाय. आनी तो देव म्हळयार मन. पूण तो शरिरांत निश्चित खंय आसा हें मनशाक खबर ना. तशेंच धर्तरेचेर आमकां सगळें दिश्टी पडून लेगीत देव म्हळ्यार धर्तरेचें मन खंय आसा हें खबर ना. काळीज हें मनशाचो

सर्ग मानून मनाचो उल्लेख करतना हात काळजाकडेन वता तशेंच धर्तरेचें मन सोदतनां मनशाची नदर प्रिथमेच्या काळजाकडेन वता. तो धर्तरेचो सर्ग सारकोच खंय आसा हें खबर नाशिल्ल्यान मनीस सैरभैर जाता. सर्गांत देव रावता अशी कल्पना करून मनीस सर्ग सोदीत रावता.

मनशाचें मन म्हळ्यार देव खंय आसा हें जशें मनशाक खबर ना तशें प्रिथुमेचें मन म्हळ्यार देव खंय आसा हें प्रिथुमेक खबर ना. मनीस हो प्रिथुमेचो घटक - प्रतिनिधी तशेंच मनशाचें मन हें प्रिथुमेच्या मनाचो प्रतिनिधी. पृथ्वीच्या देवाचो अंश म्हळ्यार मनशाचें मन. आमचें मन आमच्या शरिराची काळजी घेता तशें प्रिथुमेचें मन प्रिथुमेची काळजी म्हळ्यार पर्यायान आमचीच काळजी घेत आसता. आमकां सांबाळटा. तेन्ना हांवें देवाकडेन मागपाचो वा ताका भिवपाचो प्रस्नूच येना. हेंच म्हाका म्हजें मन, म्हळ्यार देवाचो प्रतिनिधी म्हाका सतत सांगत आसता. तें म्हाका हेंवूय सांगता की तुजो देव एकूच ना ! तेन्ना तुजो देव खंयचो ? ह्या रूक्षप्रस्नाक हांव कितें जाप दिवं ?





# तूं देवाक कित्याक मानिनां



कोण सांगता हांव देवाक मानिना म्हूण ? हांवे कितें मानचें वो कितें मानचें न्हय हो म्हजो प्रस्न. पूण ह्या प्रस्नाक चड म्हत्व दितात बाकीचे. आतां हो प्रस्न करूनच हे ओगी बसनांत. हांवे कितें करचें तेंय हे सांगतात. म्हजेर जबरदस्ती करतात. तांच्या विचारांप्रमाण हांव वागनां हें दिसल्याबराबर म्हाका प्रस्न करतात. ह्या रूक्षप्रस्नाचेर आपले भितरूच भासाभास करतात. इतलेंय करून ते थांबनांत. फाव ती जाप मेळसर खंती जातात. तांचे नदरेन हो प्रस्न म्हत्वाचो आसत. पूण तो प्रस्न म्हज्या सारख्यांक रूक्षप्रस्न आसा म्हणपाचें हांका केन्ना दिसच ना.

हांव देवाक मानिनां असो ह्या रूक्षप्रस्नकारांनी समज करून घेतला. तेच खातीर तूं देवाक कित्याक मानिना रे ? तूं देवाक मानता रे ? तुजो देवाचेर विस्वास आसा काय ना ? अशे रूक्षप्रस्न तांच्या तकलेंत येत रावतात.

आतां हांव देव मानतां काय कितें ह्या रूक्षप्रस्नाक हांवेंच सारको समजून घेंवचो पडलो. जेन्ना खंयचीय गजाल मानपाची आसता तेन्ना ती मुळांत नासताच. जी वस्त आसा म्हूण जांचो विस्वास आसा ती खरें म्हळ्यार मानपाची नासताच. तिजेर विस्वास दवरपाचो आसता. पूण देव आसा काय ना होच एक दुभावाचो प्रस्न ! याच दुभावाक लागून आज देवाक मानचो पडटा. तो आसा हाची जर दर एकल्याक खात्री आशिल्ली जाल्यार देवाक मानचे बदला ताजेर भरवंसो दवरून जणएकलो निश्चिंत जावन रावपाचो. पूण आज तशें घडना. आज आमी देवाक मानतात. मनशान आज इतली उदरगत करून घेतली. शास्त्र इतलें वाडलें. चंद्राक देव मानपी मनीस चंद्राचेर वचून आयलो. तरीपूण आयज अग्नीबाण सोडटना लेगीत, पुराय शास्त्र खबर आसून लेगीत देवाक होरायल्या बगर रावना. शेवटाक सगळो भार हो देवाचेर उडोवन शास्त्रगिन्यांनी लेगीत मेकळे जातात.

देव ही कल्पना मुळांत केन्नासावन सुरू जाली हाची सारकी जाप कोणूच दिवंक शकना. देव आसा काय ना म्हणपाचेंय कोण हड्यार हात मारून सांगना. तरीसुद्धा देव म्हणटात तो नाच म्हणपी नास्तिक लेगीत त्रासांत पडटा तेन्ना देवा पाव जावं देव पळोवन घेतलो अशे उद्गार काडले बगर रावना.

देवाची संकल्पना वेगवेगळ्या धर्मात वेगवेगळी आसा. आपल्या तत्वांप्रमाण धर्म

प्रवर्तक वेगवेगळो धर्म स्थापन करता आनी आपल्या अनुयायी लोकांमुखार आपले कल्पनेप्रमाण देवाचें चित्र उबें करता. हातुंतल्यानूच देवाची सगुण आनी निर्गुण कल्पना तयार जाल्या. कोणांक देव सगळ्या दिकांनी दिसता तर कोणांक तो एकेच सुवातेर एकेच मूर्तीत दिसता. थोडे जाण सैमाक देव मानपी आसात. देवाक जणएकलो वेगवेगळ्या रूपांत जरी पळयता तरी देव हो एकूच निमणें सत्य आनी तोच आपल्याक त्रासांत आसतना पावतलो आनी विपदेंतल्यान वाटायतलो अशी आस्त दर एकल्याची आसता. जर संवसारांत दुखख जावं कश्ट - दग्द नाशिल्लेच जाल्यार मनीस देवाची याद करतले आसले काय कितें हातूंत दुभावूच आसा.

देव हें उत्तर लाती भार्शेतल्या देयुस ह्या उतरांचे तर्शेंच संस्कृत द्यू: ह्या उतरांचे रूपांतर. देयुस वा द्यू: म्हळ्यार उजवाड. मनीस उजवाडाचीच पूजा करता. देखून तो मागता तेन्ना फक्त काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हर इतलेंच मागता. त्याच खातीर तो उजवाडाची, दिव्यांची पूजा करता. सूर्य, उजो हांची पूजा पयली करपाचें कारण म्हळ्यार ह्या वस्तूंपासून मनशाक खूपशे लाब जातात. तांचेपसून फायदोच जाता आनी तांचो गैरवापर केल्यार, जावं तांचे वाटेक गेल्यार मनशाचें लुकसाणूय जाता. ताकाच देवाचो कोप असो म्हणटात. उजवाड ना जावप म्हळ्यार काळखाचें साम्राज्य येवप. त्याच खातीर आमी काळखाक वायट मानून उजवाडाकूच देव म्हणटात. काळखांत घडटात तीं सगळीं वायट कर्मां. बरो मनीस वायट कर्मा करिनां अशें न्हय. पूण तो ती उजवाडाक करूंक सोदिना. काळखांत करता. काळखांत घडटात तीं कृष्णकृत्यां. आतां वायट कामां काळखांत करपाचें कारण, ताज्यान तीं दिसा उजवाडा करूंक नज देखून न्हय. तर काळखांत मनशाक दिश्टी पडना. आपूण जें कितें करतां तें दुसऱ्याक दिसचें न्हय आनी आपूण बरो, वायट कर्मा करपी न्हय हें लोकांक दाखोवच्या खातीरूच काळखाचो आदार घेवन तो आपलीं ढोंगीपणा लिपयता. हाचो बळी थरता तो मात काळोख. देखूनच मनीस प्राणी काळखाक भिता. काळखाची पूजा करिना.

खरें पळोवंक गेल्यार दिसाचो उजवाड ही एक मर्यादा. मनीस ह्या उजवाडाचे मर्यादेंत रावंक सोदता. जर मनशान धर्तरिवेलो उजवाड सोंपल्याउप्रांत काळखांत येवन जर पळयलें जाल्यार आपल्याक उजवाड दिवपी सूर्य कितलो ल्हान, आपूण जंय रावता ती धर्तर कितली ल्हान आनी तिजेर रावपी आपूण मनीस कितलो ल्हान हें सत्य फक्त काळखांतूच आमकां कळटा. पूण सगळ्यांत व्हडलें सत्य आसा तें सोसपाचें, जाणां जावन घेवपाची ताकद मनशाभितर नासता. जेन्ना सगळें सोसपाची ताकद सोंपली की मनीस देवाक होरायता. तेन्नाच तो उजवाड हांवडेता. उजवाडाची पूजा करता.

मूर्तीपूजा ही व्यक्तिपूजेंतल्यान आयल्या. आयज आमची जितलीं देवळां आसात आनी तांतूंत जितल्यो मूर्ती आसात तितल्योय एका काळार जावन गेल्ल्यो व्यक्ति. ताणी सामान्य मनशापरस वेगळें कितेंय केलें म्हणटकच त्या व्यक्तीचे अनुयायी आपल्या फुडाऱ्याचें नांव सदा सर्वकाळ उरचें म्हूण व्यक्तिपूजा करूंक लागतात. राम - कृष्ण, येसू क्रिस्त, बुद्धा, इंद्र,

सरस्वती, लक्ष्मी आदि सगळीं दैवतां ही हेच माळेंतली. आनी कांय काळान आंबेडकर, गांधी हांच्याय मूर्तींची पूजा जातली आनी तांकांय हो समाज देव म्हूण मानतलो आनी तांचीय पूजा करतलो. काळ बदलता तसो मनीसप्राणी ह्या फुडाऱ्यांच्या प्रतिमेत बदल केल्याबगरूय रावंचोना. हाचोच अर्थ असो की जे व्यक्तींत सामान्य मनशापरस वेगळे, म्हळ्यार परजळीत गूण आसतात ताकाच लोक मुखार देव म्हूण उपाधी दिवन उडयतात.

मनीस हो खऱ्यानीच दुबळो आसता. हें दुबळेपण ताच्या मनाचेर अवलंबून आसता. तो एकटो रावन आपल्याची राखण करूंक शकना. तेच खातीर तो समाज घडोवन रावता. कुटुंब तयार करता. तरीपूण ह्या कुटुंबापासून, समाजापासून जेन्ना ताका राखण मेळचीना हाची जाणविकाय जाता तेन्ना मनशापरस उत्तुंग अशें व्यक्तिमत्त्व ताका जाय पडटा. आपलें मन खंय केंद्रीत करून एके अज्ञात शक्तीचेर भरवंसून रावपाखातीर ताणें वेगवेगळ्या रूपाच्यो आनी रंगाच्यो सामान्याभायल्यो आकृतायो रचून तांकां देवाची मूर्त म्हूण मनशान नांव दिल्लें आसा. मनशासारकी सवंकळीची मूर्त केली जाल्यार तातूंत मनशाक नवीदाद कांयच दिसना. ती मूर्त मनशाचें मन आपल्याकडे आकृश्ट करीना.

हिन्दु धर्मात गायेक देव मानतात. गायच्या पोटांत ३३ कोटी देव रावतात अशेंय म्हणटात. गाय ही सगळ्यांत व्हड उपकारी जनावर, गायच्या शरिरांतल्यान ३३ कोटी किर्णां उत्सर्जीत जातात आनी तीं मनशाच्या भलायकेक फाव सारकीं आसतात अशें गिन्यानी सांगतात. याच ३३ कोटी किरणांक लागूनच ३३ कोटी देवांची संकल्पनां तयार जाल्ली आसूं येता. म्हण्टकच जी गजाल मनीस कुळयेक फायद्याची पडटा तिकाच मनीस देव म्हण्टा. जी मनशाक उपकारना वा त्रास दिता ती वस्त मनशाखातीर देंवचार. म्हणजेच देव हो मनशाच्या फायद्याखातीरूच आसता. देखुनूच मनीस दीसपट्टो देवाची प्रार्थना करीत रावता. आपल्याक हें जाय आनी तें जाय अशें मागत रावता. आनी मेळना म्हण्टकच खंती जावन देवाक कसता. देवाच्या नांवान आयज जितलें आडंबर चल्लां तें दुबळेपणांतल्यान. कोणे कोणाक फटयल्लो आसता. कोणे कोणांक नागयल्लो आसता. ताजें मन त्या खातीर ताका एकसारकें खायत आसता. आपलें मन तो कोणाफुडे मुक्त करून हे करणेंतल्यान मुक्ती मेळोवंक शकना. ताका आदार आसता फक्त देवाचो. तो देवाचकडें मन मेकळें करता, ताका शरण वता. केन्नाय दान - धर्म करून, पुजा अर्चा करून, देवळां - प्राकार उबारून आपल्या चुकांचो वाटेकार देवाक करून मनाक शांतीकाय हाडटा. जो सुखी आसा, जावं जो मरणाक भियेना, वो देवान आपल्याक रचला, आपलें बरें - वायट पळोवंक तो समर्थ आसा अशें मानता ताका देवाचें व्हडलेंशे पडून वचूंक नासता. तो देवाक मानिना. तो देवाचेर विस्वासून रावता. ताका इतली खात्री आसता की, देवान जर आपल्याक रचला तर आपूण जें कितें करतलों तें योग्यच करतलों असो विस्वास देवाक आसा. हेच खातीर तो आपलें कर्म करीत रावता. प्रत्येक खिणांक देवाक सतायना.

म्हाका जेन्ना देवाविशी प्रस्न विचारतात तेन्नाय हांव देवाक त्रास दिवंक वचना. देव खंय

आसा हेंय हांव सोदूंक वचना. देव म्हज्या मनांत आसा. म्हजो हो देह म्हळ्यार एक संपूर्ण पृथ्वी. आख्खे पृथ्वीचें म्हजो देह प्रतिनिधीत्व करता. म्हजें मन हें देवाचें प्रतिनिधीत्व करता. पृथ्वीचेर देव अचूक खंयचे सुवातेर आसा हें सांगू येना तशेंच पृथ्वीरूपी म्हज्या शरिरांत मन खंय आसा हें सांगूक येना. ताचें अस्तित्व म्हाका भावता. पूण अचूक खंय आसा तें सांगू येना. देव सर्गांत आसता. सर्ग खंय आसा ? मनशाचें काळीज म्हळ्यार सर्ग. थंय मन आसता. तशेंच धतरेच्या काळजांत देव आसा. हें आमकां सोदूंक जावंचेंना. तें फक्त भावचें पडटा. तेच खातीर हांव धतरेर केन्ना देव सोदूंक वचना. देवाचो प्रतिनिधी जावन आयिल्लें मन म्हज्या देहांत आसा. तें खंय आसा हें जरी म्हाका अचूक खबर नासलें तरी हांव दर गजाल करूंक सोदतना तें म्हाका शिटकायता. गजाल वायट जाल्यार वायट म्हूण आडायता. बरें करूंक गेल्यार तेंको दिता. होच म्हजो देव. त्या प्रमाणे हांव चलतां. म्हज्या देवान म्हाका खंयचीय करणी करतना वायट म्हूण सांगली तरी आसतना हांवे ती केली आनी त्रासांत पडलों जाल्यार मागीर हांवे खंयच्या देवाक सोदूंक वचप ? मूर्तीरूपी काय आनी खंयच्या ?

म्हजें मन हो देवाचो प्रतिनिधी जाल्ल्यान ताचे सांगणेप्रमाण हांव आजूनमेरेन चलत आसां. म्हजें मन म्हळयार म्हजो देव. ताजें आयकनासतना हांवे वायट करणी केली जाल्यार ताचें परायचीत म्हाका भोगूंकच जाय. तें भोगतना हांव तें कित्याक भोगतां हाचीय जाप म्हाका म्हजें मन दीत रावता. म्हजी देवाविशी हीच कल्पना. म्हणून हांव पूजा करिना, देंवळांत वचना. म्हणून म्हाका हे रूक्षप्रस्न येतात. तूं देवांक कित्याक मानिना ?





# तुका हें सगळें पडलां कित्याक



खाची कोंयण्यांतल्यान हेच प्रस्न. मनशान खंय एकूच गजाल घेवन बसची. सगळेकडे लक्ष दिल्यार तो कांयच करूंक पावना. 'जॅक ऑफ ऑल ट्रेडस्, मास्टर ऑफ नन'. तुका सगळें कित्याक पडलां हाचोच अर्थ तुका हेर सगळें कित्याक लागलां. तुजें तूंच पळय. तूं दोळ्याचेर घोड्यासारकें झापड ओड आनी घाल्ले वाटेवेल्यान चलत राव. तेन्नाच एके सुवातेर पावतलो. हांगा थंय पळयत गणयत जाल्यार कांयच करूंक पावचोंना. तुका हें सगळें चलता तें कांयच पडूंक फावना. हे लोक आपुणय कांय करिनांत आनी दुसऱ्यांकूय कांयच करूंक दिनांत. तांका दिसता कि हांव करतां ते सगळें निरर्थक. ताका लागून हांव म्हजो फुडार होगडयतां. तेच खातीर ते म्हाकाय आपले माळेत ओडूंक सोदतात. आनीक मनीस नांवाचो प्राणी तयार करूंक मनीस जो आवय - बापायन जल्माक घाल्लो. ताका व्हड करून ह्या संवसारांत सोडिल्लो. मागीर तोय घाल्ले वाटेन दोळ्यांक झापड घालून चलत रावलो. शिकलो, नोकरेक लागलो, लग्न जालो. मागीर भुरगी काडलीं. तांका वाडयली, ताकां मागीर वाट थारावन दिली. तीच वाट. जी ताच्या आवय - बापायन हाका घालून दिल्ली ती. ही वाट कितले तरी वर्सां चलत आयल्या आनी मुखावेली कितली तरी वर्सां चलत आसतली. तेच वाटेन चलत रावात म्हण ही पिळगी फुडले एकान एक पिळगेक सांगत रावतली. जर कोणेंय ती वाट सोडपाचो यत्न केल्याबराबर, ताका ती वाट सोडूं नाका. तेच वाटेक वेंग राव म्हण सांगपी. तांकां पावला कणकणी प्रस्न विचारपी. तुका हें सगळें पडलां कित्याक ? रूक्षप्रस्न. तांच्या मतान ह्या प्रस्नाक एक व्हड अर्थ आसा. जो अर्थ म्हाका कळना. तो कळना देखून हांव खंयचे खंय व्हांवत चल्लां. त्याच खातीर हांव चिंतेस्त आसतां. हांवे नाका जाल्लें तकलेर घेवन जिविताची वाट लावन घेतां. पूण तांचे नदरेन जरी ह्या प्रस्नाक अर्थ दिसता तरी म्हाका दिसना. म्हज्या खातीर हो रूक्षप्रस्न.

हांव ह्या संवसारांत आयलां. हांवे म्हाका जल्म मेळचो म्हूण मागूंक नाशिल्लो. जसो हांवें जल्म मागूंक ना तशें हांव मरणूय मागूंक सोदिना. जसो म्हाका जल्म मागनासतना मेळ्ळो तशें मरणय म्हाका मागनासतना मेळूंक जाय. जल्म आनी मरण हो जो म्हजो प्रवास आसा तो म्हज्या हातात आसा. ह्या प्रवासांत म्हाका वेगवेगळे प्रयोग करूंक जाय. धडपडूंक जाय. हे प्रयोग करताना म्हाका अपेशूय मेळटलें आनी यशूय मेळटलें. हो सगळो प्रवास

हो म्हजो एकट्याचो न्हय. म्हज्या ह्या प्रवासाचो अणभव हेरांनी घेवपाचो आसा. हांव फक्त म्हजेखातीर जियेवंक सोदिना. म्हज्या प्रवासाचो उपेग हेरांक जावंचो अशें म्हाका दिसता. तेच खातीर हांव म्हाका जाय तसो प्रवास करूंक सोदतां. प्रत्येक जाण हो प्रवास करतात. तांकाय खबर आसा की हे घाल्लेवाटेन प्रवास केल्यारूय आपूण थंयच पावतले आनी वेगवेगळ्यो वाटो सोदीत मुखार वचपी हांवूय थंयच पावतलों. हे लोक नव्यो वाटो सोदपाचे वाटेक वचनांत कारण ती वाट कश्टाची आसता. थंय तांकां खीणभर कश्ट आनी दुख्खां सोसचीं पडटात. देखून ते कासवावरी एका कट्ट्यांत रावून भोंवत आसतात. मुखार सोंशाक लेगीत पळोवन हे कांसव आपली मान आनी आपलें पांय आपल्या कट्ट्यांत ओडून घेतात. जे लोक हें करूंक सोदिनात तांकां पळोवन त्या लोकांक अजाप दिसता. ताकाय हे लोक आपलेवरींच कांसव करूंक सोदतात. तशें केलेंना जाल्यार आपूण कांसव म्हणपाचें सिद्ध जातलें अशें हांकां दिसता. आपलेंवरीच कांसवाचे अवतिकायेचो समाज निर्माण करूंक हे वावुरतात.

म्हजो पिंड साहिहित्यिकाचो. आतां होय पींड ह्या कासवांनी थारायल्लो आसता. हांवे फक्त साहित्य निर्माण करपाचें. हांचे नदरेन साहित्यिक म्हळयार निरुपद्रवी प्राणी. ताणीं कथा - कविता बरोवपाच्यो. नाटकां बरोवपाचीं. पूण बोरकारी, आघात, प्रहार या सारके लिखाण करीत तर हे चवताळटात. तांचे शेंपडेर पांय पडटा. ना, ना तसलें कित्याक बरयता ? तें चिरंजिवी, अक्षर साहित्य न्हय, तूं फक्त कादंबरी आनी नाटकां बरय. कारण ह्या कादंबरी, नाटकांत हे सगळे कांसव आसून लेगीत आपूण ते न्हयच म्हण, समाजात रावून आपल्याच प्रतिबिंबाक टाळयो मारपी हे कांसव आघात, प्रहार करप्याक विचारतात, तुका हें पडलां कित्याक काय म्हूण, म्हाका हें पडूंक ना जाल्यार आनी कोणांक पडपाचें ?

जेन्ना हांव विद्यार्थी चळवळीत पडिल्लों तेन्नाय दिसतालें की म्हाका हें पडलां कित्याक ? विद्यार्थ्यांचे प्रस्न हाताळपी असो कोणूच नाशिल्लो. प्रत्येक घरांत विद्यार्थी आशिल्ले. प्रत्येकाक दिसतालें की विद्यार्थ्यांचे प्रस्न सुटूंक जाय. तांकांय कांय अधिकार मेळूंक जाय. पूण तांच्या खातीर झुंजतलो कोण ? सगळे तर आपलें कट्टे आपले फाटीर घेवन आसात. आमी कांय जाणांनी थारायलें चळवळ उबारप. आतां चळवळ म्हणटकच प्रस्थापितां विरुद्ध आवाज हो आयलोच. हो आवाज जर बंद करतलो जाल्यार आवाज उठोवपी ह्या थोडया मनशांक फोडप. मागीर फोडप कशें ? तोंडार काय सांगूंक शकनांत. मागीर रूक्ष प्रस्नाचो मार. तुका हें पडलां कित्याक ? सोड रे ह्यो भानगडी. बरो शीक. नांव कमाय. बरो व्हडलो जा. बरो व्हडलो जा म्हणचेच एक सर्टीफिकेट घे आनी खंयतरी क्लार्क म्हूण नोकरी कर. बोवाळ करीत जाल्यार नांव ब्लकलिस्टांत पडटलें. क्लार्काचीय नोकरी मेळचीना. नोकरी ना म्हणटकच कोण चली दिवंचोना. भुरगीं ना म्हणटकच आपलें दादलेपण सिद्ध करूंक मेळचेंना. मागीर समाज कितें म्हणटलो ? ते खातीर हांवे जावं म्हज्या सारख्या कांय जाणांनी हें कांयच पडून घेवंक फावना. हांवे आनी हेर म्हजे सारकेल्यांनी कांसव जावपाचें

कांसवावरीच तांतयां घालीत वचपाचें आनी परत येतना आपणेच ती खायत येवपाचीं. होच ह्या लोकांच्या नदरेन जिविताचो अर्थ.

विद्यार्थी चळवळूच कित्याक ? खंयचीय चळवळ घे. तरनाट्यांची चळवळ, कोंकणी चळवळ, प्रदुशण चळवळ, रांपणकारांची चळवळ, गोंयकारपण सांबाळपाची चळवळ. ती हांवे म्हजी चळवळ म्हूण वांटो घेतलो. तशें पळोवंक गेल्यार हांवे जर हातूंत वांटो घेवंक ना जाल्यार व्हडलोसो फरक पडचो नाशिल्लो. तसो ह्या संवसारांत कांसव जावन रावलो जाल्यार कसलोच खंय फरक पडचोंना. सैमाचें चक्र फिरत उरतलें. मनीसूय हेर प्राण्यासारकें प्रजोत्पादन करीत रावतलो. तरी पूण हेंच म्हळ्यार जिवित न्हय. जगप हेंच जर जिवित आशिल्लें जाल्यार ह्या संवसारांत येसू क्रिस्त जावंचोना आशिल्लो, बुद्ध जावंचोना आशिल्लो, मार्क्स जावंचोना आशिल्लो, गांधीजी जावंचोना आशिल्लो. तांकांय तांच्या काळार तुका हें कित्याक पडलां म्हूण विचारपी कांसव हे आशिल्लेच.

कांसवाचें जिणें हें कासवाक व्हड. ताका आपलें जिवित आपल्या कट्ट्यांतूच सुगूर करून दवरपाचें आसा. म्हाका हें कट्टें कोणें दिवंकूचना. हांव तें वांगडा घेवन येवंक ना. घेवन आयलां ते जल्म आनी मरण ह्या मदलो म्हजो प्रवास. त्याच प्रवासांत समाज घडला. त्या समाजाची म्हजी कांय लागणूक आसा. म्हजें जिवित हें म्हजे खातीर न्हय. हांव मेळून समाज जातां. तेच खातीर म्हाका जें कितें पडलां तें म्हजेच खातीर पडलां. हांव सगळ्याक आसतां देखून कांय जाणांक दिसता कि हांव म्हळ्यार फक्त ज्योकर. खंयीय लागपी. जांचें जिवित फक्त पत्त्यांनी गेलां, जावं जांचें जिवित म्हळ्यार फक्त पत्त्यांचो बंगलो वा फक्त जुगार, तांचेच नदरेन हें रूप म्हळ्यार ज्योकराचें रूप दिसूं येता. सर्वव्यापी रूप हें ज्योकराचेंच रूप आसता. कोणेय जर रूक्ष प्रस्न केलो कि हें तुका कित्याक पडलां वो कित्याक लागता ? तर हांव ह्या रूक्ष प्रस्नाक हांसतां. तांकां दिसता म्हजेकडे जाप ना. पूण म्हजो हांसो त्या लोकांखातीर आसता जे आपूण कांयच करूंक शकलेना हाची खंत काडटात आनी म्हज्या सारख्याक करतात फक्त रूक्षप्रस्न.





# तुजें इतले बेगीन खाड कशें पिकलें



**आरे**, तुजे इतले बेगीन खाड - केंस कशें पिकलें रे ?

आतां खाड - म्हजें. केंस म्हजे. पण प्रस्न मात हेरांक. बरें हो प्रस्न म्हाका पडूंक ना अशें कांय ना. जी वस्त फक्त म्हजीच आसता तिजो सगळ्यांत पयलीं प्रस्न खरें म्हळयार म्हाकाच पडूंक जाय. ताजी चिंता हांवेच करूंक जाय. पूण म्हाका ताजें कायं पडून गेल्लेंच ना. पडलां हेरांक. म्हजें खाड पिकलां, म्हजे केंस पिकल्यात ह्या रूक्षप्रस्नांचे चिंतेन आयज गोंयच्या खूप जाणाचे केंस पिकत चल्ल्यात.

म्हजे केंस इतले बेगीन पिकूंक फाव नाशिल्ले. कारण केंस पिकप हें जाण्टेपणाचें लक्षण. हो एक सैमिक प्रोसेस. संवसारांत जितल्यो गजाली जल्माक येतात तितल्योय ह्या प्रोसेसांतल्यान वतात. पयलीं कंवळी आसता मागीर जून जायत वता आनी एक दीस पिकता आनी उप्रांत झडटा. सैमीक नेमान हें घडटा. नेमाप्रमाण चलपी घडणुकेक हे प्रस्न कोण विचारिनांत. पूण पिरायेपयली जांचे केंस धवे जातात तांका हो प्रस्न लोक विचारताच. हो प्रस्न कोणे विचारूंक फावना देखून मागीर केंसांक - खाडाक कलप लावन लोकांचे रूक्षप्रस्न चिड्डून उडोवपाचें काम कांय लोक मन लावन करतात. बरें, लोकांनी प्रस्न विचारप बंद केलें म्हण कितें हो प्रस्न सोंपता ? ना. तो प्रस्न तसोच उरता. पूण म्हजे केंस पिकप हो कितें कृत्रिम प्रकार न्हय. हांवे ते पिकोवंकनांत. ते सैमीक रूपानच पिकल्यात. अशें आसतना लोकांनी ताजेर प्रस्न विचारप, चिंता करप आनी वेल्यान काळे कर म्हूण सांगप ही खरीच अजापाची गजाल. हांव तांचे प्रस्न आयकतां. तांचो सल्लोय घेतां आनी ह्या प्रस्नांतल्यान तांचें मानसशास्त्र सोदीत रावतां.

आयज केंस बेगीन पिकप ही नविदाद उरूंक ना. जेन्ना संवसार प्रदुशणापासून पयस आशिल्लो तेन्ना सगळें सैमाच्या नेमान चलतालें. अशा वेळार अशें सैमाभायलें कितेंय घडल्यार अजाप दिसतालें. त्यावेळार केंस काळे करपाची साधनांय नाशिल्लीं. खंयचीय साधनां निर्माण जातात तीं गरजेंतल्यान. केंस धवे जावंक लागले आनी ते काळे करपाची गरज उप्रासली आनी तेच गरजेंतल्यान कलप आनी हेर द्रव्यां उत्पन्न जालीं. कदाचीत अशेंय जावंक शकता कि हीं साधनां निर्माण जाल्ल्यानूच केंस आपलो मुळावो धर्म विसरून रंग बदलूंक लागले. कितेंय जावं, म्हजे केंस धवे जाले आनी ताजो त्रास खुपशा

जाणांक जावंक लागलो.

आतां केंस कसे पिकले हो रूक्षप्रस्न तयार जाल्लोच आसा. ताजी जाप कोणूच दिवंक शकना. केन्ना केन्नाय प्रस्न आसतात पूण जापो नासतात. पूण विचारवंतांचें म्हणणे की प्रत्येक जाप तयार जाता ती प्रस्न आशिल्ल्यानूच. म्हणटकच ह्या रूक्षप्रस्नाची निर्मिती जावंचे पयलीं जापेची निर्मिती जाल्ली आसूंकच जाय. पूण हाची जाप सारकी म्हाकाय दिवंक येना आनी दोतोरांकूय दिवंक येना.

जेन्ना शाळेंत शिकतालों तेन्ना हातांत एक मराठी पुस्तक पडलें. हातांत मेळटा तें वाचीत रावपाची तेन्नासावन सवंय. वाचनघरांत पुस्तक चाळटालों तेन्ना हें पुस्तक आपटल्लें. 'ब्रह्मचर्य हेच जीवन, विर्यनाश हाच मृत्यू'. बरोवपी कोण ही याद ना. पूण याद जाता ती इतलीच की चड हस्तमैथुन केल्यार केंस पिकतात. हाचो अर्थ असो जाता की हांव चड हस्तमैथुन करतालों. आयज सगळो इतिहास काडून पळयल्यार प्रत्येक मनशाक ही हस्तमैथुनाची सवंय आसा. हस्तमैथुन ही एक सैमीक बाब आनी ती करिनासतना कोणूच मनीस ना अशें मोठ्या - मोठ्या लोकांचें म्हणणे. कोण ही गजाल उगड सांगूंक वचना. आनी केल्याबगरूय रावना. दोतारांच्या म्हणण्याप्रमाण हातूंत कांय वायट ना आनी ताजो बलायकेचेर कांय परिणाम जायना. अशें आसतना ब्रह्मचर्य हेच जीवन बरोवप्यान त्या पुस्तकांतल्यान इतल्या जाणांचें जीवन चिंतेन ना करून उडयलां की आयज ताका सगळे स्त्राप दिल्याबगर रावंचेनांत. जर हस्तुमैथुनाखातीर केंस पिकतात जाल्यार अठरा वरसां पिरायेच्या सगळ्या चले - चलयांचे केंस पिकूंक जाय आशिल्ले. कित्याक, केल्ल्या संशोधनाप्रमाण अशें सिद्ध जाल्लें आसा की पिरायेच्या पंदराव्या वरसा सावन ही सवंय मनशाक लागता आनी उण्यात उणें पंचाण्णव टक्के मनशांक ही सवंय आसा. हांतूत लग्न जाल्ल्यांचे प्रमाण कमी आसता. पूण म्हजे नदरेक तीन - चार वरसांचीं अशींय भुरगीं पडिल्लीं आसात, जांचे केंस पिकिल्ले आसात. तांचे कशे पिकले हाचें कारण हांगा मेळना.

केंस पिकपाचें आनी एक कारण सांगतात. केमिकल रियक्शन. आयज आंगाक लावपी साबावांत इतलीं रसायनां आसात की जांच्या वापराक लागून केंसाचेर परिणाम जाता. शिवाय तरांतरांचीं सौंदर्य प्रसादनां आसात जी आमी दिसपट्टीं वापरतात. ताजीय प्रक्रिया जाता. नाटकांत काम करपी आपल्या आंगाक - तोंडाक मेकप सारायतात. तो चड वेळ तसोच उल्लो जाल्यार ताजें रियक्शन जावं येता. शिवाय आयज आमी जें अन्न खातात, तातूंत इतली भेसळ आसता, आनी चड करून पोटांत वचपी तेलांत अशे पदार्थ आसतात जे केंसाचेर सतत परिणाम करीत आसतात.

चड विचार करता, वा जाच्या तकलेचेर चड भार आसता ताजे केंस पिकतात असो एक लोकांचो समज जाल्लो आसता. तेच खातीर कांय लोक म्हाका म्हणटात - 'कितें रे चड भार पडला तकलेचेर ? चड विचार करता ?' जेन्नां हांव हें आयकतां तेन्ना म्हाका हांसूंक आयले बगर रावनां. संवसारांतलो दर एक मनीस विचार करीत आसता. थोडयांक दिसता आसत

की ओग्गी बशिल्लो कांय काम करिना. पूण ताजें मन हें सतत काम करीत आसता. सामान्यांतलो सामान्य मनीस लेगीत विचार करीत आसता. पूण जो मनीस आपलो विचार हेरांमुखार मांडटा आनी चार लोक ताका मान्यताय दितात तेन्ना ताका विचारवंत अशी उपाधी मेळटा. पूण बाकीचे विचार करपी हे विचारवंत न्हय असो हाजो अर्थ जायना. फक्त तांचे विचार हे आपले पुरते आनी आपल्या घराब्यापुरते मर्यादीत आसतात. मनशाचें मन हें सतत काम करीत आसता, विचार करीत आसता आनी हेच खातीर सगळयांचे कैंस पिकूंक जाय आशिल्ले. कारण प्रत्येकाच्या विचारांचो भार हो प्रत्येकाचे ताकदीयेदो आसता. प्रत्येकजाण आपले तांकीप्रमाण विचार करता.

कांय जाणांचें म्हणणे आसता की मानशीक धक्क्याक लागून कैंस रोकडे पिकतात. सृजनशील मनशाक हो रस चड आसता. ताका ल्हान - सान गजाली रोकड्यो लागतात. याच इमोशनल ॲटकाक लागून ताज्या कैंसाचेर परिणाम जावन ताका अकाली प्रौढत्व येता. हातूंत सत्यता आसूं येता. तशे म्हाका जायते इमोशनल ॲटक येवन गेल्ले आसात. आतां हे ॲटक म्हणप काय म्हजो अपेक्षाभंग हें हांव सांगूंक नकळो. जेन्ना हिसपाभायर चड अपेक्षा बाळगिल्ल्यो आनी तांचो भंग जालो म्हणटकच ताजो त्रास जावप हें साहजिकच. तो कितलो मेरेन लावन घेवप हें त्या त्या मनशाचेर अवलंबून आसा. म्हज्या मनाक कसलीय गजाल रोकडीच लागता. तो म्हजो दोश हेंय हांव जाणां. पूण सभावाक वखद नासता. कैंस पिकतात म्हूण हांव म्हजो सभाव गूण सोडूंक सोदिना आनी सोडपाचोय म्हाका ना.

आज म्हजें धवें खाड आनी कैंस म्हजो ट्रेड मार्क जाल्लो आसा. लोक म्हाका सांगतात की ते काळें कर म्हूण. आतां तातूंत लोकांचो कितें फायदो हें म्हाका कळना. पूण म्हजें कांयच लुकसाण जावंक ना. म्हजे कैंस आनी खाड जितलें धवें जातां तितलें म्हाका जाय. हेर सांगतात म्हूण म्हाका तें काळें करपाचें ना. वो तें धवें जालां म्हण म्हाका लजूय दिसना आनी खंतूय ना. आसा तो अभिमान. म्हाका ह्या रूपांतूच हांव सुंदर दिसतां. ताजी जाप हारसो म्हाका दिता. असलें व्यक्तिमत्व म्हजे वांगडाच खूप जाणांक आवडटा.

कैंस काळे करप हातूंत म्हाका ढोंगीपणां दिसतात. जें सहज आयलां तें लिपोवपाचो म्हाका अधिकार ना. धव्या रंगांत इंद्रधोणवाचे सात रंग लिपिल्ले आसात. हे सात रंग हेरांक दिसना ताका हांव गुन्यांवकारी न्हय. हांव सप्तरंगी मनीस. म्हजो सभाव सप्तरंगी. म्हाका तसोच रावपाचो आसा. हेच रंग केळोवपाचे आसात. जांकां आपूण म्हातारो न्हय, तरणो हें दाखोवपाचें आसा, तांचे खातीर कलप हें साधन आयज निर्माण जाल्लें आसा. हांव तर चिरतरूण. तारूण्य म्हळ्यार हांव आनी तेच हावेसान हांव वावरूंक सोदतां. मनशान कैंस काळे केले आनी कातीच्यो मिरयो लिपयल्यो जाल्यार तो खीणभर हेरांक फटोवंक शकता.

पूण आपल्याक फटोवंक शकना. म्हाका हेरांक फटोवपाचें ना. आनी स्वताक तर नाच ना. हांव जसो आसां तसो लोकांमुखार म्हाका दवरपाचो आसा. जावं मागीर म्हजे वागणुकीतल्यान वा जावं म्हज्या बरोवपांतल्यान.

तुजे केंस कशे पिकले ? ते तूं काळे कित्याक करिना ? ह्या प्रस्नांक म्हजे नदरेन अर्थूय ना आनी मोलूय ना. हे प्रस्न म्हजे खातीर रूक्षप्रस्न. जर शक्य आसत जाल्यार म्हजे उरिल्लेय काळे केंस रोखडे धवे जावंचे. ते धवे आसूं व पिकिल्ले. धव्यांत सप्तरंग आसात आनी जें पक्व तेंच पिकिल्लें आसता. म्हजे सप्तरंग हे परिपक्व. तांचे चिर्तेन हेरांचे केंस गेल्यार तो म्हजो प्रस्न न्हय.





# तुवें नाटकांत केन्ना सवंग केला



संवसार ही एक व्हडली रंगमाची आनी आमी सगळे ते रंगमाचयेर वावुरपी कलाकार. आमकां हे माचयेर दरएक खिणाक वेगळीं वेगळीं सवंगां करची पडटात. तीं बरे तरेन सोबोवची पडटात. आनी एक दीस आपलें सवंग सोंपलें म्हणटकच ती माची दुसऱ्या सवंगा खातीर मेकळी करून वच्चें पडटा.

संवसाराक रंगमाची आनी मनशाक ते माचयेवेलीं सवंगा अशें सेक्सपियर अथवा ताच्याच तोलामोलाच्या नाटककारांनी आनी विचारवंतांनी मानलां देखून तोच विचार आयजवेर दर एकलो मनीस दिसपट्टो झरयता. आपूण जें कितें जियेतां ताचेर बारीकसाणेन विचार करिनासतना आपल्या जियेवपाचेर दुसरो जेन्ना भाश्य करता तेन्नाच मनशाक आपल्या जियेवपाचो अर्थ समजता.

सेक्सपियरासारख्या मनशांनी संवसाराक रंगमाची आनी मनीस म्हळयार ते रंगमाचयेवेलीं सवंगां अशें म्हणचे पयलींय हो संवसार आशिल्लो आनी त्या संवसारांतल्या दर एका मनशान स्वताच्या सुखाखातीर, स्वताच्या बरेपणाखातीर नाटकां केल्लीं आसात. नाटकां करिनासतना ह्या संवसारांत जगप कठीण म्हणपाचें मनशाक जल्मताच कळटा आनी तो नाटकां करीत करीत आपलें जिवीत सारता. जिणेच्या निमण्या खिणाक लेगीत आपूण मर्णांक भियेना, आपलो वचपाचो वेळ पावला, आपूण आनंदान निरोप घेतां अशें नाटक ताका करूनच वच्चें पडटा. त्या निमण्या खिणाक लेगीत मनशाक खबर आसता की आपूण माचयेवेल्यान आपली निमाणी भुमिका करून वतां. तीच भुमिका बरेतरेन ताका निभवंची आसता.

मनशाचे उत्पत्तीपासून आज मेरेन ही असलीं सगळीं नाटकां मनीस करीत आयला. ह्या फुडेंय तींच नाटकां ताका करपाचीं आसात. मनशांमदी जशो सुदारणा जायत गेल्यात तसो वातावरणांत, वेव्हारांत बदल जायत गेला आनी ह्या फुडेंय तो जायत वतलो. पूण मनशाच्या विचारांत बदल जावपाचो ना. तांच्या नाटकांत फरक पडचोंना. बाह्य बदल जरी जायत गेले तरी मनीस हो आदी काळासावन आयज मेरेन आसा तसोच आसा.

मनीस हो अशेतरेन नाटकां करीत जियेता आसलो तरी त्या भायर तो तात्पुरतीं कांय नाटकां करता. नाटकी जगप हो मनशाचो स्थायीभाव. ह्या स्थायीभावाभायर तो हेरांच्यो

कांय भुमिका करून आपल्या भोंवतणच्या लोकांक रिजयता. तो सिनेमांत भुमिका करता, नाटकांत वांटो घेता, एकांकी, लोकां खेळ आदी दृश्य माध्यमांतल्यान आपल्या आंगातले कलात्मक गूण लोकांमुखार दवरता. ह्यो सगळ्यो भुमिका तो मनीस सादर करता त्यो हेरांच्यो हें पळोवप्यांक खबर आसता. तें नाटक करतना पळोवपी ताची तुळा करता. ताच्या गुणांची तोखणाय करता. ताका नकलाकार वा कलाकार म्हूण मान्यताय दिता. हो प्रकार सगळेच लोक करूंक शकनांत म्हूण असल्या वेंचीक लोकांक हेर लोक तोखेतात. पूण खरें पळोवंक गेल्यार सगळे लोक जिवितांत तरांतरांच्यो भुमिका करतात त्यो पळोवंक गेल्यार ह्या कलाकारांच्यो भुमिका कांयच न्हय. मनशाच्यो खरेल्या जिवितांतल्यो ह्यों सगळ्यो भुमिका तांच्या जिणेचो वांटो म्हूण येतात. नाटक म्हूण न्हय. तरीय पूण तें नाटक आसता. खरें खरें नाटक हें उप्रांत नाटक उरना. जिवीत जावन वता.

तुवें नाटकांत केन्ना सवंग केलां ? हो प्रस्न तेच खातीर म्हजे मुखार कांय जाण दवरतात. हांव मनशां मदीच रावपी एक मनीस जाल्ल्यान म्हाकाय नाटकी जावन सतत सवंगां करचींच पडटात. पूण ही सवंगा म्हळ्यार नाटक न्हय. नाटक जावन लेगीत तो जिणेचो भाग. हांगा म्हजें सवंग म्हळयार अडेचे सवंग. जें हांव करतां म्हूण सांगून करून दाखयतां. तोंडाक रंग सारोवन, वेगळो भेस करून अडेचे माचयेर चडटां. हांव नाटकां बरयतां, तीं सादर करतां हें लोकांक खबर आसा. त्याभायर म्हाका एक प्रभावी व्यक्तिमत्व लाभलां जें माचयेर उपकारता. खंयचेय जायरातीखातीर मॉडिल म्हूण उपकारता. आतां तें खऱ्यानीच उपकारता वा हांव खऱ्यानीच नाटक सिनेमांनी भुमिका करूंक शकतां काय कितें ही वेगळी गजाल. म्हज्यांत कितले नाट्यगूण आसात आनी तांचो अविश्कार हांव कितलेमेरेन करूंक शकतां हें हांव जाणा. पूण म्हजो भायलो देखाव पळोवन हेरांक मात खात्रीन दिसता की म्हज्या व्यक्तिमत्वाचो वापर असल्या क्षेत्रांत बरेतरेन जांव येता. तांचेच कल्पनेन ते म्हजो कसो उपेग जांव येता हें थारायतात आनी तेच खातीर म्हाका प्रस्न करतात - तुवें नाटकांत केन्ना सवंग केलां ? तांच्या ह्या प्रस्नाक हांवे ना अशी जाप दिली तर तांचे नदरेंतल्या म्हज्या व्यक्तिमत्वाचो हांवें दुरूपयोग केलो असो तांचो समज जाता. देखून हांव ह्या रूक्षप्रस्नाक सदांच हय म्हूण जाप दितां.

नाटकां करप हो मनीसजातीचो स्थायीभाव आसा म्हणून जावंये वा नाटक केल्याबगर ह्या संवसारांत तग मारप शक्य ना हाची जाणविकाय जल्माक आयल्या बराबर जाता म्हणून जावंये अथवा सेक्सपियरासारख्यांनी संवसाराक रंगमाची मानून मनशाक ते माचयेवेलो कलाकार मानला म्हणून जावंये म्हज्या आंगात भुरगेपणांत सावन नाटकाची ओड निर्माण जाल्या.

गोंयाक नाटकाची भूंय मानतात आनी गोंयच्या दर खेड्यांतल्यान जीं वर्सा कणकणी नाटकां जातात तीं पळोवन गोंयकारूय धन्य जाता. गोंयचो दर एक मनीस आपल्या जिवितांत केन्नातरी तोंडाक रंग सारोवन नाटकाचे माचयेर चडल्याबगर रावलोंना अशें

म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

गोंयांत जंय हिन्दू लोक चड संख्येन आसात आनी जे सुवातेर देऊळ बी आसा थंय एका परस चड नाटकां उत्सवाच्या निमतान जातात. आगशी हो वाठार ख्रिश्चन लोकांनी भरिल्लो. थंय जळामळाक इगर्जी आनी कपेलां. देऊळ म्हणटात तें सोडाच, एक देवळी लेगीत अजून ना. तरी लेगीत आगशी गावांत आशिल्ल्या सात - आठ हिन्दू घरांतले लोक दर वर्सा एकठांय येवन दोन - तीन नाटकां केल्याबगर रावनाशिल्ले. केन्ना केन्नाय एकाच घरांतली पुराय फामिल लेगीत एकाच नाटकांत सवंग करताना हांवे पळयलां.

नाटकाची आवड आशिल्ल्या वा आपुणय नाटक करूंक फाटी नांत अशें दाखोवंक सोदपी म्हज्या गांवच्या ह्या कलाकारांचो हांवच एक आदर्श प्रेक्षक आशिल्लों. नाटक वेंचून काडून खड्डे वाटपापासून नाटक माचयेर यो मेरेन सगळ्या घडणुकांक हांव साक्षी आसतालों. नाटकांत ल्हान - व्हड कामां करपी सगळे म्हजे आदर्श आसताले. ताणी त्या दिसांनी आनी चड करून नाटका दिसा म्हजेकडेन उलयल्यार लेगीत हांव धन्य धन्य जातालों. तांची ल्हान - व्हड कामां करपांत म्हाका अभिमान भोगतालो. म्हज्या ह्या नाट्यप्रेमाचो तेय यथेच्छ फायदो करून घेताले. पूण म्हजें वय नाटकांत वांटो घेवपाच्या मानान ल्हान आशिल्ल्यान सवंग करपाचें धाडस म्हाका केन्नाच जालें ना आनी म्हाका नाटकांत वांटो घेवंक कोणे केन्नाच सांगलेंय बी ना.

पुर्तगेज आसतना गांवचे लोक ऐतिहासिक नाटकां करताले. ही परंपरा गोंय मुक्त जावन लेगीत कांय वर्सां चालूच आशिल्ली. हरशीं सदचे कपडे घालून अजागळासारके दिसपी आनी आपल्या वावरांत दंग आसपी हे कलाकार जेन्ना भरजरी कपडे घालून माचयेर चडटाले तेन्ना तांकां पळोवन म्हजें हड्डें फुलून येतालें. ताणी तें शिवाजीचें वा हेर राजाचें भाशण करप, लढाईत वांटो घेवप हें सगळें म्हाका अप्रूप आसतालें. ह्याच भेसांत ताणी सारो तेंप रावचें अशें म्हाका दिसतालें. ताणी केल्ली ती भुमिका म्हज्या आंगात संचारताली. हांव कितले दीस तरी माचयेवेल्या मुखेल पात्रां भितर वावुरतालों. लोक हांसत म्हूण मनांतल्या मनांत तांचे डायलॉग उलयतालों. मुक्तपणान म्हजी अभिव्यक्ती मेकळी जाताली ती म्हज्या घराकडल्या शेतांनी. नाटकां मे म्हयन्यांत जातालीं. तेन्नाच शेतांनी वांयग्यांची झाडां पानां बी झडून वा गोरवांनी खावन ताडां घेवन उबीं आसतालीं. म्हजेच उंचायेचीं हीं झाडां म्हजें खातीर नाटकांतले दुस्मान आसताले. तीं झाडां म्हळ्यार अफझलखान वा तांचे सैनिक अशें मानून, हातांत पिड्याची तलवार घेवन हांव तांचे लागीं मनसोक्त झुंजतालों. रातच्या नाटकांत पळयल्ली सगळी लढाय म्हज्या आंगात संचारताली. केन्ना दिमी मारून, केन्ना फाटीं लवंडून हांव यथेच्छ तरसाद वावुडटालों. गायक घेवन शेतांत देवतकूच तिका चरपाक सोडून म्हजें हें नाटक चलतालें. गाय जेन्ना कोणाचे खावडीक पडली आनी शेतकाराच्यो गाळी कानार पडल्यो म्हणटकच म्हज्या आंगात संचारलेली शिवाजी राजाची विरश्री घसांयच करून गळसणटाली. हांव भिवून गर्भगळीत जावन गायेक हाडूंक वतालों.

ऐतिहासिक नाटका उप्रांत सामाजिक नाटकाची परंपरा सुरू जाली. म्हज्यांतलो ऐतिहासिक राजा वचून ताची सुवात सामाजिक नाटकांतल्या नायकान घेतली. असल्या

नाटकांतलो म्हज्या आवडीचो विशय आशिल्लो तो नाटकांतली नटी. नटी ही खंयच्यान तरी एका दिसाक येताली आनी वताली. पूण म्हजेर खूप दीस प्रभाव उडोवन वताली. पूण हेर जाणट्या लोकांमुखार म्हज्या वाट्याक ती येवप म्हळ्यार एक दुर्मिळ गजाल आसताली. तिणें म्हजेकडे उलोवंचें, म्हाका पळोवन हांसचें अशें म्हाका दिसतालें. तिजो स्पर्श सोड, निदान म्हाका तिच्या म्हऱ्यांत एकदां तरी उबो रावपाची संद मेळची हो म्हजो हावेस त्या 'सेक्स' म्हळ्यार कितें हें न कळपी पिरायेर आसतालो.

एका परस चड नटयो हाडप पटयेचे नदरेन अशक्य आशिल्ल्यान दुसरी स्त्री भुमिका गांवचो एक मनीस करतालो. ताचो खरेलो वेवसाय केंस कापपाचो. बायलेच्या भेसांत तो मनीस खरेलीच बायल कशी दिसतालो. हांवे ताचेच कडेन केंस मारप. तेच वळखीन नाटकाच्या दिसा तो म्हाका बायलेच्या भेसांत आसतनां वेंगायतालो. हांव सामको लजून वतालों. तरी पूण म्हाका ते नटयेन वेंगात धरिल्ल्याचें समादान मेळटालें. त्या उप्रांत दादल्याच्या भेसांत तो म्हजे केंस मारूंक लागतालो तेन्ना लेगीत ताचो स्पर्श म्हाका बायलेचोच असो भावतालो. आतां हांव दुसऱ्याकडेन केंस कापतां. पूण भुरगेपणावेल्या त्या स्पर्शाची ओड केन्ना केन्नाय ताचेकडे वचपाखातीर म्हाका खुणायता. पूण त्या काळची ओड ही वेगळी आनी ती आता मेळप हें शक्य ना हाचीय म्हाका जाणविकाय आसता. आतां केन्नाय म्हाका ताणें हात दिल्यार लेगीत म्हाका किळस येता तरी लेगीत हांव भुरगेपणावेली याद विसल्लां म्हणपाचें नाटक करतां.

त्या उप्रांत शाळा - कॉलेजांनी नाटकांत सवंगा करचीं पडलीं. संस्था उबारून नाटकां बसयलीं. नाटकां बरयलीं आनी वेगवेगळयो भुमिकाय केल्यो. पूण हांव कलाकार म्हणपाची भावना केन्नाच मनांत तयार जालीना.

हांवे केल्लीं नाटकांतलीं सवंगां हीं फक्त सवंग म्हूण मिरोवपाखातीरूच आशिल्लीं. खंयच्याच मूर्ख मनशाक 'सवंग मरे !' अथवा 'तूं सामको सवंग कसो !' अशें म्हणपापुरतें बरें आसा. संवसाराच्या माचयेर दर दिसा वेगवेगळीं सवंगां करपी मनशाक आमच्यांनी सवंग म्हणप शक्य जावंचेना. ती एक कला आसता. ती बरे तरेन सादर करपी खरे अर्थान कलाकार. त्याच खातीर हे धर्तरेवेलो दर एकलो मनीस कलाकार.

ह्याच अर्थान हांवूय एक उत्कृश्ट कलाकार. नाटकांतलें सवंग करप म्हाका जरी पुरायतरेन जमलेंना तरी संवसाराचे रंग माचयेवेलें सवंग म्हाका पुराय जमलां. हांव जेसर म्हज्या घरांतले कुडींत एकटो आसतां तेंसर फक्त म्हजो आसतां. कुडींतल्यान भायर सल्लों म्हणटकच म्हज्यो वेगवेगळ्यो भुमिका करूंक हांव सुरवात करतां. मनांतल्यान दुखवी आसल्यारूय सुखी मनशाची भुमिका तोंडार हांसो हाडून करतां. भुकेल्लो आसल्यारूय पोट भरिल्ल्या मनशाची भुमिका करतां. कोणाची तिडक माल्ल्यारूय ती आयल्या म्हूण ताचे मुखार उक्तावप ह्या संवसारांत शक्य जायना. संवसार ही रंगमाची मानुनूच हीं सगळीं सवंगां केल्याबगर पर्याय ना.





# तुजो आवडटो कलाकार कोण



**ही** धर्तर म्हळ्यार एक व्हडली माची. तिचेर जल्माक येवपी दर एक मनीसप्राणी म्हळयार एक कलाकार. जल्म तें मरण हाचे मदलो जो काळ आसा, तो पुराय काळ हो मनीस हे रंगमाचयेर नाना तरांचे अभिनय करता. कोण ह्या अभिनयांत नांव जोडटा आनी आपलें खाशेलेपण दवरून वता. कोण आपले परीन अभिनय करता. केन्ना हेरांचे नदरेक भरपा सारको तर केन्ना तांचो अभिनय फसता. तो सोंपलो म्हणटकच तो माची खाली करता. ते माचयेर मागीर नवो कलाकार येता. आपलो अभिनय सादर करूंक.

कांय जाणांक दिसता हो संवसार म्हळयार एक व्हडलो रंगमंच आनी ताचेर आशिल्लीं सगळीं मनशां म्हळ्यार कठपुतळे. ते खासा अभिनय करिनांत तर तांकां दोरयो बांदून वयर आशिल्लो कोण तरी नाचयता. तांचे खेळ करता. तांचो खेळ सोंपलो म्हणटकच तांका एक एक करून अचळप वयर काडून घेता.

मनशाक कलाकार मानून आनी हे धर्तरीक माची मानून गेल्ले कितले तरी विचारवंत आमी पळयल्यात. तांच्या विचारांक टाळयो मारून येवकारूय दिला. कोणाक मनीस अभिनेतो दिसला तर कोण ताका कठपुतळी समजता. पूण धर्तर म्हळयार रंगमंच हाचेकडे कोणाचें दुमत ना. जेन्ना संवसार हो एक रंगमंच हो विचार आमी मानून घेतला तेन्ना त्या रंगमंचावेलो हेरांवरींच हांवूय एक कलाकार हो सिद्धान्त म्हाका मानचोच पडटा.

हे धर्तरिवेलें जिवीत सारपाखातीर आमकां वेगवेगळो अभिनय करचो पडटा आनी ते नदरेन जरी आमी कलाकार थल्ले तरी ह्या कलाकारांमदी आपली कला खास तरेन केळोवन कलाकारांमदलो कलाकार म्हूण अभिनय करून मान्यताय मेळयता. वयल्या विचारांप्रमाण दर एक मनशाक कलाकार म्हूण मानलो तरी ताका कोण कलाकार म्हणना. जो कोण जाणूनबुजून अभिनयाचें प्रदर्शन करता ताका कलाकार म्हूण पाचारतात.

कलेचीं आंगां वेगवेगळी आसलीं आनी आपल्या आंगांतले कलागूण केळोवपी सगळेच कलाकार आसले तरीय तांची कला पळोवन तांकां वेगळीं नांवां दिल्लीं आसात. गायनाची कला जाणा आशिल्ले गायक, चित्रांची कला केळयल्लो चित्रकार, वादक, कवी, लेखक, जादुगार अशे हे कलाकारांचे गट. तांची वळख करून दितना ताणी जें क्षेत्र आपणायलां त्या

क्षेत्रावेल्यान तांची चित्रकार, कवी, लेखक, गायक अशी वळख जाता. पूण जेन्ना तुजो आवडीचो कलाकार कोण ? असो जेन्ना प्रस्न आसता तेन्ना कलाकार म्हळ्यार रंगमंचाचेर अथवा पड्ड्यांचेर अभिनय करपी कलाकार, अभिनेतो वा अभिनेत्री असोच मर्यादीत प्रस्न आसता आनी जाप दिवप्याकडल्यानूय तीच अपेक्षा आसता.

म्हजेमुखार जेन्ना तुजो आवडटो कलाकार कोण ? असो प्रस्न येता तेन्ना म्हज्याय मुखार तीच संकल्पना आसता. सिनेमा सृश्टीत जेन्ना सिने कलाकार म्हणटात तेन्ना तो अभिनय करपीच आसता. सिनेमात गावपी जरी कलाकार आसलो तरी ताका गायक ही उपाधी आसता. किशोरकुमार जेन्ना गायता तेन्ना तो गायक आसता. पूण आपणेच गावन जेन्ना अभिनय करता तेन्ना ताका गायक म्हणपा बदला कलाकारूच म्हूण पाचारतात.

जेन्ना हांव म्हजे आवडीचो कलाकार सोदतां तेन्ना ह्याच गटांत नदर मारतां. आवडीचो चित्रकार हांव दुसरो सांगूंक शकतां. गायकूय म्हाका मेळटा. कलाकार आसून लेगीत ह्या वेगळ्या बिरूदांनी ते म्हाका मेळटात. तेच खातीर कलाकार म्हळ्यार अभिनय करपी कलाकार म्हजे तकलेंत येता.

गोंय ही एक कलेची भूंय अशें आमी अभिमानान म्हणटात. गोंयान संवसाराक व्हड व्हड कलाकार दिले अशें म्हणत आमी आमची फाट थापटून घेतात. आमी अभिमानान मंगेशकार घराणे आमचें म्हणटात. आबे फारिय आमचो म्हणटात. प्रभाकार पणशीकार आमचो आनी प्रफुल्ला डहाणुकारूय आमचेंच म्हणटात. तरीय लेगीत गोंय कलेची भूंय, आनी सगळे गोंयकार हे कलाप्रेमी म्हळयार नाटकप्रेमी. नाटक हीच कला गोंयकारांचे नदरेन अभिप्रेत आसता.

आमच्या आगशी गावांत हेर गावांनी जशीं शिगमो - काल्याच्या निमतान भरूभरून नाटकां जातात तशीं केन्ना जालीना. लागशिल्ल्या सुलाभाट, नेवरा, दोंगरी ह्या गावांनी तीं जातालीं. पूण भुरगेपणार थंय वचपाचो हुकूम आमकां नासतालो आनी आमकां घेवन वचपीय कोण नासताले. गावांतले धा - बारा हिन्दू वर्सांतल्यान एकदां एकठाय जावन एक नाटक करताले आनी तें आमकां पळोवंक मेळटालें. जेन्ना तें इतिहासिक आसतालें तेन्ना तांच्या त्या रोपाक लागून आनी ताणे केल्ले तलवारीचें लढायेक लागून हांव तीं अर्दे न्हिदेंत पळयतालों. सामाजिक नाटकां जेन्ना सुरू जालीं तेन्नाच्यान तें नाटक म्हळ्यार म्हजेखातीर न्हिदेचें नाटक थल्लें. अभिनयाची कला म्हळयार कितें तें कळनाशिल्ल्यान आनी म्हज्या भुरगेमनाक जागो दवरपासारकें त्या नाटकांनी कांयच नाशिल्ल्यान तो प्रकार म्हाका न्हीद हाडटालो. आतांय तीं नाटकां चलतात आनी नाटक, अभिनय हाचीय म्हाका जाण आयल्या. तरीय म्हाका तीं नाटकां तातूंत कांयच नाशिल्ल्यान न्हीद हाडटात. देखून नाटक पळोवपाची संद आसतनाय हांव नाटकाक वचना.

भुरगेपणार न्हीद खळोवन हांवे जी कला पळयल्या ती म्हळयार तियात्र आनी लोकांखेळ. आमच्या आगशी गावांत वाड्यावाड्याचेर तियात्र जाताले आनी आजूय जातात. तियात्रां

वांगडाच कार्नावालाच्या दिसांनी साश्टीचे लोक लोकांखेळ घेवन येताले. तांचें मुज्ग वाजलें की हांव ते सुवातेर धांवतालों. माची ना. मेकप ना. फक्त वेगवेगळे भेस करून वाजप आनी आपली कला हाचे नेटार पळोवप्यांक आनंद दिवपी प्रकार म्हाका भौच आवडटालो. तियात्र आनी लोकांखेळांतलें तें वाजप, ते विनोद आनी तांचें नाचप हाका लागून म्हाका न्हीद म्हणटात ती येनाशिल्ली. तांतूत लोकांनी घाल्ल्यो शिळोण्यो, मारिल्ल्यो टाळयो आनी किंळच्यो दोळ्यार आयिल्ली न्हीद नाच करून उडयताल्यो. खयच्याच विनोदी नटान म्हणिल्लें कांतार वा केल्लो विनोद आनी ताका पडिल्ल्यो टाळयो ह्यो म्हाकाच अशें म्हाका दिसतालें. तियात्र सोंपल्या उप्रांत तो कलाकार म्हाका मेळ्ळो जाल्यार हांव धन्य जातालों. रातचो सूट मारून वा विदुशकाचे रंगीत कपडे घालून नाचपी हो म्हजो आवडीचो कलाकार सकाळफुडें फक्त तांबड्या लेंसाची काश्टी मारून, हातांत काती घेवन जेन्ना माडाचेर चडटालो तेन्ना ताका ते अवस्थेंत पळोवन लेगीत ताचे विशीचो आदर म्हज्या मनांतल्यान उणो जायनाशिल्लो. आयज म्हजे हे आवडीचे कलाकार म्हाका मेळटात तेन्ना म्हजेमुखार विडी ओडूंक वा काजेल मारूंक अनमनतात. हांव तांकां घेवन केन्नाय बसतां तेन्ना ते कांचवेतात. म्हाका 'सर सर' करतात. तेन्ना म्हाका कितेशेंच जाता. तांचेविशी त्या कलाकाराविशी म्हाका जो आदर आनी प्रेम आसा तो तांकां कळना आनी म्हाकाय तो उक्तावंक येना.

आतां संवसार माथ्यार घेवन नाचपी कलाकारांकडे म्हजो संबंद आयला. रामानंद सागर, गिरिश कर्नाड, राजेश खन्ना, विनोद खन्ना, धर्मेंद्र, सदाशिव अमरापुरकार, नसुरूद्दिन शाह, मिथुन चक्रवर्ती, शबाना आझमी, अमिताभ बच्चन, रामेश्वरी, रेखा हांच्या सारख्या वांगडा जेवपा - खावपाचो, पिवपा - रावपाचो सगळे तरेची संद मेळ्ळ्या. पूण म्हज्या भुरग्यापणावयल्या कलाकारांविशी मनांत जो भाव आसा, तो म्हाका हांचेवांगडा आसतना कसोच मेळना. ह्या सगळ्यांचीं नांवां हांव आवडटे कलाकार म्हूण घेतां. पूण तांचेविशीं जें कितें म्हाका दिसता, भावता ताची सर म्हज्यान म्हज्या आदलींच्या कलाकारांकडे करूंक येना.

आगशीत जेन्ना सिनेमा थिएटर जालें तेन्ना थंय लागिल्लो दर एक सिनेमा हांवे पळयला. पयशे नासताले. पूण हांगा - थंयचे जमोवन सप्तकाक आठ आणे जमताले. ते हांव हांगा घालतालों. ते सिनेमा पळोवन विनोद खन्ना, राजेश खन्ना बी अक्षरशा म्हजे मानेर बशिल्ले. विनोद खन्ना सारके कपडे आनी स्टायल काडून चलप, राजेश खन्ना सारको केसांक मदीं भांग काडप, हांवच राजेश खन्ना जाल्लेवरी वागप हे सगले प्रकार हांवे केल्यात. तांचेविशीं कल्पना रंगोवन वेगळ्या संवसारांत हांव वावुल्लां. तांची जेन्ना भेट जाली तेन्ना सर्ग सामको माथ्याक तेकला म्हणपाचो अणभवूय हांवे घेतला आनी ते खरे कोण, ते कितले व्हडले हें

कळुनय खंती जालां. तांचे खातीर वेळ होगडायलो देखून म्हाका पच्छताप जाला तसो लोकांखेळ पळोवन हांव जांच्या मोगांत पडिल्लों त्या कलाकारांखातीर मात केन्नाच जालोना. सिनेमांतल्या कलाकारांक मेळून गांठ विटल्या तशी मात ह्या म्हज्या कलाकारांक पळोवन केन्नाच विटलीना. तोंडार इंचभर रंगाचो थर चडोवपी ह्या कलाकारांवांगडा स्कॉच पिवचे परस गांवच्या आवडीच्या कलाकारांवांगडा काजू आनी माडाची फेणी पिवपांत जें समादान म्हाका गावता ताची तुळा करप शक्य ना. तेच खातीर तुजो आवडीचो कलाकार कोण ? असो प्रस्न जेन्ना म्हाका विचारतात तेन्ना हांव फक्त हांसता. अमिताभ म्हूण सांगत जाल्यार म्हजेविशी प्रस्न करतल्यांचो आदर वाडटा. गांवचो पेद्रू म्हण सांगत जाल्यार हांव गांवठी थरतां. म्हाका प्रस्न विचारपी हांसतात आनी हांव ह्या असल्या रूक्षप्रस्नाक हांसतां.





# तुजें आवडटें गाणें खंयचें



**प**डींग मळार वसंत फुलोवंक
आमीच हांगा गायलीं गितां
पुर्वजांच्या मालवजाचेर
कोगूळ मिरोवन गेलीं फितां

फाटल्या पंदरा - वीस वर्सांत हांवें गोंयांतले जे जे चळवळीत वांटो घेतला ते ते चळवळींत जैता वांगडाच चळवळींतल्या फुडाऱ्यांचीं फटींगपणाय म्हाका पळोवंक गावल्यांत. चळवळ फळादीक जावपा खातीर वावुरपी भलतेच आसताले. पूण तांच्या वावराची नोंद जायनाशिल्ली. कदर जायनाशिल्ली. कित्याक तर तांच्या पुर्वजांनी तांच्या खातीर कसलीच बुन्याद मारूंक नाशिल्ली. पुर्वजांच्या व्हडपणाचेर मिरोवंक मेळचें अशें तांचेकडेन कांयच नाशिल्लें. ना जात, ना धर्म, ना संपत्त वा ना कसलें व्हडपण. सुरवात जाताली ती तांच्या कर्तृत्वापासून. पूण तांचो वावर पळोवन लेगीत तांकां म्हत्व दिवपाची टाळणी मुद्दम जाताली.

पूण जांचो मात पासून वावर ना ते मात ऐनवेळा थंय येवन हें जैत आपणाक लागून फाव जालें म्हूण मोठया नेटान मिरयताले. तांची आर्थिक ताकत, तांची वयली जात, वा तांचो राजकीय प्रभाव हाका लागून हें मोठेपण आलायतें तांच्या पदरांत पडटालें. माचयेर मांडिल्लीं कदेलां तांचेर नदर पडल्या बराबर तांचे खातीर रिकामी जातालीं. तशें पळोवंक गेल्यार तांचें हे मोठेपण तांच्या स्वताःच्या कर्तुत्वाचेर मात लेगीत नासतालें. तो फक्त अमक्या घराण्यांतलो, अमक्या जातीतलो वा तांचे पुर्वज अमके अमके ह्याच मालवजाचेर ताच्या खांदार फितां चडटालीं.

हो सगळो प्रकार राजकीय मळार चलतालो अशेंय न्हय. आज लेगीत साहित्यिक मळार पुर्वजांच्या मालवजाचेर कोगूळ फितां मिरोवन वता. अमको अमको वेवसायान दोतोर देखून तो दोन फालतू ओळी खरडून लेगीत ताका तोखेवपी लोक आमचे मदीं आसात. अमको अमको अध्यक्ष जांव संचालक म्हणटकच ताचें बरोवपूय उच्च मानपाचो प्रकार आमचेमदी पळोवंक मेळटा. ताचें दर्जो नाशिल्लें साहित्य तोखेवप, ताका उंचल्या पदाचेर बसोवप, ताका पुरस्कार, तश्रिपो भेटोवप हें सगळें पळोवन मनाक खंत जाले बगर रावनाशिल्ली. हें सगळें चललां तें ताच्या अधिकाराक पळोवन, तांचे पद पळोवन, तांचे पुर्वज पळोवन हें

होलमतालें. हाचोच परिणाम म्हूण ‘पडींग मळार’ ही कविता एकदां सुचली.

हांगा ही कविता वसंत ऋतू आनी पडींग मळ हाचे पुरती मर्यादित उरना. जें जें समाजांत नवें निर्माण जाता तें निर्माण करपा खातीर जे कोण धडपडटात आनी तांच्या वावराची नोंद जावपा बदला फक्त पुर्वजांच्या मोठेपणाक लागून भलत्याकूच ताचें मोठेपण मेळटा त्या सगळ्या गजालीचें प्रतीक म्हळ्यार ही कविता. खरें म्हळ्यार वसंत ऋतू हो येवपाचो आसताच. पयलीं कोगूळ गायतली आनी मागीर वसंत येतलो अशें नासता. तो येवंचोच आसता. त्याच काळार कोगुळेक कंठ फुट्टा. वसंताची सुलूस कोगुळेक लागली म्हणपाचें श्रेय कोगूळ घेवन वता. ‘जेन्ना कोगूळ गावंक लागली तेन्ना समजुपाचें की वसंताचें आगमन जाता’ अशेंय खुपशा कविनी म्हणून जालां. कित्याक आयज मेरेनचो इतिहासूच असो आसा की वसंतांत कोगूळ गायता. ती त्याच काळार गायता हें कोणें तरी पळयलां आसतलें. त्याच अणभवांतल्यान ते कोगूळेक वसंत फुलोवपाचें श्रेय दिवन गेले. तांच्या नेणारपाक लागून आजुनय कांयच श्रम घेनासतनां कोगुळेच्या भुंजार फितां चडत आसात.

जेन्ना जेन्ना म्हजे मुखार तुजे आवडीचें गीत खंयचें असो प्रस्न उबो रावता तेन्ना म्हाका हे म्हजेच कवितेची याद जाता. ती कविता सर्वांगसुंदर म्हूण न्हय. ताचे परस सरस कविता हांवे ह्या पयलीं वाचल्यात. त्यो आपआपले सुवातेर उच्च थरल्यात. पूण हीच कविता याद जावपाचें कारण म्हळ्यार तातुंतली कोगूळ. कोगूळ गरजेभायर श्रेय घेवन वता देखूनच तिजें प्रतिक म्हाका हे कवितेंत बेस बरें वापरूंक मेळ्ळें. कोगूळ स्वता केंन्नाच कांयच घडयना. ती तांतयां लेगीत दुसऱ्यांच्या घोटरांत घालून दुसऱ्यांकडल्यान उबोवन घेता. पूण वसंत येवपाचो जालो म्हण्टकच मात सगळ्यांपयलीं गावंक आपूण मुखार रावता. आयज सगळ्यांत बरे गावपी कोगळेच्याच वृत्तीचे आनी सभावाचे नासुंयेत मू ! असोय म्हाका केन्ना केन्नाय प्रस्न पडटा. लता मंगेशकरांक जेन्ना गानकोकिळा म्हूण पांचारतात तेन्नाय म्हाका कितेंशेंच जाता.

भुरगेपणार सगळ्यांत पयलीं हांवे ज्या शेवण्याच्या गायनाचेर लक्ष दिलें तें कोगुळेच्या. तेन्ना वसंत - बिसंत म्हणटात ताची म्हाका कांयच कल्पना नाशिल्ली. रूखावेल्यान वा पयसुल्ल्यान कुहू कुहू असो आवाज आयले बराबर हांवूय तोंडान कुहू आवाज करीत परत तिजो आवाज येवपाची वाट पळयत रावतालों. म्हजो आवाज सोंपल्या बराबर परत ती कुहू करताली. उप्रांत हेंच कोगळेचें गायन आनी वसंत ऋतुच्या काळारूच तिचें तें चलता म्हणपाचें गिन्यान पुस्तकांतल्यान म्हाका कळ्ळें. ताकांच लागून होच वसंत ऋतू आनी वसंत ऋतुची म्हयमा कितें आसता हें सोदून काडपाचीय सवंय म्हाका जावन गेली. पयलीं कोगळेचें हें गायन म्हाका भिरांकूळ दिसतालें. शाळेंतल्यान येता आसतनां वा गोरवांक घेवन झिलीनी गेलां आसतना वांगडा केन्नाच कोणूच नासतालो. ते निर्जन सुवातेर एकलेपणाक

लागून मन सामकें सोशाचें जातालें. ज्युस्त अशाच वेळार पयसुल्ल्यान हो आवाज येतालो. म्हज्या मनांतल्या भित्रेपणांक रंग दिवंक तें एक प्रकारचें पार्श्वसंगीत आसतालें. तो भंय काडपाखातीर हांवूय कोगळेच्या स्वराक स्वर दिवन गायतालों. कुहू कुहू आवाज काडटालों. मनांतली चिंता - मनांतलो भंय काडपाखातीर गायन करूंक जाय म्हणपाची दिक्षा घेवपासारकोच तो प्रकार आसतालो. उप्रांत ह्या गायनाचो भंय गेलो. वसंत ऋतुचीं रूपां आनी सुंदराय सोदपाकडें मन ओडपाक लागलें. वसंत ऋतुची सुंदराय वाडोवपाखातीर पयलीं भंय दिसपी हेच कोगुळेचें हें गायन, हें गीत उप्रांत पुरक जावंक लागलें. आजूय कोगूळ जेन्ना गायता तेन्ना ताच्या तालाचेर, ते धुनीचेर हांव वसंत तोखेत रावतां.

कोगुळेचें हें गीत म्हजें आवडीचें गीत न्हय. पूण ताचो उल्लेख इतल्याच खातीर करचो पडटा कारण ह्याच गीतान हेर शेवण्चांचीं गीतां वळखुपाची, आयकुपाची सैमीक सुंदरायेचें गीत तोखेवपाची सवंय केली. एक नवी दिक्षा दिली.

तुजें आवडीचें गीत खंयचें ? हो प्रस्न येता तेन्ना विचारप्यांक ह्या वयर सांगिल्ल्या गीताची अपेक्षा मात लेगीत नासता. तांकां जाय आसता कोणे तरी बरयल्ल्या आनी कोणे दुसऱ्यानूच आपल्या आवाजान गायिल्ल्या गीतांची. तांची नांवा जर सांगचीं जालीं तर खूप आसात. एक दोन नांवा घेवन हो विशय थांबपाचो ना. अशा वेळार एकाच गीताचें नांव घेवन हांवे म्हजो खंयचो सभाव सांगप ? खंयचो मूड उक्तावप ? खंयचीय निर्मिती, जांव मागीर तें गीत, जांव कविता जावं चित्रकला जावं हेर प्रकारची कला निर्मिती केन्ना खंयच्या मुडाचेर आवडत हें म्हज्यान सांगू नज. जशे मनाचे भाव आसतात तशी आवड बदलत आसता. पयलीं म्हाका उडटे चालिचीं गीतां आवडटालीं. तांतूत हांव रमतालों. आतां तीं गीतां कानार पडल्याबरोबर तकली कणकणूंक लागता. जेन्ना हांव आनंदीत मुडांत आसतां तेन्ना आनंदान भरून गेल्लीं गीतां आयकतां. जेन्ना मन दुख्खी आसता तेन्ना दुख्खी, दर्दी गीतां मनाक थाकाय दितात. त्याच गीतांनी हांव सामको बुडून वतां. वेगवेगळ्या खिणांक वेगवेगळीं गीतां म्हज्या मनाचें संतुलन राखपाखातीर जेन्ना हांव वापरतां त्या वेळार आवडीचें गीत आनी खंयचें सांगपाचें ?

तरी लेगीत हांव जेन्ना सैम तोखेतां, सैमाचे वेगळे रंग, वेगळे प्रकार म्हजे मुखार उबे रावतात आनी तांचीं तरेकवार रूपां गीत जावन म्हजे मुखार उबीं रावतात तेन्ना म्हजो खंयचो मूड खंयच्या रूपान बदल्लला तेंच म्हाका कळनां. सैमांतलें हें सुंदर गीत म्हजें मन सतत गायत रावता. कसलीच चिंता, कसलीच खंत मनांत दवरिना. हांवूय सैमा वांगडा, सैमाचें गीत गायत रावता. अशा म्हज्या ह्या सभावाक खंयचें गीत आवडटलें आनी खंयचें गीत आवडीचें आसतलें ? रूक्षप्रस्नूच एक.





# तुका फामाद जावप आवडटा



फामाद म्हळयार प्रसिद्ध. अमक्याकूच प्रसिद्ध म्हणचे परस जर फामाद म्हणत जाल्यार चड बरें दिसता. इंग्लेजींतल्या फेम ह्या उतरावेल्यान फेमस हें विशेशण तयार जालां. फेमस हें विशेशण गोंयांभायल्यांक आवडत पूण गोंयकारांक तें उस्तऱ्यां वता. तांकां फेमस हें उतर जशें आवडनां तशेंच प्रसिद्ध हेंय देशी भाशेंतलें उतर आवडना. तांका 'फामाद' हें पुर्तुगेज भाशेंतलें विशेशण लायलें जाल्यार मात खोस भोगता. 'फामाद' ह्या उतराचो आब पळोवनूच बहुदा सगळ्या गोंयकारांक फामाद जायन दिसता.

कोंकणी भाशेचे अभिमानी केन्ना केन्नाय हीं असलीं विदेशी उतरां टाळपाखातीर, तांच्या बदलाक 'नावास्तो' हें उतर वापरतात. पूण 'फामाद' हें विशेशण वापरतना ताचे फाटलें जें एक मोठेपण भावता तें नावास्तो वा प्रसिद्ध ह्या देशी भाशांतल्या विशेशणान होलमनां. त्या खातीर 'फामाद' हें उतर पुर्तुगेज आसून लेगीत तें वापरन अशें म्हाका दिसता. म्हाकाच कित्याक, खंयच्याच गोंयकाराक ताचें पर्यायी दुसरें उतर वापरलेलें आवडचेंना.

'फामाद' हें उतर जेन्ना आमकां इतलें प्रीय आसता तेन्ना फामाद जावप कितलें प्रीय आसतलें हाचो अदमास आमच्यानी काडूं येता. आमकां गोंयकारांक जशें हें पुर्तुगेज उतर आवडटा, तशेंच ह्या संवसारांतल्या दर एका मनशाक तें तांचे भाशेंतल्यान तितलेंच आवडटलें हातूंत दुबाव ना.

फामाद जावप अथवा प्रसिद्धी मिळोवप हाचेपासून खंयचोच मनीस कुशीक रावंक सोदिना. सत्ता, पयसो आनी प्रसिद्धी ह्यो तीन गजाली म्हळ्यार दर एका मनशाचे वीक पॉईन्ट. मनीस हांच्या फाटल्यान लागलो आनी एकदां तांची ताका गोडी लागली म्हण्टकच त्या व्यसनातल्यान मुक्त जावप मागीर कोणाच्याच हातांत उरना. एक वेळ हेर कसलेंय व्यसन आपले इत्साशक्तिचेर पयस दवरूं येता. पूण ह्या तिनूय गजालींचें व्यसन सुटप ताकदी भायलें. त्या व्यसनांतल्यान भायर सरपा बदला जणेकलो चडांत चड तांच्या लागी रावपाखातीर धडपडटा. त्या खातीर आपली सगळी शक्त खर्ची घालतात.

ह्या तिनूय व्यसनांपैकी सत्ता आनी पयसो ह्या पासून मनीस एकवेळ आपल्याक पयस दवरूंक शकता. पूण तांकां जर प्रसिद्धी मेळना, ते फामाद जायनांत जाल्यार मात

तांकां न्हीद पडना. सत्ता आनी संपत्ती आशिल्ले सोडाच, जांचेकडेन वीख खातलो म्हळ्यार लेगीत एक पान दुडू ना, ते लेगीत हे ना ते पद्धतीन आपल्याक प्रसिद्धी मेळची म्हण सतत यत्न करीत आसतात. प्रसिद्धी म्हळ्यार फक्त प्रसार माध्यमांतल्यान मेळटा तीच न्हय तर दर एकल्याक दिसता की आपल्याक चार - चौग वळखुचे, तांकां आपलें नांव कळचें हीय एक फामाद जावपाचीच भावना.

फामाद जावपाची ही इत्सा, ही भावना बहुदा जन्मासावन मनशा सांगाताक येता. ना जाल्यार ल्हानपणार मनीस नाका जाल्ले हावभाव करून हेरांचें लक्ष आपले कडेन ओडून घेवपाचो यत्न करचो नाशिल्लो. घरांत कोणूय सोयरो आयलो म्हण्टकच, गजाली करतना घरांतल्या ल्हान भुरग्यांकडेन कांय वेळां दुर्लक्ष जाता तेन्ना सोयऱ्यांचें आनी घरांतल्या मनशांचेंय लक्ष आपलेकडेन वळोवपाखातीर तें भुरगें नाका जाल्लीं नाडेपेन्नां करता आनी कांयच उपाय उरना म्हण्टकच मस्ती करूंक, रडूंक लागता. तांचो हो सगळो खटाटोप हेर आपल्याक म्हत्व दिनांत ह्याच खातीर आसता. तांचे परीन हीय एक फामाद जावपाची तराच !

आयच्या काळार मनशाकडे सत्ता आयली की ताका आपशीच प्रसिद्धी मेळटा. काल पयर जांचें नांव लेगीत कोणे आयकूंक नाशिल्लें ते लोकशाय राजवटींत वेंचून आयले की आपशींच लोकप्रतिनिधी जावन वतात. तांच्या हातांत सत्ता येता आनी मागीर प्रसिद्धी तांच्या सांगातान चलता. फामाद जावपाची तांकां अशे तरेन आपशींच संद मेळटा. तांकां मेळपी ही प्रसिद्धी ताणीं काडिल्ल्या कश्टांखातीर मेळना तर लोकांच्या नाड्यार मेळटा. कश्टां विरयत आपसूक मेळिल्ली ही प्रसिद्धी सामकी खिणयाळी आसता. एकदां सत्ता हातांतल्यान गेली म्हण्टकच मेळपी प्रसिद्धीच वता. मागीर त्या मनशाक सगळे विसरून वतात. आपल्याक कोणे विसरचें न्हय. सतत आपल्याक प्रसिद्धी मेळत रावची ह्या खातीर ती व्यक्ती मागीर तरांतरांचे मार्ग आपणायता. फामाद जावपाखातीर ताका नानातरांच्यो लटाफटी करच्यो पडटात. प्रसिद्धी मेळना जातकच तो सामको पिशांवरी जाता. अशें जावपाचें कारण म्हळ्यार ताका ती प्रसिद्धी अनायास मेळिल्ली आसता. आंगांत गूण नासतना तो फामाद जाल्लो आसता.

आंगांत गूण नाशिल्ल्यांची ही अशी गत जाता जाल्यार गूण आसा तांकांय फामाद जावपाचें, आनी सतत प्रसिद्धी मेळोवपाचें पिशें कशेंच सोडिना. आयज कितले तरी सिने कलाकार सतत प्रसिद्धीच्या उजवाडांत रावपाखातीर धडपडटात. कांयच ना जाल्यार आपलीं लफडीं उक्ताडार घालून फामाद जावंक पळयतात. सिनेमा हें माध्यमूच इतलें स्वस्त की, तांका रोखडीच प्रसिद्धी लाभता. म्हणचेच कलागुणूय जे उथळ आसतात तांकाच झटपट प्रसिद्धी मेळटा आनी हे उथळ कलाकारूच आपल्याक मेळपी प्रसिद्धी उणी जाली म्हण्टकच राजकारण्यावरी निर्शेतात. पूण जे खरेले, निजाचे कलाकार आसतात ते आपल्या गुणांनी व्हड जाल्ले आसतात. तांकां प्रसिद्धीची हाव आसना. प्रसिद्धी मेळ्ळी म्हूण ते भुरकुटून

वचनात आनी प्रसिद्धी मेळना जातकच खंती जायनात. तरी लेगीत प्रसिद्धी तांची फाट सोडिना. तांच्या कलेची, मोठेपणाची आनी गुणाची वळख हेरांक जावंची देखून लागणूक जाल्लेवरी ते आपसूक फामाद जायत रावतात.

सत्ता मेळिल्ल्यांक आनी आंगांत कला गूण आशिल्ल्यांक प्रसिद्धी जशी हुंबऱ्याकडेन चलून येता तशी ती संपत्ती आशिल्ल्यांकडेन येना. तांकांय प्रसिद्धीची गरज आसता. तांकां आपणेंय फामाद आसचें अशें दिसता. त्या खातीर ते प्रसिद्धी विकती घेवन फामाद जावंक सोदतात. जांव तो मागीर तस्कर वा जांव खंयचोय उद्योगपती ! आपलेकडेन संपत्ती आसून लेगीत आपल्याक कोण वळखना ह्याच्या दुख्खान तो खासावीस जाता आनी मागीर प्रसिद्धी मेळोवंक धडपडटा. तो राजकारणांत भितर सरता. राजकारणाचो उपेग ताका दुडू करपाखातीर करपाचो नासता तर उलट आपले दुडू ओतून तो राजकारण खेळटा आनी सोंपेतरेन फामाद जाता. फामाद जावपाची कसलीच संद तो सोडिना.

ह्या सगळ्या फामाद मनशांक पळोवन, फामाद जावपाखातीर ताणीं केल्ली धडपड आनी आपणायल्लो मार्ग पळोवन फामाद जावप म्हण्टात ताचीच मागीर किळस येवंक लागता. फामाद जावपाची प्रत्येकाची लालस पळोवन कोणूय जेन्ना म्हाका - तुका फामाद जावप आवडटा ? असो प्रस्न करता तेन्ना म्हजेखातीर तो एक रूक्षप्रस्न जावन रावता. फामाद जावप ना हेंच जिवितांतलें सगळ्यांत व्हडलें सूख दिसूंक लागता.

हांवें भरपूर फामाद जांवचो अशें म्हाका भुरगेपणार खूप दिसतालें. पूण फामाद जावपासारको एकूय गूण म्हजेकडे नाशिल्लो. शिक्षणान फामाद जातलो म्हळ्यार शाळेंत पयलो नंबर येवन लेगीत कोणाक ताचें पडूंक नाशिल्लें. गांवात जावपी तियात्र - नाटकांक दान दिवन मायकावेल्यान नांव घेवंक लायतलों म्हळ्यार आर्थिक स्थितीय तशी नाशिल्ली. नाटकांत बी सवंग करून नांव कमायतलों म्हळ्यार गांवचो दरेक त्या वेळार अभिनेतो आनी अभिनेत्री आसताले. माचयेर चडपी सगळयांक लोक एकाच मापान मेजताले. नाटकां फक्त एक - दोनूच. पूण वांटो घेवपी मात खूप. त्याखातीर म्हजें नाटकांत सवंग जातालें तें फक्त सपनांत. अशावेळार म्हजेकडेन कसलेंच खाशेलेंपण नाशिल्लें जाका लागून हांव सगळ्यांचे नदरेक भरतलों आनी सगळ्यां परस फामाद जातलों. फामाद जावपाखातीर म्हजेकडे एकूच गजाल आशिल्ली ती म्हळ्यार फक्त मस्तेपणां.

लोकांचें म्हजेकडेन लक्ष वचचें देखून हांव नाका जाल्लीं मस्तेपणां करतालों. सायकलीचेर बसून ती फास्ट सोडप, जांव परतो बसून चलोवप ह्या सारकी कर्मां भर गर्देंत हांव करतालों. लोक भितरल्यान म्हाका तवनास बी म्हण्टात हें म्हाका होलमतालें. कितेंय म्हळें तरी लोकांचें लक्ष म्हजेर वता हेंच म्हाका म्हत्वाचें आशिल्लें. त्या भायर कोणूच करिना असलो भेस हांव करतालों. सिनेमांतल्या नटावरीं केंस वळोवप, तांचे सारके कपडे करप, तांचे स्टायलीन चलप, वागप अशी सगळी म्हळयार सगळी नविदाद करतालों. त्या वेळार लोक म्हाका पळोवन हांसतात म्हणपाचें भान म्हाका नासतालें. आयज म्हाका जेन्ना ही याद

जाता तेन्ना फामाद जावपाची म्हजी कल्पना येवजून म्हजी म्हाकाच लज दिसता.

आयज फामाद जावप नाका अशें सतत दिसता. पूण प्रसिद्धी फाट सोडिना. खंय ना खंय प्रसिद्धी मेळत आसता. कोण वळखना अशे सुवातेर वतलों आनी म्हाका जाय तशें मनाप्रमाण जियेंतलों म्हळ्यार शक्य जायना. हे प्रसिद्धीक लागून म्हजें स्वतांत्र्य ना जालां. म्हजो असो हांव आतां उरूना. गोंयच्या शारांतल्यान चलतना दर तिसरो मनीस हटकिल्या बगर मुखार वचना. जे कोण हटकिनांत ते आपल्या भितर फुतपुतून हांव अमको म्हणपाचें उलयतात. तांच्या हावभावावेल्यान तें कळटा आनी मागीर हांव अमको म्हणपाचें भान दवरून म्हाका वागचें पडटा, वावुरचें पडटा.

मुंबयचे गर्दैत मात म्हजें अस्तीत्व उरना. थंय कोणाचो कोण नासता. तूं त्या मनशांच्या दर्यांत सामको शेणिल्लो आसता. तुका थंय कोणूच वळखना. मागीर मन सामकें पिशें जाता. तूं शेणला म्हणपाचे भास जावंक लागतात. आनी हांव जाता तितले बेगीन गोंयां परततां. म्हाका लोक ओळखूंक लागतात. ते जशे म्हाका हटकितात तसतशें म्हजें मन शांत जाता. म्हजें अस्तित्व म्हाका गावता. जें म्हजे प्रसिद्धीचेर अवलंबून आसा. हेच खातीर म्हाका मागीर फामाद जावपा बगर हेर कसलोच पर्याय उरना. !





# तुवें चुंबन केन्ना घेतलां



कोणे तरी म्हळां –

A kiss is a peculiar proposition of no use to one, yet absolute bliss to two. The small boy gets it for nothing, the young man has to lie for it, the old man has to buy it. The baby's right, the lovers's privilege and the hypocrite's mask. To a young girl, faith, to a married woman, hope, to an old maid, charity.

म्हळ्यार –

चुंबन ही एक अशी चमत्कारीक गजाल जिचो खरें म्हळ्यार कोणा एकल्याक कांयच उपेग ना. तरीय दोगांखातीर सर्वोच्च आनंद आनी खुशालकाय दिता. तें सानुल्यांखातीर फुकट मेळटा, तें मेळोवंक तरनाट्यांक फट मारची पडटा, जाणटयांक तें विकत घेवंचें पडटा. चुंबन म्हळ्यार बाळकांचो अधिकार, प्रेमिकांचो हक्क आनी धोंगी मनशाचो बुरखो, तरनाटे चलयेखातीर विस्वास, लग्न जाल्ले बायलेक आस जाल्यार परित्यक्तेक दान.

चुंबनाविशीं उक्तायल्लें हें कोणा एकाचें मत कोणाक मानू वा ना मानू पूण ह्या मताचो बारीक साणेन नियाळ करीत जाल्यार हे उपेग नाशिल्ले गजालीखातीर प्रत्येक जाण कसलीं ना कसलीं नाडेपेन्ना करीत आसता. खरें पळोवंक गेल्यार मनीस हो प्राणी आपल्या फायद्याक पडना ते गजालीखातीर केन्नाच चुकून लेगीत तकालस घेना. पूण चुंबनाखातीर जेन्ना येदी व्हडलीं रामायणां आनी महाभारतां घडटात. तेन्ना चुंबन हें कोणाकूच फायद्याचें न्हय अशें कशें म्हणू येत ?

खंयच्याय सोबीत आनी गुटगुटीत अशा माणकुल्या भुरग्याक पळयत जाल्यार ताचें चुंबन घेवपाची इत्सा कोणाकूय जाता. तो मागीर दादलो आसूं वा बायल आसूं, त्या भुरग्याची अपुरबाय करपाखातीर तीं ताका घट्ट धरून ताचें चुंबन घेताच. केन्ना केन्नाय तें भुरगें मुखावेल्या मनशाक भिवून वा ताका तो आवडना जाल्ल्यान चुंबन घेवप्याक विरोध करता. पूण ताच्या विरोधाक जुमानी नासतना जबरदस्तीन ताचें चुंबन घेतना तें घेवप्याक कसलें सूख आनी समादान मेळटा तेच जाणांत.

खरें म्हळ्यार कोणाच्याय इत्से विरुद्ध ताचें चुंबन घेवप म्हळ्यार कायदयान गुन्हो थरता. तो विनयभंगाचो प्रकार थरून तांका ख्यास्तूय जांव येता. पूण भुरग्यांच्या भुरगेपणांचो फायदो

घेवन, चुंबनाक 'पापी किंवा पप्पी' अशें सूरबूस पलायनवादी नांव दिवन चुंबन घेवपी ही आगळीक करूनय सुट्टा. अशें म्हणटात कीं भुरग्यांचें जबरदस्तीन वा भुरग्याचे इत्सेन चुंबन घेवप हाचे फाटल्यान भुरग्याचें चुंबन घेवपाचो उद्देश्य नासता तर भुरग्याचे आवयचें चुंबन घेवपाची इत्सा उक्तावपी सूचक अशी घडणूक आसता. केन्ना केन्नाय तो प्रकार म्हळ्यार दुदाची तान ताकार भागोवपाची घडणूक आसूं येता. कितेंय जांव पूण भुरग्यांक चुंबन फुकट मेळटा ही गजाल कोणूच न्हयकारूंक शकना.

चुंबनाची खरी गरज आनी म्हत्व आसता तें तरनाट्यांमदीं. तें घेवपाखातीर तरनाटे चले-चलयांक नाका जाल्लीं फटींगपणा आनी नाटकां करची पडटात. प्रेम नावाच्या लफड्यांत घुसपल्लीं हीं आंकवार जोडपीं सामाजीक बंधनाखातीर आपली कामभावनां लग्नापयलीं पुराय करूंक शकनांत. तशी संद मेळत जाल्यार कांय जाणां तीय शीम हुपतात. पूण चडश्या जाणांक ती संद न मेळिल्ल्यान आपली इत्सा चुंबनाचेरूच भागोवची पडटा. चुंबन घेवपाखातीर चडसो चलोच फुडाकार घेता. चली जेन्ना तो घेता तेन्ना ताका त्या चल्याकडल्यान कसलो तरी फायदो घेवपाचो आसता वा ताचो राग पयस करपाचो आसता. चलयेन आपूण फुडाकार घेवन घेतिल्लें चुंबन हें ताचेखातीर एक भांडवल आसता, एक शस्त्र आसता. ह्या शस्त्राचो वापर करून तें चल्याचो केदोय व्हडलो राग खिणाभरयांत कडोवन उडोवन ताका आपल्या अधिपत्त्याखाल हाडटा.

चुंबन हें मनशाची कामभावना उद्दीपीत करपाची घडणूक मानिल्ल्यान रासवळ मळार ती कृती निषिद्ध मानतात. भारतात हे घडणुकेक समाज मान्यताय नाशिल्ल्यान चुंबनाचे प्रकार गुपीतपणान चलताले. पाश्चात्य देशात, ते देश फुडारिल्ले आनी सुदारिल्ले मानिल्ल्यान चुंबन रासवळ सुवातांर घेवपाक कोणाची हरकत नाशिल्ली. त्याचखातीर आमच्या देशांत येवपी पाश्चात्य सिनेमा सेन्सॉर बोर्डाच्या कडक तपासणे उप्रांतूच प्रेक्षकांमुखार वताले. पाश्चात्य देशाची संस्कृताय भारतीयांपरस वेगळी आशिल्ल्यान तांच्या सिनेमांतलीं सगळीं प्रणयदृश्यां सेन्सॉर बोर्ड काडून उडोवन फक्त चुंबनाचे प्रकार मात, भारतीय प्रेक्षकांची काकूट येवन कातर लायनासतना सोडटाले. मागीर सेन्सॉर बोर्डाच्या त्या उदार मतवादी धोरणाचे उपकार मानीत भारतीय प्रेक्षक पडद्यावेल्या चुंबनाची दृश्यां पळयत आपलो आंबटशोक पुराय करताले.

भारतीय सिनेमांत मात चुंबनाचे एकूय दृश्य दाखोवपाचें धाडस सिने निर्मात्यांक आदीं जायनाशिल्लें. तांचें असलें प्रणयी दृश्य सूचक आसतालें. खंयच्याय निर्मात्यान धाडस केलेंच जाल्यार सेन्सॉर बोर्ड दयामाया दाखयनासतना तें कातरून उडयतालो. पूण आतां चुंबनाचें दृश्य नाशिल्लो सिनेमा काडप म्हळ्यार तो निर्मातो मूर्ख थरता. चुंबनाचीं दृश्यांच रंगोवपाक कॅमेऱ्याचो खूपसो वेळ सरता आनी भारतीय प्रेक्षक आपल्या सगळ्या पिरायेच्या घरच्यांसयत हीं दृश्यां पळोवन बरो सिनेमा पळयल्ल्याचें सूख अणभवता. इतलेंच कित्याक, पयलीं गोंयात येवपी विदेशी पर्यटक जोडपीं रस्त्याच्यामदीं तोंडांत तोंड घालून उबीं

आसल्यार तांका पळयनासतना दुसरे वटेन तोंड करून गोंयकार वतालो. रस्त्यार उबीं रावून चुंबन घेवपी ह्या विदेशी लोकांक लज दिसपाबद्दला ते करणेची गोंयकारांक लज दिसताली. तांचे ते करणेची गोंयकारांक अपुर्बाय आनी तोखणाय दिशिल्ल्यान तांका कोण हरकतूय घेनाशिल्लो. आतां तांच्या पावलार पावल दवरून भारतीय पर्यटक आनी कांय गोंयकार प्रेमविरूय विदेशी लोकांपरस आपूण चड सुदारल्यात हें दाखोवपाखातीर ओठांक ओंठ लावन वरांची - वरां उबीं आसतात. विदेशी पर्यटकांप्रमाण भर रस्त्यार जरी नासलीं तरी खंयच्याय आडसाक हें दृश्य दिसप आज नविदाद उरूंक ना.

गोंयांत चुंबनाक वेगवेगळीं नांवा आसात आनी तीं एकमेकाक पर्यायी उतर म्हूण वापरतात. चुंबनाक कोण उमो म्हणटा, कोण बेज म्हणता, कोण पापी जाल्यार कोण कीस. काळाप्रमाण उमो, बेज हीं उतरां आतां लुप्त जाल्यांत आनी पापी आनी कीस हींच चड प्रचारांत उरल्यांत. तातूंत पापी हें उतर भुरग्यांखातीर मर्यादीत उरलां आनी कीस हें इंग्लेज उतर सर्वमान्य जालां. तरीपूण बेज हें पुर्तुगेज उतर आनी उमो हें ते कृतीच्या नादावेल्यान निर्माण जाल्लें उतर चड आपलेंशें दिसता.

चुंबनाचो फायदो कितें हें जरी निश्चितपणान सांगप शक्य जायना तरी चुंबन, उमो, बेज, कीस हाका मनशांभितरूच न्हय तर सगळ्या भासांतल्या विश्वकोशानीय सुवात मेळळया. कोंकणी विश्वकोशांत चुंबनाक 'उमो' हें उतर वापरलां. कोंकणी विश्वकोशकाराच्या मतान उमो म्हळ्यार दुसऱ्या मनशाविशीं आशिल्लो मोग, आपलेपणाची भावना उक्ती करपाखातीर स्वताचे ओंठ त्या मनशाचें कपल, तकली, ओंठ वा कुडीच्या हेर भागांचेर कसलेंच बंधन बाळगिनासतना दवरप. चुंबन वा उमो ही मोगाची कुरू आसून ती मनशाचे सभावीक प्रेरणेन वा अंतस्कर्णातले उर्बेन घडटा. आवयन स्वताच्या भुरग्याचो घेतिल्लो उमो मोगा वांगडाच भुरग्यांविशींची अपुर्बाय उक्ती करता. दादल्या - बायलेन एकमेकांचो घेतिल्लो उमो एकमेकांमदलो मोग उक्तो करपाचें पयलें पावल आसता. दुसऱ्या अर्थान हो उमो कामांविशींचे भावनेची कुरू आसता.

इंद्रियजन्य वेव्हारांत स्पर्श हो प्रकार सगळ्यांत वयर आसलो तरी शरिरस्पर्शाच्या विंगड विंगड प्रकारांत उम्याचो पांवडो सगळ्यांत वयर आसा. शरिरशास्त्राच्या आनी मानसशास्त्राच्या निर्वाळ्या प्रमाण चुंबनाक लागून शरिराक आनी मनाक थाकाय मेळटा.

चुंबन घेवपाची चाल केन्ना, कशी आनी खंय सुरू जाली ह्या संबंदान निश्चित अशी म्हायती मेळना. संवसारांतल्या सगळ्यांत पोरणे संस्कृतायेमदली एक अशे ग्रीक संस्कृतायेंत लेगीत तोंडाचो उमो घेवपाची चाल नासली. तोंडाचो उमो घेवपाची चाल उदेंतेकडल्या लोकांनी सुरू केली अशें ग्रीक लोक मानतात. इराणी लोक आपल्या सोयऱ्यां भितरल्या लोकांचें उमो घेताले जाल्यार वयल्या पांवड्यावेले लोक सकयल्या पांवड्यावेल्या लोकांच्या कपलाचो उमो घेताले.

वेदांत चुंबन घेवप, उमो घेवप ह्या अर्थान खंयचेंच उतर येना. तर वास घेवप ह्या

अर्थान येता. बापायन भुरग्याचे तकलेचो तीन फावटीं वास घेतल्यार भुरग्याची पिराय वाडटा अशी कल्पना भारतात उपनिषदकाळासावन चलता. चुंबन घेवप वा उमो घेवप ह्या अर्थाचें उतर खूब काळा उपरांत प्रचारांत आयलें. पूण मूळ चुंबन घेवप वा हुंगप ह्या उतराचो अर्थ 'स्पर्श करप' होच आसुंये. चूंब हो धातू चप् = स्पर्श करप ह्या धातूवेल्यान तयार जालो अशें म्हणटात. वेदा उपरांतच्या साहित्यांत, शतपथ ब्राह्मणांत, महाभारतांतल्या ऋष्यशृंगांच्या उपाख्यानांत चुंबन घेवपाचे उल्लेख आयल्यात.

पुराण ग्रंथात प्रणयवर्णनांचे जायते उल्लेख आयले तरी उमो घेवपाचो प्रसंग एकाद्रोच दिश्टी पडटा. बौद्ध जातकांत 'चुंब' हें उतर जायते फावटी आयलां. हें उतर दादलो बायल हांचे मदलो संबंद दाखोवपाक वापरलां. गीत - गोविंदांत चुंबनाचीं जायतीं वर्णनां आयल्यांत.

कामसूत्राच्या तिसऱ्या अध्यायांत चुंबनाचो मानसशास्त्रीय नदरेंतल्यान नियाळ केला आनी ताचे प्रकारय सांगल्यात.

ललाटालक्क पोलनयनवक्षः स्तनोष्ठान्तर्मुखेषु चुम्बनम् । म्हळ्यार, कपल, केंस, पोले दोळे, दादल्याचें हड्डें, थानां, ओंठ, तोंडाचो भितल्लो भाग इतले कडेन चुंबनाचो उपेग करूं येता.

वात्स्यायनान नव मोगी - मोगिकेच्या संबंदान चुंबनाचे तीन तरेचे प्रकार सांगल्यात, ते अशें –

निमित्तकं स्फुरितकं घट्टितकम्िति कन्या चुम्बनानिं । म्हळ्यार –

निमित्तक, स्फुरितक आनी घट्टितक अशीं तीन कन्या चुंबनां आसतात.

निमित्तक चुंबन घेतना मोगिका मोग्याच्या अनुनयान चुंबन घेवपाक तयार जाता. लजेन आवुंळिल्ले स्वताचे ओंठ मोग्याच्या ओंठाक तेकयता पूण ताचे ओंठ दामीना वा चोखीना.

स्फुरितक चुंबनांत मोगी मोगिकेचो म्हळ्यार दादलो बायलेचो ओंठ आपल्या ओंठांनी दामता. बायल हें चुंबन थीर न जावपाचें नाटक करता. अशा वेळार दादलो आपली ओंठावेली पकड सोडटा. त्यावेळार ती ताचे ओंठ आपल्या ओंठानी घट धरपाचो यत्न करता. अशावेळार दोगांय भितर खास स्फुरण वा कंपनां तयार जातात. तांकां 'स्फुरितक' अशें म्हणटात.

घट्टितक चुंबनांत बायल स्वताच्या फुडाकारान दादल्याचे दोळे आपल्या हातांनी बंद करता आनी स्वताचे दोळे धांपून दादल्याचो ओंठ आपल्या ओंठात धरता. तशें करतना ती आपली जीव ताच्या ओंठावेल्यान घुंवडायता.

चुंबनाच्या ह्या प्रकाराभायर वात्स्यायनान आनिकूय प्रकार सांगल्यात. हे सगळे प्रकार मोग - मोगिकेच्या कामभावनेच्या वाढीखातीर आसात. पूण ह्या चुंबनांच्या प्रकारांभायर हेर

नात्यामदीं चुंबन वा उमो घेवपाची चाल आसा. आवय वा बापूय आपल्या भुरग्याचो उमो घेवन ताचेविशीची आपली अपुर्बाय उक्ती करता. कांय समाजांमदीं लागींच्या नात्यांत वा इश्टांमदीं वा जाणटयांविशीं आदर उक्तो करपाक उमो घेवपाची चाल आसा. कांय लोक साधुच्या मनगटाचो वा साधुच्या तशेंच देवाच्या मुर्तीच्या पांयांचो उमो घेतात. गोंयांत पोरणे गोंयच्या सां फ्रांसिस शाव्हियेराचे कुडीचें दर्शन घेवन ती जे पेटयेंत दवरल्या ते पेटयेचें चुंबन घेवंक लाखांनी लोकांची गर्दी पडटा.

मनशांमदीं चुंबनाचे जशे प्रकार दिसतात तशे ते हेर जनावरांमदींय दिसतात. जेन्ना खंयचींय जनावरां ओढीन एकमेकालागीं येतात तेन्ना कांय जाणां एकमेकाचो वास घेतात, वा एकमेकाक लेंवतात वा आपलें आंग घशिटतात. पूण मनीस ताका चुंबन म्हणना. मनीस ओंठाच्या माध्यमांतल्यान जो स्पर्श करता ताकाच चुंबन मानता आनी ती मनीस जातीचीच मक्तेदारी मानून घेता. तातुंतय मोगी - मोगिके कडल्यान जी उम्याची कृती घडटा तीच तांचे नदरेन श्रेष्ठ. ही कृती म्हळ्यार मनशांमदले कामभावनेक भार हाडपाखातीर प्रेमिकांकडल्यान घडपी कृती. चुंबन वा उमो म्हळयार दुसरें तिसरें कांयच न्हय तर आंगाच्या एका अतीसंवेदनशील भागाकडल्यान दुसऱ्याच्या अती संवेदनशील भागाक स्पर्श करप.

म्हजेमुखार जेन्ना 'तुवें चुंबन केन्ना घेतलां ?' हो रूक्षप्रस्न उबो रावता तेन्ना हो स्पर्शूच म्हत्वाचो दिसता. ओठांनी स्पर्श करून चुंबन घेवपाचे म्हजेर जितले प्रसंग आयल्यात तातुंतले चडशे कामभावनेच्या आंतरीक इत्सेन. तातुंतले थोडे उमे हे मनांतले शुद्ध भाव उक्तावपा खातीरूय आशिल्ले. हातुंतलो एकूच उमो, एकूच चुंबन हें अशें आशिल्लें जें आंतरीक भावनेन घेतिल्लें. पूण तातुंतल्यान म्हज्या मनांतली भावना जाचे मेरेन पावंक जाय आशिल्ली ताचे मेरेन पावलीच ना. पूण तेंच चुंबन म्हज्या जिविताक एक आगळे मोड दिवंक पुरो थरलें.

चुंबन वा उमो हो आपले मोगिकेचो घेवंचो आसता हें म्हजें पयलीं चुंबनाविशींचें गिन्यान. पूण हो प्रकार म्हाका अत्यंत बुरसो दिसतालो. दुसऱ्याचें उश्टें खावप ना हे म्हजेर भुरगेपणार सावन जाल्ले संस्कार. दुसऱ्याच्या उश्टयाचें खावप सोडाच, भावंडां वांगडा जेवंक बसला आसतना ताणी उश्टो हात वयर काडल्यार पासून तांचें उश्टें म्हज्या ताटांत पडलां अशें समजून हांव जेवनासतना उठ्ठालों. मनाचेर अशे संस्कार जाल्ले आसतना जेन्ना हांव दादलो बायल एकामेकाच्या तोंडांत तोंड घालतात तें सिनेमानी बी पळयतालों तेन्ना म्हाका ओकारीच येताली. दुसऱ्याच्या तोंडांतली थुकी आपल्या तोंडांत वचपाची ही करणी म्हाका हांव वीस वर्सांचो जालो तरी हळशिकावणी दिसताली. त्या खातीर हांव जाचेर प्रेम करतालों तें लेगीत म्हाका सोडून गेल्लें.

म्हाका तशी भुरगेपणार सावन चलयांची आवड. ल्हान आसतना म्हाका चलयांवांगडा

खेळप आवडटालें. तांचो स्पर्श आवडटालो. हांव कॉलेजीक वचूंक लागलो तेन्नापासून फक्त हात लायल्यार भुरगें जाता हें जाचें सेक्साविशीचें गिन्यान ताका भुरगेपणार सेक्स म्हणटात तें कितें हें कळप म्हळ्यार अजापाचें. इतलो हांव त्याबाबतींत नेणार. पूण तांचो स्पर्श म्हाका आवडटालो.

सेक्साविशीचें म्हजे गुरू म्हळ्यार एका गिरेस्तालें चली. तें तेन्ना एस्. एस्. सीक आशिल्लें आनी हांव णववेक. हांव मराठी माध्यमांतल्यान शिकतालों आनी तें इंग्लेज. म्हजी मराठी बरी आसा देखून तांका आशिल्ल्या एका विशयाची शिकवणी दिवंक तें म्हाका व्हरतालें. तेंन्ना म्हाका तें आवडटालें. हांव ताजेर प्रेम करतालों. तें प्रेम म्हळयार त्याकाळार वाचपी कादंबरीतल्या नायकाचें उदात्त प्रेम. आपूण जाचेर प्रेम करतां ताचेकडेन सेक्स घेवपाचें नासता हो विचार देखून ताचेकडेन उलोवप म्हाका आवडटालें. ताका स्पर्श करप आवडटालें. तें कोणा दुसऱ्याकडें उलयत जाल्यार हांव जळटालों. पूण आमोरेच्या काळखांत तें म्हाका माळयेर व्हरून नागडीं चित्रां दाखयतालें, इंग्लेज उतर 'कीस' म्हळ्यार कितें हें विचारतालें तेन्ना हांव सामको शेळेतालों. तें म्हाका ताचें वर्णन सांगतालें. तें सांगतनां सामकें लागीं येतालें. म्हाका तशें लागीं रावप आवडटालें पूण तें प्रयोग करीत म्हूण भंय दिसतालो. हांव आमोरेच्या वेळार देवाकडे तीच प्रार्थना करतालों, 'देवा हाणें आपलें तोंड म्हज्या तोंडांत घालिना जाल्यार पुरो'. पूण देवान म्हजी प्रार्थना आयकलीना. ताणें 'आपूण तुका शिकयतां' म्हूण म्हाका घट्ट धरून तोंड तोंडाकडेन हाडलें. ताच्या तोंडाचो तो वास आनी ताच्या तोंडांतली थुकी म्हज्या तोंडांत वतली हो विचार... म्हाका खंयची शक्त आयली देव जाणां. 'शी ! म्हाका नाका' म्हणत हांव फाटीं सरलों. त्या वेळार ताणें इंग्लेजींत कितें तरी म्हळें आनी माळयेवेल्यान सकयल देंवलें. तेन्ना सेक्साबाबतींत, चुंबनां बाबतींत जसो हांव अडाणी तसोच इंग्लेजीबाबतींतूय अडाणी. ताणें कितें म्हळें तें कळूंकच ना. फक्त स्वरांफाटलो भाव कळ्ळो. निश्चितच ताणें म्हाका मूर्ख म्हळा आसतलो.

त्या उप्रांत ताची शिकवणीय गेली आनी ताच्या घराचें दारूय बंद जालें. पूण चुंबनान म्हजी फाट काय सोडलिना. कॉलेजच्या जिवितांत इश्टांचे लगाडीक लागून क्षेत्र वाडलें. चलयांकडे संबंद आयले. देश - विदेशाच्यो भोंवड्यो सुरू जाल्यो. आनी चुंबनाचेय प्रकार वाडले. जात - धर्म, राज्य - राष्ट्र, पिराय हांचें मदलें अंतर सोंपलें आनी ओंठांचो स्पर्श परशरिराच्या सगळ्या भागाक जावंक लागलो. अजून जाता. आफूड - भश्ट खंयचे खंय ना जावन गेलें. मुखावेली नार आतांच कितें खावन उठल्या, तिणें धुकर खाला, गाय खाल्या काय चिकन - मटण खालां हाचो विचार तिच्या ओंठांक ओंठ तेंकयतना, चिकनाक स्पर्श लेगीत न करपी म्हाका आतां येना.

ओंठांत ओंठ घालून कामूक चुंबनां घेवपाचे प्रसंग जिवितांत येतनाच उदात भावनेचींय

चुंबनां वांट्याक आयल्यांत. जाचेकडेन लग्न जावपाची इत्सा आसुनय ताका निरोप घेतना घेतिल्लें चुंबन, खूप वर्सांनी मेळिल्ले मैत्रिणीचें, विद्यार्थीनीच्या कपलाचें घेतिल्लें चुंबन, कोणाच्याय घरचो भायर पडलो म्हणटकच जाप दिवंक गेल्लेकडेन घेतिल्लो उमो ! उतरांपरस स्पर्श कितलो ताकदीचो आसता आनी तोच कितलो सशक्तपणान भावना उक्तावंक शकता हाचो अणभव हांगाच मेळटा.

चुंबनाच्यो खूप संदी लाबल्या आसतनाय चुंबन न घेवपाचेय प्रसंग आयल्यात. हांव एम्. ए. करता आसतना म्हज्याच वर्गांतलें एकलें म्हज्या प्रेमांत पडलें. सुखी संवसाराचीं सपनां रंगोवंक लागलें. आमचें प्रेम प्रकरण सुरू जालें. ताणें आपल्या प्रत्येक आंगाक स्पर्श करूंक दिलो. पूण वेंगेंत आसतना केन्ना चुंबन घेवंक दिलेंना. तें इतलें लागीं आयिल्लें की हांवे मातसो हट्ट धरल्यार सर्वस्व दिवपाचें. पूण चुंबन घेतल्यार भुरगीं जाता ही ताची भावना देखून ताणें म्हाका लग्नांपयलीं चुंबन न घेवपाचो सोपूत घाल्लो. एम्. ए. करपी एके चलयेचें हे बाबतींत तें गिन्यान पळोवन म्हाका ताची काकूट आयली. पूण हांवें दिल्लें उतर पाळळें. त्या उप्रांत तें गेलें. आतां केन्नाय मेळत जाल्यार आपूण जावन चुंबन दितय बी. कित्याक ताचें लग्न जालां म्हूण आयकलां.

अश्याच ह्या चुंबकीय प्रवासांत आनीक एक व्यक्ती जिवितांत आयली. लग्न जाल्ली बायल. म्हजी संरक्षक देवता म्हूण आयिल्ली. एका उतरान केन्ना सांगनासतना म्हजेर मनांतल्यान प्रेम करपी. म्हजेकडल्यान नित्य - नवें बरोवन घेवपी. म्हाका स्फूर्त दिवपी. जेन्ना अत्यंत बिकट प्रसंग आयल्यात तेन्ना आवयच्या मायेन हात आनी साथ दिवपी अशे हे बायलेन आपल्या जल्म दिसा म्हजेकडेन चुंबन मागलें. हांवें दिलेंना. ताप - उतळताप, रागार - फुगार सगळे प्रकार जाले. म्हजें पुरूषत्व लेगीत वयर काडपाचो प्रसंग जाला. पूण हांव म्हज्या जाग्यार थीर आशिल्लों.

ताचें एक चुंबन घेतल्यार वायट काय नाशिल्लें. तशीं हांवें हेर लग्न जाल्ल्या बायलांची चुंबनां घेतल्यांत. पूण हांगा ही बायल म्हजी संरक्षक देवता आशिल्ली. तिजो घोव म्हजेर उप्पाट विस्वास दवरून आशिल्लो. ते बायलेक भुरगें नाशिल्लें. तिजें भुरगें जावन तिच्या स्तनाक ओंठ लावन तिचें दुख्ख चोखचें अशें म्हाका केन्ना केन्नाय दिसतालेंय बी. पूण तिका भुरगें जावप शक्य नाशिल्लें. अशा वेळार बायल मनशेची मानसीक भावना कितें आसता हाची म्हाका कल्पना आशिल्ली. एक चुंबनाची परिणिती उप्रांत फक्त भोगांतच जांव येताली. आनी एकदां हें चक्र सुरू जालें म्हणटकच मागीर मनीस कुड्डो जाता. पवित्र नातें पवित्र उरना. म्हाका ती म्हजी संरक्षक देवता म्हणूनच जाय आशिल्ली. तेच खातीर चुंबन घेवपाची इत्सा मनांत आसुनय हांवे निमणे मेरेन ती चिड्डून दवरली.

आनी एक दीस म्हजे हे संरक्षक देवतेक अकस्मात मरण आयलें. आयुश्य उध्वस्त जावप

म्हळ्यार किर्ते हाचो अणभव हांव घेतालों. रातभर दोळ्यांत दुख हाडिनासतना मड्याकडेन बसून रावलों. आनी..... आनी ते चिर निद्रा घेवपी म्हजे संरक्षक देवतेच्या कपलाक हांवें ओंठ तेकयले .... तो थंड स्पर्श ओंठावेल्यान काळजामेरेन गेलो. ती थंडसाण अजून काळजांत आसा. चुंबनाची थंडसाण. बर्फाळ चुंबन...... जिविताच्या अंतामेरेन याद दिवपी...... !





# तुका तुजे करणेची केन्ना लज दिसल्या



लज अथवा लज्जा हो प्रकार अचूक खंय आसा ही गजाल तशी सांगप कठीण. लज्जा हो प्रकार तसो दर एका मनशाचो स्थायिभाव. मनशाकणकणी ह्या भावाचो भाव काळ - थळ - वेळा प्रमाण कमी अदीक जाता. मनीस जल्माक येतनाच आपल्या सांगाताक हो भाव घेवन येता आनी परिस्थितीप्रमाण ताचो वापर करीत रावता.

चडशा लोकांचो समज आसता की लज्जा हो प्रकार फक्त मनशांभितरूच आसता. पूण झाडां आनी हेर मोनजाती भितरूय म्हाका हो भाव दिश्टी पडला. लजेचें झाड स्पर्श केल्याबराबर आपलीं पानां आनी काणां लेगीत आवळून घेता तेन्ना तें लजलां अशें जण एकलो म्हणटात. मनशाचे नदरेंन तें लजप आसूं येता. कारण जिचे आंगातूच लज हो प्रकार सगळ्यांत चड आसा ती बायल मनीस परकी दादल्याच्या स्पर्शान जशी लजता, लजेन पुराय आंग आपले भितरूच आवळून घेवन लिपोवपाचो यत्न करता तशेंच किर्ते तरी हें लजेचें झाड करता आनी आपल्याक आपले भितरूच लिपोवपाचो यत्न करता. तेचखातीर त्या झाडाक लजेझाड हें नांव पडलां आसूं येता. लोकांचे नदरेन जरी तें कोणाचोय स्पर्श जाले बराबर लजता अशें आसलें तरीय तें हेरांपासून आपली राखण करपा खातीर अशें आंग बितर ओडटा आसूं येता. ह्या लजेच्या झाडाक बारीक बारीक कांटे आसतात आनी फुललेल्या आंगाक लागून ताचो वापर तें सरंक्षणाखातीर करूंक शकना. आपलें आंग बारीक करून घेतलें की कांटे आपसूक भायर येतात आनी त्या झाडाक हात वा तोंड लावपी प्राण्याक ते तोपतात. लजेझाडाच्या लजपाफाटलो संरक्षण होच मुखेल हेत आसता. पूण आमच्या हिसपान तें लजप आसता आनी लजपी अशें हेंच झाड दर एकल्यान पळयल्लें आसता.

जेन्ना हांव ह्या झाडाक हात लावन ताका लजयतां तेन्ना म्हाका तें लजलां अशें केन्नाच दिसना. आपूण लजलां अशें दाखोवपी ताचो अट्टाहास आसता. वेश्यागमन करपी मनशाकडे जेन्ना हजार लोकांनी भोगिल्ली वेश्या येता तेन्ना ती अशीच लजता. लजूंक जाय ताचे परस चड लजिल्ल्यान हीं सगळीं लजपाचीं नाटकां म्हणपाचें जशें कळटा तशें त्या झाडाक स्पर्श केल्याबराबर तें झाड लजपाचें नाटक करता. पूण आपल्या प्रियकराचेर नदर पडलेबराबर एके युवतीची नदर आपसूक सकयल वचून तिच्या गालार लज्जाभाव उठचे,

तिची पुराय आंगकाठी एका वेगळ्याच अनुभूतीन थरथरची तशे भाव हांवेय कांय वेळार वेगवेगळ्या झाडांचेर उमटल्ले पळयल्यात. आमचो सुणो दुकी करता आसतना ताचेर कोणाचें लक्ष वचत जाल्यार तो लजता म्हणपाचें म्हाका भावलां. ताचें तशें वागप हें भयान न्हय तर लजेन हेंय हांवें अणभवलां. घराच्या पाख्यार पारवे जावं आंगणांत कोंबो - कोंबी प्रणयरंग उधळटना थंय मनीस पावलो जाल्यार तांची सुलूस लागून तांका आखुडटना हांवें पळयलां. ह्या सगळ्यावेल्यान हो लज्जाभाव ही फक्त मनशाचीच मक्तेदारी न्हय तर प्रसंगानुसार दर एक वस्त लजत आसता.

लज दिसप आनी लजप ही जरी वयलेचारांक एकच गजाल दिसली तरी दोनाय भितर खूप फरक आसा. लज हो स्थायिभाव आशिल्ल्यान लजप हो प्रकार आपसूक उक्तो जाता. तातूंत कसलोच वायट भाव नासता. जेन्ना एकाद्रे चलयेक सोयरिकेच्या वेळार चलो भुरगो पळोवंक येता तेन्ना ते चलयेक घरचीं मनशां त्या चल्यामुखार वचूंक सांगता तेन्ना केन्ना केन्नाय चली - म्हका लज दिसता अशें म्हणून आपली भावना उक्तायता. ती तशीच भायर वता लजत. तेन्ना ती लजता. तिका लज दिसना. पूण घरच्यांक कळनासतना जर तिणें खंयच्याय चल्याकडे संबंद दवल्ले आनी तें घरच्यांक कळ्ळें तेन्ना मात ती लजना तर तिका लज दिसता. ती घरच्यांक तोंड दाखोवंक शकना.

लजप आनी लज दिसप ह्यो अशेतरेन दोन वेगवेगळ्यो घडणुको. लज दिसपांत वायट कर्तुब केल्ल्याची भावना आसता. आपलें मन आपल्याक खाता देखून हो लज दिसपाचो प्रकार घडटा.

लज दिसपाचो प्रकार हो आपल्या वांगडाच समाजाचेर अवलंबून आसता. लजप हें आपले भितर मर्यादीत आसता. वयांत आयिल्ली चली जेन्ना आपल्या मोग्याविशी एकांतात येवजिता तेन्नां तें आपले भितर लजता. एकटें आसतना हारशामुखार रावून आपल्याकूच नियाळटा वा कपडे काडून हारशामुखार रावता तेन्ना तें आपले भितर लजता. ताका तें लजप आवडटा. पूण कपडे काडून ताका जर कोणेंय चार चौगांमदी वच म्हूण सांगलें जाल्यार ताका लज दिसता. त्या लज दिसपी प्रकारान ताका खोस मेळना. बायलां प्रमाण दादल्यांचीय हीच गत आसता. बंद कुडींत दादलो सगळ्यो हळशिकावण्यो गजाली, ज्यो समाजान वर्ज्य थारायल्यात त्यो लजनासतना करता. ताका जर कळ्ळें की आपूण करतालों तें कोणेतरी चोरून पळयलां तेन्ना मात ताका लज दिसता. ताका लज दिसता ती आपणें तशें केलां म्हूण न्हय तर ती गजाल करतना हेरांनी कोणे पळोवंक फावना असो संकेत ह्या समाजान घालून दिला म्हूण.

जे गजालींत पापाची भावना आसता ती गजाल केली म्हणटकच मनशाक लज दिसता. हेच लजेखातीर आयज पुराय समाज वेवस्ता तिगून आसा. निर्ल्लज म्हणटात तो मनीस ह्या समाजांत आसूंक शकना. जरी वयलेचाराक आपल्याक कोणाची लज दिसना, हो समाज कोण ? ताका हांवें कित्याक लजचें ? अशें जरी म्हणून मान वयर काडून भोवपाचो खंयच्याय

समाज विद्वाव्यान यत्न जरी केलो तरी ताचें मन ताका लजयता. जनाची न्हय तरी मनाची लज सांबाळ म्हणटात तें हेच खातीर. जनाच्या परस मनीस ह्याच मनाक भिता. देखून तो लज दिसपासारखी करणी केन्नाच करिना. आपली लज सांबाळपाचो यत्न सतत करीत रावता.

तुका केन्ना तुवें केल्ले करणेची लज दिसल्या ? हो रूक्षप्रस्तुय ह्याच कारणाखातीर तयार जाला. जेन्ना मनीस जाणविकायेन खंयचेंय वायट काम करता तेन्ना तें केल्ल्याचें वायट दिसून ताका लज दिसता. चोरी करतना ताका जर कोणेंय धल्लो जाल्यार ताका लज दिसता. कोणे पळयलोंना तर तो उजळ माथ्यान भोंवता. पूण भितल्ल्यान आपले करणेची ताका लज ही दिसताच. जाका आपणें केलां तें वायट करूंक ना हाची जर खात्री आसत जाल्यार ताका केन्नाच वायट दिसना. समाजाच्या संकेता प्रमाण जरी ती वायट करणी आसली तरीय म्हाका ह्याचखातीर आयज मेरेन खंयचेय करणेची लज म्हणटात ती दिसली ना. ज्यो काय घडणुको म्हजे कडल्यान घडल्यात त्यो हेरांच्या नदरेन वायट जांव अनैतिक आसत. दर एकल्याची प्रत्येक गजालीकडे पळोवपाची नदर आनी संकल्पना वेगळी आसता. तशीच आपल्याचीय नदर वेगळी आसता जी हेरांची नासता हाची जाणविकाय म्हाका आसा. जी गजाल करचे पयली म्हाका जर दिसलें की हांव करतां ती लज दिसपासारकी करणी आसा जाल्यार ती हांव चुकून लेगीत करिना. आनी जी केल्या तिची लज मात लेगीत धरिना.

लज दिसपाची गजाल ही आपल्या मनाचेर, सरभोंवतणच्या वातावरणाचेर आसा. गोंयांत आयिल्लो भोंवडेकार लज धरिनासतना वेश्या वस्तींत भोंवता. कित्याक ताका वळखुपी गोंयांत कोण नासता. तसोच गोंयकार भायर वचत जाल्यार तेंच करता. तांकां थंय कोण वळखुपी मेळ्ळो जाल्यार तांकां लज दिसता. वेश्या वस्तीत वचप ही समाजान लजेची गजाल, उणाक गजाल थारायल्या देखून हो लज दिसपाचो प्रकार घडटा. खरें म्हळ्यार ते वस्तींत वचपी थंय कित्याक गेला आसतलो हाचो तर्क सगळेच करतात. त्या मनशाचें नांव - गांव खबर नासूं, पूण मनीस म्हूण ताका सगळेच वळखतात. जर ही गजाल मनशान केल्यार उणाक अशें आशिल्लें जाल्यार मनीस लजतलो आशिल्लो. नांव गांव खबर आशिल्ली व्यक्ति न्हय. आमच्या देशांत वेश्यागमन करप्याक लज दिसता. पयलीं गणिका आशिल्ल्यो. तेन्ना कोणाक लज दिसनाशिल्ली. गेयशांक घेवन भोंवल्यार कोणाक कमीपणा दिसना. ते करणेची कोणाक लज दिसना. लज दिसपाची ही घडणूक ही अशी सापेक्ष आसता.

म्हज्या जिवितांत हांवे खुपश्यो वेश्यावस्ती पळयल्यात. भोंवलांय ते वस्तीत. मुंबय तसो गोंयांत. तरांतरांचे नायट क्लब आनी कॅजिनो पळयल्यात. तातूंत येवपी सभ्य लोकांचें तोंड लिपोवप पळयला. जांकां चार चौग वळखतात त्या वेश्यांक स्कुटरीर घेवन भोंवलां. केन्ना वळखून, केन्ना वळख नासतना. गादयांचेर वचून नावडग्या बेबद्यां वांगडा झगडीं केल्यांत, गाळी खाल्यात आनी दिल्यातूय बी. हिप्पीवांगडा चरस अफूची रूच घेतल्या. अशी खंयचीय गजाल सोडूंक ना जी म्हाका करची दिसल्या. पुराय देशांतल्या तशाच हेर देशांतल्या

वेगवेगळ्या युवतीकडे मैत्री जोडल्या. तांचे वांगडा मौजमजा केल्या. कोणेय दुबाव घेतल्यार केन्नाच खंयचीय गजाल लिपोवंक ना. सगळें नातें स्पश्टपणान सांगलां. शुद्ध मनान जी करणी घडटा तातूंत लज दिसपासारकें कांयच नासता असो म्हजो पयलीपासून समज. पूण जांची लायकी ना तांचे मुखार मन स्पश्ट करतना कांय चुको घडल्यात. वळखनासतना मन उक्तें केलां. ताची खंत दिसून मात, कसल्या मनशाकडें हांव उलयलों ह्या विचारांनी कांय कांय वेळार लज दिसल्या. त्या लज दिसपांतूय खुपशो गजाली शिकूंक मेळ्ळ्यात. आतां कोणूय ह्या सगळ्या करण्यांची तुका लज दिसल्या काय म्हूण विचारीत तर तो म्हाका रूक्षप्रस्न दिसता.





# आयच्यान शंबर वर्सां उपरांत हो संवसार आयचे परस बरो आसतलो काय ह्याय परस वायट



फुडाराचे चिंतेन मनीस सदांच खंगत आसता. आपल्याचो सोबीत - सुंदर, भांगराचो वर्तमान तो फुडाराचे नाका जाल्ले खंतीन इबाडत रावता. आयच्यान शंबर वर्सां उपरांत हो संवसार आयचे परस बरो आसतलो काय आयज जसो आसा ताचे परस वायट आसतलो ही खंत, हो रूक्षप्रस्न आपल्या मनांत तयार करून, बरो - वायट ही आपले परीन कल्पना तयार करून आपल्याच जिवाचें बरें - वायट करून घेवप हो मनीस जातिचो सभाव, म्हळ्यार ताणें लावन घेतिल्ली एक पिडा. हेच पिडेक लागून मनीस आपलें मन जल्मभर पिडोवन घेत आसता.

ह्या पुराय संवसाराचो आपूण धनी आनी देवान हो संवसार रचला तो आपल्याकूच भोगपाखातीर असो समज करून घेतिल्ल्या मनशाक आपूण हो संवसार खंयच्या खिणाक सोडून वचत हाची खात्री नासता. संवसाराचो विचार जांचे तकलेंत येता तो तांचे तकलेंतल्यान वचचे पयलींच हो संवसार सोडून वचपाचीय शक्यता आसा हाची जाणविकाय आसून लेगीत आपूण ह्या मुखार खूप वर्सां जियेवपाचों आसां असो भ्रामक समज करून घेवन बाबडो फुडल्या संवसाराच्यो कल्पना रंगयता. आपल्या मनांत कल्पनेचो संवसार उबो करता. वर्तमान काळांतलो सोबीत संवसार विसरायेर घालून फुडाराचो संवसार कल्पनेन रंगयत बसता.

मनशाची संवसाराकडेन पळोवपाची नदर मर्यादीत आसता तशीच ती अमर्यादीतूय आसता. संवसारांत आपलो असो कोण नाशिल्लो, एकटो - एकसुरो जियेवपी मनीस लेगीत आपल्या जियेवपाक 'म्हजो संवसार' अशें म्हणत आपलो हो संवसार मुखार धुखलता. कुटुंब संस्था सांबाळपी, संवसाराच्या जंवजाळांत घुस्पल्लो, आपलो संवसार असो मर्यादीत दवरपी हो मनीस धर्तरिकूय संवसार म्हूण पाचारता आनी घराभीतर आशिल्ली मर्यादा वलांडून अमर्यादीत जाता. ताचेय मुखार वचून तो सूर्य माळेंतले गिरावळीक संवसार हें नांव दिवन धर्तरेची मर्यादा हुपून मुखार वता. पूण हो संवसार मुखार कसो आसतलो ? बरो आसतलो काय वायट आसतलो ? असो जेन्ना विचार तांचे कतलेंत येता तेन्ना मात ताचे नदरेन संवसार म्हळ्यार आपलें कुटूंब नासता वा ही पुराय गिरावळ नासता. ताचो संवसार म्हळ्यार ही धर्तर, जाचेर तो रावता. आनी तिचो आपूण सम्राट अशें मानता.

सद्या वर्तमान काळांत हे धर्तरेर म्हळ्यार ह्या संवसारार जो कोण मनीस जियेता ताच्या पयलीं म्हळ्यार भुतकाळारूय ह्या संवसारार मनीस आशिल्लो. फुडाराकूय आसतलो. फाटीं जो कोण मनीस प्राणी हे धर्तरेर जियेवन गेला तोय ह्या असल्या रूक्षप्रस्नाचे भकीक पडला आनी फुडाराक जो कोण हांगा जल्मून जियेवपाचो आसा तोय ह्या रूक्षप्रस्नाची जाप सोदतां सोदतां आपलो वर्तमान होगडावन बसपाचो आसा. पूण ताका खबर नासता की आयच्यान शंबर वर्सां उपरांतूच कित्याक, एका वर्सा उपरांत तर सोडाच एका खिणां उपरांत लेगीत हो संवसार सद्याच्या खिणा परस मात लेगीत वेगळो नासतलो. सद्याच्या खिणाक तो जसो आसा तसोच तो मुखार येत रावपी दर खिणाक आसतलो. तो बरो काय वायट हें दरेक मनशान बरें - वायट ह्या आपल्या परीन थारायल्ल्या मापान मेजपाचें आसता. तांच्या मापा प्रमाण आनी विचार करपाचे तांकी प्रमाण ते बरें - वायट थारायतात आनी बळी मात संवसाराचो दितात.

जाका आमी आयज संवसार म्हूण पाचारतात ते धर्तरेची निर्मणी जाली आनी ताचेर वेगवेगळीं स्थित्यंतरां घडून पूर्णरूपी मनीस तयार जालो तेन्ना आयचे इतलो विकास जावंक नाशिल्लो हें सगळ्यांक खबर आसा. पूण त्या काळची परिस्थिती पळयल्यार, तांचे परीन विकास जाल्लो. विकास हो दर खिणांक जायत आसता. आयज मनीस अंतराळांत इमारती बांदून तातूंत रावता तें पळयल्यार तशे ते रावतले म्हणपाची सादी कल्पना लेगीत घराची संकल्पना खबर नासून गुहेंत रावपी आदिमानवाक नासतली. आपले ताकदिच्या नेटार हाताक मेळत तें साधन घेवन जनावरांची शिकार करून हरवें मांस भक्षण करपी आनी मेळटा थंय रावपी आमच्या ह्या पुर्वजाक आपलो संवसार हो हेर जनावरांच्या संवसारा परस खूप बरो दिसतालो हातूंत दुभाव ना. आयच्या ह्या फुडारलेल्या काळार लेगीत मनीस आनी हेर जनावरां हांचे भितर कितलें तरी अंतर आसा आनी तांचेकडेन पळोवन आपलो संवसार कितलो तरी बरो अशें मनशाक दिसता. आयच्या मनशाचो हो विचार आनी हजारांनी वर्सां पयलिंच्या मनशाचो विचार हातूंत व्हडलोसो फरक ना. फरक इतलोच की आयच्या काळांतलो मनीस आयच्यान शंबर वर्सां उपरांत संवसार कसो आसतलो हाची कल्पना करूंक शकता. कारण ताणें विस्वास दवरूं येता असलो फाटल्या शंबर वर्सांचो भूतकाळ पळयल्लो आसा. जाच्या आदाराचेर ताची ही कल्पना तयार जाल्ली आसा. आयचो मनीस फुडल्या काळाची खात्री जाच्या आदारान दिवंक शकता तशी वेवस्ता आदिमानवाकडेन नाशिल्ली. तांचीच गजाल कित्याक ? शंबर - दोनशीं वर्सां पयलीं जावन गेल्ल्या मनशाक आयचें विमान, दूरदर्शन, अस्त्रां - शस्त्रां हांची तरी कल्पना आशिल्ली काय कोणाक खबर ! आयच्या खुपशा गजालींकडेन सारकेंपण आसा अश्यो खुपश्यो गजाली ताणी पुराणां, म्हा काव्यां हातूंत वर्णन केलां ताचे वेल्यान जाणून घेतिल्ल्यो. तरी लेगीत त्यो गजाली मुखार सत्य स्वरूपांत येतल्यो म्हणपाचेंय कोणे खंयच उल्लेख केल्लो ना. हाचे

वेल्यान शंबर वर्सां उपरांत हो संवसार कसो आसतलो हाची कल्पना करपाची तांक ह्याय लोकांभितर नाशिल्ली वा ती करून वर्तमानकाळ हातांतल्यान वचूंक दिवपाची तांची तयारी नासतली.

आयच्या उपरांत हो संवसार अमक्याच काळार कसो आसतलो ? तो बरो काय वायट आसतलो ? हाचो सर्वसादारण विचार आयच्या काळार आमी जरी कल्पनेन करूंक शकतात तरी तो बरो काय वायट हें आमच्यानी थारांव नज. जेन्ना भौतीक विकास जावंक नाशिल्लो, शास्त्रांची उदरगत जावंक नाशिल्ली, तेन्नाच्या लोकांक आयज हाडून उबे करीत जाल्यार तांचेकडे आयचो हो संवसार पळोवंक जावंचोना. सोसूंक जावंचोना. उदरगतिच्या नांवान आयज जें कितें प्रदुशण जालां तातूंत स्वास घेवप तांचे तांकी भायलें आसतलें. त्या काळार तांका संवसार भोंवपाचो हावेस नाशिल्लो. गरजेप्रमाण जंय वचूंक जाय थंय ते चलून वताले. ताका लागून तांची भलायकी बरी उरताली. सैमाचेर विस्वास दवरून ताच्या आदारान ते जियेताले आनी खूप वर्सां हे धर्तरेर काडटाले. हवा पचोवपाची शक्त त्या काळाचे शुद्ध हवेचेर अवलंबून आशिल्ली. आयचे हवेत जर ताणीं जियेवपाचो यत्न करीत जाल्यार ते घुसमटून वतले आनी विकशीत जाल्लीं कसलींच साधनां नासून लेगीत आपलो काळ बरो आशिल्लो, आयचो काळ वायट अशें तांचें मत जातलें. आयज विकासाच्या नांवान जें कितें चल्लां आनी तातुंतल्यान जें कितें उप्रासतलें ताची कल्पनां जर करीत जाल्यार आमी आयज आतां आसात तेंच बरें आसात. फुडले पिळगेक कितें सोसचें पडटलें कोणाक खबर अशें म्हणटात ! हो संवसार ज्या वेगान बदलता, ज्या वेगान लोकसंख्या वाडटा, ज्या वेगान सैमाचो सांवार चल्ला तें पळयल्यार शंबर वर्सां उप्रांत हो संवसार आतां आसा ताचे परस वायट आसतलो अशें दर एकलो म्हणटलो. पूण तो वायट कोणाक ? आयज आसात तांकां काय मुखार शंबर वर्सां उप्रांत आसतले तांकां हाचो विचार कोण करूंक वच्चोंना. दर एकलो बरे वायटाची कल्पना करता तो आपल्याक केंद्र सुवातेचेर दवरून. आपूण, आपलो काळ, आपल्या भोंवतणचें वातावरण आनी ताचेकडेन पळोवपाची आपली नदर ह्याच मापान हें सगळें मेजप जाता. तें मेजतना खंयचोच काळ बरो वा वायट नासता म्हणपाचें भान कोणाक नासता. काळ हो काळूच आसता. आयच्या उप्रांत शंबर वर्सांनी कितें वा आयचे पयलीं शंबर वर्सां कितें हातूंत कसलोच फरक ना. शंबर वर्सां फाटीं मनीस जसो काळाक सोसून घेतालो तसोच तो आयज पासून शंबर वर्सां उप्रांत तसोच सोसून घेतलो.

ह्या संवसाराचें चक्र घुंवत आसता हें आमकां दर एकल्याक वेगवेगळ्या उदारणांनी दिसत रावता. ह्या संवसारांतली दर एक गजाल चक्ररूपान घुंवत घुंवत अमुकूच उंचायेर वता आनी मागीर परत सकयल येता. झाड जल्मता, वाडटा, ना जाता. दरेक प्राणी जल्मता, वाडटा आनी ना जाता. तांच्यातल्या घटकांचें रूपांतर वेगळ्या घटकांत जाता. ह्या

घटकांतलो दरेक बिंदू अमुकूच सुवातेर पावलो की परतो मूळ सुवातेर येता. सतत चक्र पुराय करीत रावप होच धर्म आसता. ह्या संवसारांतले दरेक गजालीचो धर्म सांबाळूंक दिवन हो संवसारूय आपलो धर्म सांबाळूंक घुंवत आसता. आपलें चक्र पुराय करूंक खिणाखिणाक बदलत रावप आनी बदल घडयतानाच त्या बदलाचो परिणाम जाता तो सोंसपाखातीर संवसारांतल्या दरेक गजालींत बदल घडोवन हाडप हाची सगळी काळजी हें सैम घेत आसता. आपूण कितें करतां हाची पुराय जाणविकाय ह्या सैमाक आसता. जांकां खंयचेय गजालीविशीं दुभाव आसता तेच ताची चिंता करीत रावतात. मनशाक संवसारांतले दरेक गजालीविशी दुभाव आसता देखून सतत तो चिंता करीत आसता. ताका चिंता पडटा, फाटीं हो संवसार कसो आशिल्लो ? ताका चिंता पडल्या मुखार हो संवसार कसो आसतलो ? हेच चिंतेन, ह्याच रूक्षप्रस्नान मनीस आपलें सैमीक तत्व होगडावन बसला. आपूण कोण हाची ताका खात्री पट्टली तेन्नाच हे सगळे दुबाव पयस जातले. रूक्षप्रस्नांच्या चोपक्यांतल्यान तो सुट्टलो........ !





# तुजो आवडटो फुडारी कोण



जेन्ना हो असलो प्रस्न म्हज्या मुखार येता तेन्ना फुडारी म्हळ्यार किर्ते आनी फुडारी कोणाक म्हणचो होय एक प्रस्न ह्या प्रस्नांतल्यान तयार जाता. जेन्ना हांवे म्हज्या हेर सांगात्यां वांगडा विद्यार्थी आनी तरनाट्यांच्या चळवळींत वांटो घेतलो तेन्ना म्हजी वळख करून दितना लोक म्हाका विद्यार्थी फुडारी, युवकांचो फुडारी आदी उपाधी लायताले. कोंकणी राज्यभाशेची चळवळ सुरू जाली तेन्ना फाटल्यो सगळ्यो उपाधी फाटी पडून तांची सुवात कोंकणीचो फुडारी हे उपाधीन घेतली. म्हजी वळख करून दितना वा संबोधन करताना जेन्ना जेन्ना फुडारी असो उल्लेख जातालो तेन्ना तेन्ना म्हर्जे मन भितल्ल्यान ताका विरोध करतालें. अजूनय म्हजी कोणेंय फुडारी म्हूण वळख केली जाल्यार म्हाका किर्तेशेंच दिसता. आतां अशें म्हाका दिसपा फाटल्यान म्हज्यांत फुडारी जावपाचे गूण नांत वा लोक जी म्हाका उपाधी दितात ती घेवंक हांव लायक ना अशांतली गजाल न्हय. पूण आयज फुडारी हें उतरूच इतलें बदनाम जालां की फुडारी म्हळ्यार फटींग असोच अर्थ आनी समिकरण सर्वसामान्य जनता करता.

मनशान स्वताचे राखणे खातीर आनी उदरगती खातीर समाज ही वेवस्ता मानून घेतली तेन्ना ह्या समाजाक एक बरी दिका दाखोवपाची गरज निर्माण जाली. समाजांतलो प्रत्येक घटक हो वेगवेगळे वृत्तीचो आनी विचारसरणिचो जाल्ल्यान धा जाणांच्यो धा तरांच्यो तकल्यो समाजाक एक सुत्रांत बांदून दवरूंक शकना. तशें जालें जाल्यार समाजांत गोंदळ उप्रासून समाजाची निर्मणी ज्या उद्देश्यांनी जाली तो उद्देश्यूच निर्फळ जावन वचूं येता. ह्याच खातीर समाजान कांय आदर्शवादी तत्वां थारायलीं आनी त्या तत्वांचो जो कोण पुरस्कार करता ताकाच समाज मान्यताय मेळून ताका फुडारी मानपाची पद्धत सुरू जाली. आदर्शवादी तत्वां पाळप ही कठीण गजाल. ताका तपश्चर्या जाय लागता. ताचे खातीर त्याग करचो पडटा. ती गजाल सोपेपणी मेळपी सुखाची चटक लागिल्ल्या मनशाक करप शक्य ना. ती जो कोण करता ताकाच समाज मानता आनी ताचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून, आपूणय तसोच जावपाखातीर धडपडटा. ताका आपलो फुडारी मानता. तोच समाजाचो फुडार पारखुपी आसता.

फुडाऱ्याक समाज खंयचे दिकेन वता हाचें भान आसता. बऱ्या - वायट रस्त्याची जाणविकाय ताका दवरची पडटा. ती वाट समजून घेवन समाजाक योग्य रस्तो दाखोवप आनी त्या खातीर आपल्या फुडाराचो त्याग करप हेंच फुडाऱ्याचें ध्येय आसता. असल्या फुडाऱ्यांच्या त्यागान आनी वावरान समाज प्रभावीत जाता आनी आपल्याय जिविताची दिका थारायता. हो प्रभाव इतलो आसता की प्रभावीत जाल्ले व्यक्तिचे दर करणेंतल्यान तो फुडारी दिसूंक लागता. हातुंतल्यानूच मागीर वादी तयार जातात. पंथ निर्माण जातात. तातुंतल्यान ते व्यक्तिचो फुडारी कोण म्हणपाचें प्रस्न विचार नासतना आपसूक कळटा.

फुडारी हो सदांच निसुवार्थी आसूंक जाय, त्यागी आसूंक जाय. ताणें भायर - भितर एकूच आसूंक जाय. थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार तो इंद्रीय सुखांक सहजतायेन बळी न पडपी आसूंक जाय असो समाजाचो समज आसता. फुडाऱ्यान समाजांतल्या हेर लोकांसारखी आपली करणी दवल्ली जाल्यार समाज ताका आपलो फुडारी मानून घेवंक तयार नासता. ताका ते आपलेवरींच मानून ताचे दोश तितले सोदून काडपाच्या वावरांत ते आपलो वेळ होगडायतात. तेच खातीर फुडाऱ्या भोंवतणी एक परजळीत वलय तयार करून दवरचें पडटा. तेंच वलय समाज मानता. हाचें उदारण म्हळ्यार आयच्यो आमच्यो देवांच्यो मुर्ती.

श्री कृष्ण आनी श्री राम हे दोग फुडारी आयज मेरेन समाजाचें फुडारपण करीत आसात. आयचो समाज लेगीत ह्या दोनूय फुडाऱ्यांचे आदर्श घेत आसात. कोण धर्तीरर रामराज्य हाडूंक सोदता तर कोण एक पत्नी, एक बाणी जावंक सोदता. कोण श्री कृष्णावरी मुत्सद्यी जावंक यत्न करता तर कोण आपली भोगी वृत्ती लिपोवंक ताचे रासक्रिडेचें आनी सोळा हजार बायलांचे उदाहरण दिसपट्टें दितात. जण एकलो आपल्या फायद्या प्रमाण फुडारी सोदून काडटात. हातुंतल्यान ह्या फुडाऱ्यांचो मूळ उद्देश्य आनी तांचो वावर मातये भरवण जावन वता हेंच दिसून येता.

तुजो आवडटो फुडारी कोण ? असो प्रस्न जेन्ना कोणाच्याय मुखार उबो रावता तेन्ना कांय जाण गांधी, नेहरू, लोहिया ह्या सारख्यांची नांवां बेधडक सांगून सोडटात. वागतना मात ते ह्या फुडाऱ्यांच्या एकदम उरफाटे वागतना दिसतात. अशा लोकांकडेन ज्या सर व्यक्तिशा संपर्क येना त्या सर फुडाऱ्यांकडेन जे नदरेन पळयतां तेच नदरेन ह्याय लोकांकडेन पळोवप जाता. पूण जेन्ना अशा लोकांकडेन लागच्यान संपर्क येता तेन्ना हे लोक ढोंगी काय हेर फुडारीय तसलेच आशिल्ले असो प्रस्न निर्माण जाल्याबगर रावना. एकतर ह्या लोकांक फुडाऱ्यांच्या नांवाचेर आपलें व्हडपण मिरोवपाचें आसता वा तांकां ह्या फुडाऱ्यांविशी मात लेगीत गिन्यान नासता. अशावेळार हांवें म्हजो फुडारी कोण म्हूण सांगप ह्याच घुस्पा - गोंदळांत हांव पडटां.

मनशान समाजाचो एक आदर्श घटक जावंचो हो हावेस सगळ्यांचो आसता. भुरगेपणार आपल्या भुरग्यांनी बऱ्या मनशांचे आदर्श घेवंचे आनी ताणींय ह्या फुडाऱ्यांवरींच जावंचें अशें

दर एकल्यांच्या आवय - बापायक दिसता. देखून तीं आपल्या भुरग्यांक अशाच फुडाऱ्यांच्यो काणयो सांगतात. शिवाजी महाराजांची आवय शिवाजीक ह्योच काणयो सांगताली आनी सुभाषचंद्र जांव नेहरू हांच्योय आवयो ह्योच काणयों सांगताली. म्हजेय आवयन म्हाका त्योच काणयो सांगल्यो आनी मुखार जल्म घेवपी दरेका भुरग्याची आवय अशाच प्रकारच्यो आदर्शवादान भरिल्ल्यो काणयो सांगून तांचे भितर आदर्श निर्माण करपाचो यत्न करतली. फाटलो सगळो हो इतिहास पळयल्यार फुडल्योय सगळ्यो आवयो हीच परंपरा सांबाळटल्यो हातूंत दुभाव ना.

म्हज्या भुरगेपणार आवयन म्हजे ज्यो काणयो सांगल्यो, मुखार शाळेंत मास्तरांनी जांचे आदर्शवाद म्हज्या मुखार दवरले वा वाचनांतल्यान हांवे कांय आदर्श मानून घेतले ताकाच लागून म्हजो एक रस्तो थरलो हातूंत दुबाव ना. तांची स्फूर्त घेवनूच दर एकलो आपलें ध्येय थारायता. जें हांवेंय थारायलें. तरीयपूण आयज हांव ह्या म्हज्या आदर्श फुडाऱ्यांच्या वावराचेर आनी जिविताचेर खोलायेन अभ्यास करतां तेन्ना तांचीं म्हाका बरी - वायट सगळीं आंगा दिसतात. तीं पळोवन हांकां फुडारी मानप काय कितें होय प्रस्न पडटा. म्हज्या भुरगेपणार ह्या फुडाऱ्यांचीं बरी रूपां म्हज्या मुखार आयलीं तशीं वायटूय जर आयिल्लीं जाल्यार म्हजेर ताचो कितें परिणाम जावपाचो हाचो विचार ह्या रूक्षप्रस्ना वेळार म्हजे तकलेंत येता. फुडाऱ्यांचीं वायट रूपां एकतर आमच्या जाणटेल्यांक समजूंक नाशिल्लीं जांवये वा आदर्शवाद निर्माण करतना ताका बादा येवपी घडणुको टाळपाच्यो आसतात आसुये. कितेंय जांव ! कांय गजालीचें अज्ञान आसप हेंच समाज उन्नती खातीर वरदान आसता.

भुरगेपणार रामायण - म्हाभारतांतले फुडारी म्हजें फुडारपण करताले. पांडव जावप म्हाका आवडटालें. कौरवांचो राग मारतालो. राम जावन हांव रावणाक मारतालों. शिवाजी जावन अफझलखानाच्या पोटांत नाकटां रोंबतालों. आयज रावणांमदले बरे गूण पळोवंक गावतात. कौरवांमदींय खूपशे गुणी लोक पळोवंक गावतात. पयलो पंतप्रधान जावपाखातीर नेहरून केल्ली तडजोडूय उमगता. आदर्शवादाची ही सगळी देख म्हळ्यार बऱ्याची भ्रामक प्रतिमा तयार करून वायटाचेर वा वायट प्रवृत्तीचेर जैत मिळोवपाखातीर आमच्या आंगांत तोपिल्ली एक प्रकारची लस - वासीन म्हणपाची जाणविकाय आतां जालेबगर रावना.

जो फुडार पारखून ते नदरेन वावर करता आनी समाजाकूय ते वाटेन व्हरता तो फुडारी काय आपलो फुडार सांबाळपाखातीर समाजाच्या मुखार मुखार रावपाचो यत्न करता तो फुडारी ? असो प्रस्न सद्या उप्रासूंक लागला. आदले फुडारी फुडले पिळगेचेर प्रभाव घालून आपलो आदर्शवाद तांचेर दवरता. नवे पिळगेंतलो फुडारी आपलो प्रभाव येवपी पिळगेचेर दवरूंक धडपडटा. असले हे जायते फुडारी म्हाका जळींमळीं आपटल्यात. अजुन आपटत आसात. आयज हांव तांचो वावर, तांचे विचार जेन्ना पळयतां, समजून घेतां तेन्ना फुडारपणाचो अर्थ जित्या - जागत्या रूपान म्हजेमुखार येता. आनी म्हजो फुडारी कोण ह्या रूक्षप्रस्नाची जाप म्हाका मेळत रावता.

हे भुंयेर फुडारी हो मनशाच्या रूपान केन्नाच नासता. मनीस म्हणलो की ताचे भितरले गूण - दुर्गूण आयले. व्यक्तिपुजा सुरू जाली म्हणटकच ताच्यातल्या दुर्गुणांचोय स्विकार करचो पडलो. हाका बरो उपाय एकूच आनी तो म्हळ्यार व्यक्तिपुजा सोडून दिवन तांच्यांतले बरे विचारूच समजून घेवप. त्याच विचारांक वेंगावन आपलो फुडार आपणेंच घडोवप. आपणेंच फुडारी जावप. बरे विचार आनी बरे गूण दरेका मनशाभितर आसतात. राजहंस उदकांतलें दूद वेगळायता तशें मनशांतले गूण वेगळावन ह्या गुणांचोच अनुयायी जावप. तांतुतल्यानूच आपल्याक एक योग्य दिका मेळूं येता. अशें घडलें जाल्यार व्यक्तिपुजेक मार बसतलो. फुडाऱ्यांचें मोल देंवतलें. फुडाऱ्यांचो फुडार काबार जातलो. हो रूक्षप्रस्नूय रूक्षजावन वतलो.





# तुजो भुतांचेर विस्वास आसा



मनीसजातीन आपल्या जिवितांत चडसो भर विस्वासाचेर दिल्लो आसा. तो जियेता तो फक्त विस्वास हे भावनेचेर. मनशांच्या मनांतली विस्वास ही भावनाच ना जावन गेली तर तांच्या जिवितांतलो रंगूच ना जातलो. संवसारांतले खंयचेय गजालीच्या अस्तित्वाविशीं दुभाव आसता तेन्ना विस्वास ही भावना मनांत जागोवन मनीस आपलें जिवीत सारता. ह्याच खातीर तो आपले सरभोंवतणी वावुरपी मनशां वांगडाच हेर प्राण्यांचेरूय विस्वास दवरता. कोण आपल्याचो विस्वासघात करचोंना ह्याच विस्वासान तोय कोणाच्या मनांतल्या विस्वासाक वेर वचूंक दिना. विस्वास ही एक मानसीक भावना आशिल्ल्यान ती दरेक मनशाकणकणी ल्हान - व्हड प्रमाणांत वसता. ही विस्वासाची भावना केन्ना उणी जाता तर केन्ना वाडटा. आपले अपेक्षेप्रमाण त्या विस्वासाचें मूल्य थरता. देखुनच मनीस देवाचेर विस्वासून रावता आनी त्या विस्वासाचो भंग जालो म्हण्टकच अविस्वास उक्तायता. संवसारांतली खंयचीय गजाल जावं, ती दृश्य आसूं वा अदृश्य आसूं ते विशीं मनशाच्या मनाक खात्री दिसना तेन्ना विस्वासाची ही भावना मनशाक बळजबऱ्या तयार करची पडटा. हाकाच लागून ह्या संवसारांत भूत आसा काय ना हे गजालीचो दुभाव आशिल्ल्यानूच 'तुजो भुताचेर विस्वास आसा ?' हो दुभावाचो प्रस्न तयार जाता. जेन्ना प्रस्न करतल्याकूच आपूण कितें विचारतां हाचेर विस्वास नासता तेन्ना तो प्रस्न रूक्षप्रस्न जावन वता.

भूत आनी देंवचार ह्यो दोनूय गजाली आमच्या संस्कृतायेंतल्यो वेगाळांव नज असल्यो गजाली. आमचेर हेर कसलेय संस्कार जावंचे पयलीं संस्कार जातात ते ह्या भूत - देंवचार हे कल्पनेचे. ह्यो दानूय गजाली कोणें पळोंव वा ना पळोंव, तांचेर विस्वास आसूं वा नासूं, तांचो भंय मात तांची फाट केन्नाच सोडिना. काळोख पडूंक सुरवात जाली म्हणटकच दरेका मनशाची सावळी ताका सोडून वता आनी भूत - देंवचार हांची कल्पना, काळोख जसो वाडत वता तशी दरेकल्याची सावळी जावन रावता. रातच्या बारा वरांचेर तर हो विचार आनी ताचो भंय सामकी तेंगशी हुपता. दीस जसो मागीर लागी पावंक लागता तसो सुर्याच्या किरणां वांगडा तणांवयलें दव सुकून नांच जावंचें तशे ते भूत - देंवचाराचे विचार मनावयले उबून वतात.

भूत आनी देंवचार ह्यो गजाली चड करून रातिच्योच आनी खास करून उमाशेचे रातीच

दिश्टी पडटात अशें म्हणटात. ह्यो रातिच्योच कित्याक दिसतात आनी दिसाच्यो खंय लिपून बसतात हाची जाप मात ह्यो कल्पना आमच्या मुखार दवरप्यांनी केन्नाच दिल्ली ना. कांय भुतां आनी देंवचार दनपारच्या कडार, बारा वरांचेर कांय जाणांचे मानेर बशिल्ल्याच्यो वा तांकां त्यो दिश्टी पडिल्ल्याच्यो खबरो म्हज्या कानार गेल्ल्यो आसात. पूण दिसा उजवाडाक भूत दिसलां म्हणपाच्यो घडणुको चुकून आयकूंक येतात. तांचो भंय दिसा उजवाडाक कमीच दिसता. आयज गांवा - गांवानी लायट पाविल्ल्यान रस्त्यावेल्या दिव्यांक लागून ह्या भुतांचो भंय आतां रातिचोय खुपसो उणो जावन गेला. शारांसारके वाठार लायटिच्या उजवाडान पुराय भरून गेल्ल्यान थंय आतां भुतांक मात लेगीत सुवात ना.

देंवचार हो थरावीक वाठाराचो राखणदार. तो बऱ्या मनाच्या आमच्या पुर्वजांचो आत्मो आमची राखण करपाकूच आसता असो समज आमच्या समाजांत आशिल्ल्यान ताचेविशीं व्हडलोसो भंय कोणाक दिसना. तो आपली राखण करतलो असो विस्वास मनीस ताचेर दवरता. पूण भूत मात पिडपाक आसता. तें मानेर बसता आनी एकदां लागलें म्हणटकच सुटप कठीण असो एक समज लोकांमदी पातळिल्लो आसा. भूत म्हळ्यार अतृप्त मनशाचो आत्मो, जो वायुरूप धारण करून आपल्यो इत्सा तृप्त करूंक भोंवता आनी ज्यासर ताच्यो इत्सा पुराय जायनांत त्या सर तो आत्मो असोच हुमकळत रावता. ताका मोक्ष मेळना. आपल्यो ह्यो अतृप्त इत्सा तृप्त करपाखातीर ह्या आत्म्याक 'झाड' जाय आसता. योग्य अशें झाड म्हळ्यार मनीस गावलो म्हणटकच ताच्या माध्यमांतल्यान हो आत्मो आपल्यो इत्सा भागयता असो विचार सिनेमा - नाटकां आनी वेगवेगळ्या साहित्यिक माध्यमांतल्यान लोकांच्या मनांत रिगोवपाचो यत्न अजून जायत आसा. अंधस्त्रद्धा पातळावपाच्या ह्याच यत्नाक लागून नकळटना दर एका मनशाच्या मनांत हो भुतांचो विस्वास बसकण मारून बसला. जर कोणाचेंय मानसीक संतुलन इबाडलां जाल्यार ताचेर भूत बसलां म्हणपाचो निश्कर्श बरे बरे बुद्धीवादी लेगीत काडटात. अशें भूत बशिल्ले व्यक्तिक ताचेर बशिल्लें भूत काडपाखातीर मंत्रिकाक हाडटात.

भुताची संकल्पना आनी ताचे विशींचो भंय हेरांप्रमाण म्हज्या मुखारूय ल्हानपणा सावन खूप जाणांनी उबो केलो. हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले हे गजालीचेर अर्थहीण विस्वास आपसूक बसत गेलो. आमच्या सरभोंवतणचे जाण्टेले, जांव मागीर ते घरांतले वो शेजारचे, ल्हानांकडल्यान आदर आनी मोठेपण घेवपाखातीर ह्या भुतांवयल्यो गजाली रंगोवन सांगताले. भुरगेपणार घरांतलो व्हडलो मनीस हो आदर्श आशिल्ल्यान तांचे दरेक सांगणेर आपसूक विस्वास बसतालो. भुरगेपणार म्हज्या सारख्या भुरग्यांक रातचें भायर सरपाची परवानगी नाशिल्ल्यान सिनेमा - नाटकाक घरांतले व्हडले भावूच वताले. मागीर रातचो भिनासतना मध्यान रातीर आपूण एकटोच कसो आयलों हाचें व्हडपण सांगपाखातीर आपल्याक भूत दिसलां म्हणपाचें ते रंगोवन सांगताले. एकवेळ तांकां तसो भास जाला आसूं येतालो वा आपूण कितलो शूर - वीर हें सांगपाचो तांचो उद्देश्य आसतालो. त्या वेळार ते

बंडलां मारतात हें कळनाशिल्लें. आतां तें कळटा. अशावेळार हांच्या फुकटचें मोठेपण घेवपाच्या सोसाखातीर म्हज्या सारख्या कितल्या तरी भुरग्यांचेर गरज नासतनां संस्कार जाले हाचें कोणाकूच कांयच पडूंक ना. कोणाक रातचो येता आसतनां तांबडेंच कापड न्हेशिल्ली, माथेंभर फुलां माळिल्ली, कपलाक तांबडोच कुकूम लायिल्ली एकटीच बायल मनीस दिसली. तिच्या पांयांकडेन पळयल्यार तिचीं पावलां उरफाटीं आशिल्लीं. परतीं पावलां सदांच भुताचीं आसतात. फाटीं वळून पळयत जाल्यार ती बायल थंय नासताच. हाचेवयल्यान तें दिसलां तें भूत म्हणपाची खातरी ताका जाता. कांय जाणांक रस्त्यार खूप माजरां चलतात तीं दिसतात. तर काय जाणांक कितल्यातरी लोकांचें पुरसांव वतना दिसता. कोणांक ही भुतां कोणाच्या रूपान दिसत तें सांगू नज. ताणीं सांगिल्ल्यो गजाली जरी चित्त थरारक म्हणटात तश्यो आसल्यो तरी त्यो भुरगेपणार परिणाम करून जल्मभर मनशाक दुबळो करूंक पुरो !

भुतांच्यो वावड्यो पिकोवंक जशे अशिक्षीत मुखार आसतात तशेच सुशिक्षितूय आसतात. पणजेच्या एका इस्कोलांत जंय हांव शिकयतालों थंय एक भूत आसा म्हणपाचें सगळे म्हजे वांगडचे शिक्षक उलयताले. अजून तांचो ताचेर विस्वास आसा. इस्कोलाखातीर तें घर घेवंचे पयलीं त्या घरांत ताचो धनी रावतालो. तो लग्न जावंक नाशिल्लो. एक दीस ताणें आपल्या हातानूच आपलें इंद्रीय कापून उडयलें आनी तातुंतूच तो मेलो. ताचें भूत जावन तो त्या घरांत अजून भोंवता खंय ! रातचे थंय राविल्ल्यांक ताणें खोटायल्यात. लाकडांच्या फळ्यांचे माळयेर तो भोंवता ताचो आवाज सकयल राविल्ल्यांक आयकूंक येता खंय ! खरें फट हें पळोवंक हांवें ते शाळेंत कांय राती काडल्यात. पूण केन्नाच म्हाका त्या भुताच्या पावलांचो आवाज येवंक ना वा तें हेर खंयच्याच प्राण्याच्याय रूपान दिसूंक ना. भुतां शेळ्या नक्षत्राच्या मनशाकूच दिसतात अशें सांगतात. म्हाका अजून शेळें नक्षत्र म्हळ्यार कितें तें खबर ना. म्हाका जेन्ना भूत दिसूंक ना तेन्ना म्हजें नक्षत्र एकदम हून हून आसूंक जाय.

मनशान भूत, वर्तमान आनी भविश्य अशे तीन काळ मानल्यात. खरें म्हळ्यार दरेक मनशान वर्तमान काळांत जियेवंक जाय. कारण तोच काळ सतत तांच्या हातांत आसता. त्याच काळार तांचो विस्वास आसूंक जाय. पूण मनीस वर्तमान विसरतात. आपलो गेल्लो काळ आनी मुखार येवपी काळ हाचोच विचार करून तेच चिंतेन ते आपलो वर्तमान होगडावन बसतात. आपलो फुडार म्हळ्यार भविश्य हें शंबर टक्के पारखूंक नज देखून फुडाराचे आशेचेर मनीस जियेता. पूण तांका चड पिडटा तो भूतकाळ. फाटल्यो यादी काडून ते दुख्खी जातात. मनशाच्या दुबळ्या मनाक हेंच भूत सतत त्रास दीत आसता. भूत ही गजाल भुतांत गेल्ली आसता. फाटीं गेल्ली आसता. ती उरफाट्या पावलांनी फाटीं फाटीं वचत आसता. तिणें फाटींच वचचें फुडें सरचें न्हय देखून तांची पावलां उरफाटीं आसतात. पूण आमी त्यो फाटल्यो यादी काडून हीं भुतां वर्तमानांत हाडपाचो यत्न करतात. मनशाचे हे खटपटीक लागुनूच काळ असो आपली सुवात सोडून मनशाक सतायता.

काळाचेर जर विस्वास आसत जाल्यार भूतकाळ वर्तमानांत केन्नाच येना. तो काळ सरता तसो चडचड भुतांत वता. ताका तशेंच वचूंक दिवप गरजेचें आसता. मनशांनी ताका वर्तमानांत हाडपाचो यत्न करचो न्हय. जे मनीस ह्या फाटीं गेल्ल्या काळाचो, तांतले घडणुकेचो सतत विचार करून खंती काडटात तांच्या दुबळ्या मनाक हो भूत सतायता. तांचे कल्पनेप्रमाण हो काळ वेगवेगळी रूपां घेवन तांच्या मुखार नाचता. जो वर्तमान काळाचेर विस्वास दवरून फुडाराच्या येवकाराक रावता ताका भुताची व्हडलिशी चिंता नासता. जावन गेल्ली गजाल खरी जरी आसली तरी ती परतून आपल्या हातांत येवचिना, ती वता तेंच बरें आसा अशें जाका दिसता तोच ह्या भुतांकडल्यान मुक्त जाता. ह्या भुतकाळाचीं पावलां उरफाटींच आसूंक जाय. ती तशीं आसचीं देखून मनशान आपल्या मनाक घटाय दिवंक जाय. मनीस मेल्याउप्रांत भूत जाता ही मनशाच्या दुबळ्या मनान चितारिल्ली कल्पना. मनीस मेल्या उप्रांत भुतकाळांत वचत रावता हें जरी सत्य तरी तें भूत असलें न्हय, जें जिव्या मनशाक त्रास दिता. जो कोण विचार करता ताकाच त्रास दिवपी आसता तो काळ. फाटलो काळ - भूतकाळ. खंयचेंय भूत खंयच्याय मनशाक लागना. फाटलो विचार करून जो आपल्या मनावयलो ताबो होगडावन बसता ताचेच मानेर भूत बसता.

मनीस मरतकच ताचें भूत जाता तर दर एका जिवाचें भूत जावंक जाय आशिल्लें. झाडांचें लेगीत. पूण तांचें भूत जाल्लें कोणांक दिसूंक ना. कारण झाडां - वेली, किटक - प्राणी आपल्या भुतांचो विचार करिनांत. करतात ते फक्त मनीस. देखून तांच्या भुताचेर विस्वास दवरप म्हाका जमना. म्हजे खातीर भूत हें एक रूक्षप्रस्न !





# तुज्या कायम स्मरणात उरिल्लो प्रसंग खंयचो



मनशाची स्मरणशक्ती ही बरी आसूंक जाय. जाची याद बरी आसता ताची सगळ्या स्तराचेर तोखणाय जाता. 'स्मृति' ह्याच गुणाक आयजवेर सगळ्यांनी म्हत्व दिल्लें आसा. आपली स्मरणशक्ती ताजी दवरप आनी आपणें स्मृतिभ्रश्ट जावप ना हाचेचकडे मनशाचो कल आसता.

पूण हो गूण सगळ्याच मनशांमदी सारको नासता. स्मरणशक्त वा स्मृतिगूण मनशामनशांमदी उणे ज्यास्त प्रमाणांत आसता. ह्याच गुणाचे ताकदीचेर मनीस आपलें जैत व्हरता. जाची याद प्रखर तोच संवसारांत नांव जोडटा. हुशार म्हूण मिरयता. स्मरणशक्तिचेर भर दिवपाखातीर दर एका मनशाक भुरगेपणार नानातरांचे प्रयोग करतात. स्मरणशक्त सशक्त आसल्यारूच मनीस खंयच्याय मळार फाटी पडचोना हाचो भरवंसो दर एकल्याक आसता. कर्तुत्वाचो म्हूर्तमणी जाल्ली ही स्मरणशक्त जाण्टेपणार मनशाक धोको दिता आनी मनीस स्मृतिभ्रश्ट जाता. विस्मृति ही ताची सांगातीण आसता. तरी लेगीत जिविताच्या निमण्या खिणामेरेन मनीस जियेता तो हेच स्मृतिचेर, ह्याच यादींच्या मालवजाचेर.

मनशाच्या जिवितांत कायम स्मरणांत उरपासारख्यो यादी आसतात त्यो वायट आनी बऱ्यो. मनीस बऱ्या यादींकूच वेंग मारून रावंक सोदता. त्याच यादीनी तो आपली जीण रिजयता. - सजयता. वायट यादीनी दुख्खी जाता. ज्या यादीनी मन खंती जाता त्यो यादी रोखड्यो विसरायेर पडच्यो म्हूण यत्न करता. त्यो याद न जावंच्यो म्हूण पराथता. पूण ज्यासर त्या प्रसंगावेल्यान काळ सरना त्या सरं ह्यो सगळ्यो यादी त्या मनशाखातीर ताज्योच उरतात. जसो काळ सरता तसो ते यादीचेर विसरायेचें आनी भावनेचेंय आवरण चडत रावता. त्या प्रसंगाफाटली भावना पातळ जावन एक याद म्हूण भावनाहीण प्रसंग तितलो जिवितांत याद जायत रावता. त्याच प्रसंगाक त्याच घडणुकेक कायम स्मरणांतलो प्रसंग वा खीण म्हूण आमी जिवीतभर सांसपीत रावतात.

तुज्या कायम स्मरणांत उरिल्लो खीण खंयचो असो जेन्ना प्रस्न येता तेन्ना जण एकल्याची जाप तांचे कुवतीप्रमाण आसता. कोणागेर पयलेंच भुरगें जाल्लें तो खीण वा पयलेंच भुरगें अपघाती मेलें तो खीण ताच्या कायमच्या स्मरणार्थ उरता. कोणाक कसलो पुरस्कार मेळिल्लो तो खीण वा अशेंच किर्तें विपरीत घडिल्लें तो प्रसंग मरसर याद उरता.

मरसर म्हळ्यार जिविताच्या अंतामेरेन याद उरपी घडणुकेकूच कायम स्मरणांतलो खीण मानपाची प्रथा आमचेमदीं पडल्या आसूं येता आनी ह्या प्रस्नाची जाप दितना ह्याच खिणाची याद करपाची आसता अशें आसूं येता. देखून जेन्ना किर्तेय मनाक लागपा सारकें - जावं मागीर ती गजाल बरी वा वायट - तेन्ना ही घडणूक मरसर म्हाका याद उरतली वा मरसर हांव याद दवरतलों अशें मनीस म्हणटा. त्या प्रसंगावेल्या भावनेच्या ओगांत तीं उतरां तोंडांतल्यान भायर येवप साहजिकच. पूण खरेंच ती व्यक्ति ती घडणूक मरसर याद दवरता काय किर्ते ? खरेंच ती घटना याद दवरपासारखी काय किर्ते ? काय ती त्या उप्रांत आपसूक काळा प्रमाण विसरून वचपा सारखी आसता होय प्रस्न म्हत्वाचो आसा. जेन्ना जेन्ना तथाकथीत अथवा खरेलेच व्हड मनीस आपल्या कायम स्मरणांत उरिल्लो एकूच खीण जेन्ना बेधडक सांगून वतात तेन्ना म्हाका त्या लोकांक एकतर स्मृतिभ्रंश जाला वा याद उरपासारखी हीच एक घडणूक तांच्या जिवितांत घडल्या आसूं येता अशें दिसूंक लागता.

ल्हानपणार मनशाची स्मरणशक्ती सशक्त आसता. भुरगेपणार भुरग्यांचेर जे आघात जातात ते भुरगो केन्नाच विसरना. मागीर त्यो कितल्योय घडणुको आसूं. तांच्या मेंदवाच्या टेपीचेर ह्यो गजाली रिकॉर्ड जायत वतात. केन्ना केन्ना त्यो गजाली तो भुरगो कांय खिणांखातीर विसरता पूण अकस्मात ताका त्यो याद जातात वा सपन जावन ताका दिश्टी पडटात. मागीर ती याद कुशीक काडप कशेंच शक्य नासता. भुरगेपणार घडिल्ल्या वेगवेगळ्या घडणुकांक लागून आनी त्या घडणुकांची याद तांच्या मनार वा स्मृतिपटलाचेर घट बरी उरिल्ल्या कारणान तांची फुडली जीण ह्याच यादींचेर घडत वता. ह्याच यादींक लागून कांय जाणांचो पुराय फुडार इबाडून वता. मनशाचें व्यक्तिमत्व घडपाक यादीच्या करंडांत उरिल्ल्यो ह्योच घडणुको जापसालदार थरतात.

म्हजे मुखार जेन्ना - तुज्या कायम स्मरणांत उरिल्लो खीण खंयचो ? असो जेन्ना प्रस्न येता तेन्ना ह्याच खातीर म्हाका तो रूक्षप्रस्न दिसूंक लागता. म्हज्या जिवितांत अशे प्रसंग घडल्यात जे म्हाका अजून लेगीत आतांच घडल्यात काय दिसूंक लागतात. कितल्या तरी वरसांफाटी घडिल्ले हे प्रसंग काळाचें कसलेंच बंधन पाळिनासतना ताजेच जावन मुखार येतात. यादीचें बळ आनी त्या वेळावेली ती दुखदेणी भावना काळाप्रमाण पातळ [illegible]न वचूंक जाय आशिल्ली. पूण हांगा हो सैमीक नियम म्हजेखातीर गौण थरता.

भुरगेपणार हांव जेन्ना ओप्रेंत शिकतालों तेन्ना साकाचेर बसून फुटलेले पाटयेचेर श्री गणेशा चिरतनाची याद, चिड्डो घेवन पाटी पुसतनाची याद आनी आमकां परवड म्हणूंक लावपी मास्तर, भायर पाकल्यांक पळोवन शाळेंतल्या जनेलांतल्यान उडी मारून धांवट सुट्टा ती याद अजून म्हाका दोळ्यांमुखार दिसता. धवो फूल्ल लेंगो आनी धवेंच खोमीस घाल्लो तो मास्तर माथ्यावेली धवी तोपी हातांत. घेवन शेतांतल्यान धांवता, शेतांतल्यान धांवतना मातयेच्या आड्यांक आपटून पडटा, तसोच पडत - मरत धांवता ही घडणूक आयज तेत्तीस - चौतीस वर्सांनी लेगीत आतांच घडिल्लेवरी म्हाका भावता.

त्या उप्रांत १९६१ त गोंय मुक्त करपाखातीर सुरू जाल्ली चळवळ. हांव तेन्ना स वरसांचो. कितें चल्लां तें कांयच कळनाशिल्लें. मायकावेल्यान कोण तरी आमकां घर खाली करून पयस वचूंक सांगतात. विमानां सामकी घराक तेंकून वतात. तीं आयले बराबर भाव आमकां जमनीर न्हिदूंक लायतात. बॉम्ब फुटपाचो आसा म्हणपाची कुजबूज चलता. आमकां ल्हान भुरग्यांक घेवन आवय - बापूय गोरवां - बोकड्यांसयत आगशी गावापासून पयस वचूंक भायर सरतात. नेवऱ्यां म्हणटात थंय वचून आमी रावतात. थंयचो तो नवो प्रदेश आनी थंयच्या लोकांचे बॉम्ब, फार हाचेवयलें भिरांकूळ उलोवप. आवयचो घराविशीचो हुसको अजून याद जाता. त्यावेळार बोम म्हळ्यार दूद पिवपाचो बोम. दोनूय वाटांनी चिंवों आशिल्लो. तो फुटल्यार मनीस कसो मरता ? आनी सदांच म्हाका चॉकलेटी दिवपी पाकले तो फोडून आमकां कित्याक मारतले हें कांयच कळनाशिल्लें. सदांच हड्डे मुखार काडून आमीं घेवन वचपी ते म्हजे सोल्दाद आमींग आयज भिवून हांगा थंय पळटात आनी तांच्यो वस्तू घेवन गांवचे लोक पळटात तें सगळें म्हाका विचित्रूच दिसतालें. त्या वेळावेले ते एकान एक खीण आतांच घडल्यात अशें दिसता. हांव तेच पिरायेचो आसा आनी ते पिरायेवेल्यो त्यो वेदना अजून म्हाका तितल्याच खरायेन जाणवतात.

ह्यो सगळ्यो यादी आनी घडणुको घडिल्ल्यो ते खीण खरें म्हळ्यार सगळ्यांत व्हडली घडणूक घडल्याबराबर विसरायेर पडूंक जाय आशिल्ले. नवी घडणूक हीच स्मरणांतलो खीण जावंक फाव आशिल्लो. जिवितांतल्या चाळीस वर्सांतल्या प्रवासांत असंख्य अश्यो घडणुको घडल्यात. ते दर एक खीण अजून मेरेन ताजे जावन म्हाका याद जातात. तातूंत खंयचो म्हत्वाचो आनी खंयचो उण्या म्हत्वाचो हें सांगप मुश्किल. दर एक खीण म्हाका तितल्याच म्हत्वाचो जावन आसा. ज्या घडणुकांनी आनी तांच्या यादीनी म्हजी जीण परिपूर्ण जावन गेल्या.

जेन्ना हांव ऐन तारूण्यांत म्हणटात तसो आशिल्लों तेन्ना मोगाच्योय घडणुको घडल्यात, जे प्रेयशीविशी खीणभर रावप शक्य नाशिल्लें आनी एक दीस पासून पयस गेल्यार, तिच्या विरहान तळमळे लागताले आनी तिजो लेंस घेवन विरह सोसपाचो यत्न करतालों तेन्ना दोळ्यांमुखार तिणें हातांचेरूच प्राण सोडपाची घडणूकय म्हज्या जिवितांत हांवे अणभवल्या. त्या प्रसंगान आत्महत्या करपाच्या निर्णयार लेगीत म्हाका पावयला. मन जेन्ना भावूक अवस्थेंत आसता तेन्ना घडपी हे असले खीण कायमचे यादीत उरतात. फाटी फुर्डे ह्याच प्रस्नाची जाप दितना म्हजें प्रेयशीचेर अन्याय न जावंचो म्हूण म्हजें भावूक मन ह्याच खिणाची याद करीतूय बी. ह्या विसरायेर न वचपासारख्या प्रसंगांचो म्हजी जीण घडोवपाखातीर म्हत्वाचो वांटो आसा. तरी लेगीत त्या पयलीं अणभवल्ल्या खुपशा प्रसंगाचें कितें ? खंयचो खीण हांवे कायम स्मरणांत उरपासारको आसा अशें हांवें सांगप ? खरेंच रूक्षप्रस्न !





# तूं वेंचणुकेंत कसो पडलो



**हांव** वेंचणुकेंत कसो पडलों आनी कित्याक लागून पडलों हें म्हजे वांगडाच हेरांकूय पुराय खबर आसा. पूण सगळें खबर आसुनय फक्त विचारूंक जाय देखून प्रस्न विचारप हें एक आमचेमदीं आसताच. ताका मागीर म्हजे सारके रूक्षप्रस्न म्हणू.

हांव वेंचणुकेंत कसो पडलों ? वेंचणूक जावंचे पयलींच म्हाका खबर आशिल्लें हांव पडटलों म्हूण. हांगा वेंचणुकेंत पडप म्हळयार वेंचणुकेक उभो रावप, आनी मागीर जिखून येवप ना, हारप. ह्या हारपाचो अर्थ वेगळे पद्धतीनूय जाता. तूं मोगांत कसो पडलो ? साहित्यांत कसो पडलो ? भानगडींत कसो पडलो म्हळ्यार तातूंत कसो भितर सल्लो, घुस्पलो ह्या अर्थानूय हें पडप जाता. पूण निवडणुकींत वा वेंचणुकेंत कसो पडलों हाजो अर्थ हांगा हांव तातूंत कसो भितर सल्लो असो हांगा जायना. तर हांव वेंचणुकेक उबो रावल्या उप्रांत मतां न पडून कसो हारलों असो अर्थ जाता. म्हजी ही आपटी खावप पळोवनच कांय लोक कुच्छीत्रीपणान म्हज्या हारपाचें कारण विचारतात. तांका ताची जाप खबर आसता. पूण तुका कोणें सांगल्यात त्यो भानगडी ? तें तुजें काम न्हय. ते खातीर भरपूर दुडू जाय पडटात. तूं तें किर्ते धव्याचेर काळें करता तितलेंच कर. हें सांगपाचो ह्या फाटलो उद्देश्य आसता. पूण अशें उगड सांगप शक्य नाशिल्ल्यान न्हयकारी किर्ते तरी विचारप. जापेचीय तातूंत अपेक्षा ही नासता. जाप तांकां हांव दिवंचोना हेंय तांकां बेस बरें खबर आसता. तरी विचारप. तूं वेंचणुकेंत कसो पडलो ?

खरेंच हांव वेचणुकेंत पडलों ? म्हाका दिसना हांव वेंचणुकेंत पडलां अशें. म्हजी हार जाल्या अशी म्हाका निखालूस दिसना. हांवे हे पयलीं जर कांयच करूंक नाशिल्लें आनी म्हाका कमी मतां पडिल्लीं आनी म्हजो प्रतिस्पर्धी जिखून आयिल्लो जाल्यार हांव खऱ्यानीच मानतलों आशिल्लों. वेंचणुकेखातीर तपश्चर्या जाय. जिवितभर धंदो करून, हाका ताका दान दिवन, आपलें घर सजोवन, बँक बॅलन्स फुगोवन, भुरगे - बाळांक वाडोवन, दारांत गाडयो उब्यो करून, हांगा - थंय खंयच नदर मारिनासतना, समाजीक जाणविकाय मनांत बाळगिनासतना एक दीस सत्ता जाय म्हूण जर हांव वेंचणुकेंत उबो राविल्लो आनी आपटी खाल्ली जाल्यार म्हाकाच पटपाचें आपले भितरूच कोश करून रावल्यार मतां पडनांत. ते खातीर समाजसेवेचें व्रत घेवंक जाय. पूण हांगा ती गजाल नाशिल्ली. एक रेशमाचो कोश

म्हजेभोंवतणी तयार करून अकस्मात एक फुलपाखो जावन म्हज्यान भायर येवं येतालें. म्हज्या रंगबिरंगी पाखांनी समाजाक दिपाकावन उडोवं येतालें. तें म्हाका सामकें अशक्यूय नाशिल्लें. पूण ते भानगडींत हांव पडलोंना. म्हजे आंगातले गूण वापरून आपले भोंवतणी कोश निर्माण करचे बदला हांव काट्याकुट्यांनी धडपडत रावलों. आंगांतले सगळे गूण समाजाखातीर वापरीत रावलों. बरोवपाची कला आंगांत आशिल्ली. ताजो वापर करून आघात, प्रहार करीत रावलों. उलोवपाची कला आशिल्ली. तिजो वापर नाकाशिल्ल्यो लातबडायो करून हेरांक शिंगा लावपाबदला समाजाच्या हक्कांची जाणविकाय करूंक तिजो वापर केलो. प्रस्थापितांविरुद्ध भाशणां दीत रावलों. संघटकाची कुशळताय आशिल्ली. विद्यार्थी, युवक, कामगार, आनी हेर संघटना उभारपांत वांटो घेवन त्याखातीर वावरत रावलों. मोर्चा काडले, मार खालो, बंदखणीतूय पासय मारून आयलों. फाटलीं पंदरा - सोळा वर्सां हीच गजाल करीत आयलां. ह्या सगळया वावरांत आपलो कोश निर्माण करपाचो आसता हाची यादूच केन्ना जाली ना. हें सगळें करतनां म्हज्या सपनातलें गोंय निर्माण जालें अशांतलो भाग न्हय. ही फक्त जनजागृताय आसताली. खिणभर हाचो फायदो जालो अशें दिसतालें. पूण सत्ता ही ह्या सगळ्या सपनांचें मूळ आसा हो विचार पयस जायनाशिल्लो. जेसर सत्ता हातात येना, वा म्हज्या सपनांतलें गोंय आसा तसलें निर्माण करपाचे विचार जांकां आसात ते सत्तेर जेसर येनांत ते सर म्हज्या ह्या वावराक कांयच अर्थ नाशिल्लो. असलो हो वावर म्हळ्यार उमथ्या कळशार उदक अशांतलीच गत आशिल्ली.

ह्याचखातीर वेंचून येवन फक्त सत्ता भोगपी बोंड्यांमुखार आड्डेवंचेपरस, तांकां वर्तमानपत्रांतल्यान जागोवचे परस, चळवळी उबारून हालोवचे परस ती सुवात आपणेंच घेवन एक आदर्श समाज कित्याक घडोवंचो न्हय ही भावना मनांत निर्माण जाताच. कोणांक तरी अक्कल नाशिल्ल्याक सत्ता दिवप आनी अमूक अमूक कर म्हण सांगचेपरस ती सत्ता आपलेच कडेन दवरून आपणेंच गरजेच्यो गजाली करपांत किर्ते वायट आसा ? तातुंतल्यान हेर हानी तरी वाचपाची. वेळ वाचपाचो. तेच खातीर म्हाका वेंचणुकेक रावपाचें आशिल्लें. आतां हांवे जो वावर केल्लो तो वेंचणुकेच्या धंद्यांत वापरिल्लें म्हजें भांडवल नाशिल्लें. तो सगळो वावर हांवे केल्लो तो म्हजें कर्तव्य म्हूण. तो कर म्हूण म्हाका समाजान सांगूंक नाशिल्लें. तो केलोनाय जाल्यार समाज म्हाका शिणचों नाशिल्लो. हांव हें सगळें करतालों तें म्हज्याच फायद्याखातीर. हांव ह्या समाजांत रावतां, हांव समाजाचो घटक. जर म्हाका ह्या समाजांत रावपाचें आसा जाल्यार तो म्हाका रावपाखातीर फावसारको जाय. म्हजे भोंवतणी जर घाण जाली जाल्यार हांव ती काडून उडोवन सुवात लींप करतां. म्हजो हो वावर घाण पयस करपाचो न्हय तर म्हाका ती आवडना देखून म्हाका रावपाखातीर योग्य अशी सुवात हांव तयार करतां. त्याभायर म्हज्यांतले गूण हे फक्त म्हजेच जावंक शकनां. ते वाडीक लागपाखातीर समाजाचो म्हाका खूपूच आदार मेळिल्लो आसा. हांवे जें शिक्षण घेतलां त्या खातीर समाजाची संपत्ती हांवे वापल्ल्या. ताणीं भरिल्ल्या करांतल्यान चलतल्यो खुपशो

गजाली हांवे वापरून घेतल्यात. समाजान म्हजेखातीर केल्ल्या ह्या गजालींक लागून, हांवे वाडयल्ल्या गुणांचो थोडो तरी वापर तांचेखातीर करप हें म्हजें कर्तव्यूच थरता. तेच खातीर हांवे केल्लो वावर ही समाजसेवा जावंक शकना. तें हांवे समाजाचें फारीक केल्लें रीण. अशेंय आसतना त्या वावराच्या मालवजाचेर जर हांवे, समाजान म्हाका मतां दिवंची म्हूण अपेक्षा बाळगिल्ली जाल्यार तीं म्हजीं मुर्खपणाच आसपाचीं.

तरीपूण हेर कांयच करिनांत तरी पूण वेंचणुकेंत उबे रावतात आनी वेंचून येतात आनी हांव म्हजें कर्तव्य केल्या उप्रांत वेंचून कित्याक येवंचोना ? वेंचून येवप हो तर म्हजो हक्क. म्हजो हक्क म्हाका मेळूंक जायच. तोच हक्क मेळोवपाखातीर हांव वेंचणुकेक उबो रावलों. फुडलें कर्तव्य करपाखातीर.

म्हज्या मतदार संघातलें एकान एक घर हांव भोवलों. तांकां राजकारण म्हळ्यार कितें तें समजायलें. घरांत एक लेगीत मनीस आसल्यार ताका पटल्याबगर हांवे म्हजें तोंड बंद केलेंना. म्हजे विचार तांकां पटल्यात, ताणीं ते मानून घेतल्यात म्हणपाची खात्री जाल्याउप्रांतूच हांव मुखार गेलां. निवडून येतकच आपलो मतदार संघ कसो भांगराचो करूं येता हाची जाप मुद्देसूद दिल्ली आसा. तांका राजकी - सामाजीक गिन्यान दिवपावांगडाच तांच्यो गरजो समजून घेतल्यात. ते कशे रावतात, कितें खातात हें दोळ्यांनी पळयल्लें आसा. जाहीर सभेंत उलोवन तांची आनी विरोधी पक्षांचीय तोंडा बंद केल्लीं आसात. म्हज्या ह्या वावरांतल्यान हांव सोडून तांचो दुसरो कोण उमेदवार आसुंकूच शकना हाची खात्री तांच्या मुखामळान म्हाका दिल्ली. तरी आसतना म्हाका फक्त १८३ मतां पडलीं आनी तितलींच पडटलीं हाची खबर म्हाका आशिल्ली. हांव एक वाडो सोडून दुसऱ्या वाड्यार गेल्याबराबर त्या वाड्यार विरोधी पक्षाचे उमेदवार येवन क्लबांक, कपेलांक, देवळांक, इगर्जांक दुडू दिवन गेल्यात म्हणपाचें म्हाका कळटालें. म्हाका तेंच काम तेच पद्धतीन करून वेंचून येवं येतालें. पूण तें म्हजें जिखप आसपाचें ? भ्रष्टाचार पयस करूंक जाय म्हूण हांव तांचे मुखार आड्डतां आसतनाच तांच्या हातार दुडवांचो कवळो दवरून हांवे भ्रष्टाचाराक सुरवात करपाची ? तांकां सोरो घालपाचो ? वेंचणुको जाल्यो. मतदान जालें. हांव पडलों. जे नितिमत्तेन पडिल्ले ते उबे जाले. दुडू सोंपले. सोऱ्याची नशा उतरली. वेंचून आयिल्लो विधानसभेंत पावलो. हांव म्हजें सदचें, सवंयचें काम करूंक परत तयार जालों. तरीपूण हांवे जें कितें सांगिल्लें, जे विचार मांडिल्ले, ते सोंपिल्ल्या दुडवांवांगडाच सोंपले ? सोऱ्याच्या वासावांगडा उबून गेले ? तशें जाल्यार आयज हे सगळे लोक म्हाका मेळटात तेन्ना नदर सकयल कित्याक घालतात ? ते सकयल कितें सोदतात ? हांव खंय पडलां तें सोदूंक ? म्हाका दिसना. तरीपूण हांव म्हाकाच प्रस्न करतां, रूक्षप्रस्न. हांव वेंचणुकेंत खऱ्यानीच पडलों ?





# तुका केन्ना कोणे राखी बांदल्या



आयच्या ह्या रक्षाबंधनाच्या दिसा हो रूक्षप्रस्न आसतलोच. हाताक राखी ना ती पळोवन, हांव सामकोच नालायक हे नुरेन पळयत असलो रूक्षप्रस्न करप्यामदी खुपशे आसतात. दरवर्सा रक्षाबंधनाच्या दिसा म्हज्या हाताक राखी ना देखून, तुका भयण ना काय किर्ते रे ? तुका कोणे राखी बांदलीना काय किर्ते रे ? अशे वेगवेगळ्या रूपाचे पूण एकाच आशयाचे प्रस्न विचारप हें आपलें कर्तव्य जावन आसा अशें मानपी ह्या गोंयचे पूण्यभुयेर म्हाका प्रस्नकर्ते सापडल्यात. तरी बरें, रक्षाबंधनाचो दीस हो वर्सांतल्यान एकदांच येता. जर तो दर दिसा येवपी आशिल्लो जाल्यार हाताक बांदिल्ल्या राखी परस ह्या प्रस्नांचेंच वजें खुपशा जाणांच्या बोडार पडपाचें.

रक्षाबंधनाची संस्कृताय गोंयांत केन्ना आयली हाका म्हजे नदरेन म्हत्व ना. पूण ती गोंयची न्हय इतलें मात खरें. पोर्तुगेजावेळार असल्या प्रकारच्यो गजाली हांवे केन्ना आयकुंकूय ना वो पळोवकूंय ना. गोंय मुक्त जाल्या उप्रांत गोंयांत कांय गजाली रिगल्यो तातुंतली हीय एक गजाल. गोंय मुक्त जाल्या उप्रांत गोंयच्या हिन्दू लोकांनी महाराष्ट्रांतल्या गजालींचें अनुकरण मुक्तपणान करूंक सुरवात केली. बायलेन घोवाक अहो, जावं तुमी बी म्हणूंक सुरवात जेन्ना केली तेन्नाच भयणांनीय भावांक राखी बांदून भावान भयणीची राखण करूंक जाय म्हणपाची जाणविकाय करून दिवपाचो वावर सुरू केला आसूं येता. पुर्तुगेजावेळार गोंयच्या भयणांक कोणाच कडल्यान कसलोच भंय नाशिल्लो. त्यो मुक्तपणान भयांविरयत गोंयात जियेताल्यो. पूण जेन्ना गोंयात मराठी शिक्षणाच्या नांवान घाटावेल्या मास्तरांची आयात जाली तेन्ना ताणी आपल्या हातांतले पोतयेंत येतना एक राखीय उडयली. ते गोंयात येतनाच तांकां जाणविकाय जाली की गोंयच्या भयणांक राखणेची गरज आसा आनी तांच्या भावांनी तांची आता राखण करूंक जाय. त्या उप्रांत गोंयांत खुपशा भावांचें आनी भयणांचे पीक सुमारा भायर जावंक लागलें.

आमच्या घरांत रक्षाबंधनाची संस्कृती हालींच म्हळयार सात - आठ वर्सांपयलींच आयली. म्हजे धाकटे भयणीचें लग्न जालें आनी तिणें दर वर्सा पोस्टांतल्यान राखी धाडूंक सुरवात केली. हें पत्र सदच्या पत्रांपरस वेगळें आशिल्ले कारणान आनी ताजो फुगीर आकार पळोवन हें राखीपत्र म्हणपाचें रोखडेंच कळून आयले बगर रावना. तेच खातीर तें फोडपाची

तकालसूय म्हाका घेवची लागना. हिन्दी सिनेमांतल्या रक्षाबंधनाच्या प्रसंगाचो प्रभाव जर म्हज्या मनार कायम स्वरूपांत आशिल्लो जाल्यार सद्‌गदीत जावन हांव तें पत्र उगडून तातुंतली राखी हाताक बांदूक मिरोवपाचों. पूण आजयमेरेन जितले हिन्दी सिनेमा पळयल्यात, तितल्याय सिनेमांतल्या भाव - भयणांचो मोग आनी राखी प्रकरण पळोवन हांवे स्वताचें मनोरंजन करून घेतलां. ह्याय प्रसंगांक लागून आसुये राखी ह्या प्रकाराकडे पळोवपाची म्हजी नदर चडूच विटाळ्ळी.

राखी आनी रक्षाबंधन ह्या घडणुकेकडेन म्हजो संबद आयलो तो हांव पांचवेच्या वर्गांत आसतना. आगशी मराठी शाळा नाशिल्ल्यान दुसऱ्या गांवांतल्या सरकारी मराठी शाळेंत म्हाका वच्चें पडलें. तेन्ना म्हजी पिराय अकरा - बारा वर्सांची. त्या वेळार परकी चलयांकडें उलोवंचें म्हळयार म्हजें काळीज धडधडटालें. अशा वेळार खंयचेय चलयेकडे उलोवपाचें सोडूच मान वयर करून पळोवपाचें धाडस जायनाशिल्लें. तरी आसतनां चोरून पळयतालों. नवे शाळेंत येवन दोनूच म्हयने जाल्ले. हांव पयसुल्ल्या गांवच्यान आयिल्ल्यान भुरगेपणांतले इश्टूय कोण नाशिल्ले. बाकीचीं सगळीं भुरगीं त्याच गांवचीं आशिल्ल्यान एकमेकाक सवंकळीचीं आशिल्लीं. त्या सगळ्यांमदीं हांव एकदम परकी आशिल्लों. ह्याच भुरग्यांमदी हांवे रक्षाबंधन आनी राखी पळयली. रक्षाबंधना दिसा शाळेंतलो मास्तर सगळ्या भुरग्यांक एकठांय हाडून ही कार्यावळ घडोवन हाडटालो. प्रत्येक चली इस्कीनीचीं सुतां कापून राखी करून हाडटालीं. त्यो राखी तीं मागीर आपल्याचो भाव जो आसचो अशें दिसतालें ताका बांदतालीं.

म्हाका ही रक्षाबंधनाची कार्यावळ नवी. म्हाकाय दिसतालें की म्हाकाय कोणें राखी बांधची म्हूण. मास्तरांच्या हाताक पयलींच तीन - चार राखी आसताल्योच. वर्गांत हे कार्यावळीच्या वेळार कांय चलयो त्या मास्तराक आनीकूय राखी बांदताल्यो. हेर चल्यांकूय कोण ना कोण एक - दोन राखी बांदतालींच. एकल्या - दोगांक तर प्रत्येक जाणां बांदतालींच. तांचो हात मनगटापासून कोपरा मेरेन रंगरंगयाळ्या राखीन भरतालो. हो राखीनी भरिल्लो हात मावळ्यांनी हातांत ढाल धरची तशे रितीन धरून हे भाव आठ - धा दीस शाळेंत मिरयताले. हांव तांचेकडेन अभिमानान पळयतालों. म्हाकाय कोणें राखी बांदची अशें म्हाका दिसतालें. पूण म्हाका भाव मानपाक खंयचीच चली मुखार सरनाशिल्ली. म्हज्याच वर्गांत एक सुंदर चली आशिल्ली. हांव पयल्या वर्साक कॉलेजींत गेलों तेन्ना लेगीत भुरगीं कशीं जातात हाचें गिन्यान म्हाका नाशिल्लें. तेन्ना पांचवेक 'सेक्स' बी म्हणटात ताचो विचार सोडाच. म्हाका ती चली खूप आवडटाली. तिणें म्हजेकडें उलोवंचे अशें दिसतालें. हांवे ते चलयेक म्हजी बायल अशें मनांतल्या मनांत थारावन लेगीत जाल्लें. तें चलयेन तरी येवन म्हाका राखी बांदची अशें दिसतालें. हांव रक्षाबंधनाच्या दिसा देवाक त्या खातीर होरायतालों. अशे स रक्षाबंदन गेले पूण देव काय म्हाका पावलोनां. जेन्ना पावलो तेन्ना वेगळेच परिस्थितीत.

पांचवी ते आठवी मेरेन प्रेम म्हळ्यार कितें तें म्हाका कळनाशिल्लें. फक्त चली आवडटा. तिजेकडे दुसऱ्यांन कोणें उलोवंचें न्हय अशें म्हाका दिसतालें. आठवेच्या वर्गांत पावलों तेन्ना राखी ही फक्त भयणीनूच बांदपाची आसता, जाका बायल मानल्या ताजेकडल्यान बांदून घेतल्यार ती भयण जाली अशें गिन्यान म्हाका त्या वेळार जालें. फाटलीं तीन वर्सां ते चलयेन राखी बांदची म्हूण हांव देवाक पराथतालों. त्या उप्रांत ताणें ती बांदची न्हय म्हूण पराथूंक लागलों. ताणें म्हज्या वर्गांतल्या सगळ्या चल्यांक राखी बांदल्यार पुरो अशें म्हाका दिसतालें. आमच्या शाळेंतल्या एका मास्तराची आनी वयल्या वर्गांतल्या एका चल्याची अशा दोगांची खूप चर्चा जाताली. म्हज्या वांगडचे तांचेविशी नाका जाल्लें उलयताले. तांचो चलयांकडें कसो संबंद आसा, ते शाळेंतल्या चलयांक कितें करतात हें ते वर्णना करून म्हाका सांगताले. म्हजें जाचेर प्रेम आसा ताजेय कडें तांच्यो भानगडी आसात म्हणपाचें ते सांगताले. म्हाका मनांतल्यान संताप येवप. तांच्यो गजाली म्हाका खऱ्यो दिसनाशिल्ल्यो. कित्याक तर म्हजी ती शालेय प्रेयसी दर वर्सा त्या चल्याक आनी मास्तराक राखी बांदता तें हांव पळयतालों. सगळे भुरगे त्या दोगांकूय दादाभाई नवरोजी म्हणटाले. पुणून म्हजो भुरग्यांच्या सांगण्याचेर कसोच विस्वास बसनाशिल्लो. दुराक गेल्लेकडेन बशीत ते चलयेक तो मास्तर कितें करतालो, तेंय चली मास्तराक नाका थंय हात कशें लायतालें, रातचें न्हिदिल्लेकडेन एकेच चादरीपोंदा तीं कशीं सांपडलीं ह्या सगळ्या गजालीनी म्हजी तकली भेरेल्ली. पूण म्हजो मोग तें मानपाक तयार नाशिल्लो.

शेवटाक एक दीस म्हाका तें मानचेंच पडलें. हांव मॅट्रीकेक पावलों. म्हजेवांगडा तेंय चली आशिल्लेंच. त्या वर्सा रक्षाबंधनाच्या दिसा शाळेंत गेल्लों. ती चली म्हजेकडे आयली. फाटलीं स वर्सां जे चलयेन म्हाका राखी बांदूक ना ती शाळेच्या निमाण्या वर्सा म्हाका राखी बांदतली हें हांवे सपनांत लेगीत चिंतूक नाशिल्लें. हांव तर ताका 'तुजेर मोग करतां हें कशें सांगचें हेंच चिंततालों. 'सेन्ड ऑफ' जावंचे पयलीं तर तें सांगूंक जाय आशिल्लें. पूण त्याच वर्सा राखी पुनवेन म्हजो घात केल्लो. जाका हांव फाटलीं स वर्सां बायल मानतालों ती एका खिणांत म्हजी भयण जावन गेल्ली. आतां ती वेळ आशिल्ली जाल्यार हांव राखी बांदू नाका अशें सांगून मन उक्तें करपाचों. पूण त्या वेळार म्हाका उतरां फुटलीना. जावं ताज्या मनांत ना जाल्यार हांव ताजेर कित्याक जबरदस्ती करूं ? चल ताका भयण मानून प्रेम करूया अशें येवजून हांवे ताका खऱ्यानीच त्या दिसाच्यान भयण मानली. म्हजेर बाबा कदम, चंद्रकांत काकोडकार हांचो प्रभाव आशिल्लोच. भयणीखातीर कितेंय करपाची तयारी म्हजेभितर बळावल्ली. पूण म्हाका तशी संद मेळनाशिल्ली. फक्त प्रस्नांचीं उतरां बरोवन दिवन भयणीवयलो म्हजो मोग पुराय जायनाशिल्लो.

एक दीस प्रिलीमेपयली म्हजे राखी भयणीन म्हाका घराकडें आपयलो. हांव ताज्या घरा गेलों. आतां ती भयण जाल्ल्यान म्हजेर कसलोच परिणाम जावंक नाशिल्लो. पयलीं तें उलयल्यारूच काळीज धडधडटालें. म्हजे भयणीच्या घरा कोण नाशिल्लीं. बापूय दोंगरार तर

आवय आनी भयण शेतांत गेल्लीं. भयणीन म्हाका च्या करून दिली आनी म्हाका ताजी राखण करपाची संदय दिली. म्हाका धक्कोच बसलो. तें फाटलीं स वर्सां जाका राखी बांदतालें आनी म्हज्या एक वर्स पयलीं मॅट्रीक जावन शाळेंतल्यान गेल्लो त्या दादाभाईक मारपाचें, भंय घलपाचें ओब्र दितनां ताणें म्हजो हात कितलेदां तरी आपल्या हड्ड्याकडें व्हेलो. चुकून हात लागता अशें भासोवन म्हजे पॅन्टीकडे कितलेदां तरी हात हाडलो. म्हाका सगळें कळटालें. म्हजेवेलो कादंबऱ्यांचो प्रभाव देंविल्लो. दादाभाई नवरोजीचो अर्थ कळिल्लो. पयलीं राखी बांदून, आतां नाका थंय स्पर्श करून पयलींच्या भावाकडले फोटो हाडपाची जापसालदारकी ही भयण नव्या भावाक सोपयताली. आयज ही भयण त्याच भावाकडे लग्न जाल्या. वाटेर केन्नाय मेळटात. पण दोगांय ह्या भावाक वळखनात.

आयज दुकानाचेर वेगवेगळ्यो राखी पळयल्यो की म्हाकाच याद येता. म्हाका अजून प्रस्न पडटा, म्हाका केन्ना कोणें राखी कित्याक बांदलीना ?' हांव कोणाचोच भाव जावपाचे लायकीचो ना ? मदी थोड्यांनी राखी बांदपाचो यत्न केलोय. तांका हांवे योग्य उतरांनी छेडायलांय बी. तांका गरज पडल्या तेन्ना भरपूर मजतूय केल्या. खासा भाव करचोंना इतली. पूण जांचेर नया जमाना, प्रेमरोग, हाथी मेरे साथी, जुगनू अशें बरोवन बाजारांत विकपाक आयिल्ल्यो राखी केन्नाच बांदून घेतल्योना. म्हाका ही ढोंगीपणाची संस्कृताय म्हजी दिसना.





# तुज्या आवडिचो रंग खंयचो



**ह्या** रूक्षप्रस्नाची जाप एका उतरान दिवं येता. आजवेर दर एकल्यान हाची जाप एकाच उतरान दिल्ली आसा. मनशाच्या आवडी - निवडिवेल्यान त्या - त्या मनशाचो सभाव कळून येता. आपलें व्यक्तिमत्व हेरां परस उजवें आसा आनी आपूण भयंकर कोण तरी आसां हें सभावगूण सोदूंक सोंदतल्यांमुखार दवरपाखातीर ह्या मनशांनी आपलो असो खास रंग थारावन दवरिल्लो आसता. तेच खातीर तांकां आवडिचो रंग खंयचो असो प्रस्न केल्याबरोबर ते सट्ट करून जाप दिवन मेकळे जातात. तांबडो - निळो - पांचवो बी.

मनीस हो मुळांतूच रंगेल आसता. ताच्या सभावांत वेगवेगळे रंग भरसल्ले आशिल्ल्या कारणानूच तो रंगेल जावन आपलें जिवित रंगरंगयाळें करता. जो खऱ्या अर्थान रंगरंगयाळो आसता तोच जिवितांत कितेंय तरी मोठें काम करूंक शकता. तशें ताणें केलें म्हणटकच तो प्रस्न विचारपाचे लायकिचो जाता. ताचे दरएके गजालीक दर येता. नातर हे धर्तरेर जल्माक येवन पोट भरपी कितले तरी लोक आसतना तांकां हे प्रश्न कोणूच करिनांत. तांचे जापेक कोण रावना. अशें आसतनां जाचेकडल्यान आमी जापेची अपेक्षा बाळगून प्रस्न करतात तो मोठ्या नेटान आपल्या आवडिचो एकूच रंग सांगता तेन्ना म्हाका ताच्या मोठेपणाचो दुभाव येवंक लागता. फक्त एकूच रंग जाका आयुश्यभर आवडलो तो एकूच रंग घेवन हो मनीस मोठो कसो जालो ? तेचखातीर ताका आवडिल्ल्या रंगावेल्यान म्हज्यासारख्याक तो केन्नाच मोठो मनीस दिसना तर तो मनीस फक्त ढोंगीपणान मोठो जाला हाची म्हाका खात्री जाता.

आमी एकएका रंगाचो अर्थ पयलीं थारायला. अर्थ थारावनूच मागीर तो रंग आपले आवडिचो म्हणपाचें थारायलां. निळो रंग हो मळबाचो आनी दर्याचो. जाका निळो रंग आवडटा ताचो सभाव दर्यावरीच खोलाय आशिल्लो आनी मळबावरीच विशाळताय आशिल्लो असो आमी तर्क काडटात. जाका कोणाक तांबडो रंग आवडटा तो मनान क्रांतीकारी, ध्येयवादी वा बंड करून उठपी, अन्यायाविरुद्ध झुंजपी असो अर्थ लावन घेतात. आमच्या देशाचो बावटो लेगीत तीन रंग वापरून केला. रंग वापल्ल्यात ते सगळ्या भारतीय लोकांक आवडटतात म्हूण न्हय तर त्या रंगांचो पयलीं अर्थ लायिल्लो आशिल्ल्या कारणानूच तांची निवड केल्ली आसा. भारतीय नागरिकांक तांच्या आवडिचो रंग विचारून जर त्या प्रमाण राष्ट्रार्चे निशाण थारायल्लें जाल्यार मात त्या बावट्याक कोपयाळें म्हणचे पडपार्चे.

आयज आमचो तिरंगी बावटो आपल्या तीन रंगांनी संवसाराकडे उलयता. भारत म्हळ्यार किर्ते ? भारतीय म्हळ्यार किर्ते ? भारतीयांनी कसली जाणविकाय धरूंक जाय हें ते रंग सांगतात.

म्हाका अमुकूच एक रंग खास आवडटा वा म्हजो असो एक आवडिचो रंग आसा अशें आजवेर केन्नाच जालेंना. सुरवेक म्हाका निळो रंग आवडटालो. निळ्या रंगाफाटलें तत्व हें खोलायेचें आनी विशाळतायेचें आशिल्ल्या कारणान हांव म्हाका निळो रंग आवडटा अशें सांगतालों. पूण तीं म्हजीं फटींगपणा हें हांव जाणां आशिल्लों. पयलीं जें वाचन केलां तांतूंत हो रंग आवडटा तो मनीस असो असो आसता अशें वर्णन वाचिल्ल्यान म्हजो तसो समज जाल्लो. हेरांक प्रभावीत करूंक ह्या रंगाचो म्हाका फायदो जातालो. म्हज्या ह्या आवडिच्या रंगावेल्यान हांव म्हळ्यार दर्या कसो, हांव म्हळयार मळब कसो असो अर्थ हेर काडटाले. शिवाय म्हाका निळो रंग आवडपाचें दुसरें म्हत्वाचें कारण म्हळयार धुमकेतू. हो मळबांतलो धुमकेतू न्हय. हो धुमकेतू एस्. एम्. काशिकार हांचे गुप्तहेर कथेंतलो नायक. तो निळेच कपडे घालतालो. त्यावेळार म्हाका ही रहस्य माळ आवडटाली. तातुंतलो तो नायक आवडटालो. देखून निळो रंग आवडटालो. ज्या वेळार असलीं पुस्तकां वाचपाची म्हजी रूच आशिल्ली आनी धुमकेतू सारख्या नायकाचेर हांव विस्वास दवरून रावतालों तेन्ना दर्या आनी मळब हांची विशाळताय म्हज्या मनाक लाबल्या असो गैरसमज हांवे करप आनी लोकांचोय तो करून दिवप म्हळ्यार एक फकाणाचीच गजाल आशिल्ली. दर्यायेदो आनी मळबायेदो जावप म्हणटात तो प्रकार केन्नाच पूर्णतायेक पावना. ती गजाल अमर्यादीत. म्हजी रंगाबाबतींत आवडूय अमर्यादीत. देखून म्हजो आवडिचो रंग निळो अशें सांगून हांव म्हज्या वांगडाच निळ्या रंगाचेरूय मर्यादा हाडूंक सोदिना.

म्हाका सृश्टींतलो प्रत्येक रंग आवडटा. कांय रंगांचीं म्हाका नांवां लेगीत खबर ना. नांवां खबर नासून लेगीत म्हाका तो रंग नांवां खबर आशिल्ल्या रंगापरसूय चड आवडटा. प्रत्येक रंग म्हजेकडे उलयता. हांव रंगाकडें उलयतां. एकदां बोंडला गेल्लों. पिकनिकेक. पिकनीक म्हणटकच खेळ आनी हेर प्रकार आयलेच. हांव मित्रांपासून अलिप्त उल्लों. म्हाका अलिप्त दवल्लो तो एके वागोणेन. वागोणी म्हणटात तो प्रकार म्हाका आवडच ना. पावस सोंपलो म्हणटकच नळ्यांवेल्यान एक - दोन वागोण्यो म्हज्या रूमांत पडटाच. केन्ना केन्ना ती खाटीर आसता. उशा पोंदा. तिजें घास मारप हांवें अणभवलां. घास माल्ल्या उपरांत जे वेग मारतात ते सोसूंक नज जावन हांवे किंळच्योय माल्ल्यात. पयल्याच धोपक्याक जर वागोणी मारूंक मेळ्ळिना जाल्यार मागीर ती परत हाताक लागचना. ती खंय अंतर्धान पावता हेंच कळना. मागीर लागतात ते तळमळे, भैरजळप. पूण बोंडला गेल्लेकडेन म्हाका एक वागोणी दिसली आनी कितलींतरी वरां ते वागोणेक नियाळपाक हांवे घालयलीं. ते वागोणेक जितलेतरांचे रंग आशिल्ले तितले रंग आनी त्या तरांचे रंग हांवे केन्ना पळोवंक नाशिल्ले. वेता परस लांब ही वागोणी आपले मस्तींत चलताली. घरांत मेळटा तसली भित्री ती नाशिल्ली. तिजो डौल

वेगळोच. कदाचीत तिका आपल्या रंगाची आपले सुंदरायेची जाणविकाय आसूंक जाय. तिका घरा हाडून पोसची अशें म्हाका सतत दिसतालें.

सिक्किम, हिमाचल प्रदेश हांगा भोंवतना हांवे वेगवेगळे रंग पळयल्यात. त्या रंगांनी म्हाका पिसो करून उडयला. कांय - कांय देखावे हांवे असे पळयल्यात जांचें रंग वर्णन करप म्हजे तांकी भायलें जावन आसा. तेन्ना म्हाका जाणीव जावन गेल्ली रंगांचें वर्णन केन्नाच करचें न्हय. तो रंग फक्त अणभवचो. दर खिणाक हांव दर एक रंग अणभवता. हांवें मातयेचे तरांतरांचे रंग पळयल्यात, तरांतरांची माती पळयल्या. तरी तो मातयेचो रंग तांची सोबाय वेगळीच. तरांतरांच्या रंगांचीं सवणी, रंगरंगयाळीं फुलां, जनावरां, किडी - मुयो लेगीत आपले खाशेले रंग घेवन म्हाका भुलयतात. हे इतले रंग आसतना हांव म्हजे आवडिचो एकूच रंग सांगून सगळ्या रंगांचो अपमान करतालों. एकूच रंग घेवन जियेतालों. एकूच रंग आयुश्यभर वेंगावन एखाद्रो मनीस व्हड जायत. पूण तो विशाळ जायना. तेच खातीर तुजो आवडीचो रंग खंयचो ? असो प्रस्न जेन्ना म्हजे मुखार येता तेन्ना तो म्हाका रूक्षप्रस्न दिसता. अशें जरी आसलें तरी एका उतरान जाप दिवन आपलें व्यक्तिमत्व उक्तें करपाखातीर एक रंग सांगचोच पडटा. म्हाका सगळेच रंग आवडटात अशें सांगल्यार ती जाप जावंक शकना. ती जाप जर जायच जाल्यार म्हज्यान म्हजो आवडिचो रंग धवो म्हूण जाप दिवं येता.

धवो रंग हो शांतीचें प्रतीक देखून तो तिरंगी बावट्याक घेतला. देशाखातीर ज्या लोकांनी प्राण ओपला तांच्या विधवांची याद करूंक तांच्या त्यागाची जाणविकाय दवरूंक हो रंग शिकयता अशें सांगतात. पूण म्हाका धवो रंग त्या खातीर आवडना. धव्या रंगांत सैमांतले सगळे रंग भरसल्ले आसतात. एकमेकांभितर भरसल्ल्यानूच तो धवो रंग अशें आमी मानतात. होच धवो रंग म्हज्यान म्हजो आवडिचो रंग अशें म्हणून सांगू येता. जांकां ह्या धव्या रंगाचे पृथःकरण करूंक येता तांकाच तांतले वेगवेगळे रंग ओळखूंक येतात. जांचें मन जांची नदर लोलकाची आसता तांकाच ह्या रंगाचें म्हत्व कळटा. पूण जो रंग न्हयच तरीपूण जाका जे रंग मानतात त्या मनशांच्या रूक्षप्रस्नाक जाप दिता आसतना हांवे ती कशी दिवप ? तांकां म्हजे आवडिचो रंग धवो म्हूण सांगप काय हांवे इंद्रधोणू जावन म्हज्या धव्या रंगाभितर भरसल्ल्या सात रंगाची वळख तांकां करून दिवप ? जर हांवें तें केले तर तांकां हे सात रंग कशे भावतले ? तांतलो तर तांच्या आवडिचो फक्त एकूच रंग. बाकिचे स रंग तांकां त्रास दिवंचेनांत ? त्यापरस तांच्यामुखार हांवे म्हजो धवोच रंग दवरिल्लो म्हाका आवडटा. ताका लागून ते मागीर धवे पडूं. म्हजेखातीर ही बाब रूक्ष. रूक्षप्रस्नावरी.





# तुज्या आवडिचो लेखक खंयचो



संवसार खिणाखिणाक बदलत रावता. हांगा आमचो संवसार म्हळ्यार पृथ्वी. आमचें विश्व हें पृथ्वीपुरतेंच मर्यादीत आसा. पृथ्वी हो एक गिरो आनी सूर्यमाळेंतलो जीवसृश्ट आशिल्लो असो माणकुलो गिरो. ह्या वेल्यान आमचो संवसार वा संवसाराची कल्पना कितली ल्हान हें कळटा. आमचे दूदगंगेतली ही गिन्यावळ कितली ल्हान आनी अश्यो कितल्यो तरी दुदगंगा मेळून हें विश्व घडलां आनी जाका विस्तृतायेन आमी विश्व म्हणटात तसलीं कितलीं तरी विश्वां मेळून एक भव्य अशें विश्व घडलां आसतलें हाचें कोंत आनी हिशेब आमचेकडे ना. जाचो हिशेब ना वा मनशाक लागना देखून तो आपलें विश्व ल्हानांतलें ल्हान करीत आपले येदें करता आनी त्याच विश्वांत जियेता. तेंच विश्व म्हळयार ताचो संवसार आसता. विश्वाचो अर्थ ते अशेतरेन सामको लवचीक करून उडयतात.

आमी विश्वाची संकल्पना आमचे तांकीप्रमाण आटयत आटयत पृथ्वी मेरेन हाडल्या आनी थंयच्यान हळूहळू आपलें घर, आपलो घराबो अशें करीत करीत आपले भोंवतणी सोंपयल्या. अशा ह्या अमर्यादीत तरी मनशाकणकणी मर्यादीत जायत गेल्या संवसारांत दर खिणाक बदल जायत आसात. ह्या विश्वांत अशी एकूय गजाल ना जातूंत बदल जायना. ह्या सैमांत काल आशिल्ली गजाल आयज ना, आयज आशिल्ली फाल्यां आनी फाल्यांची परवां उरचिनां. हें सगळें आमकां खबर आसतना, बदल जाता हें कळटा आसतनाय आमी तो बदल मानून घेवंक तयार जायनांत. मनीस आसा तसोच रावंक सोदता. बदल जावप ताका पचना. तरी आसतना बदल जावपाचो जायत रावता. तो कोणाखातीर रावना. हें इतलेंच समजून घेवन लेगीत प्रस्न निर्माण जायत रावतात. खरें म्हळ्यार प्रस्न तयार जाता आसतनाच, त्या प्रस्नांतय बदलाच्या नेमाप्रमाण बदल जाल्लो आसता. तरी सुद्धा प्रस्न तयार जातात ते खऱ्या अर्थान रूक्ष आसतात.

मनशाची आवडय सैमाच्या नेमाप्रमाण बदलत रावता. हांव वाचन करतां तशी म्हजी वाचनाची आवड बदलत रावता. वाचन बदल्लें म्हणटकच तें बरोवपी लेखकूय बदलता. म्हज्या आवडिचो लेखक बदलत रावता. अशा वेळार तुज्या आवडिचो लेखक कोण ? असो प्रस्न आयलो म्हणटकच म्हाका तो रूक्षप्रस्न दिसूंक लागता.

मनीस कितें वाचता हाचेवेल्यान त्या मनशाची वैचारीक पातळी, बुद्धीची तांक

वळखुपाची एक सवंय समाजान लावन घेतिल्ली आसा. हेच सवंयेखातीर मनशांमदी एक ढोंगी प्रवृत्तीय निर्माण जाल्ली आसा. बशिंतल्यान वता आसतना सर्व सामान्य मनीस केन्ना वाचिना असलें वैचारीक पुस्तक वा ज्या लेखकांक संवसार तोखेता अशा लेखकाचें प्रसिद्ध पुस्तक वांगडा घेवन प्रवास करप आनी आपूण कसलें पुस्तक वाचतां हें हेरांक दिश्टी पडटलें अशे तरेन धरून आपल्या मोठेपणाचें प्रदर्शन घडोवन हाडप हीय गजाल आमकां दिश्टी पडटा. व्हड व्हड पुस्तकांच्या दुकानांत भितर सरून मोठ्या मोठ्या लेखकांची नांवा घेवन तांच्या पुस्तकांची चौकशी करप आनी थंय आशिल्ल्या लोकांकडल्यान आदर घेवप हीय गजाल दिसपट्टी घडटा. कांय विचारवंतांचें मत आसा की मनशान सगळें वाचून जाल्या उप्रांत आपलो असो एक लेखक विंचून काडप आनी तार्चेच साहित्य वाचप. अभ्यास करपाचे नदरेन हो प्रकार बरो आसा. एक लेखक पुरायेन वाचून काडपा फाटल्यान त्या लेखकाची बैठक समजू येता. पूण तो लेखक आवडिचोच उरतलो अशें कोणाच्यान सांगू येना त्या लेखकापरस बरी साहित्यकृती तयार केल्लो दुसरो लेखक मेळूं येता. तो त्या खिणाक आवडिचो जावंक शकता. आमच्या ह्या संवसारांत कितल्यो भासो आसात आनी त्या भासांतल्यान शेकड्यांनी लोक बरयत आसतात. पूण आमी जाणां ते फक्त मराठी लेखक. मात्शे मुखार वचून हिन्दी आनी इंग्लेज लेखकांक आमी आपटतात. इतलेच वळखीन आमी आमचो आवडिचो लेखक थारायतात. कोणाक रविंद्रनाथ टागोर आवडटा, कोणाक जिए तर कोणाक सेक्सपियर. पूण हे सगळे लेखक आवडून लेगीत तांकां पुरायेन वळखुपाची तांक मात आयिल्ली कोणाक दिश्टी पडनां.

जांका अक्षराची वळख आसा तेच वाचन करतात. पूण ही संख्या खूप उणी. देशांतले बहुसंख्य लोक श्रवण आनी दृश्य ह्या माध्यमांतल्यानूच देशीच न्हय तर संवसारीक लिखणाची गोडी घेतात. दूरदर्शनाचेर, पडद्याचेर, रेडिओचेर, माचयेर दिसपट्टे खंयच्या ना खंयच्या बरोवप्याच्या कलाकृतीचो आस्वाद घेत आसतात. अशा प्रसंगार तांकां ते कलाकृतीचो लेखक कोण हें खबर नासता. कानार पडुनय ते रोखडेच विसरून वतात. जांका कोणाक उमळशीक आसा तेच त्या बरोवप्याक जाणा जावन घेवपाचो यत्न करतात. तरी पूण हे लोक खूपच कमी. एक बरें नाटक पळयलें, एक बरी कथा आयकली वा बरो सिनेमा पळयलो तर तातुंतले कथेंत लोक दंग जावन वतात. कांय काळ त्या कलाकृतीचो असर तांच्या मनाचेर उरता. तांका ती कलाकृती आवडटा आनी ताकाच लागून ताचो बरोवपीय. पूण बरोवप्याक तांचे नदरेन म्हत्व नाशिल्ल्यान लेखक आवडून लेगीत आवडिचो लेखक कोण हें ह्या लोकांक केन्नाच सांगूक येना. तांच्या आवडिच्या लेखकाचें रूक्षप्रस्न करप्यांक व्हडलेंशें पडून गेल्लें नासता.

म्हजे आवडिचो असो खास लेखक म्हाका अजून मेरेन सापडूंक ना. म्हज्यात जाल्ल्या वेगवेगळ्या बदलांक लागून म्हज्यो आवडीय खिणांखिणांक बदलत आसतात. एकाच प्रकारचें साहित्य वाचप वा वाचिल्ल्या साहित्यकारांच्या प्रेमांत पडून आपल्याय जिणेची घडण

तांच्या विचारांप्रमाण करप ह्या प्रकारांतलो मनीस हांव न्हय. खंयच्याय लेखकाचें साहित्य म्हळ्यार तांच्या कल्पनेंतलो समाज निर्माण करपाखातीर केल्लो साचो न्हय. ह्या साच्यांत वाचक जेन्ना आपल्याक चिड्डून बसयता तेन्ना म्हाका तांची काकळूट दिसता.

भुरगेपणांत चांदोबा, फुलबाग, शूर राजकुमारांच्यो काणयो हातूंत हांव घुस्पल्लों. म्हाका त्या काळार असलीं पुस्तकां वाचप खूप आवडटालीं. अजून म्हाका तेन्नाच्यो ह्यो काणयो याद जातात. शाळेंत शिकतना खुपशो कविता आनी धडे शिकलां. तें सगळें साहित्य पाठूय केलां. म्हूण बरोवप्याची याद म्हाका आतां ना. तेन्ना बरोवप्याक लक्षांत दवरपाचें आसता हें म्हाका कोणे सांगलेंना. त्या उप्रांत पिराय बदल्ली. वाचन उडी मारून चंद्रकांत काकोडकर, बाबा कदम, काशिकर, अर्नाळकर हांचे मेरेन पावलें. ह्या वेळार कादंबऱ्यांचीं नांवां म्हाका म्हत्वाचीं नाशिल्लीं. लेखक म्हत्वाचे जाले. विकतें पुस्तक मागतना लेखकांचें नांव घेवन मागप जावंक लागलें. त्या वेळार हे लेखक आवडिचे आशिल्ले. उप्रांत आवड बदल्ली. ह्या असल्या वाचनांत अर्थ ना म्हणपाचें कळ्ळें. आवडिचे हे लेखक म्हज्या मनांतल्यान खंयचे खंय ना जाले. तांची सुवात रविंद्रनाथ, जि. ए., टॉलस्टॉय, सेक्सपियर, बाल्जाक, इब्सेन, चटर्जी, सात्र ह्या बरोवप्यांनी घेतली. तांचें साहित्य आवडीन वाचलें. तांचो खोलायेन अभ्यास केलो. तरीय ही आवड चड काळ तिगलिना. कदाचीत तांकां वाचतना मनोरंजन म्हूण वाचतालों तेन्ना ते आवडटाले आसुये. उप्रांत शिक्षण म्हूण तांकां वाचूंक लागलों आनी चड मार्क मेळूंक जाय हेच आशेन तांकां मनांत चिड्डूक लागलों तेन्ना जबरदस्ती जाल्ल्या कारणान ह्या लेखकांनीच म्हजो सांगात सोडला आसूं येता. आज खलील जिब्रान पुरायेन म्हज्या रूमांत आसा. पूण ताका हात लायले बराबर म्हाका न्हीद येता. हाकाच एका काळार हातांत धरून हांवे रात जागयल्ली आसा. एकावेळार ह्याच लेखकांक हांव म्हजो आवडिचो लेखक मानतालों. नेटान दुसऱ्यांकूय सांगतालों. आज आवडी बदलून गेल्ल्यान आवडिचे लेखकूय बदल्ल्यात.

आज परिक्षेची प्रस्नपत्रिका काडटना निबंध विभागांत हांव 'म्हजो आवडिचो कोंकणी लेखक' ह्या सारखो प्रस्नूय दितां. पेपर तपासता आसतना स्वताचें मनोरंजन करून घेतां. त्या वेळार हांवे ह्या भुरग्यांक हो रूक्षप्रस्न विचाल्ला म्हणपाची खंत म्हाका भोगता. विद्यार्थी म्हाका खूश करून दोन मार्क चड घेवपाखातीर म्हजेरूच केन्ना केन्ना निबंध बरयतात. हांव ते वाचता आसतनां म्हाका हेंय खबर आसता की ह्या भुरग्यांनी तांकां लागिल्लो विषय सोडून आनी कोणाचेंच साहित्य वाचिल्लें ना. म्हजें तर नाच ना. तरी सुद्धा आवड नाशिल्ल्या लेखकाक फक्त सुवार्था खातीर आवडटा अशें दाखोवन ताच्या मालवजार खंयचे ना खंयचे वाटेन आपलो सुवार्थ सादोवपाचो आसता. एका वेळार जसो हांव स्वताचें व्हडपण दाखोवंक व्हड व्हड लेखकांचीं पुस्तकां हातांत घेवन भोंवतालों.

म्हजे आवडिचो लेखक खंयचो हेंच म्हाका आतां कळना. जेन्ना म्हजेकडल्यान कितेंय बरें बरोवन जालें जाल्यार म्हज्या मनाक एक समादान जाता. म्हाका म्हजे हांवच एक

आवडिचो लेखक जावन वतां. केन्ना केन्नाय चंद्रकांत केणी हांच्या मनोगतांतलो एक प्रसंग मनाक नवोच विचार दिवन वता. त्या खिणाक तो लेखक म्हाका आवडटा. रवींद्र केळेकारांचे विचार जागाचे आदले अंक चाळून वाचतां तेन्ना वा वेळेवयलो घुलो, उजवाडाचे सूर वाचतां तेन्ना एका विचित्र मोडणार म्हाका तो आवडूंक लागता. समाजांतलीं ढोंगीपणां पळोवन जेन्ना हांव खंती जातां तेन्ना सुरेश भटासारखो एक कवी 'आला न गंध त्याना कधीच चंदनाचा, सारे उगाळलेले कोळशेच होते' म्हूण म्हाका थाकाय दिता. गुरू शिटकायता कुरवांनी म्हणत बाकिबाब शिटकायता आनी हें सगळें वाचतना वा याद करतना म्हाका हें सगळें म्हजेंच दिसता. म्हजेच भाव ह्या लोकांनी उक्तायल्यात अशें दिसता. तांचें बरोवप फक्त तांचें नांव आसा म्हूण तांचें. हरशी तें म्हजेंच. जें दिसपट्टें हांव येवजितां. मागीर हांव म्हळयार तोच लेखक अशें दिसता. अशें एकरूप जातकच मागीर आवडिचो प्रस्नूच उरना. आपल्याकच आवडून घेवप हो तसो रूक्षप्रस्नूच आसा.





# तुजे आवडिचो खाद्यपदार्थ खंयचो



मनीस जल्माक आयल्या बराबर आपले वांगडा हेर अवयवां वांगडाच पोट होय एक अवयव घेवन येता. आतां पोटाक अवयव म्हणप हें कितलें खरें हें मात म्हज्यान सांगू नज. पोट हो आमच्या शरिराचो एक भाग अशें म्हणप म्हळ्यार तो पोटाचो अपमान. पोट हीच गजाल ह्या संवसारांत सत्य. ते खातीर पोटाक शरिराचो भाग म्हणचे परस पोट हेंच शरीर आनी हेर सगळे भाग म्हळ्यार पोट भरपाखातीर, पोटाची सेवा करपाखातीर सैमान तयार केल्ले वेगवेगळे सहकारी म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. पोटाची कशी सेवा करची हें सांगपाखातीर मनशाचे तकलेंत मेंदू ही वस्त दिल्ली आसा. ताजें मुखेल काम पोटाक, तें भरपाखातीर पालव दिवप. तेच खातीर मेंदू पायांक अन्नामेरेन वचूंक लायता. हातांक अन्न तोंडांत घालूंक लायता. तोंडाक आनी जिबेक तें अन्न गिळपाक लायता आनी हेर अवयवांकूय तें अन्न पचमेरेन वावर करूंक लायता. पोटाची खळगी भरपाखातीर कसल्यो कसल्यो लटाफटी आनी राठावळी करूंक जाय हाचेरूच हो मेंदू दिसरात वावर करीत रावता. हें सगळें जावन वेळ उल्लोच जाल्यार मागीर तो हेर विशयाचेर कार्य करता आनी आपूण हेर प्राण्यापरस वेगळो म्हूण बडायो मारता. पोटाची पुरायेन सेवा करूंक जो मेंदू असमर्थ आसता तो पोट सोडून हेर खंयच्याच विशयाचेर आपलो वेळ होगडायना. पोटाचेच चिंतेत एक दीस सोंपता. ह्या सगळ्या बोवाळांत मनशाकूय जनावर करून उडयता.

हेच खातीर मनीस पोटांत जीव धरीपासून जीव वचमेरेन फक्त खायत आसता. कोण खावंक मेळना देखून जीव सोडटा तर कोण चड खालां म्हणून जीव होगडावन बसता. जल्माक आयिल्लो प्रत्येक मनीस फक्त भकीत आसता. ताचे भकीक कितें कितें पडिल्लें आसता हाचें कोंत आनी हिशेब नासता. कोण एक आपल्या जल्माउप्रांत रोखडोच आयुश्य सोंपयता ताची एक गजाल सोडात. पूण जो एक सरासरी पिरायेचें जिवित जियेता तो, आपल्या ह्या काळांत कितली तरी रूखावळ काबार करता, कितलीं तरी जनावरां आनी जीव - जंतू सोंपयता, कितलें तरी द्रव्य सोंपयता, कितलें तरी खनीज ताणें फस्त केल्लें आसता. आपल्या पोटांत स्वाहा केल्ल्या ह्या गजालीचें पुनर्निमाण जर जायना आशिल्लें तर केन्नाच ही सृश्ट ना नपयत जावन वचपाची. कांय सुवातांचेर मनीस मनीसजातीचेंच मांस खावन पोट भरतात आनी मनशाच्या मांसाइतलें चवीश्ट दुसरें मांस ना म्हणटात खंय. मनशाचें

मांस मनशान खावप ही गजाल नवीदाद न्हय. आमकां खुबशा साहित्यांत आनी इतिहासांत ताची उदारणां मेळटात. मनीस जसजसो सुधारत गेलो तसतसो ताणें ही गजाल बंद केल्या आसूं येता. जर हें भक्षण बंद जावंक नाशिल्लें आनी दर मनशाचो दर खिणांक खावपाचो वेग जर पळयत जाल्यार मनीस जात केन्नाच ना जावन वचपाची.

अशावेळार तुजो आवडिचो खाद्यपदार्थ खंयचो ? असो प्रस्न कोणांक विचारप म्हळ्यार लेगीत एक हांसपाची गजाल. भयंकर व्हडलो रूक्षप्रस्न ! मनीस प्रत्येक गजाल खाता ती आवडटा म्हणून खाता. पोटाक जेन्ना भूक लागता तेन्ना आवड - निवड उरना. कडकडून भूक लागिल्लो मनीस कांयच हाताक मेळना जाल्यार आपलेच दांत कोराथून फाटी केन्ना तरी खाल्ल्या अन्नाचे कण लेगीत सोदून खाता. अशावेळार तांकां दांतात आडखळून उरिल्लो कण लेगीत एक आवडिचो खाद्यपदार्थ जावं येता. त्या मनशाक त्यावेळार जर कोणेंय तुजे आवडिचो खाद्यपदार्थ खंयचो काय विचारीत जाल्यार धादोस जाल्लो मनीस ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप दिवन म्हणटलो - म्हज्या दातांचे फटींत मेळिल्लो अन्नाचो कण होच म्हजे आवडिचो खाद्यपदार्थ. हे गजालीत अतिताय कांयच ना. हें जिवितांतलें सत्य. हें जो न्हयकारता ताका आवडिचो खाद्यपदार्थ म्हळ्यार कितें हाचो अर्थूच खबर ना.

आवडिचो खाद्यपदार्थ हो असल्या लोकांखातीर नासता. जे लोक खावन जेवन सुखी आसतात आनी वेवस्तीत धेंकर दिवन जालो म्हण्टकच एक चैनीची वस्त म्हणून जांकां एखाद्रें खाण खावपाचें आसता, तें खाण म्हळ्यार तांचें आवडिचें खाण. तांच्या नाटकी जिवितांतली हीय एक नाटकी गजाल. मनीस व्हड जालो म्हण्टकच ताच्या प्रत्येक गजालीची तोखणाय जाता. तो जी गजाल करता ताची अर्थ अपुर्बाय करून हेर ल्हान लोकूय त्या गजालीचें अनुकरण करतात. सर्वसामान्य मनीस आपलो जीव वाटोवपाखातीर परिपूर्ण जीवनसत्वां लेगीत नाशिल्लें अन्न खातात आनी तेंच अन्न जर खंयच्याय व्हड मनशान खालें आनी तोच आपलो आवडिचो खाद्यपदार्थ अशी जाप जर रूक्षप्रस्नाक दिली तर त्या खाद्यपदार्थाक आपसूक मोठेपण येता. गरीबान शेण खालें तर तें तो भुकेक खाता आनी श्रीमंतान ते खालें तर तो तें वखदाक खाता अशी म्हणणी आसाच.

म्हजो आवडिचों खाद्यपदार्थ खंयचो हें म्हाका अजून खबर ना. एका खाणांची निवड करून तें खाण म्हजें आवडिचे अशें म्हज्यान सांगू येता. पूण आवडिचें म्हळ्यार अचूक कितें हें म्हाका खबर ना. कांय लोकांचो आवडिचो पदार्थ चीकन आसता, कोणाचो सत्व, कोणाचो बांगड्यांची उड्डमेथी तर कोणाचो आनी कितें ? मनशाक खंयचो पदार्थ आवडटा ताचे वेल्यान त्या मनशाची घडण, सभाव आनी हेर गूण सोदून काडूं येतात. मानसशास्त्रीं अशा पदार्थांवेल्यान मनशाच्या सभावाचो अभ्यास लेगीत करतात. संशोधनांखातीर हे गजालीची जरी गरज आसली तरी म्हजे नदरेन ह्या प्रस्नाक व्हडलोसो अर्थ ना. आपलो सभाव जगजाहीर जावंक फावना वा आपूण आसा ताजे परस वेगळो कितें तरी आसां हें दाखोवन दिवपाखातीर आपल्याक आवडना त्या पदार्थाचें, फक्त ताका समाजांत दर्जो

आसा देखून सांगप हीय गजाल ह्या दिसांनी घडटा.

म्हजे कितले तरी मित्र आसात जे हिन्दू समाजाचे आसात आनी तांच्या घरांत सगळीं अनवाळेपणा चलतात. ते कितलेदां तरी आपलो आवडिचो पदार्थ च्योरीस, बीफ, पोर्क बी म्हूण मोठ्या नेटान सांगतात. म्हजे मुखारूय ह्यो गजाली हाडून आवडीन खातात. मनशान किर्तेंय खार्ले म्हूण म्हजी हरकत ना. जाका आवड आसा ताणें किर्तेंय खावंचें. तातूंत धर्म - जात आदी फालतू गजाली आसात हें हांव मानूंक तयार ना. पूण हांगा आवड दिश्टी पडनां तर आपूण सुधारलां अथवा विद्रोह करतां हीच ढोंगीपणा दिश्टी पडटात.

म्हजी जेवणां खाणांकडे कसलींच किचकिसावां नांत. ज्यो गजाली खायनां त्यो हांव खावपाचो यत्न करिनां. अणभव घेवपाखातीर रूच जाणां जावन घेवपाखातीर जितल्यो म्हूण खावपाच्यो वस्तू आसात तितल्योय हांवे चाखल्यात. हीच वस्त जाय, तीच वस्त नाका असल्यो किटकिटीय हांवे केन्नां करूंक ना. जंय जंय भोवलां त्या त्या घराब्यांतले रितीरिवाज समजून घेवपाखातीर ते जें किर्ते दिसपट्टे खातात तें खालां. ह्या सगळ्या गजालींत एकूच गजाल पाळूल्या ती म्हळ्यार जें किर्ते आसा तें स्वच्छ आसचें. लीप आशिल्ल्या दर खाणाची रूच मनापासून घेतल्या. पूण ताची आवड मनांक केन्नाच लावन घेतलिना.

हांव जल्माक येवचे पयलीं कांय काळ आमचे घरांत भयंकर आर्थिक चणचण जाल्ली खंय ! तेवेळार चिंचाऱ्यांचें पीठ करून ताजी भाकरी करून खावपाची पाळी लेगीत म्हज्या आवय - बापायचेर आनी हेर भावंडांचेर आयिल्ली खंय. म्हाका त्या खाणाचो अणभव ना. आज इच्छा आसुनय म्हाका ती गजाल चाखूंक मेळना. तो पदार्थ कर म्हूण सांगत जाल्यार म्हाका मिकेचे दुवाळे लागल्यात म्हणपाचें घरांत आयकूंक येता. ताणी एका वेळार घेतलेलो हे अणभव अत्यंत भयंकर हें म्हाका कळटा. ताजी याद लेगीत करप म्हज्या आवय - बापायक सोंसना. दुस्मानाचेर लेगीत ती परिस्थिती येवंची न्हय अशें तांचें म्हणणे. पूण म्हजी गरज वेगळी. ती जरी हांव भागोवंक शकलोंना तरी घरची परिस्थिती सुदारमेरेन हेर खावड हांवे खाल्या. पणसाच्या कुवल्याची भाजी तिनूय वेळां खावप, तायखिळ्याची भाजी मुखेल अन्न म्हूण खावप वा नाचण्याची आंबील खावप हे प्रकार हांवे अणभवल्यात आनी गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्या लोकांक हेच अवस्थेत दीस काडटना आतांय हांवें पळयलां. फूट पायेरेर बसून लामाण्या वांगडा तांची जोंधळ्या भाकर आनी मिरची पावडरूय खाल्या आनी देशाच्या पंतप्रधानाच्या पंगतीक बसून पंचपक्वानाय खाल्यांत. तातूंत केन्ना मोठेपणाय दिसलिंनात आनी कमीपणाय दिसलिंनात. हो फक्त जिवितांतलो एक अणभव. तातूंत खास अशें कायच ना. म्हज्या आवडिच्या खाद्यपदार्थांतूय खाशेलेंपण ना. तो एक रूक्षप्रस्न.





# तूं कोणाखातीर जियेता



एके सुंदर चलयेन जर हो प्रस्न गजाली करतां करतां केलो तर खंयच्याय मनशाक उस्तुर्ें वचुकूंच जाय. मनीस खऱ्यानीच जियेता काय किर्ते हो एक मोठो रूक्षप्रस्न. अर्शे आसतना मनशाक कोणाखातीर जियेता अर्शे विचार्ल्ले म्हणटकच हो असो बोवाळ हो जावपाचोच. तातूंत आनी तो चलयेचो. हो रूक्ष प्रस्न तसो प्रत्येक मनीस करताच. दुसऱ्याकूच कित्याक, आपल्याकूच आपूण करीत आसता. म्हाकाय हो प्रस्न सतायता. तातूंत आनी तो म्हाका एके सुंदर चलयेन एका नाजूक खिणार केलो आनी हांवूय मात्सो गडबडलों.

अशा नाजूक खिणार, नाजूक प्रस्नांक खरें म्हळ्यार धूर्त कोल्यावरी जाप दिवपाची आसता. मनशान आपूण हेरां खातीर जियेतां अर्शे जरी कितलेंय मनांत थारायलें आनी ती जाप खरी आसा अर्शे मानून जर फट्ट करून दिली तर मात त्रासांत पडपाची गजाल. ती जाप आयकल्या उप्रांत ती चली परत तोंड पळोवपाची ना हें मात शेर्त. त्याखातीर चलयेकडल्यान आयिल्ल्या ह्या प्रस्नाक आपूण तुज्याच खातीर जियेतां अशी जाप प्रेमाचो जागतीक संकेत मतीत दवरून दिवची पडटा. प्रस्न करतले चलयेक अपेक्षा आसता की जाका आपूण प्रस्न विचारतां तो मनीस आपूण तुजेच खातीर जियेतां आनी तुजेच खातीर जियेतलों अशीच जाप दितलो ! चलयेचे अपेक्षेप्रमाण जर ती दिलिना जाल्यार मात तो नाजूक खीण अदीक नाजूक जावन वता. हेचखातीर आयजमेरेन ह्या रूक्षप्रस्नाक हीच जाप येत रावल्या आनी मुखारूय तीच आसतली. चलयेक वायट दिसूंक फावना म्हूण चलो आनी चल्याक वायट दिसूंक फावना म्हूण चली ही जाप दीत आसता. ती जाप दितना आपूण फट उलयतां म्हणपाचें दोगांकूय खबर आसता. तरी पूण ती धोंगी जाप दिवपातूच दोगांयचेंय हीत आसता.

म्हाका मात ते चलयेक ही थारायल्ली जाप दिवंक आयलिना. हांव तुजेच खातीर जियेतां अशी जाप जर हांवे दिल्ली जाल्यार ती चली खूश जावन वचपाचें ताज्या मनांत म्हजेविशीचो मोग चड वाडपाचो. म्हाका जर ते चलयेकडल्यान कसलीय अपेक्षा आशिल्ली जाल्यार हांव ताका खूश करपाखातीर ती जाप दिनूय आशिल्लों. पूण कोणाचकडें कसलीच अपेक्षा दवरिनाशिल्लों हांव, कोणांक किर्ते दिसता हाची भीड - मुर्वत बाळगिनाशिल्लों हांव दुसऱ्यांक फक्त बरें दिसचें आनी स्वताचो फायदो करून घेंवचो म्हूण मनाविरुद्ध जाप कशी दितलों

आशिल्लों ?

तूं कोणाखातीर जियेता वो जगता ? हो मुळांतूच एक प्रस्न न्हय. हे दोन रूक्षप्रस्न. एकमेकांभितर भरसल्ले. तूं खऱ्यानीच जियेता ? हो एक आनी जर जियेता तर कोणाखातीर जियेता ? हो दुसरो प्रस्न. म्हजे खातीर हे दोनूय रूक्षप्रस्न. दुसऱ्या खातीर जर जियतलो जाल्यार मनशान पयलीं खऱ्या अर्थान जियेवपाची गरज आसता. पूण मनीस जो हेरांक सांगता, आपूण तुजेखातीर जियेता म्हूण तो खऱ्यानिशी जियेता ?

आयज पंच्चाण्णवद टक्कयांपरस चड मनीस जियेता तो एका कोशांत. जिवितार्चे एक चक्र मनशान मानून घेतिल्लें आसा. ह्या चक्रांत घुंवत रावप आनी एक वर्तुळ पुराय करप म्हळ्यार ताजें जियेवप पुराय जाता. तें जालें काय तो प्राण सोडूक निश्चिंत जावन वता. ह्या वर्तुळांतूच घुंवत रावप म्हळ्यार ताजें जियेवप. मनीस लग्न जाता. मागीर ताका भुरगीं जातात. जाका जावप शक्य ना तो धडपडत रावता. आपलें जिवित दुख्खांत घालयता. खंती काडटा. आपल्या वंशाचो रूख वाडचो, आपलो वंश वाडपाखातीर एक तरी चलो भुरगो जावंचो हीच ताची इत्सा आसता. चली जायत जाल्यार ती आपल्या रगताची जावन लेगीत आपलो वंश मुखार व्हरूंक शकना ही मनशाची खंत आसता. चलो जावपाखातीर तो धडपडत रावता. मागीर आपल्या भुरग्यांक तो वयर काडपाचो यत्न करता. आपले ऐपतीप्रमाण शिक्षण दिता. एक दीस ताका लग्न करता. नातवाच्या तोंडाची वाट पळयत रावता. नातू जालो काय तो मागीर सर्गाक हात लायता. आपूण सर्गार वचूंक आतां मेकळो जालो म्हूण हुस्को सोडटा.

हे सगळें करता आसतना ताका एक चिंता आसता ती आपल्या पोटाची. आपूण उपाशीं उरूंक फावनां, आपलीं भुरगीं रस्त्यार पडूंक फावना म्हणून मनीस धडपडत रावता. दीस - रात ताका आपल्या पोटाची चिंता सतायत रावता. जाचें पोट मनांसारकें भरना ताका आपलें जियेवप अर्दकुटें दिसता. पोटभर जेवण मेळून कसलीच चिंता सतायनासतना दीस सारप हाकाच जियेवप म्हणटात हो ह्या लोकांचो विचार. ह्याभायर तांकां विचार करूंक वेळूच मेळना. घोडो जसो दोळ्यांर झापड घालून आपली वाट चलता, जावं घाण्याचो बैल घालून दिल्ल्या मार्गांत घुंवत रावता तसो मनीस आपले जिणेच्या चक्रांत एकसारको घुंवत जियेता. आतां हाका जियेवप म्हणप काय जल्म मेळ्ळा म्हूण तो कशायबशेन मुखार धुकलप हेंय तांकां खबर नासता. अशा प्रकारांत जियेवपी लोकांचो आंकडो हो चड आशिल्ल्यान हेचवाटेत दर एकलो वचूंक सोदता आनी ताका जियेवप अशें म्हणून घेतात.

अशें हें जियेवप चलतानाच आपूण हेरांखातीर जियेता म्हूण दाखोवपाचोय यत्न हांचेकडल्यान घडटा. आवय - बापूय आपूण आपल्या भुरग्यांखातीर जियेतां अशें म्हणटात. भुरगीं आवयबापाय खातीर जियेतात. माव - भयणी खातीर, घोव - बायले खातीर आनी बायल घोवाखातीर जियेता अशें आपल्या नात्याभितरूच जियेवपाचें कार्य तांचेकडल्यान घडटा. स्वताक समाजसेवक जावं सामाजिक जाणविकाय आशिल्लो मनीस अशें मानपी

मनीस आपूण समाजाखातीर जियेतां अशें नेटान सांगता. तें हेरांक पटोवन दिवपाखातीर समाजसेवा नांवाचो कसलो तरी प्रकार करतात. आपूण हेरांपरस वेगळो, आपूण आपले भितरूच रावना तर हेरांखातीर योगदान दितां हें दाखोवन जाल्याउप्रांत आपूण हेरांखातीर जियेलों म्हणपाचें समाधान करून हे घेतात.

हांव कोणांखातीर जियेतां हो प्रस्न म्हाका केन्ना पडुंकूच ना. कोणांखातीर जियेवंचें आसता म्हणपाचें म्हाका पटच ना. ताजेर म्हजो विस्वासूय ना. आपूण हेरांखातीर जियेतां म्हूण सांगपी म्हजे नदरेन धोंगी. तो लोकांक फटयता आनी आपल्याकूय फटयता. समाज हो घडला तो एक अपेक्षा बाळगून. एकमेकाच्या आदारान आपल्याक सुरक्षा मेळूंक शकता आनी एकलो पडत जाल्यार आपल्याक भंय आसा हे भावनेतल्यानूच मनीस कुटुंब करून रावता. समाज घडोवप वा सामाजिक बांधिलकी मानप ही बाब तशी सुवार्थी. खंयच्याय मनशाक जर दिसत कि आपूण आपली राखण करूंक समर्थ आसां आनी आपल्याक कोणाकडच्यान कांय नाका जाल्यार तो समाज मानूंक लेगीत तयार जावंचोना. पूण मनशान समाजाच्या नांवान आपल्याचेर इतले संस्कार करून घेतल्यात कि जितेपणी सोडाच तर मेल्या उप्रांत आपल्याक कोणेतरी खांदो मारूंक जाय हे अपेक्षेन मनीस सामाजिक बांधिलकी मानून समाजाखातीर जियेता. मेल्या उप्रांत आपलें किर्तें जातलें हें जांकां सांगूंक येना. तांका मरणाउप्रांतची चिंता सतायता. मरणां उप्रांत तरी पावूंक जाय हे अपेक्षेनूच हे सगळे एकमेकाखातीर जियेवपाचीं नाटकां करतात.

हांव म्हजे आवय - बापायखातीर जियेतां अशें म्हणूक शकना. आपल्याक उतार पिरायेर आधार मेळचो म्हूण तांची अपेक्षा आसतलीच. तेच खातीर ताणी हांव दुबळो आशिल्लों तेन्ना म्हजी काळजी घेतल्या. तेन्ना ताणी म्हाका जें दिलां तें परत करपाचें म्हजें कर्तव्य. तें हांव करतां. हांव म्हजे बायलेखातीर जियेनां. बायल मनशेक खंय तरी एक सुरक्षा जाय आसता. तेखातीर ती लग्नाचें बंधन बांधून घेता आनी बायल म्हाका जितलें किर्तें दिता त्याच मापान हांव तिका परत दितां. हांव भुरग्यांखातीरूय जियेनां. तांकां फक्त हांव सांबाळटां. ताणी म्हजे अशक्त पिरायेर म्हाका सांबाळचो हेच अपेक्षेन. ताणी जर म्हाका सांबाळ्ळोना, म्हजेर खोट घाली जाल्यार हांव तांका शिराप घालपा बदला आनी कांयच करचोनां. तांच्याखातीर हांवें जें भांडवल होगडायल्लें ताची यादी करून दिवपाइतलेंच म्हजें कार्य आसतलें.

हांव जियेतां तो म्हजेच खातीर. हांव जल्माक आयलां आनी एक दीस हांव मरपाचो आसां. जल्म आनी मरण हाचे मदलो प्रवास म्हाका कळटा. जल्माक येवंचे पयलीं हांव किर्तें आशिल्लों आनी मरणा उप्रांत म्हजें किर्तें जातलें हाचे काय तर्क म्हज्यान करूं येतात. पूण तांचो अणभव म्हाका ना. म्हाका अणभव आसा तो हांवे जियेल्ल्या जिविताचो. ताकाच हांव साक्षी आसां. तेचखातीर जिवितांतलो दर एक खीण म्हाका जियेवपाचो आसा आनी म्हजेच खातीर म्हाका जियेवपाचो आसा.

हांव म्हजेच खातीर जियेतां आसतनां म्हज्या मनांतल्यो भावनां वेगवेगळ्या रूपान उचंबळीत जायत रावतल्यो. केन्ना म्हाका दुख्ख जातलें, केन्ना खुशी जातली. हे म्हजेच मनाचे खेळ. मनशांत णव रस आसतात. ते सगळे आपलेच खेळ. हेच खेळ खेळत म्हाका रावपाचें आसा. ताची रूच घेवपाची आसा. णव रसांतलो भंय हो रस मनशाक चड सतायता. ह्याच रसाखातीर मनीस हेरांखातीर जियेता. हांवे हो रस पयलीं काडून उडयल्लो आसा. तो काडून उडोवन हांव म्हजेच खातीर जियेतां.





# जाणटो जातकच तुजें कशें जातलें



कोणे केलो काय हो रूक्षप्रस्न ? याद जायना. आनी याद जातली कशी ! असो हो रूक्षप्रस्न करपी ह्या समाजांत कितें एकटोच आसता ? ना. पावला कणकणी असले प्रस्न करपी इतले आसतात, जांची गणती करप, तांकां मतींत धरप हें आमच्या सारख्यांच्या हिसपा भायलें आसता. तांका जाप दिवपाची थारायली जाल्यार परतून मनांत प्रस्न उप्रासता, हांका कशी जाप दिवप आनी कितें दिवप ! त्याच खातीर असले रूक्षप्रस्न आयले म्हणटकच फक्त तोंडार थोंगीपणाचो हांसो हाडून म्हणचें पडटा, फुडलें कोणे पळयलां ? रूक्षप्रस्न करतल्यांकूय हो एक ताणीं समजनासतना केल्लो रूक्षप्रस्नूच. पूण हो रूक्षप्रस्न तांचेमुखार वता, जापेच्या रूपान. तरी आसतना जाणटो जातकच तुजें कशें जातलें ह्या प्रस्नाक जण एकल्यान आपले परीन जाप ही सोदचीच पडटा. ही जाप मागीर रूक्षप्रस्न करप्यांखातीर नासुये. तर असलो हो रूक्षप्रस्न आयलो म्हणटकच आपल्याच भितर जे नानातरांचे प्रस्न तयार जावन आपल्याच मनाक खांवक लागतात तेन्ना मन थंड करूंक आपल्याच समादानाखातीर जाप तयार करप गरजेचें आसता. हांगा अर्थ नाशिल्ले प्रस्न हे म्हजेखातीर रूक्षप्रस्न जरी आसले तरी तांची जाप ही मनांतल्या मनांत सोदपाचो यत्न जाताच. ही जाप कांय जाणाचे नदरेन रूक्षजाप आसूं येता. अर्थहीण प्रस्न जर हांचे खातीर रूक्षप्रस्न जाल्यार ताची जाप हांचे तकलेंत कित्याक येवंक जाय असोय एक उपरूक्षप्रस्नूय वाचप्यां भितर निर्माण जांव येता.

जाणटो जातकच खरेंच म्हजें कशें जातलें काय ? जसो मनीस जल्म घेता तशेंच ताका मरण येता. जल्माक येता तेन्ना तो भुरगो आसता आनी पिरायेचे पांवडे हुपतहुपत तो एकदीस जाणटेपणाकडेन पावता. भुरगेपणार जसो तो दुबळो आसता तसोच पिरायेच्या निमणे तोकार म्हळ्यार जाणटेपणार तो दुबळो जाता. भुरगेपण आनी जाणटेपण ही मनशाच्या दुर्बळकायेचीं दोन आंगां. भुरगेपणार मनीस जेन्ना दुबळो आसता तेन्ना ताका पालव दिवपाखातीर ताका जल्माक घालपी आवय - बापूय आसतात. अशा भुरग्याक कोणूच केन्ना प्रस्न करिनांत की तुजें भुरगेपणार कशें जातलें ? ह्या प्रस्नाक तांचेकडेन जाप तयारूच आसता. ते धरून चलतात की भुरग्याची जतनाय घेवपाची वेवस्ता ही आदी काळाथावन जाल्लीच आसता. त्याच खातीर हो रूक्षप्रस्न अजून तयार जावंक ना. पूण जाणटेपणार पालव दिवपी, सांबाळ करपी वेवस्ताच ही ढळमळीत जाल्ली आसल्या कारणान

हो प्रस्न संवसारांतल्या दर मनशाक सतायता. त्याच खातीर जण एकलो आपल्या जाणटेपणाची तजवीज करून, जाणटेपणार आपलें कशें जातलें हे चिंतेन आपलें पुराय जिवीत होगडायता. भुरगेपणार आपल्याची काळजी घेवपी, सांबाळ करपी कोणतरी आसा हाची खात्री ताका आसता तशी ती ताका जर जाणटेपणाचीय मेळत तर ह्या प्रकारचो रूक्षप्रस्न म्हाका दिसता निर्माणूच जावपाचो नाशिल्लो. पूण तशी वेवस्ता नाशिल्ल्यानूच जाणटेपणार कशें जातलें हो रूक्षप्रस्न अजून आमचे मदीं आसा.

खरें म्हळ्यार हो असलो रूक्षप्रस्न तयारूच जावंक नाका आशिल्लो. हो रूक्षप्रस्न भुरगेपणार जर जाल्लो जाल्यार एक समजूं येतालें. कित्याक हे पिरायेर जणएकल्याक आपलेविशीं तजवीज करूंक वेळूच मेळिल्लो नासता. पूण होच म्हत्वाचो काळ सोंपल्या उप्रांत मनशाक आपल्या जाणटेपणाखातीर वेवस्ता करूंक फाव तो वेळ मेळटा. आपलें जाणेटपण आपणें कशें घालोवंचें हाची एक वेवस्तीत आखणी करूंक मेळटा. इतलेंच कित्याक, आपणें कशें मरचें, मरणा उप्रांत आपल्याक कोणे खांदो दिवंचो आनी आपल्याक पुरचो काय चंदनाच्या लाकडांनी ल्हासचो हाची वेवस्ता दर एकल्या मनशान करूं येता. तरी आसतना जाणटेपणार आपलें कशें जातलें हेच चिंतेन मनीस आपलें जाणटेपण बेगीनूच हाडून मर्णाचे तणीर पावत वता.

दुडू हो सगळ्या मनशांच्या जिवितांतलो म्हत्वाचो भाग. दुडू जाय तो सुखाखातीर. आपल्यो दिसपट्ट्यो गरजो भागोवन जो दुडू उरता तो आपल्या जाणटेपणार सांबाळून दवरपाखातीरूच मनीस आपलें पुराय जिवीत दुडू जमोवंक झरयता. मरण हो प्रकारूच असो आसता की तें केन्ना येतलें हें कोणाकूच खबर नासता. तें जर अमूक वेळार येतलें हें शंबर टक्के कळत जाल्यार त्या वेळा पुरतें जण एकलो धडपडून चिंते विरयत रावंक शकपाचो. पूण मरण हें अनिश्चित आशिल्ल्या कारणान आपणें कितलें सुगूर करूंक जाय हें खबर नाशिल्ल्यान पुराय जीण ही अशी अनिश्चित धडपडींत वता. ती धडपड करतना आपूण जाणटो जायसर उरतलों म्हणपाची खात्री कोणाक नासता. त्याचखातीर ह्या सगळया अनिश्चित प्रकाराखातीर मनशाची अनिश्चित धडपड चलत रावता. हाडली पड खाल्ली पड अशे वृत्तीच्या मनशाक मागीर हेच अनिश्चित धडपड करपी रूक्षप्रस्न करतात. तांच्या हिसपान जी पड हाडटा तातुंतलो थोडो तरी वांटो जाणटेपणाखातीर दवरचो. जाणी तो दवरलो तो खावपासारकी परिस्थिती मात जाणटेपणार कोणाचीच उरलिना. तांचो तो वांटो मात भलतेच खावन गेल्ल्याचीं उदारणा आमकां थोडीं मेळचिनांत. जाणटेपणार जाय पडटलें म्हण आपली आस मारून जियेवपी मनशांक, त्याच वेळार सगळीं दुर्येसां आपसूक येतात. दुर्येसां जावपाची मूळ कारण हें चिंता आशिल्ल्या कारणान, जाणटेपणार आपलें कशें जातलें हेच चिंतेन तो जाणटेपणाक पावता तेन्ना हांतुणार वळवळत पडटा. जाच्या नांवार कसलीच संपत्ती ना, जो जोडटा तातुंतलें सुगूर करिना ताका लागून सुगूर करपी, तें करूंक धडपडपी रूक्षप्रस्न निर्माण करता. आनी आपल्या वांगडाच हेरांकूय जाणटो करून उडयता.

जो कोण लग्न जायनां तांच्याय बोडार हे रूक्षप्रस्न समाज आपटिता. तरणेपणार कोणय मेळटा. कितल्याय चलयांकडेन संबंद उरूं येता. पूण जाणटेपणार खरो सांगाती आसता ती

फकत आपली बायलूच. तीच जाणटेपणार पावता. मनीस जाणटो जालो की एकमेकाक सांबाळपी घोव - बायलांच आसतात. भुरगीं - बाळां म्हणटात तीं फट अशें म्हणपी ह्या संवसारांत जळींमळीं पळोवंक गावतात. म्हाका कांय अशेय विचारवंत मेळ्ळ्यात की जे सांगतात - हॉटेलांतलें जेवण कितलेंय रूचीक आसलें तरी घरचें अन्न हें घरचें. संवसारांत सांगाती - मीत्र हें सगळें फट. जाणटो जालो म्हणटकच सगळे सोडून वतात. जल्म दिवन वयर काडिल्लीं भुरगीं लेगीत लग्न जालीं म्हणटकच आपले बायलेचे सुवादीन जावन पयसावतात. पूण आपली बायल म्हणटात तीच खरी सांगातीण आसता. तिजेच मुखार जण एकलो पुरायेन नागडो जावंक शकता. हांगा नागडो म्हळ्यार फक्त शरिरानूच न्हय तर मनान लेगीत. आपलें मन पुरायेन उकतें करूं येता वा शरीर पुरायेन उगडें करूं येता तें हांगाच. घोव आपले बायलेकडेन तें करता आनी बायल घोवाकडेन. तेचखातीर जाणटेपणार कशें जातलें ह्या रूक्षप्रस्नाक जाप आसता ती म्हळ्यार लग्न जावप. असलें हें तत्वगिन्यान आयकूंक बरें ऽ दिसता. पूण खऱ्यानीच जाणटेपणी तीं एकमेकाक पावतात व्हय ? घोवाक जाणटेपण येवंचे पयलींच कितल्या तरी जाणांच्यो बायलो हो संवसार सोडून गेल्यात. कितल्यो बायलो विधवा जाल्यात. हाचो हो अणभव रूक्षप्रस्न करतल्यांक कसो ना ? जाण्टेपण येवंचे पयलींच जांचे सांगाती सोडून गेल्यात ताणीं जाण्टेपणावेल्या आदाराखातीर परतून लग्न करपाचें ? रूक्षप्रस्न करपी कांय जाण म्हणटले की ही गजाल म्हळयार अपघात. अपवादान अश्यो घडणुको घडटात. तांका हें लागू जायना. पूण प्रत्येक मनीस हो अपवाद कित्याक आसूंक शकना ?

जाणटेपणार आपलें कशें जातलें ? हे चिंतेन दरेका मनशाक केल्ली ही एक तडजोड. ही तडजोड करीत मनीस जियेता. तातुंतल्यानूच आपल्या जाणटेपणाची वेवस्ता करूंक तो धडपडटा. ती करतना जण एकल्याक खबर आसता की, हें सगळें चलता तें अनिश्चित. फुडलें कांय खरें न्हय. आसा तें आता वर्तमान काळांत. पूण आमी वर्तमान सोडून जियेतात. भुतकाळांतल्यो आनी भविश्यकाळाच्यो चिंता चघळयत.

जाण्टेपणार कशें जातलें हो प्रस्न म्हजेखातीर रूक्षप्रस्न. हांगा जाणटो म्हळ्यार पिरायेन जाणटो. जाणा - तो न्हय. जाणा - तो जर जाणटो असो अर्थ आशिल्लो जाल्यार त्या जाणत्याक हे रूक्षप्रस्न केन्ना पडपाचेच नाशिल्ले. पूण पिरायेन जाणटे जाल्ल्यांक, जावपाच्या मार्गार आशिल्ल्यांक हो प्रस्न सतायता. कित्याक ताणीं आपल्याकडे ताकता तेन्ना आपल्या भुरग्यांक तीं दुबळीं आसतना ताणीं आदार दिवन वयर काडिल्लीं. मोग - माया दिल्लो. आपूणय केन्ना तरी दुबळो जातलों तेन्ना ह्या दुबळ्यांक तेन्ना घटाय आसतली आनी तेन्ना तींच आपल्याक पावतलीं. फाटले उपकार फेडपाखातीर. पूण जेन्ना आपणे केल्ल्या उपकाराची सुवार्थीपणाक लागून परत फेड न मेळपाची शक्यताय उप्रासता तेन्ना मागीर भंय निर्माण जाता आनी रूक्षप्रस्न तयार जातात. पूण तो भंय म्हाका ना. हांव तर केन्नाच जाणटो जालां. दोनूय अर्थान !





# तुका आत्महत्या करची अशें केन्ना दिसलां



तरी बरें ! तूं आत्महत्या कित्याक करिना काय म्हूण लोक म्हाका प्रस्न करिनांत. अर्थ नाशिल्ल्या ह्या प्रस्नांक - रूक्षप्रस्नांक जाप दिवंचे परस खुपशा जाणांक आत्महत्या करप सोपे आनी समाधानाचें दिसतलें. जिवितांतले कटकटीक लागून मनीस कंटाळटा. मनशान आपल्या सुखाची एक कल्पना केल्ली आसता. तें सूख जेन्ना मनशाक मेळना तेन्ना मनीस दुख्खी जाता. निराश जाता. मनीस जियेता तो आशेचेर. जांकां जें जाय शें दिसता तें आतां जरी मेळ्ळें ना तरी फुडाराक मेळटलें हेच आशेचेर तो जिवीत पासार करता. हे आशेक लागून ताका मनाक एक घटाय मेळटा. हेच घटायेक लागून फाव जाल्लें दुख्ख तो सोंसता. पूण जांचें मन घट नासता, जो दुबळो आसता तो हे खिणभर मनाक भोगपी उतळताप सोसूंक शकना. ताका हें जीवीत रसहीण दिसूंक लागता आनी तें सोपोवपाखातीर ताजें मन तयार जाता. तो आत्महत्या करपाचो विचार करता.

आपणें आत्महत्या करची असो विचार संवसारांतल्या दर एक मनशाक केन्ना ना केन्ना तरी आफड्डून वताच. मनशाच्या जिवितांत असो केन्ना तरी एक खीण येताच जो त्या मनशाक हो संवसार म्हळ्यार अर्थशून्य म्हूण सांगता. ह्या संवसारांत सगळीं दुख्खां आनी त्रास भरिल्ले आसात. तातुंतल्यान सुटका मेळटली जाल्यार आपल्या जिवाचो त्याग करप हेंच सत्य अशें त्या मनशाक दिसूंक लागता. ह्या विचारांतल्यान चडशे लोक आपल्या आशावादी समावाक लागून भायर येतात. पूण कांय हेच निराशेंत जियेतात. ही निराशा वाडली म्हण्टकच तो आपलो प्राण त्यागपाखातीर सिद्ध जाता. ताका जगपाखातीर जी शक्त जाय आसता ती शक्त ह्या निराशावादाक लागून होगडावन बसता. तो वेगवेगळ्या पद्धतीचो वापर करून ह्या संवसारांतल्या जंवजाळांतल्यान मुक्त जाता. तो आत्महत्या करता.

आत्महत्या करप्यामदीं चडशे अशेल दुबळे लोक आसतात. ते ह्या संवसारांत जियेवपाक नालायक आसतात. तांका जिणेचो अर्थ कळिल्लो नासता. जगपाखातीर जे कश्ट काडचे लागतात, त्या कश्टांक भिऊन हे दुबळे लोक आपलें जिवीत सोडयतात. जीव दिवपाक धाडस लागना. जियेवपाक धाडस लागता. तें जांचेकडेन ना तेच जीव दितात. जीव दिवप्यांमदीं चडशे असलेच धाडस नाशिल्ले लोक आसतात. ताणीं ज्या सुखाची कल्पनां

केल्ली आसता तें मेळूंक ना देखून, वा ज्या प्रेमाची अपेक्षा बाळगिल्ली तें प्रेम मेळूंक ना देखून ते आपल्या आयुश्याचो अंत घडोवन हाडटात. आत्महत्या करपी असल्या मनशांचो उद्देश्य फकत आपल्या मनांतल्या अपेक्षांचो भंग इतलोच आसता. ह्या अपेक्षाभंगांत तांकां जाल्ल्या दुख्खांचो अंत घडोवन हाडप होच हे फाटलो मुखेल हेत आसता. ह्या भायर कांय लोक अशे आसतात जांकां खरेंच दिसता आतां ह्या सवंसारांत रावपांत कांयच हावशील ना. ते जर मरण येना म्हूण उरिल्लें आयुश्य जियेत रावले जाल्यार तांचे वांगडाच तांचो त्रास हेर समाजाकूय जावपाचो आसता. तेचखातीर हे लोक आपलें आयुश्य सोंपोवंक सोदतात. तांचें हे जिवीत सोंपोवप आसता. तेचखातीर असल्या लोकांची आत्महत्या तांच्या आनी लोकांच्याय बऱ्या खातीर गरजेची आसता.

संत ज्ञानेश्वरांची समाधी घेवप ही गजाल तांकां आयिल्लें सैमीक मरण न्हय. ताणी तें थारावन आफोवन हाडलें. तांच्या भक्तांनी तांचें मोठेपण पळोवन ताका समाधी हें जरी उदात्त नांव दिलें तरी असल्या विशयाचेर जेन्नां विचार जाता तेन्ना ताका आत्महत्या हेंच नांव दिवंचें पडटलें. ताणी जाणून बुजून आपल्या जिविताचो अंत करून घेतला. ताणी आत्महत्या कित्याक केली हो प्रस्न वेगळो. जर त्यावेळार ताणी आयुश्य सोपोवंक नाशिल्लें जाल्यार तांच्या कार्याचें म्हत्व कोणांक कळचें नाशिल्लें. आज ज्ञानेश्वर जे अमर जावन गेल्ले आसात तें अमरत्व तांकां मेळचें नाशिल्लें. त्या काळचो समाज ताज्यो वाद्रयो वाद्रयो करतलो आशिल्लो. तांकां तोंड दिता आसतना ज्ञानेश्वराक इतल्यो लटाफटी करच्यो पडपाच्यो की तातूंत ज्ञानेश्वराचो वावर गौण थरपाचो. संवसारांत जितो रावप हीच गजाल मुखेल जावपाची. जिवीत हें व्हड आसूंक जाय, लांब न्हय, हाची जाणविकाय जाल्ल्यानूच ज्ञानेश्वर महाराज आयज मेरेन जनतेचेर राज्य करूंक शकलो.

हालिच्या काळांत साने गुरूजीनूय आपल्या आयुश्याचो अंत करून घेतला. तशें पळोवंक गेल्यार तांचोय वावर ह्या समाजाखातीर आसा. पूण तांचे आत्महत्येन तांचो पुराय वावर निर्फळ करून उडयलो. आयज साने गुरूजीक मानपी लोक ताणी केल्ले आत्महत्येक लागुनच तांकां उणाक लेखतात. ज्ञानेश्वरांच्या आत्महत्ये फाटल्यान निसुवार्थीपणां आशिल्लो. साने गुरूजीची आत्महत्या सुवार्थीपणाक लागून आशिल्ली. आपणें इतलो वावर केलो पूण समाज आपल्याक लेखिना, आपलें नेतृत्व कोण मानिना ह्याच दुख्खाक लागून, निराशेंतल्यान ताणी आपलें जिवीत सोंपयलें. आपलो वावर सोंपलो की वचपाचो अधिकार जण एकल्याक आसा. पूण तो कशे पद्धतीन कसल्या कारणाचो आलाशिरो घेवन वता हेंय समाज पळयता. तें कारण त्या मनशाच्या वावराचें आनी मरणाचें उदात्तीकरण करता.

विनोबा भावे हांकां खात्री जाली की आपली आतां हांगा गरज ना. आपलो वावर सोंपिल्लो आसा. जरी उरला आसत तरी आपलें शरीर ताका सहकार्य दिनां. तेच खातीर गरज नासतना शरीर तिगोवपांत अर्थ ना. ताणी अन्न, उदक वर्ज्य केलें आनी प्राणत्याग केलो. तांचें मरण सैमीक न्हय. पूण ती आत्महत्या कोण मानूंक तयार ना. ताणी उपेग

नाशिल्लें आपलें शरीर त्याग केलें. ताणें तें करूंक नाशिल्लें जाल्यार ताजेविशी लागणूक आशिल्लो समाज तांचेखातीर खूपसो वेळ होगडावपाचो. तांची सेवा करची पडपाची. तेच खातीर तांचो निर्णय हो योग्य आशिल्लो.

समजा आमी एका सिनेमाखातीर गेले. थेटरांत वचून बसल्या उप्रांत सिनेमा पळयता आसतना ताचो आमकां कंटाळो आयलो जाल्यार कितें करप ? तें सोंपसर उबगण येत बसून रावप काय मदीच उठून घरा वचप ? कांय लोक उठून वताय बी. तांकां कोणूच हांसना. पूण कांय लोक तिकेट काडल्या देखून तें सोपसर बसून रावतात. तांकां तातुंतल्यान खुशालकाय मेळचे परस दुख्खुच चड भोगता. पूण अर्दयार उठून गेल्लो आनंदी आसता. समजा आमचें आयुश्य हें एक सिनेमा अशें धरून आत्महत्या करप हें अर्दयार उठून वचपासारकें जरी मानलें तरी आमी जिवीत हें पुरायेन सिनेमा वा नाटक मानूंक शकनांत. सिनेमा - नाटकांक वच्चे पयलीं तार्जे विशींची जाणविकाय आमी पयलीं करून घेवंक शकतात. ताका वचप काय ना हाचो निर्णय घेवनूच आमी फुडली कार्यावळ थारावंक शकतात. पूण आयुश्याविशी आमी तसो निर्णय घेवंक शकनांत. उबगण येता म्हूण सिनेमा थेटरांतल्यान अर्दयार उठून वचप परवडटा. पूण जिविताच्या थेटरांतल्यान उठून वचप कोणांकूच परवडपासारकें ना. कांय लोकांक तशें दिसता. म्हाका दिसना. कित्याक हांव त्या सिनेमां - नाटकांतलो एक मुखेल कलाकार. तें कितलें सोबीत करप हें म्हजेर अवलंबून आसा.

तुका आत्महत्या करची अशें केन्ना दिसलां ? असो जेन्ना प्रस्न येता तेन्नां हांव मनासावन ना अशेंय म्हणूंक शकना. हेर मनशांसारकोय हांव वेगवेगळ्या स्टेजींतल्यान गेल्लों आसां. बरे - वायट अणभव हांवे घेतिल्ले आसात. केन्ना मन त्या खातीर सुखावलां तर केन्ना दुखावलां. जेन्ना हांव कॉलेजीत शिकतालों तेन्नां एके चलयेच्या मोगांत पडलों. दोगांय पांच वर्सां एकरूप जावन गेलीं. फुडाराचीं सपनां रंगयलीं. एक दीस ते चलयेचें लग्न थल्लें. तें म्हणूक लागलें पळून वचून लग्न करूया. हांवें ताका ना म्हळें. कित्याक ताज्या लग्नाचीं आमंत्रणां छापून तयार आशिल्लीं. अशावेळार एका विद्यार्थी नेत्याक आनी कवी - लेखकाक हो निर्णय परवडपासारको नाशिल्लो. ताका थारिल्ल्या सुवातेर लग्न जावंक हांवे परवानगी दिली. तेन्ना म्हाका वायट दिसलें. खूप रडलोंय बी. आत्महत्या करची अशेंय दिसलें. त्या वेळार लागशिल्ल्या मित्रांनी तत्वगिन्यानां सांगून म्हाका थातारलो. आतां म्हाका तेन्ना हांव करतालों ती पिशेपणां दिसतात. त्या वेळार जर हांव उबगण आयिल्ल्या ह्या थेटरांतल्यान उठून गेल्लों जाल्यार पश्चाताप करपाची संद लेगीत म्हाका मेळचिनाशिल्ली. आज ती संद म्हाका आसा. जिणेंतले कडू - गोड अणभव चाखीत हांव जिवीत अमुरपिकें करून चाखतां.

म्हाका म्हजें जिवीत हांवे मागनासतनां मेळ्ळां. मागनासतना मेळिल्ली येदी व्हडली

गजाल हांव होगडावंक सोदिनां. आमी कोणूच मरण मागूंक सोदिनांत. म्हातारपणार उबो रावंक शकना असो लेगीत मरणाचे कल्पनेन थतरवितर जाता. तरीपूण ताका मरण येताच. नाका आसतना. तें मागनासतना खात्रीन मेळटा. जी गजाल मागनासतना मेळ्ळ्या त्या गजालीच्या दोन टोकांमदलो हो प्रवास हांव करतां. तो मदीच सोपोवचो असो म्हाका निखालूस दिसना. म्हाका आत्महत्या करची अशें आतां दिसनां. मुखार म्हाका दिसतय बी. म्हजें काम सोंपलां आतां हांगा सुवात आडावंपात कांयच अर्थ ना. हांगच्यान गेल्लो बरो अशें येवजून मुखार प्राणत्याग हांव करीनय बी. पूण सद्या तरी म्हाका हो विचार येना. सगळो निर्णय सैमाच्या हातांत. जाणें म्हाका ह्या रंगमंचार धाडला.





# तुजी आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक खंयची



चुको आदारप हांचो मनशाकडे सामको दाट संबंद आसा, असो एक समज आमचेमदीं चलत आयल्लो आसा. चूक करूंक ना असो मनीस सोदून लेगीत वखदाक सांपडप कठीण. कसली ना कसली चूक आदारप हो मनशाचो सभावधर्मूच जावन आसा. मनीस म्हण्टकच ताचेकडल्यान चूक ही घडटलीच असो अणभवान समज करून घेतिल्ल्यान, तुवें केन्ना चूक केल्या ? असो प्रस्न निर्माण जावंचे बदला तुजी सगळ्यांत व्हडली चूक खंयची ? असो प्रस्न तयार जाता. मनीस ज्यो चुको आदारता तांचे भितरूय ल्हान चूक आनी व्हड चूक अशी तुळा जाता. मनशान चूक आदारप म्हण्टात ताका समाज मान्यताय मेळून, ल्हान ल्हान चुकांकडेन दुर्लक्ष करप आनी व्हडली चूक तितली मतींत दवरप, तिका म्हत्व दिवप हेच गजालीकडेन मनशाचो कल आसता.

कोर्णेय चूक केली जाल्यार ताका भोगसणें दिवपाचीय वेवस्ता आमचेमदीं आसा. आपणें जें कितें केलां तें चुकीचें केलां हाची जाणविकाय एखाद्र्या मनशाक जाली वा ताणें चूक मानून घेतली म्हण्टकच ताका माफ करपाचें मोठे मन समाजाक दिल्लें आसता. जाणें चूक आदारल्या ताका ख्यास्त दिवपाखातीर, ताका धरपाखातीर, माफीचो साक्षिदार करून घेवपाचीय तजवीच कायद्यांत केल्ली आसा. जंय व्हडले व्हडले शिकिल्ले - सवरिल्ले चुकतात थंय नेणार मनीस चुकल्यार कितें अजाप ? वा दोन पांयांचो मनीस चुकता थंय ते मोनजातीची कितें गत ? ह्या सारके वाक्यप्रचार मनशाच्या दिसपट्ट्या उलोवण्यांत आयकूंक येतात. चुकीबगर मनीस ना अशीच समाज धारणां आशिल्ल्या कारणान म्हणा वा आपणेंय जाणविकायेन कितें तरी करप आनी तें आंगार शेकलें म्हण्टकच चूक जाली म्हणत माफी मागप. आपली चूक मान्य करप. आपल्याक कात वाचोवंक मेळची ह्याच उद्दिश्टान ही सगळी तजवीज करून दवरिल्ली आसा. ल्हान चुको दोळ्यांआड करून फक्त व्हड चुकांचेर लक्ष दवरून राविल्ल्यानूच प्रस्न निर्माण जाता, तुजी आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक खंयची ?

मनीस आयुश्यभर सतत क्रियाशील आसता. कर्म करीत रावप होच ताचो धर्म जाल्ल्यान, तो कर्म करता तें केन्ना केन्नाय ताका आनी हेरांकय बाधक थरता. अशें हें ताचें कर्म म्हळ्यार ताची चूक अशें मानपाची प्रथा आसा. जें कर्म जाणविकायेन हेतु पुरस्पर केल्लें नासता तर सहज कर्म करतां करतां, भान उरनासतना जें घडटा तें कर्म चूक हे वळेरींत येवंक

जाय आशिल्लें आनी जी घडणूक मनीस पुराय जाणविकाय दवरून करता तेन्ना ताच्या हातांतल्यान केन्नाच चूक घडप शक्य नासता. पूण असल्योच घडणुको आयज चूक थरतात आनी तांचो आसपाव 'आयुश्यांतली व्हडली चूक' ह्या सदरांत जावन वता.

म्हज्या आयजवेरच्या आयुश्यांत हेरांचे नदरेन खूप चुको घडल्यात आसत. जो वेंताक चुकता तो वांवाक चुकता आनी जो वांवाक चुकता तो गांवाक चुकता हे म्हणणे प्रमाण हांव वेंताकूय चुकलां आसत, वांवाकूय चुकलां आसत आनी गांवाकूय. पूण म्हाका आयज अशे खंयचेच चुकीची याद जायना. हांवे ज्या वेळार कांय निर्णय घेतल्यात वा कसलीय करणी केल्या तेन्ना हांव चूक करतां अशें म्हाका दिसलां वा हेरांनी म्हाका हांव व्हडली चूक करतां म्हणपाची जाणविकाय करून दिल्ली, त्यो म्हज्यो करण्यो आयज म्हाका निखालूस चुको दिसनांत. हांव आयज त्या काळावयल्यो चुको नियाळटां तेन्ना म्हाका आयज त्यो म्हज्यो चुको नाशिल्ल्योच अशें दिसता. जर हांवें ते वेळार हेरांक चूक अशी दिसपी ती गजाल करूंक नाशिल्ली जाल्यार आयज मात ती व्हडली चूक थरपाची.

'तूं आयुश्यांतली व्हडली चूक करता.' हें पुराय वाक्य हांवें म्हज्या आयुश्यांत पयलेच फावट आयकलें तें १९८० सालांत आनी अजूनमेरेन तें म्हाका घट बरें याद आसा. त्या पयलीं हांवें घरांत वा शाळेंत, आवय - बापाय कडल्यान वा शिक्षकाकडल्यांन 'तूं चूक करता आं !' असली भास आयकल्या आसतली. पूण वेळ - काळ - प्रसंग आतां याद जायना. त्या प्रसंगाकूय म्हजे नदरेन व्हडलोसो अर्थ नासुये. जिका अर्थ आसा पूण तरीय म्हाका ती आयुश्यांतली व्हडली चूक अशें आतां दिसना अशे प्रसंग मात म्हाका याद जातात.

गांवचें शाळेंतलें शिकप सोंपोवन हांव कॉलेज शिक्षण घेवंक पणजे शारांत पावलों. सांगाताक सिनेमा - कादंबरींतलें कॉलेज जिवीत आनी मोरपंखी सपनां आशिल्लींच. कॉलेजांतलें सुरवेचें बुजरें जिवीत सोंपल्या उपरांत हांव प्रेमांत पडलों. हांव प्रेमांत पडलों म्हणचे परस एक चलीच आपूण तुजेर प्रेम करतां म्हण सांगत वळख करूंक घेवंक आयली आनी मागीर हांवूय तिच्या प्रेमांत पडलों. तो काळ म्हळ्यार म्हजे मानेर आदर्शवादांचो म्हारू बशिल्लो काळ. क्रांती, नक्षलवाद, कम्युनिझम बी असल्या जायत्या गजालींचो घुस्पागोंदळ तकलेंत आशिल्लों. तातूंत आनी दोन - चार कविता बरोवन कवी हीय पदवी हांवें लावन घेतिल्ली. प्रेम म्हळयार कशें आदर्श आसूंय जाय, तातूंत कसलोच वायट विचार आसूंक फावना, लग्ना उपरांतूच आपले प्रेयसीक हात लावपाचो. त्या पयलीं तिका पवित्र दवरूंक जाय बी असली कल्पना. असलें हें आमचें प्रेम १९७५ ते १९८० मेरेन अखंड चल्लें. ताका खंड पडलो तो १९८० वर्साच्या माया म्हयन्यांत. दर दिसा चुकनासतना म्हाका मेळूंक येवपी म्हजी प्रेयसी कांयच सांगनासतना गडप जाली. तेन्नाच्या म्हज्या कवी मनान तिका झाडांनी, कुपांनी, नखेत्रांनी बी खूप सोदली. मनांत आशिल्ले नाशिल्ले सगळे दुभाव येवन गेले. आनी एकदीस तें आयलें. आयले बराबर रडूंक लागलें. ताजें लग्न थरिल्लें आनी व्हॉवळीक बी सगळी छापून जाल्ली. ताच्या मतान आमी पळून वचपाचें. पूण म्हाका तीं

पिशेपणां दिसलीं. नोकरी ना. सारकें शिक्षण ना. एकल्याचेंच पोट भरपाची अक्कल ना. अशांत पळून वचप म्हळ्यार कितें ? एकवेळ ताचेरूय उपाय काडूं येतालो. पूण व्हॉवळीक बी छापून जाल्या उपरांत दोन घराबे काबार करप, लजेक घालप हें म्हज्यांतल्या आदर्शवादी क्रांतिकारी तरनाट्याक पटलेंना. सिनेमांतल्या आदर्श हिरो सारकें हांवें ताका लग्न जावंक, म्हाका विसरून वचूंक सांगलें. वेल्यान आशिर्वादूय दिवन उडयलो. तेन्ना ताणें वतना म्हळें, 'तूं आयुश्यांतली व्हडली चूक करता.'

ताच्या ह्या वाक्यान नांय म्हळ्यार हांत्र मातसो थतर वितर जालों. हे भिरकेंत वचून जीव बीन दीत म्हण भियेलों. पूण तशें कांय घडलेंनां. तें लग्न जालें. आतां ताका दोग - तिगां भुरगीं आसात. फाटलीं सात - आठ वर्सां ताका हांवें पळोवंकय ना. आतां हांव ताजेर विचार करतां तेन्ना म्हाका हासूंक येता. हांव चूक करतां अशें ताणें म्हळ्या उपरांत जर हांवें ताका घेवन पळून वचपाचो निर्णय घेतिल्लो जाल्यार कितें जावपाचें ? हांव खंयतरी क्लार्क म्हण आसपाचों. भुरग्याचें आनी ताजें पोट भरतासर खंयचे खंय पावपाचों. हाल जावपाचे हें नक्की. तेन्ना ताचें आयकून भावनेच्या ओघांत हांवें ताका व्हरून, ताजेकडेन लग्न जाल्लों तर तीच म्हज्या आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक आसपाची.

त्या उपरांत हांवें हें वाक्य आयकलें तें नोकरेचो राजिनामो दितना. पणजेच्या एके शाळेंत तेन्ना हांव शिक्षकाच्या परमनंट पोस्टाचेर आशिल्लों. मनीसूच जेन्ना हे धतरीर परमनंट नासता तेन्ना बाकीचें आनी कितें परमनंट ? इतलें तत्वगिन्यान कळूंक लागिलें. तरीय हांव लोकांचे नदरेन ते नोकरेंत परमनंट आशिल्लों. शाळा इंग्लेज माध्यमांतली. पूण भितर आशिल्लें सगळें मराठीवादी. पुराय वातावरण मराठी. तातूंत म्हजो कोंकणी राज्यभाशेखातीर सक्रीय वांटो. शाळा बुडोवन, सुटी घेवन भाशणां करीत, मोर्चा काडीत आनी उपास करीत हांव भोंवतालों. शाळेच्या वावराचेर ताचो परिणाम हो जातालोच. आंदोलनाक लागून पुराय वातावरण तापिल्लें. शाळेंतले एकान एक लोक सगळो राग म्हजेर काडटाले. तरीय लेगीत हांवे मन विचलीत जावंक दिलें ना. कोंकणी राजभास जाली. वातावरण निवळळें आनी हांवें अकस्मात नोकरेचो राजिनामो दिलो.

कोंकणी - मराठी वाद जो तेंगशेक पाविल्लो तो चळवळ थांबले बराबर थंड जावंक लागिल्लो. वांगड्या मदलो म्हजे विशींचो आकसूय निवळून परतून इश्टागतीचें वातावरण तयार जावंक लागिल्लें. पूण हांवे नोकरी सोडपाचो निर्णय घेतिल्लो. हांवें थारायल्लेंच, ह्या मराठी वाद्यांमदींच रावून चळवळींत वांटो घेवप आनी ती जैतिवंत जाले उपरांतूच राजिनामो दिवप. चळवळ नेटार आसतना, म्हाका शाळेंत मनस्ताप जातात तें पळोवन कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे निमंत्रक पुंडलीक नायक बी 'तूं शाळा सोड. दुसरेकडेन तुजी वेवस्ता करूया, कोंकणी अकादमी आसा, सुनापरान्त सुरू जाला. तुका भिवपाची गरज ना.' अशें सांगताले. पूण असल्या गजालींचेर म्हजो विस्वास नाशिल्लो. म्हाका जें कितें करपाचें आशिल्लें तें म्हज्याच विचारान करपाचें आशिल्लें.

कोंकणी राजभास जाली आनी हांवें फाटलो फुडलो विचार करिनासतना राजिनामो दिलो. सगळ्यांक पयलीं तीं फकाणांच दिसलीं आनी उपरांत म्हजेविशीं चिंता लागली.

'तूं तुज्या आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक करता.' जण एकलो म्हाका समजायतालो. तांचीय म्हण चूक नाशिल्ली. पयलींच नोकरी मेळना. लोक शिकून नोकरेखातीर तळमळटात आनी हांव मात बरी दोन - अडेज हजारांची नोकरी फाटलो फुडलो विचार करिनासतना सोडटां तेन्ना हांव चूक करतां म्हणपाचें म्हाका हेरांनी सांगून लेगीत पटना.

नोकरी सोडल्या उपरांत दर म्हयन्याक येवपी पगार बंद जालो. पूण पयशे उदका सारके व्हांवोवपाची जी एक सवंय जाल्ली ती काय बंद जालीना. खर्च तसोच आशिल्लो पूण येणावळ मात शून्य. उतळताप सुरू जाले. तरीय म्हाका दिसलेंना की हांवे आयुश्यांतली व्हडली चूक केल्या म्हूण. बरे मागपी मात अजून चुरचुरे करीत म्हणटात, हांवे आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक केली.

हेरांचे नदरेन हांवे म्हज्या आयुश्यांत ह्यो असल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो चुको केल्यात आसुंये. पूण त्यो चुको आसात म्हणपाचें म्हाका अजून मेरेन दिसना. आतां म्हाका म्हज्या आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हडली चूक दिसता ती म्हळ्यार हांवें शिक्षण घेतलां, गिन्यान मेळयलां ती.

नोकरेखातीर जितलें शिकप जाय तितलेंच घेवन हांवें खंयतरी नोकरी केल्ली आनी हेरांवरींच मर्यादीत विचारांभितर राविल्लों जाल्यार हो प्रस्न येवपाचो नाशिल्लो. पूण हांवें वाचन आनी हेर माध्यमांतल्यान म्हजी गिन्यानाची आनी प्रत्येक गजाल समजून घेवपाची ताकद वाडयल्या. दोळे, कान, नाक बी सगळीं इंद्रियां उक्तीं दवरून हांव संवसाराकडेन पळयतां. पळोवंक लागलां. संवसारांतली दरेक गजाल ओळखूंक येवंक लागल्या. एकेच गजालीकडे पळोवपाची म्हजी नदर आनी हेरांची नदर हांचें मदलें अंतर आनी तातुंतलें खरेंपण हाचें माप घेवपाची तांक म्हज्यांत आयल्या. हाकाच लागून हांव आवय - बापूय, भाव - भयण, सोयरे - दायरे, इश्ट - मित्र हांचेकडेन संबंद दवरूंक शकना. दवरतलों म्हळयार तांचे पद्धतीन, तांच्या विचारान, तांचे पातळीचेर येवन दवरचो पडटा. ताका लागून, हे तडजोडीक लागून भोगतात ते घुस्मटमार आनी मनस्ताप. जांचे वांगडा हांवे दीस काडूंक जाय तांका हांव कितें उलयतां, हांव कितें करतां तें कांयच कळना. तांकां समजावप म्हाकाय जमना. जर हांव तांचे सारकोच राविल्लों वा म्हजी कुवत तांचे इतलीच आशिल्ली जाल्यार काय बरें जावपाचें ! पूण आतां तें शक्य ना. म्हज्या आयुश्यांतली म्हजी ही सगळ्यांत व्हडली चूक म्हाकाच निस्तारूंक जाय.

संत ज्ञानेश्वर म्हणटालो आपल्याक ब्रह्म खबर ना. ताका तें खबर आशिल्लें देखुनच तो अशें नमळायेन म्हणटालो. कित्याक आपूण म्हळ्यार ह्या ब्रहम म्हणटात ताचोच एक घटक म्हणपाचें ताका खबर आशिल्लें. आपणें आपल्याकूच वळखला म्हूण सांगून ताका आत्मप्रौढी मिरोवपाची नाशिल्ली. ताणें तें गिन्यान करून घेतलें हीच त्या वेळार ताची सगळ्यांत व्हडली चूक आशिल्ली. ते चुकीचें परायचीत म्हूण ताका केदी व्हडली ख्यास्त भोगची पडली, आपलो प्राण त्यागून..... खरेंच ताची ती आयुश्यांतली सगळ्यांत व्हड चूक आशिल्ली काय ? रूक्षप्रस्न......





# तुका तुज्या मरणाची तारीक कळप आवडटली



एका मनशाच्या घरांत सदांच झगडीं जातालीं. दीस - रात घरांत तंटे, शेजाऱ्या पाजाऱ्यांकडे वाद, झगडी नासतना एकूय खीण वचनाशिल्लो. ह्या सगळ्या कटकटीक लागून बाबडो तो मनीस उबगलो. आपल्या मनाची शांतीकाय होगडावन बसलो. हाचेर कितेंय उपाय काडपाखातीर गांवच्या एका साधु सरी गेलो आनी ताका आपली सगळी अवतिकाय कथन केली. हाचेर कितेंय तरी उपाय काडून घरांत सूख - शांती नंदता अशें कितें तरी करूंक सांगलें. साधून त्या मनशाचें सगळें आयकून घेतलें आनी ताका थंडसाणेन सांगलें- 'आयच्यान आठदिसांनी तूं मरतलो'.

साधूचें उतर केन्ना फट जायनाशिल्लें. गांवात तेचखातीर ताका मान आशिल्लो. साधून आपलें भवीश्य केलां तें पळोवन तो मनीस आपूण ज्या कित्याक ताचेकडें आयिल्लों तें काम विसल्लो. आपल्या घरांत सूख - शांती नंदपाक जाय म्हणपाचेंच तो विसरून गेलो. ताका हुसको लागलो आपल्या मरणाचो. आपूण आठ दिसांनी जर मरतलों जाल्यार आपले फाटल्यान झगडीं चल्लीं कितें वा ना चल्लीं कितें, वाठारांत शांतीकाय वसली कितें ना वसली कितें ताचें आपल्याक सोयर - सुतक ना अशीच कितें तरी ताणें भावना करून घेतली आनी तो घरा गेलो. ताणें साधून सांगिल्ली गजाल घरा सांगली. घरच्यांचेर आकांत आयलो. साधूचें उतर काय फट जावपासारकें नाशिल्लें. गरजे भायर रडारड आनी दुख्ख करपांतूय अर्थ नाशिल्लो. आठ दीस त्या मनशाक खुशालभरीत दवरप आनी ताका कितेंच मनाक लावंक दिवप ना अशें शेजाऱ्यांनी आनी घरच्यांनी थारायलें. त्या मनशानूय चितलें आपूण फक्त आठ दिसांचो सोयरो आसां. जाता तितलें बरें वागून घरच्यांक आनी शेजाऱ्यांक हांसते दवरप आनी आपल्या मर्णाचो विचार तांचे पसून पयस दवरप.

अशे तरेन जण एकलो आपापले परीन एकमेकाक खूश दवरूपाचो यत्न करूंक लागलो. हे खुशालकायेंत एक एक दीस फाटी कसो पडटा तेच कोणाक समजलेंना. आठवो दीस उजवाडलो. मनशान आपली वचपाची तयारी केली. आयचो आपल्याचो निमणो दीस आनी परत आपल्याक केन्नाच हें जिवीत ह्या लोकांच्या सांगाताक मेळपाचें ना हाची ताका जाणविकाय जाली. ताका ते खातीर दुख्ख जालेंच. पूण दुख करीत बसल्यारूय येवपाचें मरण आयलेबगर रावचें नाशिल्लें. तेच खातीर उरिल्लो वेळ तो चडांतचड खूश रावपांत आनी

दुसऱ्यांक खूश दवरूंक घालोवंक लागलो.

आठवो दीस सोंपलो. त्या मनशाक मरण काय आयलेंना. ताका अजाप दिसलें. साधूचें उतर काय फट जावप शक्य नाशिल्लें. हाचेरूच तो विचार करता आसतनाच तो साधू तागेर भितर सल्लो. त्या मनशान ही अजापाची घडणूक ताका सांगली. साधून ताका सांगलें ' तूं आतां मरचोंना. तूं केन्ना मरतलो तें म्हाकाय खबर ना. हांवे फक्त तुका तुज्या घरांत झगडी - झुंजा चलतात तीं पयस करपाखातीर आनी एकामेकामदी शांतीकायेन नंदपा खातीर उपाय सुचयल्लो. तो तुवें ह्या आठ दिसांत केला आनी तुका ताचें फळूय मेळ्ळें. फाटले आठ दीस तुज्या घरांत आनी शेजराक जी शांतीकाय नंदताली ती म्हाका हेरकडेन खंयच पळोवंक मेळूंक ना.

हे घडणुकेंत साधून आपलें काम केलें आनी त्या मनशाक आपले हे धर्तरेवयले थोडेच दीस उल्ल्यात ते बरेतरेन सारूया अशी जाणविकाय जाली देखून ताणें जो खासा आपुणूच ह्या झगड्यांक मूळ कारण आसा म्हणपाचो अणभव घेतलो तो त्या काळार उपकारतालो. आतांचो काळ हो वेगळो, अतिबुदवंतांचो. आतांच्या काळार साधू सोडाच जर खासा यमराजूच जर कोणाक येवन ताच्या मरणाची तारीक सांगत जाल्यार तो मनीस ताच्यो बकच्छायो करतलो. ताचें विज्ञानावेलें अर्दकुटें गिन्यान खासा यमराजाकूच मुर्खांत काडून आपल्याक कसलेंच दुयेंस नासतना आपूण ते तारकेक मरतलोंच कसो ? असो प्रश्न विचाल्ल्या बगर रावचोना. तेच वांगडा जर कोणूय धडधाकट मनीस अपघातान मेलो जाल्यार ताचें पावलेलें देखून तो मेला अशेंय विधान होच बुद्धीवादी करूंक फाटी रावंचोना.

जल्म आनी मरण ह्यो दोन गजाली आपल्या हातांत ना ही गजाल पुरायेन सैमाचेर सोडून मनीस अयाज मेकळो जाला. मनशाच्या जल्म - मरणाकडेन लागशिल्लो संबंद आशिल्लो वैज लेगीत ह्या वेळार आपलें गिन्यान, ताचेर पुराय विस्वास आसूनय दैवाचेर सोडून मेकळो जाता. खंयचीय गुरवार बायल अमूक दिसा सुट्टली हाची तारीक दोतोर वा वैज दिता. पूण ते तारकेक चुकून कोणूय जल्मता. चडशीं भुरगीं आयजवेर जल्मल्यांत तीं वैजान दिल्ले तारके पयलीं वा उप्रांत. तारके उप्रांत जल्मल्ल्या भुरग्यांचो जल्म थारावन दवरप जशें कोणाक शक्य नासता तशेंच दोतोरान अदमास केल्ले तारके पयलीं त्या जिवाक धर्तरेर जबरदस्तीन हाडपूय असल्या स्पेशलिस्टांक शक्य नासता. जल्माक हाडप हें आपल्या हातांत आसा असो हट्ट धरून जर खंयच्याय दोतोरान सिजरींग करून जीव धर्तरेर हाडलो तर तो जगतलोच म्हणपाची खात्री दोतोर दिवंक शकना.

ही गजाल जशी जल्माची तशीच मर्णाची. खंयच्याय मनशाक समजा भिरांकूळ अशें हाताभायलें दुयेंस जालें जाल्यार फाटल्या अणभवावेल्यान अमूक दिसां मेरेन हो मनीस वांचतलो म्हणपाचो अदमास दोतोर काडटा. तो अमुकूच वेळार प्राण सोडटलो म्हणपाची खात्री दोतोर दिवंक शकना. आपलें उतर खरें करूंक त्याच दिसा त्याच वेळार तो ताचो जीव घेवंक शकना. तशें करप हो गुन्हो आसा म्हूण तो त्या मनशाक सैमीक मरण येवचें म्हूण वाट

पळयत रावता. ज्या दुर्येसांक खास अशें वखद नासता ताची खात्री कोणूच दिवंक शकना. तरीयलेगीत भिरांकूळ दुर्येस जाल्ले जायते जाण दोतोरान वाचूंक मुश्कील अशें सांगून लेगीत जिवे तट्टीत आसात. तांच्या मर्णाची वाट पळोवपी अकस्मात किर्ते तरी घडून सोंपिल्ले आसात. म्हणटकच मरण केन्ना येतलें आनी कशें येतलें हें खंयच्याच मनशाक खबर ना. जर तें कळत जाल्यार समाज आयज जो आसा ताचे परस वेगळोच किर्ते तरी आसतलो आनी साधूक विचारूंक गेल्ल्या मनशावरी तो कोणाक त्रास दिना आसतना सारतलो. तशें जर घडत जाल्यार जिणेक कसलो अर्थूच उरपाचो नाशिल्लो.

स्वामी विवेकानंदाक खंय आपल्याक मरण केन्ना आनी खंयच्या वेळार येतलें हाची जाणविकाय आशिल्ली. तेच खातीर ताणें त्या दिसा त्या वेळाचेर आपल्याक आपले कुडीत बंद करून घेतिल्लो आनी आपल्याक कोणाकूच मेळूंक येवपाक मनाय केल्ली. दुसरे दिसा तांचे कुडीत गेल्ल्या लोकांक तांचें कलेवर मेळिल्लें आनी विवेकानंदाचें महानिर्वाण जालां म्हणपाचें ताणी जाहीर केल्लें. विवेकानंदाक खऱ्यानीच आपल्या मर्णाची तारीक कळिल्ली काय किर्ते हो दुबावाचो प्रस्न. जर तांकां ती कळिल्ली आनी हेरांक तिची सुलूस लागिल्ली जाल्यार तांकां वाचोवपा खातीर लोक यत्न करतलेच आशिल्ले. कदाचीत विवेकानंदाक आपलें काम सोंपलां अशें दिसलां आसूं येता आनी अमूक वेळार आपूण थारायल्लें काम पुराय करून सगळ्यापासून मुक्त जातलों असो ताणें निर्णय घेतिल्लो आसूं येता. जरी तांचें मरण हें सैमीक अशें मानलें तरी तांकां जाल्ले व्याधीची कल्पना हेरांक आशिल्ली. ताचेर वखद विसर्द करून तांची जीण लांबोव येताली. ही सगळी गजाल मतीत धल्ल्यार तांचें मरण हें आत्महत्या ह्याच प्रकारांत मोडू येता. मनशाक मर्णाची तारीख कळटा अशी जर कोणाक खात्री आसत जाल्यार ताणी ती जाहीर करून सगळयांसमक्ष सिद्ध करून दाखोवं येता. पूण अजून मेरेन सैमीकरितीन ही गजाल घडून आयिल्ली ना. तेच खातीर मर्णाचो दीस कळपाचो प्रस्नूच उरना. आपल्या मर्णाची तारीक खबर नाशिल्ल्यानूच दर एकलो जीव आपलें खिणयाळें जिवीत मौज - मजेन, चिंते विरयत जियेता.

दुर्येसाक लागून जांकां मरणाचो अदमास कळटा ते एक तर मरणाचे कल्पनेन गळसणटात वा वखदां घेवन जियेवपाचो यत्न करतात. तो जितो आसासर ताचे लागशिल्ले ताका कांय दुखचे न्हय, लागचें न्हय म्हूण यत्न करतात. खरे अर्थी तें प्रेम नासता. ती काकूट आसता. ते काकुर्टेतल्यान, दयेंतल्यान हें खिणयाळें प्रेम निर्माण जाता. मरणाचो अदमास लागिल्लो हेच दयेचेर जियेवंक सोदतात. कांय जाण हेच दयेचो आदार घेवन उरिल्लें आयुश्य सूख - चैनीत जियेवपाचो हट्ट धरतात. थोडेच दीस उल्ल्यात कित्याक मनाय करूया म्हूण बाकीचेय ताका सगळें माफ करतात. हें जिवीत किळसवाणें आसता. देखून मरणाची तारीक कळप न्हय हीच गजाल बरी आसता. आपूण मरतलों हें पुरायेन खबर आसुनय केन्ना हें खबर नासप हातुंतूच जिर्णेतलें सत्य आसता. ताका लागून पुराय जीण अर्थपूर्ण जावन वता.

म्हाकाय म्हज्या मर्णाची तारीक कळिल्ली आवडचिनां कित्याक ती सैमाभायली घडणूक. जर म्हाका म्हज्या मर्णाची तारीक कळत जाल्यार जेन्ना ती कळटा तेन्नाच हांव म्हाका म्हजीं उल्ल्यांत अशी दिसपी कामां सोपोवपाचो यत्न करतलों वा आतां सगळें सोपूंक आयलां आनी कित्याक गरजे भायर धडपड्या ? कितलेंय धडपडून आपल्याक कांयच फायदो ना, हांव तें भोगूंक पावचोना हीय भावना मनात तयार जावन म्हजी प्रगतीच थंडावंक शकता. मनीस सगळें करता तें आपल्याक केंद्रीभूत मानूनच करता. तेच खातीर पूत जोडीत पूत खायत म्हणपाचीय विधानां तयार जायत वतात.

म्हाका म्हज्या मर्णाची तारीक कळिल्ली नाका ताचें मुखेल कारण म्हळयार हांव एक काकुटेचो विशय जावन वतलों. दर एकलो म्हजेकडेन काकुटेंन पळयतलो. म्हाका मागता तें मेळटलें. लोकूय तें आस सोडून दितले. फक्त म्हजे काकूटेक लागून. म्हाका हांतुतल्यान मत्सर उपकारतलो. काकूट न्हय. तेच खातीर म्हाका ती तारीक कळिल्ली नाका जी खऱ्या अर्थान कोणाकूच केन्ना कळना.





# तूं मरणांक भियेता



मरणाचो विशय आयले बराबर खुपशा जाणांनी थुमेकाल म्हळां आसतलेंच ! आतां थुमेकाल हाचो अर्थ कितें हें म्हाका खबर ना. पूण तोंडांतल्यान वायट - अभद्र उतरां आयली काय अशें म्हणपाची चाल हांव भुरगेपणांत सावन पळयत आसां. म्हज्या तोंडांतल्यान नाका आशिल्लीं उतरां भायर सरत जाल्यार अजूनय लोक आपले वांगडा म्हाकाय थुमेकाल अशें म्हणूंक लायतात. त्याभायर आमोरेच्या वेळार ही अभद्र उतरां भायर सरलीं जाल्यार तर मागीर विचारूंकच नाका.

जेन्ना जेन्ना मरणाचो विशय येता तेन्ना थुमेकाल म्हणून हो विशय टाळपाचो यत्न जाता. मरणाचेर चडशे कोण उलोवंक तयार जायनांत. कोणाकूच तो विशय आवडना. आपल्याच्या मरणाचो तर नांच ना. मरण आयलेंच जाल्यार तें दुसऱ्याक येवंचें आपल्याक मात नाका हो सभाव भोवतेक सगळ्यांचो. मरणाचो प्रस्न आयलो म्हणटकच माया - मोग आदी सगळ्या नात्यांचे धागे तटातट तुटून वतात. आपलो जीव वाटावप हेंच म्हत्वाचें आशिल्ल्या कारणान माया - मोग खिणाभितर नाच जावन वता. सगळ्यां मुखार आपूण जितो उरप हेंच मुखेल जावन वता. आपूण मरतलों ही कल्पनाच कांपरी भरता.

जीव आशिल्ले हेर प्राणी आपलो जीव वाचवंक नाका जाल्लीं नाडेपेन्ना करतात. पयलीं पळ काडटात. सामकेंच जिवार आयलें म्हणटकच प्रतिकार करतात. आपल्या जिवाची राखण करपाखातीर फाव ती अक्कल ह्या प्राण्यांक दिल्ली आसता. जीव वाटावपाखातीर ते जी धावपळ करतात तें पळयल्यार हें सगळें चल्लां तें मरणाक भियेता देखुनूच म्हण कळ्ळे बगर रावना. हेर प्राण्यावांगडाच मनीसप्राणीय मरणाक भियेता. हेर प्राणी आपूण मरणाक भियेता म्हणपाचें तोंडान सांगूक शकनांत. ते मनशावरी ढोंगी न्हय. तांच्यो ह्यो भावना तांच्या करणेवेल्यानूच कळटा. पूण मनीस हो ढोंगी. तो जगूंक सोदता. ताका मरपाचें नासता. तें जगप मागीर कशेंय आसूं. तो जमनीर सरपटत, सुण्याच्या अवतिकायेन जियेतले. मरणाचो प्रसंग आयलो म्हणटकच थतरवितर जातलो. तरीपूण ताका जर कोणेंय विचाल्लें - तूं मरणांक भियेता ? जाल्यार मात हईं मुखार काडून सांगतलो. आपूण मरणांक भियेना. तें सांगतनालेगीत मरणाच्या विचारानूंच तो भितल्ले भितर भितलो.

तूं मरणाक भियेता ? हो प्रस्न हेरां परस म्हज्या सारख्याकूच चड करतात. म्हजे सारके

कांय लोक मरणाकडे खेळत रावतात. कित्याक हांव लोकांक सुसेगादान केन्नाच जगूंक दिनां. कसल्यो ना कसल्यो उचापती करीत आसतां. कोणाचेर आघात करतां, कोणाचेर प्रहार करतां, कोणांक बोरकारी सांगतां. इतल्यारूच सुटनां. सगळ्या संघटनांनी लुडबूड करून संधी मेळटा तेन्ना तांच्या विरुद्ध भाशणां ठोकतां. लोकांक खुबळावन घालतां. फाटलीं पंदरा - वीस वर्सां हीं कामां हांव करीत आसां. सभामिटींगो सोपोवन रातचो शेकड्यांनी मैल प्रवास एकट्यानूच केल्लो आसा. कारवार ते पेडणे मेरेन रातच्या बारा - एकाच्या सुमाराक कीण्ण पडिल्ल्या रस्त्यावेल्यान सांगाताक कोणूच नासतनां मोटर सायकल चलयल्या. काणकोणच्या दोंगरार रातची मोटर सायकल बंद पडल्या वा पंक्चर जाल्या तेन्ना वर - देड वर रावून ती सारकी केल्या. मैलांच्या मैल हातांत धरून धुकलून व्हेल्या. रातच्या वेळार घसरून वा वाटेवेल्या जनावरांक मोखून आपटी खाल्या. हातपाय सोलून घेतल्यात. तकली फोडून घेतल्या. तसोच मोटरसायकल उभारून दोतोराकडे गेलां. ह्या सगळया राटावळींत बिबट्या वाघांपासून बिबट्या गुंडांकडे लेगीत संपर्क आयला. हांवे चळवळींतल्यान आंग काडून घेवंचें म्हूण धमक्यांपासून हात उभारपामेरेन प्रयत्न जाल्यात. पूण ह्यो सगळ्यो गजाली म्हज्या जिविताचे घटक जाल्ले आसात. त्यो हांव टाळूंक शकना. तांकां भिऊन घराय बसूंक शकनां. ह्याच घडणुकांक लागून कांय लोकांक अजाप दिसता. हांव मरणाकडे खेळटां अशें तांकां दिसता. तेच खातीर रूक्षप्रस्न येता. तूं मरणाक भियेना ?

त्या वेळार हांवूय हेर ढोगी मनशावरीच जाप दितां. ना हांव मरणांक भियेना. पूण तशें सांगतना लेगीत हांव भितां. हांव खऱ्यानीच मरणाक भियेतां. म्हाका मरपाचें ना. इतलेबेगीन तर नांच ना.

जिवन आनी मरण ह्यो दोन गजाली मनशांच्या हातांत नासतात. मनीस आपल्याचो जल्म केन्ना मागूंक शकना तशें मरणूय. ह्यो दोनूय गजाली सैमीक रूपान ताका मेळिल्ल्यो आसतात. जेन्ना मनशाक जल्म मागून घेवपाचो अधिकार शक्य नासता तसो दिवपाचोय नासता. पूण जल्म आनी मरण हांचे मदलो प्रवास कसो करचो हें मात मनशाचेर अवलंबून आसता. तांतूंत सैमाचो वांटो गौण आसता. चडसो भार मनशाचेर आसता. सैम ताका फक्त मार्गदर्शन करता. बरें - वायट हाचो निर्णय घेवंक मनशाक बुद्ध दिल्ली आसता. अणभव घेवपाखातीर जळामळाक कांय कुरवोय दिल्ल्यो आसतात. हो सैम रूपी गुरू मनशाक कशें जियेवंचे, आपली राखण कशी करची हें पावला कणकणी कुरवांनी शिकयत रावता. तातुंतल्यान गिन्यान घेवप ना ही मनशाची चूक. ते चुकीखातीर मनशाक ल्हान - व्हड प्रमाणांत ख्यास्त ही भोगताच. हो तांच्या जिणेंतले लाव आनी लुकसाण आसता. हेचखातीर मनीस खंती वा खुशालभरीत जाता. तरी आसतना मनीस जियेता. धडपडटा. मरणापासून पयस धांवता.

मरणां इतली सुंदर वस्त आनी दुसरी ना अशें म्हणटात. जल्माक येत सावन मनीस सगळें मागता. मागता तितलेंय मेळटा अशें ना. तें मेळटलेंच म्हणपाची खात्रीय नासता.

मागता ती वस्त मेळना म्हणटकच मनीस दुख्खी जाता आनी आपल्याक मरण आयल्यार पुरो म्हूण मागता. हेर गजाली ज्यो मेळटल्यो काय ना हाची खात्री नासता. त्यो गजाली मागून मेळना म्हणटकच मनीस मरण मागूंक लागता. खरें म्हळ्यार मनशान मरण मागून आपली शक्त होगडावपाची गरजूच नासता. जिवितात हीच एक गजाल अशी की जी मागनासतना मेळटा. ती मागची पडच ना. जी मागनासतना मेळटा ती मागपाचीय गरज उरना. पूण मनीस ती मागता. पूण केन्ना ? जेन्ना मेळपाची खात्री ना अश्यो गजाली मागून मेळना जातकच.

मरणा उप्रांत मनीस खंय वता, ताचें कितें जाता हें खबर नाशिल्ल्या कारणान मनीस भिता. मेल्या उप्रांत मनशाचें अचूक कितें जाता हें खबर नाशिल्ल्या कारणान हो भंय आसता. मेल्ल्या मनशाकूच हें खबर आसता. पूण तें सांगूंक तो परत केन्नाच येना. मेल्याबगर स्वर्ग दिसना म्हणटात तें हेच खातीर. स्वर्ग जर पळोवंक जाय वा मेल्या उप्रांत कितें जाता हें कळूंक जाय जाल्यार स्वता मरूंक जाय. पूण ताचो उपेग कितें ? तें तर हेरांक सांगूक मेळना. जो अणभव हेरांक कळीत करप शक्य नासता तो घेवन उपेग कितें ? मरणावेळार त्रास जातात ही एक कल्पना मनशांभितर घाल्ली आसता. ताचो संस्कार दर पिळग्यांचेर केल्लो आसता. ह्याच गैरसमजांतल्यान मरणांविशींचो भंय मनशांभितर तयार जाल्लो आसता. मरणां उप्रांत खरें म्हळ्यार जिवितांतले सगळे प्रस्न सगळे त्रास सोंपतात. जिवितांतल्या दुख्खांतल्यान मनीस मुक्त जाता. मनीस मरणाक भिता तो ह्या खातीर न्हय. मरणाचो भंय दिसता तो वेगळ्याच खातीर. मनीस आपल्याक मरण येतलें ह्या खातीर भियेना. ताणें हे धर्तरेर कांय नातीं निर्माण केल्लीं आसात. कांय कामां आंगार घेतिल्लीं आसात. आपल्या उप्रांत आपल्या बायलेचें कितें जातलें ? भुरग्यांक कोण पळयतलो ? आवय - बापायची काळजी कोण घेतलो ? आपल्या मरणांन तांकां दुख्ख जातलें आदी कल्पना ताणें रंगयल्ल्यो आसतात. सत्या परस कल्पनांच चड क्लेशदायक आसतात. आपणें आंगार घेतिल्ल्या जबाबदाऱ्यांखातीर तो चिंतेस्त आसता. एकदां ह्यो सगळ्यो जबाबदाऱ्यो सोंपल्यो की तो मरपाखातीर निश्चित जावन वता.

मनीस मरणाचो अणभव दर दिसा घेता. मरणां उप्रांत कितें जाता हें दाखोवपाखातीर गुरून केल्ल्यो ह्या कुरवो. दिसभर काम करून मनीस थकता. ताका विश्रांती जाय आसता. ते खातीर तो रातचो न्हिदता. जर मनशाच्या तकलेर कामाचो ताण आसत आनी तें काम पुराय केल्लें नासत जाल्यार ताका न्हीद पडनां. तो रातभर तळमळत रावता. जर काम सोंपोवन तो तातुंतल्यान मुक्त जालो जाल्यार चिंतेविरयत ताका न्हीद पडटा. ताका मोक्ष मेळटा. पूण कांय लोक आपलें दिसाचें काम आळसायेक लागून करिनांत. तें अर्ध्यार सोडून न्हीद घेतात. जबरदस्तीन ताका ते न्हिदेंत तळमळचें पडचें न्हय पूण ग्लानी येवंक ताका भूल

ही घेवंची पडटा.

हांव मरणाक भियेतां तो हेच खातीर. म्हजेकडें आसा ते काम सोंपल्या उप्रांत म्हाका शांत न्हीद पडटली. काम सोंपला म्हणपाचो हिशेब दवरपाची म्हाका गरज ना. तें सोंपता तेन्ना आपसूक मनीस न्हीदूंक वता. म्हाका असली शांत न्हीद जाय. ते न्हिदेक हांव भियेनां. असले न्हिदेचें सगळे लोक स्वागत करतात. काका सायब कालेलकार ताका परम सखा म्हण्टा. गुलजारा सारके कवी ताजेर काव्य करतात. मौत तूं एक कविता है । मुझसे कविता का एक वादा है । मिलेगी मुझको । मौत तू एक कविता है ।





# तुजो पुनर्जल्माचेर विस्वास आसा



**ना** कसो म्हणू ? हय आसा.

कांय जाण ना म्हणटात. थोडे म्हणटात ह्याच जल्माचेर ना. स्वताक चड शाणो म्हण दाखोवंक हांवूय केन्ना केन्ना म्हणटालों - पुनर्जल्म हो विचार म्हळयार फटींगपणा. स्वताक बुद्धीवादी म्हणोवपीय भूत - करणी - नखलामी हांचेर विस्वास दवरिनांत. पूण तोय रातचो आंग काडटा. तो घरांतल्यान भायर सरूंक भियेता.

हेर मनशांपरस आपूण वेगळो, तांचे परस बुद्धीन व्हड हें भासोवपाखातीर सर्वसामान्य मनीस जाचेर विस्वास दवरतात, मानतात ताच्या उरफाटें वागप, येवजप म्हळ्यार बुद्धीवादी जावप असो समज करून घेतिल्ल्यान, कोणूय म्हाका जेन्ना हो प्रस्न विचारतात तेन्ना 'म्हजो पुनर्जल्माचेर विस्वास ना म्हणपाचें सांगतालों. मनीस जल्माक येता तो हेर प्राण्यांवरींच. हेर प्राण्यांमदीं, किटकांमदीं, झाडांमदीं आनी मनशांमदीं तसो कांयच फरक ना. मनशाक जितली बुद्ध चड तितली ताचीं हेर आंगां दुबळीं पडत वतात. तीं घट करूंक मनीस बुद्ध वापरता. देखुनच मनीस हो हेर प्राण्यांपरस वेगळो. जेन्ना मनशाचे बुद्धीचो विकास जावंक नाशिल्लो तेन्ना तो हेर प्राण्यावरींच आशिल्लो. आपली राखण करूंक तो हेर प्राण्यांवरींच तजवीज करतालो. अशें आसतना मनशाक जर पुनर्जल्म आसा जाल्यार हेर सगळया प्राण्यांक, सवण्यांक, किडी - मुयांकूय पुनर्जल्म आसूंक जाय. मनीस हो बुदवंत देखून ताकाच पुनर्जल्म दिवपाचीं आडवादपणा सैम निखालूस करचोंना. हो मनशांमदलो वेगळेचार सैमांत ना. आनी सैमांत जितल्यो गजाली आसात तितल्योय सैमा परस वेगळ्यो न्हय. ह्यो सगल्यो सजीव - निर्जीव वस्तू मेळुनच सैम जाता. जसो मनीस म्हळ्यार हात न्हय, पांय न्हय, दोळे न्हय तर ह्यो सगळ्यो गजाली मेळुनच मनीस जाता तशेंच मनशांसैत सगळ्यो गजाली धरूनच ही प्रिथुम जाता. आनी प्रिथुम तशेंच हेर सगळे गिरे मेळून किर्ते जाता ? आमी इतल्यारूच थांबुया. मनशाक खंय तरी मर्यादा जाय. मर्यादितूच मनीस आपली उदरगत सादूंक पावता. ते खातीर आमी क्षितिजाची मर्यादा, उजवाडाची मर्यादा घालून आमचें जिवीत मर्यादे भितर दवरलां. हे मर्यादेंतूच आमकां सुखी जावपाक जाय. हीच क्षितिजाची मर्यादा आमकां आमी कशे जियेवंक जाय तें शिकयता.

तर प्रस्न आशिल्लो, म्हजो पुनर्जल्माचेर विस्वास आसा काय ना हो ! आतां पुनर्जल्माचेर

विस्वास दवरचे पयलीं मर्णाचेर विस्वास दवरूंक जाय. जसो म्हजो जल्माचेर ताबो नाशिल्लो तसोच मर्णाचेरूय ना. जल्म आनी मरण ही मनशान तयार केल्ली जी कल्पना आसा त्या कल्पने भितरलो जो प्रवास आसा ताकाच आमी जिवीत म्हणटात. ह्या जिविताचेर आमी ताबो दवरून सैमाभायलें कितेंच न करून आमच्यांनी आमचें जिवीत वाडोवं येता. कित्याक आमी बुद्धीचो वापर करूंक जाणांत. पूण एक फळ तयार जाता आनी तें पिकता आनी ताका कोणेंय खालेंना जालें तरीय तें पिकून कुसता आनी ताचें बीं रूप धरता. हो सगळो प्रकार म्हळयार फळाचो मरणांचो प्रकार ? कोणेंय फळ पिकचे पयलींच तोडलें जाल्यार ताचो तो जीव घेवपाचो प्रकार ?

म्हणटकच सैम आपलेच निर्मितीचेर प्रयोग करता आनी त्या प्रयोगांतल्यान सैमांतल्या हेर घटकांक अणभवान देख दीत रावता. ती देख घेवन दर एक घटक आपल्याक घटाय हाडून दुसऱ्यांच्या खुस्तार आपूण तगूंक सोदता. डार्वीन होच विचार वेगळे पद्धतीन मांडटा. बाकिबाब वेगळे पद्धतीन मांडटा. गुरू शिटकायता कुरवानी म्हणटना बाकिबाबाचो हो गुरू कोण ? सैम. जशी आवय भुरग्याक सांबाळपाखातीर जशी शिटकायता तशें सैम सगळया प्राण्यांक, रूखांक वेगवेगळ्या कुरवांनी शिटकायता. फक्त ह्यो कुरवो समजून घेवपाची आमकां ताकद नासता. जर हें सैम आमकां दर खिणांक शिटकायता जाल्यार आमचे हे प्रिथुमेक - ह्या गिऱ्याक कोण शिटकायता ?

मनशाक पुनर्जल्म आसा हें शिटकावपाखातीर सैमाची सगळ्यांत व्हडली कुरू म्हळ्यार रात आनी दीस. मनीस सकाळीं उठ्ठा - रातचो न्हिदता. न्हीद म्हळ्यार मनशाचें मरण. सकाळीं उठप म्हळ्यार जल्म. तशें पळोवंक गेल्यार दीस आनी रात म्हणटात ती नाच. ती आमची कल्पना. प्रिथुम सुर्या भोंवतणी भोंवता तेन्ना जो वांटो सुर्या वटेन उरता ताका उजवाड मेळटा आनी जाका मेळना तो काळखांत उरता. हें सगळें खबर आसुनय आमी दीस आनी रात मानून आमकां आमी फटोवन घेनात ? ही सैमान केल्ली कुरू कित्यावयल्यान न्हय ?

आमी जिवितांत जितलीं वर्सां जियेतात तांची सरासरी काडून मनशाचें जिवीत थारायलां. शंबर वर्सां जो कोण जियेता त्या काळाकूय आमी आयुश्य म्हळां. जो कोण पन्नास वर्सां जियेलो आनी पंचवीस वर्सांय जियेलो ताकाय आयुश्यच म्हळां. आमी जो कोण उणें आयुश्य जियेलो ताच्या आयुश्याक वेगळें नांव अजून दिवंक ना. जेन्ना एका दिसाचें जिवीत जावं वा एका खिणांचें जिवीत जावं आमी त्या जिविताक जिवीत म्हणपाचें मानून घेवंचेनात ? जो कोण खूप वर्सां जियेता ताकाच, ताच्याच जियेवपाक अर्थ दितले ? हीं वर्सां आनी पिराय म्हळ्यार अखेरेक कितें ? आमी स्वताचेच सोयीखातीर आमीच तयार केल्लीं तीं मापां.

एखाद्रो कोणूय शंबर वर्सां जियेलो आनी आमी ताचें तें पुराय जिवीत म्हळयार एक दिसाच्या मापान मेजलें जाल्यार ताणें शंबर वर्सां न्हिदून काडिल्ल्यो सगळ्यो राती म्हळयार एकाच दिसाची रात जाली. जेन्ना ही रात सोंपून जेन्ना तो दुसऱ्या दिसा जागो जातलो आनी

नव्या दमान काम करूंक लागतलो तेन्ना ताका वळखुपाक ताच्या वांगडचो कोण आसतलो ? आनी समजा ताचो वांगडी ताच्याच वांगडा इतल्या वर्सांची न्हीद घेवन उठलो जाल्यार ते एकमेकांक इतल्या वर्सांनी वळखूंक शकतले ? तो उठ्ठलो तेन्ना ताका तेंच शरीर दिवपाखातीर आमी तें रातभर तिगोवन दवरूंक शकनात. शरीर तिगोवन दवरूंक शकना जाल्यार आमी पुनर्जल्म ना म्हणून घेवप समा जावंचेंना. ताणें हे व्हड न्हिदेंत इतले अणभव घेतिल्ले आसतात की जेन्ना तो नवो जल्म घेवन येतलो तेन्ना ताच्या रूपांत इतले बदल जाल्ले आसतात की ताका कोणूच वळखुचोंना. सात - आठ वरांची न्हीद घेवन सकाळी उठ्ठल्याक केन्ना केन्ना ताचीं घरचीं खीणभर ओळखूंक शकनांत. न्हिदेंत ताणें इतलीं सपनां पळयल्लीं आसतात की तांचो परिणाम ताच्या तोंडार दिसून येताच. तोंड सुजता. कांय वरांची जर ही गत जाल्यार इतल्या वर्सांची गत किर्ते आसूं येता ? आनी जंय दोन दिसां फाटली याद आमकां उरना थंय इतल्या वर्सांच्या न्हिदे उपरांत कसली कसली याद म्हण उरतली ?

विज्ञानाचे नदरेन ह्या विशयाकडेन वेगळे तरेन पळोवपी कांय लोक आसात. जेन्ना एक गजाल सोंपता तेन्ना ती सोंपल्या बराबर ताजें रूपांतर दुसरे शक्तीत जाता हो सिद्धांत ते मानतात. मनीस हीय एक शक्त. जशें एक झाड मेल्या उप्रांत तें जळोवन ताजें रूपांतर उजो हे शक्तींत जाता आनी उज्याचें रूपांतर हेर शक्तींत जाता तशेंय मनशाचेंय रूपांतर मेल्या उप्रांत हेर शक्तींत जाता आनी मनीस त्या रूपान उरता अशेंय मानपी लोक आसात. शक्ती फक्त एकाच रूपांत रूपांतरीत जायना. वेग वेगळ्या रूपांत जाता. इंजिनांत कोळसो घालो म्हणटकच तो जळून उजो जाता. त्या उज्याचें रूपांतर वाफेंत जाता. इंजीन चलता. त्याच वांगडा उज्याची गरमी मनशाकूय लागता. धुंवरांतूय रूपांतर जाता. तशेंच मनशाच्या शरिराचें अशेंच वेगवेगळे शक्तींत रूपांतर जावन आत्मो, मन बी गजाली दोंगर, रूखां ह्या सारख्या तत्वांत एकरूप जावन वतात असो विचार मांडपी लोकय म्हाका गावल्यात. मरणाच्या भयान, मेल्याउप्रांत किर्ते जाता ह्या अज्ञानांतल्यान जण एकल्यान आपआपले पद्धतीन आपल्याकूच सांबाळपाचो केल्लो हो यत्न. ह्या परस, सगळ्या विचारांपरस पुनर्जल्म आसा होच विचार म्हाका सैमांतल्यो वेगवेगळ्यो कुरवो पळोवन खरो दिसता.

मनीस मरता म्हणटात तीय एक मनशाक शिटकावपाची कुरूच. मनीस ना जाता, रूखां ना जातात, व्हडले व्हडले दोंगर ना जातात, दर्या ना जाता. ह्याच कुरवांनी आमकां कळटा की हीय प्रिथूम एक दीस ना जातली. मरतली. जसो मनीस हो सैमाचो घटक, तशीच ही प्रिथूम ही गिरावळीचो घटक. ही सुर्याची सगळी वंशावळ आनीक कोणाचो तरी घटक...... हो प्रकार असोच चलतलो आनी तितल्याच वर्सांनी परत जल्म घेत रावतलो.

हें सगळें पळयलें म्हणटकच आपलो पुनर्जल्माचेर विस्वास ना म्हणपी बुदवंतांचे तकलेंत खरेंच किर्ते आसा तें खरें म्हळ्यार कळूंक जाय. ना वो हय म्हणून प्रस्न सुटना. ना जाल्यार कित्याक आनी आसा जाल्यार कित्याक हाचें कारण तांचे जापे वांगडा येवंक जाय. मनीस

एक वर काम करता आनी थोडी विश्रांती घेता. त्या उप्रांत चार वरां काम करता, अर्दवर ल्हानशी न्हीद घेता. आठ - धा वरां काम करता वा पंदरा - सोळा वरां जागो रावता आनी सात - आठ वरां न्हिदता. ह्या सगळ्या राठावळींत न्हीद म्हळ्यार मरण. रात येतकच न्हिदूंक जाय असोच जर नेम आसत जाल्यार दक्षिण ध्रुवाचेर स म्हयने दीस आनी स म्हयने रात आसता. रात येतकच न्हिदूंक जाय ह्या तत्वाचेर मनीस समज रातचो थंय पावत जाल्यार वचूनच न्हिदूंक लागतलो अशी गत जांव येता.

मनशाक न्हीद ही जायच. न्हिदे उपरांत वा विश्रांती घेवन ताजोतवानो जावप म्हळयार मनशाचो पुनर्जल्म. आमी तशें पळोवंक गेल्यार दर खेपे मरतात आनी दर खेपे नवो जल्म घेतात. याच खातीर म्हजो पुनर्जल्माचेर विस्वास आसा.

तुजो पुनर्जल्माचेर विस्वास आसा ? हो म्हजे खातीर रूक्षप्रस्न आनी ताजी जाप सोदतां सोदतां म्हजेच भितर जे जे प्रस्न तयार जातात तेय खरें म्हळयार रूक्षप्रस्नूच. पुराय जिवीत म्हळ्यार हें अशें रूक्षप्रस्नांसारकेंच आसूंक जाय. ताच्यो जापो जर मेळळ्यो जाल्यार जिविताक अर्थ उरचोंना. पुराय जिवीत रूक्ष जावन वतलें. प्रस्नांच्यो जापो सोदपांतूच एक खुशालकाय आसता. ती खुशालकाय गावप म्हळ्यारूच पुनर्जल्म जावप...... !





# तुका कोणाक कांयच सांगपाची संद मेळनासतना मरण आयलें जाल्यार आयजवेर सांगूक ना म्हण तुका पश्चताप जातलो



सैमांतली दरेक गजाल सतत कितें ना कितें सांगत आसता. सरभोंवतणी नदर मारीत जाल्यार अस्तित्वांत आशिल्ली ही प्रत्येक गजाल आमकां खुपशें कितें सांगता म्हणपाचें आमकां भावता. होलमता. फक्त जाय आसता ती समजून घेवपाची ताकद. कोण कुरवांनी सांगता, कोण उतरांनी सांगता तर कोण आपले करणेन सांगता. हें सगळें पळयत जाल्यार ह्या संवसारांतली निर्जीव तशीच सजीव वस्त फक्त कितें ना कितें सांगपाखातीरूच तयार जाल्या काय कितें अशें दिसल्याबगर रावना. मनीस सोडल्यार हेर सगळ्यो निर्जीव आनी सजीव वस्तू सांगत सांगत सोंपून वतात. सांगतां सांगतां कोण केन्ना सोंपता हें सांगतल्याक समजच ना आनी कितें सांगपाचें उल्लां हाचें भानूय तांकां उरना. आपलें सांगप कोणे समजून घेवचें वा ताचो कोणाक फायदो जावंचो अशी अपेक्षा ह्या सांगतल्यांक नाशिल्ल्यान कितेंय सांगपाचें उल्लां आनी तें सांगपाची संद मेळनासतना जर तांकां मरण आयलें तर तांकां पश्चताप जावपाचो प्रस्नूच येना. निमण्या खिणांमेरेन अविरत तांचें सांगप चालूच आसता.

आपल्या अस्तित्वाच्या अंतामेरेन सातत्त्यान सांगत आसपी ह्या सगळ्या घटकांमदीं पश्चताप करप म्हणटात तो प्रकार मात फक्त मनीस ह्या घटकाबाबतीत घडटा. मनीस जें कितें सांगता ताच्या फाटल्यान एक अपेक्षा आसता, एक सुवार्थी भाव आसता. त्याच खातीर मरचे पयलीं सांगपाचें आसा तितलेंय आपल्या फाटल्यान उरपी मनशांखातीर सांगून दवरूंक तो सतत धडपडत आसता. स्वास आसासर सांगून उडोवप, दोळे धांपचे पयलीं सांगून मेकळें जावप हे सारकी धारणां ह्या मनशांमदीं स्थायिरूपान वावरत आसता.

मनीस गरीब आसूं वा गिरेस्त, सुशिक्षीत आसूं वा अशिक्षीत, पिसो आसूं वा शाणो आसूं, ताका आपल्या मनांतलें दुसऱ्यांक सांगपाचें आसता. ताच्या मनांत नानातरांची प्रक्रिया सतत चलत आसता. ही मानसीक प्रक्रिया, उलाढाल सगळ्यांत पयलीं तो आपल्याक सांगता. दिसरात, सपनांत तसोच जागो आसतना तो आपल्याकूच एकूय खीण होगडाय नासतना सांगत सुटटा. इतलेंय करून ताचें समादान जायना. आपल्या मनांतल्यो खंयच्यो गजाली हेरांक सांगपासारक्यो आसात हाचें तो मनांतूच मोजमाप घेता. सगल्योच गजाली ताका दुसऱ्याक सांगपाच्यो आसल्यो तरी ताचे भितर लज नांवाची आनीक एक

गजाल स्थायिरूपान आसता. ह्या स्थायिभावाचेर त्या त्या मनशाचो लाव आनी लुकसाण आदारून आसता. हेच लजेक लागून जे बायलेमुखार दादलो आनी ज्या दादल्या मुखार बायल शरिरान आनी मनान पुरायेन उक्तीं जातात, तें लग्न ह्या एका पवित्र बंधनान एकठांय आयिल्लें जोडपें लेगीत कांय गजाली एकमेकांक सांगपाचें टाळटात. आपल्याक लज जातली वा तें सांगून आपल्याक फायदो जावचे परस लुकसाण चड जातलें ह्या वेव्हारी हिशेबाक लागून कांय सांगपासारक्यो गजाली अश्यो मनशांच्या मनांत दडून उरतात. तरीय त्यो सांगच्यो काय ना ह्या घुस्पागोंदळांत मनशाचें मन सतत गोंदळत उरता. ताका तें खायत रावता. देखुनूच मनांतलें सांगून मेकळें जांवचें, ओकून उडोवंचें आनी मन शांत करचें हाचेर दर एकल्याचो विस्वास आसता.

आपल्याक जें सांगपाचें आसता तें अत्यंत खाजगी अशें सांगप, कोणाक तरी सांगून मन मेकळें करचें अशी इत्सा मनशांमदीं आसता. तांचो हो इश्ट सदांच विस्वासू आनी प्रामाणिक आसचो, जो ताचे मुखार उक्ती केल्ली गजाल केन्ना कोणाक सांगचोना, आपले भितरूच दवरतलो असो आसचो अशें दर एकल्याक दिसता. पूण खरें पळोवंक गेल्यार ही असली सांगपासारकी गजाल कोणूच आपल्या मनांत दवरूंक शकना. ताकाय ती दुसऱ्याक कोणाक तरी सांगपाची आसता. पूण मित्राचो विस्वासघात जावंचो न्हय देखून तो आपल्या मित्राचें नांव लिपोवन भलत्याच्याच नांवान ती गजाल जग जाहीर करता. आपल्या मनांतलें हेरांक सांगपाची इत्सा पुराय करून मेकळो जाता. अशें आसून लेगीत आपलो खास असो एक इश्ट आसचो, जाका मनांतल्यो बऱ्यो - वायट गजाली मन सोडून सांगूक मेळटा ही सूप्त आस मात केन्नाच मनशांमदली वचना.

सांगपासारक्यो आनी न सांगपासारक्यो अश्यो सगळ्यो गजाली मनीस काळ - वेळ - थळ पळोवन, फायदो लुकसाणाचो हिशेब मांडून आपल्या मित्रांक सांगता. सांगपाची माध्यमां वेगवेगळीं आसतात. केन्ना तो संगितांतल्यान, केन्ना चित्रांतल्यान, केन्ना गीतांतल्यान, बरोवपांतल्यान, मृत्यूपत्रांतल्यान सांगता आनी पश्चताप जावचोना वा आपल्याक खंत भोगूंक पावचिना हाची जतनाय घेता. तरी लेगीत ताचें कितें ना कितें सांगपाचें आसताच. जर ताका अमुकच वेळार मरण येतलें आनी त्या उप्रांत खीणभर लेगीत जियेवप शक्य नासतलें हाची खात्री जाल्यारूच, हें सांगप आसता ताका पूर्ण विराम मेळपाची शक्यताय आसा. पूण ही एकूच गजाल केन्नाच कोणाक साध्य जायतशी दिसना. आत्महत्त्येची सगळी तयारी करून सांगपाचें आसा तितलेंय तोंडान, वा बरोवन सांगून जाल्या उपरांत, कोणूच वाचोवंक न येतलो वा आपूण कसोच वाचपाचो ना हाची खात्री करून लेगीत आत्महत्या करपी प्राण सोडटां सोडटां आपलें कितें तरी सांगपाचें उल्लां हाचो विचार करतलोच वा तें जरी नासलें तरी आपलो प्राण वता आसतनां आपल्याक कितें भोगलें, कितें दिसलें हें सांगूक मेळना म्हूण अखेरच्या खिणाक खंती जातलोच. ताका पश्चताप हो जातलोच. हें सांगपाचें उल्लां आनी आपूण कोणाक तें सांगूक पावना हाचो पश्चताप, जल्मा

सावन सतत थांबनासतना सांगत आयिल्ल्या ह्या मनशाक जातलो हातूंत दुबाव ना.

हेर मनशांवरी म्हजेंय मन सतत विचार करीत रावता. हांव कितें हेरां परस वेगळो न्हय. म्हाकाय म्हजे बरे - वायट अणभव, म्हज्या मनांतलें वादळ सतत हेरांमुखार उक्तें करचेंच पडटा. आपली खुशालकाय, आपलें दुख्ख, खंती, वेदना आनी हेर सगळे भाव कोणांक तरी सांगून मन शांत शांत करपाची गरज म्हाकाय लागता. मागीर म्हजे कडल्यान हें सगळें सांगप केन्ना गितांतल्यान, केन्ना नाटकांतल्यान, केन्ना कथा कादंबरींतल्यान वा केन्ना निखट्या उलोवपांतल्यान जाता. ह्या सगळ्या सांगपाच्या माध्यमांतल्यान सांगून लेगीत, तें सांगप कितलें बरें आनी कितलें वायट जालां हेंय सांगले बगर एकेकदां रावंक जायना जाता. एखाद्री एकांकी वा कविता म्हजेकडल्यान बरी उतरली, ती म्हाका उत्कृश्ट सादल्या आनी म्हाका जें कितें सांगपाचें आसा तें हांवें योग्य तरेन कांयच उणें करनासतना सांगलां हाची खात्री जाता आनी मन खुशालकायेन भरता. हेच खुशालकायेत दुसऱ्यांक वांटेकार करचो ही एक मनशाची भावना आशिल्ल्यान आपलें सांगप कितलें बरें जालां हें सांगूक तो आंवडेता आनी तें सांगून हेरांक आपले खोशयेंत वांटेकार करता. म्हजेय कडल्यान हीच गजाल ज्युस्त तशीच घडटा. तातुंतल्यान म्हाका एक वेगळीच खोस भोगता.

म्हजेकडल्यान सतत कितें ना कितें सांगप घडटा. तें सांगप कितलें सारकें आनी कितलें चूक हाचो हिशेब म्हाका करीत बसपाचें ना. तें काम आयकतल्याचें, वाचप्याचें, पळोवप्याचें. सांगपाचें सांगून जालें काय म्हजें काम सोंपलें. जर हांवें बाकीच्या हेर गजालींचेर लक्ष दिवन सांगपाचें आसा तें तशेंच दवल्लें तर मात म्हजें मन म्हाका खायत रावता. मनाक एक हुरहुर लागता. कसली तरी व्हड चूक हांवें केल्या अशेंच कितेंतरी म्हाका दिसता. हेच गजालीक जर पश्चताप म्हणटात जाल्यार म्हाका तो पश्चताप जाता. हो पश्चाताप जावंचो न्हय देखुनूच हांव सतत सांगत रावतां.

म्हजें हें सांगप चालू आसतानाच जर म्हाका मरण आयलें जाल्यार मागीर पश्चाताप जावपाचो प्रस्नूच येना. म्हजें सांगप अर्दकुटें उल्लें हाची खंत, हाचो पश्चाताप हेरांक, आयकतल्यांक जावंक फावो. म्हजेपरीन हांवें पालवतां पालवतां पेटपाचो यत्न केला, हेंच समादान कितें उणें न्हय. जर हांव केन्ना पालवपाचों ना मागीर केन्नातरी सवकास पेटुया असो विचार करून कांयच करणी करनासतना जर हांव बशिल्लों जाल्यार आनी हांव तसोच सोंपून गेल्लों जाल्यार ती खऱ्यानीच पश्चाताप करपाची गजाल आसपाची. म्हजें हें सांगप म्हाका अर्दकुटें खंयच्याय खिणांक सांडून वच्चें पडत हें खबर आशिल्ल्यानूच म्हजो दरेक खीण हो निमाणो खीण अशें समजून हांव वावर करीत आसतां.

म्हजें हें सांगप हेरांचे नदरेन सांगप हो प्रकार आसतूय म्हणपाचें म्हज्यान सांगू येना. तांचें सांगप तांचे समजुतीप्रमाण आसूं येता. हांवे म्हजें मृत्यूपत्र करून दवरूंक ना. तेंच तांचे नदरेन निमाणें सांगप आसूं येता. मनीस एकदां सोंपलो म्हणटकच ताचे नदरेन कित्याकूच म्हत्व ना. ताच्या सांगपाकूय ना आनी जिवो आसतना ताणें केल्ल्या पश्चातापाकूय ना. ह्या

सगळ्या गजालींक म्हत्व उरता तें फाटीं आशिल्ल्यांचे नदरेन. जर म्हजेकडेन बरोच पोटलो आसा वा मरचे पयलीं हांवें जें कितें सांगून दवरलां ताचो लाव तांकां मेळपाचो आसत जाल्यार तो कोणे घेवंचो हें हांवें मरचे पयलीं सांगूंक ना देखून मरणाच्या हुंबऱ्यार आशिल्ल्या दरेकल्याक ताच्या भोंवतणी जमिल्ले प्रस्न करतात. तुका आनीक कितें सांगपाचें आसा ? मागीर तो फांशी वचपाचे वेदीर आसूं वा घरांतले खाटीर आसूं. ताणें निमाणें कितें तरी सांगचें, जाका लागून ताच्या फाटल्यान आशिल्ल्या कोणाक उपरांत पश्चताप करचो पडचो न्हय हीच तांची त्या फाटली भावना आसता.





# तुका तुजें मरण वेंचून काडपाची संद मेळ्ळी जाल्यार तें तूं कसले पद्धतिचें वेंचतलो



मरण ह्या उतरांतूच एक भंय आसा. मनीस मरणाची कल्पना लेगीत करूंक शकना. मरणाच्या भंयानूच मनीस दिसपट्टो थोडो थोडो मरत आसता. खिणाखिणाक तो आपलें मरण अणभवता. मरणाचो विशय आयल्यार 'धुमेकाल' म्हणून असलो अभद्र विशय नाका म्हूण तो बंद करतात. तरी लेगीत आपूण टाळूंक सोदपी हें मरण केन्ना तरी येतलेंच हाची पुराय खातरी ताका आसता. मनशान आपल्या जिवितांत कितल्योय गजाली आंवडेल्यो तरी ताका त्यो गावतल्योच म्हणपाची खातरी ताका नासता. पूण मरण हीच गजाल ताका मागनासतना लेगीत मेळटलीच मेळटली हें सत्य ताका खबर आसता. तरी लेगीत ह्या मरणाक खोसयेन येवकार दिवपाबदला ताचे पासून मनीस पयस पयस धांवत सुट्टा.

मरणाचो भंय हो मनशाक जसो आसता तसोच तो हे धर्तरेवयल्या दरेक जिवाक आसा. हो भंय खरें म्हळ्यार मरणाचो नासता तर दरेका जिवान आपल्या जिवाची राखण करची, ताचो इबाड जावंक दिवंचो न्हय आनी सैमांतली ही निर्मणी आनी निर्मणी करून, उप्रांतूच ताचें रूपांतर हेर गजालींत जावन सैमाचे उदरगतीक तांचो पालव मेळचो देखून सैमान दरेका जिवाभितर निर्माण केल्लो हो एक भाव. हेच भावनेक लागून दरेक जीव आपली राखण करता. ही राखण जावंची देखून सैमान, खातरीन येवपी मरण केन्ना येतलें म्हणपाची मात लेगीत सुलूस न लागूंक दिवपाचें मोठें व्हड काम केल्लें आसा. धर्तरेवयल्या जिवाक हीच सुलूस मेल्या उप्रांतूय लागना. देखून मनीस मरणाक भीत आपल्या जिवाची राखण करता. धर्तरेवयलो जीव भिता देखूनच तो आपली उदरगत करूंक शकता. ताका मरणाचो भंय नाशिल्लो जाल्यार तो कसलीं मदांधपणां करून धर्तरेर उचांबळाय माजयत आशिल्लो हें सांगू नज. अजरंवर जावपाचो वर मेळिल्ले कशे मदांध जातात आनी तांकां सोपोवंक कितें करचें पडटा हाचीं उदारणां आमकां आमच्या जाण्टेल्यांनी कथा - पुराणांतल्यान ह्या पयलीं दिल्ली आसात.

मरणाक जायत्या जाणांनी जिवितांतलो अत्यंत व्हडलो खीण मानला. कांय जाणांनी मरणाक आपलो परम सखा मानला. मरणांचो अर्थ जिविताचो अर्थ कळ्ळ्या उप्रांतूच कळटा. जाका जिवीत म्हळ्यार कितें हाची जाणविकाय खोलायेन जाल्ली आसता तोच मरणाकडेन भिनासतना पळोवन ताका आपलो खरो इश्ट मानता. ह्या इश्टाची जेन्ना भेट

जाता तेन्ना ताका खोसयेन वेंगावपाची भास अशाच लोकांकडल्यान आयकूंक मेळटा. पूण जांकां जिविताचो अर्थ गवसल्लो नासता तोच निमण्या खिणाक लेगीत मरणाकडेन दुबावान पळयता. ताका येवकार दिवंक कांचवेता. ताका धतरिवयल्या गजालींची इतली सवंकळ जाल्ली आसता की सभावाप्रमाण तो हीय सवंय मोडूंक सोदिना. आपल्याक ज्यो गजाली भोगपाक मेळळयात त्यो भोगपाखातीर तो चडांत चड जिवो रावून मरणाक पयस धुखलपाचो यत्न करता.

मरण कितलेंय जरी मुखार धुखल्लें तरी हेर जिवांसारकें तें म्हाकाय येतलें हें अंतीम सत्य म्हाका खबर आसा. त्या सत्याकडेन फाट करप म्हळ्यार हांवें म्हजे म्हाकाच फटोवप. हें मरण म्हाका वेंगावंक येतलें. देखून आतांच आपूण जावन हांवेंच ताका वेंगावंक वचप म्हाका आवडना. ताका जेन्ना येवपाचें आसा तेन्ना ताणें जरूर येवचें. तें कसल्या रूपान येत हें म्हज्यान सांगू येना. तें केन्ना, खंयच्या रूपान आनी खंयच्या वक्तार येवंचें हें सैमान थारावन दिल्लें आसा. मनीस हो सैमाचोच घटक जाल्ल्यान, आपल्या ह्या घटकाचो केन्ना, कसो बदल करून घेवंचो हें सैमाक बेस बरें खबर आसा. तेन्नां तें मरण म्हाका कशें येवंचें हाचेर हांवें तकली फोडपांत कांयच अर्थ ना. तरी लेगीत आयुश्यांत एकदांच मेळपी ही गजाल कशी मेळची हाचेर विचार करपाची संद घेवप म्हाका आवडटा. हांव म्हाका जे पद्धतीन मरण मेळचें अशें येवजितां तशे पद्धतीन तें मेळतय बी वा केन्नाच विचार करूंक ना असलें कल्पने भायलेंय तें मेळत. पूण कांय लोकांक आपल्याक कशें मरण मेळचें वा मेळटलें हाची खात्री आशिल्ली तांकां तशें तें मेळटा हें पळोवंक मेळळां. भगतसिंह, चंद्रशेखर आझाद बी हांकां आपल्याक मरण गुळी लागून येतलें नातर फांसार तरी चडचें पडटलें हाची खात्री आशिल्ली. तांकां तें तशे पद्धतीन आयल्लें पळोवंक मेळळें. पूण गांधीजीन आपल्याक गुळी लागून मरण येतलें हाची कल्पना सपनांत लेगीत केल्ली काय कितें हाचो दुबाव येता. तांकां जे पद्धतीन मरण आयलें तें सगळ्यांचेच अपेक्षे भायलें.

दर एकल्याक आपल्याक येवपी मरण हें वेवस्तीत, मानान येवंचें अशें दिसता. मरणाक जरी तो कितलोय भिता तरी हांतुणार पडून दुसऱ्यांक त्रास दीत मरणाची वाट पळोवप ताका आवडना. हांतुणार पडून दुसऱ्यांक त्रास दिवंचे परस, हाल उपद्रे भोगचे परस फटक करून मेल्लो बरो अशेंच दरेकलो उलयतना दिसता. मागीर ताची जिणेवयली आस वचूं नाका. सुण्या सारखो रस्त्यार बेवारशी मरण येवंचें न्हय, मरण येतना तरी तें सारकें येवंचें, तेन्नातरी हाल जावंचे न्हय अशीय इत्सा बाळगुपी खूप जाण आसात. सुण्यासारकें बेवारशी मरण येवन मागीर मडें सुण्या - कोल्यांनी खालें, गिधांनी चोंचायलें जांव नगरपालिकेच्या लोकांनी व्हरून व्हिल्लेवाट लायली ही कल्पनाच मनशाच्यान करूं नज. मेल्या उपरांत आपल्या मड्याचें कितें जातलें हें कळनां म्हणपाचें खबर आसुनूय बाबडो आपल्या मड्याचे चिंतेन जिवो आसतनाच खंगता. खरें म्हळ्यार मड्याची चिंता ही लोकांनी, जिवो आशिल्ल्यानी करपाची आसता. ती धाण तांकांच पयस करपाची आसता. त्याच खातीर जिवो आशिल्ल्यान हेर मड्यांची वेवस्ता

लावन, आपल्याचीय हेरांनी लावची अशी तजवीज जिवो आसतनाच करून दवरची आसता.

म्हज्या मरणां उप्रांत म्हज्या मड्याची चिंता जरी म्हाका नासली तरीय म्हाका येवपी मरण कशें आसचें आनी तें वेंचून काडपाची संद जर म्हाका मेळत जाल्यार हांव तें कशे पद्धतीचें वेंचतलों ह्या रूक्षप्रस्नाची चिंता मात हांव करतां. खरें म्हळ्यार ती चिंता न्हय. तो फक्त एक विचार. मरणाविशीं विचार करपाचें स्वातंत्र्य म्हाका आसा. चिंता करपाचें मात निखालूस ना.

वेगवेगळ्या मनशांक आपल्याक कसलें मरण येवंचें हें वेगवेगळे पद्धतीन दिसता. सैनिकांक आपल्याक झुंजामळार मरण येवंचें, शुराचें मरण गावचें अशें दिसता. पूण खुपश्यो लढायो मारून आयिल्लो, शत्रूसैन्याक दाळाक लावून आयिल्लो आपलें मरण हातुणाचेर पडून मेल्लोय आमी पळयला. भुरगेपणार म्हाका जेन्ना मिलिटरींत वचपाची आवड आशिल्ली तेन्ना लढायेंत झुंजतां झुंजतां शुराचें मरण येवंचें अशें म्हाका दिसतालें. उप्रांत चळवळींत वांटेकार जालों तेन्ना मानेर नक्षलवादाचो म्हारू बशिल्ल्यान नक्षलवाद्यांक जशें मरण येता तशें मरण येवंचें अशें दिसूंक लागलें. म्हाका विमानाचो पायलट जावपाचीय इत्सा आशिल्ली. मळबांत आसतनाच लढायेच्या वेळार विमानाचो फार जावन म्हाका वयरूच मरण येवंचें अशें दिसतालें. पयलिंच्यो ह्यो मरणाविशींच्यो वेगवेगळ्यो कल्पना, त्या त्या मळार हांव वचूंक न शकिल्ल्यान पुराय जावंक शकनांत हें जरी म्हाका खबर आसलें तरी केन्ना आयुश्य कशें वळण घेत हें कोणाच्यानूच सांगूक येवपाचें ना.

म्हजो भाव १९८० सालांत साऊदीक वचूंक भायर सल्लो. मुंबयच्यान सुटपी विमानाची ताची तिकेट बी ओ. के. जाली. ताका त्याच विमानान वचप गरजेचें आशिल्लें. पूण मुंबयचे एके बँन्केत दुडू काडूंक गेल्ले कडेन वा कित्याक लागून तरी आडखळ आयली आनी निमण्या खिणाक ताका त्या विमानान वचपाचें रद्द करचें पडलें. संबंदीत अधिकाऱ्यांनी ताणें दुसऱ्या विमानान वच्चें अशी विनंती करून ताची तशी सगळी तजवीज केली. भाव त्या विमानान वचूंक शकलोना. आनी तेंच विमान वयर पावल्या बराबर फुटलें आनी तातुंतलो एकान एक मनीस सोंपलो. त्या विमानांतल्यान म्हजो भाव वचपाचो आशिल्लो हें आमकां शंबर टक्के खबर आशिल्ल्यान आमचो आवरो उडलो. पूण मनशाचें मरण हें मनशाचेर केन्नाच अवलंबून नासता हाची खात्री म्हाका तो त्या विमानांतल्यान वचूंक ना म्हणपाचें जेन्ना कळ्ळें तेन्ना जाली आनी म्हाका मरण कशें येवंचें हाचो विचार करप म्हाका सोडून दिवंचें पडलें.

म्हजें मरण वेंचून काडपाची संद जर म्हाका मेळ्ळी जाल्यार हांव कशे पद्धतीचें तें वेंचून काडटलों हो आतां म्हजे खातीर एक रूक्षप्रस्न जरी आसलो तरी केन्नाय ही व्हड गजाल म्हाका मनासारकी मेळची अशें दिसता. ती कशी मेळची हो विचार अजून म्हज्या मनांत पक्को जावंक ना. केन्ना केन्नाय दिसता म्हाका मरण उप्पाट दर्यांत बुडून, ल्हारांनी घुसपत घुसपत येवंचें. येदी व्हडली खोलाय लाबिल्लो हो दर्या मरणाखातीर योग्य आसा. पूण तशें

मरण येतलें जाल्यार दर्यात घालून घेवंचें पडलें. ती तर आत्महत्त्या. जें जीवन हांवें मागूंक ना ताची हत्त्या करपाचो अधिकार म्हाका ना. केन्ना केन्नाय दिसता की कसल्याय बऱ्या कामाखातीर जिवाची पर्वा करिनासतना वावर करतनां मरण येवंचें. खंय तरी उजो लागला आनी हांव तातूंत जळटल्याक वाचयतां आनी तांकां वाचयतां वाचयतां हांव मरतां. पूण ह्यो सगळयो कल्पना. तातूंत कांयच अर्थ ना आनी तशें मरण येतलेंय हाची म्हाका खात्री ना.

आपलें मरण वेंचून काडप जरी अशक्य तरी ही एकदांच मेळपी गजाल कशी मेळटा, त्या वेळार मनात कसले विचार येतात, किर्ते भोगता हाचो अणभव मेळचो इतलें मात म्हाका निश्चित दिसता. हांव जो निमणो स्वास घेतां तो निमणो स्वास म्हणपाची जाणविकाय जावपाचें भान म्हाका उरचें. शक्य जाल्यार तो अणभव नोंद करूंक मेळचो. पूण ती अशक्य गजाल. हे पयलीं कोणें करूंक ना आनी मुखार कोणाक जमचीय ना. ती संद म्हाका मेळची इतलीच म्हजी आस्त आसा. पूण तें शक्य आसा ?





# मरणाउप्रांत मनशार्चे कितें जाता



स्वता मेल्याबगर खंय सर्ग दिसना. आपूण मेल्या उपरांत सर्गारूच वतलों, नरकांत न्हय अशी दरएका मनशाची आंतरीक इत्सा आशिल्ल्यानूच ही म्हणणी तयार जाल्या. स्वता मेल्याबगर नरक दिसना अशें आजवेर कोणेच म्हणूंक ना. दर एकलो मरणाच्या भंयान दिसपट्टो मरत आसता. कितल्योय खंती काडल्यो आनी मरणाक टाळपाचो यत्न केलो तरी हें मरण आपल्याक चुकपाचें ना हाची खात्री जाल्ल्यान मनीस मागीर मरणांकडे शरणागती पत्करता. ताचेकडेन तडजोड करून नरक नाका तर सर्गांत सुवात मेळुंदी म्हूण दीसरात पराथता. अशें पराथन करताना कोणाकूच खबर नासता, हो सर्ग आनी नरक म्हळ्यार कितें ? तो कसो आसता आनी थंय आपल्याक कसो येवकार मेळटलो ? मरणांउप्रांत जरी दर एकल्यान सर्गाची आस्त बाळगिली तरी सर्ग आनी नरक हे कल्पनेविशी कोणाचीच खात्री नाशिल्ल्यान, मरणांउपरांत मनशार्चे कितें जाता ? हो रूक्षप्रस्न तांकां खिणाखिणांक सतायत आसता. ज्या प्रस्नाची जाप खबर आसता तो प्रस्न घेवन स्वताची जीण दुख्खी करीत रावतात.

मनशाक हेर प्राण्यापरस तशेंच हेर जिवीत सृश्टी परस बुद्द नांवाची एक आगळी शक्त लाभिल्ली आसा. हेच बुद्दीचे ताकदीचेर तो सगळ्यांपरस बळिश्ट थरिल्लो आसा. बळी तो कान पिळी हेंच जिवीत सृश्टीचें शास्वत मूल्य जाल्ल्यान बळीश्ट आसा तोच दुबळ्याक सतत पिडत आसता. मनशाक बुद्दीचें देणें मेळिल्ल्यान तिच्या बळाचेर तो हेर दुबळ्यांक सतत पिडपाचो, बळी जाल्ल्यान हेर सगळ्यांचे कान पिळपाचो. पूण मनशाइतलो भितरो प्राणी आनी दुसरो ना. सगळ्यांपरस ताकदवान जावन लेगीत तो आपल्याक येवपी मरणाक लागून भियेत रावता. दुबळ्याक पिडचे पयलीं हजारदां विचार करता. सगळ्या दुबळ्यांक राखण मेळची देखुनूच मनशाच्या मनात पाप - पूण्य, सर्ग - नरक ही कल्पना आदीकाळा थावन भरून दवल्ल्या. पापाची भिरांत जर नाशिल्ली, नरकाचो भंय जर नाशिल्लो जाल्यार मनशाच्या मदांधपणाक शीम - मेर आनी अंत - पार नासपाचो. मानव उत्पती पासून आयज मेरेन सगळ्या मळांचेर उत्क्रांती जाल्या. दिसा कणकणी नवनवे अविश्कार घडत आसात. पूण सुर्वेच्या काळासावन मनशाच्या मनांत पापाचो आनी नरकाचो जो भंय आशिल्लो तो मात अजून आसा. तातूंत मात लेगीत बदल जावंक ना. नेणार तशेच बुदवंत ह्याच मुद्यार

एक जातात. ब्रह्म सोदून लेगीत तांच्या मनांत प्रस्न उबो रावताच, मरणां उपरांत मनशाचें कितें जाता ? ह्या प्रश्नाची सारकी जाप जर ह्या सगळया रूक्षप्रस्नकर्त्यांक मेळिल्ली जाल्यार सगळ्यांक दोळ्यामुखांर मरणांच मरणां दिश्टी पडपाचीं. नरकाची जी कल्पना चितारून मनशाक जी एक भिरांत घाल्या आनी ताका नियंत्रणाखाल दवल्ला तें नियंत्रण ना जावन, तांचे कल्पनेतलो नरक हेच धर्तरेर पळोवंक मेळपाचो.

मनशाचें मरणां उपरांत कितें जाता ? हो प्रस्न फक्त मनशांपुरतोच मर्यादीत ना. मनीस हो मरणाच्या भंयान आकूळपिकूळ जाता, मनशाकूच ह्या सैमांत चड म्हत्व मेळ्ळां. मनशाचो प्राण होच श्रेष्ठ मानला देखून ताच्या मरणांविशी ही गगनां चल्ल्यांत. मनशाच्या प्राणाक जशें म्हत्व आसा तशेंच तें हे धर्तरेवेल्या दर एका प्राण्याच्या प्राणांक आसा, दर एका रूखा - झोपाच्या जिवाक आसा. पूण तांकां मोन - जात मानून रूखांक निर्जिव मानून तांच्या आक्रोशाकडे, तांच्या भावनेकडें मनशान सदांच दुर्लक्ष केलां आनी जो आपल्या भावनांचे प्रदर्शन मांडटा त्या मनशाच्या प्राणांचें मात आडांबर माजोवन दवल्लां. मनशाच्या मरणांक जितलें म्हत्व आसा तितलेंच खरें म्हळयार हेर जिवावळीकूय आसूंक फाव आशिल्लें. मनशाच्या मरणां उप्रांत ताचें जें कितें जाता तेंच हेर सगळे जिवावळीचें जावंक जाय आशिल्लें. जन्म - मरणाची ही रीत सगळया जिवावळीची एकूच. मनीस आपले भाव उक्तांवंक शकता देखून ताकाच आमी जिवावळींतल्यान वेगळे करूंक शकनांत. तरी लेगीत आमी करतात. मनशाक केंद्रीभूत मानून आमी संवसाराकडें पळयतात. मनशाभोंवतणीच संवसार घुंवडावन हेर सगळ्या जिवांक तुच्छ लेखतात.

मनशाक जल्म तसो मागून मेळना आनी जन्मापयलीं तो मनीस खंय आशिल्लो, कितें करतालो, कशा स्वरूपांत आशिल्लो हें जशें खबर ना तशेंच ताका मरणूय मागून मेळना. तें ताका सांगून येना. तें मेळ्ळें उप्रांत मागीर मनशाचें कितें जाता, तो खंय वता आनी कशा स्वरूपांत आसता हाचेंय गिन्यान मनशाक मेळना. तें गिन्यान ना देखून विद्वाटो मनीस मर्यदेंत रावता आनी हेरांकूय सुखान रावंक दिता. मरण मनशाक आयलें म्हणटकच ताचें धर्तरेकडचें नातें तुट्टा असो एक समज आसा. पूण हो समज मनशांपुरतोच मर्यादीत आसता. मनशान आपूण म्हळ्यारूच हो सगळो संवसार असो समज करून घेतिल्ल्यानूच हें घडटा. हांगाय मनशाक मर्यादा पडटा. ज्या मनशाक दुसरो मनीस वळखता, वा जांच्या तो नात्याचो आसता ताकाच हो मेल्लो मनीस अंतरता. हेरांच्या हिशोबांत ताच्या मरणाची नोंद नासता. अशा वेळार मेल्लो मनीस संवसाराक अंतरलो म्हणपाइतलीं पिशेपणां आनी दुसरीं नांत. तो अंतरता ताच्या नात्यांतल्या आनी ओळखींतल्या मनशांक. मनीस धर्तरेक अंतरूंक शकच ना. कारण मनीस हो धर्तरेचो, ह्या संवसाराचो एक घटक. जर हे पुराय धर्तरेक एक मनीस मानलो जाल्यार ती धर्तर म्हळ्यार गिरावळीच्या समाजांतलो एक घटक. मनीस हे धर्तरेर जसो मनीस सुत्रान बांदून उल्ला तसोच ही धर्तर गिरावळीच्या सुत्रांत बांदून उरून तांचो समाज जाल्लो आसा. जर मनीस मरणाउप्रांत धर्तरेक अंतरता तर पृथ्वीक एक दीस

मरण येतलें तेन्ना ती गिरावळीच्या पुंजक्याक वा दूद गंगेक अंतरली अशेंच म्हणचे पडटलें. आमी मनशापुरतीच मर्यादा पाळिल्ल्यान आमचें जिवीत हें अशें मर्यादीत जालां. आमचे विचार मर्यादीत, आमच्यो भावना मर्यादीत, आमचो संवसारूय मर्यादीत. ही मर्यादा एकदां तुटलो म्हणटकच आमचे तकलेंतलो नरक वतलो. सर्ग वतलो. मरणाचो भंय वतलो आनी मरणांउप्रांत कितें जाता ? हो तकलेंत दिसरात वळवळपी प्रश्नाचो किडोय ना जातलो.

मनीस मेलो की ताच्या देहांतलो प्राण उडून वता आनी शरीर तितलें उरता. प्राण गेलो म्हणटकच त्या निर्जीव देहाक किंमत ना असो समज मनशान करून घेतला. ह्या अर्थशून्य देहाची विल्हेवाट लावप होच धर्म अशें सगळ्यांनी मानलां. तोच धर्म सगळे पाळटात. देह मातयेंत वता आनी प्राण ताणें केल्ल्या कर्माप्रमाण सर्ग अथवा नरक हांगा वचून आपले योग्यताये प्रमाण सूख वा दूख भोगता. हीच संकल्पना आयज चडशा लोकांच्या मनांत आसता. ताणी देह मातयेक लायतना पळयला आनी ताची माती जांव गोबोर जाल्लो आपल्या दोळ्यांनी पळयला. पूण प्राण म्हणटात ती गजाल कोणेंच पळोवंक ना. आत्मो वो प्राण ही अदृश्य गजाल. जी गजाल अदृश्य आसता ती सदांच अज्ञान घेवन येता. ह्या अज्ञानांतल्यान भुतां - खेतां, आत्मो - परमात्मो आनी हेर साबार अंधश्रद्धा जल्माक आयल्ल्यो आसात.

रूपांतर अथवा बदल हो धर्तरिवयलो स्थायिभाव. हांगा धर्तर इतल्याच खातीर म्हणचे पडटा की आमी धर्तरेपरस पयसुल्ल्याचो विचार करूंक शकनांत. धर्तर सुर्याभोंवतणी भोंवता. सुर्याबगर धर्तरिक मोल ना. सुर्यांतूय दिसपट्टे बदल जायत आसात आनी ताचो परिणाम मनशाचेर जाता ही सत्य गजाल मनीस विसरून बदलाचें तत्वगिन्याक धर्तरिवयल्या वस्तुंपुरतेंच मर्यादीत दवरता. धर्तरिवेल्या दर एका गजालीचें रूपांतर वेगळे शक्तींत जाता म्हणपाचो अणभव विज्ञानाच्या कसाचेर बुदवंतानी मानून घेतिल्लो आसा. एक वस्त सोंपली म्हणटकच ती सोंपली अशें जरी दिसलें तरी तिचें रूप बदलून ती शक्त वेगळ्या रूपांत अस्तित्वांत उरता म्हणपाचें सगळे जाणांत. हें सगळें धर्तरिवेल्या दरएके वस्तूक लागता तेन्ना तेंच तत्व मनीस प्राण्याकूय लागूंक जाय. पूण मनीस ना जालो म्हणटकच ताचें हेर शक्तींत जाल्लें रूपांतर फाटी उरिल्ल्या मनशाक दिसना. तें अस्तित्व जाणवना. कांय लोकांक ताची जाणविकाय जाता. पूण खात्री नाशिल्ल्यान ताचो हे बाबतीतलो विचार डळमळीत जाता. तातुंतल्यानूच तकलेंत प्रस्न निर्माण जाता. मेल्या उप्रांत मनशाचें कितें जाता ?

मनशान ज्या सर शरिराक म्हत्व दिल्लें आसा, शरीर म्हळ्यारूच मनीस आनी शरीर जे सर सुस्थितींत आसा त्यासर ताका जीवन म्हणपाची कल्पना आसा तो मेरेन हो प्रस्न असोच रूक्षप्रस्न जावन उरतलो.

ही धर्तर म्हळयार कितें, हें विश्व म्हळ्यार कितें, हाची दर एक खबर मनशाक वेगवेगळ्या माध्यमांतल्या, सैमांतल्या हेर घडणुकेंतल्यान सतत कळत आसता. पूण मनशान हेर खंयचेच गजालीक म्हत्व दिल्लें ना. तांचे कडल्यान मनीस कसलीच देख घेवंक सोदिना.

मनशान आपल्याकूच व्हड मानपाचो जो भ्रम तयार केला ताका लागून मनीस सदांच अज्ञानी उल्ला.

मनीस काम करून थकलो म्हणटकच ताका न्हीद येता. हे न्हिदेकूच मरण अशें‍य म्हळां. मनीस दिसांतल्यान जितलीं वरां न्हिदता तितलो काळ ताचो मरणाचो काळ. मनशाचें पुराय आयुश्य जर एक दीस मानलो तर ताची दर रात म्हळ्यार आराम करपाचे कांय खीण आनी मरण म्हळ्यार आयुश्याच्या एक दिसाची रात. मनीस जेन्ना न्हिदलो आनी दुसरे दिसा उठलो हें पळोवंक फाटलो कोण आसना. तोय आपलो दीस सोंपोवन न्हिदिल्लो आसता. जेन्ना तो उठ्ठा तेन्ना पयलीं न्हिदून उठिल्ल्या मनशाक विसरता, ताका वळखना. आनी ह्याच विचारान खंयचोय मनीस मेलो म्हणटकच जितो आशिल्लो तो परत दिसचोंना म्हूण रडटा. तो रडटा तो जाल्ले सवंयेखातीर. ताका हे धतरेर रावपाची सवंय जाल्ली आसता आनी आपूण न्हिदल्या उप्रांत केन्ना उठ्ठलों हाची ताका खात्री नासता. इतलीं वर्सां जो मनीस न्हिदता ताचें शरिरूय चड वेळ आसा तशेंच उरूंक शकना. ग्राफ्टींग करतना लेगीत जाण्ट्या रूखाच्यो ताळयो तरण्या रूखाक कोण लायना. प्रत्येकाचो काळ हो जुळूंक जाय. तेन्नाच सगळे प्रश्न सुटावे जातात. खंयचोच रूक्षप्रस्न जायना.





# तूं तुजी अंतयात्रा कशी रंगयता



अंतयात्रा. जल्माक आयिल्ल्या जिवाची निमणी यात्रा. जितो आसा सर हो जीव यात्रा करीत आसता. आपल्या पायांचेर धडपडटा. हे यात्रेचें कारण कितेंय आसूं. ताका ती केल्याशिवाय पर्याय नासता. ही जिवितांतली यात्रा एक दीस खंय तरी सोंपता आनी सुरू जाता निमाणी यात्रा. अंतयात्रा. ही अंतयात्रा मात तो दुसऱ्यांच्या आदाराचेर करता. आयजवेर जिवो आसा सर ताची यात्रा एका उद्दिश्टा खातीर जाणविकाय दवरून ताच्या स्वताचेच ताकदीचेर आसताली. ताचो जीव गेलो, जाणविकाय सोंपली म्हणटकच त्याच खिणाक तांचो अंत जावपाची गरज आशिल्ली. अशावेळार परत यात्रेचो प्रसंगच येवप म्हळ्यार एक फकाणाची गजाल. ही अंतीम यात्रा ताची नासताच. कारण ती ताचे ताकदीचेर नासता आनी ताचे जाणविकेंतलीय नासता. ती आसता कोणेतरी दुसऱ्यांनी आपले ताकदीचेर आपल्याक जाय ते वाटेन जाय तशी व्हेल्ली, जाय तशी रंगयल्ली, तांची यात्रा. पूण तांच्या हिसपान ती तांची यात्रा नासता तर त्या जीव नाशिल्ल्या मड्याचीच यात्रा आसता. त्याच प्राणहीन मनशाची अंतयात्रा मानूनच ही यात्रा घडटा. खरें पळोवंक गेल्यार ही अंतयात्रा हेच यात्रा घडोवन हाडपी रंगयतात. मनशाचो दर जसो चड तसो ताका रंग हाडप आयजवेर चलत आयलां. मेल्ल्या मड्याक ताच्या जिवितांतल्या कर्तुत्वाप्रमाण रंग चडटा आनी तांची अंतयात्रा करपी त्याच रंगाचेर आपलेंय जिवीत रंगोवन घेतात.

हांवें जितल्यो म्हूण अंतयात्रा पळयल्यात तितल्योय ह्यो अशाच प्रकारच्यो जित्या मनशांच्यो यात्रा आशिल्ल्यो. तरी हे यात्रेंतलो केंद्रबिंदू तीच व्यक्ति आसताली जी कांय वेळापयलीं राग, लोभ, मोग सगळें सोडून मुक्त जाल्या. जिच्या नांवार जें कितें घडटा ताका ती साक्ष ना. ताच्या खातीर रंगपी ताचे ते यात्रेक तो नाच. जें सगळें जाच्या नांवान घडटा ताच्या खातीर तें नासताच. तो ह्या सगळ्या प्रकाराक परकी आसता. तेचखातीर ताची ही अंतयात्रा ताचेखातीर एक रूक्षप्रस्न आसता.

हांवें जेन्ना जल्म घेतला तेन्ना म्हाका मरण येतलें हें निश्चित. जल्माक आयिल्लो दर एकलो मनीस दिसरात सतत मागत आसता. मनशांकडे मागता, आपले - पेल्याकडे मागता. देवाकडे मागता. हें मागप फक्त आपल्या सुखाखातीर आसता. पूण तांचें हें मागप तांकां मेळटाच अशें कांय ना. मागणें करून करून जेन्ना कांयच मेळना तेन्ना हो मनीस

थकता, उबगता, निर्शेता आनी मागीर मरण मागता. खरें पळोवंक गेल्यार मरण मागपाची गरजूच पडना. सुखाखातीर मागणें केल्ल्यो वस्तू मेळटल्योच हाची कोण खात्री दिवंक शकना. फक्त मरणापासून पयस रावंक सोदपी, मरणाचे कल्पनेनूच कांचवेवपी मनशाक मरण मात मागनासतना मेळटा. खिणभर निर्शेवन मरण मागपी लेगीत मनांतल्यान मरणाचे कल्पेनन भिल्लो आसता. ताचें मागप हें वयलेचाराक आसता. वेगवेगळ्या दुर्येसांनी पिडेस्त जाल्लो आनी जाका जियेवन कायच फायदो नासता तर उरफाटें हेरांक मात त्रास जाता असो मनीस लेगीत आपल्याक लांब - व्हड आयुश्य मागता. मरण मागना.

अशें हें मागनासतना लेगीत मेळपी मरण म्हाका एकदीस मेळटलें म्हणपाची पुराय खात्री म्हाका आसा. म्हजें हेंच प्राक्तन सत्य म्हूण आख्खो संवसार एकमतान मान्य करतलो. म्हजें हें सत्य जेन्ना फळादीक जातलें तेन्ना त्या सत्याक हांव गवाय उरचोंना. गवाय आसतले ते म्हजी अंतयात्रा रंगोवपाखातीर आयिल्ले वेगळेच लोक. हे गवाय कोण आसतले हाची लेगीत गवाय म्हज्यान दिवपाक जावंचिना. असो हो फक्त म्हजो कार्यक्रम हेरांखातीर आसतलो.

जी गजाल फक्त म्हजी आसतली ती गजाल हांव खासा दोळ्यांनी पळोवंक शकना तरी आयज हांव म्हजो हो निमणो प्रवास रंगोवंक शकता. ताची कल्पना करूंक शकतां. कित्याक हो म्हजें - तुजें म्हणपाचो प्रकार हांव आतांच करूंक शकतां. जेन्ना म्हज्यांतलो प्राण वतलो तेन्ना म्हजें - तुजें हो प्रकारूच म्हजेवांगडा ना जातलो. इतलो तेंप जें हांव म्हजें म्हजें - तुजें तुजें करीत आशिल्लों तें निरर्थक जावन वतलें.

हांव मेलों हें कळ्ळें बराबर बोवाळ जातलो हें निश्चित. आतां हो बोवाळ कितले मेरेन जातलो हो हांव केन्ना मरतलों हाचेर अवलंबून आसा. समजा हांव हे पिरायेर अकस्मात अपघात जावन मेलों वा काळजाचो आताक येवन खंवसलों जाल्यार ह्या बोवाळाच्यो लहरी मातशो चड आसतल्यो. म्हज्या मर्णान खुपशा जाणांक अजापाचो धक्को बसतलो. अशे पिरायेर मरप म्हळ्यार मनशाचे संबंध जायते लोकांकडे आसतात. आपले इश्ट आसताच. तेच वांगडा आदली पिळगी आसता आनी फुडलीय पिळगी आसता. ह्या दोनूय पिळग्यांमदलो हांव जाल्ले कारणान तीन थरांवयल्या लोकांकडे म्हजो संबंध आयिल्लो आसा. ह्यो तिनूय पिळग्यो ही खबर आयकून आजापतली. उप्रांत म्हज्या मर्णाचेर चर्चा सुरू जातली. मर्णाफाटलें कारण जण एकलो आपापले परीन सोदूंक लागतलो. जर हांव काळजाच्या आताकान सोंपलों जाल्यार खुपूच सिगरेटी ओडटालो, खुपूच सोरो पियेतालो असो तर्क करून चडशे लोक मेकळे जातले. जर म्हाका अपघात जालो जाल्यार कांय जाण आपले परीन तर्क केले बगर रावंचेनात. कोणांक दिसतलें हांव सोरो पिऊन स्कुटर चलयतालों तर कोण येवजितलो हांव कसल्यातरी सर्जनशील विचारांत आशिल्लों आनी हो अपघात घडलो. नाना तरांच्या तर्कांनी म्हजें मरण भरतलें.

म्हाका जर वेळापयलीं मरण आयलेंना आनी हांव सैमिकरित्या जिवित यात्रा करीत करीत सत्तर - अयशी वर्सांचेर पावलों आनी तेन्ना ते पिरायेर म्हाका सैमीक मरण आयलें

जाल्यार त्या वेळाचो प्रसंग, वातावरण वेगळें आसतलें. म्हजी आदली पिळगी मिरोवपाक नासतली. म्हजे वांगडचे कांय जाण नासतले. आसतली ती म्हजे फुडली पिळगी. हांव जसो म्हजे आदले पिळगेक किरायतां, बकच्छायो करतां तशोच म्हज्योय बकच्छायो करपी, म्हाका किरावपी पिळगी आसतली वा म्हाका पुजपी आसतली. म्हजो वावर हो बदल सतत घडयत रावतली. तरी सुद्धां जें जिवित हांव जगूंक ना ताचेर कल्पना करून हांव म्हजें मरण रंगोवंक शकना. हांव आयज मेरेन जें जियेलां, जें काम केलां ताजेरूच आदारून म्हजी अंतयात्रा हांव रंगोवंक शकतां.

मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद तशी गत हांव मेल्या उप्रांत जातली. हांव कितलो वायट अशें सांगपीच हांव कितलो बरो आशिल्लों हें सांगपाखातीर धडपडटले. म्हजें मरण ही एक बातमी आशिल्ल्यान कांय वर्तमानपत्रां फुडल्या पानार फोटोसयत बातमी छापतले. कांय जाण मदल्या पानार खंयतरी इल्लीशी नोंद करून आपलो शीण भागयतले. ज्या वर्तमानपत्रांतल्यान हांवें लेख बरयले ताचे संपादक अग्रलेख बरोवन म्हजें रीण फारीक करतले. सकाळी जर म्हाका मरण आयलें तर दुसरे दिसा ही बातमी अंतयात्रा जाली आनी तातूंत अमके अमके प्रतिशठीत नागरिकांनी वांटो घेतलो आनी अमक्या अमक्या लोकांनी श्रद्धांजली ओपली म्हूण येतली. जर हें मरण सांजवेळचें आयलें तर कोणतरी वर्तमानपत्रांचेर जायरात दिवन म्हजे अंतयात्रेची जायरात करतले आनी खबर आसून लेगीत येवपाचें टाळूंक सोदपी आनी आपल्याक खबरूच ना अशें सांगून म्हज्या घरच्यांकडे आनी इश्टांकडे दिलगिरी उक्तावप्यांक त्रासांत उडयतले. अंतयात्रेची वेळ कळिल्ल्यान कांय जाणांक झक मारीत हाजीर रावंचें पडटलें.

म्हाका म्हळ्यार म्हजें मडें घराकडें दवरतले. ताची वेवस्ता आयजवेर मेल्ल्या लोकांपरस वेगळी नासतली. घरांतल्या मनशांच्या रडपांत भायर साकून आयिल्ले लोकूय वांटेकार जातले आनी रडप वाडोवपांत हातभार लायतले. कोंकणी - मराठीवादी भेदभाव विसरून आंगणामेरेन हांसत खेळत येतले आनी अकस्मात गंभीर जावन घरांत सरतले. म्हजें निमणें दर्शन घेतले. तांची नुरा पळोवन घरच्यांक चडूच रडूंक येतलें. थोडे जाण कशें घडलें हाची बारीकसाणेन खबर घेतले.

उप्रांत चौगजाण कोणतरी खांद मारतले. म्हजी निमणी यात्रा घरापासून सुरू जावन मसंडीकडे थारतली. थंय हेर मड्यांचेर अंत्यसंस्कार करतात तेच करतले. दोग चौग जाण भाशणां करतले. कांय जाण कोनशाक रावून म्हजी बोरकारी, रूक्षप्रस्न, आघात आनी हेर साहित्याचेर पयलेच फावट चर्चा करतले. भडाग्नी दिले बराबर एक एकलो कूस मारतले.

उप्रांतचे आठ दीस चितेचो धग थंडावत रावतलो. ह्या आठ दिसांत मराठी अकादमी, कोंकणी अकादमी, कोंकणी भाशा मंडळ आदी संस्था शोक प्रगटन करतल्यो. खूप जाणांक

दुख्ख जालां म्हणपाचें जाहीर जातलें. एक दोग म्हजेर लेख बरयतले. ह्या काळांत थोड्यांचो भावनीक उद्रेक जावन म्हजे नांवान स्पर्धा सुरू करून पुरस्कार भेटोवपाची येवजण कांय जाण आखतले. जे कोण चुकून घराकडे पावूं नाशिल्ले ते मागीर तोंड दाखोवंक त्रास जातलें देखून ह्या आठ दिसांत एकएकलो येवन तोंड दाखोवन वतलो. आनी मागीर ?

मागीर कांय ना. सगळें सुरळीत चलतलें. रूक्षप्रस्न चालूच आसतले. तूं तुजी अंतयात्रा कशी रंगयता ?








# तुज्या जिवितांतलो अत्यंत खोसयेचो खीण खंयचो



मनीस सदांच सुखा खातीर धडपडटा. आपल्याक चडांत चड सूख मेळचें होच ताचो हावेस आसता. देवाची प्रार्थना करतना लेगीत तो 'देवा म्हाका सुखी दवर' अशेंच सतत मागत आसता. पूण आपल्याक खुशालकाय दी, खोस भोगय म्हणपाची मागणी मात चडसो कोण केल्लो दिसना. जण एकल्या मनशाक सूख जाय आसता. पूण मेळटा त्या सुखांत खोस मानून रावपाचें मात कोणाक नासता.

वयल्यावयर पळयत जाल्यार सूख आनी खोस हयो दोनूय एकच गजाली दिसतात. जो कोण खोसी आसा तो सुखी आसा असो समज मनशाक पळोवन दुसरो मनीस करता. पूण ह्यो दोनूय गजाली तश्यो वेगळ्यो. सगळीं सुखां आशिल्लो मनीस खुशालभरीत आसता अशें ना. मनशाचो सभाव मुळांत हावरो आसा. सुखाची ताची जितली कल्पना आसा, तितलें सूख ताका मेळ्ळें तरीय ताचे परस ताका तें आनीक चड जायशें दिसता. तो चडांत चड सूख मेळोवपाखातीर ह्या सुखाच्या मृगजळा फाटल्यान धांवत सुट्टा. हे धांवपळींत तो आपली खुशालकाय, खोस होगडावन बसता. खरें म्हळयार ताणें सुखाची जी कल्पना केल्ली आसता, तितलेंय सूख मेळिल्ल्यान तो सुखी जावंक जाय आशिल्लो. तरीयपूण हावऱ्या सभावाक लागून, चड सुखाखातीर धडपडटना ताची सगळी खोस ना जावन वता. तो सुखी आसुनूय खुशालभरीत मात केन्नाच नासता. पूण जो कोण दरेक खीण खोसयेन घालयता ताका जिवितांतलें सूख - दुख एकूच आसता.

सूख हें उक्तावपाची गरज मनशाक दिसना. तें भोगपाचें आशिल्ल्यान जण एकल्याक तें भावता. सुखाचो उपभोग तो ताची कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना घेता. खोस मात दरेकल्याक वेगवेगळ्या तरांनी उक्तावची पडटा. आपल्याक जाल्ली खोस हेरांक कळची देखून मनीस वेगवेगळे उपाय आपणायता. खोस उक्तावपाचें हें प्रमाण त्या - त्या मनशाच्या उत्तेजन शक्तिचेर अवलंबून आसता. कोण फक्त तोंडार हांसो हाडून उक्तायता, कोण टाळयो मारून तर कोण उडयो मारून नाचून उक्तायता. कोणाक ती माराण - फोगेट्यो लावन मोठया प्रमाणांत उक्तावपांत मजा दिसता. जो चड उत्तेजीत जाता ताची खुशालकाय चड आसता अशांतलीय ती गजाल न्हय. खोसयेचें प्रमाण तेदेंच आसता. बदलता तें उत्तेजनाचें प्रमाण. आपली खुशालकाय उक्तावंक मनीस दबाजोय दवरता. हेरांक गोड

किर्तेय दिवन तांकांय आपले खुशालकार्येत वांटेकार करून घेता. जाका खोस जाल्ली आसता ताची ती खुशालकाय भंगची न्हय म्हूण दुख्खी आशिल्लोय केन्ना केन्नाय तोंडांत मिठाय उडोवन आपल्याय मुखामळार खुशालकाय दाखोवपाचो यत्न करता. पूण खऱ्यानिशीं ती खुशालकाय नासता. तो खोसयेचो खीण तार्णे नाटकीपणान तोंडार हाडिल्लो आसता. एकल्याक जाल्ली खुशालकाय, गोडसाण चाखून दुसरो आपले भितर ती केन्नाच रिगोवंक शकना. फक्त जाका खुशालकाय भोगल्या ताची मात तो ताका पालव दिवन वाडोवंक शकता. दुसऱ्याक जाल्ली खोस तितल्याच प्रमाणांत आपल्याक जाल्या म्हणपाचें जाका दाखोवपाचें आसता तो ढोंगी आसता. ती जातली जाल्यार तार्णे ते खीण तितल्याच प्रमाणांत भोगचे पडटात.

खोसयेचें प्रमाण जिवितांत सगळ्या काळार सारखेंच आसलें तरी ताचीं ल्हारां, प्रसंग आनी खीण हाका लागून बदलत आसतात. त्याच खातीर खोसयेचें प्रमाण केन्नाच कोण विचारिना. आनी विचाल्ल्यारूय सांगप शक्य जावंचें ना. आपल्याक कितली खोशी जाल्या हें जेन्ना सांगूंक जायना तेन्ना खोसयेन भरिल्लो मनीस आपलें काळीज खोसयेन उप्पाट भल्लां अशें म्हणटा. हाचोच अर्थ दरेकल्याची खोशी ही ताच्या काळजायेदी आसता. जाचें काळीज व्हड ताची खुशालकायीय व्हड. जेन्ना खुशालकाय म्हळ्यार किर्ते हाचो अर्थ जण एकल्याच्या काळजाक भावता तेन्ना ताका खोसयेच्या खिणांखातीर रावपाची गरज पडना. ताच्या जिवितांतलो दरेक खीण होच खोसयेचो खीण आसता. ताचें पुराय जिवीत खोसयेन भरून वता.

हें सगळें जरी खरें आसलें तरी हातुंतलें खरेपण मनशाकणकणीं बदलत आसता. सदचे खोसयेचे खीण, जांव खोसयेचें जिवीत तांकां खोसयेचें दिसनां, तें जिवीत खोसयेचें आसलें तरी तें सदचें अशें नॉर्मल आसता. तातूंत नविदाद कांय नासता. जेन्ना अती उत्तेजीत जाता तेन्ना तोच खीण तांचे खोसयेचो खीण आसता. जिवितांत असले खूपशे खीण आयिल्ले आसतात. ते खीण गेले की ती उत्तेजकताय हळूहळू ना जायत वता. उरता त्यो त्या खिणाच्यो यादी. मागीर कोणतरी रूक्षप्रस्नकर्तो ह्योच यादी जागयता. प्रस्न खंयचो ? खरें म्हळ्यार आपलें कितलें जिवीत सरलां आनी कितलें उल्लां हाचो हिशेब जाप दितल्याक नासता आनी प्रस्न करपीय, तार्णे आयजवेर घालयल्ल्या जिविताचोच विचार करून प्रस्न करता. तशें करतनां आपूण जियेतां तो सद्याचो खीण हो निमाणो खीण आनी तो सरल्या उप्रांत आपूण नासतलों हाची जाणविकाय हांकां आसा काय किर्ते हें खबर नासता. सर्वसामान्य मनीस आपूण ह्या मुखार खूप जियतलों आनी फाटीं पडलां तें जिवीत कांयच न्हय ह्याच भ्रमांत आसता. ह्याच भ्रमाक लागून आपूण किर्ते करतां हाचो विसर ताका खिणा खिणाक पडटा. होच मनीस आपणें सारलेल्या जिवितांतले खोसयेचे खीण सोदून काडून सगळयांत व्हडलो खोसयेचो खीण तातुंतल्यान वेंचपाचो यत्न करता.

तुज्या जिवितांतलो अत्यंत खोसयेचो खीण खंयचो असो प्रस्न म्हज्या मुखार येता तेन्ना

खंयचो खीण सोडून सांगचो होच प्रस्न म्हज्या मुखार आसता. आयजवेर म्हज्या जिवितांत जितले खीण आयल्यात तितलेय खीण खोसयेचेच आशिल्ले. ह्या सगळ्या खिणांतल्यान अत्यंत खोसयेचो खीण सोडून काडप म्हळ्यार हेर खिणांचेर अन्याय जातलो. हे सगळे खीण त्या - त्या प्रसंगाचेर अत्यंत म्हत्वाचे आशिल्ले. कोणाक आपूण लग्न जालों तो खीण खोसयेचो दिसता. कोणांक पयलें भुरगें जालें तो खीण तर कोणाक पुरस्कार मेळ्ळो तो खीण जिवितांतलो अत्यंत खोसयेचो खीण दिसता. ह्या पयलीं खंयच्याच खिणांक जी गजाल घडूंक ना ती घडली म्हणटकच तोच खीण अत्यंत खोसयेचो म्हणप आनी हेर खिणांचेर अन्याय करप म्हाका जमना.

गोंय मुक्त जाल्या उपरांत गोंयांत भारतीय चलन आयलें. गोंय स्वतंत्र जालें त्या वेळार म्हजी पिराय पांच वर्सांची. शाळेंत वचूंक लागिल्लों. त्या दिसांनी कोणूय सोयरो घरांत आयलो म्हणटकच आमच्या हातार पिपिरमिटांचो पुडो वा बिस्कुत्यो दवरतालो. कोणें जर खावपाची कसलीय वस्त हाडलिना जाल्यार परत वता आसतना खावंक घे म्हूण हातार एक इस्कूद उडयताले. तें वय पयशे खर्चुपाचें नाशिल्ल्यान तो इस्कूद मागीर व्हडलो भाव अथवा आवय - बापायकडेंच वतालो. इस्कुदांचें म्हाका व्हडलेंशें अप्रूप दिसनाशिल्लें. तीं नाणीं सदचे घोळणुकेंत आशिल्लीं आनी तांचो उपेग म्हज्या सारख्यांक तर नाशिल्लोच. गांवांत फेस्त - बीस्त आसलें म्हणटकच हांव घरच्यां वांगडाच वतालों आनी तींच पोस्कोटो जांव चिकोलादी घेवन दितालीं. एकळ्यान खंयीय वचून कितेंय घेवपाची माणसुकीच नासताली. शाळेंत इतेरवालाक आयसफ्रूट लेगीत ! मागीर बोल्सांत इस्कूद आसून फायदो कितें ?

आमगेर म्हजे ल्हानपणा सावन म्हज्या व्हडल्या भावाचो एक आमीग चंद्रकांत रिवणकार म्हूण येतालो. ताका आमी मामा म्हणटाले. म्हाका सख्खो मामा नाशिल्ल्यान तोच आमचो मामा जावन भाच्यांच्यो अपुरबायो करतालो. गोंय सुटके उप्रांत जेन्ना तो आमगेर आयलो तेन्ना ताणें म्हज्या हातार नवीं ताल्ल, चकचकीत तांब्याचीं एका पैशाचीं धा नाणीं दवल्लीं. पयलीं ताणें म्हाका इस्कूद बी दिल्ले. पूण हीं नाणीं, तांचो तो चकचक वेगळोच. भारतीय नाण्यांक हांवें केल्लो हो पयलो स्पर्श. त्या काळार कितलो खोसयेचो खीण तो. त्याय काळार त्या धा पयशांक व्हडलेंशें म्हत्व आनी मोल नाशिल्लेंच. आनी आतां तर ते दिश्टी लेगीत पडनांत. खंयीय आसल्यार कळमेल्लो काळो काळो दिसतलो. एका पयशाचें तें तांब्याचें नाणें कडोवन तांबे म्हूण विकलें जाल्यार त्या एका पयशाचो वालोर पांच पयशां इतलो जातालो. देखून तीं नाणीं चलनाक येतनाच सरळ त्रीं कडोवपाखातीर व्हरूंक लागिल्ल्यान सरकारान अस्सल तांब्याचीं ती नाणीं बंद केलीं. जर बंद करूंक नाशिल्लीं जाल्यार आतां केन्नाय ती चकचकसाण पळोवंक गावपाची. तरी लेगीत त्या काळावयली ती खोस आतां जातली काय कितें हातूंत दुभावूच आसा. तो खोसयेचो खीण अप्रूप. नवलायेचो. मोल नाशिल्लो. कदाचीत दरेकाच्या काळजाभितर स्वतंत्रतायेची, मुक्त रावपाची जी एक आंतरीक इत्सा आसा तीच ते पिरायेर म्हज्या भितर आशिल्ली आनी मुक्त गोंयचें तें चलन पळोवन, तांकां

स्पर्श करून जागवली आसूं येता. ताचोच परिणाम म्हूण म्हाका तो खीण अत्यंत खोसयेचो दिसून आतां लेगीत तो अणभव, त्या अणभवांतली खुशालकाय जशाक तशी भावता.

त्या उप्रांत जोडींतल्यान जांव लॉटरी पुरस्कार हातुंतल्यान हजारांनी रुपया हातांत आयल्यात. तें अकस्मात आयिल्लें धन पळोवन त्या खिणाक खोस जाल्याच आसतली ! ती जावप साहजीकच आसा. पूण खंयचो खीण चड खोसयेचो ? तो चंद्रकांत मामान दिल्ल्या था पयशांचो काय उप्रांत पुरस्कार म्हूण हातांत आयिल्ल्या पंचवीस हजारांचो ? हे खीण अशे खंयच्याच तोलान मोलांव नज. दर खिणाची खोशी त्या त्या खिणांच्या भावाचेर आसता. दर एका खिणाचें म्हत्व जर पारखूंक आयलें जाल्यार मनशाच्या जिवितांतलो दरेक खीण हो अत्यंत खोसयेचो आसता.

म्हज्या जिवितांत कितले तरी खीण खोसयेचे आयल्यात आनी दुख्खाचेय आयल्यात. खोसयेच्या उरफाटें दुख्ख हें उतर हांगा फीट बसना तरी कंटाळवाणो, उबगणेचो असोय अर्थ हांगा जायना. खुशालकायेच्या उरफाट्या भावाकडेन तुळा करपाखातीर हें बरें आसा. जें बरें न्हय तें वायट आनी वायट न्हय तें बरें अशी तुळा करून आमकां जियेवपाची सवंय जाल्ल्यान खुशालकायेकूय ही अशी मर्यादा पडटा. मनीस जाका खोस मानता ती फक्त मानपाचेर आसा. आपल्या जिवितांतलो अत्यंत खोसयेचो खीण खंयचो हें सोदीत बसचे परस जिवितांत आमकां भोगपाक मेळपी दर एक खीण हो म्हत्वाचो मानलो आनी तो आपल्याक भोगपाक मेळळो म्हूण आमी खोस मानली जाल्यार तोच खीण आमचे खातीर अत्यंत खोसयेचो जावं येता. पूण त्या खुशाकायेन भरिल्ल्या खिणांकडेन कोणाचेंच लक्ष नासता. त्याचखातीर आमचें पुराय जिवीत खोसये विरयत वता.

हांव होच एक खीण म्हत्वाचो खीण मानून तातूंत खोस सोदतां. नासली जाल्यार तातूंत ती भरसप गरजेची आसता. आयिल्लो दर एक खीण खोस नाशिल्लो असो समज करून, तोंड रडकुरें दवरचे परस तोंडार खुशालकाय दवरून वावुरपाक म्हाका खोस भोगता. आपल्या फाटल्या जिवितांतले खोसयेचे खीण म्हजे नदरेन अर्थहीण. त्याचखातीर तांचेविशीं केल्लो प्रस्नूय अर्थहीण...... रूक्ष...... रूक्षप्रस्न !





र : (९ जानेर १९५६) अन्याय दिसले
ी भिडमुर्वत बाळगिनासतना अन्याया
ठपी, लावलुसकणाची तमा न बाळगुपी

, कामगार आनी हेर शोशीत - पिडीत
हक्कांखातीर सतत झुंजत आयिल्लो
र्श समाज निर्मणेखातीर सातत्यान
रपी. 'आघात, 'प्रहार' ह्या
फाटीफुडें पळय नासतना हल्लो करपी.
मलेट' सदरांतल्यान उपहासात्मक
प्रस्थापितांचे बुरखे पिंजपी.

कोंकणी ही आपली आवयभास आनी तिची सेवा करप हें आपलें आद्य कर्तव्य हाचो साक्षात्कार जायत सावन नित्य नैमान तिचे सेवेंत दंग. गोंयचें घटक राज्य, कोंकणीक राज्यभाशेचो दर्जो आनी कोंकणीक घटनेच्या आठवे वळेरेंत सुवात ह्या स्वाभिमानाचे चळवळींत सदांच मुखार.

गोंय, गोंयकारपण आनी गोंयचो फुडार ह्या ध्यासान तन-मन-धनान वावुरपी एक ध्येयवादी.

तूं मोगांत केन्ना पडला?

तुवें वेश्यागमन केन्ना केलां?

तुजो लागशिल्लो इश्ट दादलो आसचो काय बायल आसची अशें तुका दिसता?

तुजे बायलेन परक्या दादल्या वांगडा रात घालयल्या अशें तुका कळ्ळें वा तुवें तांका धरलीं जाल्यार तूं कितें करतलो?

तुजो भविश्याचेर विश्वास आसा?

तुका कोणेंय भरपूर दुडू दिता म्हूण सांगून भरिल्ले सभेंत नागडो जावन पासय मारुंक सांगल्यार तूं मारपी?

तुका केन्ना मटको लागला?

तूं सोरो पिता?

तुवें चुंबन केन्ना घेतलां?

तुका आत्महत्त्या करची अशें केन्ना दिसलां?

तुका तुज्या मरणाची तारीक कळप आवडटली?

तुका कोणाक कांयच सांगपाची संद मेळनासतना मरण आयलें जाल्यार आयजवेर सांगूक ना म्हूण तुका पश्चताप जातलो?

तुका तुजें मरण वेंचून काडपाची संद मेळ्ळी जाल्यार तें तूं कसले पद्धतिचें वेंचतलो?